Jaim Vatam Thaim
(A Collection of Stories )

जंय वतां थंय

पयली आवृत्ती :
२६ नोव्हेंबर, १९९४



मुद्रक :
ओमेगा एन्टरप्राएझेस,
११५८, विद्यानगर, मडगांव गोंय ४०३ ६०१

प्रकाशन :
अनंत नरसिंह नायक,
अध्यक्ष, चंद्रकांत केणी षष्ठ्यब्दिपूर्ति सत्कार समिती,
'तीर्थरूपा', न. दा. नायक मार्ग,
आकें, मडगांव - ४०३ ६०१

मुखचित्र :
श्रीधर कामत बांबोळकार

मोल : रु. १००

चंद्रकांत केणी षष्ठ्यब्दिपूर्ति सत्कार समितीन उजवाडायिल्ले हे आवृत्तीच्या वितरणाचे सगले अधिकार 'कुळागर प्रकाशन' हे संस्थेक दिल्ले आसात.

# दोन उतरां

लेखकाचो खरेलो गौरव तागेल्या अप्रकाशित साहित्याच्या प्रकाशनांत आसता. देखून आमचे मित्र श्री. चंद्रकांत केणी हांचे षष्ठ्यब्दिपूर्तीच्या प्रसंगाचेर तांचीं कांय अप्रकाशित पुस्तकां उजवाडावपाची एक येवजण आमी आंखली. ते येवजणेखाला 'जंय वतां थंय' हो तांगेलो कथासंग्रह उजवाडाक येता, हाची आमकां खोस भोगता.

हो संग्रह वाचकांक आनंद दितलो आनी कोंकणी साहित्याचे समृध्दींत भर घालतलो असो आमकां भरवंसो आसा.

'तीर्थरूपा',<br>
न. दा. नायक मार्ग,<br>
आकें, मडगांव.<br>
ता. २६ नोव्हेंबर, १९९४

**अनंत नरसिंह नायक**<br>
अध्यक्ष,<br>
चंद्रकांत केणी षष्ठ्यब्दिपूर्ति सत्कार समिती

# मनोगत

फाटल्या धा-बारा वर्सांच्या काळांत 'राष्ट्रमतां'त 'मनोगत' हें सदर हांव नेमान बरयत आयलां. जिणेंत जें पळयलें, आयकलें, अणभवलें वा वाचलें ताचीं पडबिम्बां म्हज्या मनाच्या हारशांत पडत उरलीं. त्या पडबिम्बांचीं भावकथांच्या रुपान बरयिल्लीं हीं शब्दचित्रां. सप्तकांत एक अशो सुमार सशें भावकथा आतां मेरेन बरोवन जाल्यात. तातुंतल्यो कांय वेंचीक भावकथा ह्या संकलनांत घेतल्यात.

कथेच्या तंत्राचो आधार घेवन हीं शब्दचित्रां बरयलीं. एखाद्रे सत्य घडणुकेचीं, चरित्राचीं, व्यक्तिमत्वाचीं वा प्रसंगाचीं हीं भावचित्रां. कथेच्या रुपान बरयता आसताना तांकां कल्पनेतले संवाद आनी प्रसंग हांची जशी जोड दिल्या तेचभाशेन भोंवतणी वावुरतल्या मनशांची वळख लिपोवचे खातीर नांवां, थळां आनी हेर बदलय केल्यात. 'मनोगत' बरयता आसतना समाज प्रबोधनाचो वा समाजीक प्रस्न सोडोवपाचो हेतू निखालसच नासलो. कॅमराचे तटस्थातायेन, कान, दोळे आनी मन उकतें दवरून भोंवतना भेटिल्ल्या व्यक्तिमत्वाची वा अणभविल्ल्या संवेदनांचीं हीं चित्रां. एकेक कथा म्हळयार एक वेगळें भावविश्व.

ह्या वर्सा जिणेचो साठावो हुमरो हांव हुपतां, हें कळतकच कांय अगत्याच्या इश्टांनीं आनी मित्रांनी म्हजें अप्रकाशित साहित्य उजवाडावाचो प्रस्ताव मांडलो. साहित्याच्या प्रकाशनाखातीर वैयक्तिक अगत्याचो आदार घेवपाची कल्पना तितलिशी आदर्श म्हणूंक जावची ना. पूण एका निमित्यान अप्रकाशित साहित्य उजवाडाक येता जाल्यार तें येवंदी अशें येवजून थोड्याशा संकोचान हांवें तो प्रस्ताव मानून घेतलो. त्या प्रस्तावासकल 'मनोगता'चीं दोन संकलनां उजवाडाक येवपाचीं आसात. तांतुतलें हें पयलें संकलन.

म्हज्या इश्टमित्रानी, म्हज्यावयल्या मोगाखातीर काय आसना, साहित्याची ही जी सेवा केल्या त्या खातीर हांव तांचें अभिनंदन करतां. ताणी जे तरेन म्हजेर मोग उकतायला त्या मोगाचे रीण म्हज्या माथ्यार सदांच उरतलें, हे जाणविकायेन तांका देव बरें करूं म्हणटा.

'मनोगता'क एक निष्ठावंत असो वाचकवर्ग मेळूंक पावलो आनी ह्या वाचप्यांकडेन लेखक ह्या नात्यान प्रत्यक्ष वा अप्रत्यक्ष रितीन म्हजो संवाद जावंक पावलो. ह्या संकलनाक तेच तरेन वाचक बरो येवकार दितले अशी हांव आस्त बाळगितां. तसो येवकार मेळ्ळो आनी ह्या पुस्तकावरवीं कोंकणी साहित्याची विविधताय वाडूंक पावली जाल्यार हें पुस्तक उजवाडावचे खातीर जाणी कश्ट काडले तांगेल्या कश्टांचें चीज जातलें अशें हांव म्हणीन.

मडगांव, **-चंद्रकांत केणी**

२६ नोव्हेंबर, १९९४

# मांडावळ





# १. आंकवार आल्बर्ट

आल्बर्टची आनी म्हजी वळख खूब आदली. ल्हानपणांत सावन हांव ताका पळयत आयलां. दुसऱ्यांक पिसो दिसचो इतलो तो बडबडटालो. पूण तागेल्या उलोवण्यांत एक तर्क आसा हें हालीं हालींच म्हाका समजूंक लागिल्लें. ताजीं कांय वेगळेपणां आसलीं. पावस आसूं गीम, ताच्या आंगार सूट-टाय आसतालो. एक हेल्मेट, जें चडशें तो दाव्या खाक्यांत धरतालो.

फाटले खेपे तो जेन्ना म्हाका मेळ्ळो तेन्ना म्हाका खंयचे गजालीचें अजाप जाल्लें आसत जाल्यार ताच्या तारुण्याचें. चाळीस वर्सां आदीं हांवें ह्या मनशाक अशेच अवस्थेंत पळयिल्लो म्हणपाची गजाल कोणाकय सांगली जाल्यार खरी दिसची नासली. म्हाका उगडास जाता, ल्हानपणांत शेतांत पेल्लांनी खेळटा आसतना बांदावयल्यान तो वतालो आनी आमचो खेळ पळोवंक थोडो वेळ माडाचे सांवळेंत उबो रावतालो. तो मोन्यांनी खेळ पळयनासलो, जाल्यार बांदावयल्यान सुचोवण्यो दितालो. पेल्ल गोलाकडेन पावतकच 'मार, मार' अशें सांगून उबो राविल्लेकडच्यानच आपलो उजवो पांय वावुडटालो. आमकां खेळापरस तागेलें तें नाटक पळोवंक चड आवडटालें.

लांब काळे केंस, निळे दोळे, गोरो वाटकुळो तोंडावळो आनी आंगाचेर धवो फुल्ल वा काळो सूट हीं ताचीं वेगळेपणां. पयसुल्यान लेगीत ताका आमी वळखताले.

आल्बर्ट म्हाका वयलेवयर मेळटा आसलो तरी भुरगेपणांत म्हजो ताजेकडेन संवाद जाय- नासलो. तेन्नाच ताजी पिराय पंचवीस तीस वर्सांची आसतली. त्या मनान हांव खूबच भुरगो. हालींच्या वर्सांनी मात केन्नाय आल्बर्ट रस्त्याचेर मेळ्ळो जाल्यार म्हाका मुजरत जाप दिता. आपल्या घराकडेन एक दीस येवंक सांगता.

"म्हाका खूबशें सांगपाचें आसा. तें आयकून घे आनी बरय." तो म्हणटालो, "म्हाका बरोवंक येना. ना जाल्यार हांवच बरयतलों आसलों."

फुरसदीन एक दीस येतां अशें उतर हांव ताका दर खेपे दितालों.

आल्बर्टालें आनीक एक खाशेलेपण आसलें. तो मेळ्ळो म्हणटकच हस्तांदोलना खातीर उजवो हात फुडें करतालो आनी म्हजो 'हात' एक वेळ ताज्या हाताक मेळ्ळो म्हणटकच तो घट्ट धरून रावतालो. निरोप घेईसर तो हात सोडिना आसलो. तागेली ती निबर मूठ तागेले निरोगी भलायकेची गवाय दिताली.

एक दीस असोच मेळिल्ल्या वेळार हांवें ताका विचारलें, "तुजी पिराय आतां कितली आसतली?"

तो हांसलो. "अजून भुरगो दिसता न्हय?" ताणे विचारलें.

"हय. म्हजेपरस तूं जाणटो इतलें हांव जाणां. पूण आतां म्हज्यांत जाणटेपण आयलां तरी तूं मात अजून भुरगो दिसता. तुका पळयतकच म्हाका च्यवन ऋषीचे कथेचो उगडास

जाता.'' हांवें म्हळें.

च्यवन हें नांव ताणें पयलेच खेपे आयकल्लें. ताणें म्हाका च्यवन ऋषीची कथा विचारून घेतली. जाणटेपणांत जेन्ना देह थकलो आनी गात्रां शिथिल जालीं ते पिरायेचेर च्यवन ऋषीन एक पाक तयार केलो आनी तो खावन च्यवन परत तरुण जालो. त्या उपरांत ताणें लग्न करून आपली वंशावळ वाडयली अशी जी कथा आसा ती हांवें ताका सांगली आनी म्हळें, ''आतां बाजारांत च्यवनप्राश नांवाचें टॉनीक मेळटा. तें च्यवन ऋषीन सोदून काडिल्लें.''

आल्बर्टान च्यवनप्राश हें नांव म्हजेकडच्यान बरोवन घेतलें आनी म्हळें, ''हांवें केन्ना घेवंक ना. आतां घेवन पळयतां.''

हांवें फकाणांनी विचारलें,'' तूं आतां लग्न बी करूंक सोदता काय कितें?''

''ना बाबा, ना!' आल्बर्ट हांसलो, ''आजून म्हाका सोयरिको येतात. पूण तूं जाणा, हांव काजार जावंक ना... आनी जावंकय सोदिना.''

''पूण एक सांग, तूं आजून इतलो भुरगो कसो दिसता? तुजे केंस अजून काळे कशे? कलप बी लायता काय कितें?'

''कांय करिना.'' ताणें जाप दिली, ''देवाची कृपा ती. एक दीस यो तूं. खूब सांगपाचें आसा. सगळें सांगतां.''

पूण आल्बर्टागेर वचपाचो योगच केन्ना येना आसलो.

दोन वर्सा आदीं अचकीत एक दीस हांव आल्बर्टाल्या गांवांत पाविल्ल्या वेळार गाडी पंक्चर जाली. ताचें घर गांवाभायर निर्जन रस्त्याचेर. गाडी पंक्चर जातकच हांव मातसो अडचल्लों. आल्बर्टान म्हाका खंयच्यान पळयलो देवाक खबर. एक मोटवी चड्डी आनी आंगात बानयान घाल्लो आल्बर्ट म्हजेसरीं आयलो. त्या भेसांत हांव ताका वळखलों ना. ताणें परत म्हजो हात धरलो आनी म्हळें, ''तूं यो. आमी बसुया. आमच्या घराफाटल्यान एक ड्रायव्हर आसा. ताका आपोवन हांव तुजो टायर बदलून दितां. ते मेरेन आमी उलोवया.''

त्या दिसा आल्बर्टालें आमंत्रण मानून घेवपा फाटल्यान म्हजो थोडोसो सुवार्थ आसलो. हांव तागेल्या व्हडल्या बंगल्यांत भितर सरलों आनी आल्बर्टान आपल्या मनशांक आपोवन फर्मानां सोडलीं. कोणाक ताणें आडसरां काडूंक सांगलीं, जाल्यार कोणाक ड्रायव्हराक आपोवंक धाडलो.

ड्रायव्हर गाडयेकडेन वचच्या आदींच आडसरां आयलीं आनी तांचें उदक पियेवन जायसर आल्बर्ट सगळोच बोवाळत रावलो.

हांवें पळयलें की ताज्या घरांत घरचो असो दुसरो मनीस ना. पूण खूबशे कामां करपी दादले आनी बायलो घराभोंवतणी वावुरताल्यो. कोण पोरसांत, कोण भाटांत, कोण शेतांत. एक मानाय जळोव फोडटालो. जाल्यार कांय लोक घराचे कुशीक आशिल्लीं लॉजां शिंवताले.

निमाणेकडेन तो शांत जावन बसलो तेन्ना हांवे म्हळें, ''आज म्हाका वेळ आसा. तूं कितें सांगूंक सोदतालो तें थोडे भितर कित्याक सांगिना?'

''पुराय जिविताची खबर इतले बेगीन सांगून जावची ना. पूण म्हज्या काजराची खबर

आज तुका सांगतां. ती बरयतलो मरे?" आल्बर्टान प्रस्तावना केली आनी म्हजे जापेची वाट पळयना आसतनाच खबर सांगूंक सुरुवात केली:

"हांव तेन्ना सतरा अठरा वर्सांचो आसतलों. वाड्यावयली गावड्यांची एक चली आमगेर कामाक आसताली. "त्या दिसांनी घरांत हांव एकलोच उरतालों. हांव पणजे लिसेव शिकतालों आनी सुट्येंत घरा येतालों. घरांतलीं कामां करूंक दोन जाणट्यो बायलो आसल्यो. म्हजी आवय सगळें घर सांबाळटाली. हांव ल्हान आसतनाच म्हजो बापूय मेल्लो."

ते चलयेचें नांव ज्याकीन. ज्याकीनाक आल्बर्ट ल्हानपणांत सावन वळखतालो. ज्याकीनाली आवय तांगेर वावराक येता आसतना आपले चलयेकय घेवन येताली आनी केन्ना केन्नाय आल्बर्ट ते चलयेवांगडा खेळटालो. भुरगेपणांत भाटकार-कामगार असो भेद तकलेंत वचना. एक व्हडलें घर. फुडल्या दारांतल्यान उलो मारलो जाल्यार मागीलदारांत आशिल्ल्याक आयकूंक येना. घरांत कितल्योशोच कुडी. चारय वाटांनी पोरसूं. घरामुखावयल्यान एक पाळण वता. दुसरो रस्तो त्या वेळार नासलो. पाळणींतल्यान एकाद्रो बैलगाडो वतालो. पुराय वाठार शांत.

"हांव इश्कोलाक वचूंक लागत सावन ज्याकिनाची आनी म्हजी भेट जायना आसली. केन्नाय चुकून दिसलें जाल्यार लेगीत आमचे मदीं संकोचाचें परकेपण उरतालें. नदरेक नदर आमी केन्ना दिली ना. लिसेवाच्या दुसऱ्या वर्सा आसतना एक दीस सुट्येंत घरा आयलों तेन्ना एक प्रसंग घडलो."

आल्बर्टान त्या प्रसंगाचें वर्णन केलें:

सांजच्या वेळार तो घरा पावलो. घरांत आवय नासली. भाटांत नाल्ल पाडूंक गेल्ली आनी तिज्या सांगातान घरांत वावराक आशिल्ल्यो दुसऱ्यो बायलोय गेल्ल्यो. घरांत आसलें तें एकलेंच ज्याकीन.

त्या काळार घराची दारां सकाळीं उकतीं जातालीं तीं सांजचीं बंद जातालीं. देखून आल्बर्टाक कोणें दार काडपाचो प्रस्न नासलो. आंगावयले कपडे काडून आल्बर्ट भायर बल्कांवार येवन बशिल्लो. अचकीत ज्याकीन च्याचो कप घेवन ताज्या मुखार उबी रावली.

"हांव ताका पळयत रावलों..." आल्बर्टान म्हळें, " वळखीचें, पूण अनोळखी कशें तें म्हाका दिसलें. भुरगेपणांतलें ज्याकीन वेगळेंच आसलें आनी म्हज्या मुखार एक वेगळीच तरणी बायल उबी रावल्या अशें म्हाका दिसलें. हांव पळयत रावलों. ताणेंच म्हाका भानार हाडलो आनी असो पिश्यांसारको कितें पळयता असो प्रस्न केलो."

घरांतलो एकांत आनी ज्याकिनाचें नवें रूप. आल्बर्टाक कितें दिसलें कोण जाणा! ताणे एकदम ज्याकिनाक वेंग मारली. ताका दिशिल्लें, तें किळच्यो मारतलें वा पळून वचपाचो यल करतलें. आपलो हात तागेल्या तोंडाचेर धरूंक वता म्हणसर ज्याकिनान म्हळें, "आज हीं कसलीं पिशेपणां करता तूं, भाटकारा?'

"पिराय जाली म्हणून भुरगेपण विसरूं येता गो?" आल्बर्टान ज्याकिनाक विचाल्लें.

ज्याकिनान ताचे वेंगेंतल्यान सुटपाचो यल केलो ना. उरफाटें हांसत म्हळें, "कितें करता तें भाटकान्न घरा येवचे आदीं कर. कोणेंय पळयल्यार लोक आमकां हांसतलो. आतां हांवय भुरगें उरूंक ना आनी तूंय भुरगो न्हय."

ज्याकिनाली भास भोळी आसली. पूण सिनेमा पळोवन आनी कादंबऱ्यो वाचून आल्बर्टालें चित्त विकृत जाल्लें. ज्याकीन आपणाक आमंत्रण दिता असो ताणे अर्थ करून घेतलो आनी एकदम ताका विचारलें, "ज्याकीन, तूं म्हजे लागीं काजार जावशीत? हांव तुका म्हजी व्हंकल करतां. ह्या घराची भाटकान्न करतां."

आल्बर्टाक दिशिल्लें, ज्याकिनासारकें अशिक्षित, गरीब आनी कश्ट करपी चलयेक आपल्यासारक्या भाटकाराकडेन लग्न जावपाची कल्पना आवडटली. पूण ज्याकिनाची प्रतिक्रिया वेगळीच जाली. ताणें म्हळें," हांव तुजी व्हंकल सोबता भाटकारा? तूं बरी, शिकिल्ली, गोरी व्हंकल हाड."

ताणें ज्याकिनाभोंवतणची वेंग सोडली आनी ताच्या तोंडाकडेन पळयत रावलो. ज्याकीन आदलेवरीच निश्पाप हांसतालें. ताणें म्हळें, "तुका जालां कितें भाटकारा? येदोळच्यान तूं एकसारको म्हाका घुरून पळयता कित्याक? आनी नाका जाल्लीं पिशेपणां कित्याक करता? चल, च्या पियेवन घे. म्हाका वोगोत जाता. खूब कामां उरल्यांत."

आनी ज्याकीन कांयच जावंक नाशिल्लेभाशेन भितर गेलें.

न्हिवन गेल्ली च्या आल्बर्टान एका घोंटांत पियेवन उडयली. आजून ताचे तकलेंत ज्याकिनाचो विचार घोळटालो. आपूण असभ्य वागलों हें येवजून ताचें मन ताका एके वटच्यान खातालें, जाल्यार दुसरे वटच्यान ताज्या मनाक ज्याकिनाची ओढ लागिल्ली. जिवितांत पयलेच खेपे एके बायलेचो स्पर्श अणभवल्या उप्रांत ताका तो जाय-जायसो दिसूंक लागिल्लो. दुसरे वाटेन ज्याकीन आपल्या भोळेपणान घडिल्ली खबर दुसऱ्याक सांगतलें म्हणपाची भिरांत ताका दिसूंक लागली.

उठून तो मागीलदारांत गेलो. ज्याकीन बांयचें उदक काडटालें. आल्बर्ट वचून ताचेसरीं उबो रावलो. ताका पळोवन ज्याकिनान विचारलें, "आनीक कितें जालें?"

आल्बर्टाक कशें सांगचें तें समजलें ना. ताणे म्हळें, "ज्याकीन जें कितें हांवें तुका सांगलां, तें मनापसून सांगलां. खऱ्यानीच हांव तुजेलागीं काजार जावंक सोदतां. पूण एक उपकार कर. म्हजे तुजेमदीं जें कितें घडलें वा हाचेफुडें घडटलें, तें तूं कोणाक सांगूं नाका."

"हांव कोणाक सांगिना भाटकारा." ज्याकिनान ताका आश्वासन दिलें, "पूण पाद्रीमुखार कुमसार जायना जाल्यार पातक लागतलें."

आल्बर्ट आनीकय भियेलो. हें पिशें ज्याकीन कितें घडलें तें पाद्रीक सांगूंक लागलें जाल्यार गांवात आपली इभ्रत उरची ना, अशें येवजून ताणें ज्याकिनाले पांय धरले आनी म्हळें, "ह्यो खबरी पाद्रीक लेगीत सांगिनात. हें पातक न्हय, आनी आमी कसलेंच पातक करूंक ना. समजलें?"

ज्याकीन कांय एक समजूंक नासलें. कित्याक तर ताच्या मनांत कसलेंच पातक नासलें. फुडल्या दारांत आल्बर्टाले आवयचो आवाज आयलो आनी आल्बर्ट धांवत घरांत गेलो. तरी ताचें मन कांचवेल्लेंच उरलें. ताका दिशिल्लें ज्याकीन कसोय तरी आपलो घात करतलें.

पूण तशें कांय घडलें ना.

पणजे सावन एक दीस घरा आयिल्ल्या वेळार ज्याकिनाचें काजार थारलां म्हणपाची

खबर आल्बर्टाक कळ्ळी. ताच्या मनांत ज्याकिनाविशीं मोग आसलो काय आसक्ती हें ताचें ताकाच खबर नासलें. पूण ज्याकीन दुसऱ्याकडेन काजार जातलें हें आयकून तो अस्वस्थ जालो.

सांजेच्या वेळार तो भाटांतल्यान पासयेक गेल्ल्या वेळार एके बायलेवांगडा ताणें ज्याकिनाक पळयलें. ज्याकिनासरीं वचचें काय न्हय हें तो येवजूंक लागलो. निमाणें ज्याकीनच ताचेसरीं आयलें आनी आपल्या बोटाची मुदी ताका दाखोवन म्हळें, "भाटकारा, म्हज्या काजराक तुवें येवंक जाय."

खोशयेचे उमाळे ज्याकिनाच्या मुखामळाचेर उदेल्ले ताका दिसले. हे चलयेचेर आपणें मनापसून मोग केलो; पूण तिका मोग म्हळयार कितें तें केन्ना कळ्ळेंच ना. दुसऱ्याकडेन आपलें लग्न थारिल्ल्याची गजाल ती चली खोशयेन आपल्याक सांगता. ज्याकिनाचें भोळेपण खबर नासतें जाल्यार तें आपणाक चाळयता असो दुबाव आल्बर्टाक येवपाचो. पूण आल्बर्टाक तशें कांय दिसलें ना. तो आपणाचेरच कसलो. ताका दिसलें, आपणें आपल्या मनांतली गजाल आपले आवयक सांगिल्ली जाल्यार घडये थोड्योशो आडखळी घेवन आपली आवय कबूल जायत आसली. पूण आतां दुसरो उपाय उरूंक नासलो.

ज्याकिनालें काजार दबाज्यान जालें. आल्बर्ट आपलें दुःख गिळून काजाराक मुजरत हाजीर रावलो.

ज्याकिनाल्या घोवाक तो वळखतालो. नाय जाल्यार ताचो घोव त्याच वाड्यावयलो-जुवांव. आपलेपरस ताका जुवांव आवडचो हाचें अजाप आल्बर्टाक जालें. पूण ताणें येवजिलें, नशिबांतलें कोणाक चुकना.

"लग्न सुवाळो सोंपोवन अशांत मनान हांव घरा परतलों. घुमटांचो आवाज म्हाका निवळ बरो आयकूंक येतालो. जिणेंत हांव केन्नाच रडूंक नासलों. त्या दिसा खूब रडलों. कितें करचें तेंच म्हाका येवजना जालें." आल्बर्टान सांगलें, "जिणेंत जायत्यो गजाली अशो आसतात ज्यो, दीस वतात तशे आमी विसरून वतात. काल जीं दुखां रोमतालीं तीं आयज व्हडलींशीं दिसनात. पूण ज्याकिनाक मात हांव विसरूंक पावलों ना. काजराउप्रांत लेगीत तें आमगेर वावराक येतालें. हांव दिसलों जाल्यार आदलेवरीच उलयतालें. पूण एक दीस अचकीत तें येवप बंद जालें. हांवें दुसऱ्या एका मानाया कडेन वासपूस केली आनी ताणे सांगलें, जुवांव ताका कामाक धाडिना."

ज्याकिनाक तागेल्या घोवान भाटकारागेर कामाक धाडपाचें बंद केलां हें कळटकच आल्बर्ट पिशांतरावरी जालो. अशें कित्याक घडलें तें ताका समजलें ना. समजून घेवपाची उमळशीक ताका लागली. जिवितांत एकेच खेपे ताणे मोग केल्लो आनी तो मोगय अपेसी जाल्लो.

ताका चड हुस्को आसलो तो आपणाक लागून ज्याकिनाक त्रास जायत म्हणपाचो. ते भोळे चलयेन घडये घडिल्ली खबर घोवाक सांगिल्ली आसुंये.

जुवांव भाटकारागेर कामाक येतालो. तरीकय ताचे नदरेक नदर दिवपाचो धीर आल्बर्टाक जायनासलो. फुडें एक दीस जुवांवानय भाटकारालें काम सोडलें. तो एक बऱ्यांतलो पाडेकार. देखून ताका भायर काम मेळूंक अडचण येवपाचें कारण नासलें. तरीकय जुवांव आनी ज्याकीन आपणापासून पयस रावंक सोदतात असो आल्बर्टाक दुबाव

आयलो.

दुसरे वटेन घरांत सून हाडपाचीं सपनां जाणटी आवय पळयताली. तिणें कितल्योशोच चलयो पळयल्यो. पूण आल्बर्ट तिचें म्हणणें कानामनार घेवंक कबूल जालो ना.

"तूं म्हज्या मर्णा उप्रांत जाणटेपणांत काजार जातलो, हांव जाणां. तुका जाय तशें कर" अशें वैतागान तिणें आल्बर्टाक म्हणचें. पूण आल्बर्टाचो निर्धार बदल्लो ना.

अचकीत एक दीस एक वायट खबर आयली. माड पाडूंक गेल्लेकडेन जुवांव माडावयल्यान सकयल पडून आत्ताक मेलो. पुराय गांव दुःखांत बुडलो. आल्बर्टाकय मनापासून दुःख जालें. ताणे आपल्या मनशांकडच्यान जुवांवाल्या मरणाखातीर पयशे धाडून दिले; पूण ते आपणें दिल्यात म्हणपाचें मात ज्याकिनाक कळूंक फावना अशी शिटकावणी दिली.

जुवांवाच्या मरणा उपरान्त सुमार म्हयनो भर आल्बर्टाक ज्याकीन दिसलें लेगीत ना. म्हयन्या उपरान्त आल्बर्टाले आवयनच ज्याकिनाक आपल्यागेर कामाक आपोवन हाडलें. ज्याकीन जेन्ना परत तांगेर कामाक लागलें, तेन्नाच्यान आल्बर्टाच्या मनाक थोडी भोव थंडाय मेळूंक लागली.

दीस वचत रावले. आतां ज्याकिनाचो संकोचय सोंपिल्लो. तरी तें एके जाणटे बायलेसारकें गंभीरपणान वागतालें. एकलेंच आसतना आल्बर्टामुखार पावलें जाल्यार लेगीत ताचेकडेन पळय नासलें वा उलय नासलें.

एक दीस अशेंच ताका एकोडें गांठून आल्बर्टान म्हळें, "ज्याकीन, जें जालें तें बरें जालें ना. पूण तुजी तयारी आसल्यार आजून हांव तुजेकडेन काजार जायन."

आंगाचेर सोरपान उडी घेवची तशें तीं उतरां आयकून ज्याकीन कांचवेलें. भियेल्ले भाशेन तोंड करून तें झाडाच्या आदाराक गेलें. उपरान्त थंडसाणेन ताणें सांगलें, "भाटकारा, तुमगेर कामाक येवपाचें म्हाका बंद करूं नाका. जुवांव मेलो तरी हांव ताचीच बायल उरतलें. आनी ताचीच बायल म्हणून मरतलें."

आल्बर्टाची खबर सोंपली. ते आदींच टायर बदलून जाल्लो. म्हाका पावोवंक आल्बर्ट गाडयेसरीं आयलो आनी निरोप घेतना ताणें म्हळें, "असोच परतो केन्नाय यो. आनीकय जायतें सांगचेलें आसा."



# २. कर्नल विजय

दिल्लींतल्या एका रेस्टॉरण्टांत डिनर आदींच थारिल्ली. त्या दिसा हांव दिल्लीक पावलों इतलेच खातीर यजमानान म्हाका फोनावयल्यानच आमंत्रण दिलें. जाणें ती डिनर दवरिल्ली तो म्हजो इश्ट. म्हाका दिशिल्लें म्हाका एकल्याकच ताणें जेवणाक आपयला. पूण थंय वचून पळय जाल्यार धा-वीस आमंत्रीत म्हजे आदींच पावल्यात. दादले तश्यो बायलो.

रेस्टॉरण्टाचे फाटले वाटेन एक उकतें लॉन आसा. त्या लॉनाचेर मेजां कदेलां मांडल्यांत. आमंत्रीत येतात तशे खंयच्याय एका मेजार वचून बसतात. घडये यजमानच तांकां थारायिल्ल्या जाग्यार बसयता आसुये.

इश्टान दारांतच म्हाका येवकार दिलो आनी म्हज्या हाताक धरून ताणे हॉटेलाचे फाटले वटेनच्यान आशिल्ल्या लॉनाचेर व्हेलो. म्हाका व्हेलो आनी एका कुशीच्या मेजाचेर बसयलो. त्या मेजार म्हजे आदीं बशिल्ल्या मनशाकडेन म्हजी वळख करून दितना म्हाका सांगलें, "हो कर्नल विजय. ताचेकडेन खूबश्यो खबरी आसात. तुका त्यो आवडटल्यो."

यजमान दुसऱ्या आमंत्रितांच्या येवकाराक गेलो. मेजाचेर हांव आनी कर्नल विजय दोगच उरले. अनोळखीपणाचो संकोच आसलो. फकत एकामेकांची नांवां आमी जाणा आसले. उपचारीक हस्तांदोलन करून आमी दोगय बरो वेळ मेरेन मोन्यांनी बसून रावले.

थोड्या वेळान यजमान्यान एके बायलेक हाडून आमच्या मेजार बसयली. तिची वळख मिसेस कुमार अशी करून दिली.

पार्टी सुरू जाली आनी एके ट्रेंत पेयाचे भरिल्ले गलास घेवन वेटर आमच्या टेबलासरीं आयलो. मिसेस कुमारान संकोच करिना आसतना व्हिस्कीचो ग्लास उखल्लो. हांवें सगळे ग्लास निरखून संत्र्याच्या रोसाचो ग्लास काडलो. कर्नल विजयान मात ते ट्रे कडेन पळयना आसतनाच वेटराक सांगलें, "डबल ब्रँडी ऑन रॉक्स."

वेटर तकली हालोवन गेलो. मिसेस कुमार चुळबुळटाली. उपचारा खातीर 'चीयर्स' म्हणून सांगातान ग्लास तोंडाक लावपाची प्रथा आसता. तिची अडचण कर्नल वळखलो आनी ताणे म्हळें, "तुमी सुरू करात."

आनी तिणें पयलो घोंट घेतलो. म्हाका ताकीत नासली. मद्याचे फेरे सोंपतासर ग्लासभर ज्यूस म्हाका पियेवपाचो आसलो.

"हें कितें, तुवें ज्यूस घेतला?" घोंट घेतले बगर दोळे उकते जावंक नाशिल्ले भाशेन मिसेस कुमारान म्हाका विचारलें.

हांवें निखटी तकली हालयली. कर्नलाक तिगेलो प्रश्न रुचलो ना. ताणे कपालर हात दवरून आपले भाव लिपयले.

कर्नलाली ब्रँडी आयली. ताणें ग्लास हातांत घेतलो आनी भितल्लें बर्फ थोडो वेळ ग्लास हालोवन विरगळायलें आनी अचकीत पुराय ग्लास आपल्या ताळयांत रकोवन निबरान मेजार आपटिलो.

म्हाका अजाप जालें. तागेलो ग्लास येवपा खातीर येदोवेळ हांव राविल्लों. पूण म्हाका कसलीच सुचोवणी दिले बगर तो एका घोटांत ब्रँडी पियेल्लो आनी मागीर मेजाचेर कोंपर तेकोवन ताणें हाताचेर तकली बागयली आनी दोनय दोळे धांपून विचारांचे तळयेंत तो बुडून गेलो.

मिसेस कुमार एके वटेनच्यान व्हिस्कीचे घोंट घेताली आनी दुसरे वटेन कोणाक तरी सोदताली. घडये, कसल्या रुक्ष लोकांमदीं हाडून आपणाक बसयल्या अशें तिका जाल्लें आसुये.

अचकीत तिणे हात वयर काडून पयसुल्या मेजावयल्या कोणाक तरी हटकिलो आनी उबी रावन आपलो ग्लास हातांत घेवन म्हाका म्हळें, "एस्क्यूज मी."

ती उठून गेली.

ती गेल्याचो अदमास दोळे धांपून बशिल्ल्या कर्नलाक लागलो तशी ताणे तकली वयर करून म्हाका म्हळें, "पिडा गेली तें बरें जालें. ना जाल्यार आमकां सुखान बसूंक दिवची नाशिल्ली."

कर्नलान वेटराक लागीं आपोवन ट्रेंतलो एक व्हिस्कीचो ग्लास उखल्लो आनी मागीर म्हजेकडेन पळोवन म्हळें, "इंस्टंट कीक येवची म्हणून हांवें आदीं ब्रँडी घेतली."

एक रुक्ष हांसो ताच्या तोंडार उदेलो आनी बावलो. परत ताणेच म्हळें, "तशी कीक आयले बगर हांव एका जाग्यार थीर बसूंक पावना आनी म्हाका कानाकडेन पीरपीर मातय सोंसना."

हो मनीस म्हाका इशारत दिता अशें म्हाका ओगीच दिसलें. हाका मोन्यांनी बसून पियेवपाचें आसा. घडये आपल्या मनाचे ताप सोऱ्यांत बुडोवपाचे आसत. हांवें उलोवचें न्हय हें ताणे सुचयलां आसुये.

"चीयर्स!" ताणे आपलो ग्लास उखल्लो आनी म्हाका म्हज्या ग्लासाची याद जाली.

"ते बायलेक तूं वळखता?" हांवें ताका विचारलें.

"ना. आनी म्हाका तिची वळख जाल्लीय नाका आसली. पूण बायलांक हांव वळखतां. जी बायल सोरो पिता, ती बडबडटा आनी तिगेली बडबड आयकतलो दादलो एक तर तिडकता, ना जाल्यार उबगता. देखून ती गेली हें म्हाका बरें दिसलें."

"नाय जाल्यार तुका एकांन्त आवडटा अशें दिसता." हांवें म्हळें.

"एकांन्त... लोन्लीनेस जांच्या वांट्याक येता, तें ताका आवडटा म्हणून न्हय. पूण मन जेन्ना धगधगता तेन्ना एकांताचेंच सूख बरें आसता.' ताणें जाप दिली.

हो मनीस लस्करांतलो काय आध्यात्मिक क्षेत्रांतलो असो दुबाव येवपासारकी गूढ भास उलयलो.

हांवें ताका म्हळें, "हांव तुका त्रास दिवचो ना. तुजो एकांत भंग पावंक दिवचो ना."

"ना. ना. म्हाका उलोवंकय आवडटा. तूं संकोच करूं नाका."

म्हाका सू जालें. हांवें ताका म्हळें, "यजमानान तुजी वळख दितना तुजेकडेन खूबश्यो खबरो आसात अशें सांगिल्लें. म्हाका खबरो आयकून घेवंक आवडटात. जण एकल्याचें विश्व वेगळें, अणभव वेगळे. अशा खबरांक लागून आमी दुसऱ्याल्या विश्वांत पावतात."

उपचारीक संभाशण चलता आसतना तागेले व्हिस्कीचे दोन ग्लास सोंपले. ल्हवूल्हवू तो रंगांत येतालो. ताच्या तोंडावयले रुक्ष भाव वचून उमेदीचे भाव उदेवंक लागले. उलयता, उलयतां अचकीत ताणें म्हळें, "जाणा तूं, हांव बारा वर्सां युध्दकैद्री आसलों-चिनांत..."

हांव अजापान ताच्या तोंडाकडेन पळयत रावलों.

पार्टेक आयिल्ले लोक सगळे लॉनभर शिंपडिल्ले. ताका लागून वातावरणांत कुलकुलाट आसलो. तरीकय दर एका टेबलावयलें विश्व वेगळें. कोण हांसतालो, कोण गंभीरपणान उलयतालो आनी भरिल्ले ट्रे घेवन वेटर मर्दी भोंवताले. यजमान एकेका टेबलासरीं वचून आमंत्रितांक आग्रो करतालो. तांचेकडेन एक-दोन उतरां उलोवन दुसऱ्या मेजाचेर वतालो.

तो आमच्या मेजासरीं आयलो आनी अजापान ताणें म्हळें, "ह्या कोनश्याक तुमी दोगच बसल्यात?"

"टू इज कंपनी." कर्नलान जाप दिली.

"तशें जाल्यार बरें आसा." अशें म्हणून ताणें म्हाका म्हळें, "कर्नलाकडेन खूबशो गजाली आसात त्यो समजून घे. कोणेय तरी त्यो बरोवन काडूंक जाय.."

यजमान गेलो आनी हांवें कर्नलाक विचारलें, "कसल्यो गजाली म्हणटा तो?"

"एका सैनिकाचे जिणेंतल्यो यादी. दुसऱ्यो कसल्यो आसतल्यो? चिनाकडल्या झुजांत हांव झुजलों. त्या झुजाचे उगडास. उपरान्त जखमी अवस्थेंत तांणी म्हाका कैदी केलो. त्या बंदिवासाच्यो यादी. आनी बारा वर्सांउपरान्त हांव सुटून आयलों. परत मायदेशाक पावलों. ह्यो सगळयो गजाली लोकांक अप्रूप दिसप सभावीक आसा."

"आजून तूं लस्करांत आसा?" हांवें विचारलें.

"ना. हांवें आपखोशयेन निवृत्ती घेतल्यार खूब वर्सां जालीं." ताणें जाप दिली, "सध्या म्हजें पंजाबांत एक फार्म आसा."

पंजाबांतली परिस्थिती म्हज्या दोळयांमुखार उबी रावली आनी हांवें ताका विचारलें, "थंय तुका आतंकवाद्यांचो त्रास जाता?"

"हांव पेपरांत तांच्यो खबरी वाचतां. पूण आजून म्हज्या मार्गार कोण येवंक ना. म्हाका कसलोच त्रास ना. म्हाका मारून तांकां कांय मेळचें ना आनी हांव मेलों म्हणून कोण रडचो ना."

"अशें कित्याक म्हणटा तूं? तुजीं कोणय मायेचीं मनशां आसतलींच न्हय?

बायल, भुरगीं, भाव-भायणी कोणयतरी.''

''ना... ना. सगळीं नातीं आतां तुटल्यांत. हांव एकलो एकसुरो. म्हजे हात-पांय घोळटात ते मेरेन फार्मांत काम करतलों. उपरान्त हें फार्म खंयचेय तरी धर्मदाय संस्थेक दान दितलों.''

तो उलयता आसतना ताचो आवाज इल्लो खंती जालो अशें म्हाका दिसलें. पूण एकदम तेविशीं विचारप समा जावपाचें न्हय. खूबशे प्रस्न तकलेंत आयले. ताचें लग्न जालां काय जावंक ना? ताका भाव-भयण कोण आसात काय ना? पूण हांवें सरळ तेविशीं विचारिनासतना ताका झुजामळावयल्यो खबरी विचारल्यो.

झुजाचो विशय काडिनाफुडें ताच्यांतलो सैनिक जागो जालो. मोठ्या अभिमानान ताणें भारतीय लस्कराच्या शौर्याच्यो आनी त्यागाच्यो गजाली म्हाका सांगल्यो.

''झुजामळाचेर आमचे जवान आनी अधिकारी दुसऱ्या खंयच्याय लस्करापरस उणें न्हयत. आमचीं साधनां उणें पडलीं. ना जाल्यार इतिहास वेगळोच घडपाचो.'' ताणें सांगलें, ''तरी आसतना आमच्या जवानांनी १९४८, १९६२, १९६५ आनी १९७१ ह्या वर्सा जाल्ल्या झुजांनी जें शौर्य दाखयलां ताका तुळा ना.''

तो तपशीलवार खबर सांगतालो. शस्त्रांचीं, मोर्च्यांचीं, आघाड्यांचीं आनी गांवांचीं नांवां घेवन कितें-कितें घडलें ताचीं वर्णनां करतालो. पूण त्या वर्णनांनी एक तटस्थताय आसली. तो आपली अशी खबर सांगिनासलो. तो भारतीय लस्कराचीच खबर सांगतालो आनी म्हाका तर ताची वैयक्तीक खबर समजून घेवचेली आसली.

''बंदिवासांत तुका त्रास खूब सोंसचे पडले आसतले न्हय?'' हांवें विचारलें.

''कत्तलखान्यांत व्हरतल्या गोरवांक लेगीत बरी वागणूक मेळटा आसतली. ताचे पाश्ट वागणूक सुर्वेच्या दिसांनी आमकां मेळ्ळी. पूण उप्रांत ते आमचे वाटेक वचनासले. जाल्यारय तो बंदिवास खूबच कष्टांचो आसलो. आमी जिते आसात काय मेल्यात हें भारतांत कोणाकच खबर नासलें. खबर नासतलें म्हणपाची आमची खात्री. झुजाच्या मळावयली गजाल वेगळी. थंयय त्रास आसतात. पूण दुस्मानाच्या बंदिवासांत सांपडप हें एका सैनिकाखातीर मर्णापाश्ट यातनांचें जिणें आसता. तें आमी भोगलें. एक आनी दोन न्हय, पुराय बारा वर्सां. ह्या लांब काळांत आमचो संपर्क येतालो तो बंदखणीच्या वणटींकडेन आनी आमचेर पहारो दवरतल्या चिनी सैनिकांकडेन. पूण तांची भास आमकां समजनासली. आमकां रेडिओ आयकूंक मेळनासलो. वर्तमानपत्र वाचूंक मेळनासलें. कोण आमचे खबरेक येनासलो आनी घरच्यान तर कागद-पत्र कांयच नासलें.'' इतलें उलोवन तो सुस्कारलो.

हांव ताचेकडेन पळयत रावलों. ताच्या तोंडावयले भाव ल्हवू-ल्हवू बदलताले. एके तरेची उदास खंत ताच्या तोंडार उदेवंक लागली आनी तो आपल्या दोनय हातांच्यो मुठी आंवळून येवजूंक लागलो. म्हाका ओगीच दिसलें, हो मनीस खंयच्याय खिणाक रडूंक लागतलो. त्याच वेळार एक वेटर ट्रे घेवन आयलो आनी ताणें मुखावयलो ग्लास गटगटीत पियेवन रिकामो करून ट्रेंतलो नवो भरिल्लो ग्लास उखलून मेजार दवरिल्लो.

''बारा वर्सां म्हळयार ल्हान काळ न्हय.'' आपणाकडेनच उलयिल्लेभाशेन ताणें

म्हळें, "घरा बारा वर्सांची चली आसत जाल्यार ह्या काळांत ती लग्न जावन घोवागेर गेल्ली आसता. भुरग्यांची आवय जाल्ली आसता. मायेचीं कितलींशींच मनशां संवसाराक अंतरिल्लीं आसतात. इतलेंच न्हय, जांची याद काळजांत जागोवन जांच्या मोगाच्या धिराचेर बारा वर्सांचो काळ बंदखणीत सारिल्लो आसता, त्या काळांत त्या मनशांल्या मनांतली माया आटिल्ली आसता." इतलें उलोवन ताणे एक घोंट घेतलो आनी आंग शिरशिरायलें. जसो काय एक याद तो विसरून उडोवंक सोदतालो.

"तुका सोडटकच तूं सरळ घरा गेलो?' हांवें विचारलें.

ताणें मान सकयल घाली आनी ल्हवू आवाजांत म्हळें, "घर म्हळयार चार वणटीची वास्तू? काय घर म्हळयार मायेचो राबितो? म्हज्या वांट्याक माया आयली ना. घर आयलें. घरांतलीं मनशां आयलीं. पूण म्हाका थंय मोग मेळ्ळो ना. जशी एकाद्री न्हंय गिमांत आटून सुकें सडसडीत रेंवट जाता तशी, ज्या मनशांक हांव म्हजीं मानतालों तांची माया आटिल्ली. हांव घरा कितले उमेदीन गेलों! पूण जेन्ना हांवें पळयलें की म्हजेविणें तांची जीण बरी चलता आनी हांव आयल्या उप्रांत जांकां म्हजी आडखळ जावंक लागली तीं मनशां म्हजीं अशें हांव कशें म्हणूं? हांवें घर सोडलें.." परत ताणे दोन घोंट ताळया सकयल गिळ्ळे आनी नदर रोखून म्हजेकडेन पळयत म्हळें, "जाणा तूं, नातें आसता तें फकत एकच; तें आवयचें. दुसरीं सगळीं नातीं तकलुपी. म्हजी आवय म्हज्या भुरगेपणांतच भायर पडिल्ली."

"आनी दुसरें कोण लागीचें मनीस घरांत नासलें?" हांवें विचारलें.

"लागीचें म्हळयार कसलें म्हण्टा तूं? म्हजी बायल आसली. एक चली आसली. जाणटो बापूय म्हजें सुटके आदीं मरून गेल्लो. एक भाव आपल्या संवसारांत रमून गेल्लो. म्हाका भयण ना... पूण जीं मनशां आसलीं, तीं म्हजीं अशें हांव मानतालों, तांचेखातीर हांव जगतालों. तांचे यादीन चिनी बंदिवासाची लज गिळून परत घरा आयिल्लों."

जेवणाचें मेज एके कुशीक मांडिल्लें. लॉनावयले आमंत्रित उठले तेन्ना आमकांय उठचें पडलें. हांवें यजमानाक म्हळें, "ताज्या काळजांत ज्वालामुखी धगधगता. पूण पुराय खबर आजून ताणें सांगूक ना."

"आतां जेवया." यजमानान म्हळें, "तुजी ताची भेट हांव घडोवन हाडटां."

जेवणाच्या मेजाचेर तो गर्दीत घुसपलो. कोण तरी ताका थंय मेळ्ळो आनी आपली भरिल्ली प्लेट घेवन तो दुसऱ्याच मेजार वचून बसलो.

हांव ताची वाट पळयत म्हज्या मेजार आयलों. पूण जेवण सोंपसर तो म्हजेसरीं आयलोच ना.

निरोप घेता आसतना हांव मुजरत वचून ताका मेळ्ळों आनी म्हळें, "तुजी खबर अर्दीच उरली."

"म्हजें सगळेंच अर्दें." तो हांसलो. निबरान म्हजो हात दाबून ताणें निरोप घेतलो.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं हांव म्हज्या कामाक वचूंक भायर सरलों आनी रुमांत परत येयसर दनपार जाली. एक चीट म्हजी वाट पळयताली. कालच्या इश्टान विचारिल्लें. "आज रातीचें जेवण आपणागेर घेवंक मेळत?'

हांवें रोखडोच फोन केलो आनी विचारलें, "जेवणाक आयल्यार कर्नल विजयाची भेट जायत?"

"तुका तो बरोच आवडिल्लो दिसता. पूण तो दिल्लींत आसा काय परत गेलो तें हांव नकळ. वासपूस करतां." इश्टान म्हळें.

रातीचो वेळ हो मेकळो वेळ आसलो. इश्टागेर गेलों. तेन्ना म्हाका येवकार दितनाच ताणे सांगलें की कर्नल विजय परत गेलो.

तरी पूण दिल्लीक वतकच त्या इश्टाल्या घरा वचप गरजेचें आसलें. खासा तो एक कथालेखक. ताका लागून कर्नल विजयाक हांव कित्याखातीर सोदतां आसतलों हाची ताका पुराय कल्पना आसली.

"खूबच रुक्ष जाला कर्नल." इश्टान म्हाका सांगलें, "चार लोक आसल्यार थंय तो वचना. उलयलो जाल्यार बडबडत रावता. ना जाल्यार ओग्गी बसता."

"ताणें म्हाका आपले बायलेची खबर सांगली ना. पूण तिचेविशीं तो उलोवंक वतालो. आमचें उलोवणे अर्धारच उरलें. आनीक एक पंदरा मिनटां मेळिल्लीं जाल्यार घडये कितेंय सांगत आसलो." हांवें म्हळें.

"सांगत आसलो, घडये नासलो." इश्टान म्हळें, "ताचें कांय सांगूंक जायना."

"म्हाका दिसता, बारा वर्सां चिनांत उरलो ताचें ताका व्हडलें दुख्ख ना. ताची लज ताका दिसताच; पूण ताचें दुख्ख इतलेंच की बारा वर्साउपरान्त घरा आयलो तेन्ना घरच्यांचो रंग बदल्लो. तेच खातीर तो खंती जाला."

"तुका खबर ना." इश्टान म्हळें, "तो मेलो अशें लस्करान ताच्या घरच्यांक कळयिल्लें आनी घरचे लोक तागेलें श्राध्द वाडून लेगीत मेकळे जाल्ले."

"खरें म्हणटा कांय कितें?" अजापून हांवें विचारलें.

"खरें तर." ताणें म्हळें, "झुजावेळार अशें घडटा. कांय सैनिक मरून पडटात तांचीं वळख मेळना. अदमासान तांची वळख घेतात आनी जे शेणल्यात तातुंतले कांय मेल्यात अशें घरच्यांक कळयतात."

"असलें सिनेमांनी घडिल्लें हांवें पळयिल्लें." हांवें म्हळें, "आज पयलेच खेपे ही खबर आयकतां. कर्नल विजयाक तागेलीं घरचीं वळखलीं नात? तागेले बायलेन दुसरें लग्न केलें?"

"तशें कांयच घडलें ना. तो गेलो तेन्ना एक चली ल्हान आसली. ती ताका वळखली ना ताचें अजाप ना. तागेली बायल ताका वळखली. पूण जे तरेन ताचेकडेन ती वागली ताका लागून हागेली तकली भिरभिरली आनी तो घर सोडून गेलो."

"अशी कशी वागली तर ती?"

इश्टान तो प्रसंग म्हज्या दोळ्यांमुखार उबो केलो. बंदखणींतल्यान सुट्टकच तो मोठे उमळशिकेन घरा गेलो. आंगार सादो भेस आसलो. रातभर बसीन प्रवास करून आनी उपरान्त सुमार धा मैल चलून झुजामळार हारिल्लो, दुस्मानाचे बंदखणींत राविल्लो, घरच्यांचे आनी लोकांचे नदरेन मरून गेल्लो एक लाचार सैनिक कफल्लक अवस्थेंत जेन्ना घरा येता, तेन्ना ताची मनस्थिती कशी आसतली हाची कल्पना करात.

ताणे दार वाजयलें आनी बायलेनच दार काडलें.

"तो तिका वळखलो ना?" हांवें विचारलें.

"वळखलो आनी तीय ताका वळखली. पूण दुबावान ताका पळयत रावली. तिची अवस्था कशी जातली हाचोय अदमास कर. आपूण सपन पळयतां काय भ्रमांत आसां अशें तिका दिसलें आसतलें." इश्टान जाप दिली.

पांच मिनटां तो दारांत उबो. मायेचें उतर ना. येवकाराचो उपचार ना. मोगाची वेंग ना. तो गुन्यांवकाराचें मन घेवन दारांत उबो आनी ती दुबळी तटस्थ निर्विकार मुखार उबी.

तीच कुशीक सरली. तो भितर आयलो. घरांतलो बदल ताणें पळोवन घेतलो. परकी कसो सोफाचेर बसलो.

बायल भायर सरून वचपाच्या बोवाळांत. ती एक ल्हानशें दुकान चलयताली. चली शाळेंत गेल्ली. च्याचो एक कप हाडून ताच्यामुखार दवरलो आनी तिणें म्हळें, "हांव दुकानार वतां; दनपरां येतां." ताचे जापेची वाट पळय नासतना ती गेली.

आपल्या शेणिल्ल्या मनाक तो समजावंक लागलो. अजापाचो धक्को बसून ती निर्विकार खोशयेच्या उमाळयांत ती तटस्थ जाल्या... तो न्हालो, घर पळोवन घेतलें आनी सोफाचेरच न्हिदलो.

बायल बेगीन आयली. कांय उलयली ना. रांदचेकुडींत गेली. ताका दुख्ख जालें. बारा वर्सांचो वियोग. पुण ती पुराय बदलिल्ली. सादी वासपूस केली ना. जेवणाक भाजी-रोटी परक्या मुखार हाडून दवरची तशी मेजार हाडून दवरली. पोटाक भूक आसली, पूण रोटयेचो कुडको ताळयासकयल देंवलो ना.

चली शाळेंतल्यान आयली. ताणे म्हन्यांत घेवंक हात फुडें काडले. तिणे भियेवन किळच मारली आनी आवय फाटल्यान वचून लिपली. आवयन तिका वळख करून दिली ना. उरफाटें तिका दुसरे कुडींत वचूंक सांगलें. दनपारचीं जेवणां मोन्यांनी उलगलीं. हॉटेलांतलो वेटर लेगीत जेवतल्याची वासपूस करता. तिणे ताका कांय विचारलें ना. जेवली तशी परत दुकानाचेर गेली. वतना चलयेक घेवन गेली.

घरांत तो एकलो. तें ताचें घर! पूण चिनी बंदखण तेपरस बरी अशें ताका दिसलें.

आवय आनी धूव सांजचीं परत आयलीं. तांचो संवसार वेगळो. तो एकमुळो बसून रावलो. शून्यांत नदर थिरावन आपलें दुख्ख विसरपाचो यत्न करूंक लागलो. ती आपल्याक वळखूंक ना? ती आपल्याक दुबावता? पूण तिचे वागणुकेंत तसलो दुबाव दिसना. पुण एक परकीपण आयलां. अनवळखी मनशाकडेन वागचें तशी वागता.

रातीच्या जेवणाचो प्रसंग दनपारच्या जेवपासारकोच आसलो. चली तर दाराचे कुशीक लिपून ताका पळयताली आनी ताची नदर तिचेर पडली जाल्यार कांचवेताली.

रात जाली आनी तिणे ताका न्हिदपाची कूड दाखयली. ताची कूड. ती कूड म्हळ्यार म्होंवाळ यादींचो जागो. जमनीर एक जमखान. जमखानाचेर गादी. पांगरूंक रजय.

"खाटी खंय गेल्यो?" ताणे विचारलें.

लग्ना वेळार मोटे उमेदीन ताणे खाटी करून घेतिल्ल्यो. एक तिची, एक ताची.

"दुसरे कुडींत आसात." बायलेन जाप दिली, "हांव आनी चली ते कुडींत न्हिदतात."

तिणे ताका सुचक भाशेंत खूबशें सांगिल्लें. उदकाचो तांबयो ताच्या उशाकडेन दवरलो आनी आपले कुडींत वचून तिणे दार बंद केलें.

सगळें घर, सगळी जीण त्या खिणाक ताका खावंक आयली... रातभर तो बसून रावलो आनी फांतोडेर उठून घर सोडून गेलो.

"पूण तांकां एकठांय हाडपाचो यल कोणें केलोच ना?" हांवें विचारलें.

"कोण करतलो?" इश्टान जाप दिली," कर्नल विजय सामको मोनो जाला. ही खबर ताणे म्हाका एका वर्साआदीं सांगली. हांवें कितलो समजायलो, तो परत वचूंक तयार ना. हांवें एका वळखीच्या मनशाकडच्यान तागेले बायलेलो पत्तो घेतलो आनी तिका वचून मेळळों. तिणें कितें जाप दिली जाणा तूं? तिणें म्हळें, 'म्हजो घोव मरून इतलीं वरसां जालीं अशें म्हजें मन मानता, विधवेची जीण हांव जगून आयल्यां. आतां तो परत आयलो तरी म्हजें मन ताका घोव मानूंक कबूल ना. ताका रावचेलें आसत जाल्यार ताणे आमच्या म्हन्यांत रावचें, ना जाल्यार...' आतां तूंच सांग, कोण कितें करतलो?"

इश्टागेर खाशेलें जेवण केल्लें. पूण म्हजी जेवपाची वान्साच मेल्ली. म्हाका भोंवन भोंवन कर्नल विजयाचो उगडास येतालो आनी तागेली ती खंती मूर्त नदरे सामखार येत रावताली.



# ३. मंजू

फाटल्या सप्तकांत अहमदाबादाक वचचें पडलें. पश्चिम क्षेत्र संस्कृतीक केंद्राच्या वाठारांत राजस्थान, गुजरात, दमण-दीव, दादरा-नगर-हवेली, महाराष्ट्र आनी गोंय ह्या प्रदेशांचो आसपाव जाता आनी ते कमिटीच्यो बसका आसल्यो म्हणटकूच त्या वाठाराची भोंवडी घडटा.

राजस्थान-गुजरात वाठारांत हांव खूब भोंवलां. ह्या राज्यांच्या साबार शारांनी म्हजे इश्ट-मित्रय आसात. परत एके खेपे तांकां वचून मेळप म्हळयार पोरण्यो यादी उस्तीत उस्तीत सोंपिल्ली जीण नव्यान जगपाचो आनंद घेवप.

ह्याच केंद्राचे समितीची बसका फाटले खेपे गुजरातची राजधानी गांधीनगराक आसली. गिमाचो रखरख तेन्ना तापतालो. अहमदाबाद शारांत दंगे जावन संचारबंदी लागू जाल्ली. देखून ते खेपे अहमदाबादाक रावतल्या इश्टांगेर वचूंक पावलों ना. फोनावयल्यान तांचे कडेन उलोवणीं जालीं तितलींच. इतल्या वर्सां उपरान्त इतले लागीं येवनय एकामेकांक दोळयांनी पळोवंक मेळना वा हात दिवंक मेळना हाचें दुःख कितलें आसता तो एक घेवपासारको अणभव आसलो. हे खेपे तरी अहमदाबादाक भोवंक मेळटलें, पोरण्या इश्टांक मेळूंक मेळटलें ही उमेद बाळगून त्या शारांत देंवलो.

म्हजो खूब लागशिल्लो इश्ट दीपक अहमदाबादाक रावता. एक खेपे तागेर वचून राविल्लों, ते गजालीक आतां उणेंच तीस-बत्तीस वर्सां जालीं. मजगतीं एक-दोन खेपे आमी मेळिल्ले; पूण हांव तागेर पावंक नासलों. फाटले खेपे गांधीनगराक येवनय हांव तांगेर पावलों ना म्हणपाचें ताकाय वायट दिशिल्लें आनी फोनावयल्यान ताणें दुसरे खेपे सरळ आपल्यागेरच येवपाचो आग्रो केल्लो.

जे बसकेखातीर हांव अहमदाबादाक गेल्लों, ते बसकेच्या वांगड्यांक रावपाची वेवस्था वेगळेकडेन केल्ली. देखून बसका सोंपतकच एक रिक्षा घेवन आदीं फोन केलेबगर हांव दीपकाल्या घरा गेलों. दीपक घरांत नासलो.

"भायल्या गांवांत गेला; आठ दिसांनी येतलो." मातशी उर्मट जाप दार उकतें केल्ले बायलेन दिली.

ती म्हज्या तोंडार दार परत बंद करता, इतले म्हणसर हांवें विचारलें, "घरांत कोण आसात?"

दुबावाची एक जळजळीत नदर म्हजेर भोंवडावन ते बायलेन दार बंद केलें.

दारांत आशिल्लो रिक्षावालो लेगीत म्हाका हांसलो. इतल्या पैसुल्यान मुजरत हांव आयलां; पूण घरचे मनीस म्हाका घरांत घेनात, अशें ताका दिसलें जाल्यार अजाप ना.

घडयाळींत सांजवेळचीं पांच वरां जाल्यांत. भायर वत आसा. मुख्य रस्त्याचेर ग्रेरादारी आसा. हांवें निगरगट्ट जावपाचें थारायलें. दीपक जरी घरांत नासलो तरी घरचो कोणूय मनीस म्हाका नांवान तरी वळखतलो असो विस्वास दिसतालो.

हांवें परत बेल वाजयली.

भितल्ल्यान बायलांच्या उलोवण्याचो आवाज आयलो. जिणें दार काडिल्लें ती व्हडाव्हडान सांगताली, "कोणतरी अनवळखी मनीस आयला. दीपकभाय ना म्हणून सांगल्यार घरांत कोण आसा, अशें विचारता. म्हाका मनीस दुबावाचो लागता."

"आगे, पूण तुवें नांव तरी विचारपाचें. अशें दार बंद करतात?" दुसरे बायलेचो आवाज.

दाराक बसयिल्ल्या हारशाच्या दोळ्यांतल्यान कोणतरी म्हाका पळयता इतलें म्हाका कळ्ळें. ती म्हाका वळखली ना. दुसरी आयली.

मोठ्यान वडून नांव सांगचें अशें म्हाका दिसलें. इतले म्हणसर "हुं जोऊं छुं" अशें म्हणून एके बायलेन दार उकतें केलें आनी मातशें तिडकून म्हाका विचारलें, "कोण जाय?"

"दीपकभायची बायल आसा?"

"तूं कोण?"

हांवें म्हजें नांव सांगलें.

"गोंयच्यान आयला?" तिगेलो प्रस्न.

म्हाका सू जालें. म्हज्या नांवाचो आनी गोंयचो सांगड घालतल्या मनशाक वळख दिवप कठीण जावचें ना म्हणपाचो धीर आयलो.

घरांतल्यान दोन तीन बायलो भायर आयल्यो आनी जे बायलेन म्हजी वासपूस केल्ली, तिणें म्हाका बसूंक सांगलें.

"सामान खंय तुजें? रिक्षांत आसा?" तिणें विचारलें.

"ना. सामान हाडूंक ना." हांवें जाप दिली, "एके मिटींगेक आयिल्लों. हेरां वांगडा सर्कीट हाउसांतच रावलां."

"कित्याक? म्हजो बापूय नासलो म्हणून तुवें हांगा रावचें न्हय म्हणून थोडेंच आसा. फाल्यां ताका कळटकूच वायट दिसतलें." तिणें म्हळें.

बापूय? म्हणजे ही दीपकाली चली! इतली जाणटी दिसता!

"तूं मंजू?" हांवें अजापून तिका विचारलें.

"म्हणटकूच तूं म्हाका वळखूंक नाशिल्लो तर..." मंजू हांसली.

वळखतलों कसो? मंजू ल्हान आसतना तिका पळयिल्ली. स-सात वर्सांची आसुये तेन्ना. मनांतल्या मनांत हिशोब केलो. आतां चाळीस वर्सांच्या अदमासाची पिराय आसतली. पूण पळोवंक ती खुबूच जाणटी दिसली. उदास, भकास तोंडावळो, पिकिल्ले केंस आनी हात गळो उकतो. कपलाकय लावंक ना...

मंजूचें लग्न सुमार धा-बारा वर्सां आदीं जाल्लें इतलें हांव जाणां. घोव गुजरातेंतच खंय तरी आसता. म्हाका लग्नाचें आमंत्रण आयिल्लें. ही मंजू कशी आसतली?

"खऱ्यानीच तूं मंजू?" हांवें परत विचारलें.

"हय, हांवूच मंजू. तुवें भुरगेपणांत म्हाका पळयिल्ली. देखून तूं वळखूंक विसरलो."

हांवें जाप दिली ना. रिक्षा सोडपाचें निमित्त्य करून भायर गेलों. भाडें फारीक केलें आनी परत येवन हॉलांत बसलों तेन्ना उदकाचो पेलो घेवन मंजूली आवय थंय आयिल्ली.

भाभीक वळखूंक अडचण आयली ना. मनांतल्या मनांत हांव येवजूंक लागलों. मंजूची आवय आतां मंजूपरस भुरगी दिसताली. दोन भयणी कश्यो त्यो दिसल्यो.

"मंजू खुबूच जाणटी आनी थकिल्ली शी दिसली. हांव वळखलों ना." हांवें म्हळें.

"आपल्या नशिबाचे भोग भोगता बाबडी! आमकां ती जड न्हय; पुण झाडाचें फूल जशें झाडारच फुलता, परमळटा आनी सोंपता तशें चलयांचें आसता. घोवालें घर सुट्टकच त्यो अशोच बावन जाणट्यो जातात."

आवयन दुखां लिपयलीं; पुण कांपरो आवाज तिगेलें दुःख उत्तावन गेलो. इतलेंच उलयल्या उपरान्त लेगीत खरस लागिल्लेभशेन ती सुस्कारली. श्रावणांत पावसाची दडक वचून रोखडेंच वत येवचें तशी भाभी एकदम सांवरली आनी तोंडभर हांसून म्हजी खबर घेवंक लागली.

"तूं येतलो म्हणून तुवें दीपकाक कळोवंक नाशिल्लें? ताणेंय कांय म्हळें ना! कळयल्लें जाल्यार तो रावत आसलो." तिणें म्हळें..

"अचकीत येवपाचें थारलें. ताका अजापीत करपाखातीर असो आयिल्लों. तो मेळिल्लो जाल्यार खोशी जावपाचीच; पूण तुमची भेट घडली. चड म्हळयार इतल्या वर्सां उपरान्त मंजू मेळ्ळी. खंय गेली ती?" हांवें म्हळें.

"बस आं, धाडटां." अशें म्हणून भाभी भितल्ल्यान गेली.

मंजू ही दीपकाली चली. भुरगेपणांत पळयिल्ली तेन्ना बरीच शिटूक आनी तरतरीत आसली. केंसांची तराटून विणी घाल्ली आनी आंगांत फ्रॉक घाल्ली मंजू तिचे पिरायेच्या हेर चलयांपरस सामकी वेगळी आसली. ती खेळूंक वचनासली. आनी अभ्यासाचें पुस्तक उकतें करतकच तें सगलें आपूण जाणा अशें सांगताली.

बापायक सुरवेक चलयेचो दुबाव येतालो; पूण ती पयले यत्तेक आसतनाच जेन्ना कठीण गणितां सोडोवन बापायक दाखोवंक लागली, तेन्ना तो विस्मित जालो. आपले चलयेची बुद्द पळोवन ताका खोशी जाली. शाळेंतल्या शिक्षकांनी लेगीत चली खुबूच हुशार आसा; पूण इतले कंवळे पिरायेचेर बापायन तिका इतलीं कठीण गणितां शिकोवचीं न्हय अशी सुचोवणी केली.

दीपकाक अजाप जालें. ताणें चलयेच्या अभ्यासाकडेन केन्नाच लक्ष दिवंक नासलें. घरांत अभ्यास करतना तिका कोणेंच पळोवंक ना. चली एकमुळी रावता आनी वरांचीं वरां हारशामुखार बसून उरता. उलोवपाचो प्रसंग आयल्यार जाणट्यांभाशेन उलयता, हें आवयन पळयिल्लें. पूण तिका तें विशेष कितें अशें दिसलें ना.

एक दीस आवय चलयेचे केंस वळयताली. मदींच मंजून म्हळें, "म्हज्या घोवाक केंस मेकळे सोडिल्ले निखालच मानवनासले. हांवें केंस मेकळे सोडले जाल्यार तो म्हणटालो, केरोसीन घालून काडी पेटयतां."

"पापान तुका अशें म्हळें?" चिके अजापून आवयन मंजूक प्रस्न विचारलो.

"पापाची खबर सांगिना गे, हांव म्हज्या घोवाची खबर सांगतां!" अशी मंजून जाप दिली तेन्ना आवयचो आवरो उडलो. तिणें मंजूची तकली घुंवडावन तिचें तोंड पळोवन घेतलें. चली तकलेन सारकी ना असो तिका दुबाव आयलो.

त्या वेळार तिणें विशय बदल्लो. रातीकडेन घडिल्ली खबर घोवाक सांगली. बापायन

मंजूक म्हऱ्यांत घेतली आनी ती जें कितें असंबध्द उलयता तें समजून घेवपाचो यत्न केलो.

मंजू ज्यो गजाली सांगताली त्यो सगळयोच अजापांच्यो आसल्यो. ती आपल्या घोवाची, मांयची, भुरग्यांची खबर सांगताली. बापायक दिसलें, वेळारच उपाय केलो ना जाल्यार चली हाताभायर वतली.

फॅमिली डॉक्टरान मंजूक तपासली आनी ती सामकी नॉर्मल आसा म्हणपाची गवाय दिली.

"पूण ती जें कितें उलयता तें आमकां समजना. सपनांत आशिल्लेवरी ती उलयता. नाटकांतलें भाशण केल्लेवरी ती वागता. म्हाका दिसता, जागेपणीच ती सपनांत वता आसूंक जाय. तिका न्हिदेचें वखद दिवन पळयल्यार कशें?" बापायन डॉक्टराक विचारलें.

"न्हिदेच्यो गुळयो घेतकच ताचे वायट परिणाम जावं येतात." अशें सांगून डॉक्टरान म्हळें, "तिका मुंबय व्हरून एकाद्र्या मानसरोग तज्ञाक कित्याक दाखयना?"

तीं मुंबय पावलीं तेन्ना आनीक अजापां घडूंक लागलीं. जिणेंत पयलेच खेपे ती मुंबय आयिल्ली. पांच-स वर्सांची चली; पूण त्याच शारांत वाडिल्ले भाशेन ती वाटो दाखोवंक लागली. खंय थेटरां आसात आनी खंय हॉटेलां तें सांगूंक लागली. तिगेलें हें वागणें पळोवन बापूय भियेलो.

मानसतज्ञान पंदरा दीस मंजूक तपासली आनी ती एकदम निरोगी आसा अशें सांगलें, ताणें एकूच शक्यताय उक्तायली. म्हळें, "हिका आदल्या जल्माच्यो यादी मदीं मदीं जातात आसूंक जाय. म्हजो पुनर्जल्माचेर विस्वास ना, पूण ताची खात्री करून घेवं येता."

खात्री करून घेवन बापूय कितें करतलो आसलो? ताका डॉक्टराचें म्हणणें खरें दिशिल्लें. वखद जाय आशिल्लें तें तिका फाटल्या जल्माचो विसर घालपाखातीर. तशें ताणें डॉक्टराक सांगलें.

"सामान्यतायेन अशें म्हणटात की जाणटी जाता तसो हो विसर आपसूक पडटा. ते खातीर वेगळें वखद ना. तिका पोरण्यो यादी जातात तेन्ना विसरायेर घालप इतलोच उपाय आमच्या हातांत आसा अशें म्हाका दिसता."

ही सगळी खबर दीपकान म्हाका सांगिल्ली. तागेल्या घरा बशिल्लेकडेन एका खिणाभितर म्हाका तिचो उगडास जालो.

हातांत खाणाची प्लेट घेवन मंजू हॉलांत आयली. तिचे फाटल्यान एक धा एक वर्सांचो चलो. भाभीय थोड्या वेळान आयली. मंजून आतां आपलो भेस सारको केल्लो. पूण तोंडावयली खंत लिपूंक नासली.

"हो योगेश." तिणें आपल्या चल्याची वळख करून दिली.

चल्यान म्हज्या पांयाक हात लावन नमस्कार केलो. हांवें ताका म्हऱ्यांत घेतलो आनी ताची वासपूस केली. अहमदाबादाक एका मिशनरी स्कुलांत तो शिकता. चलो स्मार्ट आशिल्लो. विचारिल्ल्या प्रस्नाक तो जाप दितालो आनी आवय, आजी कवतुकान ताका पळयतालीं.

मदींच ताणें विचारलें, "हांव वचूं?"

हांवें ताका वच म्हणून सांगतकच तो धांवत भायर गेलो.

मंजू घोवालें घर सोडून कुळारा येवन रावल्या हें तिगेले आवयन आदींच सांगिल्लें.

देखून तिका तिगेल्या घोवाविशीं विचारपाचें धाडस हांवें केलें ना. परत आयिल्ली तेन्ना मंजूच्या कपलार तिकली आसली. हिका घोवान सोडल्या काय घोवाक कितेंय विपरीत घडलां, असो प्रस्न म्हाका पडिल्लो. पुण विचारतलो कसो?

"सध्या तूं कितें करता मंजू?" हांवें विचारलें.

"शिशुविहारांत शिकयतां आनी उरिल्ल्या वेळार वाचतां. योगेशाखातीर खूब वेळ दिवचो पडटा." तिणें जाप दिली.

हांवें भाभीकडेन पळयलें. ती जमनीचेर नदर थिरावन कितें तरी येवजिताली. कॉफी घेतां घेतां हांवें मंजूक म्हळें, "तुका येदीशी, फ्रॉकांत पळयल्ली. बायलो बेगीन जाणट्यो जातात म्हणटात तें लटकें न्हय. पुण तूं चडच जाणटी दिसता. घडलां कितें तुजें?"

"कांयच घडूंक ना. बरी जेवतां, खातां, कांय उणें ना." तकली हालोवन आनी ओंठांचेर हांसो हाडपाचो यल करून मंजून जाप दिली.

"हांवें सांगलें न्हय, कुळारा परत येता ती चली..." फुडलें उलोवचें काय उलोवचें न्हय अशें येवजून भाभीन उतरां गिळळीं.

"सोड त्यो खबरी आतां..." उबगल्ल्या आवाजांत मंजून आवयक सांगलें आनी म्हाका लेखून म्हळें, "आयिल्ल्या गेल्ल्याक त्योच खबरी सांगता. हांव आपखोशयेन घोवाक सोडून हांगा आयल्यां. तुका म्हजी उबगण येता जाल्यार हांव वेगळें बिराड करतां. पूण म्हाका परत घोवागेर धाडपा खातीर तिसऱ्या मनशाक दडपण हाडूंक उपकार करून सांगूं नाका."

मंजूल्या आवाजांत खरसाण आनी नमळाय दोनूय आसलीं. म्हाका संकोच जालो. म्हज्यामुखार आवय-धूव झगडूंक लागल्यार कशें जातलें? मनांत साबार प्रस्न आसले. दीपक आसतो जाल्यार सगळें सांगतलो आसलो. हांकां कशें विचारतलों? हांवेंच विषयांतर केलें.

"कितलीं वर्सां जालीं, मंजू तूं अजून गोंयांत येवंक ना. आतां सुटी पडली म्हणटकूच गोंयांत चार दीस रावंकूच यो."

"जाणा तूं, पोरूं आमी दमणाक वचून आयलीं." परत आदलेवरी हांसत मंजून सांगलें, "कोणेंतरी सांगलें, दमण म्हळ्यार ल्हान गोंय. आमी तुजी खूब याद काडली. तूं पयस आसा; पूण पापा मदीं मदीं तुजी याद काडीत आसता. चड करून केन्ना जाणा, मिरसांगांचें लोणचें खाता आसतना..."

म्हगेली लोणचें खावपाची आवड कांय इश्टांमदीं खुबूच गाजल्या. गोड गुजराती जेवण जेवन उबगण येतकच हांव लोणच्यान कालोवन शीत जेवतालों.

"हय, एका काळार हांव खूब लोणचें खातालों. आजून आवडटा; पूण आतां पचना." हांवें जाप दिली.

"मागीर लोणच्याचें कशें जावपाचें तर?" भाभीन ज्योक केलो. वातावरण ल्हव जालें.

"आज जेवले बगर वचूंक मेळचें ना." अशें सांगून भाभी उठून भितर गेली.

"आवय तुका जें कितें सांगता तातूंत तिगेलो कळवळो आसता. तें तूं मनाक कित्याक लावन घेता?" हांवें मंजूक विचारलें.

"हांव जाणां." तिणें जाप दिली, "पूण सद्दां उठून आयिल्ल्या गेल्ल्याक तेंच सांगत बसता. तुजी गजाल वेगळी. तूं आमकां घरचोच. पूण जांचो आमचेकडेन कसलोच संबंद ना, तांच्या मुखार लेगीत आपलें वाजंतर ती वाजयत बसता."

"एक विचारूं मंजू..." हांवें म्हळें, "तुवें जाप दिवंक जाय अशें ना. पूण खरें घडलें कितें? तुवें घोवालें घर सोडलें कित्याक? तुका थंय त्रास जातालो?"

"ना." सकलो ओंठ निबरान दाबून मंजून स्वास भितर घेतलो आनी म्हळें, "म्हज्या घरचो लोक मायेस्त. पूण एक विपरीत घडूंक लागलें. म्हाका केन्नाय बशिल्लेकडेन आमचे वळखीचे लोक मेल्ले दिसचे. ती खबर सांगले बगर म्हज्यान रावं नज जातालें. आदीं नण्डेचो घोव गेलो. चलता भोंवतना हार्ट अॅटेक येवन मेलो. आठ दिसां आदीं हांवें ताचें मरण पळयिल्लें आनी घरच्यांक तसो भास जाला अशें सांगिल्लें. म्हजो हेत वांकडो नासतालो. पूण मांयंक आनी नण्डेक म्हजी वाचा लागता अशें दिसलें... एक दीस म्हजो मांव च्या घेता आसतना ताका उस्तरें गेलें. त्याच खिणाक तो मरून पडला अशें म्हाका दिसलें. त्या वेळार कांय जालें ना. हांवें जें पळयिल्लें ते मांयंक सांगलें. तिका राग आयलो. धा-बारा दिसांनी ताका दुसरे खेपे जेवता आसतना उस्तरें गेलें आनी तो थंयच कोसळ्ळो. जावेलें ल्हान चली सळसळत्या उदकांत बुडिल्लें म्हाका दिसलें. हांवें तिका शिटकायली. दोळ्यांत तेल घालून भुरग्याचो सांबाळ जावंक लागलो. तें विजेचो शॉक लागून मेलें... ह्यो घडणुको घडटकूच म्हज्या घोवासयत सगल्यांक हांव एक अवदसा अशें दिसूंक लागलें. हांवें कोणाचें वांकडें केलें ना, वायट जावचें अशें येवजिलें ना. फकत जो भास जातालो, तो हांव दुसऱ्याक सांगतालीं. पूण घरच्या लोकांची वागणूक बदल्ली. सगळीं म्हाका कांचवेवंक लागलीं. म्हाका एके कुडींत बंद करून दवरूंक लागलीं. हांव उलयतां म्हळयार ताचेर आकांत येतालो. देखून हांवें येवजिलें, त्या घरांत हांवें रावप समा न्हय. हांव कुळारा आयलीं."

इतली खबर सांगल्या उपरांत मंजू घामाघूम जावन कासावीस जाल्ले भशेन खरशेवंक लागली. उदकाचो पेलो सामखार आसलो. तो हांवें तिच्या हातांत दिलो. गटगटीत उदक पियेतकूच ती निवळ्ळी.

"रागार जावं नाका. हांवें नसतो विशय काडलो. सोड तो विशय. तुका कितले त्रास जातात तें हांव जाणां."

"त्रास कसले?" तितल्याच सादेपणान परतो प्रस्न करून मंजून म्हळें, "उरफाटें मनांत तुंबून उरिल्लें सांगूंक मेळटा तेन्ना बरें दिसता."

कांयच घडूंक नाशिल्ले भाशेन मंजू परत उलयता तें पळोवन म्हाका अजाप जालें. खिणांत कुपां दाटून वातावरण कुंद जावचें आनी दुसऱ्याच खिणाक कुपां पैसावन वा झडून चक्क वत येवचें तशी मंजूली वागणूक आसली:

"आजून तुका तसले भास जातात?" हांवें विचारलें.

"कित्याक कोण जाणा! कुळारा आयिल्ल्याक तसो भास केन्ना जालो ना. त्या जाग्याचो परिणाम काय कितें तें हांव नकळं." मंजून जाप दिली.

"आनी आदल्या जल्माच्यो यादी?" हांवें प्रस्न केलो.

वजऱ्यावरी खळखळीत हांसून मंजून म्हळें, "तुकाय ती खबर आसा तर! म्हाका मात कांयच याद जायना. म्हाका पापा सांगता तांतली एकूय गजाल म्हजे यादीक घडिल्ल्याचो उगडास ना. पूण पापान उपाय खूब केले अशें हांव आयकून जाणा."

ह्याच वेळार भाभी आयली आनी मंजूनच तिका म्हगेलो प्रस्न सांगलो.

भाभी हांसली. "हे चलयेन उलोवंक लागत सावन आमकां जे पळय त्रास दिल्यात ते सोंसपाचे न्हय." तिणें म्हळें, "पयलीं आदल्या जल्माच्यो खबरी सांगून ती आमकां भेश्टायताली. गांवांचीं नांवां सांगताली. थंय आमी तिका व्हरची. ती थंयच्या लोकांक लेगीत वळखताली. पूण पिशें चाळवून येवचें तशें याद जातासर ती विसरताली. केन्ना आदल्या जल्मांत तर खिणांत ह्या जल्मांत पावताली. घाडी-देव जाले, वखद-विरसद जालें. पिरायेच्या धा वर्सां उपरान्त तिका तशें केन्नाच घडलें ना. लग्न जावन घोवागेर वचसर सामकी नॉर्मल आसली. उपरान्त तिका भंय दिसपासारके वेगळेच भास जावंक लागले..."

"ती सगळी खबर हांवें सांगल्या." मंजून तिका आडायली.

ती सांजवेळ दीपकाल्या घरा सारली. सगलो वेळ उलोवपाचो विशय मंजूच आसली. चडशीं उलोवणीं तिचेकडेन जालीं. राजकारण, साहित्य, संगीत आनी शिक्षणाचेर मंजू मार्मिक उलयली. तिचे बुध्दीची म्हाका लक्तुबाय दिसली. परत येवपाक रिक्षा खंय मेळटलो अशी वासपूस केली तेन्ना मंजून म्हळें, "रिक्षाची कांय गरज ना. हांव तुका पावयतलीं."

मारुती गाडयेन सर्कीट हाउसाकडेन वता आसतना मदीं मदीं ओगीच म्हाका कांपरें भरतालें. पच्च करून ती कितेंय उलयत म्हणपाचो कांच दिसतालो. देखून ती उलयताली तें म्हाका सारकें समजनासलें. तिणें विचारिल्ल्या प्रश्नांक हांव असंबध्द जापो दितालों!



# ४. सूड

नुस्त्याचो पाटलो माथ्यार घेवन आयिल्ले ते नुस्तेकान्नीन दारांतल्यानच साद घालो.

आयताराची सकाळ. हांव घराच आसलों. त्या दिसांनी चाणक्य मालिका चलताली. तिगेलो साद आयकून हांवें दारांत येवन पळयलें आनी नुस्तेकान्नीक पळोवन बायलेक भायर धाडली.

"नाका बाय, आज आमकां नुस्तें नाका." बायलेन तिका सांगलें.

भितल्ले वाटेन म्हाका तांचो संवाद आयकूंक येतालो. ती म्हाका मेळूंक आयिल्ली.

भायल्या व्हारांदांत ती आयली आनी हांव तिका मेळूंक परत भायर गेलों. माथ्याचेर नुस्त्यान भरिल्लो पाटलो. नुस्त्याच्या वासान घरांतलीं माजरां तिजे भोंवतणी जमिल्लीं. पाटें सकल दवरता म्हणसर माजरांनी उडयो मारूंक सुरवात केली. करबटाचे चार नग तिणें माजरांक घाले.

"म्हाका म्हजे धुवेविशीं उलोवंक जाय आसलें." तिणें म्हाका सांगलें.

भितल्ले वाटेन चाणक्य सुरू जालां. हांवें तिका म्हळें, "तूं नुस्तें विकून परत यो. हीं माजरां तुका उलोवंक दिवचीं नात. हांव घराच आसां."

"तशें करतां." अशें म्हणून तिणें पांटलो परत माथ्यार घेतलो आनी ती गेली.

"कोण ती? तुका खंय वळखता?" ती वचनाफुडें बायलेन चवकशी सुरू केली.

"हांव तिका वळखना आनो तिजें काम कसलें तेंय म्हाका खबर ना. 'चाणक्य' चुकूं नये म्हणून हांवें तिका नुस्तें विकून यो अशें सुचयलें."

"ती नवीच आसतली. ह्या वाड्यार तिका हांवें केन्ना पळोवंक ना. ती आपले चलयेविशीं कितें म्हणटाली?" परत बायलेन प्रस्न केलो.

"चलयेविशीं उलोवंक जाय इतलें तिणें सांगलें. पूण विशय सांगलो ना. आतां येतली ती." अशें म्हणून हांव टि. व्ही. पळोवंक बसलों.

चाणक्य सोंपलें तरी ती आयली ना. हांव दोन खेपे भायल्या व्हारांदांत वचून पळोवन आयलों. तो दीस सुटयेचो आशिल्ल्यान म्हाका खंयच वचपाचें नासलें.

सुमार साडे अिकरा वरांचेर ती परत आयली. हे खेपे आपलो रिकामो पांटलो तिणें भायले वाटेन दवरलो आनी दारांत येवन ती उबी रावली. वातावरणांत हिंवसाण पातळ्ळी.

तिका बस म्हणून सांगचें अशें दिसलें. पूण ती नुस्त्याच्या वासान भरिल्ली देखून म्हाका धीर जालो ना.

"सांग, कसलें काम तुजें?" हांवें विचारलें.

तिणें आपल्याक न्हेसणाक खोयिल्ली ल्हान पोती काडली आनी ती उक्ती करून नाणीं, नोटो हांचेमदीं घाल्ली एक कागदाची घडी भायर काडून म्हज्या हातांत दिली.

हांवें ती उसोवन पळयली. कागदाचेर बरयिल्लें, "बारावेक पांसश्ट टक्के मार्क पडल्यात.

मेडिकल कॉलेजांत ॲडमिशन जाय.''

चीट वाचून म्हाका कांयच बोध जालो ना. हांवें तिका विचारलें, ''कोणें दिल्या ही चीट?''

''म्हजे धुवेन.'' तिणें जाप दिली.

''मेडिकलाक कोण वचूंक सोदता?''

''तीच... खरें म्हळयार हांवच तिका दोतोर करूंक सोदतां.'' नुस्तेकान्नीन जाप दिली.

उलगडो जाल्लो. पूण तिगेले चलयेक मेडिकल कॉलेजांत प्रवेश दिवचे खातीर म्हज्यान कितें करूं जातालें? हांवें तिका म्हळें, ''तशे तुजे चलयेक बरे मार्क पडल्यात, पयल्या वर्गांत ती पास जाल्या. पूण म्हाका दिसता, मेडिकल कॉलेजांत प्रवेश मेळचे खातीर ते उपकरचे नात. हांव आयकतां ते भाशेन णव्वद टक्के मार्क जाय पडटले.''

''हय बाबा! लोक म्हणटा, गोयांत कॉलेज आसूनय गोंयकारांक प्रवेश मेळना. सगळे भायल्या भुरग्यांक घेतल्यात. पूण कोणें तरी म्हाका सांगलें, भायर कांय कॉलेजांनी पयशे दिवन प्रवेश दितात.''

''हय.'' हांवें म्हळें, ''हांवय आयकून जाणां. पूण थंय लाखांनी रुपया मागतात. इतलें करून सोपेपणान मेळटा अशें ना. तूं तुगेले धुवेक बी. एस्सी. करूंक कित्याक सांगना?''

''ना बाबा, पांयां पडटां तुका.'' काकुळटेक येवन तिणें म्हळें, ''तिका हांव दोतोरोच करूंक सोदतां. कितलेय पैशे दिवचे पडल्यार उपकरता. पूण तिका दोतोर करूंक जाय.''

हांवें तिचेकडेन पळयलें. चाळीस-पंचेचाळीस वर्सांची ती नुस्तेकान्न पिरायेच्या मानान भुरगी दिसताली. आंगान काळी आसली तरी रूपान सुंदरच म्हणची पडटली. आतां ती म्हेळी आसली आनी तिच्या म्हन्यांत उबो रावतल्याक हिंवसाण येताली; तरी ती बायल नदरेंत भरताली.

हांव जाणां आसलों की नुस्तेकारांकडेन पयशे आसतात. पूण लाखांनी रुपया दिवन आपले चलयेक मेडिकल कॉलेजात धाडप तिका शक्य जायत अशें म्हाका दिसूंक नासलें. दुसरोय प्रस्न म्हजे तकलेंत आयलो. तिचेखातीर म्हज्यान कितें करूं येतालें?

हांवे म्हळें, ''हांव वासपूस करतां आनी तुका सांगतां. तूं फाल्यां बी पासय मार.''

''दनपारची आयल्यार जायना बाबा?'' तिणें विचारलें.

''जाता. तुका जाय तेन्ना यो.'' हांवें म्हळें.

''फाल्यां येतां. पूण म्हजें काम तुवेंच करचें पडटलें. पयशांचो तूं हुसको करूं नाका. पयशे हांव दितां.''

''पैशांचो प्रस्न आसाच, पूण तिका खंय प्रवेश मेळत आनी कितले पैशे दिवचे पडत हाची वासपूस करतां. म्हाका तातुंतलें कांयच खबर ना.''

''तूं कोणाक वळखना तर? मणिपालाक तुजी वळख आसा अशें म्हाका कोणें सांगून तुजे सरीं धाडिल्ली.''

''म्हाका तूं कशी वळखता?'' हांवें विचारलें.

''ना बाब, हांव तुका वळखना. तुजें नांव आमच्या गांवच्या मनशान सांगलें आनी तूं ह्या वाड्यार रावता अशेंय सांगलें. खबर काडीत हांव आयलीं. वळख ना इतलेच खातीर ना म्हणूं नाका.''

"हांव ना म्हणिना. पूण खऱ्यांनीच मेडीकल कॉलेजांत प्रवेश कसो घेवप तें म्हाका ख::र ना. तुवें कोणाकय मणिपालाक धाडचो पडटलो. म्हजे कांय वळखीचे लोक थंय आसात. जाय जाल्यार हांव चीट दितां."

"हांव मणिपालाक कोणाक धाडूं? आनी दुसऱ्या मनशाकडेन पैशे कशे दिवं? आयज कोणाक पातयेवंक येता?"

"पैशे आतांच दिवपाचे नासतात. ते फाटल्यान बँकेंतल्यान धाडू येतात... बरें आसा, तूं फाल्यां यो. हांव वासपूस करून दवरतां" हांवें सांगलें.

म्हजे उपकार मानून ती गेली. भायर रस्त्यार पावतकच ती परत आयली आनी म्हाका विचारलें, "सांगातान धुवेकय हाडूं न्हय?"

"हाडल्यार जाता." हांवें म्हळें.

हें सगळें संभाशण बायल आयकताली. तिणें म्हळें, "तुज्यान जाता जाल्यार बाबडेचें काम कर. तिका मोठी उमेद आसा आपले चलयेक डॉक्टर करपाची."

मेडिकल कॉलेजांत प्रवेश मेळप कितलें कठीण आनी मेळ्ळोय जाल्यार कितले लाख दिवचे पडटले हाचो अदमास बायलेक दिलो तेन्ना तिणें म्हळें,

"इतले पैशे खंयच्यान हाडटली काय ती? तिका सूट मेळची ना?"

"म्हाका दिसना." हांवें म्हळें, "म्हाका दिसता चलयेक दोतोर करपाचें तिगेलें सपन सपनच उरतलें."

दुसऱ्या दिसाची सकाळ तिगेल्या सादानच उजवाडली. आज तिजो भेस वेगळो आसलो. न्हावन-धुवन, माथ्याक फुलां माळून, धुल्ली साडी न्हेसून, रिक्षांत बसून, ती आमगेर आयिल्ली. आज ती वेगळीच दिसली. कालचें रूप आनी आयचें रूप हातूंत अंतर आसलें. आज ती नटून सजून आयिल्ली. तिच्या सांगातान एक चली. गोरें पीठ्ठ. घारशे दोळे. आंगान सामकें क्हिक्हिीत. पूण तिचे परसय लांब.

"ही तुजी धूव?" हांवें तिका बसोवन घेवन विचारलें

"हय, रोझी तिजें नांव." आवयन जाप दिली.

"आनी तुजें नांव कितें?" हांवें तिका विचारलें.

"म्हजें नांव लिब्राद. म्हाका सगळीं लिब्रू म्हणटात." तिणें हांसून जाप दिली.

हांवें रोझीकडेन तिच्या शिक्षणाची वासपूस केली. रोझी शिकवण घेना आसतना एस्. एस्. सी. मेरेन शिकलें. एस्. एस्. सी. परिक्षेंत तिका सत्तर टक्क्यांपरसय चड मार्क मेळ्ळे. तिका तशें अमकेंच शिक्षण घेवपाची आवड अशी नासली. पूण ल्हानपणांत सावन आवय म्हणत आशिल्ली की आपले धुवेक दोतोर करूंक जाय. तो विचार रोझीचे तकलेंत घट बशिल्लो.

"तुका दोतोर जावपाची आवड आसा?" हांवें विचारलें.

रोझीन हय म्हणून तकली हालोवन म्हळें, "मांय सांगता तशें करपाचें."

"पी. सी. बी. विशयांनी तुका कितले मार्क पडल्यात?" हांवें वासपूस केली.

रोझीच्या हातांत एक पर्स आसली. ती उकती करून तिणे खूबशीं सर्टीफिकेटां भायर काडलीं. तांचे मदीं एस्. एस्. सी. च्यो आनी बारावीच्यो गुणपत्रिकाय आसल्यो. हांवें पळयलें तिगेले सरासरी मार्क एकुणसाठ टक्के जातात. पूण पीसीबी विशयांत तिका पासश्ट

टक्के मार्क पडिल्ले. जाल्यारय तितल्या मार्कांच्या आदारान मेडिकल कॉलेजांत तिचो नंबर लागप कठीणच आसलें.

"मेडिकल कॉलेजांत प्रवेशाखातीर कितले मार्क जाय आसतात हें जाणा गो तूं?" हांवें रोझीक विचारलें.

रोझी हांसली आनी मातशी लजेली. सादी भोळी निश्पाप चली. मनानय ती सरळ दिसली. तिणें म्हळें, "उणेंच नव्वद टक्के मार्क जाय पडटात हें हांव जाणां."

"मागीर तुका पासश्ट टक्के मार्कांनी प्रवेश कसो मेळटलो?"

"गोंयांत मेळचो ना. पूण कर्नाटकांत पैशे दिल्यार मेळटा. आमच्या भाटकाराले चलयेन पोरूं प्रवेश घेतला. चार लाख दिवचे पडले अशें ती म्हणटा. तिची टोटल फक्कत पन्नास टक्के आसली."

"तुवें तिचेकडेन वासपूस करूंक जाय आसली.". हांवें म्हळें.

"ती सामकी कुन्नाटी. हांव विचारूंक गेलीं जाल्यार ती म्हाका उरफाटें विचारता, तुका डॉक्टर जावन कितें करचेलें आसा? इतले पैशे खंयच्यान हाडटली?"

रोझीच्या तोंडावयले भाव पळोवपासारके आसले. मुळांत गोरी. रागान तांबडी जाल्ली. आवय मात थंड बसून आयकताली. तिच्या दोळयांत आपले धुवेची लक्तुबाय पळोवंक मेळटाली.

हांवें तिका म्हळें, "तूं मागता म्हणून हांव वळखीच्या मनशाक चीट दितां. जो कोण मणिपालाक वतलो ताका तो कॉलेजाच्या ऑफिसांत व्हरतलो आनी हेर तरेचो आदार दितलो. प्रवेश दिवप हें ताच्या हातांत ना. तांचे नेम कितें तें म्हाका खबर ना."

हांवें थंयच बसून म्हज्या इश्टाक चीट बरयली. हांव चीट बरयता आसतना आवय आनी धूव आपले मदीं कितें तरी उलयतालीं.

चीट बरोवन जाली त्याच वेळार भितल्ल्यान च्या आयली. दोगांनीय संकोचान नाका म्हळें. आमकांच आग्रो करचो पडलो. च्याचो कप हातांत घेवन रोझीन म्हाका विचारलें, "थंय राखीव जागे आसतात अशें आयकल्लें."

"म्हाका खबर ना." हांवें म्हळें, "पूण कांय जाती आनी जमातींच्या भुरग्यांखातीर राखीव जागे आसतात. पूण किरिस्तांव धर्म कायद्यान जात मानिना न्हय? तरी तूं वासपूस कर. तुगेले जातीक राखीव जागे आसल्यार सरपंच वा मामलेदाराचें एक सर्टीफिकेट व्हर."

लिब्रादाच्या तोंडावयले भाव खिणांत बदल्ले. तिणें म्हळें, "आमची जात उणाक न्हय. हांव पैशे दितलीं. गरज पडल्यार भांगर विकतलीं."

म्हाका त्या विशयावयली चर्चा लांबोवपाची नासली. विशय रोझीनच बदल्लो. तिणें विचारलें, "जर मेडिकल कॉलेजांत प्रवेश मेळ्ळो ना, जाल्यार हांवें कितें शिकचें अशें तुका दिसता?"

"हें पळय रोझी, तुजी आवय तुका डॉक्टर करूंक सोदता. तुजी गजाल वेगळी आनीक जायत्या तरांचें शिक्षण तुज्यान घेवं येता. आयच्या काळार सगळ्या तरेच्या शिक्षणाक खूबच वाव आसा. डॉक्टरकीक म्हौंव लागलां अशें न्हय. तुज्यान बी. एस्सी करून फुडलें शिक्षण घेवं येता. जाय जाल्यार वकील जावं येता. आनीकय खूबशे करीयर तुका उकते आसात. विद्यार्थ्यान आपले आवडीन थारावंक जाय. तुका जे तरेचें शिक्षण

आवडटा, ते तरेचें शिक्षण घेतल्यार शिकतना उमेद उरता. तुकाय डॉक्टर जावंक जाय मगो?"

"जावंक जाय म्हळयार जावंक मेळटा अशें खंय आसा?" इल्लो निर्शेणेचो सूर रोझीन काडलो.

चीट घेवन दोगांय उठलीं. लिब्रादान विचारलें, "कसलीय अडचण आयल्यार परत तुका मेळूंक आयल्यार जाता न्हय?"

"हय, तुका जाय तेन्ना यो. हांवय जाल्यार म्हज्या इश्टाक टेलीफोन करून ताचेकडेन उलयतां. तुमी केन्ना वचूंक सोदतात?"

आवयन धुवेच्या तोंडाकडेन पळयलें. धूव कांय उलयली ना. तेन्ना आवयनच विचारलें, "केन्ना गेल्यार बरें?"

"जाता तितले बेगीन वचूंक जाय." हांवें म्हळें.

रोझीकडेन बोट दाखोवन तिणें विचारलें, "हिका धाडूं न्हय?"

"तशी आतांच धाडपाची गरज ना. पूण ती गेल्ली बरी. गांव पळोवन येवं दी. ते भायर कसलोय प्रस्न आयलो जाल्यार तिका सारकें सांगूंक मेळटलें."

"थंय रावपाची तजवीज करची पडटली न्हय?"

"हय. पूण प्रवेश मेळ्ळो जाल्यार हॉस्टेलांत तिका जागो मेळूंक अडचण येवची ना. जो कोण वतलो ताका थंयची खबर आसतलीच."

"ना. तो एक दोन फावटींच मणिपालाक गेला. थंय कसली अडचण येवं येता?"

"अडचण कांय येवची ना. थंयच्या लोकांक कोंकणी भास समजता."

"भाशेचें बरें आसा. तशी आमची रोझी इंग्लीश उलयता आनी तिच्या सांगातान वतलो तो आमचो सोयरो. ताकाय इंग्लीश येता."

उपकार मानून दोगांय गेलीं. वतना तिणें म्हळें, "पळयतां. रातीची एक बस वता खंय. जमल्यार आजच तांकां धाडटां."

ती गेली आनी मनापसून दिसलें, रोझीक प्रवेश मेळ्ळयार पुरो. आवयची इत्सा फळाक येवंक जाय. बाबडी मोटे उमेदीन तिका डॉक्टर करूंक सोदता.

एक प्रस्न मात म्हज्या मनांत उरलो. ती आपले धुवेक डॉक्टर कित्याक करूंक सोदता? तिणें त्या प्रस्नाची जाप दिवंक नासली. आनी तिका विचारपाची संदय म्हाका मेळूंक नासली.

हांव भितर गेलों आनी भायले वाटेन ती परत आयली.

"कितें जालें?" हांवें विचारलें.

"तूं फोन करता जाल्यार आतांच कित्याक करिना?" तिणें विचारलें.

"केदो वेळ लागत सांगूंक जायना." हांवें म्हळें, "तूं केदो वेळ रावतली? हांव फोन करतां."

"उपकार जातले! आतांच कर." तिणें म्हळें, "रोझीक धाडटां आनी हांव बसतां."

सकाळच्या वेळार ती आयिल्ली आनी हांवें आजून तोंड लेगीत धुवंक नासलें. पूण तिका निराश करून धाडची न्हय अशें थारावन हांवें म्हळें, "पळयतां कशें जाता तें." हांवें डायरेंतलो फोन नंबर पळोवन घेतलो आनी म्हजेपरीन एस. टी. डी. चेर संपर्क सादपाचो

यत्न केलो.

हांव फोन जोडपाचो यत्न करता आसतना लिब्राद भायर वचून परत आयली. घडये धुवेक तिणें वचूंक सांगिल्लें आसुये.

तिच्या नशिबान फोन रोखडोच लागलो आनी इश्टय मेळ्ळो. ताणें सगळे तरेचो आदार दिवपाचें उतर दिलें. पूण तांकां बेगीन मणिपालाक धाड अशें सुचयलें.

हांवें तशें लिब्रादाक सांगलें तेन्ना ती खोशयेन भुरकुटली. तिचो गैरसमज जाला हें म्हाका जाणवलें. फोनार ताणें रोझीक धाड म्हळें हाचो अर्थ आपले धुवेक प्रवेश मेळटलो अशें तिका दिसलां हें पळोवन हांवें म्हळें, "ताणें प्रवेश दिवपाचें उतर दिवंक ना. रोझी खातीर तोय यत्न करतलो."

"जावं, कोणाच्याय धर्मान जावं, म्हाका भावार्थ आसा, रोझीक प्रवेश मेळटलो. रोझी डॉक्टर जातली. खूब जाणांक म्हजीं हीं पिशेपणां दिसतात. पूण हांव रोझीक डॉक्टर करूंक कित्याक सोदतां जाणा तूं?... तिचो बापूय डॉक्टर आसलो देखून!"

हांवें पळयलें की कड फुटून उलोवचें तशी ती बायल उलयिल्ली. नुस्तें विकपी हे बायलेचो घोव डॉक्टर हें कळटकच म्हाका प्रस्न पडलो, आपले चलयेक मेडिकल कॉलेजांत प्रवेश दिवपाखातीर तो कित्याक प्रयत्न करिना?

हांवें तिका विचारलें, "तुजो घोव कित्याक मणिपालाक वचना?"

एक सणसणीत गाळ तिच्या तोंडांतल्यान भायर सरली! आपल्या घोवाक तिणें घाल्ली गाळ आयकून हांवें आंग काडलें.

"तो आमचेसरीं रावना." तिणें सांगलें, "तो काजार जाला आनी आतां वळख लेगीत दाखयना."

"खंय आसता तो?"

"गोंयांतच आसता. मदीं कांय वर्सां इराकाक आसलो. आतां थंयच्यान धांवडावन घालतकच गोंयांत येवन शेण खाता!"

"धांवडावन घालो?" अजापून हांवें विचारलें, "अशें कितें केलें तर ताणें?"

"तो कितें करतलो? फाटीं झूज जालें तेन्ना हेरां वांगडा तो परत आयलो. आतां घराच आसता."

"दोतोरकी करता, काय करिना?"

"दोतोरकी करिना जाल्यार आनी कितें करतलो तर तो?" तिणें म्हळें.

"जाल्यार तूं ताका सांग. तोच रोझीलें काम बरे तरेन करतलो." हांवें सुचयलें.

"पाड पडूं ताचें!" लिब्रादान ताजो उध्दार करीत म्हळें, "हांव ताच्या तोंडार नदर घालची ना आनी ताच्या दारांत तर मेल्यार लेगीत वचचीं ना."

तांचे संबंद कशे आसतले हाची कल्पना म्हाका आयली. हांवें तिका विचारलें, "ताणें दुसरें काजार केलां?"

साडयेच्या पदरान तिणे आपले तोंड पुसलें. घडये दोळयांतलीं दुकांय पुसलीं आसुयेत. आवाज मातसो कांपरो जालो आनी तिणें म्हळें, "कितें सांगतली बाबा! सांगूंक गेल्यार लज. पूण सगळो लोक जाणा. तुका कित्याक लिपोवं...? हांव ताची काजाराची बायल न्हय. ताणें म्हाका फटयली. आदीं दीसभर म्हज्या फाटल्यान भोंवतालो. व्हडल्यो व्हडल्यो

खबरो सांगतालो. व्हंकल करून घरा व्हरतलों अशें उतर दिल्लें! कपेलामुखार वचून सोपूत घेतिल्लो! म्हजे आवयन म्हाका शिटकायिल्लें. तिका तो नाका आसलो अशें न्हय. पूण काजारा आदीं ताच्या सांगातान भोवं नाका अशी ती म्हणटाली. पूण तिका लिपोवन आमी भोंवतालीं. ताची एक मोटार सायकल आसली. तिचेर बसून म्हाका तो भोंवडायतालो."

"मागीर तुमचेमदीं वितुश्ट कशें आयलें?" हांवें विचारलें.

"कांयच जालें ना. तो इराकाक गेलो. वतना सांगलें, खूब पयशे जोडून येतां. आमच्या घरा येवन म्हजे आवयकय उतर दिलें. इराकाक वचचे आदीं ताणें म्हाका न्हेसणां दिलीं, भांगरां दिलीं, म्हजे खातीर खूब पयशे खर्चिले. ना म्हणिना हांव... हांव चड शिकूंक ना. पूण इराकाक सावन तो म्हाका चिटी बरयतालो आनी हांव लोकांकडच्यान त्यो वाचून घेतालीं. आनी लोकांक सांगूनच ताका जाप धाडटालीं. रोझी तेन्ना पोटांत आसलें. म्हाका ती गजाल तो इराकाक गेल्या उपरांत कळ्ळी. ताका आमी टेलीफोन केलो. ताणें कितें सांगलें जाणा? ताणें म्हळें, आबोर्त (गर्भपात) कर... असलो फटकिरो!"

"झुजा आदीं तो परत आयलोच ना?" हांवें विचारलें.

"आयलो." तिणें सांगलें, "तेन्ना रोझी देड वर्साचें आसलें. येतना पयशे हाडले, भांगर हाडलें, जायत्यो वस्तू हाडल्यो. म्हजे आवयन काजाराविशीं विचारलें तेन्ना सारकें उतर दिलें ना. ताणें इतलेंच मागलें, घराब्याच्या नांवाखातीर ताचें नांव कोणाक सांगूं नाका. फटकिरो! ते उपरान्त गेलो तो मागीर आयलोच ना. हांव पातक कित्याक आंगार घेतलीं? हांव सगळयांक सांगतां, तो रोझीचो बापूय! पूण हांव बायल जाल्ल्यान म्हाका भोगचें पडलें. ताणें सामकी फटयली. तो बारदेसाक काजार जालो आनी हालींच गांवांत परत आयला. देखून हांवें थारायलां, रोझीक डॉक्टर करपाचें..."

तिगेली खबर आयकून म्हाका जितलें अजाप जालें, तितलीच म्हाका तिची काकुळटय दिसली. पूण सगळयांपरस सूड घेवपाची तिची तरा म्हाका वेगळी दिसली.

हांवें म्हळें, "दोन - चार लाख रुपया दिवचे पडल्यार तुजेकडेन आसात न्हय?"

"नासले जाल्यार उबे करतलीं." तिणें म्हळें, "बँकेत थोडे आसात. भांगर आसा. रोझील्या बापायन सुर्वेक दिल्ले ते थोडे पयशे बँकेत आसात. गांवांत एक भाटाचो कुडको आसा. तो विकूनय पयशे मेळटले. चार न्हय, पांच लाख लेगीत पडल्यार पडूं, म्हजें रोझी डॉक्टर जावंक जाय."

"उपरान्त तिणें प्रॅक्टीस करची अशें तुका दिसता?" हांवें विचारलें.

"ना जाल्यार शिकून फायदो कितें?" तिणें म्हळें, "म्हाका खोशी आसा की रोझीन डॉक्टर जावचें. गरीब, दुर्बळाक फुकट वखद दिवचें."

"रोझीन फुकट प्रॅक्टीस केली जाल्यार तुंवें खर्चिल्ले पैशे कशे परत मेळटले?"

"बाबा, हांवें पैशे खूब जोडले. पूण जें वगडायलां, तें परत मेळपाचें न्हय." पयलेच खेपे दोळयांतल्यान दुकां गळोवन आनी गळटीं दुकां पुशिनासतना लिब्रादान म्हळें, "पैशे जर वगडायिल्ले, परत मेळपाचे... पूण हांवे जें वगडायलां तें केन्नाच परत मेळचें ना... वतना पैशे कोण व्हरतलो? पूण रोझी रुपान आपल्या बापायसारकी दिसता. अनुपकारी, फटींग बापायली ही बरी धूव अशें जेन्ना गांवचो लोक म्हणटलो, तेन्ना म्हज्या काळजाचे हुलप थांबतले."

त्या दिसा उपरान्त लिब्राद म्हाका मेळूंक ना. आमच्या वाड्यार नुस्तेकान्नी जायत्यो येतात. पूण लिब्रादाक कोण वळखना. हांवें तिका तिचो गांव विचारूंक नासलो. मोठी उमळशीक आसली ती इतलेंच जाणून घेवपाची की रोझीक मेडिकल कॉलेजांत प्रवेश मेळ्ळो काय ना?

केन्नाय तरी एक दीस प्रवेश मेळिल्ल्याची खबर दिवंक रोझी वा तिगेली आवय आयली जाल्यारच तें कळपाचें.



# ५. मागणी

चारय वाटांनी निळयो कांबळी पांगुरिल्ले दोंगर आपलें माथें मळबाक तेंकोवन बशिल्ले. मळबाचो निळो रंग आनी दोंगरांचो काळो-निळो रंग हांचे शिमेचेर पिसुडिल्ल्या कापसावरी धवींफुल्ल कुपां उफेतालीं. दोंगराचे सकयले वाटेन आनी भोंवतणच्या वाठारांत पाचवीचार अप्रुपाय. तरेकवार रुख- ल्हान तशे व्हड आनी तांचेमदीं तरां-तरांच्यो वाली. सगळ्या वाठारांत एक शितळ सावळी पातळिल्ली. शांतताय तर जाणवतालीच. एखाद्रें सवणें चिवचिवत गेलें जाल्यार तो आवाज केदो वेळ मेरेन वातावरणांत घुमतालो. पयसुल्यान एखाद्रें सुणे भोंकलें जाल्यार लेगीत शांततायेचो भंग जाला अशें दिसतालें. मुखार आसा तो तांबडो मातयेचो मार्ग. एखाद्रें जीवाणें चलता तसो तो दिसतालो.

थोडो फुडें पावलों आनी झाडांचे खांचींतल्यान पाचवे अप्रुपायेमदीं दोंगराचे आनी मळबाचे निळसाणेचे फाटभुंयेचेर भांगराचो कळस दिश्टी पडलो. माथ्यार चडूंक लागिल्ल्या सुर्गाचीं किर्णां ताचेर पडिल्लीं आनी तो पूर्ण तेजान चकचकतालो. एक उफेतलें कूप त्या कळसांत भितर सरलें आनी रोखडेंच कुशीक गेलें.

मातसो मुखार पावलों आनी कळस नदरेआड जालो. थंय देऊळ आसा इतलें समजलें. देऊळ आसा म्हणटकच तळी आसतली, ना जाल्यार बांय तरी आसतली. म्हाका मोटारीखातीर उदक जाय. गाडी तापल्या. दोंगर चडटना मुळांत उदक कमी आशिल्लें जावंये काय गाडयेच्या दोशाक लागून जावंये, रेडिएटरांतलें उदक सोंपलां आनी तापिल्ल्या उदकाचो धग भितर बशिल्लेकडेन जाणवतालो. तापमान दाखोवपी कांटो आपले मर्यादेक तेंकला आनी तरी गाडी तापत उल्ली जाल्यार रेडिएटर फुटत म्हणपाची म्हाका भिरांत.

सांगाताक कोण ना आनी त्या निर्जन रस्त्याचेर म्हाका एकय मनीस दिसूंक ना. सामकीं पिशेपणांच केल्लीं हांवें. आडवाटेन दोंगराचेर तांबडो रस्तो वता. तो पळोवन कोणाक तरी विचारिल्लें, "हो रस्तो खंय मेरेन वता?"

"सामको तेंगशे मेरेन." ताणें जाप दिल्ली आनी भरीक सांगिल्लें, "मदीं एक देऊळ आसा."

तितलेंच म्हाका पुरो जाल्लें. म्हाका देवळापरसय दोंगराचे तेंगशेर वचून तो वाठार पळोवपाची उमळशीक आसली. खूब फावटीं त्या रस्त्यान गेलां. पूण तो तांबडो रस्तो दोंगराचे तेंगशेर वता हें म्हाका खबरच नासलें.

गाडी चडटा आसतना चडटी खर म्हणपाचें समजलें. सकयल्या गियरांतच गाडी चलोवची पडली. पूण सुमार शंभर फूट चडून वतकच एका वेगळयाच वातावरणांत हांव पावलों. दाट झाडांमदल्यान वताच्या किर्णांक जमनी मेरेन पावंक रीग मेळनाशिल्ल्यान वातावरण खूबच शितळ आसलें. वेळ दनपारचो आसूनय वताचो रखरख लागनासलो. एके वेगळे खोशयेन, एक वेगळो अणभव घेवपाचे तयारेन हांव गाडी चलयतालों आनी बरो

मुखार पावतकच अचकीत म्हज्या लक्षांत आयलें की गाडी तापल्या.

हांव अर्द अदीक दोंगर चडून आयलां आनी ते नागमोडी वाटेन रिव्हर्सांत गाडी घेवपाची माणसुकी ना. गाडी फिरायतलो जाल्यार लेगीत म्हाका वयर वचचें पडटलें. ते भायर दुसरोय प्रस्न आसलो. इतले वयर येवन... तेंगशेर गेले बगर, देऊळ पळयले बगर परतप समा जातलें?

गाडी थांबोवन हांवें इंजिन न्हिवंक दिलें आनी गाडी परत सुरू केली. थोडो फुडें गेलों आनी म्हाका तो कळस दिसलो.

आनीक वीस-पंचवीस मीटर फुडें वतकच एक वाट उजव्यान वता ती नदरेंत भरली. मुख्य मार्गाइतलीच रुंद. घडये ती देवळाकडेन वचपाची वाट आसुये. त्या आड मार्गाचेर गाडी घेतली आनी थंयच थांबयली.

कळस दिश्टी पडला ताजो अदमास घेतलो जाल्यार देऊळ सुमार १००-१५० मिटरांच्या अंतराचेर आसुये. तितली वाट चलप कठीण नासलें. आनीक एक गजाल हांवें पळयली; दोंगराचे तेंगशेर वचपी रस्तो म्हणजे उबी चडटी. पूण हो आडवो रस्तो एके तरेन समतल आसलो. मोटार बंद करून हांव पावलां उखलतां. दाव्या हाताक रस्तो करचे खातीर कापिल्लो दोंगराचो कडो आनी उजव्या हाताक एक ल्हानशी दरी. फुडें वतां-वतां दरी खोल जाली आनी वातावरणच बदल्लें. दोंगरी झाडांचो सांगात सोंपलो. माड, केळी नदरेंत भरल्यो. आनीक थोडो फुडें गेलों जाल्यार रस्तो कुळागरांतच पावलो. निर्मळ उदकाचे पाट थंय व्हांवताले. वयले वाटेन आयिल्लें घोग्याचें उदक माडयेचोच एक पनेळ करून त्या पाटांत सोडिल्लें. म्हजो प्रस्न सुटिल्लो. हांवें त्या ल्हानशा अडेच्या घोग्यार वचून हात-पांय, तोंड धुवन घेतलें आनी कुशीक झडिल्ली एक पोंवली पळोवन दवरली. इतले मेरेन आयलां जाल्यार एक खेपे देऊळ पळोवन घेवया आनी उपरान्तच मोटारीचो विचार करुंया अशें हांवें थारायलें.

कुळागरांतल्या फोफळींच्या झाडांमदल्यान उदकाचे साबार पाट व्हांवतात. मुख्य वाट दोन पाटांमदल्यान वता. वयले वाटेचो रस्तो घडये फेरो घेवन सरळ देवळांत पावता आसुये. पूण देऊळ जे दिशेन दिसतालें, ते दिशेन पायवाट वताली. देखून हांवें तीच धरली.

मुखार वस्ती आसुये. मनशांचो आवाज कानार पडटालो. खंयचे तरी घरांतल्यान भायर सरिल्लो धुंवर दिश्टी पडटालो. अचकीत कोणें तरी केळीच्या झाडावयल्यान सकयल उडी मारली. एक विचित्र आवाज आयकून हांवें आंग काडलें. मुखार पळय जाल्यार केळीक एक व्हडलो घड लागला आनी ताचे वयले फेणे हळडुवसार जाल्यात. एक माकड त्या फेण्यार बशिल्लो. म्हजे जागेन उडी मारून पळून गेलो.

तो आवाज येनाफुडें पेत्रोलाचें एक रिकामें लात वाजलें. ताका दोशीं फातर बांदल्यात आनी कोणतरी दोरयेन पयसुल्यान तें ओडटा. लात वाजतकच झाडां-पेडांवयलीं सवणीं आनी कावळे आवाज करून उडूंक लागले आनी माकडां हांगा-थंय धांवंक लागलीं.

घर नदरेमुखार आयलें. वणटीचेर शेणी थापल्यात, पापड सुकत घालचे तशो. हांव दारांत पाव जाल्यार एक बायल भायर आसली, ती धांवत-धांवत भितर गेली. उपरान्त दाराच्या आडसाक उबी रावन तिणें म्हळें, "देवळांत वचचेली वाट वयल्यान आसा."

"हेवटच्यान वचूंक मेळचें ना?" हांवें विचारलें.

दारांतल्यान आपलो हात भायर काडून तिणें देवळांत वचचेली वाट दाखयली. आपूण भितोडेकच रावली.

घराच्या आंगणाकडेन कुळागर सोंपलें आनी मुखार एक अशीर पाळण. पाळणीच्या तोंडार एक आखाडो. आडवे कोंडे कुशीक काडून हांवें तो आखाडो हुपलो. ते अशीर पाळणींत दोन मनशां वचप कठीण. मदीं जर गोरूं आयलें जाल्यार मनीस अडचुपाचोच.

बऱ्या नशिबान म्हाका आडखळ आयली ना. पाळण सोंपली आनी हांव देवळाच्या प्राकारांत पावलों. रूंद, मेकळो जागो. ती देवळाची फाटली वाट. थंयसून गर्भकुडींत वचपाचें एक दार उकतें आसा. पूण हांवें आपसूक घडटा जाल्यार पुण्य घेवया अशें येवजून प्रदक्षिणा पूर्ण केली आनी फुडल्या दारान देवळांत भितर सरलों.

पुजारी आरत करतालो. एक जोडपें भायले वाटेन मांडी घालून बसलां. हांव जेन्ना मुर्तीक पांयां पडून कुशीक बसलों, तेन्ना त्या जोडप्याची नदर म्हजेर गेली आनी भितल्ले वाटेन आरत करतल्या पुजाऱ्याक तांणी कितें तरी सांगलें.

भायलो चौक आनी गर्भकूड हांचेमदीं ग्रिल्साचें एक दार आसलें. पितुळच्यो चकचकीत ग्रिल्स. पुजाऱ्यान आरत सकयल दवरली आनी आंकांतून ग्रिल्साचें दार भितल्ल्यान बंद केलें आनी उपरान्त परत आरत उखल्ली.

म्हाका सगळेंच कुवाड्या भशेन दिसलें. आरत सोंपसर बसूंकच जाय आसलें. थंय वीज पावल्या हें पयलेच खेपे नदरेंत भरलें. गर्भकुडींत एक ट्यूब लाईट पेट्टा. मूर्तीचे दोशीं दिव्यांच्यो माळो. आरत थांबली तेन्ना मूर्त सारकी पळयली. भांगरावरी चकचकपी एक मुखें आशिल्ली ती देवी आंगार भरजरी शालू न्हेसल्या आनी सणा-उत्सवाचे अलंकार आंगार आसात. आरत जाली आनी पुजारी कुशीच्या दारान म्हजेसरीं आयलो. म्हजी वासपूस केली. हांवें ताका घडिल्लें तें सांगलें. आनी म्हाका कसलेंच देवकृत्य करचेलें ना, फकत देवतेची भेट घेवन परत वचपाचें आसा अशें सांगून म्हळें, "वयर रस्त्यार म्हजी गाडी आसा. म्हाका थोडें उदक जाय. थंय लागींच थोडें उदकय आसा; पूण एखाद्रो कळसो मेळ्ळो जाल्यार उदक व्हरूंक सोपें जातलें."

"कळसो कित्याक? हांव तुका रिकामो गॅलनच दितां." पुजाऱ्यान म्हळें, "बस तूं. आरत सोंपल्या. तांगेली सांगणी करतां आनी उपरान्त तुका तीर्थ-प्रसाद दितां."

इतलो वेळ म्हज्या लक्षांत वचूंक नासली ती गजाल आतां गेली. देवळाच्या चौकार चार-चार आठ रुंद खांबे. वयर लाकडाचो फोर्र. त्या फोर्राक दोन व्हड झुंबरां. कुशीचे वणटींचेर आनी खांब्यांचेर तरेकवार पांयजेलां. पूण चौकावयली जमीन शेणान सारयिल्ली. सुदारणेचें वारें आजून थंय पावंक ना हें पळोवन म्हाका खऱ्यानीच बरें दिसलें.

तांगेली सांगणी जावंदी अशें येवजून हांव भायले वटेन आयलों आनी सैमाची सोबा नियाळूंक लागलों. म्हाका चड वेळ रावचें पडलें ना. पुजाऱ्यान उलो मारून आपोवन व्हेलो आनी आपल्या अर्द स्पष्ट, अर्द अस्पष्ट उतरांनी सांगणी करून एक फूल हातार दवरलें. उपरान्त पोसोभर तीर्थ घालें आनी आपूण भायर येवन त्या ग्रिल्साच्या दाराक गडगंज कुलूप लायलें.

"परकीपण मानूं नाका वा संकोच करूं नाका. दनपारच्या वेळार तूं ञवला. दोन गोटे जेवनच वच." पुजाऱ्यान देवळांतल्यान भायर सरतना म्हाका आग्रो केलो.

हांवें घडयाळ पळयली. साडे-बारा जाल्लीं. हांवें म्हळें, "तसो वेळ जावंक ना, हांव घरा वचूनच जेवतां."

"ते खातीर म्हणिना." ताणें परत सांगलें, "हीं दोगांय परत वचपाचीं आसात. तुमची मोटार तांकां मेळटली."

"बरे भशेन" हांवें म्हळें, "मोटारींत कोणूच ना. तांकां खंय वचपाचें आसा?"

"मुख्य मार्गार पावयल्यार पुरो." पयलेच खेपे तो दादलो उलयलो, "मुखार आमकां बस मेळटली."

"जाता. तुमी सवकासाय जेवन घेयात. हांव रावतां." हांवें म्हळें.

"तुजी मर्जी." अशें म्हणून पुजारी घसघशीत पावलां उखलून घराचे दिशेन चलूंक लागलो.

तीच अशीर पाळण. मुखार पुजारी, फाटल्यान तो दादलो. ताका तेंकून ताची बायल थोडें अंतर दवरून हांव ते अरूंद पाळणींतल्यान पावलां उखलतालों. पुजारी कितें तरी उलयतालो. तो दादलो हुंकार भरतालो. तांचीं उतरां म्हज्या काना मेरेन पावचे आदींच विरून वताल्लीं.

घराच्या आंगणात आमी पावले तेन्ना पुजारी घरांत भितर सरलो ना. कुशीच्यान फाटले वाटेन गेलो. ताचे फाटोफाट आमी फाटले वाटेन वचून पळय जाल्यार सकयल्या भागांत कुचकुचीत धा-बारा घरां. वयल्यान अदमास लेगीत येनासलो.

"तुवें गाडी खंय थांबयल्या?" आपल्या घराच्या आंगणांत पावतकच पुजाऱ्यान म्हाका विचारलें. हांवें जाग्याचें वर्णन केलें.

"इतली पैस कित्याक थांबयली? अशी घुंवडायिल्ली जाल्यार वळसो घालून आमच्या घरा फाटल्यान येतली आसली. बंद पडल्या तर?"

"ना. तशी ती हाडूं येता. तुमी जेवन घेतासर हांव गाडी घेवन येतां." अशें म्हणून हांव आयिल्ले वाटेन परतलों.

तेच वाटेन उदकाच्या पाटामदल्यान हांव गाडयेसरीं आयलों आनी त्या आडव्या रस्त्यान गाडी सकयल देंवयली. रस्तो समतल आसलो. पूण एके तरेच देंवतीच ती. पांच मिनटांभितर हांव त्या पुजाऱ्याच्या घराच्या फाटल्या आंगणांत पावलों.

पुजाऱ्यान उदकाचो गॅलन भरून हाडलो. गाडयेंत उदक घालें आनी परत एक गॅलन उदक भरून ताणें म्हाका दिलें.

"वतना सगळी देंवती. उदक लागचें ना" हांवें म्हळें.

तरी ताणें तो गॅलन व्हरूंक आग्रो केलो. म्हाका भितर आपयलो आनी एका चोळख्यार चार केळीं आनी मुगांची उसळी वाडून म्हजेमुखार दवरली.

"फराळ इल्लो कर."

हांवे फराळ केलो. ताणें दिल्लें ताक पियेलों. तो मेरेन तें जोडपें तयार जाल्लें. तांणी पुजाऱ्याक नमस्कार केलो आनी तांच्या माथ्यार अक्षता उडोवन पुजाऱ्यान तांकां आशिर्वाद दिलो.

कित्याक कोण जाणा, ती बायल रडटाली. पुजाऱ्यान म्हळें, "रडूं नाका, देवतेचेर भावार्थ दवर. धा पटीन ती दितली."

तो दादलोय गंभीर आसलो. तो कांय उलयलो ना. पूण जे तरेन खांकलो, तें पळयल्यार ताचोय गळो दाटून आयिल्लो अशें दिसलें.

दोगांय फाटल्या सिटाचेर बसलीं. हांवें गाडी सुरू केली. मनांत एक खंत उरली; दोंगराची तेंगशी गांठूंक पावलों ना म्हणपाची.

घोव आनी बायल आपले भितर कितें तरी उलयतात आनी तो तिका समजायता, धीर दिता. कितेंय तरी विपरीत घडलां अशें दिसतालें. हांवें ताका विचारलें, "रागार जावं नाका, सांगपा सारकें नासत जाल्यार सांगू नाका. पूण तुमचें कितें जालां? ती रडटा कित्याक?"

ताणें एक व्हड सुस्कार सोडलो. म्हाका ताचें तोंड दिसनासलें. पूण ताजे दोळे भरून आयिल्ले आसुये असो म्हाका दुबाव आयलो.

"हें आमचे कुलदैवत." ताणें म्हळें, "कोण पावता ह्या पयसुल्ल्या रानांत? खूब वर्सां आमी पावंक नासलीं. देवतेन याद करून दिली देखून पावलीं."

देवते म्हऱ्यांत पावलीं जाल्यार रडपाचें कारण कितें तें समजलें ना. घरांत कितेंय अनिश्ट घडटकच हांकां देवतेची याद आयिल्ली काय? पूण सरळ कशें विचारपाचें?

हांवें विचारलें, "देवतेन याद कशी करून दिली?"

"देवी आनी कशी याद करतली? हिच्या सपनांत आयली आनी..."

वाक्य अर्दवट दवरून तो तिचेकडेन पळोवंक लागलो. घडये तिणें ताका आडयिल्लो आसुये. म्हजी नदर डोंगरी मार्गाचेर आनी भोंवतणच्या सोबीत सैमाचेर थिराविल्ली आनी कान फाटल्या सिटाचेर बशिल्ल्या जोडप्याच्या उलोवण्याचेर.

"कसलें सपन पडलें?" हांवें विचारलें.

"सांगल्यार कितें जाता?" अशें तिका म्हणत ताणें म्हाका सांगलें, "खबर खूब व्हडली. पूण थोडे भितर सांगतलो जाल्यार हिचें भांगर देवतेन मागलें आनी आज आमी तें देवतेक दिवन आयलीं."

एका वाक्यांत ताणें सगळें सांगून उडयिल्लें. भांगर देवतेक दिलें ते श्रद्धेन. भांगर गेल्याचें दुःख ती रडली आसुये. हांव जाणां, जायतेकडेन देवाची, चड करून देवतेची, मागणी आसता अशें लोक मानतात. प्रसाद घेवन ताची खात्री करतात आनी देवतेची मागणी पूर्ण करतात. अशे तरेन देवतेक प्रसन्न करून घेतल्यार आपूण जें देवाक ओपतां ताचे दसपट देव आपणाक दिता, असो लोकांचो भावार्थ आसा.

तागेलें तें वाक्य आयकून फुडलो प्रस्न विचारूंक हांव धजलों ना आनी तो, घडये काळीज भरून आयिल्ल्यान आसुये, कांय उलयलो ना. ती रडटाली आसुये. तिणें नाक पुशिल्ल्याचो आवाज भोवन-भोवन येतालो.

गाडी मुख्य रस्त्यार पावली तेन्ना हांवें थांबयली आनी तांकां विचारलें, "तुमकां म्हज्यान फुडें पावोवं येतलें? हांव मडगांव मेरेन वतलों."

"तशें जाल्यार आमी फोंड्यां देंवतात." त्या दादल्यान म्हळें. आपल्या विचारांतच तो इतलो गुल्ल आसलो की विनाकारण ताणें दार उक्तें करून परत बंद केलें. ते बंद करतना मोठ्यान आपटिलें.

रस्त्याचे कुशीक एक ल्हानशें च्याचें दुकान आसा. त्या दादल्यान म्हळें, "रावं आं. लिंबू

मेळटा जाल्यार पळयतां.''

तो दार आपटीत ह्या भयान हांवेंच ताका उकतें करून दिलें. तो गेलो आनी परत आयलो. ताका लिंबू मेळ्ळो ना.

''आसूं.'' ताणें म्हळें.

''लिंबू कित्याक?'' हांवें विचारलें.

''तिका मोटार लागली.'' ताणें जाप दिली.

''थोडो वेळ गाडी थांबयतां.'' हांवें म्हळें,

''वळणाचो मार्ग जाल्ल्यान लागिल्ली आसुये. फुडें लागची ना.''

ती देंवली आनी झाडामुळांत वचून बसली. बरीच कासावीस जाल्ली. ती थंय बशिल्ली आसतना हांवें तिच्या घोवाक कुशीक आपयलो आनी विचारलें, ''भांगर दिलां म्हणून तिच्या मनाक लागलां आसतलें.''

''लागपाचेंच!'' ताणें म्हळें, ''इतल्या कश्टांनी आनी त्रासांनी तें भांगर करूंक पुरतीं वीस वर्सां लागलीं. खरें सांगतलो म्हळयार म्हजो असल्या गजालींचेर विश्वास ना. पूण तिणेंच प्रसाद घेवपाची कल्पना सुचयली आनी भांगर देवतेक दिवपाचो हट्टय धरलो.''

म्हाका सगळी खबर समजून घेवपाची उमळशीक लागून उल्ली. पूण ताची मनःस्थिती उलोवपासारकी नासली. म्हाका दिसलें, एक वेळ उलोवंक लागलो जाल्यार तो मन मेकळें करून उलयतलो. हांवें म्हळें, ''सपन पडल्यार कितले दीस जाले?''

''सपनाचीच न्हय, सगळीच खबर सांगले बगर तुका तिची मनःस्थिती समजुची ना.''

ती उठली आनी मोटारीकडेन आयली. ताणें तिका फाटल्या सिटाचेर बसोवन म्हळें, ''मातशी न्हिदतली जाल्यार न्हीद. हांव फुडें बसतां.''

ती न्हिदली ना. पूण तो फुडें बसलो. गाडी फोंडेचे दिशेन चलूंक लागली.

''आमच्या घराण्याची कीर्त आदल्या काळार खूब गाजताली.'' एकदम ताणें विशय सुरू केलो, ''खेपेक दोन पंगती पडटाल्यो. धक्या लागसार व्हडलें घर. वाफोरान येवपी वचपी लोक आमगेरच जेवणाक उरताले... तेन्ना खाणावळी नासल्यो. एके तरेन हक्कानच लोक जेवणाक येताले. आमचे जाणटेले कर्तव्याचे भावनेन तांकां वाडटाले. फकत घरांत सुयेर - सुतक जालें जाल्यार अडचण येताली तितली. पूण तसल्या दिसांनी लेगीत धर्मशाळेंत शिधो पावतालो.''

''कितल्या वर्सां पयलींची ही खबर?''

''म्हज्या भुरगेपणांतली. आयज म्हजी पिराय सत्तर वर्सांची. म्हणटकच कितलीं वर्सां जालीं तें तूंच थाराय. उपरान्त जग बदल्लें. आमच्या घराचे वांशे परतले. वायट दीस आयले. घराच्या आसऱ्याक राविल्ले लोक ल्हवू-ल्हवू पैसावले. येणावळ बुडली, रिणां वाडलीं आनी घराबो सोंपलो.''

हांवें ताच्या तोंडाकडेन पळयलें. हें सगळे तो इतल्या निर्विकारपणान उलयतालो की तो आपली खबर सांगता अशें दिसनासलें.

हांवें म्हळें, ''तुमच्या घराण्याविशीं उलयता तूं?''

''आनी कितें काणी सांगताशें दिसलें तुका?'' ताणें धेंगसून म्हाका प्रस्न केलो.

''मागीर कितें जालें?'' विशय बदलचो न्हय अशें येवजून हांवें विचारलें.

"सतराव्या वर्सा म्हजें लग्न जाल्लें. बायल तेन्ना तेरा वर्सांची. तिच्या आंगाक सगळयो वस्ती आसल्यो. पांयापसून माथ्यामेरेन गच्च भांगराच्यो वस्तू. थोड्यो तिका बापायन केल्ल्यो. थोड्यो घरच्या लोकांनी. आठ-धा वर्सां आमी संवसार केल्लो आसतलो, तेन्ना हें अरीष्ट आयलें. रीणकारांचो तगादो लागलो आनी म्हजो बापूय लजेन आनी खंतीन खंगून कांटो जालो. ताणें थोडीं भाटां-बेसां विकलीं. पूण दीसपट्टो खर्च चलोवचेली विवंचना आनी कळंतरासयत वाडिल्लीं रिणां... मोठ्या घरचीं दुःखांय मोठीं आसतात... जाणा न्हय?"

"हय. तांकां घराची इभ्रत सांभाळचेखातीर खूबशो गजाली करच्यो पडटात." हांवें म्हळें.

"नाटकां करचीं पडटात, नाटकां." ताणें सांगलें, "पैशाचें नाटक कशें करतलो? थंय सगळें चुकलें. म्हज्या बापायन तें नाटक केलें आनी मागीर थोडे दीस हांवेंय केलें. तेच अवस्थेंत बापूय मेलो. वतना कितें सांगून गेलो जाणा तूं? ताणें म्हळें, 'रिणांतलो म्हाका मेकळो केलेबगर म्हज्या आत्म्याक सद्गती मेळची ना...!' पिंडाक कावळो आफुडलो ना... तेन्ना हांवें बायलेच्यो सगळयो वस्ती विकून रिणां फारीक केल्लीं... आमचीं भुरगीं व्हड जायसर ल्हान-मोटे व्यापार चलयलो. रिती बदल्ल्यो; पूण मनांत एक खंत सदांच उरली. स्त्रीधनाक हांवें हात घाल्लो. तें म्हज्या मनाक खातालें."

"पूण तुमी वस्ती देवतेक दिल्यो म्हणटाले न्हय?"

"त्यो सगळयो नव्यो वस्ती. दीस बदलतकच हांवें एकेक करून चडशो वस्ती परत्यो करून घेतल्यो. आतां भांगर खंय पावलां तें जाणां तूं. वस्ती विकल्यो तेन्ना धा-पंदरा रुपयांक पोवन आसलें..."

"मागीर देवतेच्या सपनाचें कितें सांगताले न्हय तुमी?" फोड्यां पावचे आदीं तागेली खबर समजून घेवची अशें येवजून हांवें विचारलें.

"हय. ही आमची कुलदेवी. म्हज्या भुरगेपणांत हांव हांगा आयिल्लों तितलो. हालीं-हालीं हिका परत आयिल्लें भांगर पळोवन सुख लागनासलें. ती देवतेचे भेटेक या अशें सांगताली. फाल्यां या, परां या करतां-करतां दीस गेले. एक दीस तिणें सांगलें की सपनांत एक सवायशीण बायल येवन तिगेल्यो वस्ती मागता. म्हजी मनःस्थिती कशी जाली आसतली ताची तूं कल्पना कर."

"मानतल्याक सगळें लागता. तुवें तिका समजावपाची" हांवें म्हळें.

"समजायली. म्हळें, तुज्या मनांत त्यो वस्ती कोणय परत व्हरत अशी भिरांत आशिल्ल्यान तुका तसलीं सपनां पडटात. पूण ती प्रसाद घेवया म्हणून हट धरून बसली... जावपाचें तेंच जालें. प्रसादाचेर मागणी आसा म्हणून सांगलें आनी आज आमी तें भांगर देवतेच्या ताटांत घालून उदक सोडून आयलीं."

"अशी मागणी पावली ना जाल्यार कितें जाता?" हांवें विचारलें.

"तिका कोणेंतरी सांगलें, देवतेक कोप आयल्यार घोवाक वायट. मागिल्ली वस्त दिली ना जाल्यार मनीस ती भोगूंक पावना आनी दिली जाल्यार देव धा पटींनी परत दिता..." इतलें उलोवन तो गंभीर आनी रडकुऱ्या सुरांत हांसलो. ताणें म्हळें, "सध्या आमचें भांगर गेलां. आतां देवता केन्ना दिता पळोवया. आमची ही आतां सोंपती पिराय."

"पूण देवतेक भांगर दिलें हाचें तुका वायट दिसता?"

"खरें म्हळयार हे विशीं म्हाका उलोवपाचें ना." ताणें जाप दिली, "पूण एके वटच्यान मन ल्हव जालां. एक कांच गेलो. आतां खंत म्हणशी जाल्यार ती आसा. हिगेल्यो वस्ती म्हज्या हातांनी हांवें विकल्यो त्यो म्हज्याच हातांनी परत करचे खातीर हांवें जीं हिमटेपणां केलीं, तीं हांवच जाणा. तिगेल्या रिणांतलो हांव मेकळो जालों हें जाय जाल्यार हांवें समादान मानचेलें. आतां हें जिणेंत आनी आयचे म्हारगायेंत तिका भांगर करप म्हाका शक्य जावचें ना. इतलीच खंत."

"पूण तुमच्या हातान एक बरें कार्य घडलें. वस्ती घाण दवरच्यो पडच्यो वा चोरयेक वचच्यो हाचेपरस त्यो देवतेक पावल्यो हाचें समाधान तुमकां आसतलें."

"जेन्ना दुसरें आपल्या हातांत नासता, तेन्ना समाधान मानून घेवचेंच पडटा."

"आसूं म्हळयार त्यो खबरो!" फाटल्या सिटार बसून येदो वेळ मोन्यांनी आयकतले बायलेन आपल्या घोवाक सांगलें.

तो कांय उलयलो ना. हांवेंय फुडलो प्रस्न विचारलो ना. गाडी फोंड्यां बसस्टँडा कडेन पावली तेन्ना ताणें म्हळें, "हांगाच थांबय, आमी देंवतात."

दोगांय देंवलीं. तो म्हजेसरीं आयलो आनी म्हळें, "हांव देव मानिना अशें न्हय आं!"

"जाणां हांव." हांवें म्हळें.

तो पयलेच खेपे मेकळो हांसलो.



# ६. मोना

फाटल्या सप्तकांत कर्नाटकांत गंगोळी गांवांत वचपाचो योग आयलो. दर खेपे कर्नाटकाचे भोंवडेर वता आसतना कांय वळखीचीं गांवां मेळटात आनी त्या गांवांक्रडेन जोडिल्ल्यो यादी मनांत जाग्यो जातात. देखीक, अंकोला सावन कुमठा पावतां पावतां दोंगराच्या कड्यावयल्यान गोकर्ण तिर्थाचें दर्शन घेनाफुडें रावण तिबेटाक सावन लंकेक जें शिवलिंग व्हरतालो तें थंय कशें उरलें, ते पुराणकथेचो उगडास जाता. फुडें धारेश्वर, मुर्डेश्वर ह्या गांवांनी त्या लिंगाचे ल्हान कुडके कशे पडले आनी थंय मंदिरां कशीं उबीं जालीं तांच्यो आख्यायिकाय याद जातात. खूबश्यो असल्यो आख्यायिका अर्थ नाशिल्ल्यो आसल्यो तरी कोणेंतरी त्यो बरोवन दवरूंक जाय अशें म्हाका सदांच दिसत आयलां. दर खेपे त्या गांवांनी वतां तेन्ना त्यो बरोवपाचो हांव संकल्प करतां.

ह्या आख्यायिकां भायर ह्या गांवांकडेन कांय दुसऱ्यो यादीय जोडिल्ल्यो आसात. त्योय बरोवपा सारक्यो. पूण चित्त आशिल्लें गंगोळी गांवाचेर, जंय आमकां दनपार मेरेन पावपाचें आसलें.

दर्यादेगेवयल्या राष्ट्रीय महारस्त्याचेर उटांगारांचो वादळी पावस झडटालो. वाटेंत जळामळाक वादळान हुमटून पडिल्ले रुख दिश्टी पडटाले आनी असोच एकद्रो रूख आमची वाट आडायत म्हणपाची भिरांत दिसताली. तातूंतय रस्त्याचेर भरिल्ल्या उदकांतल्यान लौंची सारकी वाट काडीत वतली आमची धाकली मारुती गाडी बंद पडत हीय भिरांत आसली. गोंयची शीम हुपता आसतना धोंपरभर रेब्यांतल्यान मोटार भायर काडची पडिल्ली. तो रेबे ह्या उदकान धुवन गेलो तरी वाटेर खंयय गाडी बंद पडली जाल्यार आमची गत त्रिशंकूसारकी जावपाची. भरीक त्या दिसा पावसाचो कोप आनी कावेरी तंट्याक लागून कर्नाटक बंद! खंयय अडून उरले जाल्यार दुसरें वाहन मेळपाचीय शाश्वती नासली. तानेक उदाकाचो घोंट लेगीत मेळचो नासलो. देखून मनांत एक कांच घेवनच आमी वताले.

गंगोळी गांवांत पावले आनी गाडयेन पयली कागाळ केली. पूण व्हडलो हुसको दिसलो ना. त्या गांवांत आमचे वळखीचे साबार लोक आसात आनी अडले जाल्यार तांचो आदार मेळूं येता म्हणपाचो धीर दिसतालो. पांच न्हंयांच्या संगमाची ही पंचगंगावळी दर्याचे देगेर उबी. ह्या गांवांत गोंयच्या इतिहासाचें एक स्मारक आसा, जाका थळावे लोक व्यंकटरमण देवस्थान म्हणटात. ह्या देवस्थानाची कथा म्हळयार गोंयच्या इतिहासांत पुर्तुगेजांनी केल्ल्या अच्छेवाची कथा आनी विघटना उपरांत स्वत्व आनी संस्कृतीचे राखणेखातीर गोंयकारांनी केल्ल्या पुरुषार्थाची गाथा.

गंगोळी गांवांत पावतासर गाडयेचे तरेकवार कर्कश आवाज येवंक लागले आनी

ल्हवू ल्हवू ती आमच्या मुक्कामा मेरेन व्हरून उबी केली तेन्ना आमकां सू जालें.

वासपूस केली तेन्ना आमकां दोन गजाली कळ्ळयो. गंगोळीसावन धा किमी. अंतराचेर आशिल्ल्या कुंदापूर शारांत मारुतीची गॅरेज आसा.

दुसऱ्या दिसा सकाळींच गाडी कुंदापुराक व्हरून दुरुस्त करप भाग आसलें. गंगोळी गांवांत बऱ्या हॉटेलाची वेवस्था ना. देखून आमी रातीकडेन कुंदापुराक गेले आनी दुसऱ्या दिसा सकाळीं मारुतीची गॅरेज सोदून काडली.

जी खबर आज सांगचेली आसा, ती थंयच घडली.

कथा एके चलयेची. वीस-पंचवीस वर्सांची चली. नांव मोना. पळोवंक तशी चार चौगीं सारकी. पूण चली मोनी.

आमी जे गॅरेजीकडेन गेले, ती गॅरेज बंद आसली. उकती जावंक अर्दवर रावंक जाय. आकांताचो वारो आनी उटांगारांचो पावस. भितोडेक रावतलों म्हळयार दुसरो जागो ना. रस्त्याचे दोशीं उदकांचीं तळीं. आमच्या दोळयां सामखार घरांचे नळे उबून वताले ते आमी पळयले आनी गॅरेजी मुखारच आशिल्लो एक पिंपळाचो रूख व्हडा व्हडान शिटकावणी दीत अशे तरेन कोसळ्ळो कि भूंयकांप जाल्ल्याचो भास जालो!

गाडी गॅरेजीच्या दारांत उबी करून आमी कुशीक आशिल्ल्या एका ल्हानशा बंगल्याच्या व्हारांदांत वचून उबे रावले. तितले म्हणसर आमी चिंब भिजिल्ले. घराक भायल्यान कुलूप. वाठारांत जितो मूस ना. सुण्याचो एक पेटो त्या व्हारांदांत आसलो. आमकां पळोवन बाबडो शेपडी सकयल घालून खंय तरी गेलो.

सुमार धा मिनटां आमी थंय उबे रावले आसतले, इतले म्हणसर एक बायल थंय आयली. तिच्या हातांत एक पोती. घडये बाजारांत वचून आयिल्ली आसतली.

आमकां व्हारांदांत उबे राविल्ले पळोवन तिणें एकदम तापून कन्नड भाशेंत प्रस्न विचाल्लो, "कोण जाय?"

आमकां कन्नड भास येना, तरी प्रस्नाचो रोख समजलो. हांवें कोंकणींतल्यानच जाप दिली आनी ती पथ्यार पडली. तिका कोंकणी येताली. हांवें तिका आमी गॅरेजींत आयल्यात आनी पावस-वाऱ्यापसून राखण घेवंक व्हारांदांत रावल्यात अशें सांगलें. तिची नुरा बदल्ली. पर्सींतली चावी काडून तिणें दार उकतें केलें आनी आमकां भितर बसूंक सांगलें.

नव्यान बांदिल्लो बंगलो आसलो तरी भायल्यान भितल्ले सजावटीची कल्पना येना. आमी भायल्या सालांतच बशिल्ले. पूण थंयच्या वस्तू गिरेस्तकायेची गवाय दितात्यो आनी तांची रचणूक घरच्या लोकांची रसिकताय दाखयतात्यो. आमी सोफाचेर बसले आनी घरचे घरकान्नीन आमचेकडेन उपचारीक संवाद केलो.

"बसात आं. कॉफी घेवन येतां." अशें म्हणून ती उठली.

आमी नाका म्हळें; पूण ती आयकली ना.

अचकीत एक चली भितल्ले कुडींतल्यान भायर आयली आनी एकसारकी आमकां पळयत उबी रावली.

तोंडाचेर अजापाचे भाव. पूण उपचाराचो हांसो लेगीत ना. म्हाका अजाप जालें. घराक भायल्यान कुलूप आसलें. मागीर ही चली खंयच्यान आयली? घडये

मागीलदारच्यान आयिल्ली आसुये अशें येवजून हांव ओगी रावलों. अनोळखी चलयेकडेन उलोवपाचें कारण नासलें. पूण जे तरेन ती आमकां पळयताली, ताका लागून ती दुबावान आमचेकडेन पळयता, अशें म्हाका दिसलें. हे उपटसुंभ घरांत कशे पावले, असो तिका प्रस्न पडिल्लो आसुये. तिका कितेंय विचारचें आनी त्या निमित्त्यान आमची वळख दिवची अशें येवजितासर काफयेचे कप ट्रेंत घालून घरची घरकान्न आयली. तिचें लक्ष कुडीच्या दारांत उबे आशिल्ले चलयेकडेन वचना फुडें तिणें दोळे मोठे करून ते चलयेक शिटकायली. ते सरशीं ती चली कुडींत भितर गेली आनी रागान आपटुचें तशें कुडीचें दार आपटून बंद केलें.

"ती म्हजी चली." घरकान्नीन अडेचो हांसो तोंडार हाडून म्हळें.

थोडो वेळ कोणूच उलयलो ना. हून काफयेचो घोंट घेत सगळे एकमेकांक पळयत रावले. म्हजे कान ते बंद कुडीकडेन लागिल्ले. थंयसून कसलोच आवाज येना आसलो. कितेंय तरी विचारचें आनी घरचे घरकान्नीक उलोवंक लावचें अशें येवजून हांवें म्हळें, "ती चली घरांतच आसली?"

"हय, हांव भायर वतना भायल्यान कुलूप लावनच वतां. ह्या दिसांनी कोणाक पातयेवंक जायना. तातूंत आमची चली मोनी!" तिणें सांगलें.

अजापाचो धक्को सगळयांकच बसलो. तरी आमच्यांतल्या एकल्यान विचारलें, "तिका आयकूंक येता?"

"आयकूंक आयिल्लें जाल्यार ती मोनी जावपाचीच न्हय, अशें डॉक्टर सांगतात. सगले उपाय जाले. पूण ती मोनीच उरल्या. आतां जीणभर तिका सांबाळची पडटली." आवयचो खंतीन भरिल्लो व्हडलो सुस्कार.

भायले वाटेन गॅरेज उकती जाली आनी म्हजे इश्ट गाडयेसरीं गेले. हांव थंयच बसून तिचेकडेन उलोवंक सोदतालों; तिजी खबर समजून घेवंक सोदतालों. पूण बसून रावंक निमित्त्य जाय आसलें. देखून उठलों आनी व्हारांदांत आयलों. आमच्या फाटल्यान ती बायलय भायर आयली. आजून पावसाचो नेट उणें जावंक ना. हांव व्हारांदांतच उबो रावन भायले वाटेन पळोवंक लागलों.

"हांगा वावझड मारता." तिणें म्हळें, "तूं भितल्ल्यान कित्याक बसना?"

"गाडी सारकी जावंक उणेंच अर्दवर तरी लागतलें." हांवें म्हळें.

"भितल्ले वटेन बस तूं." अशें तिणें परत म्हळें.

हांव भितर वचून सोफाचेर बसलों.

गाडी सारकी जायसर तिचेकडेन उलोवपाची संद मेळ्ळी आनी तिणें आपली खबर मेकळेपणान सांगली.

तिचें नांव एलीस. मूळ मंगळूरची. थंय शिक्षण घेवन बँकेंत नोकरी करताली. तिचो घोव कुंदापूरचो. लग्ना उपरांत तिणें कुंदापूराक बदली करून घेतली. घोवय कामाक वता. दोगांय जोडटालीं. सुखाचो संवसार चलयतालीं. घोवाक घरचो दुसरो मनीस कोण ना. मावश्यो, बापोलये मंगळुराक उरतात.

"आदीं आमी एका ल्हान घरांत भाड्यान रावतालीं." एलिसान सांगलें, "उपरांत हो बंगलो बांदलो. ते आदींच आमगेर चली जाल्ली. पूण देवान तिका भेड्डी आनी

मोनी करून आमचेर व्हडलो अन्याय केला.''

एका काळार घरांत एक आया दवरून चलयेचो सांबाळ केलो. आवय बापूय कामाक वतना चलयेक आया सांबाळटाली. चली व्हड जाली, पूण शिक्षण घेवंक पावली ना.

''भेड्ड्या-मोन्याक शिक्षण दिवपाची ह्या गांवांत सोय ना.'' एलिसान म्हळें, ''पूण चली हुशार. तिका वाचूंक येना; बरोवंक येना; उलोवंक येना; तरी खूबशें समजता. घरकामाक हुशार, शिवणींत फिशाल आनी पोरसांत फुलझाडांकडेन खेळून ती दीस सारता.''

चली व्हड जाली तसो आवय वयलो घरकामाचो भार ल्हव जालो. पूण वाडिल्ली चली गळ्याक तेंकिल्ली. एकली एकसुरी अपुर्बायेची धूव. कोणय बरो भुरगो तिचेकडेन लग्न करूंक तयार जालो जाल्यार ताका घरजांवय करपाची आवय बापायची तयारी आसली. ते नदरेन येवजूनच तांचो सोद चल्ला.

''पूण एक सांग,'' हांवें म्हळें, ''तिका घरांत बंद करून कित्याक दवरतात?''

''तो एक वेगळोच प्रस्न.'' एलिसान परत सुस्कार सोडलो, ''आतां तिका चड सांबाळूंक जाय. तिचे खातीर हांवें नोकरी सोडली, तरी बाजार करचो पडटा. तितले पुरती हांव घर बंद करून वतां. ती पळून वचत म्हणपाची म्हाका भिरांत दिसता.''

''पळून?'' अजापून हांवें विचारलें, ''पळून खंय वतली?''

एलिसान ती खबरय म्हाका सांगली.

शिरगणतीचें काम चालू आसलें. सरकारी कर्मचारी दाराकणकणी वचून माहिती पुंजायताले. असोच एक कर्मचारी एलिसाल्या घरांत पावलो. त्या वेळार घरांत मोना एकलीच आसली.

दार वाजयलें; पूण कोणें काडलें ना. त्या कर्मचाऱ्यान भायले वाटेन वासपूस केली, तेन्ना गॅरेजींतल्या भुरग्यांनी ताका सांजचो उसरां येवंक सांगलें. घरांत एक चली आसा; पूण ती मोनी, अशेंय ताका तांणी सांगलें.

शिरगणतीचो फॉर्म घरांत दवरपाचें निमित्त्य करून तो परत घरांत आयलो. त्याच वेळार भायले कुडींत आयिल्ल्या मोनान ताका पळयलो.

चली मोनी म्हणपाचें आदींच कळिल्लें. तो तिचेकडेन कसो उलयलो देवाक खबर! घरांत एकलीच उरता अशे चलयेक पयलेच खेपे एक परकी मनीस मेळिल्लो आनी तिणें आपले उमाळे कुरवांनी ताका सांगले आसुये. त्या सरकारी कर्मचाऱ्यानय तिका जाय आशिल्ली ती सहानुभूती आनी आपलेपण दाखयिल्लें आसुये.

त्या दिसा तो शिरगणतीचो फॉर्म दवरून गेलो. दुसऱ्या दिसा फॉर्म व्हरूंक येतां अशें ताणें सांगलें.

सांजच्या वेळार चलयेन आवयकडेन फॅार्म दिलो तेन्ना आवयक ताचें कांय दिसलें ना. तिणें तो फॉर्म भरून दुसऱ्या दिसा ऑफिसाक वता आरातना चलयेकडेन दवरलो.

दुसऱ्या दिसा तो कर्मचारी येवन फॉर्म घेवन गेलो. त्या उपरान्त तो तांगेर येत रावलो. आवय बापायक ताजी खबर कळपाचें कारण नासलें. गॅरेजींत काम करतल्या भुरग्यांनी तो येता इतलें पळयिल्लें. तांकां दिसलें, तो तांचो घरचोच कोणय आसुये.

घडये चलयेक शिकोवंक येता आसुये. तांणी थंय व्हडलेंशें लक्ष दिलें ना.

त्या सरकारी कर्मचाऱ्याची दानत कशी आसली कोण जाणा! पूण इतलें खरें की मोनाच्या मनांत मोगाची आंकरी फुल्ली आनी एका दुबळया खिणाक तिणें ताचेकडेन लग्न करपाचो निश्चय केलो.

ज्या दिसा मोनान आवयक आपलो लग्नाचो निश्चय कळीत केलो, त्या दिसा आवय शिटकावली. दुसऱ्या दिसा ती ऑफिसांत वचना आसतना घराच रावली. सदचे भशेन तो सरकारी कर्मचारी मोनाक मेळूंक आयलो तेन्ना ताची एलिसाकडेन गांठ पडली.

"हांवें ताचेकडेन उलोवन घेतलें. म्हाका तो धड लागलो ना. तो आपली पिराय लिपयतालो, तरी तो खूब जाणटो आसलो. धर्म वेगळो, गांव वेगळो. हो मनीस म्हजे धुवेक जल्माचो सांगात दीत म्हणपाचो म्हाका भरवंसो दिसलो ना. हांवें ताका परत धाडलो."

एलिसाक दिशिल्लें, तितल्यान एक प्रस्न सुटलो. पूण तो सुटूंक नासलो. दुसऱ्या दिसा एलिसा ऑफिसांत गेल्या वेळार तो कर्मचारी परत घरांत आयलो. मोनान ताका घरांत घेतलो. दोन-चार दीस आवय-बापायक खबर नासतना तो मोनाक मेळूंक येतालो. वरांचीं वरां थंय बसतालो.

एक दीस हरशींच दुबावान एलिसा मदल्या वेळार घरा आयली. पळय जाल्यार घराचें दार उकतें आनी तो घरांत बसला. एलिसाक पळयनाफुडें तो भांबावलो आनी उठलो. पूण एलिसान ताका बसोवन घेतलो आनी परत घरांत पावल दवरचो ना अशी शिटकावणी दिली. तिणें गॅरेजींतल्या भुरग्यांक आपोवन हाडून तांकांय त्या मनशाचेर नदर दवरूंक सांगलें.

तरीकय तो भुरगो मदीं मदीं येत रावलो. दुसरो उपाय नासून एलिसान आपली नोकरी सोडली आनी ती घराच रावंक लागली.

"चलयेच्या मनाचे उमाळे म्हाका समजतात. हांव तिची दुस्मान न्हय." एलिसा म्हणटा, "पूण म्हाका फाटलो फुडलो विचार करचो लागता. तिज्या बऱ्याखातीरच हांव तिका आडायतां. हें तिका आज कळूें ना तरी फाल्यां कळटलें."

आमचें उलोवणें सोंपतासर मोना भायर आयली. हे खेपे एलिसान तिका आपल्या म्हऱ्यांत बसोवन घेतली. धूव आवयसरीं बसली तसो आवयन तिचे फाटीचेर हात दवरलो आनी दोळयांत आयिल्लीं दुकां साडयेच्या पदरान पुसलीं.

हांवें पळयलें, मोना खरेंच सुंदर चली. तिचे दोळे उलयताले. ती मोनी असो खीणभर लेगीत दुवाव येवपाचें कारण नासलें. तिचें दुख्ख कितें हें समजुपाक तिणे तें सांगपाची गरज ना. खंयचेय वाडिल्ले सुंदर चलयेची व्यथा, तीच मोनाची. पूण मन विसरायेर घालपाचें दुसरें साधनय मोनाकडेन ना. जिवितांत पयलेच खेपे तिका मोगाची शितळसाण मेळ्ळी आनीक तें सूख भोगपाक आपली आवय आपणाक दिना अशें तिच्या मनान घेतलां.

एलिसाचेंय कांय चुकूंक ना. खंयचीय आवय घेतली आसली ती जतनाय एलिसा घेता. पूण मोनाक तें कशें कळपाचें? एलिसाची भिरांत लटकी न्हय. आपूण घरांत

नासतना संद सादून मोना पळून गेली जाल्यार कशें जावपाचें?

भायले वटेन पावस पडत आसा. मोटारीचो हॉर्न वाजलो. म्हाका ती इशारत आसली. हांव उठलों. पूण खंयच्या उतरांनी निरोप घेवचो तें म्हाका कळना जालें. हांवें फक्त हात केलो आनी भायले वाटेन आयलों.

भायल्या सोपणाचेर पावलों तेन्ना मान वळोवन पळय जाल्यार दारांत मोना उबी. नदरेक नदर भेटली आनी ती हांसली. पावशी कुपांतल्यान वताचें किरण फुटिल्लेवरी म्हाका दिसलें.



# ७. मॉडल

मुंबयच्या एका इंग्लीश नेमाळयाचे कचेरेंत हांव योगायोगान पावलों. एक व्हडलो फ्लॅटच ते कचेरेन व्यापला. नेमाळें म्हयन्याक एक खेपे उजवाडाक येता तरी ऑफिसाचो थाट वेगळोच. संपादकांक मेळपाचें आसलें. तो मिटींगेंत आसा अशें सांगून तागेले सेक्रेटरीन म्हाका तागेल्या कॅबिनांत व्हरून बसयलो.

म्हजें काम संपादकाकडेनय नासलें. म्हजो एक फोटोग्राफर मित्र आसा. ताका मेळपाचें आसलें. ताणेंच म्हाका त्या ऑफिसांत आपयिल्लो. संपादकाकडेन वासपूस करूंक सांगिल्लें. घडये तो संपादकाकडेन म्हजेविशीं उलयिल्लो आसूंक जाय. ना जाल्यार नांव कळना फुडें ताची सेक्रेटरी कॅबीनात बसूंक सांगपाची न्हय.

कॅबीन खूबच व्हडलें. एकाद्र्या मंत्र्याच्या चेंबरासारकें. एके कुशीक सोफासेट रचला आनी ताचे सामखार दवरिल्ले टीपॉयचेर ताज्या फुलांची फुलदाणी. वातानुकूलनाच्या यंत्रांत खसचो सैंट घाल्लो आसूंक जाय. ताचो मंद परमळ कॅबीनभर पातळ्ळा. दुसरे कुशीक एक अर्द वर्तुळाकारी मेज. मेजा फाटल्यान संपादकाचें कदेल. मेजाचेर एक बंद फायल आनी एक अॅश ट्रे. सबंद कॅबिनांत एकय आरमार ना वा दुसरी कसलीच वस्त ना.

हांव सोफाचेर बसून कॅबिनाची रचणूक मनांतल्या मनांत वाखाणटालों. इतले म्हणसर एक प्यून आयलो आनी ताणें विचारलें, "च्या, कॉफी, कितें हाडूं?"

"कांय नाका." हांवें म्हळें, "खरें म्हळयार म्हाका संपादकाक मेळपाचें ना." हांवें त्या फोटोग्राफराचें नांव घेवन हांव ताची वाट पळयतां अशें सांगलें.

"तोय भितर मिटींगेक बसला." प्युनान सांगलें, "धा-पंदरा मिनटां लागतलीं. च्या हाडूं?"

प्युनान दिल्ले माहितीक लागून म्हाका सू जालें आनी हांवें म्हळें, "पंदरा मिनटां लागतलीं जाल्यार काफी हाड."

प्यून गेलो. आनी रोखडेंच कॅबिनाचें दार उकतें करून एक बायल भितर आयली.

ती भितर सरली तसो तिणें लायिल्ल्या सैंन्टाचो परमळ खसाच्या मंद परमळांत भरसून गेलो. तिगेल्या सैंन्टाचो परमळ खूबच उग्र आसलो.

म्हाका पळोवन ती मात्शी संकोचली. सोफाचे एके कुशीक वचून बसली. तिच्या हातांत एक ल्हानशी पर्स आसली. पर्स उकती करून तिणें घडी केल्लो टिश्यू पेपर भायर काडलो आनी ब्लॉटींग पेपरान तिंताचे बोळे टिपचे तशे आपल्या तोंडावयले हुमेच थेंब पुसले.

प्यून काफी घेवन आयलो. ताणे दोन कप हाडिल्ले पळोवन म्हाका अजाप जालें. ती आयल्या हें ताका कळिल्लें आसूंये. एक कप तिज्या मुखार धल्लो आनी दुसरो म्हज्या हातांत दिलो.

ती बायल संकोचान आपलें न्हेसण, मेकअप सांबाळीत माजराभाशेन जिबेनच कॉफी

पिताली. काळी सावळी बायल. साडेपांच फुटांपरस चड लांबायेची. एकशिवड आंगलोटयची. आबोलेच्या रंगाची साडी ती न्हेसल्या आनी तसल्याच गाढ रंगाचो ब्लावज. केंस मानेर सोडल्यात, जे शांपूच्या जायरातींतले बायले भाशेन ती सळसळायता. दोनय कानसुलां केंसांनी धांपल्यात. पूण मदींच ती हातान केस कुशीक काडटा तेन्ना कानांत आदिवासी बायलो घालतात तसलें इयररींग पोरन्या घडयाळींतल्या पेंडुलमावरी धोलता.

"तूं संपादकाक मेळूंक रावता?" काफी पितां पितां तिणें म्हाका विचारलें.

तिका सगळें कितें सांगतलो अशें येवजून हांवें निखटें हय म्हळें.

हांव सगळी कॉफी पियेलों. पूण तिणें थोडी पियेवन कप सकल दवल्लो आनी आपल्या रंगयिल्ल्या नाखटांकडेन खेळत ओठांतल्या ओठांत कसलें तरी पद गुणगुणूंक लागली.

त्या कॅबीनांत पळोवपासारकें दुसरें कांयच नासलें. देखून म्हजी नदर घुंवन घुंवन तिजेर वताली आनी हांव तिका पळयतां अशें दिसूं नये म्हणून हांव बळान ती फुलदाणीतल्या फुलांचेर थिरावपाचो यत्न करतालों.

अचकीत कॅबिनाचें दार उकतें जालें आनी म्हजो इश्ट भीतर सल्लो. ताज्या फाटोफाट संपादकय आयलो. इश्टान म्हजी ताजे कडेन वळख करून दिली. ती बायल उठून उबी राविल्ली. संपादकान तिका बसूंक खुणायलें आनी तो म्हजेकडेन उपचाराची चार उतरां उलयलो.

म्हजी नदर भोवन भोवन ते बायलेकडेन वताली. ती बशिल्ले कडेन चुळबुळटाली पूण संपादक वा म्हजो इश्ट तिजेकडेन लक्षच दिना आसले. निमाणें संपादकान लक्ष तिजेकडेन व्हेलें आनी हात फुडें करून म्हळें, "अभिनंदन! ट्रान्स्परंसी आमी स्विकारल्या."

इश्टयवांगडा हांव भायर सल्लों. ती बसूनच आसली.

भायर येतां येतां हांवें इश्टाक विचाल्लें, "ती बायल कोण?"

"आरेच्या!" इश्टान म्हळें, "तुजी वळख करून दिवं येताली. नेमाळयाच्या फुडल्या अंकांत 'मीडल स्प्रेडां'त तिजो फोटो येवपाचो आसा."

"ती मॉडलींग करता?"

"करूंक सोदता. हो तिजो पयलोच प्रयत्न. हांवेंच फोटो घेतला."

त्या विशयाचेर म्हाका चड उलोवपाचें नासलें. एक तर फोटोग्राफींतलें म्हाका व्हडलेशें कांय कळना आनी मॉडलिंगाचे क्षेत्रच वेगळें इतलें हांव जाणा.

टॅक्सी करून आमी फोर्ट भागांतल्या एका हॉटेलांत गेले.

हॉटेलाच्या भायरच कांय नेमाळीं विकूंक दवरिल्लीं. ज्या नेमाळयाच्या ऑफिसांत हांव गेल्लों त्या नेमाळयाचो अंक हांवें विकतो घेतलो.

"विकतो कित्याक घेता? हांव तुका म्हजेकडलो अंक दितां." इश्टान म्हळें.

"आसूं. अंक कसो येता तें तरी पळोवन घेतां" हांवें जाप दिली.

पूण जेन्ना अंकाचे मोल कळळें तेन्ना म्हाका तो म्हारग दिसलो. हांव कांय उलयलों ना.

एका कोनशाच्या मेजाचेर आमी वचून बसले. ऑर्डर दिवपाचें काम इश्ट सोंपयतासर हांवें अंक उकतो केलो. दोडिल्ले मीडल स्प्रेड एकदम नदरेंत भल्लें. तीन पानांचे रुंदायेचें एक चित्र तातूंत आसलें. म्हाका धक्कोच बसलो. तो एक न्यूड फोटोग्राफ आसलो!

म्हजो म्हज्या दोळयांचेर विस्वास बसना जालो. हांवें बेगीबेगीन पान दोडलें आनी नेमाळें

कुशीक दवल्लें. ऑर्डर दिवपाचें काम जाल्लें. तशें इश्टाकडेन खास उलोवपाचें कांय नासलें. पूण तो उलयता ताजेर म्हजें चित्तच नासलें. भोवन भोवन त्या नेमाळयांत छापिल्लो फोटो आनी संपादकाच्या कॅबीनांत बशिल्ले ते बायलेचें चित्र म्हज्या दोळयामुखार उबें रावतालें. म्हजें लक्ष आपल्याकडेन ना हें वळखून इश्टान म्हाका विचाल्लें, "घडलां कितें तुजें? तूं कितें येवजिता?"

"हांव तुज्या नेमाळयाविशींच येवजितालों." हांवें म्हळें, "एक सांग, त्या नेमाळयांत मीडल स्प्रेडाचेर तुमी सदांच न्यूड पोट्रेटी छापतात?"

"हय. तुका खबर ना तर? त्या मासिकाचो खप कितलो ते जाणा तूं?" इश्टान विचाल्लें.

"मासिकाचे नांव हांवें आयकल्लें. केन्नाच पळोवंक नासलें. आज पयलेच खेपे पळयलें. पूण म्हाका एक कुवाडें सुटलें ना. अश्यो न्यूड पोट्रेटी छापून ह्या मासिकाचो खप वाडयतात काय कितें?"

"खप वाडपाचें तें एक कारण हें खरें. पूण तितलेंच कारण म्हणूंक जावचें ना. आनीकय खूबसो मजकूर आसता. हेर फोटोग्राफय आसतात. पूण आमचो मीडल स्प्रेड हे मासिकाचें मुख्य आकर्षण."

"तें समजलें. पूण एक सांग, येदोळ जी बायल संपादकाच्या कॅबिनांत मेळिल्ली, तिगेलो तुमी फुडल्या अंकांत छापतले तो फोटो..."

इश्ट व्हडाव्हडान हांसलो. ताणें म्हळें, "असो अनमनता कित्याक? हय, तो लेगीत न्यूड आसतलो."

"आनी त्या कामाक ती बायल कबूल जाली?"

"तूं कबूल जावपाची भास उलयता. तुका सांगल्यार अजाप दिसतलें... फाटले चार म्हयने ती आमच्या फाटल्यान आसा. आनी अश्यो डझनांनी बायलो आमी आमच्या लिस्टाचेर दवरिल्ल्यो आसात. आतां मॉडलींग हो एक सोपो आनी जोडिचो धंदो जाला. आमच्या घराकडेन तूं येवन पळय. सकाळची थंय सुंदरींची रांग लागता. फकत आपलो फोटो घेवन छापचो म्हणून."

"आनी फोटो छापल्यार तुमी कितले पैशे दितात?"

"तें मॉडलाचेर आनी फोट्याचेर आदारिल्लें उरता. पूण वीस ते पंचवीस हजार रुपया आमी एका फोट्याक दितात."

हांव अविस्वासान इश्टाच्या तोंडाक पळयत रावलों.

त्या दिसा जेवणाच्या वेळार मॉडलिंगाच्या वेवसायाचेरच इश्टाकडेन उलोवणी जाली. वेवसायान फोटोग्राफर जाल्ल्यान सिनेमाच्या नटयांक धरून सगल्या तरांच्या मॉडलांकडेन ताचो संबंद पावतालो. कांय जाणांक तो खूब लागींच्यान वळखतालो आनी तांच्या जिविताचो बारीक सारीक तपशीलय ताका खबर आसलो. कोण प्रसिध्दी खातीर, कोण उमेद म्हणून आनी चड करून पैशांखातीर चलयो आनी बायलो मॉडेलिंगाचो वेवसाय करतात. चित्रकारां पसून नेमाळयां मेरेन सगळया तरांच्या मॉडलाचीं कामां त्यो करतात. टी. व्ही. वयल्या जायरातींनी मॉडलींग करतल्यांक चड पैशे मेळटात आनी सादे फोटोग्राफ विकतल्यांक त्या मानान थोडे पैशे मेळटात. सगळेच कडेन देहप्रदर्शन करपाचो प्रस्न

सता. पूण देह प्रदर्शन करूंक नकार दिवपी मॉडल खूबच थोड्यो आसतात.''

तो उलयतालो आनी हांव नवलकाणी आयकुची तसो आयकतालों. तागेल्या खबरांनी का नव्या संवसाराचें चित्र म्हज्या दोळयांमुखार उबें केलें.

भोंवन भोंवन म्हज्या दोळयांमुखार ती बायल उबी रावताली. निकतीच हांवें तिका ळयिल्ली आनी वयलेचाराक तरी ती म्हाका संवसारी बायल दिसली. थोडोसो मेकअप ल्लो. ती सुंदर आसली तरी असली बायल, जी घोवाची बायल आसूं येता, ना जाल्यार रग्यांची आवय आसूं येता, आपलो विवस्त्र फोटो नेमाळयांत उजवाडावंक कबूल जातली वेर म्हजो विस्वासच बसना जालो.

''हे पळय,'' इश्टान फोडणिशी केली, ''मॉडलिंगाचे काम करपी बायलांकडेन सगलेच ावान पळयतात आसले तरी सगळयोच बायलो चारित्र्यान ढील नासतात. चडश्यो च्यांचे मान्यतायेनच मॉडलींग करतात.''

''दुसऱ्या कोणाक हांवें पळोवंक ना. पूण येदोळ मेळिल्ली बायल... तिचें म्हाका रावन वन अजाप दिसता. ती बऱ्या घरची चली आसूंक जाय...''

''भेसावयल्यान तुवें घराणेंय पारखिलें?'' इश्टान म्हाका विचारलें.

''कित्याक? म्हजो अदमास चुकलो?'' हांवें विचारलें.

''ना. पूण रुपावयल्यान वा भेसावयल्यान तुवें सभ्यपण थारावपाचो यत्न केलो जाल्यार फसतलो. ते बायले पुरतें सांगतलो जाल्यार ती एका मध्यम वर्गातली मराठी बायल. न म्हयन्याच्या भुरग्याची आवय. तिगेलो मांव एके सरकारी कचेरेंत सुपरींटेंडेंट आसलो. रूंच रिटायर जालो. घरांत मांय आसता आनी तिगेलो घोव कुवेताक आसतालो. फाटल्या जा वेळार तो परत आयला आनी आतां हांगा नोकरी सोदता.''

''आनी ती बायल मॉडलींग करता?''

''हांवेंच तिका एक दोन बारीक कामां दिलीं. पूण ती खूबच लजेस्त आनी संकोची ाल्ल्यान तिका कामां मेळूंक अडचण जाता.''

''तूं लजेस्त आनी संकोची म्हणटा आनी ती बायल आपलो विवस्त्र फोटो छापूंक वंक कबूल जाता, हें कशें?'' हांवें विचारले.

''ताचें श्रेय तिगेल्या घोवाक दिवचें पडटलें.''

''म्हळयार कितें?''

''सगळी खबर सांगतां तुका. तिगेलो घोव आपूण जावन एक दीस तिगेल्या फोटोचो गेटीव्ह घेवन नेमाळयाच्या ऑफिसांत आयलो. ताचेकडेन कॅमेरा आशिल्लो आनी त्या मेऱ्यान ताणें बायलेचो फोटो घराच घेतिल्लो. तो फोटो हाडून ताणें संपादकाक दाखयलो. शे फोटो घेवन नेमाळयाच्या ऑफिसांत येवपी लोक खूब आसतात. संपादकान तो रको पळयलो लेगीत ना. काडलो आनी फायलींत घालो. त्या उपरान्त तो दिसपट्टो ऑफिसांत पासय मारून आपणें दिल्ल्या फोटयाचें कितें जालें ताची वासपूस करतालो. पूण पादकाची आनी ताची भेट जायना आसली. एक दीस ऑफिसांतल्या एका कारकुनान ाका म्हजेसरीं धाडलो आनी हांवें ताका म्हजेसरीं बसोवन घेवन ताणें हाडिल्लो फोटो ोदून काडलो.

फोटो सामान्य आशिल्लो. त्या फोटोंत वेगळें कांय नासलें. हांवें ताका म्हळें, ''असलो

फोटो आमकां उपकरचो ना."

"तुमकां कसलो फोटो जाय?" ताणे विचारलें.

"तू एक वाचपी जावन सांग, तुका कसले तरेचे फोटो पळोवंक आवडटात?"

"हो फोटो म्हजे बायलेचो म्हणून सांगिना... ती खऱ्यानीच सुंदर आसा." ताणें म्हळें.

"जण एकल्याक आपली बायल सुंदर दिसता ती गजाल सोडली आनी तूं म्हणटा तशी तुजी बायल खऱ्यानीच सुंदर आसा अशें मानलें तरी जेन्ना आमी फोटो छापतात तेन्ना तो वाचतल्याक सुंदर दिसूंक जाय. फोट्या सकयल ही बायल खूबच सुंदर आसा अशें बरोवंक मेळटा?" फोटोग्राफरान ताका सांगलें.

तें ताका समजलें. ताणें सादो घरांत काडिल्लो फोटो हाडिल्लो.

"तुमी फोटो काडटात तर?" ताणें विचारलें.

"हय. एक खेपे मॉडल पसंत जातकच आमी खाशेल्या अँगलांतल्यान फोटो घेतात आनी तो घेतना पोट्रेट घेवचो काय पूर्णाकृती घेवचो, इतलेंच न्हय तर मॉडलाचे केंस, भेस कसो आसचो, तें लेगीत आमी थारायतात. अशे ॲमॅच्युअर फोटोग्राफराचे फोटो खाशेले नासत जाल्यार आमी वापरिनात." इश्टान ताका समजायलो.

"आनी असल्या वापरिल्ल्या फोट्याखातीर मॉडलाक कितें मेळटा?" ताणें वासपूस केली.

"त्या फोट्याचे कॉपीराईट आमी आमचेकडेन दवरतात आनी फोट्याप्रमाणे पैशे दितात. दोनशें-अडेचशें ते सातशें-आठशें मेरेन दितात. जायरात एजन्सी चडय दिता."

"इतलेच?" तिगेल्या घोवान विचारलें.

"हें पळय, तुगेली बायल वेवसायीक मॉडल कशी दिसना. तुका हो फोटो छापून आयिल्लो जाय तो उमेद म्हणून, काय पैशांखातीर?"

ह्या प्रस्नासरशीं घोवान लाचार तोंड करून आपल्या घरची परिस्थिती सांगली, "म्हजो बापूय रिटायर्ड अधिकारी. ताका थोडें पेन्शन येता. हांव कुवेताक आसतना खूब जोडटालों. पूण सगली जोड थंयच सोडून म्हाका येवचें पडलें. हांव जे कंपनीत नोकरी करतालों ती कंपनी इटालीयन. तिणें कुवेतांतले वेव्हार बंद केल्यात, देखून म्हाका परत कुवेताक नोकरी मेळपाची सध्या तरी आशा ना. हांगा मुंबयच एकाद्री नोकरी मेळटा जाल्यार सोदतां. पूण घराकडेन खूबच ओढाताण जाता. म्हजी बायल निकतीच बाळंत जाल्या. खंय तरी वाचलें, असले फोटे छापल्यार पैशे मेळटात..."

इश्टालें काळीज कळवळ्ळें आनी ताणें ताका आदार दिवपाचें थारायलें. ताणें म्हळें, "तुजी परवानगी आसत जाल्यार हांव तुमगेर येतां आनी तुगेले बायलेचो फोटो काडटां."

"आमच्या घराकडेन नाका. तिगेल्या घोवान म्हळें, "म्हज्या बापायची आनी आवयची प्रतिक्रिया कितें जायत तें हांव नकळ. जाणटीं मनशां..."

"हांव जाणां. पूण एक सांग, फाल्यां फोटो छापून येतकच तुगेल्या बापायक कळचें ना?"

"ती गजाल वेगळी. हांव तांकां आदींच सांगून दवरतलों. नेमाळ्याक धाडिल्लो फोटो छापून आयलो जाल्यार तांका कांय दिसचें ना. नाय जाल्यार म्हजी आवय आपले सुनेच्या सौंदर्याची सदांच तोखणाय करता..."

इतलो संवाद सांगून इश्टान म्हाका म्हळें, "ताका पैशांची गरज आसा जाल्यार विवस्त्र फोटे विकते घेवपी कांय नेमाळीं आसात. कांय भारतांत उजवाडाक येतात, कांय विदेशांत. ती खऱ्यांनी सुंदर आसत आनी विवस्त्र फोट्याक कबूल जायत जाल्यार म्हज्यान तिका मदत मेळोवन दिवं येताली. पूण फोटोग्राफराक घराकडेन व्हरूंक खांकुडटल्या मनशाक ती कल्पना लेगीत सोंसची ना अशें म्हाका दिसलें."

इश्टान ताका सांगलें, "एकच फोटो छापपाचो आसलो तरी चार पांच पोझी घेवच्यो पडटल्यो. घरांत घेतल्यार म्हाका सोपें जातलें. म्हजो स्टुडियो ना. पूण तुका जाय जाल्यार तुज्यान आमगेर तिका हाडूं येता."

म्हजो इश्ट वसईक रावता. इतले पयस वचचें पडटलें अशें दिसतकच ताणें विचार बदल्लो आनी म्हळें, "हांव घराकडेन उलोवन तुका फोन करतां."

इश्टान ताका ऑफिसाचो फोन नंबर दिलो. खंयच्या वेळार फोन करचो तेंय सांगलें.

दुसऱ्याच दिसा सकाळचो फोन आयलो. फोटो घेवंक ताणें ताका आपल्या घरा आपयिल्लो.

मध्यम वर्गाचे वस्तींतलो एक दोन रुमाचो फ्लॅट. दुसऱ्या दिसा सकाळचोच कॅमेरा घेवन म्हजो इश्ट त्या फ्लॅटांत गेलो तेन्ना ताका बरो येवकार मेळ्ळो. जाणटेलें जोडपें भायरच बसून आशिल्लें. तांची सून रांदचे कुडींत च्याची तयारी करताली. तिगेलें ल्हान भुरगें आज्जेचे मांडयेर न्हिदिल्लें.

जाणटेल्यानच फोटोग्राफीचो विशय काडलो आनी म्हळें, "हांव जाणां फोटोग्राफी ही एक कला."

ताका कशी जाप दिवची तें इश्टाक समजलें ना. पूण चर्चा चल्ली तशी तागेले सुनेचे फोटे काडूंक आपूण आयलां हें ताका खबर आशिल्ल्याचें इश्टाच्या लक्षांत आयलें.

"च्याचो थाट मराठी मध्यमवर्गीय कुटुंबांतलोच आसलो. फोडणी फोव आनी शिरो. च्या घेवन तीच बायल भायर आयली आनी खरें सांगतां तुका, एकूण रंगरूप पळोवन हांव विस्मित जालों. हांवें जायत्या सुंदर सुंदर बायलांचे फोटे काडल्यात. पूण घरच्या भेसांत कसलोच मेकअप करिना आसतना जेन्ना ट्रे घेवन ती भायर आयली, तेन्ना म्हज्या काळजाचे ठोके थांबले असो म्हाका भास जालो. ती निखटी सुंदर न्हय, तर लावण्य आनी सौंदर्याचें जितें शिल्प अशें म्हाका दिसलें." इश्टान म्हाका सांगलें.

"हय, हांवेंय तिका पळयल्या..." हांवें म्हळें.

"आज ती वेगळी दिसली. मेकअप करून आयिल्ली. हांव तुका त्या पयल्या दिसाची खबर सांगतां." इश्टान म्हळें.

सपनेल्ले भाशेन म्हजो इश्ट म्हजेकडेन पळयतालो. घडये त्या वेळावयलें तिगेलें रूप तो नदरे सामखार हाडपाचो यत्न करतालो आसुये.

"ती सुंदर हें हांवय मान्य करतां. तूं म्हाका फोटोग्राफाचें सांगतालो."

इश्टान आपलें बॅग उकतें केलें आनी एका पाकिटांतलो फोटो काडून म्हज्या हातांत दिलो.

फोटो खरोच सुंदर आसलो. फोट्यांत ती वेगळीच दिसताली. न्हावन ओल्या आंगार साडी गुठलावन बाथरूमांतल्यान भायर आयिल्ले अवस्थेंतलो तो फोटो.

"हो फोटो आमी एका विदेशी नेमाळ्यांत छापला. तांणी तो कव्हराचेर घालो आनी तिका धा हजार रुपया दिले."

"पूण तूं हातांत ट्रे घेवन आयिल्ले बायलेचें वर्णन करतालो न्हय?" हांवें विचारलें.

"तेन्ना हांवें फोटो काडलो ना. फोटो काडूंक आमी फ्लॅटांतले तांचे कुडींत गेलीं आनी तेन्ना हांवें अशे तरेचो फोटो घेवचो अशें सुचयलें. फोट्यांत तिचें अर्दें तोंड लिपयिल्ल्यान वळख मेळना. ती अनमनताली. पूण पैशांखातीर तशी पोज दिवंक ती कबूल जाली... घोवान तिका तयार केली म्हळ्यार जाता."

"हें म्हाका बरें दिसलें." हांवें म्हळें, "बायलेक समाजाचो भंय आसता हें खरें. पूण घोव, मांय आनी मांव हांचें फाटबळ आसल्यार ती समाजाची पर्वा करिना. तातूंत हे फोटे तशें लुकसाण करपासारके न्हय. पूण तुमी तो मीडल स्प्रेडांत छापतात तसल्या फोट्याक मात बऱ्या घरची बायल कबूल जायत अशें म्हाका दिसना."

"खंयच्या युगांत आसा तूं?" इश्टान म्हळें, "थोड्या वेळाखातीर आंगावयले कपडे काडले जाल्यार हजारांनी रुपया मेळटात आसत जाल्यार नीत आनी औचित्य हांकां वेर वता."

"तूंच तसले फोटे काडटा आनी ते अनितीक अशेंय म्हणटा?"

"ना." इश्टान जाप दिली, "म्हाका तातूंत अनितीक कांय दिसना. तें पातक न्हय वा चारित्र्याचें स्खलनय न्हय. पूण तुवें जे तरेन तुजें मत उक्तायलें, ताका लागून हांवें तशें म्हळें. आतां तूं जाणाच, फुडल्या म्हयन्यांत हे बायलेचो फोटो मीडल स्प्रेडांत येतलो आनी तिका पंचवीस हजार रुपया मेळटले... हीच बायल फाल्यां आपले आनीक फोटे घे म्हणून म्हज्या फाटल्यान लागली जाल्यार म्हाका अजाप दिसचें ना." इश्टान म्हळें.

"म्हाकाय अजाप दिसचें ना. लज वा भीड म्हणटात ती नाकाच्या टोंकायेदी आसता." हांवें म्हळें, "एक खेपे ती मोडली जाल्यार मागीर मनीस पैशांखातीर कितेंय करीत. पूण एक सांग, तसल्या फोट्याक ती कबूल कशी जाली?"

"पयले खेपे तो विशयच हांवें काडलो ना. पूण त्या फोट्याचे पैशे मेळटकच तिचो घोव आपूण जावन आनीक फोटे घे म्हणून म्हजे फाटीक लागलो... ते उपरांत तांगेर हांव एक दोन खेपे गेलों. पैशांखातीर तें कुटुंब कितले त्रास काडटा तें हांवें दोळ्यांनी पळयलें. पूण एकेच बायलेचे कितले म्हणून फोटे काडटलो? हांवें म्हजे परीन तांकां आदार केल्लो. पैशे मेळळे म्हणटकच चार दीस बरे वताले. पूण उपरांत परत ओढाताण सुरू. "एक सभ्य कुटुंब घरचे सुनेच्या रूप आनी आंगलोटाचेर जगता ही कल्पनाच सोंसना आसली. पूण तांच्यानी दुसरें कितें करूं येतालें?"

एक दीस इश्टान तिच्या घोवाक मीडल स्प्रेडावयल्या फोट्याची कल्पना सांगली आनी तेन्ना सुरवेक तो बरोच गोंदळ्ळो.

"लोक कितें म्हणटले?" ताणें फोटोग्राफराक विचारलें, "म्हज्यान ती कल्पनाच सोसूंक नज."

"हांव तुका तशें सुचय ना." फोटोग्राफरान ताका सांगलें, "म्हाका विचारशीत जाल्यार म्हाकाय ती कल्पना मानवना. पूण लोक कशे तरेन पैशे जोडटात तें हांवें तुका सांगलें. नाय जाल्यार म्हजोय त्या धंद्याकडेन संबंद पावता न्हय?"

त्या उपरान्त मदीं मदीं तिचो घोव फोटोग्राफराक येवन मेळटालो. ताका आपल्यागेर आपयतालो आनी फोटोग्राफर तांगेर वचप टाळटालो.

"म्हजेकडेन तुगेले बायलेचे खूबशे फोटे आतां आसात. खंयय खपले जाल्यार हांव विकतां. तूं ओगीच पावटी मारूं नाका. त्या भायर आतां बाळंत जाल्ल्यान तिजें आंग सुटलां. थोडे दीस तिका त्रास दिवचे न्हय अशें म्हाका दिसता." फोटोग्राफरान सांगचें.

पूण सुवार्थ आनी नीत हांचे मजगती हुमकळटल्या तिच्या घोवाक ल्हवू ल्हवू दिसूंक लागलें कि फोटोग्राफरान फोटो काडलो म्हणून कितें जाता? तिजें तोंड लिपोवं येता आनी गजाल गुपीत दवरूं येता. फोटो काडटना आपूणच म्हऱ्यांत रावलों जाल्यार दुबावाक कारण उरचें ना.

"आपल्या मनाची अशी तयारी जायना फुडें ताणें आपले बायलेक कशी तयार केली तें हांव नकळ. पूण एक दीस तो आयलो आनी ताणें सांगले, "विवस्त्र फोट्याक म्हजी बायल तयार आसा. तिजी एकच मागणी, तिजें नांव कोणाक कळचें न्हय. आनी फोट्यांत तोंड लिपोवचें."

"हें सगळें बरें आसा. पूण फोटो कोण काडटलो?" इश्टान विचाल्लें.

"कोण म्हळयार? तूं काडचोना तर?"

"ना." इश्टान जाप दिली, "म्हज्यान तें जावचें ना. हांव ह्याच धंद्यातलो मनीस. तशे जायत्या बायलांचे फोटे हांवें काडल्यात. पूण तुजे बायलेकडेन हांव वेगळे नदरेन पळयतां. म्हज्यान तें जावचें ना. "निर्शेवन तो परत गेलो. तीन चार दीस आयलोच ना. म्हाका ओगीच हुस्को, असले लोक जिवाचें बरें वायट करूंक फाटीं रावनात. देखून हांवच तांगेर गेलों."

इश्ट तांगेर पावलो तेन्ना तिगेलो मांव आनी मांय दोगांय भायर सरिल्लीं. लागींच्या सोयऱ्यागेर कसलें तरी कार्य आसलें देखून तीं गेल्लीं. ल्हान भुरगें घरांत आसलें आनी घोव बायल भायर बशिल्लीं आशिल्लीं.

"तुका कितें सांगतलो" इश्टान म्हाका म्हळें, "त्या दिसा ती बायल खूबच धिटायेन वागली. तिणें म्हाका म्हळें, "आमची लाचारी तूं जाणा. तुज्या मुखार थोडो वेळ कपडे काडूंक म्हाका कांय दिसचें ना. पूण उपकार करून ना म्हणूं नाका."

म्हज्या मुखार दुसरो उपाय उल्लो ना. थंयच हांवें तिचो फोटो घेतलो.

"आज तुमी पसंत केला तोच फोटो मू?' हांवे विचाल्लें.

"हय. हे फोटे पसंत करप हें दुसरें दिव्य." इश्टान जाप दिली, "खूबशी दडपणां आसतात. तुका सांगल्यार अजाप दिसतलें, पूण बऱ्या बऱ्या घरच्यो बायलो आनी तांचे घोव सगळे तरेचें वजन वापरतात. केन्ना केन्नाय फोटोग्राफराक आनी संपादकाक कुशीक दवरून मालकच निर्णय घेता. सगळें एक रॅकेट. तिगेलो फोटो पसंत जावचो म्हणून म्हाका खूब प्रयास करचे पडले."

"पूण तो पसंत जालो न्हय. मागीर ती बायल ऑफिसांत कित्याक आयिल्ली?"

"तिका खबर आशिल्ली आज मिटींग आसा म्हणून. चार पांच खेपे ती संपादकाक मेळून गेल्ली. आज तिजें काम जालें. फोटो छापून येतकच चेक मेळटलो आनी हांवय आतां एके जापसालदारकेंतल्यान सुटलों."

"इतल्यान तूं खंय सुट्टा? पंचवीस हजार सोंपतकच तिजो घोव परत येतलो." हांवें हांसून म्हळें.

"हांव तांकां खऱ्यांनीच मदत करूंक सोदतां. हांवें तिच्यो दोन तीन पोझी घेतल्यात. केंस तोंडार हाडून रूप लिपयलां वा तोंडार काळोख दवरून फोटे काडल्यात. एक दोन फोटे भायर धाडून पळयतां. कोणेय घेतले जाल्यार नशीब तांचें." इश्टान म्हळें.

ऑर्डर दिल्लें जेवण मेजार न्हिवतालें आनी वेटर कुशीक उबो रावन आमकां तशें खुणायतालो.

मॉडेलिंगाच्या विश्वांतल्यान सदच्या जगांत पावलों तरी नदरे मुखार ते बायलेचें तोंड उल्लें, जी सोफाचेर संकोचान बसून आपल्या तोंडावयले हुमेचे थेंबे पुसताली!



# ८. मूर्त

एक पोरनें मातयेचें घर. फुडले वटेन गांवठी नळे आनी फाटले वटेन कळमेवन गेल्लीं पास्तां. घराच्या वणटींचे कपचे जळामळाक गेल्यात. रस्त्यावयल्यान पळयतल्याक घराची दुर्दशा जाल्या इतलें समजता. भोंवतणचो वाठार खऱ्यांनीच सुंदर.

डांबरी रस्त्यावयल्यान हांव जेन्ना तांबड्या रस्त्याचेर आयलों तेन्ना एक नव्याच वातावरणांत पावलों. तांबड्या रस्त्याचे देगेन एक उदकाचो व्हाळ व्हांवता. धडेर उबो रावन हांवें उदक पळोवन घेतलें. कडांनी दाटिल्लो शेळो आनी त्या शेळयांत फुलिल्लीं फुलां. मदीं व्हांवत्या उदकाचो झोत. निळया उदकाक शेवाळी रंगाची किनार कसो तो देखाव दिसतालो. हांव थंय उबो आसतनाच म्हजे कुशीच्यान एका मोठ्या बेब्यान उदकांत उडी मारली आनी धब्ब करून आयिल्ल्या आवाजान हांवें आंग काडलें.

म्हजी मोटार हांवें डांबरी रस्त्याचेर झाडामुळांत उबी केल्ली. तांबडो रस्तो म्हळयार मातशी रुंद अशी पायवाट. एक स्कूटर त्या रस्त्यान गेली आनी सगल्या वातावरणांत धुल्ल पातळ्ळो. व्हाळाचे देगेर माडांचें भाट. माडावयल्यो मोठ्या नाल्लांच्यो पेंडी नदरेंत भरताल्यो.

व्हाळा देगेवयलो फाटीं सरता म्हणसर शेळया पोंदच्यान नुस्त्याचें एक भिरें भायर आयलें. तो देखाव तर मनाच्या पड्ड्याचेर गाड उदेलो.

वेळ दनपारच्या तिनाचो. पूण ह्या आड मार्गाचेर वताचें एकूय किरण ना. व्हाळाक लागून आसुये, हवा इल्ली थंड दिसली. वयर नदर करून पळय जाल्यार दाट झाडांच्या फांयांमदीं घुसपल्ले वताचे किरण दिसले. त्या किरणांच्या झोतांनी एक कॅलेडोस्कोपीक आकृती तयार केल्ली. धगाचो शीण खिणांत न्हिवलो आनी मनाक एकदम थाकाय आयली.

थोडें अंतर फुडें वतकच पलतडचे धडेर गरो व्हाळांत सोडून बशिल्ल्या तरनाट्याचेर नदर गेली. फाटल्या माडाक ताणें आपल्या आंगावयलो बुशशर्ट खोयला आनी लांब पँट धोंपरामेरेन दोडून तो धडेर मातयेंत बसला. तागेली नदर उदकाचेर थिरावल्या. निश्चळ पुतळयावरी तो दिसता.

आनीक फुडें गेलों आनी दावे वटेनच्यान तें घर पळयलें. हेंच घर काय तें? रघू मेस्तालें घर म्हणून म्हाका सांगिल्लें. कोणूय सांगतलो अशें म्हणिल्लें.

हांवें रस्त्यार रावनच घराचो अदमास घेतलो. दोंगुल्लेचे देंवतेर ओणखून घर उबें आसलें. रस्त्यापसून मातशें वयरच. फाटले वटेन गोरवां दिश्टी पडटालीं. फुडले वटेन घराचें दार उकतें आसा. पूण मुखावयले पाकेतीक लागून दारांत काळोख. शेणान सारयिल्लें उकतें आंगण आनी आंगणाचे एके कुशीन ल्हानशी तुळस.

घरामुखार येवन उबो रावलों आनी आंगणांत पांय दवरतना म्हजे तकलेंत एक विचार

आयलो. तांबड्या रस्त्यावयल्यान चलून आयिल्ल्यान म्हजे पाय तांबड्या धुल्लान भरिल्ले आनी आंगण तर निक्तेंच सारयिल्ल्ये भशेन दिसतालें. जोतें घालून त्या आंगणांत पांय दवरचो म्हळ्यार म्हज्या जिवार आयलें. जोतें काडलें आनी वयर दवरलें. तरीकय पांय धुल्लान भरिल्ले. ते कशे पुसतलों?

तुळशीचे कुशीक एक कळसो आसा. आंगणाचे धडेवयल्यानच थंय वचून पळयलें. कळशांत उदक ना. निमाणें कुशीक आशिल्ल्या तणाचेर पाय पुसून घेतासर घरांतल्यान आवाज आयलो, "कोण थंय, कितें करता?"

कोण तरी बायल म्हाका हटकिताली. म्हजी वागणूक तिका विचित्र दिसली आसूंक फाव. हांवें घराचे दिशेन पळयलें. घडये ती दारांत आसुये. थंय काळोख आशिल्ल्यान कांय दिसना. हांव परत जोतें दवरिल्लें थंय आयलों आनी आंगणांत वचचे खातीर चिऱ्याचीं चार सोपणां चडलों.

"कोण जाय?" परत तेच बायलेचो प्रस्न.

आवाजाचे दिशेन पळोवपाचो यत्न केलो जाल्यार घराचे कुशीक वणटीक फाट तेकोवन एक बायल उबी रावल्या आनी आंग लिपोवन तकली तितली मुखार काडून उलयता.

"रघू मेस्तालें घर हेंच न्हय?" हांवें तिका विचारलें.

ते सरशीं ती कांय एक उलयना आसतना फाटीं सरली. हांव फुडें पावल उखलतां म्हणसर तिणें म्हळें, "राव, हांव येतां."

हांव थंयच उबो रावलों. आंगणाची रचणूक खूबच सुंदर आसली. सारयिल्ल्या शेणाची धड सोप्यासारकी सपाट आसली. झाडाची सावळी आंगणांत पातळिल्ली. हांव धडेर बसलों.

घरांत कसलीच जाग ना. उकत्या दारांतल्यान भितल्लें कांय दिसना. पाकेत बरीच मुखार आसा आनी ती दारांत काळोख पातळायता.

धा मिनटां चानयेचो खेळ पळयत सारलीं. दोन धीट चानयो आंगणांत भोंवताल्यो. एकली खंय तरी लिपली आनी दुसरी तिका सोदीत आंगणभर भोवंक लागली. धांवत ती झाडासरीं वताली आनी सवकासाय परत येताली. मदींच ती तुळशीचेर चडली आनी रोप्यामुळांतली माती खरवडून परत देंवली.

इतले म्हणसर ती बायल सवकासाय फुडल्या दारांतल्यान भायर आयली आनी आंगणांत देंवतल्या सोपणाचेर उबी रावन तिणें म्हळें, "आंगावयलें बदलूंक मात्सो कळाव जालो. कोण जाय तुका?"

म्हाका एक शिसवी लाकडाची मूर्त जाय आसली. कोणें तरी सांगिल्लें की ह्या घरांतलो मेस्त सुंदर मूर्ती करता. मेस्ताचें नांव म्हाका खबर ना. घर जरी रघू मेस्तालें म्हणटात आसलें तरी रघू मेस्त आज ना, हेंय म्हाका खबर आसलें. बायलेक कोण जाय म्हणून सांगतलो? देखून हांवें इतलेंच म्हळें, "म्हाका एक मूर्त जाय आसली."

तिगेल्या तोंडावयलो भाव अचंकीत बदल्ले. नुरा मातशी रागीटच जाली आनी तिणें म्हळें, "असो कसलो जादू केला तुवें ताजेर?"

प्रस्न इतलो गोंदळांत उडोवपी आसलो कि हांव काचाबूल जालों आनी तिचेकडेन पळयत रावलों.

ती आपूण जावन आंगणांत आयली आनी तिणें म्हळें, "कित्याक जाय तुका ती मूर्त?

ते मुर्तीचें तूं कितें करतलो?''

तरी तिगेल्या प्रस्नाचो अर्थ म्हाका समजलो ना. णव वारी कापड न्हेशिल्ली ती सुमार साठींतली बायल आसतली. उकतें कपल आनी गळयाभोंवतणी आंवुळिल्लो पदर नदरेंत भरतालो. केंसावयल्यान घडये निकतीच तिणें दातोणी भोंवडायिल्ली आसत. घडये न्हावन धुवन तयार जातनाच हांव थंय पाविल्लों आसन.

तिची नदर म्हजेरच थिराविल्ली. दोळयांत इंगळे धगधगतात अशें म्हाका दिसलें. हांवें म्हळें, ''आमचेकडेन आशिल्ली मूर्त जीर्ण जाल्या. ती बदलचेली आसा.''

''आनी आमची मूर्त तरी नवी म्हणून तुका कोणें सांगलें? तीय जीर्ण जाल्ली आसतली. उणेंच देडशें वर्सां तरी तिका जातलीं.'' तिणें जाप दिली.

कितें तरी चुकतालें. ती समजूंक चुकिल्ली, ना जाल्यार ती कितें उलयता तें म्हाका समजना आसलें. ओगीच मनांत दुबाव, हे जाणटेले बायलेची तकली सारकी आसा मूं? तिचे पसून सुटका करून घेवपा खातीर हांवें विचारलें, ''घरांत दुसरो कोण ना?''

''ह्या वेळार आनीक कोण आसतलो?'' तिची आदल्याच तुसड्या आवाजांत जाप. ''नातू आसा. आतां गेलो जातलो खंयय शेण खावंक! पूण तुका कितें उलोवपाचें आसा तें उपकार करून ताचेकडेन उलोवं नाका. ह्या आतांच्या भुरग्यांच्यो तकल्यो उरफाट्यो चलतात. तांकां जाणटेल्यांचें कांयच नाका. ह्या घराची दुर्दशा तुवें पळयल्याच. तें सामकें मातये भरवण करीसर तो ओगी रावचो ना. तेन्ना ताका विसर आनी तुज्यान जाता जाल्यार मूर्त मागूं नाका. तुवें ताका पैशे दिल्ले आसात जाल्यार हांव तुजे परत दितां.''

म्हाका कितें उलोवचें तेंच समजना जालें. हिगेलो नातू कोण तें हांव नकळ. हांवें ताका पळोवंक ना वा ताका रकादय धाडूंक ना. म्हाका एक नवी मूर्त जाय. ती त्या घरांतलो मेस्त करून दितलो अशें कोणेंतरी सांगलें म्हणून हांव आयिल्लों आनी ती बायल सभ्य उतरांनी म्हाका धांवडायताली.

निमाणें हांवेंच धाडस करून म्हळें, ''तुजो कितें तरी गैरसमज जाला. हांव कितें सांगतां तें आदीं आयकून घे आनी उपरांत कितें सांगपाचें तें सांग.''

''आयकून घेवन कितें करपाचें आसा? म्हजो नातू तकलेन सारको ना. तागेले एके एके करणेन ह्या घराची कितें दुर्दशा जाल्या ती तुवें पळयल्याच. जाणटेल्यांनी त्यो वस्तू पवित्र मानल्यो त्यो हाणें आपलीं व्यसनां भागोवंक बाजारांत व्हरून विकल्यो. तेन्ना म्हजें तुका इतलेंच सांगणे की जीव गेलो तरी हांव तुका मूर्त दिवची ना! म्हज्या मर्णा उपरान्त तो जाय तें करूं.'' दोळयांत दुकां काडून उलयतले ते बायलेचें सगळें आंग थरथरूंक लागलें आनी तिका कितेंय जायत म्हणपाचो हुसको म्हाका दिसलो.

''कसली मूर्त म्हणटा तूं?'' हांवें विचारलें.

''तुका कसली मूर्त जाय तर?'' तिणें परतो प्रस्न केलो.

''देवाची!''

''हांवय तीच म्हणटां. देवाची मूर्त मेळची ना.''

''म्हाका जी मूर्त जाय ती तुज्या घरची न्हय. तूं समजूंक चूक करता. हांव नवी मूर्त करून घेवंक आयलां.'' हांवें तिका समजावपाचो यत्न केलो.

पयलेच खेपे ती समजली अशें तिच्या तोंडावयल्यान म्हाका दिसलें. तरी आजून तिचो

थरथरो थांबूंक नासलो. सारयिल्ल्या आंगणांत ती बसली. तिणें आपल्या पदरान तोंडावयली हूम पुसून काडली. ती थाऱ्यार येयसर हांव उलयलों ना. जेन्ना ती थाऱ्यार आयली अशें दिसलें, तेन्ना हांवेंच तोंड उकतें केलें. म्हळें, "आमकां एक नवी लाकडी मूर्त कोरून घेवंक जाय. शिसवी लाकडाची. आमची पोरनी मूर्त जीर्ण जाल्या. कोणेंतरी सांगलें, रघू मेस्तागेर गेल्यार तसली मूर्त करून मेळटली. देखून हांव हांगा आयलां."

एकदम बायल उठून उबी रावली आनी एक सुस्कार सोडून हांसली.

"यो, भितर यो. तुका हांवें बेठोच फैलार धरलो. तुवें मुर्तीचें नांव घेतलें आनी म्हजी तकली घुंवली."

ती भितर गेली आनी हांवय तिचे फाटल्यान घराची सापणां चडलों. भायले पडवेर सुंदर कोरीव कदेलां आसलीं. घराचें दार लेगीत काश्ठ शिल्पाचो एक बऱ्यांतलो नमुनो. हें घर हाडाच्या कलाकाराचें म्हणपाची गवाय ह्यो वस्तू दिताल्यो. हांव एका कदेलार बसलों. ती भितर वचून चकचकीत तांब्याच्या तांबयांतल्यान उदक घेवन आयली. मुखावयले टीपॉयचेर तिणें तांबयो आनी केळीच्या चोळख्यार घालून हाडिल्लो गोडाचो कुडको दवरलो.

"दनपारच्या वेळार आयला तूं." तिणें म्हळें, "ह्या घरांत आयिल्ल्या मनशाक कांय ना जाल्यार गोड उदक तरी दिवंकच जाय."

म्हाकाय तान लागिल्ली. हांवें चिमटीभर गोड तोंडांत उडयलें आनी उदकाचो तांबयो वयर धरून ताळयांत धार सोडली. शितळ गोड उदक!

उदक पियेतकच म्हाकाय मातशी थाकाय आयली. हांवें तिका म्हळें, "तुगेलो नातू घरांत ना दिसता? मेस्तकाम करपी दुसरो कोण आसा?"

"आमच्या घराब्याक अवदसा लागल्या!" कांपऱ्या आवाजांत तिणें म्हळें, "म्हजो पूत धा वर्सां आदीं अचकीत भायर पडलो आनी तेन्नाच्यान घराब्याचो धंदोच बंद पडला. आयुधांचेर कळम चडल्या. ह्या नातवाचीं लक्षणां धड दिसनात. तुवें ज्या मेस्ताचें नांव घेतलें, तो म्हजो घरकार. नातवाक ताचेंच नांव दवरलां. पूण मेस्तकाम करूंक ताका लज दिसता. हांव म्हणटां, जें काम करून जाणटेल्यांनी संवसार चलयले; नामना आनी कीर्त जोडली, देवळां आनी मूर्ती निर्मिल्यो; लोकांचीं घरां बांदलीं; तें काम करूंक लज कसली? पूण तें ताका कोण समजायतलो? ताका जाय सिर्वीस. बूट पँट घालून मेजार बसपाची सिर्वीस..."

"म्हणटकच आतां तुमगेर मेस्तकाम कोण करिना तर?" हांवें विचारलें.

"कोण करतलो? आयची आनी कालची न्हय, हजारांनी वर्सांची परंपर म्हज्या पुतावांगडाच सोंपली. आतां हो विव्दाटो पोर घरांतल्यो वस्तू व्हरून बाजारांत विकता. आयिल्ले पैशे सोऱ्यांत बुडयता. तो जुगार खेळटा. खंयच्या जल्माचीं पातकां आमचें घराणें भोगता देवाक खबर!"

प्रस्न कितें म्हणपाचो म्हाका समजल्लो. तिचें दुख्ख हांव वळखल्लों. पूण ती जे मुर्तीविशीं उलयताली, ती मूर्त खंयची तें म्हाका समजून घेवपाचें आसलें. देखून हांवें विचारलें, "खंयची मूर्त तो विकूंक सोदता?"

"कितें सांगतली कर्म!" अशें म्हणून तिणें कपलार हात मारून घेतलो आनी म्हळें, "देवाऱ्यांतली पुजिल्ली देवाची मूर्त बाजारांत म्हणून कोण विकता? कितल्या वर्सां आदली

मूर्त देव जाणा! हांव ह्या घरांत आयलीं तेन्ना सकाळ सांजवेळ मुर्तीची पूजा जाताली. रातीचे दोन अभंग म्हळे बगर आरत जायनासली. वाड्यावयले लोक येताले. सगळें घर खोशयेन भरून ओततालें. ते भाग्याचे दीस हांवें पळयल्यात. आतां हें फुटकें कपल घेवन दुर्दशेचे दीस पळयतां."

"खंय आसा ती मूर्त" हांवें विचारलें.

"यो, दाखयतां." अशें म्हणून तिणें म्हाका भितर आपयलो.

भितल्ले वटेन एक व्हडली कूड. कुडीचे एके वणटीकडेन एक लाकडी देवारो. देवाऱ्यांत एक लाकडी मूर्त. रामाची काय कृष्णाची हें त्या काळखांत कळ्ळें ना. उणेंच चार फूट लांबायेची. शिल्पाचो एक सोबीत नमुनो!

"दिवो ना थंय?" हांवें विचारलें.

"लायट ना." तिणें म्हळें, "दोन व्हडल्यो दिवल्यो आसल्यो, त्यो ह्या पोरान विकून उडयल्यो. आतां मूर्त विकता. कसली अवदसा आयल्या ताचेर हेंच म्हाका कळना."

हांव इल्लो लागीं गेलों. मूर्तीच्या आंगार जल्ले भोंवताले. केन्ना तरी घाल्लीं फुलां सुकून करपून घयरांवान भरिल्लीं. धुल्लय खूब आसलो. जळामळाक तेलाचे दाग पडिल्ले. पूण ते अवस्थेंतय ती मूर्त सोबीत दिसताली.

"खरेंच तुमची मूर्त सोबीत! ही विकूंक फावना." हांवें म्हळें.

"जावं बाबा! तूं तरी बरें उलयलो." तिणें म्हळें, "दिवल्यो विकल्यो तेन्नाच हांव समजल्लीं की आतां हें घर उरचें ना. ह्या घरान थोडीं संकटां पळयलीं नात. तरीकय घर उरलें. आतां ही नातवाच्या रुपान घराक कीड लागल्या. कितें करचें तेंच समजना. तूं तरी ताका सांगून पळय."

"हांव ताका वळखना. केन्नाच मेळूंक लेगीत ना." हांवें म्हळें, "रघू मेस्तालें नांव आयकून घर सोदीत हांव हांगा आयलों."

"आदल्या काळार पयसुल्या गांवचे लोक देवाली मूर्त करूंक ना जाल्यार कसलीय वस्त करून घेवंक हांगा येताले. आजूनय येतात. आतां आमी मेस्तपण करिनात हें सांगूंक म्हज्या जिवार येता. म्हज्या फाटल्यान ह्या घराचें कितें जातलें तें हांव जाणां. कोणें हजार रुपये दिवचे केल्यात खंय. ताका हो दिवटो ही मूर्त विकतलो आनी देवाचे सासायेन उबी आशिल्ली ही मठी कोसळटली."

आतां मात ती हुडक्या हुडक्यांनी रडूंक लागली. एके भाशेन म्हज्या निमित्त्यान तिगेल्या घुसमटमाराची वाट मेकळी जाल्ली. पूण ते अवस्थेंत थंय चड वेळ रावप म्हाका शक्य नासलें. हांव ल्हवूच भायर आयलों.

आंगणांत पाय दवरलो मात, मुखावयल्यान एक तरनाटो घराचे दिशेन येतना म्हाका दिश्टी पडलो. आंगांत तांबड्या रंगाची सफारी घाल्ल्या त्या तरनाट्यान पयसुल्यानच हात वयर करून म्हाका हटकिलो आनी म्हऱ्यांत येवन विचारलें, "कोणाक सोदतालो?"

म्हाका ओगीच दुबाव आयलो आनी हांवें ताका विचारलें, "तूं रघू?"

"हय, तुका कशें कळ्ळें?" अजापून ताणें प्रस्न केलो.

"हांव तुकाच मेळूंक म्हणून आयिल्लों. आमकां एक देवाची मूर्त करून घेवपाची आसा. पोरनी जीर्ण जाल्या. मुळांत लाकडी मूर्त आसली. तसलीच मूर्त करपाचें आमी थारायलां.

तूं करून दितलो अशें कोणें सांगिल्लें देखून आयिल्लों.''

''फोटो पळोवया.'' ताणें हात मुखार केलो.

''तूं करता तर मूर्ती?'' हांवें विचाल्लें.

''करून घेतां. बरो कारागीर आसा म्हजेकडेन.'' हांवें दिल्लो फोटो निरखीत रघून जाप दिली.

''तशें जाल्यार म्हजें काम जातलें. पाशाणी मूर्त करपाचें आमच्या मनांत आसलें. पूण प्रसाद जायना देखून लाकडीच करपाचें थारायलां.''

''एका एका देवळाची तशी रीत आसता.'' गंभीर भाव तोंडार हाडून रघून म्हळें, ''पूण तूं हुसको करूं नाका. सारकी हुबेहूब असलीच मूर्त तुका हांव करून दितां. पांच हजार रुपया पडटले.''

म्हाका पयशे चड दिसले. हांवें तशें ताका सांगलें. तेन्ना रघून म्हळें, ''हें पळय, तुका एक बावलो जाय जाल्यार पन्नास रुपयांक लेगीत मेळूंक शकता. पूण ही देवाची मूर्त. अडेच फूट उंचायेची आसतली... तातूंत कसब रकोवचें पडटा. वयलेचाराक काम सोपें दिसता; पूण कारागिराक म्हयनो पावचो ना.''

''मूळ मूर्त अडेच फुटांची ना.'' हांवें म्हळें, ''देड-दोन फुटांची आसत.''

''केदीय आसना. मूर्त पळयतकच तिच्या तोंडार देवपण दिसूंक जाय न्हय? पूण तुका सवाय जाय जाल्यार एक करूं येता. ती पोरनी मूर्त तुमी कितें करतले?''

''म्हाका खबर ना. पूण ती घडये कुशीक काडून दवरतले वा तिचें विसर्जन करतले.''

''आयक सांगतां, ती पोरनी मूर्त तुमी म्हाका दिली जाल्यार हांव नवे मूर्तीक चार हजार रुपये घेतां.'' रघून सुचयलें.

''देवाची पुजिल्ली मूर्त कशी विकतलो? भावनेचो प्रस्न आसा.''

''हें पळय, म्हाका भावना ना अशें समजूं नाका. चवथीचो गणपती मातयेचो आसता देखून ताचें विसर्जन जाता. जेन्ना नवे मूर्तीची प्रतिष्ठापना जाता, तेन्ना पोरनी मूर्त ही सादी बावली जावन बसता. आतां तिचें कितें करप हो तुमचो प्रस्न.'' रघून म्हाका समजावपाचो यत्न केलो.

म्हाका दुबाव आयलो. हो मनीस पोरन्यो मूर्ती विकपाचो धंदो करता आसुये. तागेले आज्ञेन सांगिल्ली खबर मनांत ताजी आसली. आज्ञेचो उगडास येनाफुडें हांवें नदर फाटल्यान घुंवडायली. ती जाणटेली दारांतच उबी रावन आमचें उलोवणे आयकताली. हांवें रघूक म्हळें, ''पोरने मूर्तीचें तूं विसर. नवी मूर्त करूंक कितले पडटले तें सारकें सांग.''

''वांटपण करूं नाका. देवाचें काम तें.'' ताणें म्हळें.

''तशें जाल्यार हांव तुका फाटल्यान कळयतां.'' हांवें म्हळें.

''जाय तेन्ना कळय. पूण भितर यो. तुका एक मूर्त दाखयतां. आमच्या घरांत एक पोरनी मूर्त आसा. पांचशें-सशें वर्सां आदली मूर्त.'' रघून सांगलें.

''पळयल्या हांवें ती.'' हांवें म्हळें, ''एकदम सुंदर आसा.''

''तशें जाल्यार म्हगेले आज्ञेन तुका सगळी परवड सांगिल्ली आसतली.'' अशें म्हणून रघून आपले आज्ञेवटेन एक नदर भोंवडायली आनी म्हाका म्हळें, ''चल या तर. डांबरी मार्गार आसा ती तुजी मोटार न्हय?''

"हय. तुका कशें कळ्ळें?"

"हांगा मोटार येता ती म्हाकाच सोदूंक." ताणें म्हळें.

तांबड्या मार्गान परत येतना हांवें रघूक विचारलें, "तूं ती घरांतली पुजेची मूर्त विकूंक सोदता?"

"हय. तातूंत कितें जालें? आज ती कोण पुजिना आनी जाय जाल्यार तसल्यो धा मूर्ती हांव करीन. एक हिप्पी ती मागता. पंचवीस हजार रुपया दिवंक कबूल आसा... पूण आजी पिशेपणां करता."

"तीं पिशेपणां न्हय रघू." हांवे म्हळें, "तिची भावना तुवें वळखूंक जाय. तिका दिसता, ते मूर्तीची पुजा जायना देखून घराण्याक बाधा येवंक लागल्या."

"ते मुर्तीक लागूनच आमचो घराबो काबार जालो हें तुका खबर ना." रघून म्हळें आनी म्हज्या हाताक धरून म्हाका व्हाळा धडेर व्हेलो.

पलतडचे धडेचेर गरयतल्या मनशाच्या गऱ्याक त्याच खिणाक नुस्तें लागलें. ताणें गरो वयर काडलो आनी फडफडटें नुस्तें हातांनी काडून पोतयेंत घालें.

"हो व्हाळ पळय." रघून म्हळें, "एक दीस दनपारच्या वेळार देवाचे पुजेक बशिल्लो आसतना म्हज्या बापायचेर भार आयलो आनी ताणें तडक येवन ह्या व्हाळांत जीव दिलो... ताका आडावंक फाटल्यान आयिल्ली म्हजी आवय ताच्या सांगातान बुडून मेली! आपल्याक पेवंक येना हें तिणें येवजिलेंच ना. धोवाक वाटावंक तिणें उडी मारली... तेन्ना हांव केदो आशिल्लों जाणा तूं? सात म्हयन्यांचो!"

"म्हाका हें खबर नासलें. पूण तो राग मूर्तीचेर कित्याक?" हांवें विचारलें.

एका काळार ते मूर्तीक लागून घराचें कल्याण जाल्लें आसुये. पूण म्हज्या आज्याचेरय असोच भार येतालो. मूर्तीची पूजा करतल्याचेर भार येता. बापाय फाटल्यान पूजा बंद पडल्या. हांव भुरगेपणांत दिवली पेटोवन फुलां घालतालों. हालीं हांवें तें बंद केलां."

"तुवें मेस्तपणय बंद केलां अशें आयकतां हांव."

"जाणटेले शिकूंक नाशिल्ले देखून तांणी वित्रें हातांत धरलें. हांव शिकलां. इंटर (बारावी) पास जालां. पूण मेस्तपण हांव शिकूंक ना. म्हाका दिसता, ती मूर्त विकली जाल्यार पैशे येवन दळीद्र सोंपतलें आनी ते मूर्तीक लागून घराण्याक लागिल्ली बाधा वतली."

आतां हांव कितें उलयतलों! हांवें म्हळें, "वतां हांव. मूर्तीविशीं तुका कळयतां."

"म्हजें आयकतलो जाल्यार तूं पाषाणीच मूर्त करून घे. प्रसादाचेर विस्वास दवरता जाल्यार तुका जाय तें कर." रघून सल्लो दिलो.

"तुगेल्या मोलाविशीं मात्सो विचार कर." हांवें म्हळें.

"तोंडांतल्यान आयलें ते निमाणें." रघून म्हाका सांगलें.

हांव मोटरीचे दिशेन वचूंक लागलों. तरी रघून म्हजी फाट सोडली ना. ताणें म्हळें, "दोन खेपे तो हिप्पी येवन गेलो. आज्जेन ताका धांवडायलो..."

"देवामुखावयल्यो दिवल्यो तुवें विकल्यो खंय मरे?" हांवें विचारलें.

"निरांजन पेटयल्यार देवाक पावना काय कितें...! आरे भावार्त आसल्यार मातयेची पणटी लेगीत पुरो आसता."

मोटारीकडेन पावलों तसो रघून म्हजो निरोप घेतलो आनी म्हळें, "तुका एक सांगतां, तूं फुडले खेपे येतलो तेन्ना आमच्या घरांत ती मूर्त नासतली!"

अविस्वासान हांव ताचे कडेन पळयत रावलों. पूण आपलेकडेनच उलयिल्ले भाशेन करून तकली हालयत रघू आपले वाटेन गेलो.



# १. एक इतिहासीक चवथ

अचकीत पावसाची दडक आयली आनी हांव रस्त्या कुशीच्या घरांत भितर सरलों.

बल्कांवाचें पोरनें घर. दडक खूबच मोठी आनी अचकीत आयिल्ली. म्हजेकडेन सत्री नाशिल्ली. भायर सरलों तेन्ना आसोर आशिल्लो आनी मळबय निवळ आशिल्लें. देखून घेवंक सत्री नाशिल्ली.

वावझड आंगाक मारूंक लागली तसो हांव सपणां चडून बल्कांवांत गेलों. भायलें दार बंद आसा. दोशीं दोन सालां. हारशाचीं जनेलांय बंद आसात. बसून रावचेंच पडटलें अशें येवजून हांव बल्कांवाचेर बसलो.

घर पोरनें. वणटीचीं खवळां झडल्यांत आनी पोंदची माती दिसता. बल्कांवाच्या दोशीं पोरसांत रान मातलां. रानांत वाडचीं तशीं झाडां-झुडपां वाडल्यांत. तांचो सांबाळ जायना हें दिसता. ह्या घराचें आनीक एक वेगळेपण आसा. रस्त्याचेर दोनय वाटांचेर एकाक तेंकून दुसरी अश्यो भोवमजली बिल्डिंगो आसात. तांचेमदीं हेंच एक पोरनें घर आपल्या संस्कृतीक दायजाची गवाय दीत उबें आसा. घर खूबच पोरनें आनी ताचो सांबाळय सारको जायना. वैभवाच्या वेळार असलीं घरां जाणटेल्यांनी बांदिल्लीं. पूण वैभव सोंपतकच तांचो सांबाळ करप जमना. देखूनच व्हडल्या घराक पोकळ वांशे ही म्हण रूढ जाल्ली आसतली.

मदलें दार किरकिरलें. हांवें दाराकडेन पळयलें. भितल्लेवाटेन काळोख आशिल्ल्यान खाचींतल्यान भायर पळयतल्याची आकृती सारकी दिश्टी पडली ना. पूण कोणे तरी म्हाका पळयलो आनी तसोच किरकिरीत आवाज काडून दार बंद केलें.

थोड्या वेळान भितर उलोवपाचे आवाज. एक बायल आनी एक दादलो हांचेमदलो संवाद. दादल्याक सारकें आयकूंक येना अशें दिसता. तो परत परत कितें, कितें म्हणून विचारता आनी ती व्हडल्यान, "भायर कोण आयला" अशें ताका सांगता.

निमाणे ती कितें सांगता तें ताका समजलें आनी ताणें म्हळें, "कोण आयला? कित्याक आयला तें विचारलें?"

तिणें जाप दिली ना. जाणटेल्याचो थरथरान भरिल्लो आवाज आयकलो जाल्यार तो दादलो बरोच जाणटो आसुये अशें दिसतालें.

परत दार किरकिरलें. खाचींतल्यान एके बायलेन आपलें तोंड अर्दें भायर काडलें आनी नम्र संकोची आवाजांत विचारलें, "कोण जाय?"

हांव उबो रावलों आनी म्हळें, "वाटेन वतना पावस आयलो. सत्री ना देखून हांगा बसलां."

कांय एक उलयना आसतना तिणे परत दार बंद केलें. तें करकरलें. तो करकरीत

आवाज म्हजें आंग शिरशिरावन गेलो. मनांत आयलें, दारांच्या जोडांक तेलाचो वास लावंक जाय.

भितर वचून ती त्या जाणटेल्याक कितें सांगता तें आयकुपाक हांवें कान दिलो. पूण कसलोच आवाज आयलो ना.

म्हाका मोठें अजाप जालें. तिणे जाणटेल्याक सांगलें ना आनी जाणटेल्यानय तिका विचारलें ना, अशें कशें जावं येता?

भायले वाटेन पावस वाडलो आनी वाऱ्यासरशीं मुखावयल्या एका आंब्याचो खांदो तुटून सकल पडलो. दोळयांमुखार तो तुटून पडटलो खांदो हांवें पळयलो. सगळें वातावरणच बदल्लें अशें म्हाका दिसलें.

दार परत करकरलें. एक दादलो भायर आयलो. दोळयांचेर हात धरून तो म्हाका पळयत रावलो.

हांव उबो रावलों तेन्ना ताणे म्हळें, "बस तूं."

ताणे म्हाका बसूंक सांगलें तेन्ना तोच थरथरतो आवाज कानार पडलो. म्हजो अदमास चुकिल्लो. आवाज जरी म्हाताऱ्याचो दिसलो तरी तो दादलो तितलो जाणटो नासलो.

तो लागीं आयलो आनी म्हजे कुशीक बसून ताणे म्हाका विचारलें, "कितें म्हळें?"

हांवें कांयच म्हणूंक नासलें. ताका भास जाल्लो आसुये.

"हांव कांय उलोवंक ना." चिके व्हडान हांवें ताका सांगलें.

"म्हाका सारकें आयकूंक येना. ह्या कानान येता," अशें म्हणून ताणे उजव्या कानाकडेन बोट केलें.

हांव उबो रावलों. ताच्या कानाकडेन तोंड व्हेलें आनी व्हड आवाजांत सांगलें, "पावस पडटा म्हणून हांव हांगा आयलां."

"जाणा, आयकलें... सामको भेड्डो न्हय हांव." ताणे म्हळें, "एक स्ट्रोक आयलो आनी हांव असो अपंगूळ जालां. दावें आंग चलना, पांय घांसून चलचें पडटा."

ताणें आपल्या तेजीश्ट दोळयांनी म्हजी तपासणी सुरू केली. तो कितें तरी येवजितालो आसुये. हांवें नदर भायलेवाटेन व्हेली.

"तुजी वळख दिली ना तुवें." ताणे म्हळें.

हांव उठून परत ताज्या कानासरीं गेलों आनी म्हजें नांव सांगलें.

अविस्वासान म्हजेकडेन पळोवन ताणे म्हजो हात आपल्या उजव्या हातान घट धल्लो आनी म्हळें, "हांगा भायर कितें बसला, भितर यो." आनी तो उबो रावलो.

"आसूं, पावस थांबतलो." हांवें म्हळें.

"थांबता तेन्ना थांबता. एका निमित्त्यान तूं आमगेर पावला. यो, भितर यो." आनी ताणे बशिल्ल्या कडच्यानच उलो मारलो, "शाली..."

शाली भोव करून दाराफाटल्यानच उबी आशिल्ली जावंये. तिणे जाप दिली ना. पूण दार सताड उकतें केलें आनी आपूण भितर गेली. हे खेपे तिच्या पावलांचो विरत वतलो आवाज हांवें आयकलो. ताचे वयल्यान ती घसघशीत पावलां उखलून

भितर गेल्ली आसुये अशें म्हाका दिसलें.

आपलो दावो पांय जमनीर घांशीत तो चलतालो. आपल्या उजव्या हातांत ताणे म्हजो हात घट धरिल्लो. म्हाका घेवन तो भितर आयलो. मदल्या काळखी बोळांतल्यान भितल्ले चौकेर आमी पावले आनी एकदम उजवाड आयलो. मदीं राजांगण आशिल्लें. चारय दिशांक चार चौक्यो. आंगण उकतेंच. आंगणांत एक तुळस आनी ते तुळशीचेर सत्री धरची तशें एक पारजताचें झाड. तुळशीचो रोपो रसरशीत पालेल्लो.

एके वासरेर एक ऑल्तेर आसा. कुशीक दोन कदेलां. मदीं एक टिपॉय. टिपॉयचेर खूबशे पेपर; म्हऱ्यांत ऑक्ल.

म्हाका कदेलाचेर बसोवन तो ऑल्तेराचेर बसलो आनी ताणे भितल्लेवाटेन फर्मान सोडलें, "इल्लें च्याक उडय."

ऑल्तेराचेर बसतकच ताणे दोळयांक ऑक्ल लायलें आनी मागीर म्हाका दोळेभर पळोवन घेतलो.

"घरांतच पडलां. पेपर आनी पुस्तकां वाचून वेळ काडटां." ताणे म्हळें.

ताचेकडेन उलोवचें पडटलें हें येवजून हांव ताच्या उजव्या कानाकडल्या कदेलाचेर बसलों.

भितर आयदनांचो आवाज येता. पूण आनीक कोणाची जाग ना. येदें व्हडलें घर आनी ह्या घरांत दोनच मनशां रावतात काय? असो म्हाका प्रस्न पडलो. पूण ताका कितेंच विचारपाची माणसुकी नाशिल्ली. विचारतलो जाल्यार आड्डुवें पडटालें आनी व्हडान उलयल्यार ताका अपमान दिसतालो.

"तूं म्हाका वळखुचो ना." ताणें म्हळें, "पूण आमचें घर हें गांवचें आद्य घर. फिरंग्यांच्या काळार धर्म आनी संस्कृतीची राखण ह्याच घरांतल्यान आमी केली."

"कोण कोण आसा घरांत?" हांवें विचारलें.

"म्हजें नांव वामन हें तूं जाणाच." ताणें म्हळें.

म्हाका हांसूंक आयलें. ताणें नांव सांगले बगर म्हाका कशें कळटलें?

"...शाली म्हजी धूव. आनी चलो आसा. कामाक गेला, सांजचो येतलो. हालींच लग्न जालां ताजें. बायल आशाढांत कुळारा गेल्या. आनी कोण आसतलो? लागींचे पयसुले आतां वेगळे वेगळे कडेन पावले. हांव एकलोच उरलां ह्या घरांत."

घराच्या पुर्विल्ल्या वैभवाचो ताका अभिमान आसप सभावीक आसलो. पूण धर्म संस्कृतीची राखण कशी कितें केली तें ताका विचारचें अशें म्हज्या मनांत येतासर शाली च्या घेवन आयली.

एकच कप च्या हाडून शालीन टिपॉयचेर दवरलो दुसरो कप येतलो म्हणून हांवें वाट पळयली. शालीन म्हळें, "बाबा आतां घेवचो ना."

कुशीच्या खांब्याक तेंकून ती उबी रावली. ते वाटेन नदर व्हरून तिका पळोवपाक म्हाका संकोच दिसलो. पूण तीच उलयली. तिणे म्हळें, "दारांत आयिल्ल्याय मनशाक बाबा आडावन दवरता आनी आदल्या काळाच्यो खबरो सांगून तांकां बेजार करता."

"अशें कित्याक म्हणटा तूं?" हांवें तिका विचारलें, "घरांतच उरतकच उलोवचें

अशें दिसता आनी उलोवपी मनीस मेळटकच तो उलोवन घेता. म्हाका आदल्या काळावयल्यो खबरी आवडटात.''

''हें बाबाक कळ्ळें जाल्यार तो तुमकां सोडचो ना.'' अशें म्हणून शाली हांसली.

शाली एक वाडिल्ली चली. रंगरूपान किरकोळ, पूण पिरायेची सया तिज्या तोंडार उदेल्ली.

थोडो वेळ थंय उबी रावन म्हजो च्याचो कप रिकामो जावपाची तिणे वाट पळयली आनी रिकामो कप घेवन ती भितर गेली.

''कितें सांगलें शालीन?'' ती वतकच ताणे म्हाका विचारलें.

''कांय ना.'' हांवें जाप दिली आनी म्हळें, ''तुमी संस्कृतीचे राखणेविशीं सांगताले...''

''हय. यो दाखयतां.'' अशें म्हणून तो उठलो आनी शालीक उलो मारून ताणे व्हडलें साल उकतें करूंक सांगलें.

शालीक घडये तो तशें सांगतलो हाची कल्पना आसुये. मान सकल घालून ती आमच्या मुखावयल्यान भायल्या सालाकडेन गेली आनी ती गेल्ली पळोवन वामनान परत म्हजो हात धरलो आनी म्हळें, ''म्हजी बायल शालीच्या खेदान मरून गेली. हें पोर भुरगेपणांतच घोवालें घर सोडून कुळारा येवन रावलें, तेन्नाच्यान तिणें हांतूण धरलें. ती परत उठलीच ना.''

शालीचें म्हाका अजाप जालें. शालीच्या गळयांत म्हाका मंगळसूत्र दिसूंक नासलें. म्हाका ती वाडिल्ले आंकवार चलयेसारकी दिशिल्ली. पूण ती थंय लागींच आसतना तिगेल्या बापायक प्रस्न कसो विचारतलो?

ताच्या सांगातान हांव सालांत आयलों आनी म्हाका एकाद्र्या संग्रहालयांत पाविल्ले भाशेन दिसलें. शालीन सगळीं जनेलां उकतीं केल्ल्यान सालांत उजवाड आशिल्लो. भायले वाटेन एक व्हारांद. व्हारांदांतल्यान हांवें पळयलें, आजून पावस पडत आसा.

''दारांत आयिल्ल्या मनशाक धांवडावपाचें पातक एक खेपे म्हज्या हातान घडलें आनी तेन्नाच्यान हांव दारांत कोणय पावलो जाल्यार ताची बारीकसाणेन वासपूस करतां.'' व्हारांदांत उबे राविल्ले कडेन वामनान म्हाका सांगलें.

''कसलें पातक म्हणटात तुमी?'' हांवें ताका विचारलें.

''आठ वर्सां पयलींची गजाल,'' ताणे म्हळें, ''अशेच पावसाचे दीस. म्हजे बायलेक अचकीत ॲटॅक आयलो. तीन कात्रीचो वेळ. पूत डॉक्टराक सोदूंक धांवलो आनी डॉक्टराची वाट पळयत हांव भायर-भितर पासयो मारतालों. इतले म्हणसर पावस चुकोवंक रस्त्यावयलो एक मनीस भितर सरलो आनी ताणे आपूण थोडो वेळ बसूं काय म्हणून म्हाका विचारलें. म्हजी मनःस्थिती कशी आशिल्ली तें तूं येवजी आनी सांग, हांवें ताका कितें जाप दिवपाची?''

''तुमी कितें जाप दिली?''

''जाप खंयची, हांवें ताका धांवडावन घालो म्हळयार जाता. हांवें म्हळें, आमी आदींच बोवाळांत आसात. तेन्ना उपकार करून आमकां त्रास दिवं नाका. पावस पडटा जाल्यार दुसरेकडेन खंय तरी वच. तो बाबडो मान सकल घालून भिजत गेलो.

चल्यान येवंक खूबच वेळ केलो. ताका डॉक्टर मेळ्ळो ना. आमी सामके लाचार जाल्ले. आमच्या दोळयांमुखार सावित्रीन प्राण सोडलो. निमाण्या वेळार तिका वखद लेगीत मेळ्ळें ना."

वामनान पुडव्याचें टोंक वयर काडून दोळे पुसले.

हो म्हाका संस्कृतेचे राखणेची गजाल सांगूंक सोदतालो आनी हांगा येवन ताणें आपले बायलेच्या मर्णाची खबर सांगिल्ली. घडये भावनावश जावन तो उलयला आसतलो. ताका विसरायेर घालचो अशें येवजून हांवें म्हळें, "संस्कृतीचे राखणेचें कितें म्हणटाले न्हय तुमी?"

"तेंच तर सांगतां न्हय." ताणें म्हळें. "दारांत आयिल्ल्या मनशाक धांवडायलो ही संस्कृती जाली? जाणटेल्यांचे पुण्यायेन तो आमच्या दारांत पाविल्लो हें म्हाका मागीर कळ्ळें. डॉक्टरांचो एक सेमिनार आसलो. त्या सेमिनारा खातीर खूबशे भायले डॉक्टर आयिल्ले. सेमिनार सोपून रातच्या जेवणाआदीं थोडो मेकळो वेळ उल्लो देखून तातुंतलो एक डॉक्टर पासयेक गेल्लो... तोच आमगेर पाविल्लो तो डॉक्टर आनी तातूंतय एक कार्डिओलॉजीस्ट, हें मागीर कळटकच म्हजो जीव कितलो मिडमिडलो म्हणून सांगू तुका" ताणें म्हळें, "तें एक पातक आनी चलयेक भुरगेपणांत वैधव्य आयलें तें दुसऱ्या खंयच्याय पातकाचें फळ आसतलें..."

तो भावनावश जाला हें पळोवन हांव कांय उलयलों ना. आपल्या कुटुंबांत जें कितें बरें वायट घडलां तें पूर्व पुण्याचेंच फळ अशें तो मानतालो आनी त्या तर्कांत अर्थ कांय ना अशें म्हाका दिसतालें. पूण वाद घालूंक बसलो जाल्यार विशयांतर जातलें अशें येवजून हांव दोन खीण ओग रावलों आनी उपरांत ताका म्हळें, "धर्म संस्कृतीविशीं कितें म्हणटाले न्हय तुमी?"

"हय, तेंच तर सांगतां" अशें म्हणून तो म्हाका घेवन व्हारांदांतल्यान सालांत आयलो.

सालाचे वणटीचेर कुचकुचीत फोटे. ल्हान आनी व्हड. थोडे खूबच वयर, थोडे त्या मानान सकयल. पुराय वणत असल्या फोट्यांनी आनी पांयजेलांनी भरून गेल्या.

खूबशो पेटोय सालांत आसात. तांचेमदीं मुखावयले वणटीक तेंकोवन आशिल्ली पेट नदरेंत भरता. त्या पेटेसरीं तो म्हाका घेवन गेलो आनी ताणें म्हळें, "ही पेट पळय."

वयले वाटेन एक जमखान पातळायिल्लें. पिंजून जर्जर जाल्लें तें जमखान कुशीक काडलेंतशे कितलेशेंच जल्ले आनी पाली सालभर भोवंक लागल्यो. सालांत धुल्लट खूब उबलो.

हांवें पळयलें की जी पेट दिसताली, तो मातयेचो सोपो आशिल्लो. वयर सारयिल्ल्या शेणाचीं खवळो भायर सरिल्लीं.

"हिका तुमी पेट म्हळी. हो सोपो दिसता." हांवें ताका म्हळें.

"हो सोपो न्हय. हाच्या पोंदा भुयाराची वाट आसा. भुयाराच्या तोंडार पेट आसा. हें भुयार सुमार पांचशें वर्सां आदीं खणिल्लें.. तितलें पोरनें हें घर. ह्या सालाक जनेलां तूं पळयता तीं हालींचीं. भायली वणत एक किल्ल्याचो तट कशी आसली हें

भुयार न्हंयचे पलतडीन भायर सरता. म्हळयार न्हंयच्या पात्रापोंदच्यान वाट वता. थंय एक दोंगर आसा आनी दोंगराचेर ती वयर सरता.

हांव अजापान ताच्या तोंडाकडेन पळयत रावलों. तो फट कित्याक सांगतलो?

"कितें आसा त्या भुयारांत? तुमी केन्ना सकयल देंविल्ले?" हांवें विचारलें.

"हांव भितर वचूंक ना, पूण हांवें भुयाराचें तोंड पळयलां. जेन्ना फिरंग्यांनी देवळां मोडलीं तेन्ना खूबशा देवळांतल्यो मूर्ती आनी हेर वस्तू... दिवल्यो म्हण, पालख्यो म्हण... लिंगां आनी साळीग्राम... आमगेर हाडून दवरल्यो. तांचें कितें करचें हो प्रस्न आसलो. खंयच्याय वेळार पांखल्यांची धाड येवं येताली. त्यो सुरक्षीत दवरूंक आनी उपरांत सुरक्षीत जाग्यार व्हरूंक रातदीस खणून खणून हें भुयार जालें. रातीचें भुयार खणप आनी दिसाच्या वेळार वयर फळीं घालून मातयेन तें तोंड बंद करप, इतलेंच न्हय, तर वयल्यान शेण काडप, अशे तरेन वावर करचो पडलो. लोकांनी आपल्यो घरच्यो वस्तू, भांगरां, रुपावत, आयदनां लेगीत हाडून ह्या भुयारांत दवरलीं. चार चौक्यांचें घर जाल्ल्यान खूबसो लोक आसरो घेवंक आमगेर येवन रावतालो."

वणटीचें एक पांयजेल ताणें म्हाका काडूंक सांगलें. घयरांव, धुल्ल हांणी भरिल्लें तें पांयजेल काडटना खिळयासयत वणटीचो कपचो निखळ्ळो.

"भितर बोट घालून पळय" ताणें म्हळें, "ताका लाकडी दार आसा. त्या खणांतच आमी त्या वेळार खूबश्यो मूर्ती आनी हेर वस्तू लिपोवन दवरल्यो." ताणें सांगलें.

तो कितें म्हणटालो ताची म्हाका कल्पना आयली. हांवें विचारलें, "पांखल्यांनी केन्ना धाड बी घाली तर?"

"एक आनी दोन खेपे न्हय." ताणें जाप दिली, "धाडी पडच्यो, आमच्या लोकांक धरून व्हरचें; पूण तांच्या हाताक कांयच लागलें ना. आतां ह्यो सगळयो हांवें जाणटेल्याकडल्यान आयकल्ल्यो गजाली."

"आजून त्या भुयारांत थोड्यो वस्तू आसूं येतात न्हय?" हांवें विचारलें.

"दुबाव कित्याक, आसातच." भांगरा आयदनां लेगीत आसतलीं. मूर्तीय आसतल्यो. ताणें म्हळें.

"तुवें आयकल्लो त्या काळावयलो एकाद्रो प्रसंग वा घडणूक याद जाता?"

"एक न्हय. तू आयकतलो जाल्यार खूबशे प्रसंग हांव तुका सांगन. तुका आयज हांवें बसोवन घेतलां तें लेगीत म्हज्या मनांतलें सगळें सांगचें म्हणूनच. तुवें बरयिल्लें हांवें खूबशें वाचलां. म्हाका दिशिल्लेच, केन्नाय तरी तूं मेळटलो आनी तुका ही खबर हांव सांगतलों. आज पळय, देवानच तुका आमच्या दारांत धाडलो. ना जाल्यार तूं खंय पावतलो आसलो? हांवें जाय ते खेपे म्हज्या चल्याक म्हणिल्लें, एक दीस तुका घेवन यो. ताणें म्हजें म्हणणें कानामनारच घेतलें ना."

हांवें सगळें साल भोवन पळयलें खऱ्यानीच तें साल म्हणचे परस ताका संग्रहालय म्हणप समा जावपाचें. खूब दिसां उपरांत हे साल उकतें केल्ल्यान तातूंत धुल्ल, जल्ले पाली आशिल्ल्यो हें खरें; पूण तातुंतल्यो थोड्यो वस्तू पोरने कलेचे बऱ्यांतले बरें नमुने आसले. तरी म्हाका बारीकसाण आशिल्ली ती त्या भुयाराची. केन्ना तरी त्या भुयाराची तपासणी केली जाल्यार आमच्या इतिहासाचेर नवो उजवाड पडूं येत अशें

म्हाका दिसलें. पूण तें काम जाणकारांनीच करचें पडटलें आनी तें करूंक गेलों जाल्यार घराचो घरकार अडचणींत येत म्हणपाचोय दुबाव आसलो. साल पळोवन जालें तसो ताणें शालीक परत उलो मारलो आनी सालाचें दार बंद करूंक सांगलें.

म्हाका घेवन तो वासरेंत आयलो. आनी आदल्याच कदेलाचेर आमी परत बसले.

"तुका हांव चवथीच्या दिसांतली एक खबर सांगतां." आवाज थरथरतालो. पूण आपले भाशेन मोठ्यान वामन उलयतालो, "आयकल्ली खबर. सतराव्या शेंकड्यांतली गजाल ती. फिरंग्यांची हावळ आयिल्ली आनी चवथ तोंडार पाविल्ली. चवथ पुजची काय पुजची न्हय असो प्रस्न उप्राशिल्लो. फिरंगी सरकारान मूर्त पुजपाचेर बंदी घाल्ली. निमाणे गांवच्या सगळया हिंदूंनी आमच्या घरांत चवथ पुजची अशें थारायलें. त्या इतिहासीक प्रसंगाची खबर हांव तुका सांगतां."

बारीक सारीक तपशिलासयत वामनान ती खबर म्हाका सांगली आनी म्हाका दिसलें, ती खरी आसुये.

गांवचीं सगळीं कुटुंबां तये दिसा सकाळीं त्या घरांत जमलीं. बायलांक तयेचो उपास. पूण दादले जेवतले. निवेद्याक जेवण रांदूंकच जाय. गोडशें म्हणून पातोळयो करूंक जाय. दनपार मेरेन सुमार शंबर लोक त्या घरांत पावलो. घराचीं दारां बंद जालीं. मातयेची गणपतीची एकच मूर्त घरच्या घराच तयार केल्ली. त्या घरांत भुंयाराच्या तोंडाचेर एक मखर दवरलें. पोंदच्यान दोन चार काशींचेर तें मखर दवरिल्ल्यान गरज पडली जाल्यार पोंदच्यो काशी काडून मखरासयत गणपती भुयारांत लिपोवपाची तजवीज केल्ली.

सगळयांचो मेळून एक मातयेचो गणपती पुजचो आनी दर एका कुटुंबांत कागदाच्या गणपतीची पुजा करची अशें थारायिल्लें. हीं गौरणां वणटींचेर कुरकुटांनी आनी पेटांनी दवरिल्लीं. जेवणाच्यो पंगती बसल्यात; निकतीच पुजा सोंपल्या. गणपतीचें मखर सजगता. वयर माटोळी बांदल्या. असल्या वेळार फिरंग्यांच्या एका पथकान दारार मारलें.

घरांत एकच आकांत! कितें करचें हें कोणाकच सुचलें ना. पयल्या तडाख्यान मुख्य मखर भुयारांत व्हेलें आनी वयल्यान फळीं जमखानां घालीं. उपरांत गांवच्या जाणटेल्यान दार उकतें केलें.

पथकांतले लोक घरांत भितर आयले आनी ताणी विचारलें, "हांगां इतलो लोक कित्याक जमला?"

जाणटेल्यान सांगलें, "आज तयेचो दीस; आमच्या बायलांक उपास. मूर्ती-पुजेचेर बंदी आशिल्ल्यान आमी मूर्त पुजूंक ना. पूण उपासाच्या दिसा बायलांक रांदचें पडूं नये म्हणून रांदपी हाडून हांगाच जेवण केलां."

"सगळयांचें जेवण हांगाच कित्याक? तांच्या घरा कित्याक केलें ना?"

"तितले रांदपी नात आनी सगल्यांकच रांदपी परवडना."

तांकां बसोवन पातोळयो खावंक दिल्यो. त्यो खावन ते संतुश्ट जाले. पूण मूर्त खंयय पुजेक लायल्या जाल्यार सोद घेवंक ते घरभर भोंवले. तांकां मूर्त दिसली ना. वणटीवयल्या गौरणांचेर तांची नदर गेली ना. घडये कागदाचें चित्र म्हळयार देवाची

प्रतिमा आसूं येता हें तांचे तकलेंत गेल्लें नासुंये. पूण माटोळेचेर नदर वतकच एकल्यान विचारलें, "हें कितें?"

"आमच्यो बायलो उपास सोडटना दुसरो कोण आफडूंक ना अशीं अनवाळीं फळां खावन सोडटात. तांचे खातीर हीं अनवाळीं फळां वयर बांदल्यांत. भुरग्यांचो हात लागचो न्हय म्हणून..."

एकल्याचें लक्ष जमखानाचेर गेलें. पूण ताणें तें पळयलें आनी तो फाटीं सरलो. संकट परतलें. तें परत येत ह्या भंयान त्या वर्सा भुयारांतच गणपती पुजलो आनी पंचमीच्या दिसा रातीच्या वेळार भुयारांतल्यान न्हंयचे पलतडीन वचून तो पावयलो.

ही खबर सांगून ताणें म्हाका विचारलें, "कळळें न्हय कितले त्रास काडून आमच्या जाणटेल्यांनी धर्म आनी संस्कृतीची राखण केली ती? आतां सांग, ही खबर छापपासारकी न्हय?'

"दुबावच ना. हो आमच्या समाजीक इतिहासाचो भाग जावन आसा." हांवें म्हळें.

पावस थांबला म्हणपाचें राजांगणांतल्या पारजताकडेन पळोवन म्हाका कळटालें पूण इतल्या अगत्यान ज्या मनशान येदो वेळ म्हाका बसोवन घेतला, तागेलें उलोवणें तोडून उठप म्हाका समा दिसना आसलें. निमाणे तागेली खबर सांगून जायना फुडें हांव उठलों तेन्ना ताणेंच म्हळें, "पावस थांबला दिसता. वच तूं. पूण परत केन्नाय तरी आमगेर यो. हांव तुका आनीकय खूबश्यो खबरी सांगतां. परत ताणे म्हजो हात घट्ट धरलो.

"पोरनी कागदां बी कितें आसात?" हांवें वासपूस केली.

"कागदां आशिल्लीं. वाळटी लागली म्हणून लासून उडयलीं. पूण थोडीं ताडपत्रां आसात, उरिल्लीं सुरिल्लीं थोडीं कागदांय आसुये. हांवें पळोवंक ना. भुयारांत तर हालीं कोण वचूंकच ना. माळयार दोनचार पेटो आसात, त्योय कोणें उकत्यो करूंक नात. तुका त्यो पळोपाच्यो आसत जाल्यार आदीं कळोवन एक दीस यो. मानाय हाडून हांव त्यो उकत्यो करून घेतां."

"खंय आसात पेटो?" हांवें विचारलें, "एकाद्री पेट उकती करून पळोवंक येताली."

"आतां जमत अशें दिसना. त्यो माळयेर आसतल्यो."

"माळी? ह्या घराक माळी आसा तर?"

"हय, हय." हांसून वामनान म्हळें, "तें तुका सांगपावेंच उरलें."

वासरेवयल्यान वांशे आनी नळे दिसताले. सालांत मात फोर्र आशिल्लो. तो इतलो वयर आसलो की ताचे वयर माळी आसत अशें दिसूंक नासलें.

"पेटो मागीर पळोवंक येतात. पूण आतां माळी दाखयतां?"

जाणटेल्यान शालीक उलो मारलो. आनी म्हाका सांगलें, "तें दाखयतलें. म्हज्यान थंय वचूंक जावचें ना."

मनांतलो फडफडो शालीक लिपोवंक आयलो ना. तिका ह्यो खबरी रुचनात अशें दिसतालें.

"अडचण आसल्यार आसूं." हांवें म्हळें.

"अडचण कसली? दाखयतां." उपचाराचीं उतरां उलोवन शालीन म्हळें, "येयात."

वासरेचे भितर एक व्हडली पडवी; पडवेचे एके कुशीक एक कूड आसा. तिचें दार उकतेंच. ते कुडींत जळोव दवरला. काळखी कूड.

शालीन दिवो पेटयलो. पूण तो पेटलो ना.

"बल्ब गेला दिसता." तिणे म्हळें.

"आतां माळयेर वचूंक जाय अशें ना. फकत ती खंय आसा तितलेंच पळोवंक सोदतालों."

"तशी ती दिसची ना. हे जळवाचे कुडींतल्यान सकयल तळघरांत वचपाक सपणां आसात आनी तळघरांतल्यान माळयेर वचपाची वाट. ह्या घराक दोन वण्टी आसात आनी दोन वणटीमदीं एके वटच्यान माळी आसा." शालीन सांगलें.

म्हाका अदमास आयलो. जाण्टेल्यांनी सुरक्षेखातीर कितले बारीकसाणेन उपाय घेतिल्ले हाची कल्पना आयली. हांवें म्हळें, "आसूं, एक दीस मुजरत हांव माळी पळोवंक येतलों."

हांव परतलों.

जाणटेल्याचो निरोप घेवन भायर बल्कावांत आयलों. परत एक वेळ पुराय घरावयल्यान एक धांवती नदर भोंवडायली आनी इतिहासाकडेन नातें जोडपी ते वास्तूची सपणां देंवलों.



# १०. लव-कुश

दिल्लीच्या तालकटोरा गार्डनांत लोक नृत्याचो महोत्सव चलतालो. जानेवारींतलें सोंपते दीस. तरी शीं आकांताचें पडिल्लें. घरांत बशिल्ले कडेन आंगांत स्वेटर चडोवन, वयल्यान शाल पांगरून बसचें पडटालें. सांजेच्या चार वरांचेरच वत मोव जावन वातावरणांत धुकें पातळूंक लागिल्लें. आतां आनी खंय वचचें न्हय अशें थारावन हांव एक पुस्तक घेवन वाचूंक बशिल्लों. इतले म्हणसर जगताप आयलो.

आयलो तसो ताणे म्हळें, "चल, भायर सर. आमी वचुया."

"खंय? ह्या शिंयांत म्हाका खंयच वचपाचें ना." हांवें म्हळें.

"घरांत बसलो जाल्यार चड शीं खाता. भायर सरतकच आंग घोळटा. आनी शीं खायना. चल या."

जगतापाची रीत अशीच. कसलोय तरी कार्यक्रम तो थारायता आनी मागीर म्हजे सारकिल्या इश्टांचेर तो लादता.

"खंय या म्हणटा तें तरी सांग मरे?" हांवें ताका विचारलें.

"आदीं भायर सर, मागीर सांगतां. दारांत गाडी उबी आसा." ताणे जाप दिली.

"ह्या शिंयांत गाडयेन भोंवपाचें आकर्शण म्हाका ना." हांवें म्हळें, "कॉफी घेवंक या म्हणटा आसत जाल्यार ती आमी हांगाच घेवया." हांवें ताका सुचयलें.

"कॉफी बी मागीर पळोवया. आमी लोकनृत्य महोत्सवाक वचुया."

"खंय? तालकटोरा गार्डनांत... उकत्या मळाचेर लोकनृत्य पळोवंक?"

"हय. हय. हात पांगरून बसल्यार शीं तुजी फाट सोडचें ना. चल, भायर सर. आयज राजस्थानी लोकनृत्याची एक खाशेली कार्यावळ आसा."

"म्हाका पळोवचेली ना." हांवें म्हळें. पूण मनांतल्या मनांत हांव जाणां आसलों कि जगतापाच्या आग्र्यापुडें म्हजें शाणेपण चलचें ना.

तशेंच जालें. म्हाका घेवन जगताप तालकटोरा गार्डनांत गेलो. पूण ताचें एक म्हणणें खरें आसलें. गार्डनांतल्या त्या रंगिबेरंगी वातावरणांत म्हाका शिंयाचो विसर पडलो आनी उकत्या मळाचेर आसूनय म्हजें मत रमलें.

शुरवीर सिंग हें नांव एकाद्रया रजपुताचेंच आसूं येता. जोधपुरी कोट आनी माथ्याक राजस्थानी फेटो बांदिल्ल्या ह्या तरनाट्याक सोदून काडूंक जगतापान पुरतीं पंदरा मिनटां घेतलीं. तो ताका कित्याक सोदता तें म्हाका खबर आसलें. जगताप दिल्लीच्या एका वर्तमानपत्रांत काम करता. ताणे शुरवीर सिंगाची मुलाखत घेतिल्ली. कांय फोटे तो ताका दिवपाचो आसलो. ते खातीर ताका शुरवीर सिंग जाय आसलो.

शुरवीर सिंगाचें वेगळेपण इतलेंच कि तो खूबच लांब आसलो. हरशीं फेटो काडलो जाल्यार तो त्या मळाचेर जमिल्ल्या हेरांसारकोच दिसतालो. जगतापान ताची म्हजेकडेन

वळख करून दिली. आनी ताणे म्हाकाय नृत्यनाट्याचो प्रयोग पळोवनच वच असो आग्रो केलो.

"आजून प्रयोग सुरु जावंक अर्द वर आसा." ताणे म्हळें, "तो मेरेन च्या घेवया."

गार्डनाचे भायले वाटेन एका गाड्याचेर वचून आमी चाट खालें आनी मातयेच्या कपांत हुनहुनीत च्या घेतली. च्याक मातयेचो वास येतालो आनी ती खूबच गोड आसली. तरी थंड वातावरणांत ती हून च्या घेवची अशें दिसलें.

च्या घेवन हातांतलें मातयेचें कप भायर उडयतकच जगतापान ताका म्हळें, "आमची लव-कुशाकडेन भेट घडोवन हाडटा न्हय?"

"हय, आनी आयज द्रौपदीय तुमकां मेळटली. जाय जाल्यार सगळयांच्योच मुलाखती घेयात."

म्हाका दिसलें, हीं नाटकांतलीं पात्रां आसूंक जाय. तांच्यो मुलाखती घेवन कितें करपाचें आसा! हांवें जगतापाक म्हळें, "मुलाखती बी भोंगूं. आमी कार्यक्रम पळोवन परत वचुया."

"लव आनी कुश म्हळयार रामायणांतलीं पात्रां न्हय वा जे द्रौपदीक आमी मेळटले ती महाभारतांतलें पात्र न्हय." जगतापान म्हळें.

"कोण तर ती?" हांवें विचारलें.

"तूं मेळटकच पळय."

शुरवीर सिंगान आमची फाट सोडली ना. दुसऱ्या दिसा पेपरांत आपलो फोटो आनी मुलाखत छापून येतली हे खातीर आसुये. तो आपलें काम सोडून जगतापा सांगातानच रावतालो. खूबशे लोक ताका सोदीत आमचेसरीं येताले आनी कितें कितें विचारून परत वताले.

"लव कुशाक कार्यक्रम सोंपतकच मेळपाचें?" हांवें विचारलें.

"आतां मेळटले जाल्यार मेळूं येता. ते रंगोवंक बसल्यात आसतले. पूण तुमकां तांचेकडेन उलोवपाचें आसत जाल्यार कार्यक्रम सोंपतकच मेळिल्ले बरे." शुरवीरान सुचयलें.

"कशेंय जाता." जगतापान म्हळें, "पूण आदीं एक खेपे तांकां पळोवन घेवया."

स्टेजीचे फाटले वाटेन एक तंबू आसा. शुरवीर सिंग आमकां त्या तंबूंत घेवन गेलो. खूबशीं पात्रां सजून तयार आसलीं. एका पात्राच्या खांधार हात दवरून शुरवीरान ताका भायर आपयलो.

"हो लव." शुरवीरान आमकां सांगलें आनी मागीर दुबावान ताका विचारलें, "हय मरे?"

ताणें हय म्हळें ना, वा ना म्हळें ना. तो निखटो हांसलो. थोड्या वेळान शुरवीर ताच्या भावाक घेवन आयलो आनी तो आमकां दाखोवन म्हळें, "हो कुश."

दोगय भाव आमच्या मुखार उबे. एके तरेचो भेस. एके तरेचें रूप. केंस, दोळे तशेच. जशें काय एक बिम्ब आनी दुसरें हारशांतलें पडबिम्ब.

ते जुंवळे हें सांगी नासतनाय समजतालें. तशे जुंवळे भाव हांवें जायते पळयल्यात. अशें म्हणटात फकत आवयच तांकां वळखता. आवयली एक कसली तरी कुरु आसता. ते कुरवेच्या आदारान ती तांकां पारखिता.

ह्या वेळार शुरवीरान भावांची ही जोडी आमच्या मुखार कित्याक उबी केली तें मात म्हाका समजलें ना. पूण जगताप जाणा आसलो. ताणें म्हळे, "आयचे नृत्य नाटिकेंतले हे दोगय नायक. तांचेच जिणेचेर ही नाटिका ताणीच रचल्या."

दोगय भाव एकामेका सामखार उबे आसात. हांवें एकल्याक विचारलें, "तुमी तरी आपूण कोण हें जाणा आसतात मूं?"

दोगय हांसले. एकल्यान जाप दिली, "लोक आमकां खंयच्याय एका नांवान उलो मारतात आनी आमी जाप दितात. लोक वळखतना गोंदळ करता जाल्यारय आमकां आपूण कोण तें खबर आसता."

"तें समजलें; पूण तुमकां वळखुपाची कुरु कितें?"

एकल्यान आपलें न्हेसण वयर काडलें आनी उजव्या धोंपराकडेन एक काळी मांव दाखयली आनी म्हळें, "हांव लव. ही म्हजी निशाणी."

"ही निशाणी जल्माची काय कितें?" हांवें वासपूस केली.

"एका अर्थान जल्माचीच. आमी दोगय जुळे भाव. आवय बाळांत जाली आनी तो जल्माक आयलो. वारींत दुसरो भुरगो घुस्पला हें ती पुरुंक गेल्ले कडेन वैजिणीन पळयलें. तिगेल्या हातांतली सुरी म्हज्या धोंपराक लागली. रगत व्हांवता तें आडावंक तिणे गोबोर थापलो... आदलीं वखदां तीं... ती खूण आजून उरल्या." लवान सांगलें.

नशिबानच तो वांचलो, ना जाल्यार जल्माक येवचे आदींच तो मरपाचो.

"पूण भुरगीं जुंवळीं आसात हें आदीं समजलें ना?"

"आमच्या गांवांत येवन पळय. थंय डॉक्टर ना, हॉस्पिटल ना. वैजीणच बाळंटेर करता. तिका बाबडेक खंय खबर, गर्भांत दोन भुरगीं आसात म्हणून. कसली तरी गांठ आसा हें तिणे पळयिल्लें... दोन जुंवळे चले देखून आमकां कुश लव हीं नांवां दवल्लीं."

"तुमचो कार्यक्रम केन्ना सुरू जातलो?" हांवें तांकां विचारलें.

"जावपाचोच जाला. आमच्या प्रवेशाक वेळ आसा."

"तांच्याच जिविताची ती कथा. आनी नृत्य नाटिकेंतली नायिका ही द्रौपदी."

"द्रौपदी हें नांव नाटकांतलें काय खरें?"

"नाटकांत आनी हरशीं वेव्हारांत पात्रांचीं नांवां तींच आसात. द्रौपदी हांची बायल."

"नाटकांतली?" हांवें विचारलें.

"नाटकांतली आनी जिणेंतलीय. खऱ्यानीच हें नाटक तांचे जिणेचेर. तांच्या जल्मापसून काणी सुरु जाता आनी आतां मेरेन ती चलता."

म्हजे तकलेंत गोंदळ जालो. ते उलयतात तें इतलें गोंदळाचें आसलें कि हांव घुस्पलों. हांवें म्हळें, "म्हाका कांयच समजलें ना. तुमी महाभारतांतलो प्रसंग माचयेर दाखयतले काय कितें?"

"ना बाबा, ना." जगतापान मदीं तोंड घालें आनी म्हळें, "खऱ्यांनीच तिचें नांव द्रौपदी. महाभारतांतली द्रौपदी पांच पांडवांची बायल आसली. हे द्रौपदीक दोन घोव. लव आनी कुश. दोन घोवांची बायल देखूनच तिका द्रौपदी हें नांव पडलां."

आमी आमचेमदीं वाद घालतात हे पळोवन लव कुशाक हांसूंक येतालें. म्हजे जिबेर जायते प्रस्न आसले. ते हांवें विचारचे आदींच शुरवीरान म्हळें, "कार्यक्रम सुरू जावपाचो

जाला. तुगेल्या सगळ्या प्रस्नांक त्या कार्यक्रमांतच जापो मेळटल्यो."

वाद्यां वाजलीं. लायटी चकचकल्यो आनी शुरवीरान आमकां पयलेच रांगेंतल्या कदेलांचेर व्हरून बसयले. नृत्य नाट्य सुरू जालें. आदीं वेगळया वेगळया ऋतूंचे दर्शन घडोवपी नाच-वाद्यांचो आवाज आनी रंगांचो खेळ हांतुतल्यान ऋतूंचे दर्शन कलाकारांनी घडयलें. एक चली आनी एक चलो- एक जोडे नाचतालें. तांच्या नाचाच्या आनी खेळाच्या हावभावांक एका गिताची जोड. मदीं बायलेच्या आवाजांत जाल्यार मदीं दादल्याच्या आवाजांत लोकगीत आयकूंक मेळटालें.

ल्हान भुरगीं बदलत्या ऋतूंबरोबर वाडलीं. शिंयाच्या दिसांनी एकामेकांचे उबेक रावलीं. गिमाच्या दिसांनी ताणी दोन दिशांक तोंडां फिरयलीं. बदलत्या ऋतूंप्रमाण तांची वागणूक बदलताली, भेस बदलताले आनी माचयेवयले रंग बदलताले. मागीर लग्नाचो सुवाळो. एके शेनायेच्या आदारान पुराय लग्नविधी माचयेर जाता असो भास निर्माण जावंक पावलो.

हांव कार्यक्रमांत रमलों. आमच्या मुखार राजस्थानी खेड्यांतले कलाकार आसले. पूण तांगेली कला तंत्रशुद्ध आसली. प्रेक्षकांकडेन एके तरेचो संवाद माचयेवयले कलाकार करताले.

लग्ना उपरांत उमेदीचे दीस. सगळें वातावरण गुलाबी. लजेचीं पानां आंखडेवन येवचीं तशे त्या जोड्याच्या तोंडावयले भाव. उपरांत ल्हवू ल्हवू रंग बदल्ले. भाव बदल्ले... संवकळ वाडली. मागीर प्रपंचाचे व्यापताप सुरू जाले. भाकरी भाजतना हात हुलपप. वेळार जेवण मेळना म्हणून घोवान आयदनां मोखप...

अजाप म्हळयार गिताचे शब्द जरी कथा सांगताले, तरी गिताबगर पळयतल्याक कथा समजताली. राजस्थानी भाशेचे बारकावे समजतल्याक त्या गिताचें मर्म अदीक बरें समजतलें. पूण राजस्थानी भास समजना आसतना लेगीत म्हज्या सारक्या प्रेक्षकाचो विरस जायना आसलो.

एक खंत घोवाच्या आनी बायलेच्या तोंडार उदेत रावली. घरांत भुरगें ना. बायलेची होंट रिकामी, घर रिकामें. एके तरेचें उदास वातावरण. जिणेची उमेदच सोंपिल्ल्याची ती अवस्था.

मागीर देव-देवसपण... घाडी-वैज. सगळें जाता. उपास-तपास सुरू जातात. ऋतुचक्राचे बदल जाणवूंक लागतात. घोवा बायलेच्या मुखामळाचेर जाणटेपण झळकूंक लागता.

तेन्ना सुवार्ता येता. तिचे पांय जड जाल्यात. ती चिंचेबोटां पुंजायता आनी करकरीत चाबून खाता. मातयेचे लाडू वळून शिताचे उंडयेसारके गिळटा. घोवाक दिसता, हिका पिशें लागलां. भुरग्याच्या ध्यासान तिची तकली घुंवल्या. तेन्ना वैजीण येता. पड्याआड तिका व्हरता आनी भायर येवन घोवाक सांगता, "तूं बापूय जातलो..."

सोंपत्या दिसाबरोबर वाडटी सुस्ती आनी उमेदीन भरिल्ली धास्ती दोगांच्याय तोंडाचेर पळोवंक मेळटा. पड्याआड वैजीण वता. भुरगें रडटा. भायर घेवन येता. आनी घोवाकडल्यान बिदागी घेता... एक व्हडली पोटली घेवन वता. थोड्या वेळान परत येता; येतना हातांत दुसरें भुरगें.

कथा आयकल्ली. देखून समजली. कुश-लवाच्या जल्माचो जो प्रसंग त्या उपरांत दोन जुंवळया भुरग्यांचें भुरगेपण थोडो वेळ पळोवंक मेळटा आनी अचकीत दोगय नायक

माचयेर येतात. एक धुंद नाच ते नाचतात. रसिक प्रेक्षक ताळयांचो कडकडाट करतात.

खूबश्यो बारीकसाणी त्या उपरांत नृत्य नाट्यांत दाखयल्यात. एकलो भाव पडटा आनी बशिल्ले कडेन दुसऱ्या भावाचें धोंपर दुखता. आवय एकल्याक आजोळा दवरता. दुसरो आवयसरीं रावता. पूण एकल्याक थंडी जाली जाल्यार दुसऱ्याकय जाता. एकलो न्हिदलो जाल्यार दुसरोय न्हिदता. एकलो भुकेलो जाल्यार दुसरोय भुकेता. ह्यो गजाली आवय बापायच्या लक्षांत येनात. पूण ते एकठांय आसतना तांकां तें जाणवता. रूप सारकें, रंग सारको, विचार सारके, आवडी-निवडी लेगीत एक सारक्यो.

ल्हवू ल्हवू भुरगे वाडटात. आजोळा आशिल्ले कडेन एका भुरग्याचे जिणेंत एक चली प्रवेश करता. हो प्रसंग गितांत आनी नाचांत इतले सुंदर रितीन उबो केला की लोककलेची कोणाकय तोखणाय दिसची.

थोड्या दिसांनी चलो आवयसरीं वता. विरहाचें सांवट ताच्या मनांत दाटून येता. ते चलयेच्याय मनांत तसलेंच सांवट आसता.

कुशाक प्रस्न पडटा, म्हज्या मनांतले भाव लवाक कळटात आसत काय? म्हजे जिणेंत एक चली आयल्या हें ताका कळिल्लें आसत काय? ना, कशें कळटलें? तशें कळिल्लें जाल्यार ताचे जिणेंत कोण आयलां तें म्हाका कळूंक नाका आसलें? तो येवजिता, भावापसून हांवें कांय लिपयलें ना. आपूण एके चलयेचेर मोग करतां हें लवाक सांगूंकच जाय.

आनी आपूण कशे तरेन सांगतलों हे येवजून तो लजेता, मुड्डता, सुखावता. तिच्या सांगातांतले सगळे खीण आठयता आनी परत एके खेपे तोच अणभव घेता. पार्श्वगायक गीत म्हणट्य आनी माचयेचेर कुशाच्या तोंडावयले भाव बदलत रावतात.

इतलें सुख आपणे भोगलें. इतलो अणभव आपणे घेतलो. ही अप्रुपाय लवान केन्नाच अणभवंक ना. अचकीत ताका सांगलें जाल्यार तो आपलो दुस्वास करचो ना मूं? आपल्या-ताच्या संबंदांत वितुश्ट येवचें ना मूं?

ऐन वेळार कुश विचार बदलता. लवाक तो कांय सांगचो ना. केन्ना तरी लवाचे जिणेंत प्रेयसी येतली. त्या वेळारच सांगपाचें अशें तो थारायता आनी आजोळच्यान घरा येता.

विरहाचे दीस सोंपल्या उपरांत दोगय जुवळे भाव एकामेकाक वेंग मारून मेळटात. आजोळच्यान कुशान खूबश्यो वस्तू हाडल्यात. आपणाक दिल्ल्यो... आपणे पुंजायिल्ल्यो... दर एक वस्त ताणें भावाखातीर सांबाळून दवल्ल्यात. त्या वस्तूंमदीं खावपाच्यो वस्तू आसात आनी न्हेसपाच्यो वस्तूय आसात.

हे वाटेन लवानय कुशाखातीर खूबश्यो वस्तू काडून दवरल्यात. जांचे मदीं फळां आसात, जीं कुसून गेल्यांत. फुलां आसात, जीं बावन गेल्यांत...

"तूं कितें तरी लिपयता..." लव कुशाक म्हणटा.

कुशामुखार प्रियेची मूर्त उबी रावता!

मायकाचेर फकत पांयजणांचो झणझण झंकारून वता. मागीर एक लावण्यवती माचयेर अवतरता. धुक्यांतल्यान साकारिल्ली तिची मूर्त आनी पुराणांतल्या नायिकांचो अर्द उकतो वेस. तिच्या नाचांतल्यान तिच्यो भावना ती उक्तायता आनी खिणांत दाट धुक्यांत अदृश्य जाता.

नायिकेचें तें पयलें दर्शन. नायिका अंतर्धान पावता आनी कुश येवजिता, सांगचें काय सांगचें न्हय? तोंडाचेर वेगवेगळे भाव उदेतात. लव ते भाव नियाळटा. "आंब्यावयलें फळ पिकून अरळ जावचें तशें तुजें तोंड जालां, सांग, तूं कितें येवजिता... म्हाका कित्याक लिपयता?"

"ना रे भावा," लव जाप दिता, "हांवें आजमेरेन तुका कितें लिपयलां? पूण म्हज्या मनांत विचार आयलो, जल्माक सावन आमी अशे एकामेकांकडेन बांदिल्ले. दोन देह, एक मन. एक काळीज. फाल्यां आमचें लग्न जातलें तेन्ना कितें घडटलें? जाणटेले सांगतात बायल येतना तीन फातर घेवन येता. आनी ती येतकच घोवाची बुद्द फिरता आनी बायल त्या फातरांची वेगळी चूल रचता..."

"ना... ना, अशें जावंक हांव दिवचो ना." भावनावश जावन लव कुशाक वेंग मारता आनी म्हणटा, "तसो प्रसंग आयलो जाल्यार हांव बायलेक सोडूंक फाटींफुडें पळोवचो ना; पूण तुका केन्नाच अंतर दिवचों ना..."

मागीर वेंग सोडून ताचे नदरेचेर नदर थिरावन म्हणटा, "हेंच तूं येवजितालो? हें येवजितना तुजें तोंड पिकिल्ल्या द्राक्षावरी अरळ जाल्लें? खरें सांग... म्हाका फटोवं नाका."

सांगचें काय सांगचें न्हय ह्या विचाराचे घण कुशाच्या मस्तकाचेर बसतात. सांगचें न्हय अशें तो थारायता. आपल्या काळजांत एके बायलेक रिगाव मेळ्ळा अशें कळ्ळें जाल्यार लवाक वायट दिसतलें. ताचें मन सांबाळूंक जाय; आनी तो म्हणटा, "ना रे ना. बायलेचो विचार आंग चंवरावन गेलो. एक नवें सपन दोळ्यांमुखार येवन गेलें. देखून घडये म्हज्या तोंडार तुका वेगळे भाव दिसले आसुये..."

"पूण आमी एक करुंया." लव कुशाक सांगता, "संवसाराचे फाटीर खंय तरी जुंवळ्यो भयणी जल्मल्ल्यो आसतल्यो. आमी असल्यो बायलो सोदून हाडुया."

कुश म्हणटा, "तुज्या मनांत विचार आयलो जाल्यार घडये तशेंच घडपाचें आसत. ब्रह्मदेवान गांठी मारतना ती तजवीज केल्ली आसत."

आवय भायर येता आनी दोनय पुतांक दोळेभर पळोवन म्हणटा, "कुशा, तूं आजोळच्यान आयलो. कसलीच खबर सांगली ना..."

"आज्याच्या दोळ्यांत फुलां पडल्यांत; आजी एकली घर सांबाळून शेताचें काम करता. शेत रोवन हांव आयलां. पिके वेळार कोणेय तरी वचूंक जाय."

"हांव वतां." लव म्हणटा, "म्हाकाय आज्याची सेवा करपाचें पुण्य जोडूं दी."

दोनय भावांमदीं वाद. कुश लवाक धाडूंक कबूल जायना नि लव हट्ट सोडिना. निमाणे तडजोड करून लव विचारता, "दोगय वचूया?"

"नाका." आवय निवाडो दिता, "कुश वचून आयलो. आतां लव वतलो."

थंय कार्यक्रमाचें मध्यांतर जाता.

मध्यांतरा वेळार स्टेजीवयलीं सवंगां सकल देंवलीं आनी सगळो लोक च्या आनी चाटाच्या गाड्यांभोंवतणी जमा जालो. शुरवीरान आमकां स्टेजी फाटले वाटेन आशिल्ले तंबूंत व्हेले आनी थंय एका कदेलार बसोवन कॉफी दिवपाची तजवीज केली.

लव काय कुश सारके सांगूंक नकळ, एकलो आमचेसरीं आयलो तेन्ना शुरवीरान ताका

सगळ्यांक आपोवन हाडूंक सांगलें. नृत्य-नाट्यांतलीं पात्रां आनी गायक, वाजोवपी आनी हेर तंत्रज्ञ म्हळ्यार पन्नाशेक लोक आमचे भोंवतणी येवन उबे रावले तेन्ना हांवें विचारलें, इतले सगळे लोक हे नृत्य नाटिके खातीर लागतात?

लव काय कुश एकलो फुडें आयलो आनी म्हळें, "आयज आमचो १५० वो प्रयोग. आमचे हें कलापथक. आमी दोन भाव नायक आनी दिग्दर्शक आनी द्रौपदी आमची नायिका."

स्टेजीर नाचतली द्रौपदी पदरांत तोंड लिपोवन मुखार आयली तेन्ना हांवें विचारलें, "इतली लजता कित्याक?"

"ती आपल्या धर्माक जाग्टया." एके जाणटेले बायलेन जाप दिली, "आमच्या राजस्थानांत वयावयली बायल परकी दादल्यामुखार तोंड दाखयना."

"अजापाची गजाल म्हणूंक जाय," हांवें म्हळें, "ही बायल निकतीच स्टेजीर नाचताली तेन्ना लजेली ना..."

"तेन्नाची गजाल वेगळी. तेन्ना ती त्या नाटकांतली नायिका आसली. स्टेजीवयली सकल देंवतकच ती नायिका उरना."

"तशें जाल्यार द्रौपदी आमचेकडेन उलोवची ना तर!" जगतापान म्हळें.

"उलयतली, उलयतली. आमच्यो राजस्थानी बायलो घोवान बांयंत उडी मार म्हूण सांगल्यार फाटीं-फुडें पळय नासतना बांयंत उडी मारतल्यो. हांव सांगतां द्रौपदीक, द्रौपदी, पदर कुशीक काड. हे मानाचे सोयरे तुका मेळूंक आयल्यात. तांच्या प्रस्नांक जापो दी. लवान काय कुशान आदेश दिलो.

दर खेपे लव काय कुश हें वळखूंक येना. दोगांयचो भेस लेगीत एकच.

लजेचीं पानां आंवळून येवचीं तशे तोंडावयले भाव आंवळून द्रौपदीन पदर कुशीक काडलो आनी दावो पांय जमनीर आपटून पांयजण वाजयलें. हरणासारके दोन काळे दोळे. पातयो जडाविल्लेभाशेन नदर जमनीर थिराविल्ली. तोंडाक मेकअप आसलो तरी निजाचें सौंदर्य नदरेंत भरलें.

जगतापानच प्रश्न विचारलो, "हो नाच तुका कोणे शिकयलो? आनी असो स्टेजीचेर तो करूंक तुका आवडटा?"

धनुश्यांतल्यान सुटिल्ल्या बाणासारकी तटस्थ जापः "जे मातयेंत वाडलीं, ते मातयेन ही कला आंगात मुरयली... घोवाचो आदेश आसलो जाल्यारच हांव नाचतां."

"तुजो नाच सुंदर आसता. तुवें नाचाचें वेगळें शिक्षण घेतलां?"

जाप तिणें दिली ना. एके बायलेन दिली. तिणें सांगलें, "आमच्या गांवांत गिमाच्या दिसांनी राती व्हड. मळबाच्या घुमटा तळा वाड्यावयले दादले-बायलो नाचतात, गातात. तो पळोवन भुरगीं शिकतात."

कार्यक्रम सुरू जावपाची घांट वाजली आनी शुरवीरान सगळ्या पात्रांक वचूंक सांगलें.

फाराच्या आवाजासरशीं झाडार बशिल्ले कावळे उडचे तशीं तीं पात्रां फांफसलीं. द्रौपदीन वचपाची तयारी करून पांय जमनीर वाजयलो. पांयजणाचो उपेग ती आपल्याकडेन लक्ष वेधून घेवंक बेस बरो करताली.

"तुमीय गेल्यार जाता." शुरवीरान लव-कुशाक आनी द्रौपदीक सांगलें.

"फुडल्या कार्यक्रमाक बसतलो?" जगतापान म्हाका विचारलें.

"कार्यक्रम बरो जाता हातूंत दुबावच ना. पूण फुडली कथा म्हाका समजली. आमी परतुया." हांवें म्हळें.

"कितें कथा समजली तुका?" शुरवीराचो प्रस्न.

"कथेचें मागीर सांगतां" हांवें म्हळें, "पूण एक सांग, लव आनी कुश हे दोगय नायिकेचे घोव. पूण तिका नांव द्रौपदी कित्याक? काय मूळचेंच तिचें नांव द्रौपदी?"

"ना. तिचें मूळ नांव द्रौपदी न्हय. तिचें मुळचें नांव राधा. पूण जेन्ना एक बायल दोन घोवांकडेन लग्न जाली, तेन्ना गांवचे लोक तिका द्रौपदी म्हणूंक लागले आनी तेंच नांव रूढ जालें."

"पूण राजस्थानांत अशी प्रथा आसा? काय ही एक वेगळीच घडणूक?" हांवें विचारलें.

"कांय जमातींनी एकाच घोवाक चड बायलो आसपाची जशी प्रथा आसा, तशी दुसऱ्या कांय जमातींनी बायल दोन वा अदीक घोव करता. पूण लव-कुशाचे जमातींत तशी प्रथा नासली. तूं फुडलो कार्यक्रम पळय. खरी मजा आतांच आसा. तांच्या लग्नाचें कथानक आतां सुरू जातलें." शुरवीरान आग्रो केलो.

जगतापाक रावपाचेंच आसुलें. दुसरो उपाय नासून हांव बसलों.

लव आजोळा वता आनी राधा ताका पळयता, खुणायता, आपयता. पोरन्या मोगाच्यो यादी दिवपाचो यत्न करता. पूण लवाक कांय कळना. हो आयला तो आपल्या प्रियकराचो जुंवळो भाव हें राधेक कळना. तिका दिसता, हो विसरला वा विसरिल्ल्याचें नाटक करता.

शेताचेर, बांधाचेर कुशीच्या वाठारांत एकांतांत ती ताका व्हरता. तोय ओडत वता. लोहचुंबकान सूय ओडची तसो तो ओडटा. ताका पावला कणकणी कुशाल्या तोंडावयले अरळ भाव याद जातात... पिकिल्ल्या द्राक्षाची, रोसान थपथपिल्ल्या आंब्याची ताका याद जाता आनी ताका दिसता, हो अणभव आपूण घेतां; कुशान फकत कल्पनाच केल्या...

आजोळचे दीस हे बोंडांतल्यान सुटिल्ल्या कापसावरी वातावरणांत उफेवपी मस्तीचे दीस आसले. वाळवंटांतल्या पावसावरी आंग सुकचे आदींच ते पैस गेले. आनी लग्नाचें उतर दिवन लव घरा परतलो.

लव-कुशाक कांय लिपयना. आपले प्रियेचीं वर्णनां करता. तेन्ना कुश ताका सांगता, आज्रेचो गांव खऱ्यानीच अप्रुपाचो... सुंदर बायलांचो. आमची आई थंयची. तुजी प्रिया थंयची आनी तुका आतां लिपयना, हांवेंय म्हजी प्रिया पळोवन दवरल्या.

दुबावाचें एक जोगूल खीणभर लवाच्या मनांत लखलखून वता आनी बुद्ध ताका सांगता, तशें कशें जातलें? कुशाची प्रिया बेवफा कशी आसत? म्हजी भावज तशी आसूंकच नज.

आवयचे मान्यतायेन दोगूय सांगातान आजोळा वतात. हे खेपे तांच्या सांगातान गांवचे धा जाणटेले आसात. घरच्या सुनांक घेवन येवंक दोन माचुलां ताणी घेतल्यांत आनी माचुलां सांगातान वाजंत्री आसात. राजस्थानी लग्न-प्रथेचें दृश्य खऱ्यानीच आगळें-वेगळें दिसलें.

व्हंकलेल्या दारांत वाजंत्री पावली तेन्ना थंय गांव जमलो. घरच्या कुरकुटांतल्यान राधा

दोन माचुलां पळयता आनी काचाबूल जावन विचारता, "दुसरी कोण?"

तो प्रसंग सुंदर तरेन दाखयला. खलबतां जातात. परत-परत जनेलांत येवन दोनय न्हवऱ्यांक ती पळयता. हो जादू अशें तिका दिसता. न्हवरेकार जादुगार आसत जाल्यार व्हंकलकार फाटीं रावन उपकारचें ना... तणाची बावली तयार जाता. तिका नवी जरी साडी... राधेच्या आंगार आसा तसली... न्हेसोवन पदरांत तोंड लिपोवन दोनय व्हंकलांक तिगेल्यो इश्टीणी दोन माचुलांनी बसयतात.

आनी उप्रांत येता घरांतलो देखाव. दोगूय भाव एकठांय आसतना राधेक कळटा, हो जादू न्हय, खरी खबर. आपगे दोगांकडेन मोग केलो. दोगां सांगातान खेळ्ळीं, नाचली! आता कशें जावपाचें?

ती येता आनी दोगांय भावांच्या पांयांचेर तकली दवरून घडिल्ली खबर सांगता.

कुंतीचें काम तांगेली आवय करता. ती म्हणटा, "कांय पर्वा ना. म्हजे दोन पूत. दोगूय तुजे घोव..."

कार्यक्रम सोंपता. सोंपतकच आमी उठले. जगतापान इतले म्हणसर खुबशे फोटे एकठांय केल्ले. येता आसतना ताणे म्हाका विचारलें, "हें पथक युरोप-अमेरिकेक धाडलें जाल्यार थंय कसो येवकार मेळत?"

"कॉमेन्ट्री इंग्लीशींत केली जाल्यार थंय ही सत्यकथा लोक माथ्यार घेतले बगर रावचेनात."

"तेच खातीर हो खटाटोप. तुका त्रास दिलो खरो. पूण सांग, तुजी सांजवेळ कशी गेली? आनी शिंयाचो तुका उगडास तरी जाल्लो?" जगतापान म्हाका विचारलें.

हांव निखटो हांसलों.



# ११. हैद्राबादचो फ्रान्सीस

आंध्र प्रदेशाची राजधानी हैद्राबाद. थंयच्या एका हॉटेलांत हांव रावतालों. हॉटेलांतली वेवस्था खूबच सुंदर आसली. शेकान शेक गच्ची आनी ते गच्चेचेर विस्कळ विस्कळ पांच - स कुडी. दोन कुडींभितर मेकळो जागो. कुडींतल्यान भायर सरलो म्हणटकच उकते गच्चेचेर पावतालो.

हांव हॉटेलांत पावलों तेन्ना रात जाल्ली. दुसऱ्या दिसा सकाळीं पांच वरांचेर जाग आयली. भायर उजवाड जाल्लो. दार उकतें करून गच्चेचेर आयलों आनी भोंवतणचो वाठार पळोवंक लागलों. म्हजे नदरेच्या आवाठांत आयलीं तीं ल्हान-व्हड घरां. सगळया घरांच्यो सपाट टॅरॅसी. चुकून माकून दोन घरांमदल्यान तकली वयर काडटालो एकाद्रो रूख. आमची गच्ची मात्शी उंच. ताचे भोंवतणी आशिल्ल्यो गच्च्यो त्या मानान सकल. गच्च्यांचेर लोक न्हिदिल्लो. आनीक कांय पळोवपासारकें नासलें. हांव कुडींत आयलों आनी दार बंद केलें.

सुमार णव वरांचेर हांव सकल देवलों आनी कावंटराचेर वचून टॅक्सी खंय मेळटली म्हणपाची वासपूस केली.

"आमच्या हॉटेलाचीच टॅक्सी आसा," मॅनेजरान सांगलें. हांवें दिसवड्याच्या हिशोबान ती घेवपाची थारायली. तसो ताणे ड्रायव्हराक उलो मारून सांगलें, "फ्रॅन्सिस, आज का दिन साबके साथ रहो."

गिमाचे दीस. उज्याचो धग सकाळच्या वेळार लेगीत झोमतालो. टॅक्सी सुरू जाली आनी हांवें फ्रान्सीसाकडेन संवाद सुरू केलो. तो हिन्दी उलयतालो देखून माणसुकी. हैद्राबादाचें तें खाशेलेपण. थंय हिन्दुस्थानी भास चड घोळटा. त्या मानान तेलगु थोडी आयकूंक मेळटा.

हांवें फ्रान्सिसाक विचारलें, "तुजी आवयभास खंयची?"

"तशी मुळभास तमीळ." फ्रान्सिस्कान जाप दिली, "आमी तंजावरचे. पूण ल्हानपणासावन हांगाच उरलों. आतां तमीळ विसरूंक लागलां आनी हिन्दी म्हजी भास जाल्या... तूं खंयचो?"

"गोंयचो." हांवें जाप दिली.

एकदम फ्रान्सिसान मोटार थांबयली आनी दाट कवच्यांच्या वक्लांतल्यान तो म्हाका पळयत रावलो. येदो वेळ हांवें ताजें तोंड सारकें पळोवंक नासलें. वाडिल्ल्या पिकिल्ल्या खाडाचे खूंट आनी तकलेक मदींच व्हडलें टक्ल. एका दोळयावेल्यो भोंवयो मात्शो वयर. माथ्यार उरिल्ले सुरिल्ले केंस पिकूंक लागिल्ले. खूबच रुक्ष आनी कुरुप तोंडावळो. खीण दोन खीण तो म्हाका पळयत उल्लो आनी उप्रांत ताज्या रुक्ष तोंडाचेर एक अंदुक हांसो फुल्लो.

"म्हजो पणजो गोंयचो." हिन्दींतल्यानच फ्रान्सिस्कान सांगलें, "तो केन्ना आनी कित्याक तंजावराक गेलो तें म्हाका खबर ना. पूण कोणय गोंयकार मेळ्ळो जाल्यार म्हाका खोशी

जाता.''

आपल्यो भावना उक्तावचे खातीर फ्रान्सिस्काकडेन उतरां नासलीं. पूण तागेली खोशी म्हाका जाणवली. त्या दिसा रेंवटाच्या धुल्लान भरिल्ल्या धगधगीत शारांत भोंवतना फ्रान्सिसान आपल्या उगडासाची पोटली म्हज्या खातीर सोडयली. दीसयभर तो बडबडत रावलो. जिणेंतले कोडू आनी गोड अणभव तो म्हाका सांगत रावलो. शारांतल्या दर एका वस्तूविशीचें आपलें गिन्यान आनी अज्ञान लेगीत तो उक्तायत रावलो.

सांजवेळ मेरेन फ्रान्सीस म्हजो इश्ट जालो.

फ्रान्सीस आंकवार. धंद्यान ड्रायव्हर. ताका एक भयण आसली. ती विधवा जावन मेली. ल्हानपणांत फ्रान्सिसाची आवय मरतकच ते भयणीन ताका तंजावरच्यान हैद्राबादेक हाडिल्लो. भयणीक भुरगें ना बाळ. तिगेल्या घोवाचें घर आनी तळमजल्यावयलीं चार दुकानां भाड्यान दिल्लीं. आतां तीं घरां फ्रान्सिसच्या मालकीचीं जाल्यांत. साठींत पाविल्लो फ्रान्सीस आजून टॅक्सी चलयता. जोड बरी आसता. भायले भोंवडेकार बरी टीप दितात. त्या भायर घरच्या भाड्याची येणावळ. एका फ्रान्सिसाक ती जोड खूब जाली.

''उरिल्ले पयशे तूं कितें करता?'' हांवें ताका विचारलें.

''आयताराक पोटभर सोरो पितां आनी इश्टांकय पिवयतां. जायते फावटी हांव इगर्जेक दान दितां.''

दुसऱ्या दिसा आयतार आसलो. फ्रांसीस एक बरी पार्टी घडोवन हाडपाचो बेत आंखूंक लागलो. पूण हांव सोरो पियेना हें कळटकच ताणें पार्टी रद्द केली. म्हणूंक लागलो, ''गोंयांत सोऱ्याच्यो न्हंयो व्हांवतात अशें आमी आयकतात. पूण गोंयांत रावनय तूं सुको कसो?''

फ्रान्सीस आपल्या प्रस्नाचेर आपूणच हांसलो. हांवें जाप दिली ना. ताणेंच म्हळें, ''तूं सोरो पिना हें बरें करता. आफडूं नाका सोऱ्याक.''

फ्रान्सीस म्हजेकडेन मेकळेपणान उलयिल्लो, तरी लेगीत तागेल्या रुक्ष भावांत एकाद्रें दुख्ख लिपलां आनी ताणे म्हाका सांगूंक ना अशें म्हाका दिसतालें आजूच वळख जाल्ल्या मनशाक कशें विचारपाचें?

त्या दिसा रातीकडेन हांतुणाचेर आडवो जालों तरी हांव फ्रान्सिसाविशींच येवजितालों. दीस भराच्या सहवासाक लागून त्या रुक्ष, कुरूप मनशाविशीं म्हज्या काळाजाच्या एका कोनशाक आपलेपणाची आंकरी फुटिल्ली.

दुसऱ्या दिसा सूर्य उदेवचे आदींच हांव भायर गच्चेर आयलों. फांतोडेचो शांत वेळ लेगीत कितलो धगधगता हाचो अणभव घेतलो. पूण कुडींतल्या वातनुकूलीत घुसमटमारा परस हो मेकळो धग सुखदिणो दिसलो. हांव भोंवतणी पळयतालों. सूर्य खंयच्याय खिणाक वयर सरपाचो आसलो. अचकीत म्हजी नदर शेजारचें घर सोडून ताच्या फुडल्या घराचेर गेली. त्या घराचे गच्चेचेर उबो रावन एक मनीस मदल्या घरावयले गच्चेचेर न्हिदिल्ल्या लोकांक पळयतालो. ते गच्चेचेर एक कुटुंब न्हिदिल्लें आनी तो मनीस त्या न्हिदिल्ल्या मनशांक नियाळटालो. तागेलें तोंड म्हाका सारकें दिसनासलें. पूण म्हाका दिसलें, कोणूय तरी विकृत मनीस आसुये. गिमांत गच्चेचेर न्हिदिल्ल्या लोकांचे कपडे अस्ताव्यस्त आसूं येतात. ती संद सादून हो तांकां नियाळटालो.

तो फ्रान्सीस बी न्हय मू? पयसुल्यान म्हाका तसोच दिसलो.

त्या दिसा हांवें फ्रान्सिसालीच गाडी घेतली. दुसऱ्या दिसाय फ्रान्सीस मेकळेपणान उलयलो. चार मिनाराकडेन वचून चुडी (कांकणां) बाजार पळोवया, सलारजंग म्युझियम पळोवया अशें ताणें सुचयलें. सकाळचो वेळ मेकळो आसलो; पूण म्हाका बाजार वा संग्रहालयाचें आकर्षण नासलें. हांवें फ्रान्सिसाक तशें सांगलें आनी म्हळें, "म्हाका कांयच पळोवपाचें ना. थोडें भोंवया."

फ्रान्सिसान गाडी चार मिनारा कडच्यान घेतली. पूण थंयचे गर्देतल्यान वाट काडटां - काडटां उलोवण्यांत खंड पडूंक लागलो. तेन्ना हांवें सलारजंग म्युझियमाकडेन वचुया अशें ताका सुचयलें. कांय वर्सां आदीं थंय गेल्लों तेन्ना म्युझियमाच्या पोरसांत गायडान एक शिळा दाखयिल्ली. तिचेर जो मनीस बसत, तो दुसरे खेपे तिचेर बसले बगर मरना अशें तिचें वर्णन केल्लें.

"आजून ती शिळा थंय आसा?" हांवें फ्रान्सिसाक विचारलें.

"सगळें फट!" फ्रान्सिसान म्हळें,

"आतां तीं शिळा थंय ना हें बरें जालें. लोकांक फटोवन कितें मेळटलें?"

आमी म्युझियमाच्या आंगणांत आयले. तिकेट काडून भितर वचुया असो फ्रान्सीस आग्रो करूंक लागलो. कावंटराचेर खूब गर्दी. फ्रान्सीस ते गर्देंत रिगलो आनी दोन तिकेटी घेवन आयलो.

पुराय म्युझियम पळोवंक दीस पावचो नासलो. हांव एका एका दालनांत भितर सरून वयले वयर नदर भोंवडायत घसघशीत चलूंक लागलों आनी म्हजे फाटल्यान फ्रान्सीस. पूण आमी जेन्ना आर्विल्ले भारतीय चित्रकलेच्या दालनांत पावले, तेन्ना फ्रान्सिसाचे पांय जड जाले. एका चित्रासामखार उबो रावन केदो वेळ तो नदर थीर करून पळयतालो. हांव थंयचो भायर सरून दुसरें दालन भोंवन आयलों तरी फ्रान्सीस थंयच उबो. हांवें ताचेसरीं वचून उलो मारलो तेन्ना तो भानार आयलो.

"अशें कसलें चित्र तुका इतलें आवडलें?" हांवें विचारलें.

मात्सो लजेवन फ्रान्सिसान चित्राकडेन बोट केलें. चित्राक चित्रकारान न्हाल्याउप्रांत अशें नांव दिल्लें. एक तरणी बायल आंगावयले चिप्प भिजिल्ले धवे साडयेन आपलो देह गुटलावन फाट करून उबी आसली. चित्र खरेंच सोबीत आसलें. केंसांतल्यान आनी आंगावयल्यान न्हालेउप्रांत गळटात ते उदकाचे थेंब आनी ओलें- धवें वस्त्र आंगाक दसतकच जशें दिसता तसो, भाग खरोच काय दिसतालो. एका बंगाली चित्रकारान तें चित्र काडिल्लें. म्हाकाय तें आवडलें. बायलेच्या धांकिल्ल्या देहांतलें ओड लावपी म्होंवाळ लावण्य चित्रकारान त्या चित्रांत दाखयिल्लें. बायलेचें तोंड चित्रांत दिसना आसलें, तरी तिची सोबितकाय जाणवताली.

म्हाका फ्रान्सिसाल्या रसिकपणाची लक्तुबाय दिसली.

ताणें म्हळें, "ह्या चित्राचो फोटो म्हाका मेळिल्लो जाल्यार तो घरा व्हरून हांव आल्ताराचेर दवरतलों आसलों."

तागेल्या सांगण्यांत एक करुण व्यथा आसा म्हणपाचें, अचकीत कांपरो जाल्ल्या ताच्या आवाजावयल्यान, हांव वळखलों.

भायर येतकच हांवें फ्रान्सिसाक त्या चित्राविशीं विचारलें. तेन्ना ताणे सांगलें, "म्हजी एक इश्टीण आसा. तरणेपणांत ती अशीच दिसताली. खरें म्हळयार हांवें पयले खेपे तिका तशी पळयली. न्हावन गच्चेर सुकत घाल्ली साडी व्हरूंक ती वयर आयिल्ली. हांव पलतडचे गच्चेचेर उबो आसलों. खूब वर्सां जालीं हे गजालीक. हांव तिका पळयतां म्हणपाचें ती नकळ आसली. म्हजे वटच्यान फाट करून दुबावामेकळया मनान तिणे साडी बदल्ली आनी आपले ओले केंस सांसपीत ती सकल गेली. तिणे म्हाका पळयलो ना. पूण म्हजें तिचेर मन बसलें."

सकाळीं गच्चेर पळयिल्ल्या मनशाचो म्हाका उगडास जालो आनी ते विशीं हांवें ताका विचारलें.

"हय, हांव थंय उबो आसलों..." आनी मागीर फ्रान्सिसान आपली कथा आनी व्यथा सांगली. ती सांगतना ताजो आवाज जायते फावटी कांपरो जालो.

त्या वेळार फ्रान्सिसाची पिराय सुमार पंचवीस वर्सांची आसतली. भयणीगेर तो रावतालो. चडसो वेळ गच्चेरच सारतालो. ज्या दिसा ताणे तिका पळयली, त्या उपरांत ती ताका जायते फावटी दिसली. एका गिरेस्त बापायली ती एकलीच अपुर्बायेची सुंदर चली. तेन्ना मेडिकल कॉलेजींत शिकताली. फ्रान्सीस अक्षरशत्रू. पूण मोगान इतलो कुड्डो जाल्लो कि वेव्हाराचो ताका विसर पडिल्लो. मदीं केन्नाय तांची नदरेक नदर मेळिल्ली आसुये. पूण तीं एकामेकांकडेन केन्नाच उलोवंक नात. आपलें मन फ्रान्सिसान तिका केन्नाच कळीत केलें ना. तरीय तिचें दर्शन घेवंक तो सद्दां गच्चेर वचूंक लागलो.

एकतर्फी मोगाचो तो आगळो नमुनो. केन्नाय तिची नदर फ्रान्सिसाकडेन गेल्ली आसुये. केन्नाय तिच्या ओंठार अंदूक हांसो फुलिल्लो आसुये. ताणी एकामेकांक पळयिल्लीं आसुये... पूण मोगान पिसो जाल्ल्या फ्रान्सिसाक दिसतालें कि तागेलो मोग वाडत आसा. तो तिचें उतर येवपाची वाट पळोवंक लागलो. ताची जीण पुराय बदल्ली; ताचे कपडे बदल्ले; संवसारावयलें चित्तच उडून गेलें.

एक दीस ते चलयेचें एका डॉक्टराकडेन लग्न जालें आनी प्रेमभंगाचो भयांकृत अणभव फ्रान्सिसान घेतलो. आतां तो उलयना जालो. पिशें लागतां लागतां वाटावलो आनी आपलें दुख्ख सोऱ्याच्या पेल्यांत बुडवपाचो यत्न करूंक लागलो.

आजून ताचो तिचेर मोग आसा. मनांत राग वा सुडाची भावना निखालच ना. ती जंय आसत थंय सुखी आसची इतलीच ताची इत्सा. तो म्हणटा, "तिचें वायट जावचें अशें म्हाका येवजत तरी कशें? हांवें तिजेर मनासावन मोग केलो. तिगेलो फुलतो संवसार पळयतना हांव सुखावतां. केन्ना तरी ती कुळारा येता तेन्ना दिश्टी पडटा. ती खोशी वेगळीच."

पस्तीस वर्सां तो मनान तिका पुजीत आयला. सध्या ती कुळारा आयिल्ली आसा. उबाळाचे दीस जाल्ल्यान ती गच्चेर न्हिदता आनी ब्राह्मम्हुर्ताचेर उठून फ्रान्सीस तिच्या दर्शनाखातीर ताटकळत उबो रावता!



# १२. पास्कूली व्हंकल

कांय थळां अशीं आसतात, जांचो उगडास काडिनाफुडें आपुण तांच्या रिणांत आसा अशी भावना मनांत जागी जाता. भगवान बुध्दाक ज्या पिपळापोंदा बुध्दत्व मेळूंक पावलें त्या बोधीवृक्षाचे बौध्द भाविक अनंत रिणांत उल्ल्यात. इतलेंच न्हय तर जंय जंय पिंपळ दिसता थंय थंय तांची मान श्रध्देन नमता. वटवृक्षाचें आनी कृष्णाचें नातें भारतीय जनमानसान जोडून उडयलां. वडाच्या पानाचेर कृष्णाचें सन्निध्य आसता अशें श्रध्दाळू लोक मानतात. पुराणांतल्या आनी इतिहासांतल्या अवतारांचीं आनी म्हापुरसांचीं चरित्रां अशा थळांचो उल्लेख करतात, जीं तांचे जिणेक नवी दिशा दिवंक कारण जालीं. तांकाच श्रध्दाळू लोक तीर्थस्थानां मानतात.

म्हापुरसांच्यो गजाली वेगळ्यो. कित्याक तर तांचे विशीं श्रध्दा आशिल्ल्या लोकांचो आंकडो खूब मोठो आसता. देखून तांचे जिणेंत आयिल्ल्या थळाचें म्हत्व एके तरेन संवसारीक आसता. पूण कांय थळां अशीं आसतात, जीं एकाद्र्या सामान्य मनशाक तीर्थस्थानां जावन बसतात. आनी तांचें महात्म्य दुसऱ्याक सांगलें तरी समजना.

पास्कुआलाचे जिणेंतलें अशें एक थळ म्हळयार गांवाभायर आशिल्ल्या दोंगराचे कुशींतलो वझरो. त्या थळाची व्हडवीक सांगचे आदी पाश्कुआलाविशीं सांगूंक जाय.

पाश्कुआल हो एक गोरवांचो राखणो. म्हजी ताजी पयली भेट जाली तेन्ना तागेली पिराय अठरा-एकोणीस वर्सांची आसली. हांव धा-बारा वर्सांचो. सांजच्या वेळार गोरवांक गोठ्यांत बांदून पाश्कुआल गांवांत येतालो. वाटेरच आमचें घर.

एक दीस सांजच्या वेळार पाश्कुआल रस्त्यावयल्यान बाजारांत वता आसतना आमगेर कामाक आशिल्ल्या मानायान ताका हटकिलो.

"आज बेगीन सो रे, पास्कू?' ताणे विचाल्लें.

पास्कूच्या खांद्याचेर एक लेंसाची पोटली आसली. ती दाखोवन ताणे म्हळें, "थोड्यो बियो पुंजावन हाडिल्ल्यो बाजारांत व्हरून विकतां."

हांवें विचाल्लें, "ह्या काजूबियांचे पैशे कितले?"

"तुका जाय आशिल्ल्यो?" पास्कून म्हाका विचाल्लें, "चार आणे दी."

हांव धांवत घरांत गेलों आनी आईकडच्यान चार आणे घेवन आयलों. भितल्यान आईन म्हळें, "त्यो ताज्याच कडच्यान भाजून घे. ताका कितेंय दिवया."

पास्कून आमच्या मानायाच्या आदारान चुट्टां पेटोवन उजो केला आनी सुमार शंबरेक काजूच्यो बियो भाजल्यो.

अजूनय म्हाका तो प्रसंग याद आसा. काजूचो दीख उसळत म्हणून म्हाका कुशीक बसयिल्लो. तरी त्या जळट्या दिखाचो जो घमघमीत वास म्हज्या नाकांत भल्लो त्या वासाची धुंदी अजूनय याद काडटकच म्हजे तकलेक चडटा. केन्नाय भाजिल्ली काजूची बी खाता आसतना म्हाका भुरगेपणांतलो तो वास येवंक लागता.

पास्कूक आमच्या घरांतले सगळे लोक वळखताले. कायतान रेंदेंरालो तो पूत. कायतान आमचे वळखीचो. दीसपट्टो सकाळ-सांजवेळ आमच्या घराभोंवतणी आशिल्ल्या माडींची सूर काडूंक तो येतालो आनी केन्नाय आडसर मेळ्ळें जाल्यार तें हाडून म्हाका दितालो. त्याभायर कंवळयो चुट्टयो नाजाल्यार शेवकां वा पोंयों ताणे हाडून दिवच्यो. पूण म्हजी आनी कायतानाची इश्टागत तितले पुरती न्हय. कायतान शिळोणी घालून कातरां म्हणटालो आनी केन्नाय आपल्या गोड आवाजांत तरेकवार कवनां गायतालो. तीं आयकूंक हांवें वरांची वरां मान वयर करून माडामुळांत रावचें.

कायतानाची गजाल सांगूंक गेलों जाल्यार ती वेगळीच कथा जातली. आज खबर सांगूंक जाय ती पास्कूची. पास्कूची म्हणचे परसय तागेल्या थळाची.

आठ आण्यामीतर हुनहुनीत भाजिल्लो काजूचो म्होवलो मेळ्ळो. हांव तो दाखोवंक आईसरीं गेलों. आईन चार बियो म्हज्या हातार दवल्ल्यो आनी म्हळें, “लाडू करून तुकाच दितां. हरशीं बियो खाल्यो जाल्यार माणे लागतलें.”

म्हाका लाडवांपरसय म्होवल्याचें चड आकर्षण आसलें. चार आण्याच्यो बियो आनी चार आण्याची मजुरी हांवें मोल जरी आईन दिल्लें तरी त्या म्होवल्याचेर म्हजो अधिकार आसा अशें म्हाका दिसतालें. हांव खऱ्यांनीच निर्शेलों आनी मनांत थारायलें, फुडले खेपे पास्कूकच भाजिल्लो म्होवलो हाडूंक सांगतलों.

दुसऱ्या दिसा कायतानान येवन आमगेर कागाळ केली. बियांचे पैशे पास्कूक दिवंक जायना आसले, अशें ताजें म्हणणें आसलें. कित्याक तर ते आठ आणे घेवन पास्कू सरळ गादयेर गेल्लो आनी बेबदो जावन घरा परतल्लो.

“कितें सांगतलो तुका, बाय.” कायतानान म्हळें, “निकत्यो मिशो फुटिल्लो हो भुरगो मोग करता आनी सोरो पियेता. आमच्या रेंदराच्या घरांत सोऱ्याक आफुडपी भुरगो जावप म्हळया संवसार सोंपलोच म्हणून समज!”

म्हज्या कानावयल्यान तो संवाद गेल्लो. पूण पास्कून कसलो गुन्यांव केल्लो आसत तें म्हाका सारकें समजलें ना.

दुसऱ्या दिसा जेन्ना म्हाका पास्कू मेळ्ळो तेन्ना हांवें तागेल्या बापायली कागाळ तागेल्या कानार घाली. पास्कू निखटो हांसलो आनी म्हाका म्हळें, “एक दीस तूं म्हज्या सांगातान दोंगरार यो. तुका हांव काजू, बोरां, काण्णां....सगळें दितां. सकाळीं वचपाचें, सांजचें येवपाचें. पूण घरांत सांगून मात यो आं.”

पास्कूलें आपोवणे हांवें घराकडेन सांगलें तेन्ना म्हज्या वांट्याक एक व्हडलो धेंगसो आयलो. पास्कू सांगातान म्हाका दोंगराचेर वचूंक मेळचें ना इतली खूणगांठ हांवें मनाकडेन बांदली.

तरीकय दोंगराचें आकर्षण मनांत तशेंच उल्लें. केन्ना तरी घरच्यांचो दोळो चुकोवन पास्कूवांगडा दोंगरार वचपाचो संकल्प हांवें केल्लो. पूण योग बेगीन आयलो ना.

एक दीस हांव दोंगरार पावलों. त्या दिसा पास्कू सकाळचो दोंगरार वचूंक नासलो. दनपारच्या वेळार तो म्हाका मेळ्ळो आनी ताणें म्हळें, “हांव आतां जेवल्याउपरांत दोंगरार वतलों. तूं येता जाल्यार यो. सांजवेळ मेरेन परत येवया.”

दनपारचीं जेवणां जातकच तीनसांजमेरेन घरांत कोणूच आमची वासपूस करिना हें हांव

जाणा आसलों. देखून हांवें पास्कुकडेन वेळ थारायलो आनी त्या दिसा दोंगराचेर पयलेच खेपे गेलों.

आज तो दोंगर ल्हान दिसता. पूण भुरगेपणांत तो खूबच व्हड दिसतालो. म्हाका याद जाता ते भाशेन मे म्हयन्याचे सोंपते दीस आसले. वत खूब पडिल्लें. दोंगरावयल्या झाडांचेर तरेकवार फळां लागिल्लीं. काजू तर आसलेच. चारां, चुन्नां आनी काण्णां. त्याभायर खाजूर. म्हाका नंदनवनांत पाविल्ल्याची खोशी जाली आनी हांव मेळत ती फळां बुड्डूंक लागलों. काण्णां काडटना म्हज्या हाताक कांटे लागले आनी एका हुमल्याच्या एका घोंटेराक हात घालून हांवें म्हजेरच अपसरण ओडून घेतलें.

जोडिल्ली जोड घरा व्हरपाची उमळशीक लागली तेन्ना पास्कून आपल्या खांद्यावयलो व्हडलो लेंस म्हाका दिलो आनी तरेकवार फळां हांवें त्या लेसांत बांदलीं. सगळे वाटेर पास्कू कायतानाभाशेन शिळोण्यो घालतालो, कांतरां म्हणटालो आनी म्हाका खबरीय सांगतालो. पूण दोंगरावयले सृष्टीत हांव इतलो रमून गेल्लों कि पास्कू कितें सांगता वा गायता तें कानार पडूनय हांव आयकना आसलों.

सुमार दोन वरां हांव दोंगरावयल्या झिलांनी भोंवलों. झाडां चडलों, देंवलों. मूयो, हुमले चाबून आंग दादडेलें. कांट्यांनी झरकटलें, हुमेन चिप्प भिजलें आनी तानेन जीव कासावीस जावंक लागलो.

"तान लागल्या." हांवें पास्कूक सांगलें.

"चल, या तर झरीचेर." अशें पास्कून म्हळें आनी दोंगरार चरतल्या आपल्या गोरवांक आमडून ताणे झरीचे दिशेन धाडलीं.

झर म्हळ्यार मदींच दोंगर कापून घेतिल्ली सुवात. भोंवतणी काजूचीं झाडां आनी कुशीक एक उदकाचें कोंड.

"खंय आसा रे झर?" हांवें पास्कूक विचारलें.

"हीच झर." पास्कून म्हळें, "उदक पियेवन पळय. थंड आनी गोड."

कोंडातलें उदक गोरवां पिवंक लागलीं. तेंच हो म्हाका पिवंक सांगता काय कितें असो दुबाव येवन हांवें म्हळें, "हें रेब्याचें उदक म्हज्यान पिवंक जावचें ना. हांव घरा वचूनच पितां."

"तें न्हय रे. तुका बरें उदक दितां." पास्कून म्हळें आनी म्हाका दोंगराच्या कापिल्ल्या कड्याची वणत दाखयली.

थंय उदक पाझरतालें. पूण तें हातांत घेवंक मेळना आसलें. तें उदक कशें पियेवपाचें, अशें हांव येवजितां म्हणसर पास्कून काजूचीं दोन पानां खुडलीं आनी हातांनी दोडून तांचो दोणो केलो. त्या दोण्याचें एक टोंक पाझरते वण्टीक लायलें.

पास्कून उदक पियेवंक सांगलें. उदक खऱ्यांनीच शीतळ आनी गोड आसलें. तें पियेवन हांव तृप्त जालों. काजूच्या पानाक लागून उदकाची रूच आनीकय वाडिल्ली.

उदक पियेवन जातकच आमी काजूचे सांवळेंत वयर बसले.

"तुका ही झर आसा म्हणपाचें कशें कळ्ळें?' हांवें पास्कूक विचाल्लें.

"म्हाका खबर नासलें." पास्कून म्हळें, "पूण एक दीस गोरवांच उदक पियेवंक हांगा आयलीं आनी तांकां सोदतां सोदतां हांव हांगां पावलों. त्या वेळार एक बायल अशीच

काजूचीं पानां खोवून कळसुलेंत उदक भरताली. आतां दीसपट्टो दनपारचो भुती घेवन हांव हांगाच येवन जेवतां.''

इतलें उलोवन पास्कून कुलो घालो.

पयसुल्यान दुसरो कुलो आयलो.

''कोणाक साद घालता ?'' हांवें ताका विचारलें.

''आतां येतकच तूंच पळय.'' पास्कून जाप दिली.

ह्या रानांत आनीक कोण येतलो असो म्हाका प्रस्न पडलो. त्यावेळार आमकां पुस्तकांत एक धडो आसलो. शाळेंत वतना एका भुरग्याक वाटेंत रान लागता आनी तो भियेता. दुसऱ्या दिसा शाळेंत वचचो ना अशें तो भुरगो आपले विधवा आवयक सांगता. ती कृष्णभक्त आवय भुरग्याक धीर दिता. म्हणटा, ''त्या रानांत तुजो व्हडलो भाव कृष्ण आसता. तूं ताका उलो मारशीत जाल्यार तो तुका मेळटलो.''

आवयन भुरग्याक धीर दिवपाखातीर तशें सांगिल्लें. पूण दुसऱ्या दिसा जेन्ना रानांत तो भुरगो भियेता तेन्ना कृष्णाक उलो मारता आनी झाडां सळसळून कृष्ण येता!

त्या भुरग्याक कृष्ण भेटलो अशें तो भुरगो तागेल्या मास्तराक एक दीस सांगता आनी फटिंगपणाची रुजवात करचेखातीर मास्तर भुरग्यावांगडा रानांत येता. पूण त्या दिसा कृष्ण येना. भुरगो फटींग म्हणपाची मास्तराची खात्री जाता तेन्ना रडकुरो परतून तो भुरगो कृष्णाक आर्त साद घालता आनी निमाणे कृष्ण दर्शन दिले बगर त्या भुरग्याकडेन उलयता. अशें ते काणयेचें सार आसलें.

म्हाका ओगीच दुबाव आयलो, पास्कूलो तसो कोणय कृष्ण आसत जाल्यार म्हाका पळोवन तो येवचोना.

पूण हांव येवजिता आसतनाच एक बायल कळसो हातांत घेवन झरीचेर आयली. हांव तिका पळयत रावलों. ही कशी परगटली तेंच म्हाका समजना जालें. गळयांत रंगीत मणयांच्यो माळो, माथ्याक रंगीत फुलां आनी तांबडेंगुंज न्हेसण. रानपरीच्यो काणयो हांवें आयकल्ल्यो. तसलीच ही एक रानपरी आसतली असो म्हाका दुबाव आयलो.

''आयज कोणाक घेवन आयलो तूं पास्कू?'' ते बायलेन म्हजेकडेन पळयत विचारलें.

''भुरगो मगो तो!'' पास्कून म्हळें.

ती कांय उलयली ना. तिणे पाझरतें उदक काजूचे खोलयेच्या आदारान आपल्या कळश्यांत घेवंक सुरवात केली.

''आज रागार गो सांतान?'' पास्कून विचाल्लें.

तिणे जाप दिली ना. पास्कू सकल देंवलो आनी आपल्या बोटांनी तिका कातकुतल्यो करूंक लागलो.

''चल, कुशीक सर. तो भुरगो पळयता.'' अशें म्हणून ते बायलेन पास्कूक कुशीक काडपाचो यत्न केलो. पूण तो बदलो ना.

म्हाका थंयच बसूंक सांगून पास्कू सांतानाक ओडून घेवन दोंगराचे वयले वाटेन गेलो आनी अजापाची गजाल म्हळयार ती बायल लेगीत कांय एक उलयना आसतना ताज्या फाटल्यान गेली.

बऱ्या वेळाउपरांत जेन्ना तीं दोगांय परतलीं तोमेरेन उदकाचो कळसो भरिल्लो. कांय एक

उलयना आसतना तिणे तो उखल्लो आनी आयिल्ले वाटेन परत गेली.

पास्कूय आतां कांय उलयना आसलो. ताणे गोरवांक गांवचे दिशेन आमुडलीं आनी म्हाका म्हळें, "चल या."

पास्कू सांगातान दोंगर देंवता आसतना मदींच पास्कू उबो रावलो. म्हज्या हाताक घट धरून ताणे म्हळें, "हें चोय, ही खबर कोणाक सांगूंक जायना. सोपूत आसा तुका!"

"कसली खबर?" म्हज्या अबुध्द मनान ताका विचाल्लें.

"सांतानाची."

"ना. हांव कोणाक सांगिना. पूण एक सांग, ती बायल कोण? खंयच्यान आयली?"

"सगळें तुका सवकासाय सांगतां." हांसून पास्कून म्हळें, "ती म्हजी व्हंकल. पूण तुवें ही खबर कोणाकूच सांगूंक उपकारना. रागाक वायट हांव. जाणा मरे?"

निमाणे वाक्य उलयतना ताणे आपली मूठ निबरान आंवुळ्ळी. म्हजो हात चुरचुरलो. तरीकय हांवें तागेलें गुपीत कोणाक सांगचों ना अशें उतर दिलें.

त्या दिसा पास्कून म्हाका सांतानाविशीं चड कांय सांगलें ना. दोंगरावयल्या अणभवाचो आनंद म्हज्या भुरग्या मनांत इतलो उपाट भरिल्लो कि ते विशीं जाणून घेवपाची म्हाका मातय इत्सा जाली ना. आयज त्या प्रसंगाचो उगडास काडटना म्हाका दिसता कि मोग म्हळयार कितें तें लेगीत तेन्ना म्हाका समजना आसलें.

पिरायेन वाडत रावलों तशें वातावरण आनी मनाची रचणूक बदलत रावली. नवे इश्ट, नवे विशय आनी नवे छंद. पास्कूची संगत सुटली आनी कायतानालीं गितां आयकत ताज्या फाटल्यान भोंवपाची उमेदय उल्ली ना. तरीकय दोंगराचें आकर्षण उणे जावंक ना. उरफाटें वाडत रावलां. तें इतलें जबरदस्त आसलें कि जेन्ना हांव गोंयाभायर पावलों तेन्ना लेगीत त्या दोंगरांची ओढ उल्ली. आयज कामाच्या व्यापा-तापांमदीं लेगीत केन्ना केन्नाय त्या दोंगरार वचून मन थंड करपाचे विचार तकलेंत येतात. म्हज्या कितल्याशाच इश्टांक घेवन हांव वेळार आनी अवेळार त्या दोंगराचेर गेलां आनी एक - दोन फावटी तर झऱ्याचेर वचून काजूच्या पानाचो दोणो करून उदकय पियेलां.

दोंगरार गेल्लेय फावटी म्हाका भुरगेपणातले साबार प्रसंग याद जातात आनी पास्कूची मूर्त दोळयांसामकार उबी रावता.

फाटल्या मे म्हयन्यांत सांजच्या वेळार असोच पासयेक म्हणून हांव त्या दोंगरासरीं गेलों आनी ते झरीची दुर्दशा पळोवन म्हाका खूब वायट दिसलें. झर आटिल्ली.

त्या दिसा कित्याक कोण जाणा, हांवें थारायलें, पास्कू खंयय मेळ्ळो जाल्यार ताका गांठचो. पास्कूलें घर हांव जाणा आसलों. थेट तागेल्या घराकडेनच गेलों.

पास्कूलें घर म्हळयार एक ल्हानशी मातयेच्या वण्टींची खोपीसारकी वास्तू. फुडले वाटेन ल्हानशें पोरसूं. पोरसाचे वयेंक अडुळशाचीं आनी दसणीचीं झाडां. पोरसांत पांय दवल्ले आनी उजवे वाटेन पळयलें. मदींच एक बांय. हेरकडेन कुचकुचीत झाडां. तांचे मदीं एक म्हशींग. एक सुणे बांयचे धडेर सावळेक न्हिदिल्लें. म्हजी जाग लागली तशें तें उठलें. दुबावी नदरेन ताणे म्हाका पळोवन घेतलें आनी आपल्या धर्माक जागून भियेत भियेत भुंकलें. पूण म्हज्या आंगार येवच्याबदला शेंपडी सकल घालून तें पोरसाचे वयेंत रिगलें.

म्हाका दिशिल्लें सुण्याच्या आवाजान कोणय तरी भायर येतलो. पूण कोणच आयलो

ना. घराचे भायले वाटेच्यान एक ल्हानशी पडवी. पडवेर पावल दवरून हांवें भितल्लेवाटेन पळयलें. वण्टीचेर एक आल्तार आनी थंय मेरी आनी जेजूचें पांयजेल.

"कोण आसा?" हांवें साद घालो.

जाप मेळ्ळी ना. घर तर उकतें. पूण कोणाचो आवाज ना. घराचे फाटले वाटेन पोरसूं इल्लें विस्तारलां आनी ताजे पलतडीन मार्ग. लागसार दुसरें घर थोड्या अंतराचेर आसलें. हांवें थंय वचून वासपूस करपाचें थारायलें.

पूण तितले म्हणसर म्हजी नदर एका झाडामुळांत वणखून बशिल्ल्या म्हाताऱ्याचेर गेली. काळो कुळकुळीत उकतो देह. कमराक विटक्या तांबड्या लेंसाची काश्टी. पिकिल्ले केंस, वाडिल्लें खाड आनी मिरयेल्लें आंग. एकेच नदरेन हांवें ताका पळोवन घेतलो. आपले भीतर कितें तरी तो बडबडटालो.

ताज्या म्हऱ्यांत वचून हांवें विचाल्लें, "पास्कुलें घर हेंच न्हय?"

न्हिदेंतल्यान जागो जावचो ते तरेन ताणे नदर वयर केली. कानाचेर मूस बशिल्ले भाशेन उजवो कान झाडलो आनी नदरेनच कितें अशें म्हाका विचाल्लें.

हांवें म्हजो प्रस्न परत विचाल्लो.

ताणें जे तरेन कानाचेर हात धरून 'कितें?' अशें विचारलें ते पळयतकच म्हाका कळ्ळें कि ताका सारकें आयकूंक येना. हांवें व्हडान ताका म्हगेलो प्रस्न विचारलो.

"तूं कोण?" ताजो परतो प्रस्न.

ताजेकडेन उलयता आसतना म्हाका किळच्यो मारच्यो पडटाल्यो. एकाय प्रस्नाची तो सरळ जाप दिना आसलो. खंयचो हाज्या नादाक लागलों अशें म्हाका जालें. एक-एक प्रस्न विचारून तो म्हजी वळख करून घेतालो. निमाणे ताणे म्हळें, "इतलें सगळें सांगता आनी म्हाका वळखना मरे?"

तोच पास्कू! म्हजी नदर तरनाट्या पास्कूक सोदताली. इतल्या वर्सां मदीं हांव कितलो जाण्टो जालों तें लेगीत म्हाका येवजलें ना.

"तूं म्हाका वळखलो?" हांवें विचारलें.

"खरें म्हळयार ना." ताणे म्हळें, "पूण तुवें इतले बारीकसाणेन सगळयो खबरो सांगतकच थोडी भोव याद जाता."

"म्हजी गजाल सोड." हांवें म्हळें, "पूण सांतानाचो तुका उगडास आसतलो."

परत तोंडाचेर तोच निर्विकार भाव. "कोण सांतान?" उरफाटो म्हाका प्रस्न.

म्हाका ओगीच दुबाव आयलो कि हो पाश्कुआल नासतलो आनी आसलोय जाल्यार तागेली तकली जाग्यार नासतली. तरीकय हांवे म्हळें, "सांतानाकय तूं विसल्लो? उगडास आसा तुका? त्या दिसा दोंगुल्लेचेर गेल्ल्या वेळार तुवें सांतान ही आपली व्हंकल म्हणून वळख करून दिल्ली."

एकदम ताज्या तोंडावयले भाव बदल्ले. इतलो वेळ बसून आशिल्लो पास्कू उबो रावलो. उबो रावतना तागेल्या हाताची आनी पांयांची हाडां कडकडीत वाजलीं. ताजें कमर बागविल्लें. तें झाडाक तेंकोवन आपलो दावो हात ताणे म्हज्या उजव्या खांद्याचेर धल्लो आनी म्हळें, "तेन्ना तूं आशिल्लो न्हय? म्हाका उगडासच जायना. पूण तूं सांगता तें खरें आसतलें. सांतानाची खबर हांवें अजून कोणाकच सांगूंक ना. म्हजेंय काजार जालें, भुरगीं

जालीं आनी आतां नातरां लेगीत जाल्यांत. बायल मेल्यार धा वर्सां जालीं. भुरगीं - नातरां सवण्यांभाशेन उडून गेलीं आनी हांव एकलो हांगा जगतां.''

''आनी सांतानाचें कितें जालें?'' हांवें ताका विचारलें.

''देवाक खबर! अजून म्हाका ताजो उगडास येता. अजून म्हजो ताजेर मोग आसा. पूण तें जितें आसा काय मेलें तें हांव नकळ.''

''तुका निमाणे केन्ना मेळिल्लें?''

''आतां तुका कशें सांगू? साबार वर्सां बलांडलीं. तुका हांवें सांगलां काय ना तें हांव नकळ. तरणे पिरायेचेर झरीचेर उदक पियेवंक गेल्ल्या वेळार वयले धडेर रावन ताणे म्हाका उदक घालें. तागेलें तरणेपण, तागेले दोळे नियाळताना म्हजो हाताचो पोसो फाटीं जालो. म्हजे नदरेंत ताजी नदर एक जाली आनी आपल्या कळशांतलें उदक आपूण वारयतां हें लेगीत ताका भान उल्लें ना. ताळयाक लागिल्ली तान भागली ना. पूण मनाक नवी तान लागली आनी पिशांभाशेन हांवें ताका गोपांत घेतलें.''

एक व्हड सुस्कार.

''मोगाचे दीस केळीच्या पानावयल्या दवाच्या थेंब्यावरी कितले बेगीन सोंपले!. म्हज्या मस्त्या बापायन मानून घेतलें ना. सांतान म्हजी वाट पळोवन खंगलें आनी ज्या दिसा म्हजें काजार थारलें त्या दिसा तें पळून गेलें.''

एका विफळ मोगाची व्यथा त्या मिरयेल्ल्या तोंडाचेर निवळ बरी उदेल्ली.

''पूण तें तुका विसरचें ना.'' हांवें म्हळें.

''म्हाकाय तशेंच दिसता. हांवूय ताका विसरूंक ना. पूण तें म्हाका फटकिरो म्हणटलें. हांव आपणाक फटयतलों असो दुबाव ताका सदांच दिसतालो. तें म्हणटालें, दादले पाख्यावरी आसतात. दुसरें फूल मेळटकच पयल्या फुलावयले उडून वतात. सांतान गेलें म्हणपाचें म्हाका दुख ना. ताणे दुसऱ्याकडेन काजार केलें तरी म्हाका वायट दिसपाचें न्हय. एकूच दूख म्हज्या काळजांत घर करून रावलां... म्हजी लाचारी हांव ताका कळोवंक पावलों ना. म्हाका भोगोस अशें मागपाची संद म्हाका गावली ना.''

पास्कून कडकडट्या हातांनी निरोप दिलो आनी कित्याक कोण जाणा उदास मनान हांव घरा परतलो.



# १३. व्यंकटेश

व्यंकटेशाली चीट घेवन एक पाखली चली आयली तेन्ना हांव पुराय गोंदळून गेलों. तकलेक खूब शीण दिलो. पूण व्यंकटेश हे नांव वा तें धारण करपी मनीस कोण ताची म्हाका याद जाली ना. मेळूंक आयिल्ली चली मुखार उबी आसा म्हणपाचें भानूय म्हाका उरलें ना. इंग्लीश भाशेंतली ती चीट वाचीत हांव जिणेच्या इतिहासाचीं पानां चाळटालों... खंयच्याय एका पानाचेर व्यंकटेश सावंत हे नांव बरयिल्लें आसा काय कितें हें सोदतालों.

पत्र वाचून हांव येवजितां हें पळोवन ते चलयेन म्हाका विचारलें, "हें पत्र तुकाच न्हय?"

तेन्ना हांवें ते चलयेक बसूंक सांगलें आनी पत्राचो लाखाटो परत वाचलो. लाखाट्याचेर कांसावलेचो पत्तो बरयिल्लो आनी कोणे तरी खोडून ताचेर नवो पत्तो बरोवन दिल्लो.

"पत्र म्हाकाच." हांवें ते चलयेक जाप दिली, "पूण तुका हो म्हजो पत्तो कोणे दिलो?"

"चड त्रास पडले नात." तिणें म्हळें, "हांव पयलीं टॅक्सी घेवन कांसावले गेली आनी थंय मेळिल्ल्या पयल्याच मनशान तुजो नवो पत्तो दिलो. देखून टॅक्सी घेवन हांगा आयलीं."

हांवें परत पत्र वाचलें. पत्रांत व्यंकटेशान बरयिल्लें. "म्हजी चली राणी मणिपालाक मेडिकल कॅलेजांत शिकूंक वता. ती थंयच उरतली. सुटयेच्या दिसांनी घडये गोंयांत वचत. गोंयांत म्हजो लागींचो वा अगत्याचो असो कोण ना. म्हाका सट्ट करून तुजो उगडास जालो. देखून तुकाच ही चीट बरयतां. हांव पयस उरतां. भारतांत ती उरता सर तिचेर नदर दवरल्यार उपकार जातले."

पत्र हातान बरयिल्लें व्यंकटेशाचें नांव आसलें आनी सॅन फ्रॅन्सिस्को (अमेरिका) हांगासल्लो पत्तोय आसलो.

तरी व्यंकटेश कोण हें म्हज्या लक्षांत आयलें ना. आदींच इतले पयस मुलखांत एकलीच आयिल्ल्यान नव्या वातावरणांत मात्शी गोंदळून गेल्ले राणीक अदीक गोंदळावचें न्हय अशें येवजून हांवें म्हळें, "तू व्यंकटेशाली चली तर?"

ती हांसली आनी हळडुवे दांत नदरेंत भरले. ती पुराय अमेरिकन दिसताली. अमेरिकन उच्चारांतले इंग्लीश भाशेंत ती उलयताली. म्हाका अमेरिकन उच्चार समजूंक इल्ली अडचण येता. कोणय सवकासाय उलयलो जाल्यार समजता. पूण हे चलयेची उलोवपाची पध्दत जेट स्पिडीची.

तिका बावडेक एक एक वाक्य दोन दोन तीन तीन खेपे उच्चारचें पडलें आनी निमाणे आपूण उलयता तें म्हाका समजुचे खातीर एक एक शब्द उच्चारून उलोवचें पडलें.

"तूं वळखलो हें बरें जालें. डॅडीक दिशिल्लें, इतल्या वर्सां उपरांत तुका ताची याद उरची ना. ताणे दोन तीन नांवां घेतली आनी तुकाच पत्र दिलें."

"पूण हांव मेळूंक नाशिल्लों जाल्यार तूं कितें करतली आसली?" हांवें राणीक विचारलें.

"आनीक एक नांव डॅडीन दिल्लें. तोय कांसावलेच रावता अशें सांगिल्ले. हांवें ताची वासपूस केली तेन्ना तो खंय आसा तें कोणाकच खबर ना अशी जाप मेळ्ळी... तूंय मेळूंक नाशिल्लो जाल्यार हांव दोन दीस गोंयांत रावन परत मणिपालाक वतलीं आसलीं. थंय मागीर नव्यो मैत्रिणी, मित्र मेळटले."

"तुजें म्हणणें बरोबर आसा. तुजो जल्म अमेरिकेंतलो मूं? व्यंकटेशाक गोंयची जशी ओड आसा, तशी तुका कशी उरतली? पूण एक सांग, तूं वैजकी शिक्षण घेवंक भारतांत कित्याक आयली?." हांवें विचारलें.

"तो निर्णय डॅडीचो. ताका दिसता, म्हजे भारताकडेन संबंद वाडचे. डॅडी लेगीत रिटायर जावन भारतांत... गोंयांत येवंक सोदता. ते खातीर ताणे म्हाका मणिपालाक दवरपाचें थारायलां."

"आनी तुजे मम्मीची हे गजालीक मान्यताय आसा?" हांवें विचारलें.

राणीन जाप दिली ना. येवजिल्ले भाशेन करून सकयलो ओंठ चाबलो. दोनय भुजां हालयलीं आनी म्हळें, "मम्मीक हांवें विचारूंक ना. आनी तिचें मत हांवें विचारून घेवपाचें कारणय ना... तिणें डॅडीकडेन डायव्होर्स घेतला."

तिगेली जाप आयकून म्हाका संकोचिल्ले भाशेन जालें. हांवें तिका विचारलें, "सध्या तूं खंय उतरल्या?"

"सामान टॅक्सींत आसा. टॅक्सी भायर आसा. तू सांगता थंय उतरतां" हांसून तिणें जाप दिली.

हांवें तिची वेवस्था एका हॉटेलांत केली. आमच्या घरांत तिका आनी तिचे खातीर घरच्यांक कसले तरेचो संकोच जावं येता हाची म्हाका कल्पना आसली.

तिका हॉटेलांत पावयली आनी थोडो वेळ विसव घेवंक सांगून हांव परत आयलों. पूण एक कुवाडें अजून सुटूंक नासलें. व्यंकटेश सावंत म्हळ्यार कोण? तो अमेरिकेंत सॅन फ्रॅन्सिस्कोंत स्थायिक जाल्लो, थंय लग्न जाल्लो. ताचे बायलेन घटस्फोट घेतलो. ताका एक चली आसा. अमेरिकन चलयांची पिराय सट् करून सांगूंक जायना. पूण म्हज्या अदमासान ती अठरा वीस वर्साची आसतली. ताका आनीक भुरगीं आसात काय कितें?ताणे दुसरें लग्न केलां काय कितें? तो थंय करता कितें...? एकाय प्रस्नाची जाप हांव नकळं.

पूण म्हजें मन कांसावलेच्या मळबांत घिट्ट्यो घालतालें. गड्याच्या खेळांतले सांगाती, वेळेर वा दोंगरार सांगातान हेडूंक वचपी इश्ट... सगल्यांची वळेरी तपासून पळयली. पूण ते वळेरेंत व्यंकटेश हें नांव नासलें.

सांजची राणी परत मेळ्ळी. हे खेपे ती रंग आनी दोळे सोडले जाल्यार भारतीय दिसताली.

"म्हाका आदीं देवळांत वचूंक जाय. देवाचें दर्शन घेवनच फुडलीं कामां." तिणें म्हाका सांगलें.

"खंयच्या देवळांत?" हांवें तिका विचारलें.

म्हजो प्रस्न तिका अनपेक्षीत आसलो. आपणाक खंयच्या देवळांत वचपाचें आसा हेंय

तिका खबर नासलें. भोळेपणान तिणें विचारलें, "सगळीं देवळां एकूच न्हय? खंयच्याय देवळांत वचु या."

"पूण तुका डॅडीन खंयचेंय एक देऊळ सांगिल्लें आसतलें. देव एक आसलो तरी भक्त ताका वेगळया वेगळया रुपांनी भजता, पळयता. तुजो डॅडी खंयच्या रुपांत देवाक भजता तें तूं जाणा?"

तिणे ना म्हणून तकली हालयली आनी म्हळें, "खंयच्याय देवळांत गेल्यार जाता."

हांव तिका घेवन कवळेंच्या शांतादुर्गेच्या देवळांत गेलों. तिणे देवळामुखार उबी रावन आपलो एक फोटो काडून घेतलो. देवळाचो थोडोसो इतिहास तिका सांगपाचो हांवें यत्न केलो. ती तकली हालयताली, पूण हांव उलयतालों तातुंतलें कांयच तिचे तकलेंत वचना हें म्हाका कळटालें.

"अमेरिकेंतय देवळां आसात." तिणें म्हाका सांगलें, "आनी म्हजो डॅडी मदीं मदीं त्या देवळांनी वचून पुजा करता. हांवूय केन्ना केन्ना वतां, पूण हें देऊळ वेगळें दिसलें."

हांवें तिका तिच्या बापायविशीं थोडे प्रस्न केले. प्रस्तावना करतनाच हांवें तिका सांगलें, "तुज्या बापायची आनी म्हजी इश्टागत सामकी भुरगेपणांतली. देखून ताचेविशीं म्हाका चडशी खबर ना. तो करता कितें?"

"पूण तूं ताका खऱ्यानींच वळखलो?" तिणे मनांत आशिल्लो दुबाव उक्तावन म्हाका प्रस्न केलो, "ताणे म्हाका सांगिल्लें, नांव वाचून तूं वळखलो ना जाल्यार दुकानाचेर बसतालो तो गिरी अशी याद करून दी."

वीज गेल्ले कुडींत अचकीत दिवो पेटचो तशें म्हाका जालें. गिरीचो म्हाका उगडास जालो. आनी आतां दिसलें, ताचेंच नांव व्यंकटेश. व्यंकटेश हें घडये ताच्या आज्याचें वा घरांतल्या मरून गेल्ल्या जाणटेल्याचें नांव आसुये. देखून ताका घरांत गिरी म्हणटाले... आनीकय खूबशे उगडास आयले. गिरीली आवय भुरगेपणांत मेल्ली आनी बापायन दुसरें लग्न करतकच गिरी आपल्या मामागेर रावतालो. मामाक भुरगेंबाळ नाशिल्ल्यान गिरीची अपुर्बाय खूब जाताली. मामाचें एक दुकान आसलें. त्या दुकानाखातीर माल हाडूंक वा हेर कसल्याय कामाखातीर मामा जेन्ना भायर सरतालो, तेन्ना गिरी दुकानार बसतालो आनी ताजे वांगडी थंय पावले जाल्यार लिंबाच्या फोडीच्या आकाराचीं बचकभर पिपरमिटां तांचे कडेन दितालो. शाळेंत पावतकच तीं आपले मर्जेतल्या भुरग्यांक वांट्टालो. आमच्या सगळयांच्या मानान गिरी पिरायेन व्हडलो नासलो तरी तो खूबच लांब आसलो. तो पिपरमिटां वांट्टा इतलेच खातीर तो आमचो मुखेली जावन बशिल्लो. राणीन गिरी हें नांव उच्चारलें आनी धुस्पल्ली व्हिडियो कॅसेट सरळ जावन पड्ड्याचेर चित्र येवचें तशे खूबशे प्रसंग म्हज्या दोळयां मुखार येवंक लागले.

"गिरी हें देवाचें नांव न्हय?" कितें तरी याद केल्ले भाशेन तोंड करून राणीन म्हाका विचारलें.

"हय, हय." हांवें तिका सांगलें, "मंगेश वा मांगिरीश... ताचें ल्हान रूप गिरीश वा गिरी. हांगां लागींच मांगिरिशाचें देऊळ आसा."

"थंय या तर आमी. म्हाका डॅडीन थंयच वचूंक सांगिल्लें."

मंगेशाच्या देवळांतल्यान भायर सरता आसतना राणीन केंसांचे शेंडयेक फूल खोयिल्लो

एक दादलो पळयलो आनी तिणे विचारलें, "सगळया दादल्यांक अशीच शेंडी आसता?'

"एका काळार आसताली. आतां चडशे लोक शेंडी दवरी नात." हांवें तिका सांगलें.

म्हाका सट करून गिरीचो उगडास जालो. भुरगेपणांत ताका लांब शेंडी आसली आनी ते शेंडयेक गांठ मारून तो वर्गांत आयलो म्हणटकच सगळे भुरगे ताची शेंडी हालयताले. गिरीक तिडक येताली आनी तो भुरग्यांक मारूंक येतालो. भुरगे पळूंक लागले जाल्यार लांब धेंपा उखलून तांकां धरतालो आनी दोन थापटां मारतालो. तें चित्र दोळयांमुखार उबें रावलें आनी हांवें राणीक म्हळें, "तुका अजाप जातलें, तुज्या डॅडीकय भुरगेपणांत अशीच शेंडी आसली."

"अजाप कित्याक?" तिणें जाप दिली, "आतांय आसा. आनी पूजा करतकच म्हजो डॅडी शेंडयेचे गांठीक असोच फूल खोयता."

म्हाका मोठें अजाप जालें. शिक्षणाच्या वांगडा आमी सुदारले अशें मानून परंपरा तोडटात. पूण शिकून व्हडलो मनीस जालो, अमेरिकेक स्थायीक जालो, खंयचे परिस्थितींत देवाक खबर... थंयचे बायलेकडेन लग्न जालो. पूण गिरीन आपली शेंडी सांबाळ्ळी.

भुरगेपणांत ते शेंडयेचो ताका मोटो अभिमान. तागेल्या मामान ताका सांगिल्लें, "मुसलमान वळखुचो तागेल्या खाडान आनी हिन्दू वळखुचो ताचे शेंडयेन. तूं खंयय वच. पूण ही शेंडी सांबाळ. शेंडी उरल्यार तूं हिन्दू म्हणून लोकांक कळटलें."

गिरीक हिन्दुत्वाचो मोटो अभिमान; पूण ह्यो गजाली मुळावे शाळेंतल्यो. तेन्ना तो सद्दां देवाची पूजा करून कपलाक गंधाचो तिबो लावन शाळेंत येतालो. आमकां हेर भुरग्यांक पुस्तकांतली कविता धड पाठ नासताली. पूण गिरीक तरेतरेचीं भजनां, स्तोत्रां आनी श्लोक तोंडपाठ आशिल्ले. ताका त्या श्लोकांचो अर्थ समजतालो काय ना देवाक खबर!

दोन दिसां उप्रांत राणी मणिपालाक गेली. थंय हॉस्टेलांत ती रावता. पूण दोन दिसां मजगतीं तिणे बारीकसाणेन कितलेशेच प्रस्न विचारून खुबशी माहिती पुंजायली. तिगेले खूबशे प्रस्न अडचणींत घालपासारके आसले. तांच्यो जापो म्हाका येनासल्यो. हांव जाप नकळ हें पळयतकच ती म्हणटाली, "आनीक कोणाकय विचारून घेतां." आनी एकदम दुसरो प्रस्न विचारताली.

राणी वतकच चार दिसांनी गिरीलो फोन आयलो. सॅन्ट फ्रॅन्सिस्कोक साकून. तागेले चलयेनच ताका म्हजो नंबर दिल्लो आसूंक जाय. ताणे म्हजे उपकार मानले आनी म्हळें, "तूं आशिल्ल्यान राणी गोंयांत वचूंक पावलें. ना जाल्यार येदें व्हडलें गोंय आसून म्हजो थंय कोण ना; म्हाका कोण वळखना."

हांवें ताका विचारलें, "तुवें गोंय सोडून कितलीं वर्सां जालीं?"

"चाळीस." फोनावयल्यानच ताणे जाप दिली. "...आनी ह्या चाळीस वर्सांतली पंचवीस वर्सां अमेरिकेंत सारलीं. उरिल्लीं सुर्वेचीं पंदरा भारतांत दुसऱ्या जाग्यांनी उरलों."

"आनी तुजो मामा...?" हांवें विचारलें.

"मामा कसो आसतलो? मामा-मामी दोगांय गेलीं. देखूनच म्हाका गोंय सोडचें पडलें. म्हज्या बापायन शिक्षणाखातीर म्हाका मुंबय दवरलो. हांव अमेरिकेक येतकच तोय गेलो. ह्या विशाल संवसारांत एक चली सोडली जाल्यार म्हजो असो कोणच ना." आपलें दुःख उलयत ताणें फुडें म्हळें, "ती लेगीत म्हाका आदार दितली काय विसरून वतली कोण

जाणा!"

गिरीन पोस्टाचो पत्तो विचारून घेतलो. विस्तारान सगळें बरयतां अशें उतर दिलें आनी निमाणें सांगलें, "राणीक बापायचो उणाव जाणूंक दिवं नाका."

हांवें ताका आं म्हळें, पूण मणिपालाक वैजकी कॉलेजांत शिकतले चलयेचेर गोंयांत रावन नदर दवरप कितलें कठीण, हें त्या वेळार लेगीत हांव जाणा आसलों आनी म्हज्या अदमासा प्रमाण गिरीकय तें खबर आसतलें.

गिरी नांवाचो एक भुरगो, जाचें दुसरें नांव व्यंकटेश, तो अशे तरेन परत म्हजे जिणेंत येत हें हांवें येवजूंकच नासलें. पूण ते चलयेच्या निमित्तान परत आयलो आनी तेन्नाच्यान ताचो म्हजो पत्रवेव्हार थोडो, पूण फोनावयलो संपर्क वाडलो. कितलेशेच पोरने उगडास मनांत जागे जाले. पिराय केदीशी? सात-आठ वर्सांची! पूण ते जिणेंतय तरेकवार प्रसंग घडिल्ले आनी तांचो उगडास आतां हे पिरायेचेर करपांत एके तरेचें सुख आसलें.

भुरगेपणांत व्यंकटेश शिकूंक हुशार आसलो आनी आपल्या भाच्यान चडांत चड शिकचें अशें तागेल्या मामाक दिसतालें. मुळावे तिसरेक आसत, ना जाल्यार चौथेक आसत... परिक्षेचे दीस आसले... पूण परिक्षेविशीं सांगचे आदीं शाळेविशीं सांगूक जाय. शाळा म्हळयार आयचेसारकी शाळा नासताली. आपलीं भुरगीं मुळावें शिक्षण मराठींतल्यानच घेवंक पावलीं नात जाल्यार धर्म आनी संस्कृती बुडटली हे भिरांतेन हिन्दू समाज मराठी शाळा चलयतालो. शाळेंत एक ते चार यत्ता शिकयताले. शाळेचो ताबो एका मास्तराकडेन. शेणान सारयिल्ले जमनीचेर पातळ साक पातळावप आनी ताचेर मांडी घालून बसप. सगळया वर्गाच्या भुरग्यांक एकच मास्तर शिकयतालो. तांकां शिकयतना दुसऱ्या वर्गातल्या भुरग्यांक पाढे काडूंक लायतालो वा शुध्द लेखन काडूंक लायतालो. वर्साक एक खेपे परिक्षा जाताली. परिक्षा घेवंक दुसऱ्या गांवचे शाळेंतलो मास्तर येतालो. परिक्षेक केन्ना नापास जाल्लो म्हाका उगडास ना. त्या वर्सा परिक्षा चलता आसतना मदींच व्यंकटेशालो मामा शाळेंत आयलो. कमराक एक वालो गुटलायिल्लो आनी खोमीस आंगार घालिनासतना खांधाचेर उपरण्यासारकें उडयिल्लें. त्या खोमसाचेर वयर चाववयांचो घोंस. दुकान उकतें करूंक वचचे आदीं भाच्याल्या अभ्यासाची वासपूस करूंक तो शाळेंत आयिल्लो. तसो तो अर्दी-मदीं शाळेंत येतालो. देखून कोणाकच अजाप दिसलें ना.

सकाळचो एक पेपर जाल्लो. मदीं तोंडी परिक्षा जाल्ली आनी आमचे भाशेचो पेपर चलतालो. एका एका वर्गांत तीन वा चार विद्यार्थी आसताले. मामा आयलो आनी भाचो पेपर बरयतालो ताचेमुखार उकडयां बसलो. मामाचें शिक्षण व्हडलेंशें जावंक नासलें. तो सय करतालो आनी दुकानावयलो वेव्हार सांबाळपाइतलें गणीत ताका येतालें. व्यंकटेश पेपर बरयता तें लक्तुबायेन ताणें पळयलें आनी उपरान्त परिक्षा घेवंक आयिल्ल्या मास्तराक विचारलें, "मास्तर, आमच्या व्यंकटेशान पेपर कशे बरयल्यात?"

मास्तरान आपल्या हातांतलीं कागदां वाचून पळयलीं आनी सांगलें, "हुशार आसा तुजो चलो...'

"चुकता तूं मास्तर." व्यंकटेशाल्या मामान थंयच मास्तराक आडावन म्हळें, "तो म्हजो भाचो, चलो न्हय. आवय मेली आनी बापायन दुसरें लग्न केलें. सवती आवयच्या तोंडांतलो वाटावंक हांवें ताका हाडून दवरलो."

सगळे भुरगे हांसले आनी मास्तरान मेजार बडी वाजयना फुडे ओगी रावले. मास्तरान म्हळें, "गणिताचो पेपर उत्तम बरयला ताणें; तोंडी परिक्षेंतय बरे मार्क घेतले. पास जातलो तो गणितांत; ताका विसांतले अठरा मार्क पडले."

व्यंकटेशालो मामा गंभीर जालो. स्वगत उलोवचें तशें ताणें म्हळें, "दोन मार्कांचें गणीत चुकयलें?" खांद्यावयलो चावयेचो घोंस (ह्यो गांवठी चावयो फूटभर लांबायेच्यो आसताल्यो) हातांत घेतलो आनी व्यंकटेशासरीं वचून म्हळें, "दोन मार्कांचे गणीत चुकयलें? फाल्यां पसऱ्यार बसयलो जाल्यार दिवाळें काडटलो! चावी काडून खड्डेर मारतलों पोराच्या." मास्तरान आडायलो म्हणून त्या दिसा व्यंकटेशाली तकली फुटली ना.

मास्तर केदो वेळ मेरेन व्यंकटेशाच्या मामाक समजायतालो कि विसांतले अठरा मार्क मेळप म्हळ्यार एकदम बरे. पूण आपलो पसरो ताच्या हातांत दिवन निवृत्त जावपाचें सपन पळयतल्या मामान वीस रुपयांच्या हिशेबांत दोन रुपया घुसपायतलो असो अर्थ लावन मास्तराक म्हळें", अश्यो चुको केल्यो जाल्यार जोडटलो कितें आनी खातलो कितें?"

उपरान्त कितें जालें ताचो म्हाका आतां उगडास जायना, पूण हांव इतलें जाणां कि ते परिक्षेंत व्यंकटेशालो नंबर पयलो आयिल्लो आनी ताका मामान मारचो न्हय हे खातीर परिक्षा घेवपी मास्तरान गणितांतले विसांतले वीस मार्क दिल्ले.

मुळावी मराठी शाळा सोडटकच म्हजो आनी व्यंकटेशाचो संपर्क तुटलो. हांव पुर्तुगेज शाळेंत शिकता आसतना तो खंय तरी खाजगी शिक्षकाकडेन इंग्लीश शिकता अशें कानावयल्यान गेल्लें. मदीं केन्नाय गांठ-भेट जाली जाल्यार लेगीत आमी चडशे उलय नासले. उलोवपा सारकें कांयच नासतालें. तातूंतय शाळेचो वेळ जातकच दर्याचे वेळेर वा दोंगराच्या माथ्यार आमी हेडूंक वताले. तेन्ना व्यंकटेश आमचेबरोबर नासतालो. त्या वेळार तो पसरो सांबाळटालो. हेर भुरग्यां सांगातान खेळटना लेगीत हांवें ताका केन्ना पळोवंक नासलो. त्या व्यंकटेशाचो उगडास काडलो जाल्यार प्रसंग याद जातात ते असलेच तरेचे. पूण इतल्या वर्सांउपरान्त एखाद्र्या धुमकेतूसारको अमेरिकेंत सॅन फ्रॅन्सिस्कोंत रावतलो व्यंकटेश म्हजे जिणेंत आयलो, आनी आयलो तो खूबच अगत्यान.

एक दीस पोस्टांतल्यान तावें पत्र आयलें. पार्सलासारकें दाट पत्र त्या पत्रांतल्यान ताचे जिणेची खूबशी खबर म्हाका मेळूंक पावली.

"म्हजे साठ वर्सांचे जिणेंत हांवें खूबशें पळयलें. आनी नवे-नवे अणभव घेतले, तरी कांय गजाली अश्यो उरल्यो, ज्यो हांव केन्नाच विसरलों ना वा कांय संस्कार इतले चिवट आसले जे हांवें केन्ना सोडले नात."

एक आत्मनिवेदनच व्यंकटेशान त्या पत्रांत केलां. पत्रांत ताणें एक विनंती केल्या. पूण ते विनंतेविशीं सांगचे आदीं ताणें आपल्या जिविताचो जो पट बरयला, तो ताच्याच उतरांनी सांगप समा जातलें.

मामाची इच्छा आसली, आपलें दुकान हांवें चलोवचें. आनी खरें सांगतलो जाल्यार म्हजेंय सपन तेंच आसलें. दुकानाचेर गिरायक बरें जातालें. पूण दुकान इल्लें पोरणें आसलें. तें चकचकीत करपाची एक येवजण हांवें मनांतल्या मनांत आंखिल्ली. मदीं-मदीं हांव दुकानार बसतालों आनी मामा म्हाका व्यापार कसो करचो त्यो गजाली सांगतालो. ताणे दोन कर्तव्यांची म्हाका सुर्वेकच जाणविकाय करून दिल्ली. मंगेशीं जात्रेक रेवड्यो आनी

खाजें विकूंक वचप. कितलेय पयशे जोडले तरी जात्रेक वचून खाजें-रेवड्यो विकूंक उणेपण मानचें न्हय. आनी दुसरी गजाल, ज्या कांसावली गांवांत व्यापार चलयता, त्या गांवच्या दोंगराचेर एक सायबीण आसा. दर वर्सा स जानेवारीक थंय फेस्त जाता. त्या फेस्ताकय रेवड्यो-खाजें विकचें आनी सायबिणीमुखार मेणवाती पेटोवच्यो.

हांव आयज अमेरिकेच्या सॅन फ्रान्सिस्को शारांत बसून जेन्ना मामाचो उगडास काडटां तेन्ना त्या वेळार दिल्लें उतर हांव पाळूंक पावलो ना हाची म्हाका खंत भोगता. खंय तरी मनांत एक दुबाव येता, देवाचें रागणें म्हजेर आसा देखून म्हजे जिणेच्यो अश्यो वाद्र्यो जाल्यो.

हांव मामासरीं चड दीस उरलों ना. मामाक अचकीत मरण आयलें आनी ताचे बारा दीस जावचे आदींच मामीनय प्राण सोडलो. म्हाका कोणे खंय व्हेलो ताचो उगडास जायना. पूण मामा आनी मामीचे निमाणे संस्कार ते अबुद्ध पिरायेंत म्हाका म्हज्या हातांनी करचे पडले. पूण त्या उपरान्त हांवें गांव सोडलो आनी म्हजो एक पयसुलो काका म्हाका घेवन मुंबय गेलो.

जिवितांतलो एक अध्याय थंय सोंपलो. पूण आयज जाणटेपणांत म्हाका कितें चुकलां अशें दिसता आसत जाल्यार त्या पयल्या अध्यायांतली हुस्क्या-मेकळी जीण.

कांसावलेच्यान मुंबय गेलों आनी म्हजें भुरगेपण त्या गांवांतच उरलें. एकदम जाणटो जालों. परके सुवातेर शेणलों. घरांत एकमुळो आनी मुंबयच्या भायल्या विश्वांत शेणून गेल्लों अशी म्हजी अवस्था. दुःखां विसरूंक फकत अभ्यास करप. वाच वाच वाचप; बरय बरय बरोवप. मायेचें उतर मेळनासलें. आपलो असो कोण दिसनासलो. उणे कांय नासलें. वेळार जेवण मेळटालें; पूण केन्ना केन्नाय दिसतालें, एक मायेचें उतर कोणेंय दिल्यार म्हजें दोन दिसांचें जेवण हांव ताका दीन आसलों.

एक दीस कळ्ळें, मामान आपलें आशिल्लें-नाशिल्लें सगळें म्हज्या नांवार करून दवरलां. म्हज्या बापायन म्हजी केन्ना वासपूस केली ना. पूण मामाले जोडीक ताणे हात लायलो ना. ते पयशे घेवनच हांव शिकूंक म्हणून अमेरिकेक आयलों. खरें म्हळयार एके भाशेन हांव पळून वचपाचे भावनेन अमेरिकेक गेल्लों.

अमेरिका एक नवें विश्व. चाली-रिती वेगळयो; नीत मान्यताय वेगळी. हांव घुसमटून वतालों. पूण म्हजें अशें घर ना. म्हजे मायेचे मनीस नात. खंय वतलों? हांगाच रावलों. आनी हांगासल्ले जिणेकडेन समरस जावपाचो यत्न केलो. पूण म्हजी आवतिकाय त्रिशंकू भशेन जाली. भुरगेपणांतल्यो यादी हें म्हजें धन. मामी आनी मामा हीं म्हजीं दैवतां. भारतांत परत गेल्यारय तीं मेळचीं नात. शिक्षणीक पात्रताय आनी जोडीचें साधन अमेरिकेक. ह्या दोन ध्रुवांमदी हांव हुमकळूंक लागलो. इतलीं वर्सां जाली तरी आजून हांव त्रिशंकू सारको अधांतरी आसां. म्हजे जिणेचो रूख गोंयचे मातयेंतल्यान हुमटायला. पूण हे मातयेंत ताका मुळां धरनात. वयलेचाराक म्हजे जिणेंत सगळें आसा.

म्हज्या लग्नाची खबर सांगूंक जाय. उमेदीचे पिरायेचेर म्हाका सांगातीण जाय आसली. खरें म्हळयार मोगांत पडून कशें शेणून वचचें तें कादंबऱ्यांनी वाचलें, सिनेमांनी पळयलें तरी म्हज्या मनाक केन्नाच कळ्ळें ना. एके चलयेकडलो सांगात वाडलो आनी तिणेच म्हाका आपल्यांत आसपावन घेतलो.

लॅटीन अमेरिकेंतल्या मॅक्सिको देशांतली ती चली. तिचो बापूय इटालियन, आवय मॅक्सिकन. वेगळ्या वातावरणांत ती वाडिल्ली. देव-घोव असलीं बंधना ती मानिनासली. परकी दादल्या सांगातान म्हज्या दोळ्यांसामखार ती असभ्य चाळे करूंक संकोच करी नासली. म्हज्या देवाचीं आनी देवस्पणाचीं फकाणां करताली.

तिका दीस गेले तेन्ना ती गर्भपात करूंक सोदताली. तिचे पांय धरून म्हाका तिका समजावची पडली. तिणे कितें जाप दिली जाणा? "तुजीं भुरगीं वाडोवंक हांव म्हजें जुवानपण लासूंक सोदिना. पूण घोव म्हणून तुजो स्विकार केलो, देखून तुजे उपकार पावते करूंक हें भुरगें तुका दितां आनी हांव वतां."

राणी जाली आनी ती गेली. म्हाका खूब त्रास पडले. भुरग्याची आवय जावप हें केदें दिव्य तें हांवें अणभवलें.

अमेरिकेंतलें वातावरण तूं जाणा. म्हाका म्हजे चलयेकडेन पळयतकच ती आपले आवयच्या वळणाचेर वचत अशी भिरांत दिसता. ल्हानपण बरें आसलें. हांव तिका एका 'क्रेशां'त दवरून कामाक वतालों आनी सांजचो परत घरा हाडटालों. घराकडेन तिका उलोवंक शिकयतालों. पूण ह्या वातावरणांत संस्कृत श्लोक तिचे तकलेंत रुजलेनात. सुरवेक ती अबुध्द आसली तो मेरेन संस्कृत श्लोक म्हणटाली. पूण मात्शी जाणटी जाली आनी तेन्नाच्यान म्हाका परते प्रस्न विचारूंक लागली. श्रध्देक आनी दुबावाक पडना. दुबाव बेनल्लीसारको वाडत रावता आनी श्रध्देक गिळून उडयता.

हांव तिका कितलो म्हणून सांबाळटलों! म्हाका दिसतालें, ह्या वातावरणांतल्यान तिका कुशीक काडची; तिका गोंयांत धाडची. गोंयांत म्हजो कोण आसा? कोणय सोयरीं-धायरीं सोदून काडून राणीक धाडली जाल्यार ती थंय रमत म्हणपाचो भरवंसो दिसलो ना आनी ती रमली जाल्यार लेगीत गोंयच्या घरांनी तिचो स्विकार जायत अशें केन्नाच दिसलें ना.

हांगासल्लें भायलें वातावरण तूं जाणा जाल्यार तुका कळटलें. बरोवन तें सांगूंक जावचें ना. हांगा चली आनी चले समज येवंक लागतकच 'स्वतंत्र' जातात. आवय - बापूय तांकां कांय विचारी नात आनी विचारल्यार तीं आयकनात. ज्यो गजाली तकलेंत येवजप लेगीत पातक अशें आमी मानताले, त्यो गजाली जुवानपणाचे पिरायेंत हांगाचीं भुरगीं बिनधास्तपणान करतात. कितली म्हणून तिका सांबाळटलों?

एक दीस सांजचो घरा येवन पळय जाल्यार आमच्या घरांत नाच चल्ला. स्टिरिओचेर संगीत वाजता. राणी आनी तिच्यो दोन मैत्रिणी आनी तांचे चार मित्र. नाच कसलो आनी संगीत तरी कसलें? तो धागडधिंगोच म्हणूंक जाय.

एक दीस रातीकडेन ती आयलीच ना. हांवें हुस्क्यान रात सारली. पूण दुसऱ्या दिसा जेन्ना तिका जाप विचारली, तेन्ना तिणें सांगलें कि आपल्या एका इश्टाच्या अपार्टमेन्टांत ताच्या सांगातान रात सारली.

डेटींग हें हांगा सर्रास चलता. आनी ते मना करपाचो यत्न करतल्या बापायक सगळेच पिशांत काडटयत. म्हजे वळखीच्या एका कुटुंबाकडेन हांवें म्हजो हुस्को उक्तायलो. तांगेलीय एक चली आसा. ते चलयेचे आवयन म्हाका जी जाप दिली, ती आयकून म्हाका पिशें लागपाचेंच उरलें. तिणें सांगलें, 'तांकां आडावप पिशेपणां. तांची मेकळीक तांकां उरूंक दिवंक जाय. फकत गर्भनिरोधकां कशीं वापरचीं ताची शिकवण तांकां दिवंक जाय.'

अमेरिकेंत समृध्दी आसा, वैभव आसा, सुखसोयी आसात; तरी म्हजें मन हांगा घुसमट्टा. राणीक हांवें मणिपालाक धाडल्या तें फुडाराचें येवजूनच.

सगलें बरोवन व्यंकटेशान निमाणे म्हाका विनंती केल्या. राणीखातीर एक कोणय भारतीय न्हवरो सोदून दिवचो. हें काम करपी दुसरो कोण मनीस भारतांत ना. देखून तुका ही विनंती करतां. राणी भारतांत एका बऱ्या घरची सून जाली जाल्यार हांव संतुष्ट मनान प्राण सोडटलों. ना जाल्यार तिचें कितें जायत हें येवजूनच हांव जिवीतभर कांचवेत उरतलों आनी घडये मेल्या उप्रांत लेगीत म्हजो आत्मो असंतुष्ट उरतलो.

व्यंकटेशाली कथा आनी व्यथा म्हाका समजली. राणी सध्या भारतांत आसा. फुडले सुटयेंत तिणे अमेरिकेक वचचें न्हय हे खातीर घडये व्यंकटेश भारतांत येवये. घडये तें उपरान्त तो भारतांतच स्थायीक जावंये. तो मेरेन राणीचो विचार करूंक फुरसत आसा.



# १४. विठ्ठलाली बायल

तिजें नांव सावित्री अशें जेन्ना म्हाका कळ्ळें तेन्ना नांवांतली विसंगत पळोवन म्हाका हांसूंक आयलें.

"हांसता कित्याक? हांव फट सांगिना." त्या दादल्यान परत सांगलें, "तिजें नांव सावित्री!"

"आनी तुजें सत्यवान?" हांवें ताका विचाल्लें.

"न्हय. म्हजें नांव विठ्ठल." ताणे जाप दिली आनी माथें खरपून दुबावान म्हजेकडेन पळयत विचाल्लें, "सत्यवान कोण?"

"सावित्रीचो घोव सत्यवान." हांवें हांसत जाप दिली.

तो बावडो येवजूंक पडलो. खिणांत ताजें तोंड रागीट जालें. दुसऱ्याच खिणाक राग न्हिवलो आनी ताणे म्हळें, "आसतय. हांव ताका वळखना."

म्हजेंच चुकिल्लें. तो आनी तकलेंत नवेंच पिशें घेवन बसत ह्या हुस्क्यान हांवें ताका म्हळें, "हांव तुगेले सावित्रीची गजाल सांगिना. पुराणांत एक सावित्री आसा. ती पतिव्रता आसली. तिजो घोव सत्यवान आनी पंढरपूरच्या विठ्ठलाचे बायलेचे नांव रुक्मिण. त्यो खबरो सोड. तुजे बायलेचें नांव सावित्री. आतां फुडलें सांग."

"फुडलें कितें सांगतलों? दोन भुरग्यांक घरांत दवरून ती पळून गेली."

"खंय गेली?" हांवें विचारलें.

"तें जाणा आशिल्लों जाल्यार हांव हांगा कित्याक येतलो आसलों? थंयच वचून केश्ट्यांक धरून घरा हाडटलों आसलों."

"कोणा सांगातान गेल्ल्याचो वा कोणे तिका पळोवन व्हेल्ल्याचो तुका दुबाव बी ना मू?" हांवें विचाल्लें.

"दुबाव कित्याक, म्हजी खात्री आसा. त्या लेंबड्या बरोबर ती गेली. तागेल्या पैशांक भाळ्ळी. हांव म्हणटां, तूं वता जाल्यार वच. पूण वतना भुरग्यांक तरी व्हर. तांकां आतां कोण सांबाळटलो?" विठ्ठल मनांतल्या मनांत पिठ्ठळून उलयलो.

"म्हणटकच तुजो प्रस्न तो बायलेचो न्हय, भुरग्यांचो. हय मरे?" हांवें ताका विचाल्लें.

"हय, ती भुरग्यांची आवय म्हणटकच आपूण तोंड घेवन वता थंय तिणे भुरग्यांक व्हरूंक नाका आसलीं?"

"पूण तीं तुजींय भुरगीं न्हय?"

"हांव खंय जाणा?" दुष्यंतावरी कानार हात दवरीत विठ्ठलान जाप दिली.

प्रस्न म्हाका ल्हवू ल्हवू समजूंक लागिल्लो.

सावित्री ही विठ्ठलाली बायल. तिगेर दोन भुरगीं. भुरग्यांक घरा सोडून सावित्री पळून गेल्या. तिज्या चारित्र्याचेर विठ्ठलाचो विस्वास ना. तीं भुरगीं कोणालीं हे विशीं लेगीत

ताका दुबावः

"ती तुजी लग्नाची बायल भरे?" हांवें विचाल्लें.

"लग्नाची म्हणटलो म्हळयार आमी माळ घालून लग्न करूंक ना. पूण ती म्हजी बायल हें सगळें जग जाणा. चार वर्सां आमी एकठांय रावतात." विठ्ठलान जाप दिली.

"आनी त्या आदीं?"

"त्या आदीं ती कोणा सांगातान आसताली देवाक खबर! तशी ती बायल धड न्हय..."

आपली बायल शेणल्या अशी विठ्ठलान पोलिसेंत कागाळ केल्ली आनी कोणेतरी ताका पेपरांत जायरात दिवंक सांगिल्ली. ती दिवचे खातीर तो म्हजेसरीं आयिल्लो.

"जायरात दिवंक फोटो जाय पड्टलो?" ताणे विचारलें.

"जाय असो ना. पूण आसल्यार बरो." हांवें म्हळें.

"आतां तिचो फोटो कोणे काडला? फोटो ना."

"फोटो नासलो तरी जायरात दिवं येता. पूण पैशे खर्चून तुवें जायरात दिली म्हणून ती परत येतली अशें तुका दिसता?"

"कोण जाणा!" विठ्ठलान जाप दिली, "घडये येवची ना. पूण तिणे भुरग्यांक घेवन वचचें इतलेंच हांव सांगूंक सोदतां. भुरगीं सामकीं ल्हान आसात. दुसरें तर दुदाचें..."

ह्या वेळार म्हाका विठ्ठलाची काकुळट दिसली आनी ताजेय परस चड काकुळट दिसली ती त्या भुरग्यांची. एक आवय आपल्या भुरग्यांक अशी उबंत उडोवन कशी वता? असो म्हाका प्रस्न पडलो.

"एक सांग विठ्ठल," हांवें ताका विचाल्लें, "सावित्री परत आयली जाल्यार तूं तिका घरांत घेवशीत?"

विठ्ठलाची नुरा एकदम बदल्ली. मात्सो मोव जावन ताणे म्हळें, "हय, ती आयली जाल्यार गजाल वेगळी."

"म्हणटकच तुजें म्हणणे कितें?" हांवें ताका विचाल्लें, "तुका तुजी बायल परत आयिल्ली जाय काय तिणे भुरग्यांक व्हेल्लें जाय."

"ती परत येवन रावली जाल्यार भुरग्यांक व्हर अशें हांव कित्याक म्हणटलों?"

"पूण एक सांग, तुजी बायल पळून गेल्या अशें तूं कित्यावयल्यान म्हणटा?" हांवें विचाल्लें.

"हे सांगूंकय घाडी जाय काय कितें?" विठ्ठलान म्हाका परतो प्रस्न केलो आनी म्हळें, "खंयचीच आवय दुदाच्या भुरग्याक घरा सोडून हरशीं वचत?" इतलें उलोवन ताणे एक सणसणीत गाळ घाली.

"गाळ घालूं नाका." हांवें म्हळें.

आपल्या तोंडातल्यान गाळ भायर सल्ल्या हें विठ्ठलाक कळूंक लेगीत नासलें. घडये तागेल्या वेव्हाराचे भाशेंत गाळ आपसूक येताली आसूये. ताणे अजापून म्हळें, "XXX गेली जाल्यार वचूं. गाळ घालून हांव म्हजी जीब कित्याक भश्टोवं?"

म्हाका हांसो कसोच आवरना जालो आनी हांव कित्याक हांसता हें कळना जावन तो काचाबूल जालो.

हांसो आवरून हांवें ताका म्हळें, "रागार जावं नाका. हांव तुका हांसना. तूं उलयता

आसतना उतरा कणकणीं गाळ घालता आनी वयल्यान आपूण गाळ घालना अशें म्हणटा. म्हणून म्हाका हांसो आयलो."

तो ओगी रावलो. तागेली जायरात हांवें बरोवन काडली आनी ताका वाचून दाखयली.

"तुवें समजून बरयतकच जाली." ताणे म्हळें, "म्हाका तातूंतलें कांय कळना."

हांवे म्हळें, "जायरातींत हांवें सावित्री ही तुजी बायल अशें बरयलां. पूण एक सांग, ती तुका खंय भेटली?"

"काकुळट करपाची बायल न्हय ती. हांवच पिसो." विठ्ठलान म्हळें, "जायत्या जाणांक तिणे पिशें लायलां..."

म्हाका ताजी खबर समजून घेवची अशें दिसलें आनी हांवें ताका विचाल्लें, "तूं खंय आसता? कितें करता?"

विठ्ठलान आपली खबर सांगलीः

कर्नाटकांतल्या गुलबर्गा जिल्ह्यांतलो विठ्ठल इतली बरी कोंकणी उलयता कि तो मूळ गोंयचो न्हय असो दुबाव लेगीत कोणाक येवचो ना. वेव्हाराची भास उलोवप वेगळें. तागेली गाळ लेगीत कोंकणी आनी उच्चार निर्दोष.

"हांव गोंयांत आयलों तेन्ना धा बारा वर्सांचो आसलों." विठ्ठलान सांगलें, "एका ट्रकाचेर बसून बेळगांवां गेल्लों. आमच्या गांवांत दुकळ पडिल्लो. उदकाचो थेंबो मेळना देखून लोक गांव सोडून वतालो. म्हजे आवयन म्हाका सांगलें, तूं खंयय वच आनी तुजें पोट भर. हांव ट्रकाचेर बसून बेळगांवां गेलों."

"आनी तुजी आवय खंय आसा?" हांवें विचाल्लें.

"खबर ना. त्या उपरांत हांव परत गांवांत पावंक ना. तिणेय गांव सोडिल्लो. हांव ट्रकाचेर बसून बेळगांवां आयलों आनी केन्ना भीक मागून, केन्ना हमाली करून पोटाची भूक भागयतालों. एक दीस एकल्यान म्हाका गोंयांत येता काय म्हणून विचाल्लें. पगाराचो आंकडो सांगलो. हांवें फाटीं फुडें पळोवपाचें कारण नासलें. ताणे गाडयेची तिकेट काडून दिली आनी हांव गोंयांत आयलों."

तो एक कॉंट्रॅक्टर आसलो. ताणे एके बिल्डींगेचे काम घेतिल्लें आनी तें काम करचे खातीर खुबशे भायले मजूर हाडिल्ले. विठ्ठलाकय थंय ताणे काम दिलें.

"सगळ्यांचें काम सारकेंच आसलें. काम केले बगर कोण पैशे दितलो?" विठ्ठलान सांगलें, "हांव सगळें काम करतालों. पूण पात्रांवान म्हाका सांगिल्लें, हांव तागेलो मनीस. देखून हेरांच्या कामाचेर हांवच नदर दवरतालों. पात्रांवान म्हाका रावंक एक कूड दिली. बाकीचे मजूर झोपडपट्टींनी रावताले. एके कुशीक म्हजी कूड आनी फाटले वाटेन झोपडपट्टी."

विठ्ठलाचें काम मजुरीचेंच. बांदकाम चलता थंय सगळया तरांचीं कामां ताका करचीं पडटालीं आनी सगळया तरांच्या मजुरांकडेन ताजो संबद येतालो. तरी विठ्ठलाची गजाल हेरांपरस वेगळी आसली.

"सगळे मजूर दीसभर काम करताले आनी रातीच्या वेळार जोडिल्ली जोड सोऱ्यांत वगडायताले." विठ्ठलान थंयचे परिस्थितीचें वर्णन केलें, "जोड थोडी नासली. पूण एक खेपे सोऱ्याचें व्यसन लागलें म्हणटकच मनशाचें कितें जाता तें तूं जाणाच. घरांत बायल, भुरगीं

उपाशीं पडटात आनी आपणाक पोटभर वाडिना म्हणून बेबदे मजूर बायलांक मारतात. आयिल्ल्या दिसा झगडीं, बोबो आनी हुयेल्यो. सुर्वेच्या दिसांनी बोवाळ आयकतकच हांव धांवून वतालों. पूण मागीर म्हाका तें सदचें जालें. घोवान बायलेक मारप आनी बायलेन भुरग्यांक मारप. केन्ना केन्ना घोवान बायलेक घराभायर काडप आनी तिणे दुसऱ्यागेर वचून रावप अशें झोपडपट्टींनी घडत आसता. सकाळ जातकच सगळे परत कामार येतात. पूण एक घडटालें, एक बायल सदांच एकाच घोवागेर उरत हाजो नेम नासतालो. बायल वेगळी आनी दादलोय वेगळो. कोणाक जाय ताणे जाय थंय वचून रावचें. कांय बायलो लग्नाच्यो. भटासामकार माळ घालून लग्न जाल्या उपरांतय त्यो एका घोवाक सोडून दुसऱ्या दादल्यागेर वचून रावतात. आमच्या लोकांक ताजें कांय दिसना. पूण केन्ना केन्नाय बायलां खातीर झगडीं जातात... तकल्यो फुट्टात... रगतां व्हांवतात..."

ह्या वातावरणांत विठ्ठल वाडलो. आपले परीन तो वेगळो रावंक सोदतालो तरी भोंवतणच्या घडणुकांचो परिणाम ताच्या मनाचेर जातालो.

गोंयांत येतना भुरगो आशिल्लो विठ्ठल तरुण जालो. पुराय वाड्याचेर चार पयशे गांठीक केल्लो असो तो एकलोच मनीस. अडिल्ल्या वेळार बाकीचे मजूर दादले आनी बायलो उश्णे पैशे मागूंक ताजेकडेन येताल्यो आनी तो तांकां दितालो. ताका लागून ते वस्तींत विठ्ठलाक सगळे मजूर मानताले.

"पावसाचे दीस आसले. रातीचो वेळ. पावसाक लागून झोपडपट्टींतलो बोवाळ आयकूंक येना आसलो. हॉटेलांत जेवन हांव निकतोच घरा परतल्लों आनी न्हावन न्हिदपाची तयारी करतां इतले म्हणसर कोणे तरी दारार मार्ल्ले. उकतें करून पळय जाल्यार दारांत एक बायल उबी. पावसांत चिंब भिजल्या आनी कुडकुडटा." विठ्ठलान त्या प्रसंगाची याद केली.

"कितें जालें?" विठ्ठलान तिका विचारलें.

मान सकल घालून दारांत उबी आशिल्ले बायलेच्या आंगार उदकाच्यो पावळ्यो गळट्यल्यो. ती उलयली ना. विठ्ठल फाटीं सल्लो आनी तिका भीतर आपयली.

दिव्याच्या उजवाडांत विठ्ठलान तिजें तोंड सारकें पळयलें. ती सावित्री. वस्तींतले सगळे लोक तिका वळखतात. काम करतल्या हेर बायलांपरस ती वेगळी. ती रंगान इल्ली उजळ, रुपान सुंदर आनी पिरायेन तरुण. आपल्या हांशान आनी नदरेन ती सगळ्यांक पिशें लायताली. विठ्ठलान तिका जायते खेपे पळयिल्ली आनी तिका पळयतकच तागेल्या काळजाचे ठोके थांबिल्ले. पूण तिजे विशीं फुडलें येवजुपाचो धीर ताका केन्ना जावं नासलो. तो आयकून जाणा आसलो, सावित्री वस्तींत येत सावन तिजेवयल्यान दादले झगडटात आनी बायलो तिका गाळी घालतात. कोणे तरी एकल्यान तिका हाडिल्ली आनी दोन तीन म्हयन्यांभीतर तिणे कपडे बदलचे तशे घोव बदलिल्ले.

एक खेपे विठ्ठलान तिचे विशीं कोणाकडेन तरी वासपूस केल्ली तेन्ना ताणें सांगिल्लें, "तूं तिजे सांवळेक रावं नाका. ती तुजो सत्यानाश करतली."

रातीच्या वेळार ती आपूण जावन ताज्या घरांत पावतकच विठ्ठलाक तें सगळें येवजलें. पूण त्या खिणाक ताका दिसलें, लोकांचे जिबेक हाड नासता. ताळी एका हातान वाजना आनी ताणे तिका विचाल्लें, "कितें जालां?"

एकदम सावित्री रडूंक लागली. रडत रडत तिणे सांगलें, घोवान आपणाक मारून

घराभायर काडल्या.

"ह्या पावसांत रातीवेळार हांव खंय वचूं?" तिणे काकुळटेन विठ्ठलाक म्हळें, "म्हाका आयचे राती पुरती हांगां रावंक दी."

त्या वेळार विठ्ठलाक कितें येवजलें देवाक खबर! तो म्हणटा, "हांव सामको पिसावलों. हांवें तिका दवरून घेतली. हॉटेलांतल्यान तिजेखातीर जेवण हाडलें आनी तिणे सदांच म्हजे सरीं रावचें अशें हांवें तिजेकडेन मागलें."

सावित्री पोटभर जेवली आनी घराची ती घरकान्न कशी वागली. संकोच ना आनी परकीपणय उल्लेंच ना.

अशे तरेन सावित्री विठ्ठलाचे जिणेंत आनी घरांत आयली. चार वर्सां ती तागेर उल्ली. जायत्या जाणांनी विठ्ठलाक शिटकायलो. मदीं मदीं ताज्या कानार कागाळ येताली. तो घरांत नासतना सावित्री गांवार हेडटा. दुसरे दादले तिका मेळूंक येतात.

"पूण तिजे वागणुकेंत कागाळ करपासारकें म्हाका कांयच दिसलें ना. म्हजे एकोडे जिणेक तिणे सांगात दिलो आनी हांव सुखावलों. म्हाका जगपाखातीर कारण मेळिल्लें. म्हज्यो उमेदी वाडल्यो. घोव आनी बायल कशीं आमी रावलीं. चार वर्सां ती म्हगेर रावली. मजगतीं दोन भुरगीं जालीं. फाटल्या सप्तकांत अचकीत ती पळून गेली... आतां तूंच सांग, हांवें कितें करचें?" दोनय हात मुखार करून विठ्ठलान म्हाका प्रस्न केलो.

हांवें विठ्ठलाक समजायलो. ताका सांगलें, "सावित्री ल्हान वा अबुध्द न्हय. तेन्ना ती शेणूंक ना. ती खंय तरी गेल्या. घडये दुसऱ्या गांवांत. जायरात दिली म्हणून तिसऱ्याक कांय कळचेंना. तूं आपणाक सोदतलो हें तिका खबर ना अशें न्हय. तूं पैशे खर्च करूनय तुज्या पदरांत कांय पडचेंना."

"पोलीस तिका सोदून काडचे नात?" ताणे विचाल्लें.

"घडये काडीत. पूण सोदून काडली तरी ती येवंक कबूल जावंक जाय. पोलिसांच्यान तिका बळान हाडूंक जावचीना. कायद्यान ती तुजी बायल न्हय आनी जरी बायल आशिल्ली तरी ती आपखोशयेन दुसरेकडेन गेल्ली जाल्यार पोलिसांच्यान कांय करूंक जावचें नाशिल्लें." हांवें फोडणीशी केली.

"मागीर उपाय कितें?" हताश जावन ताणे विचाल्लें.

"म्हाका तरी कांय येवजना. तिणे अशें करूंक फावनासलें. भुरग्यांची आवय ती. तिका भुरग्यांचो कळवळो नासत जाल्यार कोण कितें करतलो?"

"म्हण्टकच तिका पळोवन व्हरतल्याक ती पचली म्हणपाची! हो न्याय खंयचो? ही चोरी न्हय? आनी चोराक पोलीस ख्यास्त करिनात?" ताणे विचाल्लें.

"तुजे नदरेन येवजिलें जाल्यार ती चोरीच. सादी चोरी न्हय, दरोडो म्हणूं येता. पूण कायद्यान ती चोरी जायना. त्या मनशान तुजे बायलेक तिजे इत्सेआड पळोवन व्हेली जाल्यार तो गुन्यांव थारतलो. पूण तूं सांगता तें खरें आसत जाल्यार सावित्री आपूण आपखोशयेन तुगेलें घर सोडून आयल्या अशें पोलिसांक आनी कोर्टाक लेगीत सांगतली. तशे परिस्थितीत कशें जावपाचें? तेन्ना तूं सावित्रीक विसर."

"तिका विसरूंक हांव तयार आसां." विठ्ठलान जाप दिली, "पूण भुरग्यांचें कितें करूं? हांव कामाचो मनीस. दीसभर भायर उरतां. घरांत दोन ल्हान भुरगीं. सध्या तांकां

झोपडपट्टींतल्यो बायलो सांबाळटात. तांचें हांव कितें करूं? हांव तांकां कसो सांबाळटलों?''

''भुरग्यांचो प्रस्न वेगळो. तांचे खातीर वेगळी केस चलोवं येता. तिजो निवाडो केन्ना लागतलो ते सांगूक जायना. कोर्ट घडये भुरग्यांक आनाथालयांत धाडूंक सांगीत. तुज्यानय तांकां पावोवं येता. निर्णय तुवें घेवचेलो. भुरगीं तुका जाय काय नाकात?''

''खरें म्हळयार तेंच थारावप कठीण.'' विठ्ठलान आपली अडचण सांगली, ''एके वटच्यान दिसतात तीं म्हजीं भुरगीं. तांचो कसलो गुन्यांव? दुसरे वटेन तरातरांचे दुबाव येतात. देखून हांव म्हण्टां सावित्रीक दुसऱ्या घरांत नंदपाचें आसत न्हय तर ती खुशाल नंदूं. पूण म्हज्या गळयांत हीं भुरगीं तिणे बा८वीं न्हय. ह्या भुरग्यांकय तिणे व्हरचें.''

''खरें तुजें. पूण हें तिका समजायतलो जाल्यार आदीं ती मेळूंक जाय न्हय? ती मेळळेबगर हें कोण कशें सांगतलो?'' हांवें विचाल्लें.

''तेचखातीर जायरात दिवची...''

''जायरात दिली म्हणून ती मेळटली? तूं अशें कर, चार दीस चलता तशें चलूंदी. वाट पळय. घडये ती परत येत. आवयचो कळवळो केन्ना जागो जायत हें कोणाच्यान सांगूक जायना. चार दिसांउप्रांत ती आयलीना जाल्यार भुरग्यांचें कितें करचें तें थारावं येता.''

विठ्ठलाचें समादान जालें अशें दिसलेंना. तरी तो कांय उलयलोना. हांवें कागदाचेर बरोवन काडिल्लो जायरातीचो मसुदो ताणे घडी करून आपल्या शर्टाच्या वयल्या बोल्सांत दवल्लो आनी तो उठलो.

म्हाका ताजी काकूळट दिसली. ताज्यांत भोळेपण आसलें. त्याचबरोबर ताज्या काळजांत बरेपणय खूब आसलें. चार पावलां फुडें वतकच तो परत फाटीं आयलो आनी ताणे म्हाका विचाल्लें, ''एक सांग, आतां सावित्री गेली म्हणटकच म्हाका दुसरी बायल करूंक कायद्याची आडखळ आसा?''

ताणे सादेपणान विचाल्लेलो तो प्रस्न आयकून म्हाका हासूंक आयलें. हांवें ताका परत बसोवन घेतलो आनी म्हळें, ''हे पळय, जर कायद्यान सावित्री ही तुजी बायल न्हय जाल्यार तुज्यान दुसरें लग्न करूं येता. पूण एक सांग, तूं खऱ्यांनीच लग्न करूंक सोदता?''

''कांय थारावंक ना.'' ताणे म्हळें, ''पूण सावित्री वचत सावन खूब जाणांनी म्हाका विचाल्लां. घरांत कोणय तरी बायल जाय न्हय! हांव अशें येवजितालों भुरग्यांचो पत्कर घेत अशी बायल मेळळयार वांकडें कितें?''

''कितलेंय जालें तरी त्या भुरग्यांची ती सवती आवय जावचीना?'' हांवें म्हळें, ''तुगेलें तूं पळय; म्हाका तें समा दिसना. एक सांग, तुज्या आनी सावित्री मदीं वितुश्ट येवपाक अशी दुसरी बायल कारण जावंक ना न्हय?''

''जावपाचें कारण ना. लोक कितेंय उलयले तरी सावित्रीन तें कानामनार घेवपाचें कारण नासलें. सावित्रीविशीं म्हजेकडेन तरेकवार कागाळयो येताल्यो. पूण एका उतरान हांवें तिका केन्ना विचारलें ना.''

''पूण दुसरें लग्न करून तूं सुखी जातलो अशें तुका दिसता?''

''हांव नकळ. हांवें खऱ्यांनीच कांय थारावंक ना. आमच्यामदीं लग्नां तुमचे सारकीं माळ घालून करिनात.''

म्हाका ओगीच दुबाव, तांच्या दोगांमदीं जशा एका दादल्याची सावळी पडिल्ली

तेचभाशेन एके बायलेचीय पडिल्ली आसतली. खुबशे प्रश्न विचाल्ले तरी विठ्ठल बदलोना. निमाणे तो उठून गेलो.

त्या उप्रांत विठ्ठल परत म्हाका मेळूंक आयलो ना आनी विठ्ठलाची गजाल हांव विसरूनय गेल्लों. एक दीस भर बाजारांत विठ्ठलान म्हाका हटकिलो. आदीं हांव ताका वळखलोंना. पूण रोखडीच वळख पटली. तेन्ना हांवें ताजी खबर घेतली. ताणे आपूण जावन कांय सांगलेंना देखून हांवें विचाल्लें, "मागीर सावित्रीची खबर मेळ्ळी?"

प्रश्न आयकून विठ्ठल हांसलो, "मेळचीना जाल्यार खंय वतली ऽऽऽ ?"

"तिणे भुरग्यांक व्हेलीं?"

"तिका खंय पडल्या भुरग्यांची माया!" विठ्ठलान म्हळें, "खरें सांगता पात्रांव, हांव तुका. ती माजराभशेन वियेता आनी पोरां दवरून घर सोडटा."

"आनी भुरगीं खंय आसात तर?" हांवें विचाल्लें, "अनाथालयांत दवल्लीं?"

"ना बाबा. दोन बायलांनी तांकां पोसकीं घेतलीं. खंयय आसूं, बरे तरेन वाडलीं म्हणटकच जालीं." ताणे जाप दिली.

"निमाणे सावित्री खंय मेळ्ळी?" हांवें विचाल्लें.

"आपूण जावनच झगडूंक आयली. म्हज्या घरांत दुसरी बायल पळयली आनी हांव नासतना तिजेकडेन येवन झगडली. त्याच वेळार हांव पावलों आनी परत आमच्या दारांत पावल दवरल्यार दोंको मोडपाचो भंय घालो. सध्या जाग ना. पूण केन्नाय हांव वाटेन वतना तिका दिश्टी पडलो जाल्यार कोलकावरी भोंकता."

हांव कांय उलयलोंना. म्हजे वाटेन फुडें वचूंक लागलों तशें विठ्ठलान म्हळें, "हांव तिका केन्ना विसरून गेलों. तूंय विसर."

तागेले सांगणेचो म्हाका हांसो आयलो.



# १५. आमंत्रण पत्रिका

लग्नाचें आमंत्रण छापून घेवंक म्हणून ती म्हजेसरीं आयली. तिच्या सांगातान एक दादलो आसलो. कापड न्हेशिल्ली किरिस्तांव बायल. सुमार साठ वर्सांची आसतली. दोळयांक काळे फ्रेमीचें आनी दाट हारशांचें वक्ल लायिल्लें. हातांत ओली सत्री. ते सत्रेच्यो पावळयो आजून गळटाल्यो. दादलो तिचेच पिरायेचो आसतलो. पूण तो तिचे फाटल्यांन उबो रावलो.

"म्हाका लग्नाचें आमंत्रण छापूंक जाय." तिणे म्हाका सांगलें.

"आमी तसलीं आमंत्रणां छापिनात. आमी फकत पेपर छापतात." हांवें तिका समजावपाचो यत्न केलो.

"राव, एक मिनीट... ही ओली सत्री खंय दवरूं?" तिणे म्हाका विचारलें.

हांवें भायले वाटेन दवरूंक सांगतकच तिणे ती त्या दादल्याकडेन दिली आनी ताका म्हळें, "तूं भायल्यान राव."

हांवें म्हळें, "ताका बसतलो जाल्यार बसूं दी."

"नाका, नाका." तिणे म्हळें, "दुसरो उलयतना ताका मदीं तोंड घालपाची संवय. तो भायर बशिल्लोच बरो."

तो मोन्यांनी सत्री घेवन भायर गेलो. हांवें तिका विचारलें, "तो तुजो कोण?"

"घोव तो म्हजो.' तिणे जाप दिली.

म्हाका तिचें अजाप दिसलें. घरच्या नोकराभशेन तिणे ताका वागयिल्लो आनी तो लेगीत तितलेच नम्रतायेन भायर गेल्लो.

"तुका जें आमंत्रण छापूंक जाय. तें छपपी दुसरे छापखाने आसात. आमच्या छपखान्यांत तसलीं कार्डां छापीनात."

"जाणा. हांव ती वासपूस करूनच आयल्यां." तिणे जाप दिली, "म्हाका आमंत्रण बरोवन जाय. मराठी भाशेंत."

"छापखान्यांनी तशे नमुने तयार आसतात. तेच तुका बरोवन दितले." हांवें म्हळें.

"ना, ना. हें खेरीज पणान बरोवचेलें आमंत्रण. तूंच मात्शें बरोवन दी. आमंत्रण लग्नाचें... काजाराचें न्हय."

"म्हळयार कितें? लग्न आनी काजार म्हळयार एकूच न्हय? मराठींत 'लग्न वा विवाह' हें उतर वापरतात."

"तूं सारकें समजूंक ना." ती समजावपाचो यत्न करूंक लागली. किरिस्तांवांचें जाता तें काजार आनी हिंदूंचें लग्न, हें तूं जाणा न्हय?"

हांव निखटो हांसलों.

"असो हांसता कित्याक?" तिणे म्हाका विचारलें.

"फरक कितें पडटा? लग्न म्हळें आनी काजार म्हळें, एकूच. तुका कोणाल्या लग्नाचें आमंत्रण बरोवंक जाय?" हांवें विचारलें.

"एक चली आसा. तिचें हांव लग्न करूंक सोदतां. म्हाका ती धुवे सारकी. म्हजी धूवच म्हण." तिणें म्हळें.

"हिंदूकडेन लग्न जाता?"

"हय. आनी ती लेगीत हिंदूच. हांव तिची आवय अशें तुका सांगलें. पूण तशी खरेली आवय न्हय. ल्हानपणांत सावन ती म्हगेर आसा. हांवें तिका बाटोवंक ना. बाप्तीस्म दिवंक ना. ती हिंदूच आसा. ती जल्मान हिंदू. तिची आवय हिंदू आनी बापूयय हिंदू. आतां ती लग्नाची जाल्या. हांवें तिची सोयरीक केल्या. देखून म्हाका तिच्या लग्नाचें आमंत्रण मराठींत छापूंक जाय."

म्हाका चड वासपूस करपा इतली फुरसद नाशिल्ली. आमंत्रण पत्रिकेचो एक मसुदो तयार केलो आनी नांवां तिका विचारलीं. चलयेचें नांव लिला. चल्याचें नांव तिणें पुराय सांगलें. ताचो गांव सांगलो. लग्नाची तारीख सागली. हॉलाचें नांव सांगलें. पूण म्हुर्ताकडेन ती अडली.

"म्हूर्त म्हळ्यार कितें?" तिणे म्हाका विचारलें.

"तूं कसले पध्दतीन तिचें लग्न करूंक सोदता ताचेर आसा. फक्त रजिस्ट्रेशन करपाचें आसत जाल्यार गजाल वेगळी. वैदिक पध्दतीचें आसत जाल्यार तें खंयच्या वेळाचेर जातलें तें आमंत्रणाचेर बरोवचें पडटलें. हिंदूची लग्नां बऱ्या म्हुर्ताचेर करतात. पंचांग पळोवन म्हूर्त काडतात. ते उपरांत लग्नाचो विधी कसलो आसतलो तेंय थारावचें पडटलें. धर्मीक पध्दतीन करतली जाल्यार भटाक आपोवचो पडटलो..."

"भट जायच." तिणें म्हळें, "म्हाका हें सगलें सारकें समजना. छापखान्यान तुजें नांव दिलें हें बरें जालें. तें कितें कितें जाय तें सगळें तूं कर."

तिच्या सादेपणाचें म्हाका हांसूंक आयलें. हांवें म्हळें, "कितें कितें करपाचें आसा तें हांव तुका सांगन. जाय जाल्यार आमंत्रण बरोवन दितां. पूण भटाकडेन वचून उलोवणी तुमीच कोणेंय करचीं पडटलीं."

"भट कोण तो सांग. हांव वचून मेळटां ताका. आतां तूं आमंत्रण बरोवन दी. तें आदीं छापून उडयतां."

"आमंत्रण बरयतलो जाल्यार म्हूर्त जाय पडटलो. तुवें थारायिल्ल्या दिसा म्हूर्त आसतलोच अशें सांगूंक जायना. तूं भटाक विचारून यो आनी ताचेकडच्यान म्हूर्त बरोवन हाड. त्या म्हुर्तार तो येतलो म्हणपाचेय ताका विचारून घे. मागीर आमंत्रण बरोवं येता."

"पूण हांवें हॉल बूक केला!" तिणे सांगलें.

"म्हूर्त पळोवन हॉल बूक करपाचो आसता. तुका त्या दिसा म्हूर्त नासत जाल्यार हॉल बूक करून फायदो कितें?"

हांव तिका समजावपाचो यत्न करतां तितलो तिचो गोंदळ वाडटालो. तिका हें सगळें नवेंच दिसतालें. लग्न करपाक इतल्यो आडखळी आसप हेंच तिका विचित्र दिसतालें.

"बरें आसा, हांव परत तुका मेळटां." तिणें म्हळें, "आमच्या गांवांत भट ना. खंयय मेळ्या जाल्यार पळयतां.. तुवें बरयलां तें आमंत्रण मातशें वाचून दाखय."

"आजून पुराय बरोवन जावंक ना. फकत ताचो मसुदे तयार केला. कोणाच्या नांवान हें आमंत्रण छापपाचें?" हांवें विचारलें.

"म्हज्या नांवान छापल्यार जावचें ना?" तिणें विचारलें.

"जाता. पूण ती चली कोणाली हें बरयल्यार बरें जातलें."

"बरोवंकच जाय? हांव म्हणटा न्हय, म्हजी धूव म्हणून." तिणे म्हाका विचारलें.

"तूं सांगता तशें छापूंक आडखळ कसलीच ना. पूण तुवेंच म्हाका म्हळें की ते चलयेचो आवय-बापूय हिंदू आनी ती तुका धुवे समान. जर आवय बापूय आसत जाल्यार तांच्या नांवान छापूं येता आनी सकल तुजें नांवूय छापूं येता. जिती नासत जाल्यार ते चलयेच्या नांवासकल ती कोणाची धूव तें तरी छापूंक जाय. ना जाल्यार आमंत्रण विचित्र दिसतलें."

"म्हाका तिच्या आवय-बापायचें नांव छापचेलें ना. तीं कोण तें हांव नेणां."

"पूण तुवेंच म्हळें न्हय तीं हिंदू म्हणून?" हांवें विचारलें.

"एक आमंत्रण छापतलो जाल्यार तुका सगळें सांगचें पडटलें?" तिगेल्या सुरांतल्यान तिडक उकती जाली.

हांवें म्हळें, "तुका जाय तशें छाप. तूं सांगता तशें बरोवन दितां. म्हजें काम तितलेंच. बाकीचें म्हाका कांय लागना."

"तुका राग येवंक ना न्हय?" तीच मात्शी थंड जाली.

"ना, म्हाका कित्याक राग येतलो?"

"म्हाका तुजो आदार जाय. फकत आमंत्रण छापूंकच न्हय. तर फुडल्या कामांतय आदार जाय."

"पूण तूं अशें वैदीक पध्दतीन कित्याक लग्न करूंक सोदता? रजिस्ट्रेशन केलें जाल्यार खूबश्यो कटकटी चुकतल्यो." हांवें सुचयलें.

"ना, ना. लग्न धर्मीक पध्दतीनच जावंक जाय." तिणें म्हळें, "ते बगर म्हाका समाधान जावचें ना."

हांवें तिका मराठींतल्यान बरयिल्लो मसुदो वाचून दाखयलो. अजापान ती आयकत रावली. मागीर आपूणच व्हडा-व्हडान हांसली आनी म्हळें, "म्हज्या नांवान आमंत्रण छापलां, पूण कितें बरयलां तें म्हाकाच समजना. हांव म्हणटां, हें सगळें आमी उलयतात ते भाशेन; पूण मराठींतल्यान बरोवन जावचें ना?"

ती कितें म्हणटा तें म्हाका रोखडेंच समजलें. आमंत्रण पत्रिका देवनागरी लिपींत तिका छापून जाय आशिल्ली आनी ती तशी बरोवन दिली आनी परत तिका सांगलें, "दीस, म्हूर्त भटाकडेन थाराय आनी चलयेच्या आवय बापायच्या नांवाचेर मात्सो विचार कर."

ती फाटीं फुडें जाली. सांगचें काय सांगचें न्हय अशा पेंचांत तिचें मन घुस्पलां हें म्हाका कळ्ळें. उठिल्ले भाशेन करून ती परत बसली आनी तिणे म्हळें, "हांवच लिलाची आवय."

"तशें जाल्यार कसलीच अडचण ना. किरिस्तांव चलयेचें लग्न हिंदू धर्मीक पध्दतीन करूं येता. खंयचोय भट तें करचो ना. निमाणें धर्मीक विधीक लागून मनशाचो धर्म बदलना."

"तूं समजूंक ना." तिणें म्हळें, "लिला म्हजी धूव. पूण ती जल्मली तेन्ना हांव हिंदू आसलीं. किरिस्तांव जावंक नासलीं. अडाणी बायल!"

तिगेली जाप आयकून कितें उलोंवचें ते म्हाका समजलें ना. म्हजी नदर भोंवन भोंवन तिच्या गळ्यांतले भांगराचे सरपळेक हुमकळटल्या खुरसाचेर वताली.

ती लेगीत थीर नदरेन म्हाकाच पळयत रावली. घडये म्हज्या तोंडावयले बदलते भाव नियाळटाली जावंये. ना जाल्यार फुडें कितें उलोवचें तें येवजिताली जावये. हांव कांय विचारी ना हें पळोवन तिणें म्हळें, "हें गुपीत आयज मेरेन हांवें कोणाकूच सांगूंक ना. फकत तुका सांगलां. उपकार करून दुसऱ्या कोणाक म्हणूं नाका. म्हजे खातीर न्हय, लिलाखातीर."

तिचे दोळे ओले जाले. ते तिणे कापडाच्या पदरान पुसले. म्हाका अजाप जालें. ती बायल किरिस्तांवाचे शैलींत उलयताली. लग्ना आदीं ही हिंदू आसली. म्हणजे हिणे दुसरें लग्न केल्लें? एकांतल्यान एक प्रस्न येतालो. पूण पयलेच भेटेंत ते प्रस्न तिका विचारून फायदो ना अशें म्हाका दिसलें आनी हांवें म्हळें, "तूं भटाकडेन उलोवन यो. उपरांत आमी उलोवया."

ती उठली आनी तिणे "सेबास्तियांव!" असो उलो मारलो.

येदो वेळ मेरेन भायर बसून आशिल्लो तिगेलो घोव भितर आयलो.

"चल, या आमी." तिणे घोवाक सांगलें.

ताणे तिज्या हाताक धरली आनी आपलो दुसरो हात तिचे फाटीर धरलो आनी तिका उठयली.

"ही पिडा जाल्या म्हाका."तिणें म्हळें, "बसूंक जाता. उठटना दोनय दिमयो दुखतात."

एक खेपे उबी रावतकच ती सडसडीत चलूंक लागली आनी तिचे फाटल्यान गेलो तिचो घोव.

तें जोडपें गेलें तेन्ना म्हज्या लक्षांत आयलें, हांवें तिका तिगेलें नांव विचारूंकच नासलें. घोवाचें नांव कळिल्लें.

ती येता आसतना एक कुवाडें फाटल्यान दवरून वचत अशें हांवें येवजूंक लेगीत नासलें.

ती परत येतली तेन्ना एके एके गजालीचो उलगडो जातलो अशें हांव येवजितालों.

म्हाका चड दीस वाट पळोवची लागली ना. दुसऱ्याच दिसा ती परत आयली. हेय खेपे तिच्या सांगातान तिचो घोव सेबास्तियांव आशिल्लो. तो आपूण जावन भायर बसलो. ताका मदीं उलोवपाची संवय अशें तिणे म्हणिल्लें खरें, पूण म्हाका तरी तो मुखदुर्बळ दिसलो. फाटले खेपे तो एकूय उतर उलोवंक नासलो.

"आयस् सायबा!" कदेलाचेर बसना फुडें तिणें उद्गार काडले.

"कितें जालें?" हांवें तिका विचारलें.

"भुरग्याक ल्हानाचें व्हड करप सामकें सोपें, पूण ताचें लग्न करप म्हळयार खूबच कटकटी. तातूंत आमचें लिला आदींच फुटक्या नशिबाचें!"

"घडलें कितें?" हांवें तिका परत विचारलें.

"तेंच सांगतां न्हय."तिणें म्हळें, "भट मेळना. एकल्यान म्हूर्त काडून दिलो; पूण दीस भलतोच आसा. आतां हॉल बूक करचो पडलो. तें बरें आसा. पूण सांगता, त्या म्हुर्ताचेर तो पावना. दुसऱ्या कोणाकय पळय. हांवें म्हळें, तुका फावता तो म्हूर्त काडून दी. तो

सांगता, म्हूर्त काडप आपल्या हातांत नासता. लग्नाचे म्हूर्त थारिल्ले आसतात आनी वर्सूय भर आपूण बूक आसां. आतां दुसरो भट खंय सोदतली?..."

हांवें तिका सांगलें, "तुज्या नांवाक लागून सगळो गोंदळ जाता. लिला तुजी चली देखून किरिस्तांव. आनी एका किरिस्तांवाचे हिंदूकडेन लग्न लावपाक भट फाटीं फुडें सरतात. हांव तुका सांगतां, लिलाचें सगळें नांव तुवें आमंत्रणाचेर छापलें जाल्यार तुजो प्रस्न सुटूं येता. सांग, ताचें आडनांव कितें? तितलें तरी छाप."

कपलाचेर हात दवरून तिणे दोळे धांकून घेतले आनी थोडो वेळ येवजून म्हळें, "सगळें तुका सारकें सांगतां; मागीर कितें करपाचें तें तूंच सुचय."

ते बायलेन, जिचें नांव रोझ म्हणपाचें, आपली सगळी खबर सांगली आनी लिलाच्या जल्माची खबरय सांगली.

साश्टींतलो एक ल्हान गांव. गांवांत चडावत किरिस्तांव घरां. नांवापुरतीं एक दोन हिंदू घरां आसलीं. अशा एका हिंदू घरांत तिगेलो जल्म जालो. घरांतलें दळीद्र आनी आयिल्ल्याय वर्सा आवयलो बाळंटेर! नवें भुरगें जालें म्हणटकच कुटुंबावयलो भार वाडटालो.

"म्हजे आवयगेर थोडीं भुरगीं नासलीं." रोझान सांगलें, "म्हाका उगडास आसा तो सात जाणांचो. ते भायर आनीकय आसलीं. सगळें कुटुंब दोळयांमुखार काबार जालें. आवय एका बाळंटेरांत मेली. थोडीं भुरगीं वाडटां वाडटां मरून गेलीं. उरिल्लीं तीं जळामळाक शिंपडलीं. पांखल्यांचे मुस्तींतली (पुर्तुगेज राजवटींतली) ही खबर. म्हजी एक एक भयण कामाक म्हणून खंय खंय गेली थंयच रावली. थोड्यो लग्न जाल्यो, थोड्यो आंकवारच उरल्यो. घरांत जाणटो बापूय. ताचेखातीर हांव घरांत उरलीं. त्या वेळार म्हजी पिराय आठ-णव वर्सांची आसतली. सगळें घर हांव ते पिरायेचेर सांबाळटालीं."

रोझाल्या शेजरा एक रेंदेराचें घर आसलें. तांगेरय गरिबी. पूण एक गरीब दुसऱ्या गरिबाचें दुख्ख वळखता म्हणटात तशें घडलें. त्या रेंदेराचे बायलेन रोझाची काकुळट करप. अडिल्ल्या वेळार ताका नाल्ल, तांदूळ दिवप. णव वर्सांची चली तें शिजोवन बापायक घालताली. बापूय मजुरी करतालो. काम मेळ्ळें जाल्यार कितेंय हाडटालो. कांय मेळ्ळें ना जाल्यार निवळ पियेवन दीस सारतालो.

मातशें व्हड जातकच, म्हळ्यार सुमार तेरा-चौदा वर्सांचे पिरायेचेर, रोझा शेतांत काम करूंक लागलें. भाटकान्नील्या घराकडेनय तें कामाक वतालें. हे वाटेन बापूय जाणटो जाता तशी ताची भलायकी खंगताली आनी दुसरे वटेन चली वयांत येताली.

इतली खबर आयकना फुडें हांवें रोझाक विचारलें, "तुजें आदलें नांव कितें आसलें आनी तुका रोझ हें नांव कोणें दवरलें?"

"म्हज्या आवय बापायन म्हाका शेंवतू हें नांव दवरिल्लें. आतां इतलें उलयतां तरी हांव मूळ नांव विसरूनच गेलीं... हांव किरिस्तांव जालीं तेन्ना पाद्रीन म्हाका रोझ हें नांव दवरलें. तेन्नाच्यान तेंच नांव घोळटा."

"पूण तुगेर लिला जालें तेन्ना तुजें पयलें लग्न जाल्लें?"

"ना. लग्न जावचे आदींच म्हगेर चली जाली." एक सुस्कार सोडून तिणें जाप दिली. आनी केदो वेळ मेरेन म्हज्या तोंडाकडेन पळयत रावली.

बारीकसाणेन पळयतकच म्हाका कळ्ळें कि रोझाच्या वक्लाक लागून ती म्हाका पळयता अशें दिसलें तरी शुन्यांत नदर थिरावपाची तिची ती तरा आसली.

"तुका कोणे फटयली?" हांवें विचारलें.

"ना, हांवूच चुकलीं; ताचो कसलोच गुन्यांव ना. आमगेर एक दीस म्हजे आवय वटचो एक सोयरो आयलो. तो संवकळीन वागतालो. म्हज्या बापायच्या मनांत म्हजें ताचेकडेन लग्न करपाचें आसलें. म्हाका ताणें तशें सांगूनय दवरिल्लें. ताकाय म्हणिल्लें आसुये, देखून तो संवकळीन वागतालो आनी ताका आमगेर रावपाचो म्हजो बापूय आग्रो करतालो..."

शेवंतूचो बापूय अचकीत भायर पडलो. आकांताच्या वेळार शेजारी -पाजारी धांवन आयले. पूण रातीकडेन ते आपापल्या घरा परतले तेन्ना घरांत उरलीं दोगांच. शेंवतू आनी तो. त्या प्रसंगाचेर शेंवतूक ताणे धीर दिलो आनी तोच आपले जिणेचो आदार म्हणपाचें शेंवतूकय दिसूंक लागलें.

शेंवतू काम करतालें आनी तो बेकारच आसतालो. ताणे सांगिल्लें, एक दीस तो घरा वतलो, आपल्या घरा. आनी उप्रांत येतलो तो शेंवतूक घेवन वतलो. शेंवतूकडेन तो लग्न जातलो. धर्माची बायल ह्या नात्यान तिचेकडेन संवसार करतलो...

"पूण हें सगळें सपन वाऱ्यावेले वाफेवरी विरून गेलें." रोझान सांगलें, "म्हाका जेवणा-खाणाची भिरांतच नासली. भाटकान्नीचो आदार आसलो. ती आपले धुवे भाशेन म्हाका वागयताली. पूण कांय संस्कार मनाचेर जाल्ले आसले. भाटकान्न किरिस्तांव, हांव हिंदू, तिगेर जेवलें जाल्यार हांव बाट्टलें. बाट्टलें म्हळयार कितें जातलें तें हांव नकळ आसलें. पूण भिरांत दिसताली. रातीच्या वेळार एकलेंच घरांत रावंक भिरांत दिसूंक लागली तेन्ना हांव भाटकान्नीगेर न्हिदूंक वचूंक लागलें.."

तो लग्नाची तयारी करूंक म्हणून गेल्लो तो परत आयलोच ना. ताची खबरय कळ्ळी ना. हे वाटेन शेंवतूचेर जीव दिवपाचो प्रसंग आयलो. तिका दीस गेल्ले. पूण तें तिका खूब काळ मेरेन कळ्ळेंच ना. भाटकान्नीनच एक दीस शेंवतूक हटकिलें आनी सेबास्तियांवाक सांगातान दिवन त्या तरनाट्याच्या सोदाक धाडलें.

"तीन म्हयन्याचें पोट घेवन हांव तागेल्या घरा पावलें तेन्ना कळ्ळें कि ताका बुडून मरण आयिल्लें. म्हजेमुखार संवसार धुंवंक लागलो. जीव दिवपाचोच मार्ग उरिल्लो. तागेल्या घरच्यांनी म्हाका धांवडायलें. तेन्ना सेबास्तियांवान म्हाका सांबाळून घेतलें. म्हाका घेवन तो परत भाटकान्नीगेर आयलो."

दुसरो उपाय उरूंक नाशिल्ल्यान शेंवतू भाटकान्नीगेर सेबास्तियांवा सांगातान रावंक लागलें. सेबास्तियांव एक सादो, भावार्थी मनीस. गांवांत ताचें ल्हान घर आसलें. एक शेता कुडको आनी ल्हानशें भाट आसलें. तागेर आसतनाच लिलाचो जल्म जालो.

"तो मेरेन हांव हिन्दूच आसलीं." रोझान मोट्या अभिमानान सांगलें, "फुडें परिस्थिती बदल्ली. भाटकान्नीन सुचयलें हांवें सेबास्तियांवा कडेन काजार जावचें. ह्या संवसारांत ताका आपलो असो कोण ना आनी म्हाकाय ना."

"पूण तो किरिस्तांव. हांव हिन्दू." शेंवतून आपलो विरोध उक्तायलो.

"किरिस्तांव म्हळयार मनीस न्हय? इतले दीस तूं ताच्या सांगातान रावना? तूय किरिस्तांव जा..."

मनांत एके तरेचो विचारांचो संघर्ष सुरू जालो. एक सुरक्षीत जीण जगपाची आसली जाल्यार सेबास्तियांवा बगर दुसरो सांगाती आपणाक मेळचो ना. तो सादो-भोळो आसलो तरी मायेस्त मनीस. तो आपल्याक केन्ना फटोवचोना अशें शेंवतूक मनांतल्यान दिसतालें. पूण मुख्य अडचण आसली ती धर्माची. फकत घोव जाय इतल्याच खातीर बाटप म्हळयार कितें असो शेंवतूक प्रस्न पडलो.

तशें शेंवतू किरिस्तांवाच्या वाड्यार जल्मल्लें. किरिस्तांवांमदीं वाडील्लें. ताची भास लेगीत किरीस्तांवाभाशेनच आसली. तागेले पिरायेच्या हेर चलयां परस शेंवतूचीं दोन वेगळेपणां आसलीं. ताच्या कपलार गंधाची तिकली उरताली आनी भुरगेपणांतच तागेर एक चली जाल्लें.

भाटकान्नीचें दडपण वाडटालें. भावार्थी सेबास्तियांवाविशीं मोग आनी काकुळटे वांगडाच ताच्या उपकाराची भावना मनांत उरताली. निमाणें तिणें थारायलें, आपूण बाट्टलीं पूण आपले धुवेक हिन्दू दवरतलीं.

शेंवतू बाटलें. रोझा जालें. भाटकान्नीन तिका आपलें पोसकें केलें. जेन्ना भाटकान्न मेली तेन्ना रोझ एका दिसांत व्हडलें मनीस जालें. नांवाक एक घोव जाय देखून तें सेबास्तियांवाक आपलो घोव म्हणटालें. ताणे आपल्या मूळ घरांत लिलाच्या जेवणाची वेवस्था केल्ली. एक हिन्दू बायल कामाक दवरून घेतली. लिलाचो धर्म बुडूं नये म्हूण सगळ्या तरांची जतनाय धेतली.

"एकय दीस हांवें लिलाक कळूंक दिलें ना कि हांव तिगेली आवय..." रोझान सांगलें, "फकत हांव आनी सेबास्तियांव खरें कितें तें जाणांत... आतां तुका सांगलें. पूण ही खबर आनीक कोणाक कळूंक फावना." रोझान म्हळें आनी म्हाका विचारलें, "आतां कळ्ळें तुका हांव धर्मीक पध्दतीन लिलाचें लग्न कित्याक करूंक सोदता तें?"

हय. म्हाका आता सगळें कळिल्लें. पूण त्या लग्नाच्या मार्गांत अडचणी खूब आसल्यो.

म्हुर्ताचो प्रस्न जेन्ना जाग्यार पडलो तेन्ना हॉलाचो प्रस्न आयलो. रोझाच्या मनांत लिलाचें लग्न व्हडा दबाज्यान करपाचें आसलें आनी ते खातीर ती व्हडलो हॉल सोदताली.

"लग्नाक कितले लोंक येतले?" हांवें तिका विचारलें.

"सगळ्या गांवाक हांव आपयतलीं. पूण लिलाच्या बापायच्या सोयऱ्यांक आपोवचें काय ना हें आजून थारावंक ना." तिणें जाप दिली.

"पूण त्या सोयऱ्यांक लिलाच्या जल्माची खबर आसा? कितलीं वर्सां जालीं जायत हे गजालीक?" हावें विचारलें.

"खूब वर्सां जालीं. येदेंशें माकडाचें पील कशें आसलें लिला. तें आतां व्हडली व्हंकल जाल्या. एकुणतिसावें वर्स सोंपून तिसावें लागलां."

"आनी तुजी पिराय कितली तर?" हांवें रोझाक विचारलें.

"तशी हांव जाणटी न्हय. ह्या दिमयांचे दुखीक लागून आनी दोळयांक लागून हांव जाणटी दिसतां. सोळाव्या वर्सा लिला म्हगेर जाल्लें. तूंच गणित करून पळय, म्हजी पिराय कितली ती. सेबास्तियांव मात जाणटो. पूण आतां तो म्हजे बराबरचो दिसता. वर्सां एकेकल्या मनशाची पिराय गिळून उडयतात आनी दुसऱ्याक घटसाणय दितात." कागाळीच्या सुरांत रोझान जाप दिली.

"तरीकय तीस वर्सां म्हळ्यार थोडो काळ न्हय. लिलाल्या बापायच्या घरा कोण कोण आसात हें तूं जाणा?"

"ना. हांव एकच खेपे तांगेर पाविल्लीं. ती खबर हांवें तुका सांगल्या. ताणी म्हाका घरांत घेतलें ना. म्हजें बरें आसा. पूण लिलाक हांवें हिन्दू चली कशी वाडयल्या. शेंवतू मेलें अशें समज. खऱ्यांनी ज्या दिसा शेंवतू बाटलें त्या दिसा तें मेलें. पूण लिला बाटूंक ना. आवय-बापूय नाशिल्ली ती चली. हांवें तिका ल्हानाची व्हड केली; पूण एक दीस तिका म्हज्या घरांत वाडली ना. आतां आमच्या गांवांत हिन्दू कुटुंबाच नात, ताका हांव कितें करतलीं?"

"तुवें मदीं केन्नाय लिलाक ताच्या बापायल्या घरा धाडूंक जाय आसलें. वळख उरपाची आनी माया वाडपाची." हांवें म्हळें.

"पूण म्हाका भिरांत दिसताली. पयली म्हळ्यार त्या लोकांनी म्हाका धांवडायली तशी हे ल्हान चलयेक धांवडायतले म्हूण भिरांत. दवरून घेतली जाल्यार तिका पिडापीड दितले ही भिरांत. आवयचो कळवळो तूं जाणाच. म्हाका ती दोळ्यांआड गेल्ली नाका आसली. पूण ती गजाल सोड. ते लोक येनासतना रावले म्हणून लिलाचें लग्न उरचें ना. हांवें ताका बरो घोव सोदून काडला. शेजारच्या गांवचो. चड शिकूंक ना. पूण बरो भुरगो. सोऱ्याक आफुडना, सिगार ओडिना. दुबय आसता. मॅकनिकपण करता खंय. तो आयिल्लो आसा. तो वचचे आदीं हें लग्न करपाची म्हाका ताकतीक आसा."

"एक विचारतां म्हणून रागार जावं नाका." हांवें म्हळें, "न्हवरेकारांक लिलाच्या जल्माची खबर आसा?"

"थोडी-भोव आसा. हांवें तांकां लिपोवंक ना. पूण आवय आनी बापूय नाशिल्ली एक हिन्दू चली आमच्या घरची जावन काम करता. आनी आमच्या शेजराक एकलीच रावता अशें हांवें सांगलें. लिलाक पळोवंक जाय तुवें. आतां तें खूबच सुंदर दिसता. ताका न्हवरो मेळूंक अडचण नासली. पूण म्हज्या मनासारको न्हवरो मेळसर हांव रावलीं."

"मागीर कोणाचें नांव छापूं?" मदींच रोझान प्रस्न विचारलो.

तिगेल्या त्या प्रस्नाक म्हजेकडेन जाप नासली.

"पूण आमंत्रण पत्र छापूंक कित्याक जाय?" पळवाट सोदीत हांवें विचारलें.

"तें जायच. कांय उणें जावंक फावना. म्हजें लग्न जालें . म्हज्या नशिबान म्हाका काजार जावचें पडलें. आमच्या काजराचीं आमंत्रणां कोणें छापलीं नात. छापपी कोण नासलो. पूण हांव जिती आसतना लिलाच्या लग्नाचीं आमंत्रणां छापलीं नात जाल्यार तें म्हज्या मनाक लागून उरतलें."

"आमंत्रणाखातीर म्हणिना, भटाखातीर म्हळें."

"कशेंय करून कोणाकय सांगून एक भट हाड. तांचो भट येतलो. लिलाचो भट येवंक जाय."

म्हाका एक उपाय सुचलो. हांवें रोझाक सांगलें, "न्हवरेकारांकच तूं भट हाडूंक सांग. तांचो एक भट येतलोच. तोच घडये दुसऱ्याक आपयत. व्हंकलेक आवय-बापूय नात हें तीं जाणात. एक शेजाऱ्न आनी भाटकाऱ्न- एकेतरेन एक पालक जावन तुवें हें लग्न घडोवन हाडलां हेंय तांकां खबर आसा."

आमंत्रणाचो मसुदो रोझाच्या आनी सेबास्तियांवाच्या नांवान तयार करून हांवें दिलो आनी तो घेवन रोझा गेली. वता आसतना तिणें म्हणिल्लें, "तुका आमंत्रण दितलीं. तुवें लग्नाक येवंक जाय."

म्हुर्ताचो दीस म्हजे तकलेंत आसलो. तो दीस उलगलो तरी म्हाका आमंत्रण आयलें ना. लग्न केन्ना आनी खंय तें हांव जाणा आसलों. म्हजे डायरेंत हांवें म्हूर्त बरोवन दवरिल्लो. आमंत्रण आयल्यार सगळीं कामां कुशीक दवरून लग्नाक वचपाचें थारायिल्लें. पूण आमंत्रण आयलें ना देखून गेलों ना.

त्या उपरान्त जेन्ना जेन्ना हांव त्या हॉलांत पावतां तेन्ना तेन्ना म्हाका रोझाचो आनी सेबास्तियांवाचो, तेच भाशेन पळोवंक नाशिल्ले व्हंकलेचो उगडास जाता. तांचें लग्न जालें? काय कसलें विघ्न आयलें? म्हाका आमंत्रण धाडूंक ती विसरली? काय मुद्दामच दिलें ना?

पयर अचकीत रस्त्याचेर म्हाका एक दादलो दिसलो. ताका पळयनाफुडें सेबास्तियांवाचो म्हाका उगडास जालो. सेबास्तियांवच काय तो? असो प्रस्न म्हाका पडलो. आनी दुबाव काडून उडोवचे खातीर हांवें ताका हटकिलो, "तूं सेबास्तियांव न्हय?"

"हांव सेबास्तियांव आनी सेबास्तियांवाचो पाय. कितें हाडलां दी." अशें म्हणून ताणें हात मुखार केलो. हो खरेलो सेबास्तियांव? काय वाटेवयलो बेबदो? घडये पिसो आसत? घडये सेबास्तियांवाचीच अशी आवतीकाय जाल्ली आसत. हळशिकेंत फातोर नाका, अशें येवजून हांव फार्टी सरलो. पूण तो बेबदो म्हजी फाट सोडूंक कबूल जालो ना.

बोल्सांत हात घालून दोन रुपयाची नोट ताच्या मुखार धरली. तितल्यान सुट्टलों अशें धरिल्लें.

"ह्या दोन रुपयांनी कितें येता? पांच रुपया दी, पांच." ताणें म्हळें.

"तूं रोझाचो घोव?" हांवें विचारलें.

तो अशे तरेन हांसलो कि म्हाका दिसलें तो फक्त बेबदो न्हय, तर पिसोय आसुये. पांचाची नोट ताच्या हातार दवरली आनी हांव म्हजे वाटेन गेलों. पूण अजून केन्ना तरी रोझाची याद जाता आनी रस्त्याचेर मेळिल्लो पिसो बेबदो तोच सेबास्तियांव असो दुबाव येवंक लागता.



# १६. वापीचो उद्यमीक

सर्वोत्तम मूळ सिंधदुर्ग जिल्ह्यांतलो. थंयच तो वाडलो आनी शिकलो. ताच्या शिक्षणाचो भार मुंबय रावतल्या तागेल्या मामान उखलिल्लो. तागेली आवय ही तागेल्या बापायली दुसरी बायल. जाणटेपणांत बापायन दुसरें लग्न केल्लें आनी सर्वोत्तमाच्या जल्माउपरांत रोखडेंच ताका मरण आयिल्लें.

सर्वोत्तमाची आनी म्हजी वळख कशी जाली हें आदीं सांगिल्लें बरें. पत्रकारांच्या एका पंगडा वांगडा हांव नगरहवेली, वापी आनी दमणच्या उद्योगांक भेट दिवंक गेल्लों. वापीच्या उद्योगीक वाठारांत कारखाने पळयता आसतना थंयच्या रसायनाचे उग्र वास म्हज्यान सोसूंक नज जाले आनी म्हाका घुंवळ आनी ओंकारे येवंक लागले.

त्या वेळार सर्वोत्तमान आपले मोटारीन म्हाका आपल्या घराकडेन व्हेलो आनी थंय वतकच म्हाका कळ्ळें कि सर्वोत्तम हो मूळ कोंकणांतलो. तांकां कोंकणी समजता. पूण तो मराठीच उलयतालो.

भायर मेकळया वातावरणांत येतकच म्हाका मात्शें बरें दिसलें आनी सर्वोत्तमाल्या घराकडेन पावतासर हांव पुरतो निवळिल्लों.

"ह्या उद्योगीक रसायनाच्या प्रदुशणाचो तुमकां त्रास जायना?" हांवें सर्वोत्तमाक विचारलें.

"संवयेन त्रास उणे जातात आसूंक जाय. आमकां आतां तावें कांय दिसना." ताणे एक रत्नागिरी हापूस आंबो चिरून म्हज्या मुखार दवरीत म्हळें, "हे बाजारांतल्यान विकते हाडिल्ले आंबे न्हय. आमच्या घरचे. आईन कोंकणांतल्यान मुजरत धाडल्यात."

येदो वेळ आमचें उलोवणें इंग्लीशींतल्यान चलतालें. पूण निमाणें वाक्य तो मराठींतल्यान उलयलो, तेन्ना म्हाकाय अजाप दिसलें. हांवें ताका विचारलें, "तूं कोंकणातलो, हांगा कसो पावलो? कोंकणांतच उद्योग कित्याक सुरू केलो ना?"

ताणें म्हळें, "मनशाची जीण म्हळयार धागो तुटिल्ल्या पतंगासारकी आसता. कोण केन्ना खंय पावत हाजो नेम नासता. हांगा सगळीं सोपेपणां मेळ्ळीं देखून हांगाच फॅक्टरी घाली. कोंकणांत फॅक्टरी घालप कितलें कठीण तें तूं जाणाच; थंय कसलीच सुविधा ना..."

घर म्हळयार ल्हानसो बंगलो; मंगळुरी नळयांचें बैठें घर. भोंवतणी पोरसूं. तरेकवार झाडां, फुलां.

"तुज्या घरांत कोण कोण आसता?" हांवें ताका विचारलें.

"आजून म्हजें लग्न जावंक ना. सध्या हांव एकलोच आसतां. पूण फुडले खेपे तूं वापीक पावलो जाल्यार ह्या घरांत तुका घरकान्न पळोवंक मेळटली." हांसत ताणे जाप दिली.

"म्हणजे लग्न थारलां तर...?"

"तशें म्हळयार जाता. पूण आजून नक्की कांय ना. लग्नाचें तूं जाणाच. एक खेपे गळयांत माळ पडसर कसलीं विघ्नां येत म्हणपाचो नेम नासता." तो खळखळीत हांसलो.

म्हाका आतां बरें दिसतालें. देखून हांवें सर्वोत्तमाक विचारलें, "आमी परत इंडस्ट्रीयल इस्टेटींत या?"

"तुगेलें तूं थाराय." ताणें जाप दिली, "परत ओंकारो आयल्यार त्रास जातले. आनीक एका वरा भरयान सगले जेवणाखातीर हॉटेलांत येवपाचे आसात. तो मेरेन तूं विसव घे. आमी हांगासून थेट हॉटेलांतच या."

"म्हजेखातीर तू बांदून उरतलो देखून म्हणटालों. तुवें म्हाका हॉटेलांत पावयल्यार जाता. हांव बसतां."

"तुका हॉटेलांत वचपाचें आसत जाल्यार हांव पावयतां. हॉटेल चड पयस ना. पूण म्हाकाय दुसरें कसलेंच काम ना. आयज आमचो सुटयेचो दीस. हांव मुंबय वचपाचो आसलों. तुमी येतात देखून असोसिएशनच्या अध्यक्षान म्हाका रावंक सांगलें आनी हांव रावलों. जेवल्या उपरांत हांव मुंबय वतलों." ताणें सांगलें.

"तुजी आई मुंबय आसता?" हांवें ताका विचारलें.

"ना. मुंबय म्हजो मामा आसता. पूण हांव मामागेर वचपाचो नासलों..."

"तुजी आई खंय आसता तर?" हांवें विचारलें.

ताणे आपल्या कुटुंबाची थोडे भीतर खबर सांगली. सर्वोत्तमाचें म्हाका एक अजाप दिसलें, तो कांयच लिपोवंक सोदिना आसलो. आनी ज्यो गजाली सांगपाची गरज नासली, त्यो लेगीत सांगतालो.

ताणे आपल्या बापायची खबर सांगली. आपले आवयविशीं ताका खूब अगत्य. ताची एक खंत आसली. ती आपणागेर येवन राविल्ली ताका जाय आसली. पूण आवय गांव सोडूंक तयार नासली.

"म्हजी आवय एका अनाथाश्रमांत ल्हानाची व्हड जाल्ली. तशी ती अनौरस बी न्हय." सर्वोत्तमान म्हाका सांगलें, "ल्हानपणांत आवय बापूय नाशिल्ले ते चलयेक गांवच्या लोकांनी अनाथाश्रमांत धाडिल्ली."

"आनी तुजो मामा?" हांवें ताका विचारलें.

"सख्खो मामा न्हय तो. पयसुलो मामा. बापोल, तिपोल जावंये. ताणे म्हजे आवयचें लग्न जुळयलें आनी ताणेच म्हज्या शिक्षणाचो भार उखल्लो..."

"आनी तुजी बायल कोंकणांतली?" सादेपणान हांवें प्रस्न विचारिल्लो. पूण तो आयकून सर्वोत्तम गोंदळ्ळो. ताणे जाप दिली ना. घडये कितें जाप दिवची तें येवजीत तो राविल्लो आसुये. हांवेंच फुडलो प्रस्न केलो, "प्रेम बी...?"

"तशें लिपोवपासारकें कांय ना." सर्वोत्तमान म्हळें, "हांवें अनाथालयांतली एक चली पसंत केल्या. तिका हांव पसंत आसुये असो म्हजो तर्क. त्या उपरांतच लग्नाचो विशय. आवयक विचारलें. तिचो विरोध ना. पूण आजून कांय थारूंक ना."

"तूं मुंबय तिकाच मेळूंक वता?"

"हय. तुजो तर्क बरोबर आसा. अनाथाश्रमांत वाडिल्ल्यो चलयो कसलोय निर्णय ताकतिकेन घेनात."

"पूण तूं थंय कसो पावलो?" हांवें विचारलें.

"ह्याच वापी शारांत एक पंजाबी जोडपें रावता." सर्वोत्तमान सांगलें, "म्हजो त्या कुटुंबाकडेन इश्टागतीचो संबंद आसा. तांगेर भुरगें ना. खूब उपचार केले. देव-देवसपण लेगीत जालें. एके वटेनच्यान पिराय वाडत उरली. ताणे व्हडलें मनाक लावन घेवंक ना. पूण बायल सदांच फुगार जाताली. हांवें तांकां एकाद्रो भुरगो पोसको घेवपाचो सल्लो दिलो. बायलेचो विरोध आसलो. तिका समजावचें पडलें. एका वर्सापरस ल्हान पिरायेचो भुरगो पोसको घेवचो अशें ताणी थारायलें. पूण भुरगो मेळटलो खंय? ताणी आपल्या सोयऱ्या-दायऱ्यांकडेन वासपूस केली. हांवेंच तांकां अनाथाश्रमांतल्यान भुरगो घेवंक सांगलें. हांव मुंबय वता तेन्ना एक अनाथाश्रम म्हाका सदांच दिश्टी पडटालो. हांव केन्नाच थंय वचूंक नासलों. एक खेपे हांवें वासपूस केली. तेन्ना थंयचे संचालिकेन म्हज्या हातांत एक फॉर्म दिलो आनी तांगेल्या वर्धापन दिनाच्या दबाज्याचें आमंत्रण दिलें. तो फॉर्म भरून घेवन हांव त्या पंजाबी जोडप्या वांगडा वर्धापन दिसाचे कार्यावळीक गेलों"

"मागीर ताणी भुरगो पसंत केलो काय कितें?" हांवें विचारलें.

"तो एक वेगळो अणभव. आज पसून ती याद काडल्यार मन कळवळटा. गरिबांक जेन्ना भुरग्यांक पोसपाची तांक नासता तेन्ना खूबश्यो आवयो आपल्या भुरग्यांक अनाथाश्रमाच्या दारांत सोडून वतात, गाडयेच्या डब्यांत दवरून वतात ना जाल्यार मुजरत तांकां शेणयतात. कांय दुसरे आवय बापूय- चड करून आवयो- समाजीक कलंक धुवन उडोवपाखातीर अनैतिक मार्गान जल्मल्लें भुरगें अनाथाश्रमांत पावयतात. आमी गेले तेन्ना तिशेक भुरगीं हांवें पळयलीं. तातूंत तीन दिसांचें एक भुरगें आसलें आनी वाडिल्ल्यो चलयोय आसल्यो. घोवान सोडिल्ल्यो बायलो, तरुण विधवा थंय आसतात. थंय वतकच म्हाका म्हजे आवयचो उगडास जालो."

"आनी ह्या सगल्यांचो फुडार कितें?" हांवें सर्वोत्तमाक विचारलें.

"अनाथाश्रम म्हळयार चलयांक कुळार. ल्हानपणांत नवें घर मेळटा तीं भुरगीं भाग्यवान. जीं उरतात तांकां शिक्षण दितात आनी तांचीं लग्नांय जुळयतात. तरीकय थोडीं उरतात... त्या पंजाबी जोडप्यान एक गुटगुटीत भुरगें पोसकें घेतलें..."

"आनी तुजी बायल?"

"छाया... आजून बायल जावंक ना. त्या वर्धापन दिसाचे कार्यावळींत हांवें तिका पळयली. कार्यावळीचें सूत्रसंचालन ती करताली. कार्यावळ सोंपतकच संचालिकेकडेन वासपूस केली. सध्या एकामेकांची वळख करून घेवपाचे सोपस्कार चल्ल्यात."

जेवणाचो वेळ जाईसर सर्वोत्तमान कितल्योशोच नव्यो गजाली म्हाका सांगिल्ल्यो. एका नव्या विश्वाचें दर्शन घडयिल्लें. वेळ जालो देखून आमी हॉटेलांत वचूंक भायर सरले.

दनपारच्या जेवणा वेळार सर्वोत्तमाकडेन असोसिएशनच्या अध्यक्षान एक नवी जापसालदारकी घाली आनी संकोची सर्वोत्तमान हांसऱ्या तोंडान ती पत्करली. सांजच्या वेळाचेर आनीक एक शिश्टमंडळ वापी उद्योगीक वसाहतीक भेट दिवपाचें आसलें. आनी त्या शिश्टमंडळाक असोसिएशनाचे वतीन डिनर दिवची थारिल्लें. ते डिनरीची वेवस्था सांबाळपाची जापसालदारकी सर्वोत्तमाचेर आयिल्ली.

"म्हणटकच तूं आज मुंबय वचचो ना तर?" हांवें ल्हवू ताका विचारलें.

"ब्रह्मचारी मनीस हो बंधनापसून मेकळो अशें सगळे मानतात आनी जाणट्यांक ना म्हणप म्हाका जमना." हांसून सर्वोत्तमान सांगलें.

"पूण तुवें छायाक मेळपाचें थारायिल्लें न्हय?'

"ना, ना. तसो अपॉइन्टमेंट बी कांय घेवंक ना. पूण सप्तकांतल्यान एक दीस हांव मुंबय वतां तो आपणाकच मेळूंक हें छायाक खबर आसता. हांव वतकच ती अर्द दिसाची रजा घेता आनी म्हज्या सांगातान भायर येता."

"रजा म्हळयार, ती नोकरी करता?' हांवें विचारलें.

"एके भाशेन नोकरीच ती. थंयच सगल्या तरांची कामां ती करता. शिकयता आनी ऑफिसांतलींय कामां करता. तिका पगार मेळटा. तुका अजाप जातलें, बऱ्या बऱ्या घरांनी पळोवंक मेळना असलें मायेचें वातावरण त्या अनाथालयांत आसा. कोण कोणाचो कोण न्हय. पूण सगळ्यांची एकामेकांचेर उपाट माया. भायर वतना वाडिल्ल्या चलयांक परवानगी घेवची पडटा. देखून हांवें रजा म्हळी."

जेवणां सोपलीं आनी दुसऱ्या दिसा सकाळमेरेन पत्रकारांच्या पंगडाक दुसरें काम नासलें. रातीचो राबितो सिल्व्हासाच्या सर्कीट हावसांत करपाचें थारायलें. हांवें सर्वोत्तमाक विचारलें, "तुका सांजवेळचें दुसरें काम नासत जाल्यार आमी सांगातान रावया."

"बरे भाशेन." सर्वोत्तमान जाप दिली. "तुजो सांगात मेळ्ळो जाल्यार म्हजोय वेळ बरो वतलो. सांजचो तुका हांव सिल्व्हासाक पावयतां."

हांवें ताका वेगळी कल्पना दिली. डिनराची वेवस्था जातकच आमी दोगांयनी सिल्व्हासाक वचपाचें आनी सांजच्या वेळार ताणे परत येवपाचें.

संकोचाक लागून आसत वा दुसऱ्या कसल्याय कारणाक लागून आसत, सर्वोत्तम रोखडोच कबूल जालो आनी ती सांजवेळ आमी सांगातान सारली.

नगर हवेलीक दमण गंगेवयल्या धरणा लागसार सैमाच्या मेकळ्या वातावरणांत आमी भोंवले आनी थंयच्या आदिवासी लोकांची जीण पळयली. मदीं मदीं आमच्यो खबरो चलताल्यो. इतले दीस मनांत सांठोवन दवरिल्ल्यो गजाली... आपल्यो भावना आनी आपले उमाळे त्या दिसा सर्वोत्तमान म्हाका सांगले.

"म्हज्या मुखार एक प्रस्न आसा." ताणे म्हळें, "म्हजे आईक दिसता, हांवें कोंकणांत येवन रावचें. थंय म्हाका शंबर रुपयांची लेगीत नोकरी मेळची ना."

"पूण छायाकडेन लग्नाक तिचो विरोध ना न्हय?" हांवें विचारलें.

"मनीस कसो भावनावश जाता ताचो हो बऱ्यांतलो नमुनो. छाया गोरी काय काळी हें तिणे पळोवंक ना. अनाथालयाच्या वर्धापन दिसाच्या सुवाळ्याक हांवें तिका पळयली आनी म्हजें मन तिचेर बसलें. तिचेकडेन उलोवणीं करतकच म्हाका ती अदीकच आवडली. त्या उपरांत हांव घरा गेलों आनी म्हजे आईक सगली खबर सांगली. छाया अनाथालयांत वाडिल्ली चली, इतलें कळना फुडें तिणें धर्म, जात, कात कांय विचारलें ना. तिणे एकदम मान्यताय दिली. इतलेंच न्हय, तर अशें म्हळें कि अनाथालयांतल्यो चलयो ह्यो मायेक भुकेल्ल्यो आसतात. देखून त्यो घोवाची निश्ठेन भक्ती करतात. आवयचो विरोध आसपाचें कारण ना. पूण फुडें कितें? लग्न जाल्या उपरांतय आवयक गांवांतच दवरप?"

"तुवें तिका समजावची. सुनेसरीं चार दीस रावंक ती येतली. उपरांत घडये तिचें मन

रमत." हांवें सुचयलें.

"एकठांय रावतकच वेगळे प्रस्न येवं येतात. म्हजी आवय अनाथाश्रमांत वाडली तरी तिची गजाल वेगळी आसली. ती मोठी धर्मीष्ट बायल. तिका भश्ट अनवाळयाचें खूब. कोंकणांत तें उपकरता. सकाळचो शेणा शितोडो घालप, व्रतां उपास करप.. म्हाका तितलीच भिरांत. ती आयली आनी सुनेच्या हातचें अन्न घेतलें ना जाल्यार कशें जावपाचें?"

"पूण छायाक आपल्या जल्माची सारकी खबर ना?"

"आसूंक जाय. ती थोडें थोडें सांगता. कांय लिपयना. पूण हांवें विचारलें जाल्यारच सांगता. तिका आपली आवय बापूय कोण हें खबर आसा. तिणे म्हाका नांव सांगूंक ना. पूण तिच्या उलोवण्यावयल्यान तिचो बापूय केन्ना तरी तिका मेळूंक आयिल्लो अशें म्हाका दिसलें."

"आपूण अनाथालयांत कशी पावली हें तिणे सांगलें तर?"

"ना. तें तिका खबर ना. अनाथालयांतल्या रेकॉर्डाप्रमाणें जल्माउपरांत पाचव्या दिसा ती अनाथालयांत पावली. तिच्या जल्माची नोंदणी अनाथालयानच केल्या. छाया हें नांव लेगीत तिका अनाथालयाचे संचालिकेन दिलां.

"मागीर ती आपल्या बापायक कशी वळखली? कोणे सांगलें?"

"तिणे आपली खबर तपशिलान सांगल्या. लिपोवंक ना. पूण तातुंतल्यान खूबशे प्रस्न अनुत्तरीत उरतात." अशें म्हणून सर्वोत्तमान छायाची खबर सांगली.

"आवय बापूय म्हणून कोण आसता हें म्हाका शाळेंत शिकतना कळ्ळें." छायान सर्वोत्तमाक सांगिल्लें, "म्हाका समजत सावन अनाथालयांतलीं मनशां हींच म्हजीं मनशां अशें म्हाका दिसतालें. पूण पुस्तकांतल्या धड्यांनी आवय, बापूय अशीं उतरां येतालीं. कुटुंबाची कल्पना म्हज्या दोळयांमुखार उबी रावताली तेन्ना जाणट्या भुरग्यांनी सांगिल्लें कि आमी अनाथ. अनाथ म्हळयार जाचो आवय-बापूय मेला वा जाका आवय बापायन सोडून दिला, असो भुरगो. तें समजतकच मनांत एके तरेचें दुख्ख, एक हीणपण सदांच उरलें."

अनाथालयांत सगले पिरायेचीं भुरगीं आसता. ल्हान पिरायेचे चले आसतात. ते जाणटे जातकच आपूण जावन अनाथालय सोडून वतात. पूण चलयांक सोपेपणी वचूंक मेळना. तांची वेवस्था जाले बगर त्यो भायर गेल्यो जाल्यार अनितीक मार्गाक लागत अशी भिरांत संचालकांक दिसता आनी ते चलयांचेर खूबच निर्बंध घालतात. त्या कारणाक लागूनय एके तरेची असुरक्षिततेची भावना चलयांच्या मनांत घर करून रावता.

छायाच्या मनांतय ती भावना खूब घट जावन राविल्ली.

"मर्दी केन्नाय अनाथालयांतलीं भुरगीं पळोवंक लोक येताले आनी ते भुरग्यांक पसंत करून व्हरताले. चल्यांक मागणी चड आसता. देखून चले व्हड जावचे आदींच तांकां कोण तरी घेवन वतालो. अशा वेळार संचालिकेन आमच्या बाकीच्या भुरग्यांक सांगप कि तांचो आवय-बापूय तांकां घेवन गेलो. अशें घडटकच बाकीचे भुरगे विचारताले, आपलो आवय बापूय केन्ना येतलो? कांय भाग्यवंतांचे आवय बापूय येताले आनी जांकां कोण व्हरना तांचे आवय-बापूय तांकां विसरून गेल्यात अशी एक भावना मनांत उपजताली. अज्ञानांत एके तरेचें सूख आसता. पूण म्हाका तें सूख चड दीस भोगूंक मेळ्ळें ना. एक दीस सत्य कितें

हाची जाणविकाय जाली. त्या दिसा हांव खूब रडलें.'' छायान सर्वोत्तमाक सांगलें.

''पूण तुजो बापूय तुका केन्नाच मेळूंक आयलो ना?'' सर्वोत्तमान विचारलें.

''तो खरेलो म्हजो बापूय काय कितें तें हांव नकळें. म्हाका आजून दुबाव आसा. खऱ्यानीच तो म्हजो बापूय आसल्यार लेगीत तो म्हाका दोळया दिश्टीक नाका. म्हज्या जल्माचें गुपीत हांव नकळं. पूण ताचेकडच्यान कळ्ळी ती गजाल खरी आसत जाल्यार हांव ताचो दुस्वास करतां.'' छाया त्वेशान उलयली.

''पूण अचकीत ताका तुजो उगडास कित्याक जालो?'' सर्वोत्तमान तिका प्रस्न केलो.

''तें कुवाडें म्हाकाय सुटूंक ना. घडये ताचो कसलोय दुश्ट हेतू आसुंये. ताणें रचिल्लें नाटक, हें कारस्थान आसूं येता. असो म्हाका दुबाव येता.'' छायान जाप दिली. ''पूण खंय तरी मनांत ती खबर खरी आसुये अशेंय दिसूंक लागता. आमच्या संचालिकेन पोलिसांक सतर्क केल्यात. तांच्या रिपोर्टाची आमी वाट पळयतात.''

अनाथालयांतली तिगेली फायल सर्वोत्तमान बारीकसाणेन वाचल्या. एक दीस फांतोडेचेरच एक तरनाटो चादरांत गुठलायिल्लें ल्हान भुरगें घेवन आयलो आनी ताणे तें भुरगें संचालिकेच्या सुवादीन केलें... चोवीस वर्सां आदली ही गजाल. आपणाक गाडयेच्या डब्यांत हें भुरगें मेळ्ळें अशें ताणे अनाथालयांत बरोवन दिलां. भुरगें घेवन आपूण पोलिसांसरीं गेलों. पूण थंयच्याच एका पोलीस अधिकाऱ्यान भुरग्याक अनाथालयांत पावोवपाचो सल्लो दिलो. भुरगें घेवन आयिल्ल्या मनशान आपलें नांव आनी पत्तो आपल्या पत्रांत दिल्लो. भुरग्याक दवरून घेतल्या उपरांत अनाथालयान पोलिसांक कळीत केल्लें आनी पोलिसांनी त्या वेळार त्या तरनाट्याची साक्ष लेगीत बरोवन घेतिल्ली. देखून जो मनीस भुरग्याक घेवन अनाथालयांत आयिल्लो, तो प्रामाणिक अशें मानूं येतालें.

''आतां तुजो बापूय म्हणटा तो कितें सांगता? भुरगें अनाथालयांत कोणे पावयलें म्हणटा?''

''तो आपणेच पावयलें अशें सांगता. ताचें म्हणणें, त्या वेळार भियेवन आपूण फट उलयलों.''

''मागीर तुजे आवयचें कितें जालें?'' सर्वोत्तमान विचारलें.

''तो सांगता तें धड लागना. तो म्हणटा, ताचे एके चलयेकडेन अनैतिक संबंद आसले. तिका आपणे लग्नाचें उतर दिल्लें. त्या दिसांनी तो बिहारांत एके खणीचेर नोकरी करतालो. एकलोच आशिल्लो. ही चली ताका गाडयेंत मेळिल्ली. ती घर सोडून पळून वताली. गाडयेंत तिचेकडेन तिकेट नासली. तिका टीसीन धरली. तिचेकडेन पयशे नासले. तिका हिंदी भास उलोवंक येना आसलीं. ती मराठी उलयताली. पयशे नात देखून तिणें गळयांतले सरपळेक हात घालो तेन्ना डब्यांत आशिल्ल्या ह्या मनशान खंय तिचे तिकेटीचे आनी दंडाचे पयशे फारीक केले. उपरांत तिची वासपूस केली. तिका खंय वचपाचें आसलें ते तिकाच खबर नासलें. देखून तो तिका सांगातान घेवन गेलो आनी दोगांय एकठांय रावंक लागलीं. थंयच्या लोकांक ताणे ती आपली बायल म्हणून सांगलें.''

''हें खरें आसूं येता आनी फटय आसूं येता. पूण बिहारांतल्यान हें भुरगें मुंबय कशें पावलें? बिहारांतच त्या भुरग्याचो जल्म जाल्यार अडचण कितें आसली?'' सर्वोत्तमान विचारलें.

"ह्या प्रस्नाची जाप आजून मेळची आसा. म्हाका ताच्या तोंडार नदर घालीन दिसना. हांवें ताका एकूय प्रस्न विचारलो ना. संचालिकेन सांगलें तितलें तुका सांगता." छायान म्हळें.

"आजून तो येता?" सर्वोत्तमान विचारलें.

"हय, येता. आनी दर खेपे नवी नवी माहिती दिता."

"आनी तो खऱ्यानीच तुजो बापूय अशें सिद्ध जालें जाल्यार...?" सर्वोत्तमालो प्रस्न.

"जाल्यार म्हजो निर्णय घेवंक हांव मेकळी उरतलीं. आतां हांव एक जाणटी चली" तिणे जाप दिली.

छायाच्या मनांत दुबाव रिगला. आपलो बापूय अशें सांगून जो मनीस तिका मेळूंक येता तो कोणय तरी उपटसुंभ आसुये अशें तिका दिसता. अनाथालयाच्या वर्धापन दिसा तिणें सूत्रसंचालन केलें तेन्ना सावन तिका मेळूंक येतल्या लोकांची संख्या खूबच वाडली.

तशी छाया एक चुणचुणीत चली आसली. आश्रमांत येवन भुरगें पोसकें घेवंक सोदतल्या जायत्या जाणांनी तिका पसंत करची. पूण संचालिकेन दर खेपे नकार दिवचो. एके भाशेन संचालिकेक छाया आश्रमांतच उरिल्ली जाय आसली. "तिका हांवें म्हजी धूव मानल्या." तिणे लोकांक सांगचें.

आनी खरेपणान संचालिका छायाक धुवेचीच वागणूक दिताली. मदीं मदीं ती छायाक आपल्या घरा व्हरताली. तिगेर एक चली आसली, जी छाया सांगातान शिकताली आनी खेळटाली. पूण जेन्ना संचालिकेचे चलयेचें लग्न जालें, तेन्ना ती छायाच्या लग्नाचोय गंभीरपणान विचार करूंक लागली.

वर्धापन दिसाचे कार्यावळीक हाजीर आशिल्ल्या लोकांचे नदरेंत छाया भरिल्ली. पेपरांनी कार्यावळींचो फोटो छापून आयिल्लो, तातूंत छायाय आसली. त्या दिसाच्यान छायाची वासपूस करूंक जे साबार लोक पावले, तांचे मदलो सर्वोत्तम एक आसलो आनी दुसरो तो दादलो, जो आपणाक छायाचो बापूय म्हणटालो.

अनाथालयांत सोपेपणान पावल दवरूंक मेळ्ळें तरी सगळयांकच छायामेरेन वचूंक मेळना आसलें. संचालिका तांची मुलाखत घेताली आनी उपरांतच सोडटाली. संचालिकेचे मान्यतायेन छायामेरेन पाविल्ले हे दोगच.

"आतां ताचें म्हणणें कितें?" सर्वोत्तमान छायाक विचारलें.

"तो म्हाका आपल्या घरा आपयता. म्हणटा, आपणाक दुसरो कोणूच ना. ताचें म्हणणें म्हज्या जल्मा उपरांत म्हजे आवयक मरण आयलें. तेन्ना तो मुंबय आयलो. आपलें जरी ते बायलेकडेन लग्न जावंक नासलें, तरी ती आपल्याक बायलेसमान आसली. पूण मुंबय पावतकच विचार बदल्लो, मन भियेलें. म्हाका अनाथालयांत पावोवन तो घरा गेलो. ताणे दुसरें लग्न केलें. पूण ताका भुरगें जालें ना. आपले बायलेक ताणे म्हजे विशीं सांगलें अशें तो म्हणटा आनी बायल चली म्हणून म्हजो स्विकार करूंक तयार आसा अशेंय म्हणटा."

"तूं तागेर केन्ना गेलां?" सर्वोत्तमान वासपूस केली.

"ना. तो आपयतालो. संचालिकाय वच म्हणटाली. पूण हांव गेलीं ना. कित्याक कोण जाणा, म्हजे आवयचो तो खुनी अशें म्हाका दिसता. इतल्या वर्सां उपरांत ताका म्हजो उगडास जालो. हांव तागेर वचचीं ना. आतां ही सगळी खबर आयकून घेतल्या उपरांत

लेगीत तूं म्हजेकडेन लग्न जावंक सोदता?''

''तूं म्हाका आवडटा. पूण तुजे इत्सेआड हांव तुजेर कांयच लादूंक सोदिना.'' सर्वोत्तमान तिका सांगलें, ''तूं बापायसरीं गेली म्हणून म्हजो विरोध ना. म्हाका दिसता, तो सांगता तें खरें आसुये. एक दुख्ख घेवन तो जगलो. तें उलोवन दाखोवपाचें धाडस ताका जालें ना. घडये दुसरे बायलेच्या भंयान आसुये. घडये समाजाच्या कांचान आसुये. मनशाक जाणटेपण येतकच आपणे केल्ल्यो चुको सुदारून घेवच्यो अशें दिसूंक लागता. ताचें तशें जालां आसुये.''

''आनी ताचो हांवें स्विकार केल्या उपरांत ताणे आमच्या लग्नाक विरोध केलो जाल्यार?'' छायान एक दुबाव उक्तायलो.

''तो नशिबाचो भाग म्हणचो पडटलो... हांव तुका सांगतां, म्हजे आईची मान्यताय मेळटकच हांव तुजेकडेन लग्न जावंक तयार जालां. तशें फाल्यां जर तुवें थारायलें जाल्यार हांव आक्षेप घेवचो ना. पूण त्याच वांगडा बापायच्या विरोधाक जुमानी नासतना तूं म्हज्या सांगातान लग्न करूंक कबूल जाली जाल्यारुय हांव तुजो स्विकार करतलों. खरें सांगतां छाया, तुज्या मनाआड म्हाका कांय करचेलें ना.''

''मागीर आतां लग्न कित्याखातीर अडलां?'' हांवें सर्वोत्तमाक विचारलें.

''म्हजे पुरतें कसलेंच कारण उरूंक ना. ती कोण हें तिणे म्हाका सांगलां. आनी हांव कोण हें तिका कळ्ळां. आतां तिच्या मनाची तयारी जावपाचो तितलो प्रस्न; ती कित्याक लांबणेर उडयता तें हांव नकळ. घडये पोलिसांच्या रिपोर्टाक रावता आसुये.''

''त्या रिपोर्टान कसलो फरक पडटलो?''

''म्हजे पुरतो विचारशी जाल्यार कसलोच फरक पडचो ना. तो तिगेलो खरेलो बापूय आसलो कितें आनी नासलो कितें? छायाची गजाल वेगळी! तिका आपल्या जल्माचें सत्य समजून घेवपाची उमळशीक आसतली. पूण हांवें तिका आजून स्पश्ट विचारूंक ना. आज विचारचें अशें थारायिल्लें. पूण हांगा अडकून उरलों. आतां फुडले खेपे प्रस्नाचो सोक्षमोक्ष लागतलो.''

हांवें म्हळें, ''ओगीच एक दुबावाचो प्रस्न विचारूं? तुका वायट दिसचें ना मूं?''

''निखालच ना. विचार तूं'' सर्वोत्तमान सांगलें.

''छायान लग्नाक नकार दिलो जाल्यार तुजी प्रतिक्रिया कितें जातली?''

''म्हाका वायट दिसतलें. पूण तरीकय हांव तिचेर जबरदस्ती करचों ना. जालेंय जाल्यार तसो प्रसंग येत अशें म्हाका दिसना. आमची आतां मेरेन जीं उलोवणीं जाल्यांत त्या उलोवण्यां वयल्यान म्हाका दिसता, ल्हवू ल्हवू आमी एकामेकांच्या मोगांत पडूंक लागल्यांत. पूण छायाचें एक वेगळेपण आसा. ती जे सोपेपणान भावनेचेर नियंत्रण दवरून वेव्हारीक निर्णय घेवंक शकता, तें खंयचेय सादे चलयेक सादत अशें म्हाका दिसना. तितलोच एक दुबावाचो मुद्दो आसा. म्हज्यान अशें म्हणूं येता कि लग्न जाली जाल्यार छाया म्हजेचकडेन जातली. पूण ती हट्टी चली. एकाद्र्या वेळार लग्न जायना आसतना रावपाचो निर्णय घेवंक शकता.''

''तुवें सांगलें ताचेवयल्यान तुका तसो दुबाव येवप सभावीक आसलें, तरी म्हाका वेगळेंच दिसता. छाया तुजी परिक्षा घेता अशें म्हाका दिसता. तुवें तिच्या रुपाचेर भाळून

तिका मागणी घाल्ली आसत, जाल्यार तुजे विचार फाटीं फुडें बदलूं येतात काय कितें, हाचो ती अदमास घेता आसूंक जाय."

सर्वोत्तम कांय उलयलो ना. आमच्या उलोवण्यांत खंड पडलो तो मुखावयल्यान येतल्या एका वारली जोडप्याक लागून. बायल घोवाक मारीत मारीत गोरूं आमुडचें तशी आमुडटाली. तिच्या हातांत एक बडी. पूण मार खावनय घोव तिच्या सांगातान चलतालो. पळून वचना आसलो.

"कितें जालें?" हांवें ते बायलेक हिंदींत विचारलें.

तिणें गुजराती मिश्रीत भाशेंत सांगलें, "हो दुसरे बायले फाटल्यान वतालो. लग्नाचो दादलो तो..."

एक बडी चपचपीत ताचे फाटीर मारली.

सर्वोत्तमान म्हज्या तोंडाकडेन पळयलें आनी म्हळें, "आतां युग बदल्लां हें तुका मान्य आसा?"

हांव हांसूनच ताचेकडेन सहमत जालों.



# १७. रॉक सांतान

"सोन्याचें दुकान जो चलयता, तोच जर सोरो पियेवंक लागलो जाल्यार एक दीस तोच सोरो त्या मनशाक आनी घर-संवसाराक गिळून उडयलेबगर रावना."

सुभाषितासारकी हीं उतरां रॉक सांतानालींच.

कितलो वेगळो आशिल्लो तो, आनी इतलो बदल्लो कसो हाचें अजाप दिसता.

म्हाका ताणे फोन केलो आनी आपल्या बारांत आपयलो.

"कित्याक? कितें आसा?"हांवें ताका विचारलें.

"आयताराचो दीस आसा आनी सगळ्या इश्टांक सुटी आसा... सगळे म्हजे इश्ट... तांकां हांवें आपयल्यात. सांगातान बसुया, खबरो करुया, जेवणाची वेवस्था आसतली. सुसेगाद घरा परतुपाचें."

"त्या खातीर बारांत कित्याक? खंयय दर्याचे वेळेर पिकनिकेक वचूं येता, ना जाल्यार तुज्याच घरा बसूं येता." हांवें ताका सुचयलें.

"बारांत सगळें तयार आसता." ताणे म्हळें, "सगळे तरेचो सोरो जाय तितलो..."

"तुगेली ही पिवपाची पार्टी तर?" हांवें अजापान ताका परतो प्रस्न विचारलो, "हांव जाणां ते भाशेन तूं पियेना आनी तूं जाणाच, हांव सोन्याक आफुडना. मागीर असले पार्टेक हांव कित्याक येवं?"

"तुका कोल्ड्रिंक दितां...हांव चडसो घेना हें खरें. केन्ना-केन्ना इल्लो घेतां. पूण तूं भियेवं नाका. यो आनी वच."

फोनाचेर चड ताणून धरप म्हाका शक्य जालें ना आनी ताचेकडच्यान चड स्पश्टीकरण मागपय शक्य नासलें.

रॉक सांतानाची वळख आदीं दिवंकच जाय. एक तरुण इंजिनियर म्हूण ताची नामना आसा. पर्यावरणाच्या प्रस्नाचेर ताणे इतले खोलायेन अभ्यास केला कि गोंयांत इतली चिकित्सा करून अभ्यास करपी लोक आसात हें पळोवन कोणाकय अजाप दिसचें. पणजे पर्यावरणाच्या प्रस्नाचेर एक चर्चासत्र आसलें. त्या सत्राक हेरांवांगडा हांवय गेल्लों. दोग-तीग जाणांनी वेगवेगळ्या मुद्द्यांचेर आपले पेपर वाचून दाखयले. रॉक सांतानान पेपर वाचलो ना. पूण पेपरांतलीं उर्णीदुर्णी इतले बरे तरेन ताणे दाखोवन दिलीं कि चर्चासत्रांतल्या सगळ्या लोकांचेर ताचो प्रभाव पडलो. म्हाका खोस भोगली, म्हज्या गांवांत रावपी एक तरुण पर्यावरणशास्त्री आसा म्हणपाची, थंय आमची पयली वळख. त्या दिसा आमी दोगूय सांगातान परतले. वाटेर तो तरेकवार विशयांचेर उलयलो. ताचें एक सपन आसलें. खूब पयशे जोडचे आनी उरिल्ली जीण सुखान सारून पर्यावरणाच्या प्रस्नाचो अभ्यास करचो. जमलें जाल्यार गोंयांत पर्यावरण शास्त्राची एक संस्था स्थापन करची.

"सपन खूब व्हडलें." रॉक सांतानान हांसून म्हणिल्लें, "पूण सामकेंच अवघड न्हय.

पयशे जाय. आमचो लोक गल्फांत वचून पयशे जोडटा आनी फोल्गां मारूंक खर्चिता. आमचेकडलीं उद्योगीक घरां पयशांचो विनियोग करतना फुडाराचे नदरेन उपकरत अशें कांय करिनात. म्हजेकडेन चड पयशे नात. जे आसात ते म्हाका खर्चाक पुरो..."

"तूं लग्न जाला?" मदींच हांवें ताका विचारलें.

"लग्न थारावन दवरलां." ताणे जाप दिली, " पूण तुवें कित्याक विचारलें? गिरेस्त मांवालो घरजांवय जावपाचो चान्स ना. वरदक्षणेच्या रुपान पयशे मेळपाचीय आस्त ना. म्हजी फियांसे गरीब घराण्यांतली, एक नर्स. पूण आमचें काजार जातकच तिणे काम सोडूंक जाय अशें हांवें तिका सांगून दवरलां. काजार जातकच तिका पोसपाचो भार म्हजेर, देखून केन्ना-केन्नाय दिसता म्हजें सपन हें सपनच उरतलें."

रॉक सांतान त्या दिसा म्हाका पावोवंक आमगेर आयलो. हांवें ताका भितर आपयलो. म्हजीं पुस्तकां पळोवन तो खुशालभरीत जालो. कथा-कादंबऱ्यांचीं पुस्तकां ताणे हातांत लेगीत घेतलीं नात. पूण धर्म, अध्यात्म, तत्त्वज्ञानावयलीं इंग्लीश पुस्तकां, गीतेचो इंग्लीश अणकार असलीं पुस्तकां ताणे भायर काडलीं आनी म्हळें, "हीं हांव व्हरतां. वाचून परत दितां."

पुस्तकांवरवीं जाल्ली इश्टागत वेगळया पांवड्यावयली आसली. असलीं पुस्तकां म्हजेकडेन आसात इतलेच खातीर ताका म्हजेविशीं आदर दिसतालो आनी गोंयच्या वातावरणांत वाडिल्लो एक तरुण इंजिनियर असल्या विशयांत आस्था दवरता हें पळोवन म्हाकाय ताची लक्तुबाय दिसताली. पूण एके गजालीचें म्हाका अजाप जालें, रॉक सांतानान आपल्या काजराक म्हाका आमंत्रण दिलें ना. काजरा उपरान्त एक दीस तो रस्त्यारच मेळ्ळो तेन्ना ताणे आपले बायलेची वळख करून दिली.

"ही एलीझाबेथ, म्हजी बायल." सादेपणान ताणे सांगलें.

म्हाका दिसलें, लग्न जावचें आसतलें; देखून हांवें म्हळें, "लग्न केन्ना थारायलां?"

"तें तुका सांगलेंच ना पळय." रॉक सांतानान म्हळें, "फाटल्या म्हयन्यांत आमी काजार जालीं."

म्हाका खऱ्यानीच वायट दिसलें. हांव ह्या गनशाक इतलो लागींचो इश्ट मानता आसूनय आपल्या लग्नाक ताणे म्हाका कसो आपयलो ना हाचें म्हाका अजाप जाल्लें. हांवें म्हळें, "म्हाका काजाराक आपयिल्लों जाल्यार हांव फकत आशिर्वादच दिवपाचो. ते आतांय दिवं येतात."

म्हगेले जापेंतली खोंच रॉक सांतानाक कळ्ळी. त्या सभाग्यान भर बाजारांत म्हज्या पांयाक हात लावन नमस्कार केलो आनी एलीझाबेथाकय तसोच करूंक सांगलो. भोंवतणचो लोक हो देखाव पळयताले. हांव लजेन तांबडो जालों.

दोन उतरां रॉक सांतानाले बायलेविशीं. काळी-सांवळी पूण शिटूक अशी एलीझाबेथ. हांसत्या तोंडाची. वाटकुळया मुखामळाची. जोडें सोबतालें. तिका पळयल्यार ती नर्स कशी दिसलीच ना. म्हाका जाल्यार टिव्हीवयले जायरातींतल्या मॉडेलासारकी ती दिसली. खरेंच ती तितली सुंदर आसली.

"ही तुका कशी मेळ्ळी? कोणे जुळयलें तुमचें लग्न?" त्या उपरान्त मेळिल्ल्या वेळार एक खेपे हांवें रॉक सांतानाक विचारिल्लें.

"तो सगळोच ॲक्सिडेंट." रॉक सांतानान हांसून जाप दिली आनी बायलेक उलो मारून सांगलें, "तूं म्हजे जिणेंत कशी आयली अशें तो विचारता. तूंच जाप दी."

एलीझाबेथान लजेवन आपल्या हातांनी तोंड लिपयलें आनी हांसत-हांसत ती भितर गेली. तेन्ना रॉक सांतानानच म्हळें, "म्हज्या जिवितांत एकच ॲक्सिडेंट जाला. खरेलो अपघात. स्कुटरीवयल्यान वता आसतना एक दुकराचो पेटो आडवो गेलो आनी हांव उसळून सकयल पडलों. दाव्या हाताचें हाड मोडलें आनी तकलेक जबर मार लागलो. पूण हांव शुध्दीर आसलों. रस्त्यावयल्या लोकांनी म्हाक आदार दिलो. हांव जावन एका खाजगी हॉस्पिटलांत गेलों. थंय एलीझाबेथ नर्स आसली. पंधरा दीस मेरेन हॉस्पिटलांत तिणे म्हजी सेवा केली आनी उपरान्त ड्रेसींग करूंक ती घरा येताली.. तिणे म्हज्या हाताचे आनी तकलेचे घाय पेकयले. पूण काळजाक घाय घालून दवरले."

एक दीस रॉक सांतान अचकीत आयलो आनी येतना ताणे म्हजीं व्हेल्लीं तीं सगळीं पुस्तकां हाडलीं. हांवें ताका बसूंक सांगलें. पूण ताका उसरपत नासली. इश्टागत तोडपाच्या वेळार सगळीं देणीं फारीक करून उडोवचीं तसो तो वागता अशें म्हाका दिसलें.

हांवें ताका म्हळें, "इतली ताकीत करून पुस्तकां दिवंक आयला तो इश्टागत तोडूंक बी सोदिना मूं?"

"ना, ना. खऱ्यानीच म्हाका उसरपत ना." ताणें जाप दिली, "फुडल्या सप्तकांत हांव कुवेताक वतां. सगळीं कामां तशींच उरल्यांत. सगळें जाग्यार घालून वचचें पडटलें. एक फावटी कुवेत गेलों म्हणटकच आठ-धा वर्सां परत पावत म्हणपाचो भरवंसो दिसना."

"एकलोच वता, काय एलीझाबेथाकय व्हरता?" हांवें ताका विचारलें.

"आतां एकलोच वतां. दोन दिसां आदींच म्हाका नियुक्तीपत्र आनी व्हिसा मेळ्ळा. बायलेक व्हरपाची मेकळीक आसा. पूण आदीं थंय वचून सगळें पळोवन घेतां आनी उपरान्त एलीझाबेथाकय आपोवन व्हरतलों." ताणें जाप दिली.

वचचे आदीं रॉक सांतान म्हाका मेळ्ळो ना. बोवाळांत तो गेल्लो आसतलो. पूण तागेलें एक पुसतक म्हजेकडेन उरिल्लें. पर्यावरणावयलें पुस्तक तें. पुस्तकाचें नांव आसलें- फुडाराचेंसंकट. म्हाका ओगीच दिसलें, तें पुस्तक ताचें ताका पावयिल्लें जाल्यार बरें जावपाचें. तो परत केन्ना येतलो कोण जाणा!

एकाद्र्या धुमकेतूसारको रॉक सांतान म्हजे जिणेंत आयिल्लो आनी आयिल्लो तेच भशेन तो नदरे आड जाल्लो. सभाग्यान कुवेत सावन एकय दीस पत्र बरयलें ना वा आपलो पत्तो लेगीत धाडलो ना. एलीझाबेथ गोंयांत आसा काय कुवेताक हेंय म्हाका खबर नासलें. हांव ताका विसरूनय गेल्लों.

कांय वर्सांआदीं एअर इंडियान आमकां संपादकांक संयुक्त अरब एमिरेट आनी कुवेतचे भोंवडेर व्हेल्ले. कुवेताक विमान पावतां पावतां म्हाका रॉक सांतानाची खूब याद आयली. सुक्राराक आमी कुवेताक पाविल्ले. तो दीस सुटयेचो. रॉक सांतान घराच आसपाचो. पूण ताचो पत्तो म्हजेकडेन नासलो. याद काडपा भायर दुसरें कांय करूंक जालें ना. एक-दोन गोंयकार मेळिल्ले तांचेकडेन वासपूस केली. पूण रॉक सांतानाक ते वळखनासले.

एकल्यान म्हळें, "ते इंजिनियर बी आसतात ते उंचेल्या पांवड्याचे लोक. ते आमच्या सारक्या किरकोळ लोकांमदीं भसरनात. तरी आयज हांगा मिसाचो दीस. सगळे गोंयकार

हांगा मिसाकडेन मेळटात. हांव खबर घेतां आनी तुगेलो रॉक सांतान मेळ्ळो जाल्यार तुज्या हॉटेलाचो पत्तो दितां.''

एक भोळी आशा मनांत उरली. पूण कुवेत सोडीसर रॉक सांतानाची भेट जाली ना.

कुवेताचेर इराकान घुरी घाली त्या वेळार त्या ल्हानशा देशांत आकांताची परिस्थिती उप्रासली. दुसऱ्या देशांचे नागरिक कुवेत सोडून परतूंक लागले. घर-दार आनी घरांतल्यो वस्तू, तेच भाशेन बँकांनी उरिल्ले पयशे थंयच सोडून निर्वासित जावन ते परतले. अशे तरेन परत आयिल्ल्यां मदीं हजारांनी गोंयकारय आसले. रॉक सांतानाचें कितें जालें असो प्रस्न म्हाका पडटालो. पूण वासपूस कोणाकडेन करची हें कळनासलें. तागेल्या घराकडेन एक-दोन फावटी गेल्लों तेन्ना घर बंद आसलें. शेजाऱ्यांनी सांगिल्लें की रॉक सांतान कुवेताक गेला. फाटोफाट बायलय कुवेताक गेल्ली. तेन्नाच्यान घर बंद आसा. चावी शेजाऱ्याकडेन आसता. एलीझाबेथालो भाव गांवांतच रावता. तो मदीं केन्नाय येवन घर झाडून घेता.

एक दीस अचकीत रस्त्याचेर रॉक सांतान मेळ्ळो आनी हांवें ताची खबर घेतली. तो बोवाळांत आसलो, दिल्लीच्या विदेशी मंत्रालया मार्फतीन आपले बँकेंतले पयशे तरी परत मेळचे म्हूण ताचो प्रयत्न चलतालो. ताणे म्हाका इतलेंच सांगलें, ''चार दीस हांव बोवाळांत आसां. त्या उपरान्त तुका येवन मेळटां.''

आनी सांगिल्ले भशेन तो मेळूंक आयलो. तागेलें काम बरेंचशें जाल्लें. ताणें खूबशे पयशे भारतीय बँकेंत दवरिल्ल्यान ते ताका मेळ्ळे. पूण थंय नवें घर विकतें घेतिल्लें. मोटार आनी हेर वस्तू सोडून येवचें पडिल्लें.

''कितें सांगतलों तुका?'' रॉक सांतानान म्हळें, ''मदीं दीस अशे आयले कि आमी जितीं परत येत म्हणपाचो भरवंसो दिसनासलो. हेरांच्या मानान हांव नशिबाचो म्हणूंक जाय. म्हजे खूबशे पयशे परत मेळ्ळे. थोड्यांची जिणेची जोड गेली.''

''आतां कितें करपाचें येवजिलां तुवें?'' हांवें विचारलें, ''तूं इंजिनियर जाल्ल्यान तुका कामां मेळूं येतात.''

''कुवेताक गेलों आनी पयशांमुखार सगळें विसरलों. ओव्हर टाईम करून पयशे जोडले. वाचप बंद जालें. आतां थोड्या पयशांखातीर काम करूंक मन तयार जायना. जोडिल्ले पयशे खंय तरी गुंतयतलों आनी जिविताची तजवीज करतलों. ना जाल्यार एकाद्रो धंदो.'' रॉक सांतानान सांगलें.

त्या दिसा चड कांय उलोवपाचें नासलें. जेन्ना म्हाका कळ्ळें कि रॉक सांतानान नवें बार उक्तें केलां, तेन्ना मात म्हाका मोटें अजाप जालें. इंजिनियर जाल्लो हो तरनाटो बार चलयतलो? पर्यावरणाचेर अभ्यास करपी हो विचारवंत व्हिस्कीचे पेग मेजतलो? दुसरे खेपे मेळिल्ल्या वेळार हांवें रॉक सांतानाक तशें म्हळें. ताणे जाप दिली, ''तात्पुरती वेवस्था. कुवेताक परत वचपाची इत्सा आसा. थंयच्यान येतात त्यो खबरो उमेद वाडयतात. देखून कसलेंच बंधन घेवंक सोदिना. परत गेलों जाल्यार हांव एकलोव वतलों. आनी हें बार एलीझाबेथाच्या भावाक चलोवंक दितलों.''

''कित्याक? वातावरण निवळटकच एलीझाबेथाक तूं व्हरचो ना?'' हांवें ताका विचारलें.

"पळोवया. आजून कांय थारावंक ना." अशी उडटी जाप रॉक सांतानान दिली.

आतां केन्नाय तो मेळटालो. तेन्ना कळटालें कि तो परत कुवेताक वचपाच्या बोवाळांत आसा. थंयच्या कंपन्यांनी कांय जाणांक परते आपयल्यात. आनी आपणाकय खंयच्याय दिसा कंपनीचो कॉल येंवये अशी ताका उमेद आसली.

"ते मेरेन बार चलयतलो मरे?" हांवें ताका विचारलें.

"आजून बार चलोवंक लागूंक ना. घालून दवरलां. कुवेताकसावन येतकच लायसन्स सोपेपणान मेळटालें देखून घेतलें. एलीझाबेथाचो भाव बेकार भोंवता. एलीझाबेथ हांगाच उरली जाल्यार बार तीं दोगांय चलयत."

"एक सांग रॉक, " हांवें ताका विचारलें, "तूं हे खेपे एलीझाबेथाक व्हरचो ना अशें थारावन बसलाशें दिसता."

"हय, तुगेलो दुबाव खरो." रॉक सांतानान सांगलें, "ते अरब देस बायलां खातीर बरे न्हय. चड करून आमच्या बायलां खातीर. तातूंत कोणाचीय बायल तरुण आनी रुपेस्त आसत जाल्यार थंयचें वातावरण सुरक्षित न्हय. थंयचे कायदेय वेगळे. अरबांक खूबश्यो आजनेरी करपाची मेकळीक दितात. परक्यांचे बायलेकडेन ते गिदाचे नदरेन पळयतात...हांव तुका सांगतां, एलीझाबेथाक थंय व्हेल्या उपरान्त एका म्हयन्यान हांव परत धाडूंक सोदतालों. पूण ती आयकली ना, देखून दवरली."

"विपरीत कितें घडलें?" हांवें विचारलें.

"तशें कांय घडलें ना. पूण घडूं येतालें. कामाक लागून हांव केन्ना केन्नाय दोन-तीन दीस सायटीचेर भायर उरतालों. आमचे कंपनीचो एक बॉस आसलो.तो अरब. आमचेकडेन बरेभाशेन चलतालो. म्हाका आनी एलीझाबेथाक वयले वयर आपणागेर जेवणाक आपयतालो. आमकां म्हारग वस्तू भेट दितालो. बायलांक एक वेगळी जाणविकाय आसता. एलीझाबेथ ताका दुबावली. ताचो आपणाचेर दोळो आसा, अशें ती केन्नाय म्हणूंक लागली. पूण म्हाका तें खरें दिसनासलें. हांव तिका म्हणटालों, तूं ओगीच दुबावता. आमच्या घरा येतना तो आपले बायलेक हाडटा, भुरग्यांक हाडटा आनी आमी ताच्या घरा वतनाय तीं आसतात. तूं कित्याक दुबाव घेता? पूण तिगेलो दुबाव खरो आसत अशे ल्हवू-ल्हवू म्हाकाय दिसूंक लागलें."

"तशें कितें घडलें?" हांवें विचारलें.

"देवा दयेन कांय घडलें ना. पूण ताणें म्हणचें, एलीझाबेथ ट्रेण्ड नर्स आसत जाल्यार घराकडेन बेकार कित्याक रावता? तिका हॉस्पिटलांत काम मेळूं येता. म्हाका तिणे काम केल्लें नाका आसलें. पूण तिकाच दिसलें, काम केल्यार पयशे मेळटले. कुवेताक नर्सींचो पागार कितलो आसता तुका कल्पना येवची ना. एलीझाबेथाक पयशांची आस जाली आनी तिणे हॉस्पिटलांत काम धरलें. झूज जालें आनी आमी परत आयलीं. तो मेरेन दुसरें कांय घडलें ना.

"तशें जाल्यार तूं तिका परत व्हरचोच ना अशें कित्याक म्हणटा?" हांवें विचारलें, "तूं तुजें सपन विसरलो काय कितें? दोगांची जोड म्हळयार एक चार-पांच वर्साभितर तुज्यान गोंयांत परत येवं येतलें."

"आतां सपनां वेगळीं जाल्यांत." रॉक सांतानान म्हळें, "आतां सगळें जग पर्यावरण

माडयता, चिड्डिता. हांव एकलो झूजून कितें करतलों? आतां म्हाका हुस्को संवसाराचो. मनीस जुवानपणात तत्त्वाची भास उलयता. व्हडले-व्हडले आदर्श डोळयांमुखार दवरता. पूण निमाणे ताकाय हेर लोक वतात तेच वाटेन चलचें पडटा.''

कुवेताक परत वचपाचे रॉक सांतानाले प्रयत्न चालू आसतना आमी मेळटाले. पूण आतां तो पुस्तकां वाचिनासलो आनी हेर विशयांचेर उलयनासलो. तो बदल्ला. ताचें मन भियेलां आनी आपल्याच फुडाराचो ताका हुस्को दिसता अशें म्हाका दिसलें.

एक दीस हांवें ताका म्हळें, ''तुका कुवेताक चड पयशे मेळटले हें खरें, पूण तुजेसारके हुशार इंजिनियर ह्या देशांतय सुखी आसात. तूं सूख हुलपावन पैशां फाटल्यान कित्याक धांवता तें म्हाका समजना.''

ताणे जाप दिली ना. इतलेंच म्हळें, ''एके वेगळे जिणेची संवय जाल्या आनी बँकेंतले पयशे सोंपत आसात. ते आदींच कितेंय तरी तजवीज करूंक जाय.''

पूण रॉक सांतानाक परत कॉल आयलो ना. कॉल आयलो तो एलीझाबेथाक. झुजाउपरान्त हॉस्पिटलां ओस पडिल्ल्यान कुवेताक भलायकेचे प्रस्न उप्रासले. आनी एलीझाबेथाक आदीं कॉल आयलो.

''हांव तिका धाडूंक सोदीनासलों, पूण ती हट घेवन बसली. तिणें म्हळें, तुका वचूंक मेळना. म्हाका वचूंक मेळटा. हांव थंय गेलीं जाल्यार आमचें घर थाऱ्यार घालूंक पावतलीं. उपरान्त तूं आयलो जाल्यार बरें जालें. तूं आयलो ना जाल्यार घर विकून, वस्तू विकून म्हज्यान परत येवं येता. म्हाका तिचें म्हणणें खरें दिसलें. देखून हांवें तिका वचूंक दिली.''

रॉक सांतानाल्या घराचे कुशीकच तागेलें बार. बार हांवें पयसुल्यानच पळयलें. तें बंद आसलें. देखून हांव थेट ताच्या घरा गेलों. घराच्या दारांत पावना फुडें भितल्लो कुलकुलाट कानार पडलो. पार्टी रंगांत आयिल्ली आसूंक जाय. दार उक्तें आसलें तरी हांवें दारावयली बेल वाजयली.

रॉक सांतान भायर आयलो. ताच्या हातांत व्हिस्कीचो ग्लास पळोवन म्हाका जबर धक्को बसलो.

म्हजी नदर आपल्या हातांतल्या ग्लासाचेर थिरावल्या हें कळटकच ताणे दाव्या हातांतली सिगरेट फुडल्या वारांदांतल्यान भायर उडयली आनी म्हळें, ''हांव सदां घेना. आयज फकत कंपनी दिवचे खातीर हांवें घेतल्या.''

''तुगेलो सिध्दांत तूं विसरलो? हांव तुका एक नवो नेम सांगतां. वखदा खातीर लेगीत जो सोऱ्याचो एक थेंब घेता, तो जीणभर सोऱ्याचो गुलाम जावन पडटा. हो ग्लास भायर उडय.''

खीणभर अजापून ताणे म्हजेकडेन पळयलें. हांव मस्करी करतां काय गंभीरपणान सांगतां तें ताका समजलें ना. ताणें उब्यानीच ग्लासांतली उरिल्ली व्हिस्की आपल्या ताळयांत रकोवन घेतली आनी सिगरेट उडयिल्ली तेच दिशेन रिकामो ग्लास शेंवटिलो. उपरांत म्हाका हात दिवन म्हळें, ''आतां परत घेवचों ना.''

भितल्ले वाटेन जेवणाच्या मेजाभोंवतणी आनीक तीग जाण बशिल्ले आसात. तांचेमदीं व्हिस्कीची बाटली, बर्फाच्या खड्यांची बाउल आनी एके कुशीक सोडाच्यो बाटल्यो.

हांव फार्टी सरलों आनी रॉक सांतानाक म्हळें, ''हांव येवन तुमचे संगीत पार्टेचो विरस

जालो. हांव परत वतां.''

''ना, ना. तांकांय हांव आता बंद करतां. केदो वेळ जालो ते पियेतात.'' रॉक सांतानान म्हाका सांगलें.

ते आपले भितर उलोवपांत इतले गुल्ल जाल्ले कि आमचो संवाद ताणी आयकलो ना. हांवें रॉक सांतानाक म्हळें, ''तांकां हांगा बसूं दी. आमी दोगय भायले वाटेन लॉनाचेर बसुया.''

तो तयार जालो हाचें म्हाका अजाप दिसलें. तागेल्या दुसऱ्या इश्टांनी लेगीत कागाळ केली ना. भायर बसतकच हांवें रॉक सांतानाक म्हळें, ''तुजी म्हजी वळख जाली तेन्ना तुका हांव कितलो वाखाणटालों हो उगडास आसतलो. हें आज कितें जालां? तूं इंजिनियर जावनय बार चलयता, तितलेपुरतें बरें आसलें. आतां तू पियेवंकय लागला. तुजी बायल पयस कुवेताक उरता. हांगा तूं एकलो. तुजेर अंकुश दवरपी कोण ना.''

मोन्यांनी रॉक सांतान आयकतालो. तो कांय उलयलो ना. थोडो वेळ हांवय ओगी रावलों तेन्ना ताणे म्हळें, ''तुका कितें सांगपाचें आसा तितलेंय सांग.''

''म्हाका सांगपाचें कांय ना . आयकून घेवपाचें आसा.'' हांवें ताका म्हळें, ''तूं कुवेताक वचूंक सोदतालो ताचें कितें जालें?''

''म्हाका कॉल येना. आनी एलीझाबेथ परत येवंक सोदिना. ती म्हणटा आपूण तुज्या कॉलाखातीर खटपट करीत आसां. पूण म्हाका आतां तें खरें दिसना. तिणे सांगिल्लें म्हाका कॉल आयलो ना जाल्यार घर विकून ती परत येतली. वर्स जावन गेलें. ती येवपाची खबर काडिना... खूब जोडट्य आसूंक जाय. म्हाका खूब पयशे धाडटा आनी फोन केल्यार सांगता, तुका जाय जाल्यार आनीक पयशे धाडटां. बायलेचे जोडीचेर जगप म्हाका सोंसना.''

''म्हणून तूं सोरो पिता?'' हांवें ताका विचारलें, ''तूं इंजिनियर. तुका नोकरी मेळूं येता. तुज्यान स्वतंत्र धंदो करूं येता. हांव तुका सांगतां, हें बार बंद कर; ना जाल्यार तें बार तुज्या नाशाक कारण जातलें.''

''बार हांव चलयच ना. बोर्ड लायला तितलोच. भितर सोरो आसा. पूण तूं सांगता तें खरें. हांव आतां पितां. म्हजें दुःख व्हिस्कीच्या ग्लासांत विरगळायतां. आयज आमच्या लग्नाचो वाडदीस... तूं पळय, देवाचो न्याय कसलो! बायल हांगा ना, लग्नाचो वाडदीस! मोठे उमेदीन लग्न जाल्लों. सगळें सपन मातयेक मेळ्ळें. सकाळीं एलीझाबेथाक फोन केलो. तिका उगडास लेगीत नासलो...''

हांव कदेलावयलो उठलों आनी रॉक सांतानाच्या म्हऱ्यांत गेलों. ताची फाट थापटिली आनी म्हळें, ''कसली ल्हान गजाल तूं मनाक लावन घेता? ती विसरली आसूं येता. लग्नाच्या दिसाचो उगडास उरलो ना देखून तुका विसरली अशें तूं कशें म्हणटा? ती कश्ट काडटा. तिगेली अडचण तूं जाणा.''

''तशेंच हांव येवजितालों. पूण म्हाका आतां नसते दुबाव येवंक लागल्यात. ह्या अरबांक तूं वळखना. हांव तांकां वळखतां. तरुण आनी सुंदर बायल आसत जाल्यार ती तांकां 'हेरमां'त जाय आसता. तांचेकडेन पयशे आसात... आनी एलीझाबेथ एकलीच आसा.''

"तुवें नसते दुबाव घेवप म्हळयार तुजे बायलेचेर अविश्वास उक्तावप आनी दुबावाची कीड एक खेपे तकलेंत वळवळूंक लागली म्हणटकच बायल हांसली जाल्यार लेगीत आपणाक चाळयता अशें तुका दिसूंक लागतलें. तुजो तिचेर भरवंसो ना?"

"आसा... आसलो; आतां हांव म्हजे सांवळेकच भियेतां. कोणाचेर पातयेवचें आनी कोणाचेर पातयेवचें न्हय, हेंच म्हाका समजना. पूण म्हाका लज दिसता ती वेगळी. सगळो गांव जाणा, एलीझाबेथ कुवेताक पयशे जोडटा आनी हांव हांगा बसून खातां. बाकीच्या लोकांच्यो बायलो घरा आसतात."

तागेली व्यथा म्हाका समजताली. आनी अरबांच्यो तरेकवार गजाली ताणें आपल्या दोळयांनी पळयिल्ल्यो आशिल्ल्यान ताजें मन दुबावतालें.

"एकच उपाय आसा रॉक." हांवें ताका म्हळें, "तूं एलीझाबेथाक परत आपय. जिवितांत सूख नासतना पयशे जोडून फायदो कितें? परत वतना कोण हे पयशे व्हरचो ना. म्हाका दिसता ती येतली."

"हांवें तिका आपयली. ती म्हाका लटकी आस दाखयता. म्हाका कॉल येवचो म्हूण आपूण खटपट करतां, अशें सांगता."

"नाका. तुवें आतां कुवेताक परत वचपाचें मनांतल्यान काडून उडोवंक जाय. थोड्या दिसांभितर गिरेस्त जावपाचें थारावन तुवें तुज्या जिविताची वाट लायली. आतां एलीझाबेथाक सांग, गोंयांतच जें कितें मेळत, ताचेर धादोशी रावंया."

एकदम ताका कितें येवजलें देवाक खबर. ताणें म्हळें, "आतां फोन करुया. तूं तिका समजाय. समजायता?"

ताच्या घरांत फोन आसा. भितर येवन ताणें नंबर घुंवडायलो आनी रिसिव्हर म्हज्या हातांत दिलो.

फोनावयल्यान टेपीचो आवाज आयलो. "घरांत ना, रकाद दवर."

हांवें रकाद दवरलो. म्हजें नांव सांगलें. रॉक सांतानागेर आमी आसात. एलीझाबेथान परत फोन करचो. परत येवन भायर बसलों. सांजवेळच्यो सांवळयो लांबत रावल्यो. अस्तंतेकडल्या मळबांत गुलाबी किर्णांचो शिंवर करीत-करीत दर्यापलतडच्या क्षितिजा आड सूर्य गेलो तसो काळोख दाटलो आनी सगळयो सांवळयो त्या काळखांत विरगळून गेल्यो.

भितर रॉक सांतानाल्या इश्टांची पार्टी रंगांत आयल्या. घरचो यजमान आनी हांव भायल्या लॉनाचेर काळखांत एकामेकांमुखार मोन्यांनी बसल्यात. सगळी सांजवेळ आमी फोनाची वाट पळयली. फोन आयलो ना. ना म्हळयार एकय खेपे फोनाची घंटा वाजली ना.

"लायन मेळ्ळी नासतली. आमी जेवन घेवया आनी उपरान्त परत फोन करुंया." हांवें रॉक सांतानाक सुचयलें.

एकदम तो मोनो जालो. तो मोन्यांनी उठलो. भितर गेलो. कोणाक तरी ताणे जेवण मेजार हाडूंक सांगलें. सगळयांच्या हातांत प्लेटी दिल्यो. आपणे प्लेट घेतलीच ना.

म्हजे कान फोनाकडेन लागिल्ले. म्हाका दिसतालें, फोन येतलो... येवचो. हांव मनांतल्या मनांत देवाकडेन मागतालों.

घडये आज तिका रातपाळी आसुये. ओगीच मनांत विचार आयलो. हांवें तशें रॉक सांतानाक सांगलें.

ताणे जाप दिली ना. हांवें परत फोन घुंवडायलो. पलतडच्यान टेप केल्लो तोच संदेश मेळ्ळो. रॉक सांतान पळयत आशिल्लो. हांवें रिसिव्हर सकयल दवरून म्हळें, “तूं सकाळीं फोन कर.”

सगळे वचूंक उठले. हांव निमाणे मेरेन रावलों. ताका खंयच्या उतरांनी समाधानी करचो तें म्हाका समजलें ना. निमाणे ताणेंच म्हळें, “केदो वेळ बसतलो? चल तूं, आज हांवें थारायलां, तीन म्हयन्यां भितर एलीझाबेथ परत आयली ना जाल्यार हांव डायव्होर्स घेतलों!”

हांवें प्रतिक्रिया उक्तायली ना. पूण परत येतना म्हजें मन आनी पांय जड जाल्ले.



# १८. दुर्गाम्मा

गोंयच्यान मद्रासमेरेनचो प्रवास खुबच त्रासाचो आसलो. पूण खरेली अडचण आयली ती तिरूचिरपल्लीक वता आसतना. थंय वतलो जाल्यार सप्तकांतल्यान तीन दीस विमान आसता. विमान दनपारचें सुट्टा आनी सांजचें परत येता.

हांव मद्रासाक पावलों तोच विमानाचो दीस आसलो. दुसऱ्या दिसा सकाळीं तिरुचिरपल्लीक एक सेमीनार आशिल्ल्यान म्हाका सकाळमेरेन पावंकच जाय आसलें. विमानाची वासपूस केली तेन्ना तें गेलें अशें समजलें. दुसरो उपाय नासलो. एके खाजगी कंपनीचे बसीन प्रवास करपाचें हांवें थारायलें.

बऱ्या नशिबान म्हाका फुडलोच सीट मेळ्ळो. रातभर प्रवास केल्या उप्रांत फांतोडेर तिरूचिरपल्लीक पावपाचें. दादले आनी बायलो. कुलकुलाट. लाऊडस्पीकराचेर तमीळ सिनेमांतली गितां आनी लोकांचो एकमेकांकडेन तमीळ भाशेंतलो संवाद. देवळाच्या प्रकारांत पावल दवरतनाच थंयचे नगारे वाजूंक सुरवात जावची तसलो अणभव हांवें घेतलो. एक तर भास समजना आनी कोणाकडेन कितें उलयतलो म्हळ्यार ते तरेचो मनीसय बसींत कोण दिसना.

म्हजे कुशीच्या सीटाचेर एक तमीळ जाण्टेलो आसा. बसींत बसना फुडें तो कांदे जोखूंक लागिल्लो आनी मर्दी-मर्दी बुकले एकमेकाचेर गुरगुरतना काडटात तसलो आवाज काडून घोरेतालो.

बस सुरू जाली आनी तो एकदम जागो जालो. जागो जायनाफुडें ताणे सीटापोंदची एक पोती भायर काडली आनी ते पोतयेंतली एक पोटली आपले मांडयेर दवरून उसयली. केळीच्या चोळख्यांत गुठालयिल्ल्यो धा-बारा इडल्यो आनी तांचेर तांबड्या पिठ्याची मूठभर चटणी.

पोतयेंत एक प्लॅस्टीकची बाटली आसली. ती उकती करून ताणें ते चटणेचेर तेल रकयलें आनी आपल्या बोटांनी कालयली. मिरसांग वांटून केल्ल्या गुळयासारको एक गुळो केलो आनी बोटाक लागिल्ली चटणी जिबेन चाटून निवळ करपाचें येवजून ताणे हात उखल्लो. इतले म्हणसर तागेली नदर म्हजेर गेली.

ताणे हात तोंडात घालो ना. फाटीं घेतलो आनी म्हाका पळोवन कितें तरी विचारलें. ताजी भास म्हाका समजलीना. पूण तागेली नुरा पळोवन 'इडली खातलो?' अशें तो म्हाका विचारतालो म्हणपाचें कळ्ळें.

तकली हालोवन हांवें ना म्हळें आनी इंग्लीशीतल्यान सांगलें, "तूं सवकसाय खा."

तेसरशीं तो म्हजेकडेन इंग्लीशींतल्यान उलोवंक लागलो.घरची ताजी इडली. एक तरी हांवें खावची असो आग्रो करूं लागलो.

"म्हाका बस लागपाची संवय आसा." हांवें ताका सांगलें, "देखून हांव खायना."

"तशें जाल्यार तूं खाव नाका." अशें म्हणून ताणे एक-एक बोट तोंडांत घालून निवळ केलें आनी उप्रांत सगळी चटणी कडयेन शीत कालोवचें तशी इडल्यांमदीं कालोवन शिताच्यो उंड्यो करच्यो तशोच उंडयो वळ्ळयो आनी दांतांक तकालस दिनासतना एक-एक उंडी गिळूंक लागलो.

भायले वाटेन रातीचो काळोख. बस मुख्य रस्त्यावयल्यान वेगांत धांवता. कंडक्टरान दिव्यांचो उजवाड मंद केलो तशी ताका एक खेळणी आयली. सुकी इडली ताळयांत अडिल्ली. तो काळो-निळो जालो! कितें करचें तें म्हाका कळना - हांवें ताजे फाटीर हात धल्लो तेन्ना ताणें म्हाका खुणेनच कांय ना अशें सांगलें. उप्रांत तकली बागोवन ताणे सीटापोंदचे दुसरे पोतयेतलो थर्मास भायर काडून तातूंतले काफयेचो एक घोंट तो पियेलो. ताळयाकडेन अडिल्ली उंडी सकल वतकच तो थाऱ्यार आयलो. हांसलो. पूण उलयलो ना!

परत ताणे दुसरी उंडी तोंडांत घाली. तागेलें एक वेगळेपण म्हजे नदरेंत भरलें. इडली खाता आसतना तो दोळे धांपून घेतालो आनी चाबिनासतना उंडयो गिळतालो. उंडयो सामक्यो ल्हान न्हय. एक-एक करून ताणे सगळयो उंडयो खाल्यो आनी उप्रांत गटगटीत काफी पियेवन एक व्हडलो धेंकर दिलो. तो सुखावलो. मांडयेवयलो केळीचो चोळखो दोडून बसीच्या जनेलांतल्यान ताणे भायर उडयलो. आनी पोतयेंतल्यान एक ओंलो वालो भायर काडून आपले हात आनी तोंड पुसून घेतलें.

"तूं न्हिदतलो जाल्यार न्हीद." ताणे म्हाका म्हळें, "धांवते बसींत म्हाका केन्नाच न्हीद येना."

हांव हांसलों आनी भायलेवाटेन पळोवंक लागलों. तितले म्हणसर ताणे म्हाका परत हात लायलो, "खंय वता? कित्याक?"

एकाद्र्या प्रस्नाची जाप दिवन हांव ओगी रावन अशें ताका दिशिल्लें आसुये. देखून ताणे दोन प्रस्न एकाच दमात विचारिल्ले.

"अर्विल्ल्या तमीळ साहित्येचेर तिरुचिरपल्लीक एक परिसंवाद जावपाचो आसा. त्या परिसंवादाखातीर हांव थंय वतां."

"परिसंवाद इंग्लीशींत जातलो?" ताणे विचारलें.

"म्हाका खबर ना. पूण दुसऱ्या भासांचे प्रतिनिधी आसात. देखून चड करून इंग्लीशींतल्यान जातलो अशें दिसता."

"खंयचेकडेन आसा परिसंवाद?" ताणे वासपूस केली.

म्हज्या बॅगांत आमंत्रण आसलें. तें काडून हांवें ताज्या हातांत दिलें. आमंत्रणाचेर परिसंवादांत वांटो घेतल्या लेखकांची नांवां आसलीं तीं तमीळ भाशेंत. ताणे तें आमंत्रणाचें कार्ड दोळयाक वक्ल लावन तपासलें आनी म्हळें, "दुर्गाम्मा येतली... जाल्यार हांवय येतलों."

"कोण दुर्गाम्मा?" हांवें ताका विचारलें.

"व्हडली तमीळ लेखिका. तूं वळखना? तिगेल्यो कथा आनी कादंबऱ्यो खूबच गाजल्यात. कितल्याशाच कथांचेर सिनेमा लेगीत आयल्यात. म्हाका परिसंवादातलें कांय समजना. पूण दुर्गाम्माक मेळूंक हांव मुजरत येतलों."

ताज्या तोंडाचेर जे तरेची खुशालकाय हांवें पळली तिचेवेल्यान ही दुर्गाम्मा ताका खूब लागींची आसूंक जाय अशें दिसलें. कोण आसत ती ताची...?

मनांत प्रस्न आयलो तो ताका विचारलो ना. तरी म्हळें, "हांव पयलेच खेपे तिरूचिरपल्लीक वतां. थंय रावपाची व्यवस्था कितें आसा?"

"हॉटेलां आसतलीं. ना जाल्यार तूं आमगेर यो. दुर्गाम्माकय हांव आमगेर हाडटलों..."

"आयोजकांनी म्हाका विद्यापिठाच्या अतिथी घरांत व्यवस्था केल्या अशें कळयलां. विद्यापीठ शारापसून चड पैस आसा?" हांवें विचारलें.

"तूं चलून काय वचचो ना. रिक्शा मेळटात आनी रिक्शान गेल्यार कितेंच पैस न्हय."

परकी मुलखांत वतना एक वळखीचो सांगाती आसा म्हणपाचो धीर म्हाका दिसलो आनी हांवें लक्झरी बसीचो सीट फाटीं घेवन पांय लांब केले.

दुसऱ्याच खिणाक तो घोरेवंक लागलो. बसींत आपणाक न्हीद पडना म्हण्टालो; पूण आतां तो सुराचेर सूर चडोवंक लागिल्लो.

सुमार देड वरा उपरांत बस एका स्टँडाचेर थांबली. भायले वाटेन दुकानाचो आवाज. भीतल्ले लोकय जागे जाल्ल्यान तांचो कुलकुलाट.

म्हज्या शेजाऱ्यान तकली हालोवन घोरेवप थांबयलें आनी दोळे उकते केले. भायले वाटेन नदर व्हरून ताणे खंय पावल्यात म्हणपाचो अदमास घेतलो आनी एकदम म्हाका विचारलें, "तूं कॉफी कित्याक घेना?"

"ना. म्हाका नाका. तूं घे." हांवें ताका सांगलें.

ताणे आपलो थर्मास उकतो करून फुर्र फुर्र आवाज काडीत काफयेचे सात आठ घोंट घेतले आनी परत थर्मास बंद करून सिटापोंदा दवरलो.

हांवें ताजेकडेन उलोवपाचें थारावन तागेल्या वेवसायाविशीं विचारलें.

"हांव रिटायर्ड सरकारी अधिकारी. मुत्तुस्वामी म्हजें नांव. हांव त्रिचीक म्हजे धुवेगेर वतां. आनीक कितें विचारपाचें आसा?" म्हगेल्या प्रस्नांक जाप दिवन ताणे दोळे मोठे करून म्हजेकडेन पळयलें.

"तूं दुर्गाम्माविशीं म्हणटालो. म्हाका तामीळ साहित्यिकांची वळख ना. कशेंय आसना, ती दुर्गाम्मा तुगेली कोण?"

तो हांसलो. हांसतना तागेले सात आठ दांत झडिल्लें तोंड खीणभर उकतें उरलें. तेन्ना तो खूबच कुरुप दिसलो. हांसपाचो ओग सोंपतकच ताणें म्हळें, "तशें पळोवंक गेल्यार ती म्हजी कोणच न्हय आनी म्हळें जाल्यार ती म्हाका धुवेसारकी... खऱ्यांनीच तिजी खबर सांगपासारकी आसा. तुका जर न्हीद येना आसत जाल्यार हांव सांगतां."

इतलें म्हणून तो उठलो. म्हाका म्हळें, "बस थोडो वेळ उरतली. मात्शे पाय मेकळे करून घेतां. तूंय देंवतलो जाल्यार देंव. बस सुरू जातकच सगळी रात आमचेकडेन आसा. थंडसाणेन उलोवया."

तो सकल देवलो. बस सुरू जातकच मुत्तुस्वामीन एक व्हडली जांबय दिवन

उकत्या तोंडाचेर हाताचे चिरपूट वाजयलें आनी मागीर म्हाका हात लावन म्हळें, "खबर सुमार वीस वर्सां आदली. त्या वेळार म्हजी बदली सेलम जिल्ह्यांत जाल्ली." अशी प्रस्तावना करून मुत्तुस्वामीन दुर्गाम्माची खबर सांगूंक सुरवात केली.

सरकारी अधिकारी जाल्ल्यान मुत्तुस्वामीची बदली वयलेवयर जाताली. तो आनी बायल पार्वती. तांगेर एक ल्हान चली. सात-आठ वर्सांची. बापायची बदली जाता तशे गांव बदलताले. चलयेच्या शिक्षणाची अडचण जावं नये म्हणून ताणी तिका आजोळा दवरिल्ली. सरकारी क्वार्टर्सा फाटल्यान कामगारांची वस्ती. ते वस्तींतल्यो बायलो काम करूंक सरकारी क्वार्टर्सांत येताल्यो. मुत्तुस्वामीगेर जी बायल येताली ती ते वस्तींत रावताली. तिच्या सांगातान एका वर्साचें भुरगें आसतालें. मुत्तुस्वामीगेर काम अशें चड नासलें. दोग जाणांची आयदनां घांसप, कपडे उंबळप आनी सान्न मारप. बाजारांतल्यान शाकभाजी वा एकाद्री ल्हान सान वस्त हाडपाची आसल्यार पार्वती तें काम करतले बायलेकच धाडटाली.

"तिणें आपले नांव कावेरी म्हणून सांगिल्लें. कावेरी निकतीच वायटांतल्यान उठिल्ल्यासारकी दिसताली. आंगांत रगत नासतकच मनीस हळडुवो, धवो दिसता तशी ती दिसताली. तिच्या ओठांचो रंग लेगीत धवो. कृश देह आनी मोठे दोळे. ती काम करता तें पळोवन म्हज्या जिवाक लागतालें. हांव बायलेक म्हण्टालों, तिका काम कित्याक सांगता? थोडे दीस विसव घेवं दी."

"विसव घेतलो जाल्यार ती जेवतली कितें? खातली कितें? देखून काम करता." पार्वतीन घोवाक जाप दिली.

"तशें जाल्यार तूं तिका जेवण दी, पूण काम सांगू नाका. मात्शी घटसाण येतकच ती काम करतली."

कावेरी काम करता आसतना तिगेल्या ल्हान भुरग्याक पार्वती धरताली. घरचें दूद ताका पिययताली. उरिल्लें सगळें जेवण पार्वती कावेरीक दिताली. एकय दीस ती पार्वतीगेर जेवली ना. सगळें जेवण घरा व्हरताली.

पार्वतीक एक दीस समजलें, ती व्हरता तितलेंय जेवण तिगेलो घोव खावन उडयता आनी कावेरी उपाशींच उरता.

एक दीस रातीच्या वेळार भायर उटंगाराचो पावस पडटा आसतना कावेरीन दारार माल्लें. पार्वतीन तिका घरांत घेतली. पदरापोंदा ल्हान भुरगें आसलें. पावसांत चिंब भिजून ती कडकडटाली आनी रडटाली.

"कितें जालें?" पार्वतीन वासपूस केली.

"घोवान मारून घराभायर काडल्या." रडत-रडत तिणे जाप दिली. आनी आपली रडकथा सांगली.

कावेरीचो घोव एके बरे कंपनीत काम करतालो. व्यसनाच्या अधीन जावन ताणे जोडिल्ली जोड वगडायली आनी ताजी नोकरीय गेली. तेन्नासावन तो हे वस्तीत रावंक आयला. कावेरी ग्रॅज्युएट जाल्ली; पूण नोकरी मेळना देखून ती अशा त्रासांची जीण जगता.

हें कळनाफुडें मुत्तुस्वामीक कावेरीविशीं कळवळो दिसूंक लागलो आनी ताणे

बायलेक सांगून दवरलें, "हांवय तिजेखातीर नोकरी सोदपाचो प्रयत्न करतां. पूण तिका काम सांगू नाका. आपली धुवच अशें मानून आदार दी."

पूण कावेरी खूबच मानी. काम करिनासतना जेवण घेंवक ती अनमनूंक लागली. तिणे पार्वतीक म्हणचें, कसलेंच काम करूंक उणाकपण नासता. म्हाका तरी तशें केन्नाच दिसना. पूण उपकाराचें जेवण जेवप म्हळयार भीकेचें खावपासारकें तें म्हज्यान जमचें ना."

"तूं आमकां धुवेसमान. आमचें काम तरी कसलें आसता? तुजो घोव घरा नाशिल्लो जाल्यार तुका हांव आमगेरच रावंक सांगतलीं आसलीं."

"एकदम बरो मनीस गे तो!" कावेरीन सांगलें, "खूब मायेस्त. पूण एक खेपे पियेलो म्हण्टकच सामको बेभान जाता. आपूण कितें करता तें ताकाच खबर नासता."

"पूण तो सोरो पियेवंक पयशे खंयचे हाडता?" पार्वतीन विचारलें.

"तेंच म्हाकाय कळना. एके वाटेन काम ना. घरांत तर कसलीच वस्त ताणे दवरूंक ना. घर कसलें? झोपडपट्टीतलें एक कुरकुट. संडास-मात्रें भायर उश्टवाऱ्याचेर... पियेवन येता आनी वाड म्हण्टा. ताका रुचीचें जेवण जाय. तें मेळळें ना जाल्यार म्हाका मारता. ल्हान चल्याक लेगीत मारूंक फाटीं-फुडें करिना. कशे दीस काडचे तेंच म्हाका समजना. सांजवेळ जाता म्हण्टना म्हजें काळीज धडधडूंक लागता."

"तूं थोडे दीस कुळारा कित्याक वचना? कोण - कोण आसा तुका कुळरा?" पार्वतीन विचारलें.

"कुळारा सगळे आसात. खंयच्या तोंडान वचपाचें? थंय गेल्यार हांव उपाशीं उरना. पूण घोवालें घर सोडून खंयच्या तोंडान आवयगेर वचपाचें? आनी थंय कितले दीस म्हणून रावपाचें?"

"तुजे आवयक हें सगळे खबर आसा?"

"ना. ना. तांकां कोण सांगतलो?" तांकां खबर कळळयार म्हजो भाव धांवत येवन म्हाका व्हेलेबगर रावचोना हें हांव जाणा. पूण कुळारा वचून रावचेपरस हांव जीव दीन."

एक दीस एक वेगळेंच घडलें. पार्वतीन कावेरीक बाजारांत धाडिल्ली. वता आसतना तिका वाटेर घोव मेळळो आनी पार्वतीन दिल्ले पयशे काडून घेवन तो गेलो. येदें तोंड करून कावेरी परत घरा आयली. पार्वतीन तिका काय म्हळें ना.

अशेच दीस वताले. एक दीस पार्वतीन घोवाक सांगलें, "कावेरीचे पांय जड जाल्यात. म्हाका तिजीं लक्षणां बरीं दिसनात."

घोवान म्हळें, "आमी सगळें मोन्यांनी पळयतात हें चुकता. तें कांय ना, हांव वचून कावेरीच्या घोवाकडेन उलयतां."

पार्वतीन ताका आडायलो ना.

सकाळीफुडें मुत्तुस्वामी कावेरीच्या घोवाक वचून मेळळो. मुत्तुस्वामी आपणागेर आयलो तें पळोवन कावेरीचो घोव एकदम भायर आयलो आनी ताणें म्हळें, "तूं

कित्याक आयलो? म्हाका रकाद धाडिल्लो जाल्यार हांवच येतलों आसलों. आमच्या घरांत बसूंक लेगीत जागो ना."

"हांव बसूंक येवंक ना. हांव तुका फकत सांगूक आयलां, तुजे बायलेक दीस गेल्यात. तिका तुवेंच सांबाळची पडटली. कितेंय पयशे लागले जाल्यार मागून घे. अडचणी सगळयांकच येतात."

कावेरीच्या घोवान तकली हालयली. माथें खरपिलें.

घराकडेन येवन मुत्तुस्वामीन पार्वतीक सांगलें, "कावेरीचो घोव बरो सभ्य मनीस. बाबड्याचें नशीबच फुटकें. ना जाल्यार..."

कांय दीस बरे गेले. पार्वतीन आपूण जावन कावेरीक थोडे थोडे पयशे दिवचे आनी थोड्या दिसामदीं कावेरीच्या तोंडार टवटवीतसाणय दिसूंक लागली. तिणें पार्वतीक म्हळें, "म्हजो घोव सुदाल्ला. म्हाका बरें करता. नशिबान एक नोकरी मेळिल्ली जाल्यार हांव सुखी जातलीं आसलीं."

कावेरीचे दीस भल्ले आनी एक दीस अचकीत घोवान तिका बडयली. भर दनपारच्या वेळार तिगेल्यो रडपाच्यो किळच्यो आयकून पार्वती धांवत गेली. पार्वतेक दिशिल्लें, आपणाक पळोवन तो ओगी रावतलो. पूण तो अदीकच खुबळ्ळो.

"तूं मदीं पडूं नाका! रागाभरशीं हांव तुकाय मारीन. कावेरी म्हजी बायल." ताणे पार्वतेक शिटकायली.

पार्वती फाटीं सरली. पूण दयामाया करिनासतना तो कावेरीक मारता हें तिज्यान पळोवं नज जालें आनी राव नज जावन ती मदीं पडली. हातांतलो तोणको कावेरीच्या घोवान आपले बायलेचेर मारूंक उखलिल्लो. तो पार्वतीचे तकलेर बसलो. तरी तिणे पर्वा केली ना. तिणे कावेरीक घट वेंगेंत धल्ली.

दांडो पार्वतीचेर बसनाफुडें कावेरीचो घोव पळून गेलो आनी पार्वती कावेरीक घेवन आपल्या घरांत येतसर दारांतच ती बाळांत जाली.

चार दीस मेरेन कावेरीच्या घोवाचो पत्तो ना! आपली बायल खंय आसा, कितें करता हाची वासपूस लेगीत ताणे केली ना. पूण थोड्या दिसांनी जेन्ना तो कावेरीक आपोवंक आयलो तेन्ना कावेरी आपुण जावन ताज्या वांगडा घरा परतली.

"थोडे दीस राव, मागीर वच." पार्वतेन सांगलें.

"नाका, नाका. लग्न जाल्ली बायल घोवागेरच सोबता." कावेरीन जाप दिली.

कुळारा आयिल्ली चली घोवागेर परततना आवयचें मन जशें जड जाता तशी आवतीकाय पार्वतीची जाल्ली.

आयिल्ल्या दिसा घोव-बायलेचीं झगडीं चालूच उरतालीं. इतले मजगतीं मुत्तुस्वामीले बदलेची ऑर्डर आयली. गांव सोडून वचचे आदीं पार्वतीन कावेरीक आपोवन घरांतलो उरिल्लो सगलो दाणो-गोटये तिका दिवन उडयलो आनी जड अंतस्कर्णान तिजो निरोप घेतलो. कावेरी लेगीत त्या दिसा पार्वतीचे कुशींत रिगून पोटभर रडली.

"दादल्यासारको दादलो हांव." मुत्तुस्वामीन म्हाका म्हळें, "म्हज्यो बदल्यो दोन-दोन वर्सांनी जायत आसल्यो. पूण त्या दिसा कावेरी सोडून वता आसतना म्हाका लेगीत रडूंक आयलें."

येदो वेळ मुत्तुस्वामी उलयतालो आनी हांव आयकतालों. म्हाका एक कुवाडें सुटलें ना. जे दुर्गाम्माची तो गजाल सांगतालो ती दुर्गाम्मा म्हळयार तमीळ भाशेंतली एक नांवाजती लेखिका अशें ताणे म्हणिल्लें. आनी तो तर म्हाका खबर सांगतालो वीस वर्सां आदली. कावेरी नांवाचे एके बायलेची. खबर सांगता आसतना ताणे म्हणील्लें खरे कि, दुर्गाम्माचे आदले नांव कावेरी म्हणून. तरीकय तकलेंत गोंदळ जाल्लो.

"असल्यो गजाली खूबकडेन घडटात." हांवें मुत्तुस्वामीक म्हळें, "तुमी दुर्गाम्माची खबर सांगताले ती थंयच उरली."

मुत्तुस्वामी एकदम उसळ्ळो, "तुका कितें म्हणपाचें आसा? म्हजी तकली जाग्यार ना म्हणून?" ताणे म्हाका विचारलें, "उगडास आसा म्हाका दुर्गाम्माचो आनी हांव येदो वेळ तुका खबर सांगता ती तिचीच."

"म्हणजे कावेरी हीच दुर्गाम्मा? लेखिका तीच?"

"हय. सगळें सारकें सांगतां." अशें म्हणून मुत्तुस्वामीन परत दुर्गाम्माची खबर सांगूक आरंभ केलो.

"सेलम सोडल्या उप्रांत म्हजें बिराड खुबशा गांवानी भोंवत उरलें. निमाणे पोस्टींग मद्रासाक जालें. रिटायर जावचे आदलें तें पोस्टींग आसलें. रिटायर जावचे आदीं खुबशो गजाली म्हाका करचेल्यो आसल्यो. चलयेचें वय वाडिल्लें. तिजें लग्न जालें... बरो घोव मेळ्ळो... तुका वेळ मेळ्ळो जाल्यार हांवच व्हरतां आनी म्हगेल्या जांवयाकडेन वळख करून दितां... तो थंयच्या कॉलेजात प्रोफेसर आसा... फॉरेन रिटर्न. सादो न्हय. इंग्लीश शिकयता..."

खीणभर मुत्तुस्वामी दुर्गाम्माक विसल्लो आनी आपल्या जांवयाचीच खबर सांगीत रावलो.

बऱ्या वेळान ताणे जांवयपुराण थांबयलें आनी गाडी परत रूळार हाडपाच्या यत्नांत आपणे मद्रास शारांत घर कशें बांदलें ती खबर सांगली.

"रिटायर्ड जावचे आदीं ह्यो सगळ्यो गजाली करचेल्यो आसतात. एक खेपे सरकारी नोकरेंतल्यान रिटायर्ड जालो म्हण्टकच तुका कोण विचारिना... घर बांदप म्हळयार सोपें काम न्हय. पूण हांवें बांदलें आनी जाण्टेपणाची तजवीज करून दवरली. त्या दिसांतली खबर... एक दीस म्हजी बायल पार्वती कसलें तरी नेमाळें वाचताली. तिणे म्हाका उलो मारून म्हळें, "हे पळय, ही बायल तुमकां कावेरीसारकी दिसना?"

खंयची बायल काय म्हणून पळोवंक हांवें नेमाळें हातांत घेत जाल्यार तातूंत एक फोटो आसा. आनी फोटोसकयल घसघशीत अक्षरांनी बरयिल्लें आसा "दुर्गाम्मा." हांव हांसलों आनी बायलेक म्हळें, "तुवें फोटो पळयलो. पूण नांव वाचलें ना. ही लेखिका दुर्गाम्मा."

"वाचलां हांवें आनी तिगेली कथाय वाचल्या. पूण म्हाका ती बायल कावेरीसारकी दिसली. ती कावेरी न्हय हें हांव जाणां. पूण सामकी तिजेसारकी दिसता हेंच तुमकां पळय म्हळें."

"हांवें फोटो निरखिलो." मुत्तुस्वामीन म्हाका सांगलें, "म्हाकाय अजाप जालें.

कावेरीपरस ही भलायकेन बरी आनी सुंदर आसली तरी ती कावेरीसारकीच दिसताली. पूण कावेरी लेखिका कशी जातली? आमगेली कावेरी जिती आसा काय मेली... आनी तिगेलो घोव जितो आसल्यार ती कितल्या भुरग्यांची आवय जाल्ली आसत देवाक खबर! अशें येवजून हांवें बायलेक म्हळें, "ही कावेरी आसची ना."

"म्हाकाय ती दिसना." पार्वतीन म्हळें, "पूण न्हयच अशें सांगूक जावचेंना. कावेरी ग्रॅज्युएट हें तुमी जाणातच. ग्रॅज्युएट चली कथा बरोवंक शकता."

"म्हज्या डोळ्यांमुखार सेलमचे ते प्रसंग उबे रावले. आमी दोगांय त्या दिसा कावेरीविशीं उलयत रावलीं." मुत्तुस्वामीन म्हळें.

त्या दिसाच्यान त्या नेमाळ्याचे अंक मुत्तुस्वामी नेमान विकते घेवंक लागलो आनी दर एका अंकांत दुर्गाम्माली कथा येताली... फोटो येतालो. एक दीस तिजे नांवासकयल पत्तोय छापून आयलो.

"हांवें तो पत्तो म्हजे डायरेंत बरोवन दवरलो. केन्ना तरी त्या गांवात पावलों जाल्यार मुजरत लेखिकेक मेळटलों आनी ती कावेरीसारकी दिसता अशें तिका कळयतलों अशें थारायलें."

आनी एक दीस तसो योग आयलो. मुत्तुस्वामी त्या गांवांत पावतकच त्या पत्त्याचेर लेखिकेचें घर सोदीत गेलो. घर म्हळ्यार एक ल्हानसो बंगलो. बंगल्याक नांव 'कावेरी.' इतलें वैभव ते अभागी कावेरीच्या नशिबात खंयचें, अशें ताज्या मनांत आयलें. भयण आसत काय तिजी? घडये जुंवळी भयण लेगीत आसूं येता!

दुबाव आनी उत्सुकतायेच्या उमाळ्यासरशीं ताणे गेटीच्या दाराक हात घालो मात, एक आल्सेशन भितल्ल्यान भुंकलो. दुसऱ्याच खिणाक एक जाण्टी बायल भायर आयली. तिणे सुण्याच्या गळ्याक सांखळी घाली आनी पयसुल्यानच मुत्तुस्वामीक विचारलें, "कोण जाय?"

मुत्तुस्वामीन म्हळें, "लेखिका दुर्गाम्मा हांगा रावता जाल्यार..."

"हय हांवच दुर्गाम्मा. भीतर येयात." तिणे ताका आपयलो.

"आनी तुका कितें सांगतलो? हांव जेन्ना बंगल्याची सपणां चडूंक लागलो तेन्ना ते दुर्गाम्मान म्हज्या पांयार तकली दवरून म्हाका नमस्कार केलो."

"तीच कावेरी आसली?" हांवें विचारलें.

"सांगता तें तरी आयक." मुत्तुस्वामीन म्हळें, "ती म्हाका वळखली. पूण हांव तिका वळखलोंना दोळयांचेर भांगराच्या फ्रेमीचें वक्ल आनी केंसान केंस पिकला."

"पार्वतीअम्मा आयली ना?" तिणें मुत्तुस्वामीक विचारलें.

"तुज्या सगळ्या प्रस्नांची जाप दितां आनी तुजें हे वैभव पळोवचेखातीर पार्वतीकय घेवन येतां. पूण आदीं एक सांग, दुर्गाम्मा नांवाची लेखिका तूंच?"

"हय. हांवच. घोवान मारून घराभायर घालतकच म्हाका एके जाण्टे बायलेन आदार दिलो. ती सिनेमांत एक्स्ट्रा नटी म्हणून काम करताली. म्हजी कथा आयकून तिजो एक बरो सिनेमा जातलो अशें तिणे सांगलें आनी म्हजीच कथा हांवें बरयली. सिनेमा गाजलो आनी म्हजें नशीब फळफळ्ळें... तुमचे आनी पार्वतीअम्माचे उपकार हांव जल्मभर विसरचींना. तुमी पळयला आसतलो न्हय सिनेमा?'

“ना. ‘कावेरी’ हे पिक्चर गाजलें हें आमी आयकून जाणात. पूण आमी चडशे सिनेमा पळयनात आतां मुजरात पळोवचो पडलो.”

“पळयात. त्या सिनेमात तुमचें आनी पार्वतीचें पात्र आसा. सगळी म्हजी काणी हांवें बरयल्या. त्या उप्रांत हांव बरयत रावलीं...” इतलें सांगून मुत्तुस्वामीन गाडयेचें गियर बदलतना जाता तसो आवाज तोंडातल्यान काडलो आनी म्हळें, “तिगेलीं भुरगीं आतां व्हडलीं जाल्यांत. घोव ना इतलेंच दुःख. पूण तें दुःख कशें म्हणून येता? त्रिचीक तुका ती मेळटली. मुजरत मेळ. हांवय येतलों... सांग, दुर्गाम्मा म्हजी कोण?”

हांवें विचारिल्लो तोच प्रस्न मुत्तुस्वामीन म्हाका विचारलो आनी तो व्हडा व्हडान हांसलो!



# १९. मानुएल

मानुएलाची आनी म्हजी वळख भुरगेपणांतली. स्कुलांत शिकता आसतना तो आमच्या वर्गांत नासलो, तरी आमचो हिरो आसलो. फुटबॉलाच्या खेळांत तो इतलो हुशार कि जे टिमींत मानुएल आसत ती टीम जिखताली. शिक्षणांत तो मात्सो फाटीं. पूण स्पोर्टांत ताका कितलीशींच इनामां मेळटालीं.

म्हाका उगडास जाता ते भाशेन शिक्षण अर्दार सोडून मानुएल मुंबय गेलो आनी त्या उपरांत हांव मानुएलाक पुराय विसरून गेलों.

हालीं हालीं मानुएल मडगांवां म्हाका जायते खेपे दिसतालो. तोंड वळखीचें दिसलें, पूण हांव ताका वळखलों ना. येतना वतना नदरेक नदर दिवन आनी तोंडार हांसो हाडून तो म्हाका हटकितालो. हांव ताका हांसतालों; पूण ताजी म्हजी वळख खंयची आनी तो कोण तें म्हाका याद जायना आसलें. एक दीस म्हाका टॅक्सी जाय आसली आनी योगायोगान मानुएलाची टॅक्सी हांवें भाड्याक घेतली. तेन्ना कळ्ळें तो टॅक्सी ड्रायव्हर म्हणपाचें.

बरो वेळ तो मोन्यांनी टॅक्सी चलयतालो. हांवय म्हज्या विचारांत गुल्ल आसलों. मदींच ताणे म्हळें, "पात्रांव, तूं म्हाका वळखलो ना दिसता?"

"तूं म्हाका सद्दां मेळटा मरे." हांवें जाप दिली.

"मेळटा तें जालें. पूण हांव कोण तें तूं नकळ? उगडास करून पळय." ताणें म्हळें.

"रागार जावं नाका. तुजें तोंड वळखीचें दिसता, पूण आमची वळख खंय जाली ताजो उगडास जायना."

"हांव मानू!"

ताणे आपले भाशेन वळख करून दिली. पूण साबार वर्सांचे विसरायेच्या पोंदा चिड्डल्लें तें नांव वयर आयलें ना. हांव येवजीत उल्लों.

"स्कुलांत आमी सांगातान आसले." ताणे म्हळें.

काळखांतल्यान उजवाडाचें कीर्ण येवचें तसो म्हाका अंधुक उगडास जालो. पूण म्हज्या मनाक चड ताण दिवचो पडलो ना. भुरगेपणांतल्यो कितल्योश्योच यादी ताणे सांगल्यो आनी सगळें भुरगेपण धांवत येवन म्हज्यामुखार उबें रावलें.

"आतां उगडास जालो." हांवे म्हळें, "तूं मुंबय गेल्लो न्हय?"

"हय. मुंबय म्हजो बापूय आसतालो. एक दोन वर्सां थंय शिकलों आनी उपरांत एका मेकानिकाल्या वर्कशॉपांत चाकरी केली. थंय गाडी चलोवंक शिकलों आनी उपरांत साबार वर्सां मुंबय शारांत टॅक्सी चलयतालों." मानून थोडे भीतर आपली खबर सांगली.

"आतां गोंयांत आयलो दिसता." कितें तरी म्हणूंक जाय आशिल्लें इतलेच खातीर हांवें म्हळें.

"हय. घराकडेन कोण ना. घर बंद उरतालें. एक शेता कुडको आसा, तो पडंग

उरतालो. देखून गोंयांत आयलों."

"बायल भुरगीं...?"

"बायल घरा आसता. भुरगीं मुंबय आसतात. व्हडले चलयेचें थंयच लग्न जालां आनी धाकलो चलो मुंबय नोकरी करता. फुडल्या वर्सा तोय लग्न जातलो. घरांत आमी दोगांच उरतात. तूं एक दीस आमगेर येना कित्याक?" ताणे म्हळें.

त्या दिसा उपरांत मानू रस्त्याचेर दिसलो जाल्यार दोन मिनटां ताजेकडेन उलोवपाची संवय हांवें लावन घेतली. वयलेवयर तो म्हाका मेळटा. मेळिल्लेय खेपे एकाद्री खबर सांगता, एकाद्रो प्रस्न विचारता आनी हांसून निरोप घेता. म्हाका केन्नाय टॅक्सी जाय पडली वा इश्टांक, सोयऱ्यांक टॅक्सी थारावन दिवची पडली जाल्यार हांव मानूलीच टॅक्सी घेतां. पूण एकय दीस तागेर हांव पावलों ना.

फाटल्या सप्तकांत मानू म्हाका रस्त्याचेरच मेळ्ळो. सदचेवरी ताणे म्हाका हटकिलो. खबर घेतली आनी म्हळें, "पात्रांव, म्हाका तुजेकडेन कितें उलोवपाचें आसा."

"सांग मरे." हांवें म्हळें.

"अशें न्हय. तूं आमगेर यो. थंडसाणेन उलोवंक मेळटलें."

तागेल्या तोंडावयले गंभीर भाव पळोवन हांवें हांसून विचाल्लें, "बायलेकडेन झगडलो बी ना मरे?"

तोय हांसलो.

"आतां आमचें झगडपाचें कितें उल्लां?" ताणे म्हळें, "हांव तुका दुसरीच खबर सांगूंक सोदतां. म्हाका तुजी बुध्द जाय."

"बरें आसा, येतां एक दीस. ताकीत ना मरे?" हांवें विचाल्लें.

"ना. तशी ताकीत ना. पूण आमी कितेंय तरी करूंक जाय. ना जाल्यार एक संवसार काबार जातलो." ताणे म्हळें.

मानू गेलो, पूण म्हाका प्रस्न पडलो. कसली खबर मानू सांगूंक सोदता काय? हांवें मनांत थारायलें, वेळांत वेळ काडून एक दीस मानूगेर वचप. पूण तो योग आयलोच ना. मदीं केन्नाय मानू दिसतालो आनी याद दितालो. तेन्ना हांव ताका उतर दितालों. तरी हांव तागेर पावना आसलों.

निमाणे एक दीस मानून म्हाका सांगलें, "तूं येतलो म्हणून वाट पळयली. तुका वेळ मेळना. हांव आज सांजचो तुका व्हरूंक येतां. कितल्या वरांचेर येवं तें सांग."

हांवें येवजिलें, मुजरत गेले बगर हांव मानूगेर पावचो ना आनी आपली खबर सांगले बगर मानूक समाधान जावचें ना.

त्याच दिसा सांजचो मानू म्हाका व्हरूंक आयलो आनी ताज्या सांगातान हांव तागेल्या घराकडेन गेलो.

वाटेर मानून म्हळें, " जाणा तूं पात्रांव, आमचो हो धंदो पाडो! ह्या धंद्यांत बरेय लोक आसतात आनी वायट लोकय आसतात. पूण धंदो करतल्याक कगाळ करूंक मेळना."

"सगळ्या धंद्याचें अशेंच आसता. टॅक्सीचोच धंदो पाडो अशें तूं कित्याक म्हणटा?"

"तें खरें. पूण आमच्या धंद्यांत आमकां बैलासारकें काम करचें पडटा. बऱ्या लोकांकडेन संबंद येता आनी वायट लोकांकडेनय संबंद येता. केन्ना केन्नाय पैशांखातीर मन मारचें

दिसता?''

''म्हाका दुबाव येता आनी तो इल्लो खर दुबाव आसा, तो चड करून ह्या तियात्रांतले नटयांचो म्हाका विस्वास दिसना हे खातीर. आंगावयलो भेस बदलचो तसो ह्यो नटयो दादलो बदलतात. तांच्या काळजांत मोग नासता. तीं भेरेल्यांत...''

''हय रे.'' हांवें मानूक समजायलो, ''तूं म्हण्टा तें खरें आसता, पुण सगळयोच नटयो तशो नासतात. खूबशो लग्नाउपरांत सुदारतात. दुबावाचें वक्त दोळयांक लायलें म्हणकच दुबाव वाडत उरता. तुजें तशें जाल्लें आसूं येता.''

''तशें हांवय येवजितां, पूण मन कबूल जायना. हांवें कितें कितें देखलें तें तुका आदीं सांगतां. मागीर तूं सांगशीत तशें करतां.'' मानून म्हळें.

तोमेच्या काजाराक मानू गेल्लो आनी तोमेन आपले व्हंकलेकडेन मानूची वळख करून दिल्ली. तसो तिका सगळो गांव वळखतालो. काजाराउप्रांत मस्कताक वतना मानूनच ताका विमानतळाचेर पावयिल्लो. सांगातान ताजी बायल आसली. टॅक्सींत ताणे आपले बायलेक परत एक खेपे सांगलें, ''मानू म्हजो विस्वासाचो इश्ट. तुका कसलेंय काम आसल्यार तूं ताका सांग.'' आनी मानूकय ताणे आपले बायलेक आदार दिवंक सांगलें.

तेन्ना भुरगीं जावंक नासलीं. विमानतळाचेर तोमेची बायल जे तरेन रडली तें पळोवन मानूच्या काळजाक पीळ पडलो. मानूनच तिका परत घरा पावयली.

''तेन्ना ती खूबच काचाबूल जाल्ली.'' मानून सांगलें, ''आनी दोगांयलोय मोग पळोवन म्हजें काळीज भरून आयलें. हांवें तिका आमगेर व्हेली. म्हजे बायलेन तिका धीर दिलो आनी त्या उपरांत केन्ना ती आमगेर जाल्यार केन्ना आमी तिगेर येतालीं वतालीं.''

वर्साक एक खेपे तोमे परत येतालो. म्हयनो दोन म्हयने रावतालो आनी परत मस्कताक वतालो. साबार वर्सां उलगलीं. आज तोमेलो व्हडलो भुरगो आठ वर्सांचो आसतलो. ताजे फाटलो दुसरो चार पांच वर्सांचो आसूंये. घरांत कामाक एक बायल दवल्ल्या आनी तिगेली एक पयसुली मावशी तांगेरच आसता.

''हालीं हालीं मेरेन कसलेंय काम आसल्यार ती आमगेर येतली. केन्ना भुरग्यांक बरें ना म्हणून वा केन्नाय शारांत वचपाचें आसल्यार. फेस्ताच्या दिसांनी, नातलाचे परबेक ती आमगेर येताली. आमकां ती घरचीच दिसताली. पुण तीन म्हयन्या फाटीं हांवें तिका एका परकी दादल्या सांगातान कळंगुटचे वेळेर पळयली.''

''कोण तो दादलो?'' हांवें विचाल्लें.

''कोणय तरी टुरीस्ट आसतलो. पुण ही म्हाका पळोवन तोंड लिपोवंक लागली आनी त्या दादल्याक ओडून घेवन हॉटेलांत गेली.''

''घडये तिजो कोणय वळखीचो आसूं येता. घडये सोयरो आसत. तुका दुबाव कित्याक आयलो?''

''दुबाव येवपाक साबार कारणां आसात.'' मानून म्हळें, ''तीनसानचो वेळ. हांव एक भाडें घेवन कळंगुटे गेल्लों. आदीं हांवें तिका वेळेर पळयली. तांचे दोगांमदीं बियरची बाटली आसली. म्हाका कांय दिसलें ना. पुण मागीर तिची वागणूक खंयचेय काजारी बायलेक सोबची ना अशी जाली. एकामेकांक वेंग मारप, आंगाक हात लावप, मांडयेर तकली दवरून न्हिदप... म्हाका तिडक आयली. हांव वयर येवन टॅक्सीसरीं रावलों. म्हाका राग

आयिल्लो. घोव भायर आसा, भुरगीं घरा आसात आनी ही बायल हांगा हे नाच करता कित्याखातीर असो म्हाका प्रस्न पडलो. पयशांखातीर कांय बायलो शिंदळकी करतात, पुण हिका पयसो उणो ना. बरो मायेस्त, गिरेस्त घोव मेळ्ळा. तरी मनांत एक दुबाव... घडये ती दुसरी कोणय आसतली. पुण जेन्ना म्हज्या मुखावयल्यान वतना तिणे तोंड लिपयलें तेन्ना म्हाका दुबाव उल्लो ना. तरीकय हांव गांवांत वतकच थेट तोमेल्या घराकडेन गेलों. ती सकाळींच भायर सरून गेल्या, एकाद्र्या वेळार रातची येवचीना अशें सांगून गेल्या म्हणपाचें कळ्ळें.''

मानूल्या दुबावाक आदार मेळिल्लो. पुण एकाच प्रसंगावेल्यान तोमेन निष्कर्ष काडूंक नासलो. त्या उपरान्त ताणे तिका जायते खेपे पळयली. केन्ना हॉटेला कडेन जाल्यार केन्ना हेरकडेन. पावटीन पावट कोणतरी एक दादलो तिज्या सांगातान आसतालो.

एक दीस मानून धाडस करून तिगेर वचपाचें थारायलें. ती ताका मेळ्ळी. मात्शी बेपर्वायेन ताजेकडेन वागली. ''हांव बोवाळांत आसां,'' तिणें म्हळें आनी विचाल्लें, ''कित्याक आयिल्लो?''

''हरशींच खबर घेवंक.'' मानून जाप दिली, ''पूण एक सांग, ह्या दिसांनी तूं खूब भोंवता. खंयखंय दिश्टी पडटा. जालां कितें तुजें?''

''तुका सांगूंक विसल्लीं.'' तिणें म्हळें, ''म्हाका नोकरी मेळ्ळया. वेळ वचनासलो, जाणा तूं! देखून हांव ती नोकरी करतां. टुरिस्ट गायडाची नोकरी. पयशांचें सोड, पुण काम करपांत उमेद येता,''

''तुवें तोमेक कळयलां?'' मानून विचारलें.

''कळोवंक कित्याक जाय? तो येतले तेन्ना सांगतलीं. हांवें तुका सांगलांच, हांव पयशांखातीर नोकरी करिना. म्हज्यान केन्नाय सोडूं येता.''

मानू चड कांय उलयनासतना घरा परतलो. पुण आपलें गुपीत मानूक कळ्ळां आसत ह्या दुबावान त्याच दिसा दनपारची ती मानूगेर आयली. मानू घरा नासलो. आपणाक गरजेन येवन मेळ असो रकाद दवरून ती गेली.

घरा येतकच मानूक रकाद मेळ्ळो आनी तो तोमेगेर गेलो. त्या दिसा ती मानूकडेन विचित्र वागली.

''मर्यादा सोडून ती आंगार पडटाली. निमाणे तिणे म्हाका म्हळें, तूं मागता तें हांव दितां. पूण तोमेक कांय सांगचोंना म्हणून उतर दी. हांव उतर दिना हें पळोवन तिणें म्हाका वेंग माल्ली आनी तुवें उतर दिलेबगर सोडिना अशें सांगलें. तेन्ना हांवें तिका उतर दिलें आनी हांव परतलों.''

इतलें उलोवन मानू खार्शेल्लेभाशेन श्वास घेवंक लागलो. ताजे उचांबळ मन थाऱ्यार येवंक बरो वेळ लागलो. सावचित जावन ताणे म्हळें, ''ही खबर हांवें म्हजे बायलेक लेगीत सांगूंक ना. तुकाच म्हूण सांगल्या. तूं सांग, म्हजी लागणूक कितें? तिका दिल्लें उतर पाळूं, काय इश्टाक खरी खबर सांगूं?''

म्हाका जाप येवजली ना.

ताणें म्हळें, ''कितलो कठीण प्रस्न हें तूंव पळय. जाणा तूं, हे अरबस्तानांतले पयशे आमचे घराबे काबार करतात...''

"चल या." एकदम उठून ताणे म्हळें, "तूं थंडसाणेन येवजीय आनी मार्ग सोदून काड. तोमेचो घराबो उध्वस्त जावंक फावना."

हांव मोन्यानी ताज्याफाटल्यान आयलों आनी टॅक्सींत बसलों. मानूचेंय मन भरून आयिल्लें. सगळे वाटेर तो कांय उलयलोना. म्हाका घराकडेन पावोवन निखटो हात हालोवन ताणे म्हजो निरोप घेतलो.



# २०. खंत

"आज एक पर्व सोंपलें!" ताणे म्हळें आनी आपलेच हात व्हडान आपल्या मांडयांचेर मारून घेतले. उपरांत मान सकल घालून तो ओग्गी बसलो. ताज्या तोंडावयली पिडा दिसताली. पूण कसलें वादळ ताज्या मनांत घोगेता हाजो अदमास दुसऱ्याक कसो येत? म्हज्या सारकिल्या तिरायताक तर तो येवपाचें कारणच नासलें.

हांव एका कामाखातीर ताका मेळूंक गेल्लों. पूण ताजेकडेन कामाचो विशय काडचे आदींच आमच्यामदल्या संवादाक वेगळेंच वळण मेळून बसलें.

हांव थंय पावलों तेन्ना ताज्या हातांत ज्ञानेश्वरीचो ग्रंथ आसलो. हांव आयलों तसो ताणे उकते अवस्थेंतच ज्ञानेश्वरी मुखावयले टिपॉयचेर दवल्ली आनी म्हाका येवकार दिवंक तो उबो रावलो. तो बशिल्लो त्याच सोफाचेर कुशीक हांव बसलों आनी हांवें "कसो आसा?" असो उपचाराचो प्रस्न ताका विचाल्लो. गिमाचे दीस जाल्ल्यान माथ्यावयलो विजेचो पंखो पुराय स्पीडीन घुंवतालो आनी त्या पंख्याच्या वाऱ्यान ज्ञानेश्वरीची पानां फडफडूंक लागलीं. पूण थंय ताजें लक्ष नासलें. हांवेंच उकत्या पानाचो नंबर पळयलो आनी ग्रंथ बंद केलो. पानाचो फटफट थांबलो.

"खरें सांगतलों जाल्यार सगळेंच गडबडलां." ताणे आपले दोनय हात मुडून जाप दिली, "मनाची अशांतताय शांत करचे खातीर ही ज्ञानेश्वरी घेवन बसलां. पूण मन थीर जायना."

"अशें कितें जालें तर?" हांवें दुसरो प्रस्न केलो.

"आज एक पर्व सोंपलें!" ताणें जाप दिली.

फ्लॅटाच्या त्या हॉलांत एके तरेची गंभीर शांतताय पातळली. ज्याका मेळूंक आयिल्लों तो खंती आसा, दुख्खी आसा. ताचें मन अशांत आसा आनी मनाची अशांतताय विसरपाखातीर तो ज्ञानेश्वरीचो आदार घेवंक सोदता. अशे परिस्थितींत ज्या कामाखातीर हांव तागेर गेल्लों त्या कामाचो विशय कसो काडचो असो म्हाका प्रस्न पडलो.

बरो वेळ मान सकल घालून आनी मनांतल्या मनांत कितें तरी उलयिल्ले भाशेन तकली हालोवन तो बसून रावलो. तागेल्या तोंडावयले भाव नियाळीत हांव ताजे कुशीक बसून उल्लों. हांवें मनांत येवजिलें कि म्हाका म्हूर्त बरो सांपडलो ना. उठून परतुचें. दुसरे खेपे केन्नाय ताजे सरीं येवचें. पूण कांय एक उलयना आसतना उठून वचपय समा दिसलें ना. देखून हांव बसून रावलों.

खूब वेळ गेलो तरी तो तकली वयर काडून म्हजेकडेन पळयना. हांवेंच विचारलें, "अशें घडलां तरी कितें?"

"सांगलें न्हय?" एक सुस्कार सोडून परत आदलेंच वाक्य उलयलो, "एक पर्व सोपलें."

"तें समजलें. पूण कसलें पर्व? कोण सोंपलो?" हांवें विचारलें.

शुध्दीर आयिल्लेवरी ताणे तकली वयर केली. विचारांच्या ध्यानातल्यान भायर आयिल्लेभाशेन तोंड केलें आनी म्हळें, "तें सोड. तूं कित्याक आयिल्लो?"

म्हजें काम हांवें ताका सांगलें. ताणे तें रोखडेंच केलें आनी म्हळें, "राव इतल्या दिसांनी तूं आमगेर पावला. च्या घेवन वच."

तो उठून भितर गेलो आनी च्या करूंक सांगून परत येवन बसलो.

हांवे म्हळें, "तूं खुबच चिंतेंत आसतनाय तुवें म्हजें काम केलें. हांव तुजो उपकारी आसां. पूण तुजी चिंता कसली ती सांगपासारकी आसत जाल्यार सांगना कित्याक?'

विचित्र नदरेन ताणे म्हजेकडेन पळयलें. गंभीर तोंडाचेर मंद हांसो फुल्लो काय तसो म्हाका भास जालो? मागीर आवयची नदर चोरून लाडू काडटल्या भुरग्यावरी तोंड करून ताणे आपली नदर भितल्ले वाटेन भोंवडायली. भितल्ले वाटेन कांकणां सळसळिल्ल्याचो आवाज आयलो तसो ताणे आपलो दावो हात आपल्याच तोंडाचेर दवरून म्हाका ओगी रावंक खुणायलो.

एक बायल सालाच्या दारांत येवन पडद्याचे कुशीक उबी रावली. दोन कप आनी बिस्किट्यांची एक प्लेट घाल्ली ट्रे तिणे मुखार धल्ली. दारावटेच्यान ताजी फाट आसली.

हांवें ताका म्हळें, "च्या हाडल्या दिसता."

"हांगा हाड.' ताणे म्हळें.

पूण तो उठलो ना.पडद्याकडली बायल फाटीं सरली. आपलें खोयिल्लें न्हेसण तिणे मेकळें केलें. पदर सारको केलो आनी पळोवंक आयिल्ली व्हंकल जशी मान सकल घालून भितर येता तशी ती सालांत आयली. ट्रे टिपॉयचेर दवरूंक बागवली.

टिपॉयचेर ज्ञानेश्वरीचो ग्रंथ आसलो. हांवें हात फुडें करून ज्ञानेश्वरी हातांत घेतली तेन्ना तिणे ट्रे दवरली.

"ही म्हजी बायल." ताणे वळख करून दिली. ती आनीकय संकोचली.

म्हाका दिसलें, ती गरजेभायर चड लजेता. पन्नाशीच्या घरांतली ती बायल णव वारी कापड न्हेशिल्ली. घरांतच आसली तरी तिच्या दोनय हातांक गोंट, पाटल्यो आनी कांकणां आसलीं. गळयांत मंगळसुत्राभायर एक सरपळी. कपलावलो कुकमाचो टिळो हुमेन सगळयाक पातळिल्लो. केसांत मदीं भांग काडून फाटल्यान आंबाडो घाल्लो.

म्हाका एके नदरेन पळियिल्ले भाशेन करून ती आयिल्ली तशीच मान सकल घालून परतली. ती येतना आनी वतना तिगेली पावलां शिमिटाचे जमनीचेर 'घब्ब घब्ब...' करून वाजतालीं. देह इल्लो ऐसपैस. तिका मोठीच म्हणूंक जाय.

च्याचो कप हातांत उखलतना हांवें ताका पळोवन घेतलो. कृष्णवर्णी, बारीक शिडशिडीत असो तो आसलो. रूंद कपल आनी दाट भोंवयांक लागून दोळे बुकल्या सारके दिसताले. तोंडावळयाच्या मानान नाक इल्लें लांब आनी नाकाचें तोंक वयल्या ओठांवयर हुमकळटा अशें दिसतालें. ताज्या एका कानांत भिकबाळी. उजव्या हाताक दोन मुदयो. तो उकतोच बशिल्लो. आंगार फकत एक बानयान आनी एक लेंगो. इतलेंय करून ताजी पिराय तिच्या मानान चड दिसताली. उणेच साठ आसतली असो हांवे अदमास केलो.

बायलेच्या पावलांचो आवाज विरलो तसो ताणे म्हाका बिस्कीट खावचेलो आग्रो केलो

आनी म्हळें, '' म्हज्या अणभवाची एक गजाल तुका सांगतां. मनांतली गजाल बायलांहुजीर उलोवची न्हय. एक तर तांकां ती समजना. त्याभायर तीं सारकी आयकून घेनात. अर्दवट आयकतात आनी गोंदळ करतात. मागीर वा म्हणटना वार्ता जाला. इतलें करून ओगी रावनात. खुबळटात, पिट्ठळतात, फुगरो धरून मौनव्रत घेतात. तरीकय कोणे जाप दिलीना जाल्यार आयदनां आपटूंक लागतात. असल्यावेळार तांकां जाप दिवंक उपकारना. दिली रे दिली जाल्यार घर माथ्यार घेतल्यो!''

तो कितें उलयता ताजो म्हाका बोध जायनासलो. पूण सभागी आपले बायलेक खुबच्च भियेता आनी तो एक असली गजाल म्हाका सांगूक सोदता, जी ताका आपले बायलेपसून लिपोवपाची आसा, इतलें म्हाका समजलें.

म्हाका तागेली गजाल आयकूंक मेळ्ळी जाल्यार जाय आसली. पूण तो जे तरेन एक एक उतर उलोवंक वेळ काडटालो ती तागेली तरा लटकी आनी नाटकी दिसली. ताज्या नादाक लागलों जाल्यार सगळो वेळ फुकट वचत म्हणपाची भिरांत आसली. देखून हांव उठलों. म्हजें काम केलें हे खातीर ताजे उपकार मानले आनी ताजो निरोप घेतलो.

ताणे म्हाका बसूंक आग्रो केलो ना. आपूणय उठलो आनी म्हाका पावोवंक म्हणून भायल्या दारामेरेन आयलो. उप्रांत तो आंगणात देंवलो. थेट म्हजे मोटारीसरीं आयलो. अचकीत ताणे म्हजो हात घट धल्लो आनी म्हळें, '' तूं घडलां कितें काय म्हणटालो न्हय? तुका सांगून उडयतां. घडये म्हजें मन ल्हव जातलें. पूण एक मात उतर दिवचें पडटलें, ही खबर म्हजे आनी तुजेभितर. तिसऱ्याक कळूंक जायना. न्हय म्हळयार तुजे बायलेक लेगीत सांगूंक फावना. बायलांची गजाल तुका सांगल्याच. कसलीय खाजगी गजाल तांकां कळ्ळी जाल्यार ती गांवभर करप होच आपलो धर्म अशें त्यो मानतात.''

परत हागेलें पुराण सुरू जातलें अशें येवजून हांवें म्हळें, ''सांग तूं. हांव कोणाक सांगिना. पूण तूं परवानगी दिली जाल्यार हांव तुजें नांव-गांव सांगिनास्तना ती बरोवन काडीन.''

''च्यॅं! च्यॅं! सांगली कितें आनी बरयली कितें? तें गुपीत उरना. ते परस तुका सांगनाशिल्लीच बरी.'' एकदम तो फाटीं सरलो.

''तुका म्हजें म्हणणे समजूंक ना.'' हांवें म्हळें, ''हांव जेन्ना ही खबर बरयतलों तेन्ना ती कोणाविशीं हें वाचतल्याक कळचेंना. तुवें ती दुसऱ्या कोणाक सांगूक नाशिल्ल्यान तुजो दुबाव कोणाक येवचोना. पूण तुज्या एका दुःखाक वाचा फुट्टली आनी घडये जो मनीस तुज्या दुःखाक कारण जाला ताका तरी तुका कितलें दुःख जालां हें कळटलें.''

येवजिल्ले भाशेन करून ताणें म्हळें, ''जाता. पूण एक सांग, तूं आता खंय वता?''

''हांव घरा वतां.''

''तशें न्हय. तुका जर वेळ आसत जाल्यार हांवय तुज्या सांगातान येतां. खंयय वचून बसूया आनी उलोवया.'

ताकतिकेन कपडे घालून तो आयलो आनी गाडयेंत बसलो. गाडी सुरू जायना फुडें ताणे म्हळें, ''तुका कशें सांगचें तें म्हाका कळना. पूण म्हजें मन खंतीन बुडून गेलां.''

हांवें म्हळें, ''जें कितें सांगपाचें आसत तें तूं मेकळेपणान सांग. हांव समजून घेवपाचो यत्न करतां. पूण एक गजाल आदींच सांगूंक सोदतां. तुगेलो प्रश्न सोडोवपाचें काम मात

म्हाका सांगूं नाका.''

तो हांसलो. ताणे म्हळें, ''तुजेसारकिले लेखक जर प्रस्न सोडोवंक बसले जाल्यार बरयतलो कोण? आनी सगळे प्रस्न सुटले जाल्यार बरोवपाक उरतलें कितें?''

म्हाका तागेली जाप आवडली. हांवें म्हळें, ''तूं जे तरेन उलयता ती पळयली जाल्यार तुजी खबर तूंच बरी बरोवंक पावतलो अशें म्हाका दिसता.''

ताणे जाप दिली ना. म्हाका उगडास जालो. तो ज्ञानेश्वरी वाचतालो म्हणटकच ताका वाचपाची आवड आसूंक जाय.

''कांय गजाली अश्यो आसतात,'' एकदम ताणे सुरवात केली, ''ज्यो सांगूंक लेगीत चोरी. एक सांग, तूं पातकपुण्य मानता?''

ताणे हो प्रस्न म्हाका विचाल्ला हें म्हज्या लक्षांत गेलें ना. म्हजी जाप येना हें पळोवन ताणे परत विचाल्लें, ''तुका म्हणटां हांव, तूं पातक-पुण्य मानता?'

''सर्ग-नर्क मेळोवपाचे नदरेन जरी मानिना आसलों तरी पातक आनी पुण्याची कल्पना ही न्याय नीतीचे राखणे खातीर रूढ जाल्या.'' हांवें जाप दिली.

''न्यायाची गजाल सोडून दी.'' ताणे म्हळें, ''पूण नीत-अनीत म्हळयार कितें? एका मनशाचे वा समाजाचे नदरेन जी अनीत आसता ती दुसऱ्या मनशाक वा समाजाक अनीत दिसची ना.''

''हय.'' हांव ताजेकडेन सहमत जालों आनी म्हळें, ''तुका जें कितें सांगपाचें आसा तें सांग.''

'' अशें कर.'' ताणे म्हळें, '' गाडी सरळ वेळेवयल्या हॉटेलाकडेन व्हर. थंय आमकां बरो एकांत मेळटलो. च्या कॉफी कितेंय घेवया आनी उलोवपाचें तें उलोवन घेवया.''

हांवें गाडी वेळेचे दिशेन घुंवडायली. आतां तो उलोवंक लागलो, ''म्हजी पिराय कितली आसत अशें तुका दिसता?''

असल्या सरळ प्रस्नाक जाप दिवंक हांव अनमनतां. तरी हांवें म्हळें, ''साठांपरस चड नासतली.''

''अशें कितें म्हणटा तू?'' तो हांसलो, ''म्हज्या भुरग्यांनी आनी नातरांनी चार वर्सां आदींच म्हजी साठी मनयली. हय तर, सांगपाचो मुद्दो असो कि साठी हुपिल्लो हांव म्हातारो. म्हाका तीन धुवो. सगळयांचीं लग्नां जाल्यांत आनी म्हगेर नातरांय आसात. दोन पूत. एकलो लग्न जाला. तो मुंबय आसता. दुसरो अजून लग्न जावंक ना. तो दुबाय नोकरी करता. खूब जोडटा. घरांत हांव आनी म्हजी बायल. आमी दोगांच. सोयरे दायरे येत वचत आसतात. घर तशें रिकामें उरना.''

''एके तरेन तुजी जीण संतुश्ट म्हणूंक जाय.'' हांवें म्हळें.

''तूं म्हणटा त्या अर्थान पुराय संतुश्ट. हें भाग्य चडशा जाणांक मेळना. कृतार्थ मनान देवाचें नांव घेत निवृत्त जीवन म्हज्यान जगूं येता. एके भाशेन तसलीच जीण हांव जगतां. म्हाका उणे कांय ना. पूत जोडटात आनी घरा पैशेय धाडटात. पूण हांवें जें जोडून दवल्लां तें इतलें चड आसा कि म्हाका तांच्या पैशांची गरज लागना.''

''मागीर तुजें दुख्ख कितें तर? पूत, सुनो वा धुवो जावं नातरां पयस उरतात आनी भरिल्लो संवसार आसतनाय एकोडी जीण जगची पडटा हें तुजें आनी तुजे बायलेचें दुख्ख

आसूं येता.''

''हय, तें दुख्ख आसता. पूण ताजी व्हडली पर्वा ना. हांव तुका सांगूंक सोदतालों ती वेगळीच गजाल. पिरायेच्या साठाव्या वर्सा म्हजे जिणेंत एक चली आयली. आनी तिणे म्हज्या काळजांत मोठें वादळ हाडलें. ते चलयेची खबर हांव तुका सांगूंक सोदतां.''

''कोण चली?'' हांवें विचाल्लें.

''धीर धर. आदीं हॉटेलांत वचून बसूया. थंयच सगळें सांगतां.'' ताणे म्हळें.

गाडी हॉटेला लागसार पाविल्ली. गाडी थांबना फुडें ताणे आपल्या बोल्सांत हात घालून नोटी भायर काडल्यो. त्यो मेजिल्ले भाशेन केल्यो आनी परत बोल्सांत घाल्यो.

''कितें जालें?'' हांवें विचाल्लें.

''कांय ना. सोंशाचे शिकारेक वतना वागाची तयारी दवरची अशें म्हणटात. असल्या हॉटेलांत वता आसतना बोल्सांची ऊब पळोवनच वचचें पडटा.''

हांव हांसलों. ताज्या बोल्सांत पैशे आसले ते पंचतारांकित हॉटेलांत दोन दीस रावंक पुरो आसले. आमी तर आयिल्ले च्या वा कॉफी घेवंक.

आमी हॉटेलांत वचून बसले तोमेरेन ताणे तरेकवार विशय काडले. पूण जेन्ना ताणे आपूण जावन कॉफी आनी सँडविचाची ऑर्डर दिली तेन्ना तावें मन थिरावलें.

''ती चली म्हजे जिणेंत येवंक तशेंच कारण जालें.'' ताणे आपली कथा सांगूंक आरंभ केलो, ''जाणा तूं? ती चली एकाद्र्या वेळार म्हजीच चली आसपाची. पूण देवाची इत्सा वेगळी आसली.''

''तिची पिराय कितली आनी ती आसता खंय?' हांवें ताका विचाल्लें.

''तुका सगळें सांगता. कांयच लिपयना. पूण ताकीत करूं नाका.'' ताणे म्हळें, '' ती चली म्हजी चली जावपाची म्हळयार केदी आसतली?''

म्हाका प्रस्न विचारून तो आपलीं बोटां मेजून गणीत करूंक लागलो. मदीं उलयिल्लें ताका सोंसना हें जाणा जाल्ल्यान हांव मोन्यानी ताका पळयत रावलों.

''सारकीं वर्सां सांगतां तुका. आतां ते चलयेक सत्तावीस-अठ्ठावीस वर्सां आसतलीं. ताणे म्हळें, ''चली दिसूंक किरकोळ, पूण कुरूप न्हय. घरकामाक हुशार. बाबडेच्या नशिबांत शिक्षण नाशिल्लें ताका ती कितें करतली? ल्हान पिरायेचेर बापूय मेलो आनी विधवा आवयन तिका ल्हानाची व्हड केली. जंय दोन वेळचें जेवण मेळूंक मारामार थंय ती चलयेक शिक्षण खंयच्यान दितली? जाल्यारय ती सामकी निरक्षर न्हय. एस्. एस्. सी. मेरेन शिकल्या. घराच रावन आवयक आदार करताली. शिवणकाम, दळप कांडप करून आवयच्या संवसाराक हातभार लायताली.''

''तुजें तिचें नातें कितें ?'' हांवें विचाल्लें.

''हांवे म्हळें न्हय, ती म्हजी चली जावपाची म्हणून! म्हळयार घडिल्लें अशें कि तिगेले आवयची सोयरीक म्हाका आयिल्ली. पूण आमचें लग्न जुळूंक पावलें ना. हांवें तिका लग्नाचें उतर दिल्लें. पूण म्हजो बापूय कबूल जालो ना.''

''म्हळयार चलयेचे आवयचेर तुजें प्रेम आशिल्लें?''

''ना कशें म्हणूं? पूण हालीं सिनेमांनी दाखयतात तसलें प्रेम न्हय. तेन्ना ती आमच्या शेजरा रावताली. म्हजे परस दोन म्हयन्यांनी व्हड. दिसताली एकदम सुंदर. चुकून आमच्यो

गांठीभेटी जाताल्यो. तिच्या लग्नाचो विशय आयलो तेन्ना हांवें तिका म्हळें, "तुजी सोयरीक दुसऱ्या कोणाक व्हरूं नाका अशें तुज्या बापायक सांग. हांव तुजेकडेन लग्न जातलों. तिणे ती गजाल आवयच्या कानार घाली आनी तिगेलो बापूय सोयरीक घेवन आमगेर आयलो. म्हगेल्या बापायन ताजो अपमान करून ताका परतिलो. वयान व्हडली, गांवढळ आनी गरीब ही कारणां आसलीं. म्हज्या बापायन ताका सांगलें शेंदरी पळोवन पांय पातळाय."

"तुवें तुज्या बापायक कांयच सांगूंक नाशिल्लें तर?" हांवें ताका विचाल्लें.

"ना, ना. तितलें धाडस हांवें केलें ना. परिणाम असो जालो, बापायन रोखडेंच म्हजें लग्न केलें आनी ते चलयेक तिगेल्या बापायलो मार खावचो पडलो. लोकांची गजाल जाणा तूं, गांवभर लोक तिजे आनी म्हजे आनीतीक संबंद आसात अशें म्हणूंक लागले आनी तिका घोव मेळप कठीण जावन बसलें. मनांतल्या मनांत हांव एक गुन्यांवकारी जाल्लों."

फुडली गजाल ताणे सांगिना आसतना म्हाका समजली. देखून हांवें ताका विचाल्लें, "त्या उपरांत तुका ती केन्ना आनी खंय मेळ्ळी?"

"खूब वर्सांनी... सुमार पांच वर्सां आदीं." ताणे जाप दिली, "मजगतच्या काळांत जायतें रामायण घडलें. तिजें लग्न जुळना देखून बापायन तिका दुसऱ्यापणांत लग्न केली. घोवाक दम्याचो विकार. खंय तरी एका दुकानाचेर पोटल्यो बांदपाचें काम करतालो. लग्नाउप्रांत तिगेर चली जाली आनी थोड्या दिसांनी तिगेलो घोव मेलो. त्या दिसा तिका पळयली आनी गुव्यांवकारावरी जालें. मर्दी इतलीं वर्सां गेलीं तरी म्हजें तिजेविशींचें अगत्य उणे जावंक नासलें. जाण्टे पिरायेचेर लेगीत ती म्हाका सुंदर दिसली. घरांत बायल नासती जाल्यार तिका हांव म्हगेरच हाडून दवरतलों आसलों. ती मेळ्ळी तेन्ना म्हाका चुकोवन वचूंक सोदताली. हांवेंच तिका हटकिली."

त्या प्रसंगाचो उगडास काडून तो खंती जालो. तितले मजगती वेटर कॉफी आनी सँडवीच घेवन आयलो. तितली ताका उसरपत मेळ्ळी.

"तुका हांवें सांगलांच म्हगेलो एक चलो दुबय आसता. ताका सोयरिको खूब येताल्यो. अजून येतात. ताका लग्नाविशीं विचारल्यार ताणे म्हणचें, तूं पसंत करता ते चलयेकडेन आपूण लग्न जातलों. पसंत करून दवर. घराकडेन बायलेचोय तगादो उरतालो. त्या दिसा तिणे आपले चलयेचो विशय काडलो आनी म्हाका दिसलें, जें धाडस तेन्ना म्हज्यान जालें ना तें आता म्हज्यान करूं येता. हांवें तिका म्हळें, तुजे चलयेचो पत्कर हांव घेतां. वाडिल्ली चली घरांत आसतकच विधवा आवयची अवस्था कशी आसता हें तुका कळचें ना. ती इतली खोशी जाली कि रस्त्यारच रडूंक लागली."

तो खीणभर थांबलो. घडये आंवडो गिळ्ळो आसूये.

"पूण तेय घडपाचें नासलें." असो उद्‌गार काडून ताणे दोळे पुसले.

"चली कबूल जाली ना?"

"तूं फट म्हणून आयक." ताणें म्हळें, "चलयेक हांवें तेन्ना पळोवंकच नासली. दुसऱ्या दिसा तिगेर गेलो तेन्ना चली म्हाका पळोवंक मेळ्ळी. म्हाका चली पळोवपाची नासली. ती तिगेली चली इतलेंच म्हाका पुरो आसलें. हांव लग्न थारावन बसलों आनी चल्याक आपोवन हाडलो. पूण आवयन पुताक शिटकायलो आसूये. तिगेली चली हें आयकना फुडें म्हजे बायलेन घर माथ्यार घेतलें आनी चलो थारायिल्लें लग्न मोडून परत दुबय गेलो. हांवें

म्हळें, दुबय वच नाजाल्यार आनी खंयय वच. म्हाका ताजी वासपूस नाका.''

''म्हज्या मनाची आवतीकाय तुका समजुचीना...'' थोडो वेळ घुस्मटिल्लेभाशेन केल्या उप्रांत तो परत उलोवंक लागलो, ''हांवें आवयक फटयली आनी तिगेले धुवेकय फटयली अशें म्हाका दिसूंक लागलां. हांवें तिगेल्या लग्नाचो पुराय पत्कर घेतलो. कोणय निंदू, कोणय वंदू... पर्वा केलीना. फाटल्या दिसांनी बरें घालून सवरून तिजें लग्न लावन दिलें. लग्नाक हांव गेलों ना. लग्न व्हडा दबाज्यान जालें. कालच खबर मेळ्ळी कि ते चलयेची आवय मेली. लग्ना उप्रांत आठच दिसांनी तिका मरण आयलें. म्हाका खबर उसरां मेळ्ळी. नाजाल्यार हांव मरणाक तरी वतलों आसलों.''

इतलें उलोवन जातकच तागेलो संयमाचो बांध फुटलो आनी ल्हान भुरग्यांभाशेन तो रडूंक लागलो. हॉटेलांत चार लोक आसले. हांव सामकोच काचाबूल जालों. ताका कसो थातारून धरचो तें म्हाका समजलें ना.

थोड्या वेळान जेन्ना वेटर बिल घेवन आयलो तेन्ना ताणे दाव्या हातान बिल उखल्लें, बिलाचे पैशे मेजार दवरले आनी म्हाका म्हळें, ''हातूंत गुपीत कितें आसा? कोणाकय तरी सांगूंक जाय आसलें देखून तुका सांगलें. पूण खऱ्यांनी तुका सांगतां, जिवीतांत हांवें लग्न केलें, भुरगीं जालीं. तांच्या भुरग्यांची लग्नां जालीं. पैशे जोडले... खूब-खूब केलें. पूण ते चलयेचें लग्न म्हज्या हातान घडलें हाजी खोशी म्हाका जितली जाली तितली आनीक केन्नाच जावंक नासली.''

हॉटेलांतल्यान भायर सरता आसतना हांवें ताका निमाणो प्रस्न विचाल्लो, ''तूं जें परत-परत पर्व सोंपलें म्हण्टा तें कित्याक? ते चलयेचो फुडार बरो आसा न्हय?''

''म्हजें आनी ते चलयेचें नातें तरी कितें? म्हजें नातें आसलें चलयेचे आवयकडेन. कंवळे पिरायेचेर तिज्या-म्हज्या नात्याचें एक पर्व सुरू जाल्लें. लज-भीड आनी मर्यादा आमचे मदीं एक वणत उबी करून रावली. नशिबान आमकां वेगळायलीं आनी परत लागीं हाडलीं. तिगेले चलयेचें लग्न जातकच ती मेली आनी म्हजे पुरतें एक पर्व सोपलें.'' ताणें जाप दिली.



# २१. काशीचो पंडो

वाराणसी स्टेशनाचेर देवनाफुडें तोंड दिवचें पडटा तें थंयच्या पंड्यांक. दाणे उडयतकच ते पुंजावंक कावळे जशे एकमेकाकडेन सर्त लायतात तशे हे पंडे डब्यांतल्यान देंवतल्या मनशाक घेरूंक लागतात. थळावे लोक आसात तांकां ते वळखतात तांचे वाटेक ते वचनात. पूण परकी मनीस दिसनाफुडें कोण ताज्या हाताक धरता, कोण ताजें न्हेसण ओडटा, कोण ताजें सामान उखलता. जण एकलो ताका आपल्यागेर व्हरूंक सोदता.

पंड्यांचें आनीक एक वेगळेपण आसता. ते यात्रेकरूक तागेलें नांव विचारतात आनी ताणे नांव सांगिनाफुडें आपलें बाड उकतें करून एक अशें नांव सोदून काडटात, जें यात्रेकरूच्या बापायलें वा आज्यालें नासलें तरी पणज्यालें वा खापर पणज्यालें आसूं येता. ज्याच्या बाडांत तें नांव मेळटा ताका आपल्या घरांत व्हरपाचो हक आपणाक मेळ्ळा अशें तो पंडो मानता आनी अजापाची गजाल म्हळयार हेर पंडे लेगीत तागेलो तो अधिकार मानून घेवन कुशीक सरतात.

खूब वर्सांनी एका इश्टावांगडा काशीक वचपाचो प्रसंग आयलो. गाडी प्लॅटफॉर्मात भीतर सरचे आदींच हांवें इश्टाक शिटकावन दवरिल्लो,"आमी थेट बऱ्याशा हॉटेलांत वचूया. पंड्याच्या नादाक तूं लागलो जाल्यार फसतलो."

"पूण इतले लोक ह्या पंड्यांगेर वचून रावतात न्हय?" म्हज्या इश्टान विचारिल्लें, "म्हाका दिसता, धर्मीक विधी करतले जाल्यार पंड्यागेर राविल्ले बरे."

म्हजो इश्ट आपल्या बापायल्या अस्थीचें विसर्जन करूंक काशीक वतालो आनी सांगात दिवंक ताणे म्हाका आपयिल्लो.

हांवें ताका म्हळें, "आदल्या काळार हॉटेलां नासतालीं आनी भश्ट-अनवाळयाचो सोंस खूब आसलो. तेन्ना पंड्यागेर रावचें पडटालें. पूण आतां पंड्यागेर रावपाची गरज ना. थंय न्हावपा-धुवपाची वेवस्था सारकी नासता आनी त्या गल्लींतल्या घरांनी उजवाड वारें लेगीत सारकें घोळना. धर्मीक विधी पंड्या मार्फतीन करूं येता; पूण रावपाखातीर आमी हॉटेलांतच वचूया."

इश्ट कबूल जाल्लो. पूण हातांत बॅग घेवन तो डब्यांतल्यान प्लॅटफॅर्माचेर देंवलो मात, ताका पंड्यांनी घेरलो!

खूब वर्सांनी हांव काशीक पाविल्लों. काशी आतां सुदारल्ल्या आनी पंडेय आतां सुदारल्यात म्हणपाचो अणभव प्लॅटफॅर्मावयलें वातावरण पळयनाफुडें आयलो. आदले पंडे पुडवीं न्हेसताले. कपलाक नामां लावन येताले. तांकां लांब शेंडयो आसताल्यो. तसले थोडे आसले, ना अशें न्हय. पूण तांचे मदीं सूटबूट घाल्ले मॉर्डन पंडेय आसले. मोठ्या शारांनी विमानतळाचेर आनी रेल्वे स्टेशनाचेर प्रवाशांक आपल्या हॉटेलांत व्हरचे खातीर हॉटेलाचे प्रतिनिधी - स्मार्ट दादले वा सुंदर चलयो - वतात ते तरेचें वातावरण प्लॅटफॉर्माचेर आसलें.

कितें घडलें तें कळचें आदींच इश्टाल्या हातांतलें बॅग एका मॉर्डन पंड्यान आपल्या हातांत घेतिल्लें आनी दुसऱ्या हातांत तागेलो हात धरून तो ताका ओडटालो.

डब्यांतल्यान देंवता आसतना हांव मात्सो फाटीं उरिल्लों. तरीकय म्हाका चार पंड्यांनी घेरलो. हांव बदना इतलें पळोवन ताणी म्हजो नाद सोडलो. म्हज्या मुखार प्रस्न आसलो तो म्हज्या इश्टाक त्या पंड्यांच्या विळख्यांतल्यान कसो सोडोवचो हो. ताका ओडटलो म्हळयार तागेलो हात एका पंड्यान धरला आनी तागेलें बॅगय पंड्याकडेन पाविल्लें. कोणे तरी ताका नांव विचारलें आनी आमगेल्या भोळया इश्टान तें सांगून उडयलें. तीग जाणांनी बाडां उकतीं करून तागेल्या जाण्टेल्यांची नांवां सोदून काडिल्लीं आनी ते तीं ताका दाखोवपाचो यत्न करताले. एक हुशार पंडो कुशीक रावन ताजेकडेन हिंदी उच्चारांतली मराठी भास उलयतालो. भाशेच्या आदारान लागीं ओडपाच्या तंत्राक म्हजो इश्ट वश जावपाचोच उल्लो. ताकाय तशी मराठी सारकी येना. पूण हिंदी परस मराठी ताका बरी समजता. बॅग दुसऱ्या पंड्याच्या हातांत दिवन बशिल्ल्या इश्टाक त्या चक्रव्यूहांतल्यान भायर कशें सरचें हें समजना जालें. तो गोंदळून म्हजेकडेन पळोवंक लागलो.

सगळया पंड्यांक आमडून एकाच पंड्याकडेन उलयल्यारच आमी सुटका जावं येता अशें येवजून हांव मदीं पडलों आनी इश्टाक म्हळें, "ज्याच्या हातांत बॅग आसा ताज्या फाटल्यान आमी भायर या. मागीर पळोवया."

हांवें निर्धारान त्या मॉर्डन पंड्याचो पाखो घेतिल्लो पळोवन हेर पंडे कुशीक सल्ले आनी गर्देतल्यान वाट काडीत आमी स्टेशनाभायर आयले.

भायर येतकच हांवें त्या पंड्याक म्हळें, "हें पळय जें धार्मिक कार्य करपाचें आसा तें म्हजो इश्ट तुजे मार्फतीनच करतलो. पूण आमी एका बऱ्याशा हॉटेलात रावंक सोदतात. तेन्ना तूं बरें हॉटेल खंयचें तें सांग. जमता जाल्यार थंय आमकां पावय. तुगेले पयशे आमी तुका दितलेच."

तो पंडो सभ्य आनी शाणो दिसलो. ताणे म्हळें, "आमच्या घराचे वाटेरच बरें हॉटेल आसा. थंय तुमी रावात आनी तुमचो कोणय दुसरो पंडो आसल्यार ताजे मार्फतीन धर्मीक विधी केले म्हणून म्हाका वायट दिसपाचें कारण ना. जण एकल्याक आपल्या मनासारकें धर्मीक कार्य करूंक मेळूंक जाय... आनी तुमकां हेंय सांगता, म्हाका दलाली दिवपाचो प्रस्न ना. हांवें काम केलें जाल्यार हांव म्हजी बिदागी घेतलों. केलें ना जाल्यार एक इश्ट म्हणून तुमकां सांगात दिवपाची म्हजी तयारी आसा."

हांवें त्या तरनाट्या पंड्याकडेन पळयलें. अजून गीम तापचो आसा. वातावरणांत शेळाव आसा. गाढ निळया रंगाची पँट आनी फिकट निळया रंगाचो इनसेट शर्ट घाल्ल्या त्या तरनाट्याच्या दोळयार दाट कंवच्यांचें वोक्ल. त्या कंवच्यांक लागून ताजे दोळे आनीकय मोठे दिसताले. निळया धव्या पट्ट्यांचो एक टाय. टायाक आडवी एक चकचकीत पीन. केसांचो मागो काडिल्लो तो तरनाटो पंडो अशें सांगल्यार कोणाचोच विस्वास बसपाचो न्हय.

ताणे एक रिक्षा आपयली आनी आमकां व्हरून हॉटेलांत पावयले.

"हें म्हजें कार्ड." ताणें म्हळें, "हॉटेलाचे फाटले वाटेन जी गल्ली आसा ते गल्लेंत म्हजें घर. भायर बोर्ड लायिल्लो आसा. कसलेंय काम आसलें जाल्यार म्हज्या दारार मारूंक

संकोच करूं नाकात.''

''असो तुका वचूंक आमी दिवचे नात.'' हांवें म्हळें, ''एक च्या घेवया. मागीर तूं वच. च्या घेतना मुख्य कामाचेय उलोवंक मेळटलें.''

तो मात्सो अनमनलो, पूण कबूल जालो. हॉटेल पोरने धर्तीचें जाल्ल्यान रूम व्हडले आसले. थंयच आमी च्या मागयली.

एक गजाल म्हज्या लक्षांत इतलो वेळ वचूंक नासली. तो पंडो आमचेकडेन मराठी उलयतालो. हांवें तागेल्या कार्डावयलें नांव वाचलें. तें नांवय मराठी दिसलें. आपली डिग्री ताणें बरयिल्ली. तो बी. ए. जाल्लो.

''पुजेचें काम तूंच करता?'' हांवें ताका विचारलें.

''म्हजे ज्ञान मर्यादीत. अडचण आयल्यार हांव पूजा वा विधी करतां. पूण हांवें मनीस दवरिल्ले आसात. तांचेकडच्यान कामां करून घेतां.''

''तुज्या जाण्टेल्यांचो हो धंदो चलोवपाभायर तूं आनीक कितें करता... म्हळयार नोकरी बी...?''

''ना.'' ताणें जाप दिली, ''तसो हो धंदो बरो चलता. त्याभायर हांगा विदेशी पर्यटक खूब येतात. तांकांक गायड वा सांगाती जाय आसता. नोकरेपरस प्राप्ती चड जाता.''

''विचारतां म्हणून रागार जावं नाका. पंड्याची आमची जी कल्पना आसा, तातूंत तूं बसना. तुजो भेस, वागणूक...''

''खरें आसा. म्हाकाच त्या भेसाची लज दिसता म्हणून हो भेस घालतां. त्याभायर विदेशी लोकांकडेन संबंद येता जाल्ल्यान भेसाकडेन ध्यान दिवचें पडटा.''

''विदेशी भोंवडेकारांकडेन तूं कसली भास उलयता, इंग्लीश?'

''हय, इंग्लीश आसाच. त्याभायर फ्रेंच आनी इटालीयन भासोय म्हाका येतात. थोडी भोव स्पेनीश समजता... फकत उलोवंक आं! वाचूंक, बरोवंक येना.''

इतले म्हणसर च्या आयली. च्या घेतां घेतां म्हज्या इश्टान अस्थी विसर्जनाचो विशय काडलो.

''तुमी थंडसाणेन आमगेर येयात. थंय खंयचो अर्चक तुमचें काम करतलो तें थारावया... इतले श्रध्देन लोक हांगा येतात जाल्यार सगळयो विधी शास्त्राच्या नेमाक धरून जावच्यो असो म्हजो आग्रो आसता.''

''आनीक एक प्रस्न आसा.'' हांवें विचारलें, ''तूं इतली बरी मराठी उलयता. तुमी घरांतय मराठीच भास उलयतात काय कितें?''

''मराठी म्हजी आवयभास, म्हळयार आवयली भास... पूण घरांत आमी हिंदीच उलयतात. फकत म्हजी आवय म्हजेकडेन मराठी उलयता.''

ह्या विशयाचेर चड उलोवपाचें नासलें. आमी ताका बसोवन घेतलो आनी आतांच तागेर वचून इश्टाल्या कामाची उलोवणी करपाचें थारायलें.

काशींतल्यो गल्ल्यो अजून तश्योच आसात. भायर शाराचो विस्तार जाला. खूबशी सुदारणाय जाल्या. पूण ह्यो गल्ल्यो बदलूंक नात. येतलीं वतलीं गोरवां, मनशां आनी वाटेर बशिल्ले भिकारी हांच्या मदल्यान वाट काडीत तागेल्या घरा वचूंक आमकां अर्दवर लागलें. गल्लेच्या तोंडाकडेन वचून आमकां परत येवचें पडिल्लें. पोरने पध्दतीचें एक घर. भायले

वाटेन दिश्टी पडटाली ती एक वणत. किल्ल्याचो तट आसता तशी बंद वणत. मदींच एक ल्हानशें दार. ताणे दारार मारलें आनी कोणे तरी दार उकतें केलें.

भीतर पावल दवरतकच पळयलें. घर भायल्यान दिसतालें तितलें ल्हान ना. भीतरले वाटेन एक आंगण. त्या आंगणांत उजवाड वारें मेकळेपणान खेळटालें. ताणे आमकां माळयेर वचून बसूया अशें सुचयलें. आंगणाचे एके वाटेन माळयेर वचपाचीं सोपणां. तीं लाकडी सोपणां चडटा आसतना करकर आवाज येतालो.

वयर एक बैठक आसली. थंय कदेलांय मांडून दवरिल्लीं. आमकां कदेलाचेर बसोवन तो परत सकल देंवलो.

हांवें माळयेवल्यान नदर भोंवडायली. वण्टीक कुचकुचीत कॅलेंडरां आनी पांयजेलां. चडशीं पांयजेलां देवाचीं. फोटे सगळे खूबच पुर्विल्ले. चडशे फोटे टुरिस्टांच्या सांगातान घेतिल्ले.

इतले मदीं म्हजी नदर मुखावयले वण्टीचेर गेली. थंय एक फ्रेम केल्लो फोटो लायिल्लो. ते वण्टीचेर तो एकच फोटो. हांवें लागी वचून तो पळयलो. आंगाक सूट आनी गळयाक टाय मारिल्लो तो फोटो. ओगीच मनांत प्रस्न आयलो हो फोटो कोणाचो आसत? कोणाय जाण्टेल्याचो भुरगेपणांतलो फोटो आसूये असो हांवें तर्क केलो. घडये आमच्या पंड्याल्या भावाचो तो फोटो आसूये. परत येवन हांव कदेलाचेर बसलों. पंडो वयर आयलो. वयर येता म्हणपाचें सोपणां करकरलीं तेन्नाच समजलें.

ताज्या सांगातान एक जाण्टेलो भट आसलो. भटाकडेन ताणे आमची वळख करून दिली. इश्ट ताजेकडेन कामाच्यो गजाली करूंक लागलो.

हांवें पंड्याक विचारलें, “तो फोटो कोणाचो?”

पयसुल्यानच ताणे त्या फोट्याक नमस्कार केलो आनी म्हळें, “तो म्हज्या बापायचो.”

“तुजो बापूय कितें करता?”

“तो हांगा नासता. तो मुंबय उरता.” ताणें जाप दिली.

हांवें परत एक खेपे फोटो निरखून पळयलो. फोट्यांतल्या मनशाचो तोंडावळो पंड्याल्या तोंडावळयाकडेन जुळटालो.

इश्यलें काम सोंपलें. पंचाग पळोवन भटान ताका सांगलें, “अस्थी विसर्जनाचें कार्य केन्नाय करूं येता. पूण आनीक चार दिसांनी उमास आसा. ते उमाशेच्या दिसा गयेक वचून श्राध्द वाडटले जाल्यार सगळया पितरांचे तर्पण जाता... इतलेंच न्हय तर तांकां दर वर्सा श्राध्द वाडपाची गरज उरना.”

“आनीक चार दीस रावचें पडटलें?” हांवें विचारलें.

त्या उतराक आमच्या पंड्यान म्हळें, “इतले पयस तुमी आयल्यात आनी तुमी श्रध्दाळू मनीस. चार दिसांनी कितें जावचें पडलां? एक पुण्यकार्य तुमच्या हातान घडटलें. गया हांगाच्यान लागींच आसा. तुमकां आनी खंय वचून येवपाचें आसल्यार आयल्यार जाता. ना जाल्यार आमगेर येवन रावल्यार जाता. हेच माळयेचे कुशीक फाटले वटेन आमचे दोन सेल्फ कन्टेन्ड रूम आसात. थंय तुमच्यानी रावं येता.”

थोडो वेळ आमी विचार केलो आनी निमाणे चार दिसांनी गयेक वचूनच उपरांत परतुपाचें थारायलें.

हांव ताजो निरोप घेवंक उठलों तेन्ना ताणें म्हाका आडायलो. "तुमी आयल्यात जाल्यार म्हजे आवयक मेळून वचात. आमच्या घरांत आयिल्ल्या सोयऱ्याक तोंड गोड केले बगर वचूंक मेळना."

हांव परत कदेलाचेर बसलों. तो सकल गेलो आनी आवयक घेवन वयर आयलो.

मराठी पध्दतीचें णव वारी कापड न्हेशिल्ली एक सवायशीण बायल. खणाचो ब्लावज, कपलाक मोटो लांबट तिळो. कानाक वेडी. नाकाक नथीसारकी कसली तरी वस्त. गळयांत काळया मणयाचो एक म्हूर्तमणी. हाताक सादींच कंवचेची कांकणां. पूण ते बायलेत एक भारदस्तपण आशिल्लें. तिजो गोरो वाटकुळो तोंडावळो नदरेंत भरतालो आनी चड नदरेंत भरतालें तें हांसरें तोंड. पयसुल्यानच तिणें आमकां नमस्कार केलो आनी कुशीक उबी रावली. तिणे आमी खंयचे म्हणपाची खबर घेतली. गोंयचे अशें कळटकच म्हळें, "गोंय सुंदर आसा म्हणून आयकलां."

"तूं गोंयात केन्ना पावल्या?" हांवें विचारलें.

"ना. जल्माक येत सावन हांव काशीभायर पावंक ना. चार गांवचे लोक हांगा येतात आनी ते आपल्या गांवच्यो खबरी सांगतात. तितल्यो हांव आयकतां."

"म्हाका दिशिल्लें तुनी महाराष्ट्रीयन." हांवें म्हळें.

"हय, म्हजो आजो महाराष्ट्रांतल्यान हांगा येवन स्थायिक जालो. तितलेंच आमचें महाराष्ट्राकडलें नातें. थंयचे आमचे सोयरे केन्नाय येतात. पूण आतां अंतराक लागून नातीं पैसावल्यांत." इतलें सांगून तिणें म्हळें, "तुमी च्या घेवंक सकलच येयात."

च्या चें निमित्त्य करून तिणें म्हगेल्या प्रस्नातल्यान आपली सुटका करून घेतिल्ली काय देवाक खबर!

आमी सकल देंवले. मदीं उकत्या आंगणात तुळस आसा. वयर जाळी. एके कुशीक मेज आसा. त्या मेजार बसून आमी च्या घेतली. तुपाचो शिरो आनी सादी च्या.

हांवें त्या पंड्याक म्हळें, "तुका आमी खूबच त्रास दिले. तुका काम आसतलें. आमी आतां वतात. पूण तुका फुरसद आसतली तेन्ना तुज्या सांगातान शारांत भोंवप म्हाका आवडटलें."

ताणे आपली डायरी उकती करून पळयली आनी म्हळें, "फाल्यां एक टुरिस्टांचो ग्रूप येवपाचो आसा. तो दोन-तीन दीस उरतलो. तेन्ना फाल्यांच्यान म्हाका फुरसद मेळची ना. तुमी म्हणटात जाल्यार आयची सगळी सांजवेळ आनी रात हांव तुमच्या सांगातान रावंक कबूल आसा. तुमकां शार पळोवपाचें आसा?'

"हांवें ह्याआदीं पळयलां. बनारस हिंदू विद्यापीठाचो कॅंपस आनी गंगेचे घाटय पळयल्यात. आतां म्हज्या इश्टासांगातान भोंवपाचें."

"ती वेवस्था हांव करतां. फाल्यां अस्थी विसर्जनाचें काम जावं दी. मागीर तुमकां खूब फुरसद मेळटली. हांव सांगाताक कोणय तरी दितां."

वतना आमच्या सांगातान तोय भायर सल्लो. परत हॉटेलांत वचचे परस गंगेच्या घाटाचेर वचून बसप बरें जातलें अशें येवजून हांवें ताका म्हळें, "तुका वेळ आसल्यार आमी व्हड्यान घाट पळोवन घेवया.'

तो कबूल जालो.

व्हड्यांत बसून काशीचें दर्शन घेतां घेतां हांवें ताका साबार प्रस्न विचारले आनी ताणे सरळ जापोय दिल्यो. म्हाका चड बारीकसाण आशिल्ली ती तागेल्या बापायविशीं जाणून घेवपाची.

तेविशीं हांवें ताका विचारलें तेन्ना ताणे म्हळें, "तुमकां सांगल्यार खरें दिसचें ना, पूण हांवें म्हज्या बापायक पळोवंक ना."

म्हाका ती जाप आयकून अजाप दिसलें. आमच्या मुखार एक शिकिल्लो सवरिल्लो हुशार तरनाटो आसा. ताणे आपलो धंदो बरो चलयला. पूण आपल्या बापायक मेळूंक ना.

"मुंबय कितें पयस आसा?" हांवें ताका विचारलें, "तू मुंबय कित्याक वचना वा तुजो बापूय काशीक कित्याक येना? घडलां कितें? घरचें झगडें बी?"

तो मात्सो अनमनलो. ताजे दोळे भरून आयले. हांवें ताजे फाटीर हात दवल्लो आनी म्हळें, "सांगपासारकें नासत जाल्यार हांव आग्रो धरचो ना. विशय आयलो म्हणून विचारलें."

"हांवें कोणाक ती खबर आजमेरेन सांगूंक ना." घोगरो जाल्ल्या आवाजान तो उलोवंक लागलो, "पूण जाणा आशिल्ले जाणात, म्हजी आवय एक बालविधवा."

तागेले हे जापेन म्हाका दुसरो धक्को बसलो. निकतीच आमी जिका पळयली ती कोण तर असो प्रस्न म्हज्या मनांत आयलो.

"तुमचो गोंदळ हांव समजतां." ताणें म्हळें, "आमी ज्या घरांत गेले तें घर म्हज्या आज्यालें, म्हळयार आवयच्या बापायलें. णव वर्सांचेर म्हजे आवयचें लग्न जाल्लें. बाराव्या वर्सा ती विधवा जाली. आनी कुळारा येवन रावली..."

"खंयची आवय म्हणटा तूं? आमी निकतीच पळयली ती कोण?'

"तीच म्हजी आवय." ताणे सांगलें, "विधवा जावन घरांत उल्ली. आनी कांय वर्सा उपरांत तिजें दुसरें लग्न जालें."

थोडोसो गोंदळ पयस जाल्लो. पूण खूबशे प्रस्न म्हज्या मनांत दाटून आयले.

इश्ट नव्यानच काशीचे घाट पळयतालो आनी ताका आमच्या ह्या उलोवण्यांत गोडी नासली. तो मदीं मदीं प्रस्न विचारतालो आनी त्या प्रस्नाच्यो जापो दिवचेखातीर आमकां विशय बदलचो पडलो.

पंचगंगा घाटासावन दुर्गा घाटामेरेन आमी व्हड्यान भोंवले आनी काशीची तरेकवार रूपां पळयलीं. अस्तमत्या सूर्याचें दर्शन घेवन परत धडेर आयले आनी हॉटेलामेरेनची वाट चलून गेले. हॉटेलाच्या दारांत ताणे निरोप घेतलो आनी म्हळें, "आतां चार दिसा उपरांत मेळपाचें. तुमी गयेक वचून येतात. पूण येतकच मेळ्ळे बगर वचूं नाकात. आमचो मनीस तुमच्या सांगातान आसतलो."

फुडल्या चार दिसांमदीं काशी, गया, बोधगया वाठारांत भोंवता आसतना त्या पंड्यालो मनीस आमच्या सांगातान उल्लो तरी त्या पंड्याचो एके तरेन विसरच पडिल्लो. उमाशेच्या दिसाच्यो विधी सोंपोवन आमी सांजचे परत काशीक पावले. दुसऱ्या दिसा विमानान परतुपाची तिकेटी आमी काडूनच दवरिल्ल्यो. पयलें काम करूंक जाय आसलें तें ह्या पंड्यालो हिशोब जाग्यार घालून ताजो निरोप घेवपाचें. तो घराकडेन केन्ना मेळत हेविशीं दुबावच आसलो. तरी आमच्या कर्तव्याक आमी जागूंक जाय आसलें.

इश्टाली तकली उसळटाली. ताणे म्हळें आपूण हॉटेलांतच थोडो विसव घेतां. हांव एकलोच काशींतले ते अरूंद गल्लेंतल्यान वाट काडीत पंड्याल्या घराकडेन आयलों. दार उकतेंच आसलें. हांव भीतर सल्लों. आंगणात वचनाफुडें म्हाका धक्को बसलो.

मुखारच जमनीर त्या पंड्याली आवय बशिल्ली. चिंचेबोटां निवळ करून आमटाण आनी चिचारे वेगळे काडटाली. किसरां दुसरेकडेन उडयताली. तिगेले दोनय हात भरिल्ले. मान सकल घालून ती काम करताली. म्हाका कितें तरी वेगळें दिसलें. चार दिसांआदीं मेळिल्ली ती बायल ही काय कितें असो दुबाव आयलो. तोंडावळो तोच, आंगलोट तोच. पूण हे कितें? काम करता म्हणून हाताची कांकणा काडून दवल्लीं, पूण कपलाक कुकूम कसो ना?

घडये म्हजी चूक जाल्ली आसूये. ती दुसरी कोणय बायल आसतली. पंड्याली मावशी आसूं येता. म्हज्या मनाकच धीर दिवन हांवें खांकिल्लेभाशेन केलें.

ते सरशीं तिणे नदर वयर केली. म्हाका पळोवन घेतलो आनी आमटाण थंयच सोडून भीतल्ले वाटेन धांवली.

आतां कितें करपाचें? घरांत कोणाची जाग दिसना. कोणय दुसरो मनीस आसल्यार रकाद दिवन वचूं येतालें.

थोडो वेळ हांव थंय रावलों आनी परतूंक वतालों. इतले म्हणसर दाराफाटल्यान आवाज आयलो. शुद्ध मराठींत तिणे सांगलें, "चलो भायर सल्ला. येतकच हॅटेलांत धाडटां."

हांव परतलों. कितें तरी अनहित जाल्लें... कितें तरी विपरीत घडिल्लें. घरांत आयिल्ल्या मनशाक च्या घेतलेबगर वचूंक दिवचें न्हय अशी त्या घराची रीत आसूनय ते बायलेन म्हाका उब्यांनीच परतिल्लो. ताची आवय हीच? काय तिची भयण? कुवाडें सुटपासारकें नासलें.

हांव परत हॉटेलांत आयलों आनी घडिल्ली गजाल इश्टाक सांगली.

"तुका वचत थंय गोष्टी सोदपाची संवय जाल्या देखून अशें घडटा." ताणे म्हळें, "विधवा बायल घरांत एकलीच आसतली. तूं परकी मनीस. तुका जाप कशी दितली? तुका ओगीच भ्रम. ती पंड्याली आवयसारकी दिसता म्हणून. चार दिसां आदीं आमकां ती मेळूंक नासली? ती आवय जाल्ली जाल्यार तुजेकडेन उलोवची नासली?"

हांवें जाप दिली ना. पूण म्हाका कितें तरी विपरीत घडलां असो दुबाव येत रावलो.

प्रवासाचो शीण आसलो आनी दुसऱ्या दिसा परतुपाची आमची तयारी जाल्ली. एका दिसाखातीर म्हणून काशीक आयिल्लेकडेन चार दीस रावचें पडिल्लें.

"सांजे वा रातीकडेन तो आयलोना जाल्यार तागेले पयशे कशे दिवपाचे?" हांवें इश्टाक विचारलें.

"येतलो तो. तो तागेलो धंदो, हें जाणा जा. पयशे तो बुडोवचोना. आमच्यो विमानाच्यो तिकेटी ताणेच काडून हाडल्यात. तेन्ना आमी फाल्यां वतात हेंय तो जाणा. आमी आमचें कर्तव्य केलें. फाल्यां आयलोना जाल्यार सकाळीं ताज्या म्हऱ्यांत वचूया." इश्टान म्हाका समजावपाचो यत्न केलो.

म्हज्या मनांत एक विचार आयलो. आमी चार दीस राविल्ले. पूण गंगेत हांव न्हावंक नासलों. इश्ट धर्मिक विधी करचेआदी दोन बुचकळयो मारून आयिल्लो. हांव हॉटेलांतल्याच उदकान न्हाल्लों. फाल्यां सकाळीं ताकीत जातली जाल्यार आतांच दोन

बुचकळयो मारून येवचें, लोक गंगेत न्हावपाचीं सपनां पळयतात आनी हांवें काशीक पावनय गंगेत न्हालेबगर परतप समा जावचेंना असो विचार करून हांव तुवालो घेवन भायर सल्लों.

घाटार पावतकच मात न्हावचें अशे दिसलेंना. गर्दी आसली. पूण उदकय खदळ. तरी म्हळें, भावार्थाक मन वा दोळे आसूंक फावना. घाटा लागींच चार बुचकळयो माल्ल्यो आनी हॉटेलार परतलों. म्हजीं पातकां धुवन गेली काय उदकाचो म्हेळ म्हाका लागलो तें हांव नकळ.

परत हॉटेलांत यो जाल्यार तो पंडो रुमांत बशिल्लो आसा.

इश्टान तागेलो हिशोब जाग्यार घाल्लो. फकत म्हजी वाट पळयत तो बशिल्लो.

"फाल्यां सकाळीं हांव पावचो ना." ताणे म्हळें, "देखून आतांच मेळूंक आयलां. तुमकां कसलीय गरज लागली जाल्यार हांव दुसरो मनीस दितां.'

"ना, आमकां गरज लागपाचें कारण ना. आमी टॅक्सी वा रिक्शा घेवन विमानतळार वतात. फकत वचचे आदीं तुगेले आईक एक नमस्कार करून वचूंक सोदतालों."

"हांव तिका सांगतां." ताणे म्हळें.

म्हगेलो दुबाव बळावलो. चार दिसांआदीं आपले आवयची भेट घडोवंक तो कितलो उत्सुक आशिल्लो आनी आज तो अशी जाप दितालो. हांवें ताका म्हळें, "हांव तुमगेर वचून आयलों. तुजे आईची भेट जाली ना."

मान सकल घालून थोडो वेळ तो ओगी रावलो. उप्रांत ताणें म्हाका म्हळें, "तुवें पळयली ती म्हजी आईच. एका म्हयन्या फाटीं म्हजो बापूय भायर पडलो. तुमी आयिल्ले त्याच दिसा रातीकडेन आमकां कळ्ळें."

परत एक खेपे म्हाका धक्को बसलो! हे खेपे म्हजें मन गुन्यांवकाराचें जालें. हांवें म्हळें, "म्हाका हांतलें कांयच खबर नासलें. हांवें तिका पळयली तेन्ना तुजी आईशी दिसली. पूण ती भीतर गेली..."

"जिवीतांत दुसरे खेपे ती विधवा जाल्या. नशिबाची गजाल!" तो रडूंक लागलो.

सगळें वातावरण गोंधळाचें आसलें. ह्या तरनाट्यालो बापूय ह्या संवसाराक अंतरला ते गजालीक आतां म्हयनो जालो. तागेली आवय बालविधवा. दुसरें लग्न जाली आनी दुसरो घोव इतल्या वर्सांउप्रांत मेलो. पूण ती दोगांय सांगातान रावनासलीं. हो तरनाटो आतां आपल्या बापायखातीर रडटालो, ज्याका ताणे केन्नाच पळोवंक ना.

हांवें ताका मन ल्हव जाईसर रडूंक दिलो आनी तो शांत जातकच विचारलें, "तुवें केन्नाच बापायक पळयलो ना हाजें कारण कितें?"

"म्हजी आई ताजी लग्नाची बायल नासली. योगायोगान तो आमगेर पावलो. आपल्या बापायल्या अस्थीचें विसर्जन करूंक तो आयिल्लो. तुमी जी माळी पळयल्या थंय तो उतरलो. मराठी उलोवपी मनीस जाल्ल्यान म्हज्या आज्याक तो लागींचो दिसलो. हांगा आयिल्लेकडेन ताका जोर येवन तो तीन सप्तकां हांतुणाचेर उरलो. घरांत कोण दुसरो मनीस नासतालो. म्हजी विधवा आई एकलीच उरताली. तिणे तागेली सेवा केली. तो बरो जातकच थोडे दीस आमगेर उल्लो. आपल्या नांवान ताणे म्हजे आवयच्या कपलाक कुकूम लायलो! लग्नाचें नातें तें इतलेंच!"

जायते प्रस्न जिबेर आयले. पूण ताका सरळ कशे विचारपाचे? तरी विचाल्लें, ''तो गोलो तो परत आयलोच ना?'

''दुसरे खेपे आयलो आनी ताणे म्हजे आवयची माफी मागली. काशीक येवचे आदींच ताजें लग्न जाल्लें.. तो पयशे धाडीत रावलो. कांयच उणें पडूंक दिलें ना. पूण..''

ताणे हुडको गिळ्ळो.

''आनी ताज्या मरणाची खबर कोणे कळयली?''

''ताजो पूत अस्थी घेवन विसर्जनाखातीर आमगेरच आयलो. ताका कांयच खबर नासलें. फकत बापूय ह्या पत्त्याचेर पयशे धाडटा इतलेंच तो जाणा आसलो.''

रात जाल्ली. तो अजून बसत आसलो. आमकांच न्हिदपाचें आसलें. आनी चड म्हळयार तागेल्या घुस्मटमाराचो अंत पळोवपाचो नासलो.



# २२. जायू

"ही कथा काल्पनिक न्हय. जें आमच्या कुटुंबांतच घडलें तें हांव काणयेच्या रुपांत बरोवन दवरतां. कथेंत एकूय पात्र काल्पनिक ना. मनांत एक ज्वालामुखी धगधगतालो तो शांत करचे खातीर हांवें ही कथा बरोवंक घेतली. पुराय कथा बरोवन काडली तरी मनाचे धग थांबले नात. म्हाका दिसलें, म्हजी लेखणी दुबळी. तरी इतिहासांतल्या ह्या नाट्यपूर्ण घडणुकेचें इतिवृत्त हांवें हे आशेन बरयलां कि, केन्ना कोण तरी समर्थ प्रतिभेचो इतिहासकार जल्माक येतलो आनी हे कथेच्या आदारान आमच्या समाजाचो पक्षघात केल्ल्या ह्या ल्हान व्हड घडणुकांचें फुडल्या पिळग्यांक दर्शन घडयतलो."

एका पुर्तुगेज हस्तलिखिताची ही प्रस्तावना.

पुर्तुगेज भाशेंत बरयलें तरी लेखकान कोंकणी आनी संस्कृत उतरां खूबशीं वापल्ल्यांत. अजापाची गजाल म्हळयार इतल्या वर्सांउपरांतय हस्तलिखित विटूंक ना वा ताका वाळटी लागूंक ना. शक्यताय अशी आसा कि, खंयच्या तरी मूळ देशी भाशेंतल्या इतिवृत्ताच्या आदारान अठराव्या शेंकड्यांत ही कथा बरयिल्ली आसूं येता. नाजाल्यार मूळ हस्तलिखितावयलो मजकूर नव्यान बरोवन काडिल्लो आसूं येता.

मोतयांच्या दाणयासारकें पोरनें पुर्तुगेज भाशेंतलें तें बरप. एका जाणकाराक हांवें तें दाखयलें तेन्ना ताणें म्हळें, लेखकाची भास व्याकरणशुध्द ना. पोरन्या पुर्तुगेजीचे जे नेम आसले ते लेखकान पाळूंक ना. आनी उतरावळीचें लेखकालें भांडार इतलें ल्हन कि, ताणे आपल्यो भावना उक्तावचे खातीर पावलां कणकणी थळावीं उतरां वापल्ल्यांत.

हस्तलिखीत वाचून समजून घेवप म्हळयार एक दिव्य आसलें. पुराय हस्तलिखीत वाचूंक तीन दीस लागले. खूबशे संदर्भ वा उतरांचे अर्थ कळना जाल्ल्यान अडचण येताली. तरी पूण कथानकाच्या ओघाक बाध येना आसली.

"ही पुराय कथा म्हाका अणकारून दी." हांवें त्या जाणकाराक सांगलें, "ती पुस्तकाच्या रुपान आमी उजवाडूया."

"अणकारपाचें काम म्हज्यान जावचें ना." ताणें म्हळें, ""पुर्तुगेज, संस्कृत आनी कोंकणी भास ज्याका येता तोच हें अणकारूंक पावत. त्या भायर ही पोरनी पुर्तुगेज... पूण असल्या विशयावयलीं आनीकय छापिल्लीं पुस्तकां मेळटात." ताणें म्हळें.

"तशें जाल्यार म्हाका एकाद्रे पुस्तक हाडून दी." हांवें ताका सांगलें, "विकतें मेळयार विकतें ना जाल्यार थोड्या दिसांखातीर वाचूंक मेळयारय जाता."

"पणजेच्या ग्रंथालयांत तें आसतलें. पूण असलीं दुर्मीळ पुस्तकां भायर व्हरूंक मेळचीं ना. म्हज्या संग्रहांत एक पुस्तक आसा. तेंच हांव तुका हाडून दितां." ताणें म्हळें.

म्हजे मन इतलें उचांबळ जालें कि, तो तें पुस्तक हाडून दितासर वाट पळोवपाची म्हजी तयारी नासली. हांव रोखडोच ताज्या सांगातान ताज्या घराकडेन गेलों आनी पुर्तुगेज

दीस ती फांतोडेर उठून काळो रंग खरवडपाखातीर रिठ्याच्या फेंडेरान काथ्याच्या तणशेन आपले हात खरवडटा. रगत येता. पूण काळो रंग तसोच उरता.

जायूचीं फकाणां करूंक आनीक एक विशय वाड्यावयल्या दादल्यांक आनी बायलांकय मेळटा. जायूगेर भुरगें ना हो!

दीस वेगळे आसले. दादल्यां सामकार बायलो वचना आसल्यो. घोवाची आनी बायलेची भेट लेगीत रातीच्या काळखांत जाताली तितलीच. तरी जायूली काळसाण ही फकत बायलांच्याच न्हय तर दादल्यांच्या लेगीत चर्चेचो विशय जावन बशिल्लो.

बाराव्या वर्सा जायूलें लग्न जाल्लें. तेन्ना लग्न म्हळयार कितें आनी घोव म्हळयार कितें हें समजुपाची बुद्द जायूक नासली. घोवाकय आसची ना.

"अंतरपाट कुशीक काडलो तेन्ना थोडोसो समज आशिल्लो जाल्यार रघू जायुल्या गळयांत माळ घालपाचो न्हय. न्हय रे रघू?" दादले केन्नाय रघूचीं फकाणां मारताले.

रघू भीतल्ले भीतर घुसमटालो. आतां जुवानपणाच्या ऐन भारार तो पावला. कोणेच सांगिना सवरीना आसतना जायत्यो गजाली ताका कळूंक लागल्यात. आपले बायलेची घरांतली सुवात ही जेवनखावन काम करतले वावराडेची हें ताका कळटा.

जायूकय घरांत कोण लागीं करिनात, सगळीं तुसडेपणान वागयतात. मांय आनी जावो आपली कूस उजवली ना म्हणून थोमण्यांनी उलयतात, हें सगळें तिका कळटा. ती आपणाचेरच कसता. थोमणे तिज्या काळजाक रोमतात. असल्या वेळार ती फातरीचेर व्हडान ओलीं आपटून आपलें दुख्ख विसरपाचो यत्न करता.

हळदीकुकमाखातीर वा कसल्याय सणा व्रता निमित्त्यान वाड्यावयल्यो बायलो जायूगेर आयल्यो जाल्यार तिगेले मांयक विचारतात, "तुमी जायूक पोटभर वाडिनात काय कितें गे? दीसयभर पापीण बांयचेर घश्टता. सुकून काडी जाल्या..."

मांयक तिडक येता. ती म्हणटा, "दोन उंडयो चडच ती जेवता; पूण जेविल्लें खंय वता देवाक खबर!"

लेखकान थोडे भीतर आपले नायिकेची, तिजे मनःस्थितीची, तिच्या रंगरूपाची, देह आंगलोटाची वळख करून दिल्या. बारा वर्सांचेर लग्न जावन णव वारी कापड न्हेसून घोवागेर आयिल्ली ही बायल पंचवीस वर्सांची जाली तरी तिजी कूस उजोवंक ना.

"वाड्यावयल्यो तुजे पिरायेच्यो बायलो तीन आनी चार भुरग्यांच्यो आवयो जाल्यो. जावांगेर भुरगींबाळां जालीं. तूंच अशी कशी उल्ली?" एकाद्रे बायलेन बांयचेर मेळिल्ल्या वेळार जायूक विचारचें.

असलो प्रस्न जायूक झोंबतालो. तिगेले दोळे भरून येताले. ती कळशांतलें उदक तोंडार मारून घेताली आनी म्हणटाली, "म्हज्या हातची गजाल गे ती? नशिबांत आसा तें भोगतां."

आपल्या नशिबाचेर कसून जायू घरच्यांचे आनी परक्यांचे थोमणे सोंसताली. मोन्यांनी काम करताली. सकाळची ती बांयचेर वचपाची फुरसद, जावो आनी नण्डो आपलीं ओलीं थंय व्हरून उडयताल्यो. सगळीं ओलीं उंबळून तीं सुकत घालून न्हावन घरा येईसर दीस माथ्यार येतालो. भुकेन जीव कासावीस जातालो.पूण सुनेचे मर्यादेंत रावचें पडटालें. भुरगीं आनी दादले जेवन उठतकच बायलांची पंगत बसपाची...

जेवतकच तरी विसव मेळटा? रात्री सारय, आयदनां घांस, म्हणटसर सांजवेळ जाता. बाकीच्या जावांक हें कांय करचें पडना. तांकां भुरगीं आसात न्हय? त्यो आपल्या भुरग्यांक सांबाळटात देखून मांय हेर कामां तांकां सांगिना... पूण जेन्ना जावांक वाड्यावयल्या बायलांकडेन खबरो करूंक बसचें आसता तेन्ना सगळयो आपलीं शिरकुलीं, कुकलीं जायूसरीं हाडून सोडटात.

पुराय वाड्यार जायूचें दुख्ख वळखुपी एकच बायल आसा ती सावित्री. पूण तिगेल्या सत्यवानाचे प्राण परत हाडूंक तिगेली पुण्याय उणे पडली. ल्हानपणांतच विधवा जातकच सगळयो उमेदी, जुवानपण, इतलेंच न्हय तर रंग, रूप आनी देहाची सोबा हुलपावन तिका माथ्यार पदर घेवचो पडिल्लो.

जायूवेच पिरायेची सावित्री. दोगांलेंय दुख्ख वेगळें; पूण दोगांच्याय वांट्याक त्रास एकेच तरेचे. जायूचेर नदर पडल्यार लोक आंग काडटाले आनी सावित्रीचेर नदर पडल्यार तांकां अपशकून जातालो.

"तुजें आपलें बरें." एक दीस सावित्रीन जायूक म्हळें, "तुका कुकमा तिळयाक तरी आदार आसा. म्हजें हें धवें कपल घेवन लोकांचीं बोचरीं उतरां आयकून जगप खूबच त्रासाचें. सोरोप म्हणचो न्हय धाकलो आनी दादलो म्हणचो न्हय आपलो! म्हजेर नदर पडल्यार अपशकून जाता म्हणटात पूण नदरेनच म्हजें सगळें आंग सांसपून घेतात. दोळे मोडटात कितें, खुणायतात कितें, पोजडें उलयतात कितें... म्हाका तर थर्त भय दिसता. त्या मानान तूं सुखी न्हय?"

हांसचें कांय रडचें तें जायूक समजना. मिळमिळीत सौभाग्यापरस ढळढळीत वैधव्य बरें. पूण हें सावित्रीक कशें सांगतली? केन्ना केन्नाय मनांतल्या मनांत जायू सावित्रीची नसाय करता. व्हंकल जावन आयिल्ले सावित्रेक जायून पळोवंक ना; पूण बांयचेर न्हातना ओल्या वस्त्रांनी जेन्ना सावित्री जायूमुखार उबी रावता तेन्ना एक बायल मनीस जावनय सावित्रीलें तारुण्य जायूक भूल घालता...

"आमी फाटल्या जल्माचीं पातकां भोगतात जाणा मगे, सावित्रे." जायून जाप दिती, "धोव आसून म्हज्या वांट्याक हो वनवास आयला आनी सगळें आसूनय धोव नाशिल्ल्यान तुज्या वांट्याक अज्ञातवास आयला."

बांयचेर कोण नासता तेन्ना जायू आनी सावित्री हांचेमदीं सुखदुख्खाचीं उलोवणीं जातात. नाय जाल्यार ताणी आपलें दुख्ख कोणाकडेन उलोवन दाखोवपाचें? मन ल्हव कशें करपाचें?

मनाचे हुलप शांत जाताले; पूण प्रस्न सुटना आसले. काळखाचे घोलींत अडकल्ले दोन जीव! उजवाडाची वाट सोदून काडपाची नदर वा बळ तांचेकडेन खंयचें आसतलें?

"म्हाका दिसता, तुज्या दादल्यांतच कितें तरी उणे आसतलें." एक दीस सावित्री जायूक सांगता, "सड्यावयली म्हशींग लेगीत फुलता फळटा मगे!"

"मागीर हांव कितें करूं? तशें जर हांव उलयन तर मांय म्हजी जीब कापून घरांतली भायर काडटली." जायून म्हळें.

"जाणा गे, हांव. आमचेंच दाप खोटें. आतां ह्या जल्मांत सगळे त्रास मोन्यांनी सोंसले जाल्यार फुडल्या जल्मांत घडये बरे दीस पळोवंक मेळटले."

एक दीस बांयचेर एक पाखलो पावता. सावित्री न्हाताली आनी ओली उंबळटां उंबळटां मार्गावटेन फाट करून जायू उलयताली.

"चल पळ. ते आयले." अशें किळचून हातांतलो भरिल्लो कळसो सावित्रीन जमनीर आपटिलो आनी ती धांवत घरा गेली.

कितें घडलें तें जायूक कळ्ळेंचना. "आगे कितें जालें? अशी आकांतून कित्याक गेली?" अशें विचारीत जायू उबी रावली.

फाटल्यान कोण तरी खांकलो म्हणून पळय जाल्यार पाखलो उबो! जायूचो आवरो उडलो. कितें करचें ते तिका समजना जालें. धांवत घरांत वचपाचें त्राण पायांत उल्लें ना.

पाखल्यांच्यो आगळिको ती आयकून जाणा आसली. तो आपणाक आफुडलो जाल्यार आपूण बाटून वचन म्हणपाची तिका भिरांत दिसली. धांवन धांवन ती कितली धांवतली? उडकी मारून ती केळी मुळांत आंग लिपोवन उबी रावली. मुखावयलें रेब्याचें कोंड ही दैत्याखातीर लक्ष्मणाची रेग अशें ती मानताली.

बाटाबाटीचे दीस फाटीं पडिल्ले. जुलूम सोंपिल्लो. देशोधडीक लागिल्लीं कुटुंबां परत येवन स्थायिक जाल्लीं. खरें म्हळयार आतां आदलो भय उरूंक नासलो. तरी अजून लोक पाखल्यांक भियेतात. अशा वेळार एक पाखलो मुखार उबो रावतकच जायू सारके बायलेची भियेवन गुळी जाल्यार अजाप कसलें?

धडधडट्या काळजान ल्हवूच नदर वयर करून जायून पळयलें. दोनय हातांचे पोशे आपल्या तोंडाकडेन धरून आपणांक उदक घाल म्हणून तो पाखलो खुणायतालो.

एके वाटेच्यान बांयचेर आशिल्ल्या कळशाक तो पाखलो हात लायत म्हणपाची जायूक भिरांत आनी दुसरे वाटेन तो आपणाकडेन आगळीक करीत ही भिरांत. चुकून लेगीत पाखलो तिका आफुडलो जाल्यार हेच बांयत जीव दिले बगर आपले मुखार पर्याय उरचो ना अशें येवजून ती कांचवेताली.

कितें करचें हेंच तिका सुचना जालें. पयसुल्यान घराच्या मागीलदारांत उबी रावन सावित्री हे वटच्यान पळयता. इतले म्हणसर मार्गान वतल्या एका दादल्याचेर जायूली नदर गेली आनी तिणे व्हडान किळांच मारून ताका आपयलो. किळांच आयकून पयसुल्याच त्या दादल्यान कितें घडलां आसूये हाचो अदमास घेतलो. खीणभर बांयचे कुशीक उबो आशिल्ल्या पाखल्याक पळोवन घेतल्या उपरांत ताणे आनीकय व्हडान किळच्यो मारल्यो.

तागेल्यो त्यो किळच्यो आयकून वाड्यावयले दादले आनी बायलो धांवून आयल्यो. चार दादले एकठांय जातकच झुजपाचे तयारेंत हातांत दांडे घेवन ते बांयचेर धांवन आयले.

ह्या अनपेक्षीत प्रसंगान तो तानेल्लो पाखलो काचाबूल जालो. ताका तान लागिल्ली. पोसोभर उदक जाय आशिल्लें; पूण हे लोक जर दांडे घेवन मारूंक येतात जाल्यार आपलो जीव वाटावपाखातीर पळून वचचें असो विचार तो करूंक लागलो. पूण दुसऱ्याच खिणाक ताका शाणेपण येवजलें. आपूण धांवलों जाल्यार आपणे आगळीक केल्या अशें त्या लोकांक दिसतलें आनी ते वासपूस केले बगर दांड्यांनी आपणाक बडयतले, अशें येवजून तो थंयच उबो रावलो.

दादले आयले आनी एकल्यान जायूक विचारलें, "कितें जालें?"

भियेवन गुळी जाल्ल्या जायून फकत पाखल्याकडेन बोट दाखयलें.

आतां पाखल्यानच तोंड उकतें केलें. आपले भाशेंत खाणाखुणो करून ताणे सांगलें, म्हाका पियेवंक उदक जाय.

तो कितें म्हणटा तें जेन्ना लोकाक समजलें तेन्ना वातावरण निवळ्ळें. एका दादल्यान जायूक म्हळें, "ताका तान लागल्या, इल्लें उदक घाल."

जायूक इल्लो धीर आयिल्लो. ती बांयचेर आयली आनी राजवाक कळशी बांदून तिणे ती बांयत सोडली. भरिल्लो कळसो बांयचे धडेर दवरून ती कुशीक सरली.

एका दादल्यान ताज्या पोशांत उदक रकयलें. अर्दो कळसो उदक पियेवन त्या तानेल्ल्या पाखल्यान तोंड धुलें आनी लोकांचे उपकार मानून तो आपले वाटेन गेलो.

त्या दिसा जायूक तो कळसो सात खेपे घांसून धुवचो पडलो! पूण अरिश्ट टळ्ळें. जायून सुटकेचो उस्वास सोडलो.

चार दीस वाड्याचेर एकच विशय. वा म्हणटना वार्ता जावची तश्यो वदंता पातळूंक लागल्यो. कोणे म्हळें, तो जायूक आफुडलो. तर कोणें म्हळें, तो जायूकच मेळूंक आयिल्लो!

कशेंय आसना, ते घडणुके उपरांत लोक जायू कडेन दुबावान पळोवंक लागले. तिका इल्ले चड हिणसावंक लागले. थोमण्यांनी खासा तिगेले मांयन म्हणचें, "पाखलो जालो म्हणून कितें जालें? ताका दोळे नात? आमगेलो जायूलो अवतार पळोवन ताजो आवरो उडलो आसतलो!"

जायूक मेल्ल्याभरी जातालें. सदांच लोकांचे बोंचरे थोमणे आयकुपाची तिका संवय जाल्ली आनी हे खेपे तर तिगेल्या चारित्र्याचेरच लोक शेण मारताले.

असल्या दुख्खाच्या वेळार सावित्रीन जायूक धीर दिवचो. सावित्रेलें दुख्ख इल्लें वेगळे तरेचें, पूण ती आतां निर्ढावील्ली.

सावित्रीकडेन जायून शीण काडलो, "म्हाका अशें करप मगे? त्या पाखल्याक पळोवन तूं पळून गेली आनी म्हाका एकलेकच त्या देवचारामुखार दवरली?"

"हांव भियेलीं आनी किळच मारून धांवन गेलीं. फाटल्यान म्हाका तुजो उगडास जालो. हांव पयस रावन तुजेर नदर दवरून आसलीं." सावित्रीन जाप दिली.

"आमी कितें करतात तें पळयताली. हांव नकळ काय कितें?" जायून म्हळें, "तूं म्हन्यांत आशिल्ली जाल्यार इल्लो धीर उरपाचो."

"कितें सांगतालो तो? तुजेकडेन कितें उलयलो बी?"

"तो उलयतलो कितें? ताजी भास म्हाका येना आनी म्हजी भास ताका समजना. अशे परिस्थितींत उलोवप खंयचें? उदक पिलेबगर कसोच हाल्लो ना. हांवें किळच माल्ली. पूण जाणा तूं, जेन्ना सगळे दादले दांडे घेवन धांवन आयले तेन्ना म्हाका ओगीच भिरांत दिसली... ते ताका मारीत म्हणून... म्हजो उस्वासच ताळयांत अंदलो म्हळयार... उदक पियेवन तो गेलो आनी हांवें सुस्कार सोडलो."

"म्हाका केन्ना केन्नाय दिसता, पाखलो जालो म्हणून कितें जालें? तोय मनीसच. कितलो गोरो आशिल्लो न्हय तो जायू!"

"म्हजो बायो आवरो उडिल्लो. हांवें ताका सारको पळयलो लेगीत ना. तुवें तरी लागीं येवन ताका पळोवपाचो न्हय? घडये तो तुका पसंत करीत आसलो." जायून फकाणांनी म्हळें.

सावित्रीच्या तोंडार एक अस्पश्ट हांसो उदेलो आनी मळबाचेर नदर थिरावन ती ओगी रावली. जायून फकाणांनी विचारिल्ल्या प्रस्नाक तिणे जाप दिली ना हें पळोवन जायून हातांतल्या कळशांतलें उदक पोशांत भल्लें आनी सावित्रीच्या तोंडार माल्लें.

"कसली मस्करी करता तूं ही, जायू...? तूं मस्कऱ्यांनी उलयता, पूण मागीर वा म्हणटना वार्ता जावन बसता."

"हांवें मस्करी केली हें खरें, पूण तूं कितली सुखावली तें हांवें पळयलें ना काय कितें? खरें सांग, एकाद्र्या पाखल्यान तुका आपणाकडेन लग्न जाता काय म्हणून विचारलें जाल्यार तूं जावशीत?" जायून हांसत हांसत सावित्रीक विचारलें.

"हे त्रास सोंसता ताजे परस चड त्रास कितें जायत? हांव तुका सांगतां, म्हाका कोण आपोवचो ना हें हांव जाणा; पूण चुकून माकून कोणय आपोवंक आयलो जाल्यार हांव व्हड खोशयेन खंयय वचन... ह्या नरकांतल्यान भायर पावल्यार पुरो."

"हय गे, सावित्री." जायून म्हळें, "तूं म्हणटा तें खरें. कश्टतले वावराडेक लेगीत सुखाच्यो दोन उंडयो जेवपाक आनी सुखाची न्हीद घेवपाक मेळटा. हांगा आमी आमचो जीव झरोवप आनी माजरापाश्ट जीण जगप. तूं कुळारा कित्याक वचना?"

"कुळारचें म्हणून कसलें सुख गे जायू?" सावित्रीन म्हळें, "हांगा मांय, नण्डो, नावो, जाल्यार थंय भावजो. आपयतात म्हाका तीं, ना अशें न्हय. पूण खंयच्या तोंडान थंय वतलीं...? जाणा मगो जायू, तुका एक खबर हांवें सांगूंक नाशिल्ली. आज सांगतां. तुका कशें दिसता तें सांग."

सावित्री येवजूंक लागली.

"कसली खबर? सांग गे तूं." जायून तिका धीर दिलो.

तरीकय सावित्री सट्ट करून उलयली ना. तिका बरीच फुसलावची पडली. निमाणे तिणे सांगलें. "म्हज्या बापोलयाचो एक नातू आसा. ताणे म्हाका रकाद धाडला... आपणागेर येवन राव म्हळां."

"मागीर कित्याक वचना तूं?"

"वतलीं आशिल्ली गे. पूण..."

"घरच्यांचो भय दिसता?" जायून म्हळें, "ज्यांकां सोडून वचपाचें तांचो भय दिसता? लोक उलयतलो ताजो तुका कित्याक हुस्को? तूं तरी सुखाक पाव."

"पूण मोठी अडचण आसा गो. हांव ही अशी आनी तो तसो..." सावित्रीन म्हळें.

"अशी कुवाड्यांची भास कित्याक उलयता? कितें आसा तें सरळ सांगून उडय. कित्याक आपयता तो तुका?"

"खबर ना. ताजेकडेन उलयले बगर कशें कळत? कुळारच्या एका मनशाकडच्यान ताणे रकाद धाडला..."

"हांव सांगतां तुका सावित्री." जायून म्हळें, "तूं कुळारा वच आनी ताका मेळून यो. तो कित्याक आपयता तें तरी समजून घे. ह्या नरकांतल्यान तुका भायर काडय आसत जाल्यार फाटीं फुडें पळोवं नाका. वच, तूं तरी सुखाक पावतली."

"तुका सगळें खबर ना जायू. ते लोक बाटल्यात. किरिस्तांव जाल्यात. एक खेपे तांगेर गेलीं जाल्यार... शिंवाची घोल ती! भीतर सरपाची वाट आसा. पूण भायर सरूंक मेळचें

ना.''

''खरें म्हणटा काय कितें गे?'' जायूय विचारांत पडली. ज्या नेटान ती सावित्रीक घर सोडून वचपाक सांगताली तो नेट तिज्या सुरांत उल्लो ना. जायून म्हळें, ''तशें जाल्यार मात येवजून पळय. विधवेच्या लग्नाक तांगेर मान्यताय आसा काय ना तें हांव नकळ. सुखाखातीर बाटून फस्तीक पडली अशें जावचें न्हय...''

''तेंच हांवय येवजितां.'' सावित्रीन म्हळें, ''ना जाल्यार हांव केन्ना वतलीं आसली!''

अशे तरेवे संवाद त्या दोन दुखेस्त तरण्या बायलांमदीं जायत उरताले. ह्या संवादांतल्यान बंडाची एक आंकरी तांच्या मनांत किल्लताली. ह्यो दोनय तरुण बायलो. तांगेल्यो भावना आनी उमळशिको कंवळे पिरायेतच करपून गेल्यात. जायूची गजाल वेगळी. तिका एक समाधान आसा, कपलाक कुकमा तिळो आसा. नांवाक लग्नाचो घोव आसा. तिचें दाम खोटें म्हणून कूस रिकामी उल्ल्या.पूण सावित्री तरुण, सुंदर आनी आंकवारपणांतच वैधव्य भोगतली एक बायल. तिका संस्कार ह्यो बेडयो दिसताल्यो. धर्म हे बंधन दिसतालें. पूण उलयतना तोंडार ती चड उलयना आसली. तशें पळोवंक गेल्यार जायूच बंडाची भास उलयताली.

एक दीस अचकीत सावित्रीन जायूक सांगलें, ''कुळारासावन भावालो चलो आयला. म्हाका चार दिसांखातीर भावान आपयल्या. म्हजी आई भायर पडली.''

इतलें उलोवन सावित्री मुळमुळीत रडूंक लागली.

''वचून यो तूं.'' जायून तिका म्हळें, ''आनी जमल्यार बापोलयाल्या नातवाकय मेळ.''

''म्हज्या नशिबांत कितें बरयलां देवाक खबर!'' सावित्री हुडकेत उलयली, ''तशी आई बाबडी कितें करतली आसली? म्हज्या दुख्खान ती लागीं अःयली. पूण म्हाका एक धीर आशिल्लो गे. मनांतल्या मनांत एक आदार दिसतालो.''

त्याच दिसा दनपारची सावित्री व्हड्यांत बसून कुळारा गेली.

सावित्री कुळारा गेली आनी थोड्या दिसांभीतर वाड्यावयल्या लोकांक तिजो विसर पडलो. तिगेल्या घरच्या लोकांक तिजो उगडास वेगळया कारणाखातीर येतालो. बांयचेर घरचीं ओलीं, आयदनां घेवन सावित्री येताली आनी आतां जावांक येवचें पडटालें. जायूकडेन उलयता आसतना सावित्रीच्या नांवान त्यो कडकडीत बोटां मोडटाल्यो आनी आपले भुरगेपणांत विधवा जाल्ले जावेक त्यो चरचरीत गाळी दितात तें जायूच्यान आयकूंक नज जातालें. नाय जाल्यार जायू सावित्रीची मैत्रीण. तिका तिज्या विराण संवसारांत सावित्री होच एक मनाक थाकाय दिवपी वझरो आसलो. मनांतली दुख्खां सावित्री मुखार उकतीं करचीं आनी समदुख्खी सावित्रेच्यो व्यथा आनी सुस्कारे आयकुचे हातूंतच उपेक्षीत जायूचें आनी विधवा सावित्रीचें दुख्ख ल्हव जातालें. पूण सावित्रीची कूस घेवन तिगेल्या जावांकडेन जायू कशी झगडटली?

एक दीस जायून जावेक विचारलें, ''सावित्रेची कितें खबर आसा? केन्ना येतली ती?''

''येतली काय तोंड घेवन खंय वतली देवाक खबर!'' जावेन जाप दिली, ''तीन सप्तकां जालीं आतां. परत आयली ना आनी रकादय धाडलो ना. लोक तरातरांनी उलयतात. आमकां कितें? ह्या कानान आयकुपाचें आनी त्या कानान सोडून दिवपाचें. वयर एक उतर उलयलीं जाल्यार जाव मेळयांनी उलयता अशें म्हणटलीं...''

जायूक सट करून सावित्रील्या बापोलयाल्या नातवाचो उगडास जालो. तो बाटला... सावित्रीक जो आपयतालो. घडये सावित्रेन...

जायून येवजितां येवजितां जीब चावली. विचार खूबच धाडशी. पूण तो तकलेंत हाडप म्हळयार लेगीत पातक अशें जायूक दिसलें.

एक दीस वार्ता आयली. सावित्री बाटल्या! तिणें आपलें नांव बदल्लां. भेस बदल्ला आनी आपल्या त्या बाटिल्ल्या सोयऱ्यागेर वचून रावता. वाडोभर तो एकच चर्चेचो विशय. दनपारच्या वेळार भरिल्ल्या घराक उजो लागचो तसो आकांत सगळयाक पातळ्ळो!

"धर्म म्हणून ना. मर्यादा म्हणून ना! नात्या गोत्याचो विचार ना. अच्छेव आयलो सावित्रेचेर देखून ती आपली अवस्था विसरून मेल्ल्या घोवाक अग्नी ब्राह्मणाचे साक्षीन दिल्लें उतर मोडून एकाद्रे गणीकेसारकी पळून गेली." जाण्टेल्यांनी म्हणचें आनी सगळयांनी अविस्वासान आनी रागान आपल्या मनांतली नापसंती उक्तावची अशें घडटालें.

जायूकय वायट दिसलें. पूण मनांत खंय तरी सावित्री सुखाक पावली, आतां ती मनीसपणाची जीण जगूंक पावतली, कश्ट आनी थोमणे चुकतले, घडये दुसरें लग्न करून सुखाचो संवसार करतली ह्या विचारान जायूक संतोस जातालो. आपल्या नशिबांत हीच श्रापाची जीण जगपाचें चुकचें ना आनी मनाचे हुलप न्हिवोवपी सांगातीण आतां मेळची ना म्हणपाची खंत दिसताली.

एक दीस एक ल्हान भुरगो बांयचेर आयलो आनी लागसार कोण ना अशें पळोवन ताणे जायूक विचारलें, "तूं जायू मावशी?"

एका अनोळखी भुरग्यान आपणाक नांवान, पूण मानान हटकिल्ली पळोवन जायूक अजाप जालें.

"हय. तुजें नांव कितें?" जायून त्या भुरग्याक विचारलें.

"हांव महेश. सावित्रीमामीन तुका एक रकाद धाडला." त्या भुरग्याच्या तोंडांतल्यान सावित्रीचें नांव आयकना फुडें जायू एकदम कांचवेली. लागसार कोण ना हें पळोवन घेवन तिणें आपली नदर चारय दिशांनी भोंवडायली आनी ल्हवू आवाजात विचारलें, "कशी आसा सावित्री? खंय आसा ती?'

"सावित्री लग्न जाल्या. ती आपल्या घोवागेर रावता." महेशान जाप दिली.

"म्हाका कितें रकाद धाडला?'

"फुडल्या आयताराक जमता जाल्यार तुका तुगेल्या कुळारा यो म्हणून तिणे सांगलां. ती तुका मेळूंक सोदता... हांगाच येतली आसली. पूण कित्याक येना तें तूं जाणा अशें म्हळां."

"पळयतां." खीणभर येवजून जायून जाप दिली, "सट्ट करून भायर सरूंक मेळत अशें दिसना. पूण येतां हांव. पावलीं ना जाल्यार रागार जावं नाका म्हणून सांग."

"वचूं हांव?"

"बरो करून वच. पूण एक सांग, सावित्री बरी आसा न्हय? तिका कसलेच त्रास नात न्हय?"

महेशान प्रस्न आयकलो. पूण जाप दिली ना. पयसुल्यान आपली जाव येता ती पळयनाफुडें जायूनय सूर बदल्लो आनी व्हडान म्हळें, "उदक जाय मरे, घे."

जायून भरिल्लो कळसो उखल्लो; पूण त्याआदींच गोंदळिल्लो महेश थंयच्यान कडसलो.

"कोण तो? कित्याक आयिल्लो?" जावेन जायूक विचारलें.

"खबर ना. उदक मागूंक आयिल्लो. मात्सो रावंक सांगलो जाल्यार गेलो."

त्या ल्हान भुरग्याकडेन खीणभर पळयतकच जावेन हातांतली ओलीं फातरीर दवर्ल्ली आनी कांय एक उलयना आसतना ती परत गेली.

जायूचे तकलेंत आतां सावित्रेचे विचार घोळूंक लागले. जावं, बाबडी सुखाक पावली अशें तिका दिसलें. आपणाक कित्याक आपयल्या काय तिणें? फुडल्या आयताराक कुळारा वचपाचें. ती कशी वतली? घरचे सुनेक मनांत आयलें म्हणून कुळारा वचूंक मेळटा? मांयन धाडूंक जाय. आनी एकोडी थोडीच धाडटली. कोणेय तरी पावोवंक जाय. ना जाल्यार कुळारचो मनीस व्हरूंक येवंक जाय. बायलेन कुळारा केन्ना वचचें हें घोव थारायना. मांयच थारायता.

जायूक दिसलें आपणे त्या भुरग्याकडच्यान भावाक रकाद धाडूंक जाय आसलो. कितेंय कारण दिवन आपणाक कुळारा आपोवंक धाड म्हणून. तशें जाल्यार वचप सोपें जावपाचें. ओगीच उठून आपूण कुळारा वतां अशें कशें सांगतली? तातूंतय कुळारा गेल्ले सावित्रेन सगळयांचें नाक कापलें अशें वाड्यावयले लोक म्हणटाले आशिल्ल्यान आपूण कुळारा वतां अशें सांगपाचें धाडस जायूक जालें ना. आयतार लागीं आयलो तशी उमळशीक वाडली. काम चूकनाशिल्लें. पूण जायूचें चित्त कामाचेर थारवना आशिल्लें. पिशांतरावरी तिजी गत जाल्ली. अनोळखी उमळशीक आनी भय एकाच वेळार तिजें मन घेरून उडयतालो.

आयताराक सकाळींफुडें जायूलो भाव आनी भावज तांगेर आयलीं. जायू त्या वेळार ओलीं घेवन बांयचेर वचूंक भायर सरिल्ली. दारांत भावाक पळोवन ती फाटीं सल्ली आनी भीतर वचून मांयक भाव आयिल्ल्याची खबर दिली.

जायूले मांयन सोयऱ्यांक बरो येवकार दिलो आनी म्हळें, "ती ओलीं आसूं, सद्दां बांयचेर वचून जीव कित्याक घश्टिता? चल, भाव आनी भावजेखातीर काफयेक दवर."

आपले विशींचो हो कळवळो आपल्या कुळारच्या लोकांक दाखोवपापुरतो म्हणपाचें जायूक कळटालें. ओलीं दवरून ती रांदचे कुडींत गेली.

रांदचे कुडीच्या दारांत बसून जायूली भावज तिगेले मांय कडेन उलयता तें जायूक आयकूंक येतालें. भावजेन म्हळें, "चार दिसांखातीर जायूक कुळारा व्हरूंक आमी आयल्यांत. गावांत एक वैज आयला. भुरगीं जायनाशिल्ल्या बायलांक तो वखद दिता अशें म्हणटात."

"व्हर आं. व्हर." मांयन म्हळें, "कोणाच्याय धर्मान आमचे सुनेचो कुसवो उजवलो जाल्यार हांव देवाक पांच नाल्लांची पंचखाद्य दाखयन."

हो संवाद आयकतना जायू सुखावली. मनांतल्या मनांत तिका दिसलें, हें सगळें सावित्रेनच घडोवन हाडिल्लें आसतलें.

कुळारा वचपाची उमेद सगळयाच बायलांक आसता. तातूंतय जेन्ना बऱ्या मनान मांय कुळरा धाडटा आनी कुळाराच्या लोकांक चली आयिल्ली जाय आसता तेन्ना ही उमेद वाडटा. पूण जायूच्या मनाची आवतीकाय मात्शी वेगळी आसली. आपूण कसलें तरी धाडस करूंक भायर सल्ल्यां अशी भावना तिच्या मनांत रिगिल्ली. एका अनोळखी भयान तिजें मन फाटींफुडें जातालें.

खरेंच काय कोण वैज आयला, जो वांजपणाचेर वखद दिता? काय ही सावित्रीन सोदून काडिल्ली माण्णी? मोठे अपेक्षेन आपले मांयन आपल्याक कुळारा वचूंक मान्यताय दिल्या म्हणपाचें जायूक खबर आसा. जर निखटी आपल्या सुखाखातीर ती कुळारा वचपाची आशिल्ली जाल्यार मांय तिका कशीच धाडपाची न्हय. जायू कुळारा गेली जाल्यार घराकडेन कसल्यो अडचणी येतल्यो हाजी जायूभाशेन तिचे मांयकय कल्पना आसा. दोन वावराड्यांचें काम जायू एकटी करताली, अशें म्हळयार लटकें जावचें ना. पूण मांयकय उमळशीक आशिल्ली. हेर सुनांगेर भुरगींबाळां आसात, जायूक मात अजून भुरगें जावंक ना हाजी खंत मांयकय दिसताली. निमाणे रगताच्या नात्याची ओढ वेगळीच आसता!काळी आनी कुरुप जाली म्हणून कितें जालें? जायू तिगेली सून न्हय जाल्या? देखून भाव आनी भावज वैजाचें कारण दिवन आपोवंक आयलीं तेन्ना कसलीच आडखळ हाडिना आसतना बऱ्या मनान मांयन तिका कुळारा धाडली. तें सावित्रीलें कारस्थान आसत जाल्यार मात आपूण त्रासांत पडटलीं अशी भिरांत जायू दिसताली. ते भिरांतेक लागून तिजें मन फाटीं फुडें जातालें.

आनीक एक भिरांत धुवरेंतली कीट धुंवची तशी जायूल्या मनांत पातळिल्ली. वैज जालो तरी तो देव काय न्हय! ताणे तपासून आपणागेर भुरगें जावचेंच ना अशें सांगलें वा तागेलें वखद घेवन लेगीत आपलो कुसवो पडंगच उल्लो जाल्यार खंयच्या तोंडान घरच्यां मुखार उबी रावतली? तिका दिसतालें. आज एक आशा आसा. कांय बायलांक मागूस भुरगीं जातात. फुडें केन्नाय तरी जातलीं अशी आशा आसता. ती आशाय जर सोंपली जाल्यार कोणाच्या धिराचेर जगपाचें?

जायू कुळारा पावली तेन्ना मात तिगेलो भय बरोच चेपलो. खूब वर्सांनी ती मायेच्या मनशांमदीं परत पाविल्ली. आवयन येवकार दितनाच तिका वेंगेंत घेतली आनी म्हळें, "कितें जाल्या गो दशा तुजी! मांय वाडिना काय कितें?"

हारशामुखार उबी राविल्ल्या वेळार जायून आपलें रूप... आपलो देह जायते फावटी तपासला. खाली, जेवली आनी सुख मेळ्ळें म्हणून रूप कशें बदलतलें? पूण व्हंकलेची टवटवीतसाण आतां उरूंक ना हें ती जाणा. आवयल्या प्रस्नाक तिणे जाप दिली ना. निखटी हांसली आनी घोंटेरांत पाविल्ल्या सवण्यावरी मायेच्या मनशांमदीं निर्धास्त मनान भरसली.

रातीकडेन भावजेनच जायूक सांगलें, "सावित्रीन दुसरें लग्न केलां हें तूं जाणा?"

"आयकलां हांवें." जायून म्हळें, "तिगेल्या बापोलयालो नातू तिका वयले वयर रकाद धाडटालो. तेन्नाच म्हाका दुबाव आयिल्लो. कशेंय आसना, तिजेपुरती ती सुखाक पावली."

"कसलें सुख गो जायू?" भावजेन म्हळें, "हांव जाणा, भुरगेपण सोंपचे आदींच ती विधवा जाली आनी संवसाराचें कसलेंच सुख तिणे भोगलें ना हें खरें. रंगान रुपान आनी देहान सुंदर आसूनय विद्रुपपण पांगरून बसचें पडलें. आयिल्ल्या गेल्याचे थोमणे आनी श्राप मोन्यांनी सोंसचे पडले... हें सगळे खरें! ते खातीर कोणेय तिची काकुळट करचेलीच. पूण ती बाटून किरिस्तांव जाली हें मात म्हाका रुचलें ना."

"पूण जो धर्म तिका पिडटा आनी तिका फुडाराची वाटच दवरिना या धर्माक वेंग मारून सावित्री कितें करतली आसली?" जायून म्हळें, "आनी धर्म धर्म म्हणून कितें गे?

किरिस्तांव जालीं तरी आमच्याच रगताचीं, नात्याचीं मनशां तीं! एक सांग, कोणाकडेन लग्न जाली ती?''

''त्याच बापोलयाच्या नातवाकडेन. भुरगेपणांत ती सांगातान खेळटालीं. खेळांत तो घोव जातालो आनी ती बायल. उपरांत तागेलो बापूय बाटलो आनी सगळेंच बदल्लें. सावित्रेक तिगेल्या आवयबापायन ताकतिकेन एक भुरगो पळोवन ताज्या गळयाक बांदून सोडिल्ली.'' भावजेन जाप दिली.

''तें जाणा हांव.'' जायून म्हळें, ''पूण घोव मरत सावन तिणे कितलें सोंसलें तेंय हांवें दोळयांनी पळयलां. आतां सुखी आसा मगे ती? तिगेल्या कुळारच्या मनशांनी दिली मान्यताय?''

''म्हाका सारकें खबर ना. पूण हांव आयकतां ते भाशेन आवयन सावित्रीक सांगलें, कशीय जाल्यार तूं आमकां मेल्याच. पूण तुजे कांच म्हज्यान पळोवं नजत. तुका सुख मेळटा जाल्यार तूं दुसरें लग्न कर.''

''सावित्रीन म्हाका हांगा यो म्हणून रकाद धाडिल्लो. फाटल्या आयताराक तिणे आपयिल्ली. कित्याक तें तूं जाणा?'' जायून विचारलें.

''एक दोन वेळ हांगा येवन गेली ती.'' भावजेन जाप दिली, ''तुजी खबर घेताली. पूण कांय उलयली ना. जो वैज आयला म्हणटात तो खंय फिरंगी. तांगेर केन्ना केन्नाय येता. तिणेच तुका ताज्या कडच्यान तपासून घेवपाचें सुचयलें.''

''एक सांग, ताजेकडच्यान हांवें तपासून घेवप समा जातलें?''

''कसली पिशेपणां ही जायू!'' भावजेन म्हळें, ''ताजो हात लागलो म्हणून तूं कितें बाटतलें? तागेल्या वखदान जालो ...ल्यार फायदोच जातलो. तो तुका खावचो ना वा बाटवचोय ना. हुस्को बाळगिना आसतना तूं तपासून घे.''

रातीकडेन मोठे उमेदीन जायू न्हिदली. एक गोड सपन तिच्या दोळयांमुखार नाचूंक लागलें. जल्माक येतल्या भुरग्याचें रूप तिका दिसूंक लागलें. आपल्या पोटांत भुरगें खेळटा असो तिका भास जावंक लागलो. कल्पनेनच ती भुरकुटून गेली आनी हांतुणार पडिल्लेकडेनच लजून तिणें कूस परतिली.

सकाळच्या वेळार जायू बांयचेर न्हावंक गेली तेन्ना कोणेशें येवन तिका सावित्री आयल्या अशी खबर दिली.

ती एकदम भुरकुटली. ''येतां येतां'' म्हणून ती ताकतिकेन आंगार कळशे रकोवंक लागली. तितले म्हणसर सावित्रीच तिज्या मुखार येवन उबी रावली.

जायू सावित्रीकडेन पळयत रावली. कपल आदलेंच धवें. पूण आंगार रंगीत साडी.हाताक दोनच कांकणां. अजून केंस पुरते वाडूंक नात. पूण गंगावनाच्या आदारान सावित्रेन आंबाडो घाला. माथ्यांत मोगरेची हळी माळळया.

जायूक ती अप्सरेसारकी सुंदर दिसली! हातांत कळसो धरिल्ले अवस्थेंत जायू सावित्रीकडेन अविस्वासान पळयत रावली. आपल्या आंगार उदक सुकता म्हणपाचें भान लेगीत जायूक उल्लें ना.

''अशी कितें म्हाका घुरून पळयता?'' हांसून सावित्रेन विचारलें.

''खरेंच सुंदर दिसली गे तूं सावित्रे! तूं इतली सुंदर आसत म्हणपाची म्हाका कल्पना

लेगीत नासली.''

सावित्री हांसली आनी तिणें म्हळें, ''आतां हांव सावित्री उरूंक ना. म्हाका सूसान अशें नांव दवल्लां.''

''खरें म्हणटा काय कितें गे तूं? धर्म बदल्लो म्हणटकच नांवय बदलता?'' जायून विचारलें.

''म्हाका खबर ना. पूण नांवांत कितें आसा? म्हजें मन तेंच आसा न्हय...?'' सावित्रेन जाप दिली, ''तें आसूं, तूं बेगीन न्हावन घे. म्हाका खूब्ब उलोवचेलें आसा... ...पूण एक सांग, म्हजे विशीं थंयचो लोक कितें उलयता?''

''उलयतल्यांचे तोंड तूं खंय धरूंक वतली गे सावित्री...? तूं सुखी आसा मगे...? ते तुजें नवें नांव म्हाका म्हणूंक येना. हांव तुका सावित्रीच म्हणटा आं.'' जायून म्हळें.

सावित्री हांसली

जायून ताकतिकेन न्हाण सोंपयलें. सुके कापड आंगार घेतले आनी ती घरांत आयली. सावित्री पोरसांतल्यान घराक वळसो घालून फुडल्या दारांत वचून बल्कावांत बसली.

आतां घरांतली भीतल्ली वाट सावित्रेक बंद जाल्या म्हणपाचें जायूच्या लक्षांत आयलें. मनांत खंय तरी तिका वायट दिसलें. पूण आंगावयली पाल झटकुची तसो तिणे तो विचार झटकिलो.

अर्द ओल्या आंगान देवघरांत गेली. देवते मुखारच कुकमाचो करंड आसा. मेणतेलाचें बोट कपलाक लावन ताकतिकेन तिणें कपलाक कुकूम लायलो आनी देवाक पायां पडटना सदांचे सवयेन पोले फोडून घेतले. जायूल्या चित्तांत मात सावित्री घोळटाली. ताकतिकेन परत येतना जायूक कितें येवजलें देवाक खबर! ती परत देवघरांत गेली आनी जमनीचेर न्हिदून देवतेक पांया पडून खीणभर ते काळखी कुडींत बसली. कुशीची वात पेट्टाली आनी देवतेच्या आंगार मंद पसय पातळिल्ली.

''देवते, म्हाका बळ दी. आनी म्हजें पावल सारकें पडत अशी म्हाका बुध्द दी.'' जायून मागलें. परत तीन खेपे जमनीक तकली तेंकयली आनी ती उठून भायर बल्कांवाचे दिशेन चलूंक लागली.

वासरेंत आवयन जायूक आपोवन घेतलें आनी ल्हवू आवाजांत म्हळें. ''हें पळय, सावित्रेक खेटून बसूं नाका आनी तिका आफडूंक वचूं नाका. ती वतकच तुका परत न्हावचें पडटलें हें विसरूं नाका.''

भय आनी तिडक हांचें एक काळें कूप तिच्या मनांत दाटून आयलें. आवयक तिणे जाप दिली ना. पूण जे तरेन पांय आपटून जायू भायर गेली ती पळयली जाल्यार तिगेलो फडफडो लिपून उल्लो ना.

सावित्री बल्कांवांत एकलीच बशिल्ली. आदीं वचून तिका वेंग मारची, तिजो हात हातांत घेवचो, सांसपून तिजी सोबीतकाय वाखाणची असले उमाळे जायूच्या मनांत आयिल्ले. पूण आवयचे शिटकावणेचो उगडास जावन ती मुखावयल्या सोप्याचेर वचून बसली.

''इतली पयस कित्याक बसता जायू?'' सावित्रेन म्हळें. आनी आपल्या गळयांतली भांगराची सरपळी सांसपिली. ते सरपळे सकल हुमकळटालो भांगराचो खुरीस! जायून

खुरीस पळयलो आनी आंग काडलें. सावित्रेचे कुशीक वचून ती बसली खरी. पूण दोगांमदीं हातभर अंतर उल्लें.

सावित्री सरपळेकडेन खेळटाली आनी तिगेल्या गळयांतलो खुरीस पळोवन येवजिल्लें सगळें जायू विसरून गेल्ली.

सावित्रेन जायुमुखार वेगळोच प्रस्ताव दवरलो. जायूली द्विधा मनःस्थिती वाडली. पयल्या तडाख्याक जायून तो प्रस्ताव भायर उडयलो.

"वांज म्हणून मरण आयल्यार उपकारता. जांच-कांच वाडले जाल्यार जीव दिवपाची म्हजी तयारी आसा. तुगेली गजाल वेगळी. पूण हांव बाटून घेवंक केन्नाच तयार जावचीना." निर्धारान जायून तिका सांगलें. जायू सगळीच कडकडूंक लागली.

ती कडकडटा हें पळोवन सावित्री भियेली. तिणे उठून जायूचे फाटीचेर हात दवल्लो. पेट्ट्या इंगळयावरी जायूक तो स्पर्श लागलो. आईन आदींच शिटकायिल्लें. तरी सावित्री जायूक आफुडिल्ली. आतां उपाय नाशिल्लो. परतें न्हावचें पडटलें. इतलें येवजिनाफुडें एक कांच गेलो. पूण आंगर पडिल्लो इंगळो दकून उरचो ते भाशेन सावित्रेन केल्लो प्रस्ताव जायूलें मन हुलंपितालो.

"तूं इतली कडकडटा कित्याक?" सावित्रेन तिका धीर दिवपाचो यत्न केलो, "तुजेर कोण सक्ती करिना. हांवें तुका एक सुचयलें. घोवाल्या घरा तुज्या वांट्याक जे त्रास येतात ते हांवें दोळयांनी पळयल्यात. देखून म्हजेभाशेन तुकाय त्रासांतल्यान भायर काडचेखातीर सांगलें. कोणे तुका मागणी घालूंक ना वा कोण तुज्या फाटल्यान लागूंक ना... तुजी इत्सा आसली जाल्यार विचार करपाचो."

"तुजी गजाल वेगळी सावित्रे." जायून म्हळें, "तुजे जिणेंत चारय वाटांनी गुपाट काळोख आसलो. उजवाडाचें कीर्ण लेगीत तुजेमेरेन पावनासलें. देखून बाटून तुवें लग्न केलें तेन्ना तुजे जिणेचें भांगर जालें, अशें अजूनय म्हाका दिसता. पूण म्हजी गजाल वेगळी. तुजेभाशेन हांव सुंदर वा गोरी न्हय... हाडाच्या सांपळयाचेर काळी कात पांगरून बशिल्ली एक किरकोळ आनी वांज बायल हांव..."

फुडलीं उतरां जायूच्या तोंडांतल्यान सुटलीं नात. ती ल्हान भुरग्याभाशेन रडूंक लागली. रडतां-रडतां कापडाच्या पदरान दोळे पुसूंक लागली.

"इतली निर्शेवन वचूं नाका." सावित्रेन म्हळें, "एक फिरंगी वैज आसा. म्हजो घोव ताका आपोवन हाडटलो. तुका जाय जाल्यार तूं आमगेर यो. थंय तुका तपासतलो. पळोवया तरी तो कितें म्हण्टा तें."

"म्हाका व्हडलीशी आशा ना." जायून निर्शेवन जाप दिली, "खूब जाणाक दिसता म्हज्यांत कितेंय दोश आसल्यार वखदान तो बरो जातलो. म्हजी मांय ते गजालीक कबूल जाल्या..."

"दोतोर म्हणून देव न्हय. नशीब बदलप ताज्या हातांत ना. पूण तो प्रयत्न करतलो अशी म्हाका आशा आसा. आवय जावपाचें तुजें सपन पुराय जातलें. पूण एक गजाल आसा. निखटो दुबाव..."

"कसलो दुबाव?" जायून विचारलें.

"तुज्यांत दोश आसल्यार वखद करूं येतलें. पूण तुज्यांत दोश नासलो जाल्यार...?

आवय जावपाक रूप लागना, रंग लागना हें तूं जाणाच.''

''जाल्यार म्हज्या नशिबाचो भोग अशें मानून हांव सगळें सोंसून घेतलीं.'' जायून जाप दिली.

''पूण सगळेंच नशिबाचेर नासता.'' सावित्रीन सुचयलें, ''थोडेशें घोवाचेरय आसता. दोश तुगेल्या घोवांत आसत जाल्यार तो वखद घेवंक... त्या आदीं तपासून घेवंक कबूल जायत?''

''म्हाका दिसना. आनी तशें हांव उलयलें जाल्यार त्या घरांत म्हाका थारो मेळचोना.'' जायून म्हळें.

''कशेंय आसना, आदीं तुका तपासून घेवया. पूण तुका सांगून दवरतां, दुसरो विचार मनांत आसलो जाल्यार तूं येवजून दवर. कांय फिरंगी तरनाटे हांगा आयिल्ले आसात. म्हज्या घोवाकडेन तांची इश्टागत आसा. ते परत पुर्तुगालाक केन्ना पावत हाजो नेम ना. देखून कांय जाण हांगाच लग्न जावंक सोदतात.''

पयलेच खेपे जायू हांसली. तिणे म्हळें, ''गोरे गोमटे पाखले म्हजेसारके बायलेकडेन कित्याक लग्न जातले? तुका पळोवन ताणी घडये तुजेसारकी सुंदर बायल मेळपाची इत्सा मनांत धरिल्ली आसूये...''

''तूं चुकता जायू, सगळयांकच रंग-रूप जाय अशें नासता. बरी बायल मेळूंकय भाग्य लागता. रंग आनी रूप हें वयलेचाराचें. बरो संवसार करूंक तितलेंच पावना.''

''ते कशेंय आसूं, सावित्रे!'' जायून म्हळें, ''उपकार करून परत हो विशय तूं म्हजेकडेन काडूं नाका. आतां वैजाकडल्यान तपासून घेवचें जाल्यार हांव तयार आसां.''

सावित्री गेली आनी जायूल्या काळजांत वादळ सुरू जालें.

एक निर्धार जायून मनांतल्या मनांत केल्लो. धर्म कसोच बुडूंक दिवंक फावना. आनी तो निर्धार जेन्ना मनांत घट जालो तेन्ना वादळ थोडें शांत जालें.

तिसऱ्या दिसा फिरंगी वैज आयला असो रकाद सावित्रीन धाडलो. ताजे मदीं ती जायूक मेळत आसली. मेळिल्लेय खेपे आपल्या सुखाची वर्णनां करताली. एके तरेन सावित्री आतां प्रचार करता असो दुबाव जायूक येवंक लागिल्लो. पूण आपणाविशींचो तिजो कळवळो अडेचो न्हय असो भरवंसोय जायूक दिसतालो.

सकाळींच जायू सावित्रीच्या घरा गेली.

घर एकदम चकचकीत. पोरनेंच घर खरें, पूण ताजी सोबा वेगळीच. भायल्या सालांत एक देवारो. किरिस्तांवाले सायबिणीचो फोटो आनी ताज्या मुखार वात. तितलें सोडलें जाल्यार वेगळें अशें कांय ना. घर हरशीं निवळ. तरीकय जायूक अहीत जातालें.

वैज येईसर खूब वेळ वाट पळोवची पडली.

वैज आयलो. जायूक दिशिल्लें ताजेपरस तो जाण्टो आसलो . धवे फुल्ल केंस आनी तामशी गोरपाण. सुमार साडे पांच-स फूट लांबायेचो, हांसत्या तोंडाचो. येनाफुडें ताणे फिरंगी भाशेंत कितें तरी विचाल्लें. जायूक तांतलें कांयच समजलें ना.

सावित्रीच्या घोवाकय फिरंगी भास समजना. पूण मोडके तोडके भाशेंत आनी खुणांनी तो वैजाकडेन उलयलो. वैजान जायूक प्रस्न विचारले. खोदूखोदून. खूबशे प्रस्न. थोडे संकोचाचे, थोडे लज दिसपासारके. निमाणें दोळे, जीब तपासली आनी तिगेले मनगट ताणे

धल्लें. ते सरशीं जायून आंग काडलें. पूण नाडी परिक्षा करता हें समजतकच जायूक मात्सो धीर आयलो. मागीर कानाक वादी लावन ताणे जायूक तपासली आनी निमाणें म्हळें, "खूब भुरगेपणांत लग्न जाल्ल्यान हो प्रस्न उप्रासला. तसो दोश कांय ना."

ताणे वखदां दिलीं; पूण भुरगें जावपाविशीं व्हडलिशी आशा दाखयली ना.

तो वतकच सावित्रेन जायूक खूब समजायली. म्हळें, "तू निर्शेवन वचूं नाका. हांव तुका सांगतां, वखद घेतकच भुरगें जातलें."

जायू परत आयली ती थोडी निर्शेवन. घराकडेन सगळ्यांनी मोठे उमेदीन वासपूस केली आनी जायूलें तोंड पळयतकच कोणेंच फुडले प्रस्न विचारलें नात.

जायू मुखार काळोख! परत खंयच्या तोंडान घरा वतली?

सांजची सावित्री परत मेळूंक आयली. तिणे जायूक घराभायर काडली. फाटले वाटेन न्हंय आसा. न्हंयचे वाटेन तिका व्हेली.

अचकीत एक पाखलो तरनाटो तांकां मेळ्ळो. पयसुल्यानच सावित्रेन जायूक सांगलें, "त्या तरनाट्याक सारको पळोवन घे."

जायूलें काळीज धडधडूंक लागलें. सावित्रेन कारस्थान केलें असो तिका दुबाव आयलो.

तो लागीं आयलो आनी सावित्रेन ताका हटकिलो. जायूची वळख दिली. लज, भीड बाळगिना आसतना एकदम ताणे जायूल्या हाताक धल्लें. जायू घामाघूम.

"कांय भियेवं नाका." सावित्री धीर दिताली, "तांगेली वागपाची रीत मात्शी वेगळी."

पूण जायून तागेले निबर मुठींतलो आपलो हात सोडोवन घेतलो आनी धनुष्यातल्यान सुटिल्ल्या बाणावरी ती घराचे दिशेन धांवली.

तिका आडावंक सावित्री फाटल्यान धांवली. पूण जायू थांबली ना. तिगेली ती अवस्था पळोवन घराकडेन सगळेच विस्मित जाले. भूताक भियेल्ले वरी ती दिसताली. कितें जालें, तें तिणें कोणाक सांगलें ना. कोणाल्याच प्रस्नांक जाप दिल्यो नात कुडीचें दार बंद करून रडत रावली.

आपले पतिव्रत्य भश्टलां अशें तिज्या मनान घेतिल्लें. ते खंतीन ती पोखरताली...

...ते रातीकडेन जायून घराफाटले बांयत जीव दिलो!



# २३. ऋषभदेव

कर्नाटकांत गोमतेश्वराक बाहुबलीची एक मूर्त आसा. तिची लांबाय सत्तावन फूट. त्या स्थानाचें महात्म्य गावपी आनी ते मूर्तीची व्हडवीक सांगपी जायते जाण आसात. तिचेविशीं साहित्यय निर्माण जाल्लें आसा. खूब वर्सां आदीं हांवें बाहुबलीची मूर्त पळयल्ली आनी भारतांतली ती सगळयांपरस व्हड मूर्त अशेंच हांव मानतालों.

पूण जेन्ना हांवें सातपुडा पर्वत रांगेंत आशिल्ल्या पयलो जैन तीर्थंकर ऋषभदेव हाची चवद्यांयशीं फूट लांबायेची मूर्त आसा अशें आयकलें, तेन्नाच मनांत खूणगांठ घाली की संद मेळटा तेन्ना ती मूर्त पळोवन येतलों.

आनी तसो योग आयलो लेगीत.

दिल्लीक सावन एक पोरनी ट्रंक फाटल्या दिसांनी आयली. हांवें दिल्ली सोडटना खूबशीं कागदां, पुस्तकां, डायऱ्यो आनी हेर वस्तू ते ट्रंकेंत भरून दवरिल्ल्यो. वे उपरान्त कितलेशे खेपे दिल्लीक गेलों. पूण ती ट्रंक उक्ती करून भितर कसल्यो वस्तू आसात तें पळोवन तांची विल्हेवाट लावपाचें केन्नाच जमलें ना. निमाणेकडेन जेन्ना ती ट्रंक कळमेवंक लागली तेन्ना दिल्लींतल्या इश्टांनी ती उक्ती केली. भितल्ल्यो वस्तू- चडशीं कागदां आनी पुस्तकां आनी कांय पोरन्यो डायऱ्यो - म्हजे नदरेन कितल्यो मोलादीक आसुयेत तें कळना जाल्ल्यान तांणी रेल्वे पार्सलान ती ट्रंक मडगांवां धाडून दिली आनी म्हाका पत्रान तशें कळयलें.

दिल्ली सावन मडगांव मेरेनचो प्रवास करूंक ते ट्रंकेक पुरते चाळीस दीस लागले. मदीं मदीं हांव वासपूस करून येतालों. निमाणे ती येवन थोडे दीस रेल्वेच्या गुदावांतच उरली.

हांवें डॅमोरेज भरून ती ट्रंक घरा हाडली आनी उक्ती करिना फुडें तातुंतल्यान एक जल्लो भायर सरलो. ताका धरूंक हांवें हात लांबयलो, पूण खंयचे तरी खांचींत तो नाच जालो.

म्हाका येवजलें, ह्या जल्ल्यान खबर नासतना दिल्ली तें गोंयमेरेनचो प्रवास केला. आतां बाबडो परत दिल्लीक पावचोच ना. गोंयच्या जल्ल्यांमदीं आनी दिल्लीच्या जल्ल्यांमदीं फरक कितें आसतलो? तांची सांकेतिक भास आसली जाल्यार ती एकामेकांक समजुपासारकी आसतली?

जल्ल्याविशीं येवजीत हांवें ट्रंकांतलीं कागदां, पुस्तकां, डायऱ्यो काडल्यो आनी यादींच्या दर्यांत बुचकळयो मारूंक लागलों. एका एका कागदा भोंवतणी एक उगडास घुसपल्लो आसलो. कितलींशींच पात्रां आनी त्या पात्रांच्यो बऱ्यो वायट यादी नदरेमुखार उब्यो रावल्यो. केन्नाय तरी फुरसतीन सगळीं कागदां पळोवचीं आनी तांची विल्हेवाट लावची अशें येवजून ट्रंक बंद करून दवरतां दवरतां एक पोरनी डायरी भायर काडली. फुरसत मेळटा तेन्ना ती वाचली जाल्यार थोड्यो पोरन्यो यादी ताज्यो जातल्यो आनी सोंपिल्ली जीण नव्यान जगपाची संद मेळटली अशें येवजिलें.

तेन्ना फुरसत खूब आसताली आनी उमेदय. देखून दीसपटी बरोवपाची संवय हांवें लावन घेतिल्ली. दीस भरयांत घडिल्ल्यो ल्हानसान गजाली तपशिलान ते डायरेंत बरयिल्ल्यो आसल्यो.

ल्हानशे जिणेंत मनीस कितले तरांचे अणभव घेता! एक एक अणभव म्हळयार एक स्वतंत्र विशय. तेच डायरेंत म्हाका सातपुड्याच्या प्रवासाचे नोटस मेळ्ळे. ऋषभदेवाची मूर्त पळोवन हांवें बरयिल्लें. "बावनगजा तीर्थ जैनांक लेगीत चडशें खबर ना. थंय चवद्यांयशीं फूट लांबायेची ऋषभदेवाची पाषाणी मूर्त आसा."

इतलें वाचनाफुडें दोळयांसामखार एस. टी. बसीन केल्लो धुल्लान धुसर जाल्ल्या यादींचो प्रवास उबो रावलो. बावनगजा मध्य प्रदेशांत आसा आनी आमी महाराष्ट्रांत धुळे शारालागीं शहादा नांवाच्या गांवांत आसले. थंयच कोणे तरी आमकां बावनगजाक आशिल्ले मुर्तीची खबर सांगली.

"प्रवास इल्लो कटकटीचो, पूण मूर्त अप्रूप." ताणे म्हणिल्लें.

ते पिरायेंत कटकटीची पर्वा दिसना आसली. उरफाटें तसलीं धाडसां करूंक उमेद येताली. म्हजेकडेन एक नकाशा आसलो. तो उक्तो करून आमी पळयलें, फकत साठ - सत्तर किलोमीटराच्या अंतराचेर बावनगजा आसा. इतले लागीं येवन ऋषभदेवाचें दर्शन घेतले बगर वचचें न्हय हो संकल्प आमी त्याच खिणाक केलो. बसीची वासपूस केली तेन्ना आमकां कळ्ळें की, बावनगजा गांव लागीं आसलो तरी बस ज्या मार्गान वता तो मार्ग इल्लो पयसुलो. सुमार एकशेंवीस कि. मी. प्रवास करचो पडटलो आनी उणेंच चार वरां लागतलीं.

सकाळचीं इकरा जाल्लीं. दनपरां तीन मेरेन बावनगजाक पावले जाल्यार दीस उजवाडा मूर्त पळोवंक मेळटली आनी रातीच्या वेळार खंयच्याय ल्हान शारांत परतूंक मेळटलें अशें हांवें येवजिल्लें.

बस दक्षिणेकडच्यान उत्तरेक वताली आनी वाटेर सातपुडा दोंगराची रांग हुपताली. सातपुडा हें नांव त्या दोंगराच्या सात रंगांवयल्यान आयलां अशें खंय तरी वाचिल्लें. ऋषभदेवाच्या दर्शनाआदीं सातपुड्याचे सात दोंगर चडून देवंक मेळटले, हे कल्पनेनच हांव भुरकुटून गेलों आनी कंडक्टराच्या बरेपणान ड्रायव्हराचे कुशीक आशिल्ल्या सिटाचेर वचून बसलों.

खेतिया सावन बस पूर्वेक घुंवली. मळबांत वयर चडूंक लागिल्ल्या सुर्याचीं किरणां सरळ दोळ्यांर येवन दोळे दिपायतालीं. पानसेमल मेरेन वताचो त्रास जालो, पूण पानसेमला उपरान्त बस उत्तरेक घुंवली आनी दोंगर चडूंक लागली. ती सातपुड्याची पयली माळ. ती चडटा आसतना हिचे फाटल्यान दुसरो दोंगर आसत असो दुबाव लेगीत येना आसलो. पूण पयली माळ चडून वतकच सामखार दुसरी माळ उबी.

हांवें सह्याद्रीचे घाट पळयल्यात. सगळे घाट एक सारके दिसले तरी त्या घाटांनी सैमाची अप्रुपाय पळोवपाक मेळटा. तरेकवार वनस्पत, रानटी जनावरां आनी सवणीं. नदर घालता थंय पाचवी अप्रुपाय. ल्हान व्हड वझरे. वताच्या कडार लेगीत सह्याद्री घाटांत रुखाचे सावळेची शितळसाण आसता. हिमालयांतल्या घाटाची सोबा वेगळी, तरी सात-आठ हजार फुटांमेरेन रुखांचो सांगात मेळटा. सातपुडो म्हळयार पुराय बोडको दोंगर! चुकून माकून

बारीक झोपां. खंयय चुकून वयर सरिल्लें एकाद्रें झाड. तो बोडको दोंगर पळोवन निराशाच जाली तरीकय भुगोलांतली सातपुडा पर्वतरांग हांव हुपतां ही कल्पना सुखायताली. एका फाटल्यान एक रांग हुपीत हुपीत सात रांगो आमी हुपून गेले आनी मनांत म्हळें, दोंगर बोडको आसूं, पूण सातपुडा हें नांव ताका फावता.

सातपुडा दोंगराचे वाटेर सैमाची सोबा व्हडलीशी नासली आनी वनस्पत नाशिल्ल्यान सवणीं सावदांय पळोवंक मेळ्ळी नात. तरी ताची भरपाय रस्त्याच्या कडांनी मेळटल्या आदिवासी लोकांनी केली. तातूंतय आदिवासी बायलो आपल्या भेसाक लागून नदरेंत भरताल्यो. काळो रंग, चेपटें नाक; कपलाचेर, गालाचेर आनी खाडकेचेर तांबडे, काळे टिळे. आंगार रुप्याचे धवे अळंकार. तांचो भारच धा-वीस किलो आसूंक जाय. त्या मानान दादले सादे. तांच्या माथ्यार धवी तोपी, ना जाल्यार रंगीत फेटो. त्या वाठारांत पावना फुडें हातांत तीरकमठा घेवन कितलेशेच आमचे बसींत सरले आनी आपले भितर खबरो करूंक लागले. हांव कान दिवन आयकतालों. वयलेचाराक गुजराती हेलांतली हिन्दी भास ते उलयतात अशें दिसतालें. ह्यो दोनय भासो म्हाका समजतात. कान दितकच कळ्ळें की, ती भास वेगळीच.

आमी बडवानी पावले तेन्ना सांजवेळचीं साडेचार जाल्लीं. थंय बस बदलून आठ कि. मी. अंतरावयल्या बावनगजा गांवांत गेले आनी थंय पावसर सांजची स वरां जालीं.

आतां रातीचो मुक्काम बावनगजाकच करप गरजेचें जाल्लें. एक धर्मशाळा आसली. थंयच एक कूड घेतली. थंयच्या मनशान आमकां शिटकावणी दिली. सूर्यास्त जातकच धर्मशाळेंत जेवण मेळचें ना. देखून कितेंय खावया म्हणून धर्मशाळेचे खानावळींत गेले जाल्यार नवें संकट उबें रावलें. खानावळ बंद जाल्या अशें आमकां सांगलें. हांवें येवजिलें; जेवणाचो विचार उपरान्त करूं येता. काळोख जावचे आदीं ऋषभदेवाची मूर्त तरी पळोवया. आमी ते वाटेन चलूंक लागले.

सुमार अर्द कि. मी. अंतराचेर आग्नेय दिशेक तोंड करून उबी आशिल्ली मूर्त सुमार शंबर मीटर अंतरावयल्यान दिसली. खरेंच अप्रुपाची मूर्त. दोंगराचे दक्षिणेकडेन एक व्हडलें तळप कोरांतून ती सुंदर मूर्त केल्या. मूर्तीचें तोंड कुपांनी लिपलां, तें पळयतकच ती चौद्यांयशीं फूट लांब आसतली, हे विशीं दुबाव उरलो ना. त्या कुपांच्या आवरणाक लागून त्या शांत वातावरणांत ते मूर्तीच्या तोंडाचेर भाव बदलतात असो आभास जातालो. त्या निर्जन वाठारांत निर्जीव तळपाचें हें जितें काव्य म्हणूंक जाय. गोमतेश्वराचे मूर्तीपरस ऋषभदेवाची मूर्त व्हडली हे विशीं दुबावच उरलो ना. पूण शिल्पकलेचे नदरेन पळयलें तरी ही मूर्त चड सुंदर म्हणची पडटली. चवद्यांयशीं फूट उंची आसूनय सगळया देहाची बांधणी इतली प्रमाणबध्द आसली की, मुखार येदी व्हडली मूर्त आसली तरी तिची भव्यताय नदरेंत भरचे परस तिचें शिल्प भाळयतालें. गोमतेश्वराची मूर्त एका दोंगराचे तेंगशेर आसा आनी ती पयसुल्यानच नदरेंत भरता. ऋषभदेवाची मूर्त म्हळयार पाना फाटल्यान लिपिल्ल्या फुलासारकी. पानां कुशीक सरतात तेन्नाच नदरेंत भरताली. सैमाची कृपा नासली जाल्यार अर्द मूर्त कुपांआड लिपताली.

हांवें लागीं वचून कसलोय शिलालेख मेळटा काय म्हणून पळयलें. ती कितली पोरनी आसत हें कळूंक मार्ग नासलो. मूर्तीकाराचें नांव थंय नासलें. इतली व्हड मूर्त घडोवपी वा

ती घडोवन घेवपी मनशांनी आपल्या नांवाची खूण थंय दवरची न्हय हें आयच्या युगांत विचित्र दिसतलें. शिलान्यास करतना जंय मंत्री आपल्या नांवाची पाटी आदीं लायता आनी दसकांचीं दसकां तो प्रकल्प बांदप जायना, थंय येदी व्हडली मूर्त उबी आसा; पूण ती कोणें निर्मिली हें कोणाकच खबर ना.

आमी पावले तेन्ना मूर्तीचो जीर्णोध्दार करपाचें काम चालू आशिल्लें. एके कुशीक कोंडे बांदून कारागिराक वयर चडपाची वेवस्था केल्ली. हे कोंडे आमच्या दोळ्यांक खुपले. मस्तकाकडेन खडकाचेर दोन झरोके बांदल्यात. अभिषेक करतल्यांची सोय करपाखातीर आसुये. पूण ते लेगीत अडेचे दिसताले.

दोंगराचें नांव चूलगिरी. ह्या दोंगराचे तेंगशेचेर एक देऊळ आसा आनी दोंगरामेरेन वचूंक तांबड्या चिऱ्यांचो मार्ग आसा. ह्या मार्गान वयर चडटा आसतना भोंवतणचो वाठार विस्तारता आनी भोंवतणी उबे आशिल्ले बोडके दोंगर नदरेंत भरतात. सुमार १००० फूट वयर पावले तेन्ना सूर्य अस्ताक वचपाची तयारी करतालो आनी आपलीं भांगराचीं किरणां त्या उजाड वाठारांत पातळावन ताच्यात तेज भरतालो. पलतडीन लोकमाता नर्मदा.

नर्मदेचें दर्शन सुखदिणे दिसलें. निर्जन वाठारांत उदक दिसतकच खंय तरी वस्ती आसुये असो आभास जावंक लागलो. सांजवेळच्या वता किरणांनी न्हंयच्या उदकाक रुप्याची ओप चडिल्ली. क्षितिजांतल्यान एकाद्रो वझरो फुटचो तशी ही न्हंय दिसताली. दोंगराचे उत्तरेक पूर्व ते पश्चिम हे दिशेन साबार वळणां घेत नर्मदा संथ व्हांवताली. देवळांतल्या देवाच्या दर्शनापरस नर्मदेचें दर्शन धन्यताय दिवपी दिसलें.

अस्तंतेकडल्या दोंगरांचेर काळखाची सांवळी दाटूंक लागली; पूण उदेंतेकडेन अजून उजवाडाची सया मारताली. काळोख दाटूंक लागलो तशे मळबांतले दिवे पेटूंक लागले. खीण दोन खीण मळबांत नदर थिरावन ग्रह आनी नक्षत्रांची वळख घेवपाचो यत्न केलो.

मंदिराचें दार बंद. अचकीत वारो व्हांवंक लागलो. सिनेमांतल्या दृश्यांनी दाखयतात तसलो आवाज काडून व्हांवपी वारो. रूख नाशिल्ल्या त्या वाठारांत संगीत कशें कानार पडटालें देवाक खबर! फुडले वाटेन विशाळकाय. फाटले वाटेन देऊळ. वयर कलश. कलशाचे कुशीक जोगलाक आडावपी त्रिशूळ. ह्या त्रिशुळाचे कात्रींत सांपडिल्लो मळबांतलो गुरू. बाकीचे ग्रह आनी नक्षत्रां मोन्यांनी तें दृश्य पळयतात.

काळोख दाटत वता तशीं कुपां सकयल देंवतात. कुपांमदीं उफेल्ल्याचो आमी अणभव घेतात.

नर्मदा अजून दिश्टी पडटा. नर्मदेच्या परिक्रमेविशीं खूबशें वाचलां. पूण आतां काळोख आनी एकांत. वाऱ्याचे लोटार लोट. पोटाक भूक लागल्या म्हणपाची जाणविकाय त्या खिणाक जागी जाली आनी पांय दोंगर देंवपाच्या कामाक लागले.

धर्मशाळेंत पावले आनी मागीर हेर गजालींचें भान जालें. धर्मशाळेचो मॅनेजर मातसो तिरसुवाद. कितलेय प्रस्न विचारले जाल्यार 'हूं' म्हणपाभायर तोंडांतल्यान उतर काडिना. गालांत पानाचो चोथो घाल्ले भाशेन ताचें तोंड बंद. ताचो नाद सोडून आमी कुशीक रावतल्या चौकीदाराच्या घराकडेन गेले. ताणे आमकां शीत आनी दाळ शिजोवन दिवपाचें उतर दिलें. दुसरो उपाय नाशिल्लो. पयशे चड दिले तरी भाजी करप जमचें ना अशें ताणे सांगलें. पूण हुनहुनीत शीत आनी दाळीचें तोय त्या दिसा रुचीक लागलें. दुसऱ्या दिसा

सकाळीं च्या मेळटली अशें ताणे आपूण जावन सांगलें. आमकां ताचे उपकार जाले.

धर्मशाळेमुखार मेकळें आंगण. वाऱ्याचो नेट आतां उणो जाल्लो. वातावरणांत शुध्द हवेचो परमळ. मळबांतले लाख दिवे दिताले तितलीच पसय. पयस फुलिल्ले रातराणयेचो वास वाऱ्याच्या झोतासरशीं वातावरणाक कातकुतल्यो करतालो. कोडुलिंबाच्या वासांत तो भरसतकच मनाक प्रसन्नताय दितालो. वास पियेवपाची धुंद आसता. त्या निर्मळ शांत वातावरणांत तशें घडूं येता. आंगणातच बसून रावचें अशें दिसतालें. पूण थोड्या वेळान जळाराचें संगीत सुरू जालें आनी आमी उठून कुडींत गेले.

दुसऱ्या दिसा फांतोडेरच उठून चौकीदारान दिल्ली च्या घेतली आनी बडवानीक वचून पयली बस धरचे खातीर ते दिशेन चलूंक लागले.

वाटेंत सैमाचो साद कानार पडटालो. पूण पयली बस चुकतली म्हणपाची धास्ती दिसताली. धांवत, पळत बस स्टैंडाचेर पावले. ते आदींच बस सुटिल्ली. तीन वरां थंय बसी खातीर ताटकळचें पडलें. कोणे तरी आमकां वाग गुफेची खबर थंय सांगली. वाटेंत तें थळ येता जाल्यार पळोवन घेवचें अशें आमी थारायलें.

बसीच्या कंडक्टराक सांगतकच ताणें आमकां मदींच देंवयले. निर्जन वाठार, पूण झाडां आसलीं. तरेकवार फुलां आनी फळां. तितलींच सोबीत पानां. एक ल्हानसो बोर्ड वाग गुंफेचे दिशेंची वाट दाखयतालो.

दुसरो उपाय नासून आमी चलूंक लागले. सांगात्यांनी म्हाका पिशांत काडिल्लो. हातची बस सोडून आमी रानांत देंविल्ले. गुफा पळयतकच परत वचूंक बस मेळ्ळी ना जाल्यार त्रासांत पडटले अशें ते येवजिताले.

आमकां चड वेळ चलचें पडलें ना. खडकांत कोरांतिल्ली गुफा रोखडीच मेळ्ळी. लागींच ल्हानशी न्हंय. न्हंयंत उदक आसलें. गुफा खऱ्यानीच सोबीत. अजंठाचो उगडास जालो. एके गुहेंत बुद्धाच्यो दोन सुंदर मूर्ती आनी वणटींचेर कितलींशींच रंगीत चित्रां. पूण गुफा पळोवन खोशयेपरस चुरचुरे चड पडले. उपेक्षीत जिणें जगपी पाषाणी मूर्ती काळाचे आघात सोंसूनय तग धरून राविल्ल्यो. पूण वणटींवयलीं चित्रां पुसट जावन गेल्लीं. मदींच नवे रंग पळयतना सरकारी हात थंय पावला म्हणपाचें दिसतालें. एका अद्भूत वातावरणांत सोंपिल्ल्या वैभवाची गवाय दिवपी तीं चित्रां आनी शिल्पां पळोवन घेतल्या उपरान्त भायर सरलों तेन्ना गिमाचें वत तापिल्लें.

हे सगळे प्रसंग पोरनी डायरी हातांत घेनाफुडें नदरेसामखार उबे रावले. ऋषभदेवाची मूर्त पळोवचे आदीं आमी तोरणमाळ पळयिल्लो. ताचो उगडास काडूनच ही उगडास यात्रा सोंपयिल्ली बरी.

तोरणमाळ हें एक तळें. लागींच सूर्यास्त थळ आसा. तोरणमाळ पळयतलो जाल्यार तो रातीचोच पळोवचो अशें आमकां सांगिल्लें. पूण त्या तळयाच्या आकर्षणापरसय थंय सरकारी विश्रामधाम आसा देखून आमी थंय वचूंक कबूल जाल्ले. रातीकडेन तळें पळयलें. मळबाचे पडबिंब शांत तळयांत पळयतना मंद वारो आनी फुलिल्ल्या कोडुलिंबाचो परमळ देहाक शितळसाण दिवंक पावलो. सूर्यास्त आमकां चुकिल्लो.

फांतोडेर चौकीदार उठोवंक आयलो तेन्ना ताणे सांगलें, "रातीं तळयाचें उदक पियेवंक वाग आयिल्लो."

सकाळच्या वेळार तळ्याची प्रदक्षणा काडूंक आमी भायर सरले. चोशीं दोंगर आनी मदीं तळें. दोंगर चडप खूबच त्रासाचें. वागाखातीर इतलो सुरक्षित जागो दुसरो नासतलो. पूण सकाळच्या वेळार आमकां वाग दिश्टी पडलो ना. दोंगर देंवता आसतना दोन बंगले दिसले. कांय दुकानां. थंय वचून खबर केली तेन्ना आमकां आनीकय जायतीं अप्रुपां कळूंक पावलीं. एक युरोपी मिशनरी आशिल्लो. ताणे सूर्योदय थळाची आमकां खबर दिली. पूण सूर्योदयाचो वेळ जावन गेल्लो. आतां उगडास जाता ते प्रमाण त्या मिशनरी सांगातान आमी एक ल्हानशी दोंगुल्ली चडून गेले आनी थंय पावतकच पळय जाल्यार मुखार दुसरी दोंगुल्ली उबी! पांयांत गुळे येयसर चलत रावले आनी तेंगशेचेर पावले तेन्ना एक अद्भूत देखाव पळयलो. अस्तंतेकडेन तोरणमाळ तळें, उत्तरेक एक ल्हान तळें, त्या तळ्या पलतडीन एक व्हडली दरी. तळ्या भोंवतणी तितलीं झाडां. फुडें सगळो बोडको वाठार. त्या मिशनरीच्या सांगातान आमी धाकल्या तळ्यामेरेन गेले आनी वाटेंत आमकां तो विशाल वटवृक्ष पळोवंक मेळ्ळो.

सुमार णवशें चौरस मीटर वाठारांत पातळिल्लो तो वड. पंचात्तर पाळांचो! सगळीं पाळां एका मेकांत भरसल्लीं! घडये तीं चडय आसुये.

मागीर खूब वर्सां उपरांत कलकत्याचो वड पळयलो. मद्रासच्या वडाविशीं आयकल्लें. तोय फुडें केन्ना तरी पळयलो; पूण पर्तगाळीचो वटवृक्ष ते उपरान्त खूब वर्सांनी पळयलो. भारतांतल्या कांय वडा रुखांक नांव लौकीक मेळूंक पावला. पूण तोरणमाळच्या त्या वडाविशीं चडशें कांयच वाचूंक ना.



# २४. दुबाव

"तूं घरा नासता तेन्ना तुमगेर कोण येता?" एका अनवळखी मनशान सत्येनाक विचारलें.

दुदांत मिठाचो खडो पडचो तसलो हो प्रस्न. सत्येन सकाळच्या वेळार ऑफिसाक वचूंक भायर सरिल्लो. शाराच्या एका उपनगरांत फ्लॅट घेवन तो रावता. फ्लॅट इल्लो पयस पडटा. फ्लॅटाकडच्यान तीन चार मिनटां चलून लोकल बसीच्या स्टॉपाचेर वचचें पडटा आनी उपरान्त शारांतल्या बस स्टँडार वचून दुसऱ्या शारांत वचपाची बस धरची पडटा. हे सगळ्या कटकटींक लागून तो ऑफिसांत पावतासर दोन वरां उलगतात. देखून सकाळीं आठ वरांचेर तो घरांतल्यान भायर सरता. परत येतासर ताका अशींच सांजचीं सात जातात.

सरकारी ऑफिसांत काम करतल्यांक सप्तकांतल्यान दोन दीस सुटी आसता. सुक्राराक सांजचो घरा परतलो जाल्यार शेनवार आनी आयतार दोनय दीस ताका बायल-भुरग्यांच्या सांगातान सारूंक मेळटात. पूण सत्येनालें ऑफीस खाजगी जाल्ल्यान आनी त्या ऑफिसांतय तो उंचेल्या पदावयलो अधिकारी आशिल्ल्यान सत्येनाक शेनवाराक लेगीत अर्दो दीस सुटी मेळना. तो बांदिल्लो उरता. कामाचो व्याप खूब चड आनी सत्येनाचो सभाव भिडेस्त जाल्ल्यान ताका सगळें सोंसचें पडटा.

ते खाजगी कंपनीत म्हाका एक काम आसलें. एका मित्राक थंयच्यान थोडे पयशे मेळपाचे आसले आनी हांव त्या शारांत रावतां. सत्येनाक मेळून हांवें चेक हाडचो अशें ताणे सुचयिल्लें

सत्येन म्हजो मित्र म्हणप समा जावचें ना. पूण तागेल्या बापायक आनी खासा ताका हांव खूब लागींच्यान वळखतालों. शेनवार आसलो. दनपारचें ऑफीस बेगीन बंद जावं येतालें. देखून हांवें सत्येनाक फोन करून इश्टाल्या चेकाविशीं विचारलें

"चेक तयार आसा." ताणें जाप दिली, "तूं सांगशीत जाल्यार हांव तो आजच पोस्टांत उडयतां."

"नाका." हांवें म्हळें, "ताका तो बेगीन मेळिल्लो जाय. ताणे म्हाका हाडूंक सांगला. हांव दनपार मेरेन येवन वतां."

"तुका हे वाटेन काम आसत जाल्यार तूं यो. हांव आज मातसे बेगीन घरा वतलों. तरी चार मेरेन ऑफिसांत आसतलों. पूण फकत चेक व्हरूंक येवंक सोदता आसत जाल्यार तूं मुद्दाम त्रास घेवं नाका. हांव दनपरां तो घेवन येतां आनी तुजेकडेन दितां." सत्येनान सांगलें.

म्हाका त्या भुरग्याची लक्तुबाय दिसली. म्हजी एक फावट ताणे चुकयिल्ली. हांवें ताका चेक हाडूंक सांगलो आनी म्हळें, "त्या निमित्त्यान तरी तूं मेळटलो."

सत्येन चेक घेवन आयलो तेन्ना रातीचीं आठ वरां जाल्लीं. आमच्या घराकडेन तो आयलो. हांवें ताका बसोवन घेवन विचारलें, "इतली रात जाता तुका?"

"ना. हरशीं हांव सात मेरेन घरा पावतां." सत्येनान जाप दिली, "आज हांव पांच वरांचेरच घरा पाविल्लों. चेक हाडिल्लो, पूण तुजेकडेन दिवंक विसरलों. आतां उगडास जालो तसो आयलों.

सत्येन आतां इतलो जाणटो जाला हाची म्हाका कल्पनाच नासली. हांवें ताका सात आठ वर्सांचो आसतना पळयिल्लो. सायकली वयल्यान तो स्कुलांत वतालो आनी वाटेर हांव दिश्टी पडलों जाल्यार सकयल देंवन जाप दितालो. हालींच्या भुरग्यांची रीत वेगळी जाल्ल्यान सत्येनाची ती वागणूक म्हाका खूब आवडटाली. ताणे जाप दिवची आनी हांवें ताच्या घरची आनी अभ्यासाची वासपूस करची अशें सदांच घडचें.

पूण आतां म्हज्या मुखार एक तिशींतलो तरनाटो आसलो. पुरतो स फूट लांब आसतलो. स्मार्ट! ताच्या माथ्यावयल्या केंसांचो एक गोंडो कपलार मदींच येतालो आनी परत परत तो हातान फाटीं सारतालो. तरी आसतना हांव ताका वळखलों हाचें म्हाकाच अजाप दिसलें.

सत्येनान चेक दिलो. हांवें ताची बारीक सारीक खबर घेतली. तागेलो बापूय हालींच भायर पडला हें हांव जाणा आसलों. आवय ते आदींच संवसार सोडून गेल्ली. म्हाका उगडास जाता ते भाशेन सत्येनाक दोन काय तीन भयणी आसल्यो. हांवें ताका भयणीविशीं विचारलें.

"दोन भयणी." ताणें जाप दिली, "एकली लग्न जावन घोवा सांगातान अमेरिकेक गेल्या. दुसरी गोंयांतच आसता. ती आनी तिगेलो घोव एकाच कॉलेजांत शिकयतात."

"तुगेलो संवसार केदो?" हांवें ताची वासपूस केली.

मातसो लजेल्ले भाशेन जावन सत्येनान जाप दिली, "हांव आनी बायल, दोगांच. ह्याच शारांत आमी एक फ्लॅट घेवन रावतात."

"आनी दीसपट्टो तूं येता, वता?"

"हय. सकाळचो वतां. सांजचो येतां. आयतार एक दीस सुटी."

"येवपा-वचपातच तुजो वेळ आनी शक्ती खर्चता. फ्लॅट लागींच कित्याक घेतलो ना?

"म्हजी इत्सा तशी आसली. पूण म्हजे बायलेच्या मामान तिका हो फ्लॅट सवाय भितर दिला. फ्लॅट बरो आसा. लोकवस्तीय बरी. मेळटा तो फ्लॅट सोडचो न्हय अशें येवजून तो घेतलो."

"लग्नाक कितलीं वर्सां जालीं? तुवें म्हाका लग्नाचें आमंत्रण दिलें ना. आतां बायलेक घेवन एक दीस आमगेर यो." हांवें ताका सांगलें.

"येतां. मुजरत एक दीस येतां." सत्येनान जाप दिली, "आमी लग्न रजिस्टर पध्दतीन केलें. कोणाक सांगलें ना."

सत्येनाची हांवें बारीकसाणेन खबर घेतली. बी. कॉम. पास जातकच ताणें सी. ए. केली आनी ही नोकरी धरली. खाजगी कंपनीत आसली तरी नोकरी बरी. काम आवडीचें आनी पगारय बरो.

"तुजी बायल नोकरी करता काय ना?" हांवें विचारलें.

"ना. तिका नोकरी करप आवडना आनी म्हाकाय तिणें नोकरी केल्ली नाका."

बरो वेळ सत्येन बसलो. ताका जेवनच वचपाचो हांवें आग्रो केलो. पूण बायल वाट पळयतली अशें सांगून तो जेवंक रावलो ना. म्हजो निरोप घेवन तो उठलो. हांव ताका भायर रस्त्यामेरेन पावोवंक गेलों. ताची स्कूटर आसली, ती सुरू करून तो गेलो आनी हांव परत घरांत येता म्हणसर दारांत स्कुटर थांबिल्ल्याचो आवाज म्हज्या कानार पडलो.

भायर येवन पळय जाल्यार सत्येन दारांत उबो.

"कितें जालें? कितें विसरलो काय कितें?" हांवें ताका विचारलें.

"कांय विसरूंक ना" हांशिल्ले भाशेन करून ताणे जाप दिली.

पूण तो बरोच गडबडिल्लो दिसलो.

खिणाआदीं मेकळेपणान उलयतालो तो सत्येन एकाएकी असो गडबडिल्लो कित्याक दिसता तें म्हाका समजलें ना. वाटेर हाका कोण मेळ्ळो, काय कितें सांगपाचें विसरलो देखून तो आयलो?

हांवें ताका भितर येवंक सांगलें. दिव्याच्या उजवाडांत तो बरोच कांचवेला अशें म्हाका दिसलें. एकाएकीं कितें जालें असो प्रस्न म्हाका पडलो आनी तो कितें सांगता तें आयकूंक हांवें म्हजी नदर ताचेर थिरायली.

पूण सत्येन मान सकयल घालून बशिल्लो. कितें तरी तो येवजितालो. नदरेक नदर दिना आसलो. कितेंय तरी विपरीत घडिल्लें.

हांव उठून ताचेसरीं गेलों आनी ताचे फाटीर हात दवरून ताका धीर दिवपाचो यत्न करीत विचारलें, "कितें जालें?"

सत्येनान नदर वयर करून म्हजेकडेन पळयलें. तागेले दोळे दुकांनी भरून आयिल्ले. ताणे रोखडीच मान सकयल घाली आनी मनगटान दोळे पुसून रडप आवरपाचो यत्न केलो. पूण ताका तें सादलें ना. ताच्या तोंडांतल्यान हुडको फुटलो.

कितें जालें तें म्हाका समजलेंच ना. ताका थातारचो कसो हेंय म्हाका कळ्ळें ना. हांवें उदक मागोवन घेवन ताका पियेवंक दिलें. पूण उदकाच्या ग्लासाक ताणें हात लायलो ना तेन्ना हांवें येवजिलें, तागेलो रडपाचो ओग वतकच ताचेकडेन उलोवपाचें. हांवें ताका रडूंक दिलें.

ल्हवू ल्हवू तागेलें रडप थांबलें. भावनेच्या आवेगाचेर थोडेंशें नियंत्रण आयलें. मुखावयल्या ग्लासांतलें उदक तो गटगटीत पियेलो आनी एकदम उबो रावलो.

"कितें जालें?" हांवें विचारलें.

"सॉरी. तुका त्रास पडले. वतां हांव." अशें म्हणून तो वचूंक लागलो.

हांवें ताका हाताक धरून आडायलो आनी म्हळें, "तुवें संकोच करपाचें कारण ना. कितें घडलां तें म्हाका सांग. तुजो प्रस्न म्हज्यान सोडोवंक जातलो काय ना तें हांव नकळ. पूण मन मेकळें केलें जाल्यार तुका ल्हव दिसतलें..."

तो थीर नदरेन म्हज्या तोंडाकडेन पळयत रावलो. आतां भावनेचेर पुराय नियंत्रण आयिल्लें. ताणें म्हळें, "प्रस्न इल्लो नाजूक आनी खाजगी. खरें कितें, फट कितें, हांव नकळ. फाटले आठ दीस म्हजी गत पिशावरी जाल्या. आयज तुजेकडेन उलयलों आनी म्हाका दिसलें, तुज्या कानार तो प्रस्न घालचो."

"मागीर परत कित्याक वतालो?"

"कशें सांगचें तें म्हाका कळना. आठ दिसांपयलीं बस स्टॉपाचेर म्हाका एक दादलो मेळ्ळो. मर्दी केन्नाय तो स्टॉपाकडेन दिश्टी पडटा. आठ दिसां आदीं ताणे वळख देख नासतना एकदम म्हाका विचारलें, "तूं घरा नासतना तुमगेर कोण येता?"

सत्येनाच्या तोंडांतल्यान तितलें आयकतकच हांवें एकदम हांसून म्हळें, "अनवळखी मनशान अशें विचारलें आनी तूं बायलेक दुबावलो काय कितें?"

"ना." सत्येनान जाप दिली, "बायलेविशीं म्हज्या मनांत इल्लोय दुबाव ना. पूण खरें सांगूं, ताणे तो प्रस्न विचारलो आनी तेन्नाच्यान म्हज्या मनाची सवस्तकाय गेली."

"तुवें ताका कितें जाप दिली?" हांवें विचारलें.

"म्हाका जापच येवजली ना. प्रस्न इतलो अचकीत आसलो की तो आयकना फुडें हांव पुराय गोंदळून गेलों. तो कोण हें लेगीत हांव नकळं. तो कितें म्हणटा तें समजूंक म्हाका कळाव लागलो. ताणे प्रस्न विचारलो आनी हांव एकदम चक्रावन गेलों. ते अवस्थेंत जाप कशी दितलों?"

"ताणे आनी कितेंय म्हळें?" हांवें विचारलें.

"ना. फक्त तितलो प्रस्न विचारलो आनी अशे तरेन दोळे घुंवडायले की तो चाळयता अशें म्हाका दिसलें. हांव गोंदळिल्लो पळोवन तो हांसलो आनी तागेलो हांसो लेगीत खंवचट आसलो.

"कितले दीस जाले हे गजालीक?"

"आठ-धा दीस जातले. सकाळच्या वेळार बसीची वाट पळयत हांव स्टॉपाचेर उबो आसां इतल्यांत तो सभागी आयलो. म्हज्या भुजाक हात लायलो आनी ताणें म्हाका तो प्रस्न विचारलो. ते आदीं हांवें ताका केन्नाच पळोवंक ना. स्टॉपाचेर जाग्रते लोक उबे आसतात. तातूंत तोय आसतालो काय ना तें हांव नकळं. त्या दिसा तो आपूण जावन म्हज्या म्हऱ्यांत आयलो आनी ताणे प्रस्न विचारलो..."

"ते उपरांत तो तुका मेळ्ळो ना?"

"अदीं मर्दी त्या स्टॉपाचेर तो म्हाका दिश्टी पडटा. तोय बसीन वता. खंय वता तें हांव नकळं. पूण हांव ताका टाळटां. ताचे नदरेक नदर दिवंक म्हाका भंय दिसता."

"भियेवपाचें कितें आसा तातूंत? तागेल्या प्रस्नान अस्वस्थ जावचे आदीं तुवें ताची सारकी खबर काडूंक जाय आसली. कोणय तरी वाटेवयलो मनीस असले प्रस्न विचारता आनी तूं अस्वस्थ जाता हाका अर्थच ना."

"तूं सांगता तें म्हाका खरें दिसता, पूण करूं कितें? ताका पळयना फुडें त्या प्रस्नाचो उगडास जाता..."

"जालें तें जालें." हांवें म्हळें, "तूं आतां तकलेंतलो तो प्रस्न काडून उडय. दुबाव हो वाळवीसारको आसता. एक खेपे मनाक दुबावाची वाळटी लागली जाल्यार सगळेंच दुबावाचें दिसता. संशयकल्लोळ नाटकासारकी गजाल ही. अनवळखी मनशाचे सांगणेन तुज्या मनाक त्रास करून घेवं नाका. कांय लोक विघ्नसंतोषी आसतात. सगळें बरें चलता हें तांच्यानी पळोवंक नज. ते असलीं दुबावाचीं कुसां तोपून वातावरण खदळ करून सोडटात. तुवें ताका विचारूंक जातालें, आपल्या घरा कोण येता हो आपलो प्रस्न. तुका ताचो हुसको

कित्याक?''

''तसो प्रस्न विचारचो अशें खूब खेपे मनांत आयलें. पूण त्या दिसा उपरांत तो म्हजेकडेन एकूय उतर उलोवंक ना. हांव जावन कसो ताका जाप दितलों?''

''ताचें विसर.'' हांवें म्हळें, ''तुजे बायलेक तरी तूं ते विशीं सांगलां काय ना?''

''ना. तिका विचारूंक हांव धजना. म्हाका भंय दिसता.'' सत्येनान ज़ाप दिली.

''कसलो भंय? तुजे बायलेक तूं भिता?'' हांवें विचारलें.

''ना. तशें न्हय. पूण ती कितें जाप दीत तें येवजूनच म्हाका भंय दिसता. प्रस्न आयकून तिका कितें दिसतलें? घोव आपणाक दुबावता अशें तिका दिसचें ना? घोवाचो आपणाचेर विस्वास ना अशें एक खेपे तिच्या मनांत भरलें जाल्यार मागीर ती कीड मनांतली काडून उडोवप सोपी न्हय. हारसो फुटपासारकी गजाल ती. सादेपणान हारसो फोडूं येता. पूण फुटिल्लो हारसो परत कसो जोडपाचो?''

''हय, आतां तूं सामकें खरें उलयलो. पूण एक सांग, विस्वासच दवरपाचो जालो जाल्यार तूं त्या अनवळखी मनशाचेर दवरतलो, काय तुजे बायलेचेर?''

आतां सत्येन रडकुरो परतलो. ताणे म्हळें, ''म्हजे बायलेचेर म्हजो खूब्ब मोग आसा. तिका हांव दुखोवंक सोदिना आनी तिचेर म्हजो पुराच विस्वासय आसा. आमच्या लग्नाक दोन वर्सां जालीं. एकय दीस हांवें तिचें मन दुखोवंक ना. देखूनच तिका कांय सांगलें ना वा विचारलें ना. तूं म्हाका घरचोच जाणटेलो कसो. आज तुका मेळ्ळों तेन्नासावन हें तुज्या कानार घालचें अशें दिसूंक लागलें म्हणून परत आयिल्लों.''

''हें पळय सत्येन.'' हांवें म्हळें, ''दुबावाची कीड मारून उडयतलो जाल्यार घडलां तितलेंय बायलेक सांग. तिचे जापेची अपेक्षा करून न्हय. फकत कोण तरी विघ्नसंतोषी तुमच्या संवसारांत विख्ख कालोवंक सोदता हें तिका खबर आशिल्लें बरें... आनी हें पळय, जे तरेन ताणे 'पाडे बांयंत गांवकार' करून तुका अस्वस्थ केलो, तुज्या मनांत दुबावाची कीट पेटयली, तेच तरेन तो वा तागेली बायल तुगेल्या बायलेच्या मनांतय दुबाव रिगोवंक शकता... देखून जर तुजो तुजे बायलेचेर विस्वास आसत जाल्यार हांसून हांसूनच जें घडलां तें तिच्या कानार घाल...''

एकदम सत्येन बसलो. ताणे म्हळें, ''हें मात म्हाका येवजूंक नासलें. पूण म्हाका भंय दिसता...''

''परत भंय उरलो? कसलो भंय?'' हांवें ताका विचारलें.

तो अनमनलो. येवजिल्ले भाशेन करून खांकडेत ताणे म्हळें, ''ती कोणाचेंय नांव घेत म्हणपाचो म्हाका भंय दिसता.''

''म्हणटकच तुजे असवडीं तुमगेर कोण येता म्हणपाचे गजालीचेर तुजो विस्वास बसता?'' हांवें विचारलें.

''ना. पूण दुबाव येता. एका परकी मनशाक कितें लागतालें? ताणे कोणाकय तरी पळयिल्लो आसतलो आनी देखून म्हजेकडेन विचारिल्लें आसुये. घडये त्या मनशाक तो वळखता आसुये. असो दुबाव येतकच म्हजी तकली घुंवंक लागता.''

''पिशेपणा करूं नाका. कोणय येता आसत जाल्यार कोण येता हें तरी ती सांगतली. तुजो बायलेचेर पुराय विस्वास आसा जाल्यार तुवें ती कितें सांगतली तें खरें मानूंक जाय.''

“तें खरें मानूंक हांव कबूल आसां. हांवें तिका विचारचें आनी तिणे कोण येना अशी जाप दिवची अशी म्हजी इत्सा आसा. पूण कोणय येता अशें तिणे सांगलें जाल्यार म्हजें कितें जातलें हें येवजीय.”

“तुजें कितें जातलें?” हांवें म्हळें, “कोणय येता आसत जाल्यार कोण येता तें तुका कळटलें. घडये कोणय सोयरो आयिल्लो ताणे पळयलो आसुये. घडये पोस्टमन वा सेल्समन आसूं येता.’

“तशें आसल्यार प्रस्नच ना. पूण तिणे आपणाक मेळूंक येता तो आपलो मित्र वा आनीक कोणय म्हणून सांगलें जाल्यार हांवें कितें करपाचें?”

“ही दुबावाची भास जाली.” हांवें म्हळें, “एके वटेन तूं म्हणटा तुजो बायलेचेर मोग आसा, पुराय विस्वास आसा आनी दुसरे वटेन तूं म्हणटा तूं तुजे असवडीं तिका तिचो मित्र वा, तुवें म्हळें ना तरी तिचो प्रियकर तिका मेळूंक येता असो दुबाव तूं मनांत रिगूंक दिता. हें समा न्हय.”

“म्हाका कळटा. पूण तुवें म्हळें तशें म्हाका जाता.”

“पूण अशें दिसपाक कारण कितें? तिचो तुजेर मोग ना? तूं तर म्हणटा, तुमी रजिस्टर पध्दतीन लग्न जाल्यांत. म्हळयार मोग करूनच लग्न जाल्यांत मरे?”

“तसो आमचो मोग आसलो. पूण लग्न जुळोवन हाडिल्लें. वेगळया कारणाखातीर आमी रजिस्टर्ड पध्दतीन लग्न केलें.”

“कसलें वेगळें कारण?”

“म्हज्या घरांत जाणटेलो कोण नासलो. पूण तें मुख्य कारण न्हय. तिका लग्नाचो सुवाळो नाका आसलो. तिणे रजिस्टर ाध्दतीचो आग्रो धरलो.”

“कित्याक तें तुवें विचारलें ना?”

“विचारपाची गरज नासली. म्हाका तें कळटालें. तिचें आदीं लग्न जाल्लें आनी तिणे घटस्फोट घेतिल्लो... आनी तिगेर पयल्या घोवापसून एक चलीय आसा.”

सत्येनाच्या प्रस्नाची गांठ सोडोवपाच्या यलांत घुसपागोंदळ वाडत वतालो. तागेली ती जाप आयकून हांव इतलों गोंदळ्ळों की ताका कितें सांगचें तेंच म्हाका कळना जालें.

हांव ओगी रावलां हें पळोवन ताणेंच म्हळें, “तुका खरें सांगतां, तिचें मन दुसऱ्याचेर बसलां ही कल्पनाच म्हाका सहन जावची ना. ते परिस्थितींत हांव कितें करून बसन तेंच हांव नकळं. तिच्या तोंडांतल्यान जाप आयकुचे परस जाणें प्रस्न विचारला तोच फटींग हें मानपाचो पर्याय म्हाका सुखदिणो दिसता.”

सत्येनाक हांवें म्हळें, “हें पळय, जे बायलेकडेन तुका संवसार करचेलो आसा आनी जिचेर तुजो उपाट मोग आसा, तिचेकडेन अविस्वासाचे भावनेन वागप समा जावचें ना. दुबावची कीड जल्मभर तुमच्या संवसारांतलें सूख पोखरीत रावतली. तेन्ना कसल्याय परिणामाक तोंड दिवपाची तयारी दवरून तुजे बायलेक सगळें सांगून उडय.”

म्हजें म्हणणें सत्येनाक पटिल्लें दिसलें ना. ताणे तकली हालयली आनी मोन्यानी तो गेलो. म्हाका ताची काकुळट दिसली. पूण दुसरें कितेंच करप म्हज्या हातांत नासलें.

ते उपरांत कितलेशेच दीस सत्येन मेळ्ळो ना. म्हाका दिसलें, तागेलो प्रस्न सुटिल्लो आसतलो. अचकीत एक दीस सत्येन आनी ताची बायल स्कुटरीवयल्यान वतना म्हाका

दिश्टी पडलीं. ताणें म्हाका पळयलो ना. पूण हांवें हात केला तें तागेले बायलेन पळयलें आनी तिणें घोवाक स्कुटर थांबोवंक सांगली.

स्कुटर उबी करून सत्येन म्हजेसरीं आयलो आनी ताणें म्हळें, "हांवें तुका पळयलो ना. तूं इतलो लागी पावला... हांगाच आमचें घर. तुका वेळ आसल्यार घराक पांय लाय."

सत्येनाची बायल कुशीक उबी आसली. तिका ताणे लागीं आपयली आनी म्हजी वळख करून दिली.

म्हाका ती पळोवंक सादी, शालीन बायल दिसली. तिचे केंस बरेच लांब आसुये म्हणपाचो अदमास तिच्या आंबाड्यावयल्यान येतालो. आंगान इल्ली सुटिल्ली आसली तरी रुपान सुंदर आसली. तिच्या सामखार सत्येनाक प्रस्न विचारप शक्य नासलें. देखून हांव तांगेर वचूंक कबूल जालों.

लागशिल्लेच बिल्डिंगेंत पयल्या मजल्याचेर सत्येनालो फ्लॅट. फ्लॅट म्हणचे परस अपार्टमेंट म्हणप सारकें जातलें. चार कुडींचो तो अपार्टमेंट आनी तातूंत रावतात फकत दोगां. घोव आनी बायल.

घराची सजावट आनी निवळसाण नदरेंत भरताली. भायल्या सालांत टी. व्ही., व्हिडियो आनी पुस्तकांच्यो दोन आरमारी. ताज्या फुलांची फुलदाणी टी पॉयचेर.

सत्येनान घर दाखयलें. बंद कुडी लेगीत निवळ आनी वेवस्थीत आसल्यो. रांदचे कुडींतली निवळसाणय म्हजे नदरेंत भरली. हांवें घर वेवस्थीत दवरता हे खातीर सत्येनाले बायलेचें अभिनंदन केलें आनी सत्येना सांगातान हांव भायल्या सालांत येवन बसलों. ती रांदचे कुडींत च्या करूंक गेली.

एके कुडींत हांवें तंबोरो आनी पेटी पळयिल्ली. हांवें सत्येनाक विचारलें, "तुगेले बायलेक संगिताची आवड आसा काय कितें?"

"तुका कशें कळ्ळें?' सत्येनान आपलें अजाप उक्तायत म्हळें, "एका काळार ती गायताली. म्हाका शास्त्रीय गायन समजना आनी खरें सांगतलो म्हळ्यार आवडना. हांव नासतना ती तंबोरो घेवन रियाज करता, पूण चडसो वेळ तो तंबोरो गुठलायिल्लोच उरता."

"गायनाचें आसूं. तुगेलो तो अस्वस्थ करपी प्रस्न सुटलो मू?" हांवें ताका विचारलें.

"ना. पूण त्या उपरान्त कांयच घडूंकय ना." ल्हवू आवाजांत ताणे जाप दिली

"पूण तिका सगळें सांगून तरी उडयलें?"

"ना. अजून ना."

फुडलो प्रस्न विचारचे आदींच सत्येनाली बायल च्या घेवन भायर आयली.

हांवें शेजरा कोण कोण रावतात ताची वासपूस घेतली. सत्येनाल्या शेजरा आनीक दोन फ्लॅट आसात. एक तिगेल्या मामान आपणाखातीर दवरला, तो रिकामोच आसा आनी दुसरो जाणें घेतला तो थंय अजून रावंक येवंक ना.

हांवें तिका तिगेल्या संगिताचे साधनेविशीं विचारलें. ती मातशी लजेली आनी म्हळें, "तशें म्हाका व्हडलें गावंक येना. तुका कोणें सांगलें?"

हांवें सरळ जाप दिली ना. म्हळें, "कानावयल्यान गेल्लें. म्हाका दिसलें, तूं घरांत एकली उरता जाल्यार संगिताचे साधनेत तुजो वेळ बरो वता आसतलो."

तिणे जाप दिली ना. हांशिल्ले भाशेन करून ओगी रावली. तिचेविशीं चड प्रस्न विचारप म्हाका शक्य नासलें. देखून हांव सरळ प्रस्न विचारप टाळटालों.

मदींच म्हाका कितें येवजलें कोण जाणा. हांवें विचारलें, “तुमगेर हांगा कोण येता बी?”

म्हजो प्रस्न इतलो विचित्र आसलो की म्हजें म्हाकाच म्हजें चुकलें अशें दिसलें. सत्येनाकय म्हजो प्रस्न रुचलो ना, हें तागेल्या तोंडावयल्यान म्हाका दिसलें. आनी ताची बायल तर जाप दिना आसतना घोवाच्या तोंडाकडेन दुबावान पळोवंक लागली.

म्हाकाच मखलाशी करची पडली. म्हळें, “सत्येन दीसभर ऑफिसांत उरता. येद्या व्हडल्या घरांत तूं एकली उरता. तुजी वळखीची मैत्रीण वा कुळारचे सोयरे बी येतात काय म्हणून हांव विचारतालों.”

ती गंभीर जाली. कांय उलयली ना. ल्हवूच उठून भितर गेली.

सत्येनाक म्हजी वागणूक आवडली ना हें ताच्या तोंडार दिसतालें. तो चुळबुळत बसलो. हांवें च्या चो कप रिकामो केलो आनी ताका म्हळें, “सॉरी.”

तो खंती हांसो हांसलो. हांव वचूंक उबो रावलों तसो ताणे तिका उलो केलो. ती भायर आयली. हे खेपे तिच्या तोंडार हांसो आसलो. खिणापयलीं जो राग तिच्या तोंडार उदेल्लो तो विरून गेल्लो.

“एक दीस जेवणाकच यो.” तिणे म्हळें, “आतां तुका वचपाचें आसा आनी आमीय भायर सरतालीं.”

म्हज्या सांगातान तींय देंवलीं. बसीच्या स्टॉपामेरेन चलत आयलीं आनी उपरान्त ताणे स्कुटर स्टार्ट करून तीं दोगांय गेलीं.

म्हाका बसीन वचपाचें नासलें. थंय लागींच वचूंक म्हणून भायर सरिल्लों. देखून चलूंक लागलों. वतां वतां म्हाका कितें तरी येवजलें. हांव परत ते बिल्डिंगेसरीं आयलों. बिल्डिंगेच्या तळमजल्याचेर दोन तीन दुकानां आसात. एका दुकानांत भितर गेलों आनी ओगीच वासपूस केली. “हांगा फ्लॅट बी विकतो दिवपाचो आसा?”

“ना, सगळे भल्यात. पूण चडशे बंदच आसात. कोणय भाड्याक बी दिता जाल्यार वासपूस कर.”

दुकानदाराकडेन सत्येनाचो विशय कसो काडचो हे येवजीत हांवें तागेल्या दुकानांतल्यो वस्तू पळयल्यो आनी तितले म्हणसर म्हजी नदर भायले वाटेन एके काशीर बसून सिगरेट ओडटल्या तरनाट्याचेर गेली. तो म्हाकाच पळयतालो.

नदरेक नदर मेळ्ळी तेन्ना ताणे म्हाका म्हळें, “तुगेलें काम सत्येनानच केलें जाल्यार करपाचें. ही बिल्डींग तागेल्या सोयऱ्यान बांदल्या.”

म्हाका एकदम अजाप जालें. होच बी तो मनीस न्हय मू, जाणें सत्येनाक तो प्रस्न विचारिल्लो, असो विचार मनांत येवन हांव ताका निरखूंक लागलों. तोंडांतल्यान सोडिल्ल्या धुंवराच्या लोटाकडेन पळयत बशिल्ल्या त्या मनशाच्या तोंडार कसलेच भाव उदेवंक नासले.

हांव दुकानांतल्यान भायर आयलों तेन्ना ताणे म्हाका प्रस्न केलो. “तूं आतांच सत्येनागेर गेल्लो न्हय?”

म्हजो दुबाव बळावलो. ताचेकडेन उलोवनच खरी खबर काडुया अशें येवजून हांवें

म्हळें, "हय. तुका कशें कळ्ळें?"

"हांव हांगाच बसून आशिल्लों. तुमकां वयर वतना आनी परत येतनाय हांवें पळयिल्लें."

हांवें खुणेनच ताका लागीं आपयलो आनी म्हळें, "तुका सगळें खबर आसूंक जाय. म्हजें काम केल्यार तुवेंच. हे बिल्डिंगेंत एकाद्रो फ्लॅट विकतो वा भाड्यान मेळत?"

"सत्येनान कितें सांगलें?" ताणे म्हाका उरफाटो प्रस्न केलो.

"सत्येन उतर घालीत आसलो; पूण तागेली बायल आडायता असो म्हाका दुबाव आयलो."

"तिका नाका दिसता कोण शेजरा रावंक आयिल्लो. हरशीं तिगेल्या मामालो फ्लॅट रिकामो आसा. चावी तिचेचकडेन आसता."

"तुजी वळख आसा तिगेल्या मामाकडेन?' हांवें विचारलें.

"ना. एक खेपे आयिल्लो तो हांगा."

"बरें आसा. पळयतां कोणय वळखीचो मेळटा जाल्यार. पूण हे फ्लॅट म्हाका आवडले. व्हडले आसात आनी पयल्या मजल्याचेर आसात."

हांव ताचो निरोप घेतां, इतले म्हणसर फ्लॅटामुखार एक मोटार थांबली. मोटारींतल्यान एक दादलो आनी एक चली सकयल देंवली. म्हाका थंयच सोडून तो तरनाटो मोटारीसरीं गेलो आनी ताका कितें तरी सांगलें.

खीणभर तकली वयर करून त्या दादल्यान फ्लॅटाकडेन पळयलें आनी चलयेक परत मोटारींत बसोवन तो गेलो.

हांव कुशीक रावन हें सगळें पळयतालों. तो वतकच तरनाटो परत म्हजेसरीं आयलो आनी खोंचक हांसून ताणे म्हळें, "दर एका कुलपाक एक चावी आसता. हो आतां मोटारीन गेला तो मनीस तुजें काम करीत."

"कोण तो? हांव ताका वळखना." हांवें म्हळें.

"कोण तो म्हाकाय खबर ना. पूण सत्येन भायर सरून वतकच हे मोटारींतल्यान तो ते चलयेक घेवन येता आनी मागीर वर दोन वरां हालना."

कुवाडें सुटपाकडेन पाविल्लें. उतावळेपणान हांवें विचारलें, "ती चली कोणाली?"

"तागेलीशी दिसना. तो ड्रायव्हर आसूं येता. केन्ना केन्नाय चलयेक पावोवन तो परत वता आनी आपलीं कामां सोपोवन येता."

हांव ताचेकडेन चड उलोवंक बसलो ना. म्हजे पुरतो म्हाका दुबाव उरलो ना. पूण सत्येनाक तें सांगचें काय ना तें मात कळना. म्हजेकडेन पुरावो ना पूण म्हाका ओगीच दिसता, आदल्या घोवाल्या ड्रायव्हराच्या आदारान सत्येनाली बायल लिपचोरयां आपले चलयेक हाडून घेता आसूंक जाय.



# २५. रमा

गोंयांत सोळाव्या शेंकड्याचे अखेरेक जें बाटाबाटीचें सत्र पुर्तुगेज राज्यकर्त्यांनी, मिशनरी लोकांच्या आदारान, शस्त्राचो धाक घालून सुरू केल्लें त्या वेळार बाटिल्ल्या एका किरिस्तांव कुटुंबाचो इतिहास हो रमान पी. एच. डी. खातीर विशय वेंचलो खरो; पूण आरंभ खंयच्यान करचो आनी अशें घराणें खंय सोदचें म्हणपाचो तिका प्रस्न पडलो.

"ह्या विशयावयलीं खूबशीं पुस्तकां हांवें पुंजायल्यांत." तिणें म्हाका सांगलें, "पूण पुस्तक वाचून कल्पना येना. मंगळूरच्या कांय ख्रिस्ती कुटुंबांतल्या लोकांच्यो मुलाखती हांवें घेतल्यो. पूण तितल्यान म्हाका विशयाक जाय तितली माहिती मेळूंक पावली ना. गोंयांत गेले बगर हें काम पूर्ण जावचें ना. देखून तुजो म्हाका आदार जाय."

मंगळूर शारांत म्हज्या हॉटेलाचेर रमा म्हाका मेळूंक आयिल्ली. सांगातान तिचो बापूय. लुंगी गुटलायिल्लो, कपलाक नाम लायिल्लो तो एक कर्मठ सारस्वत. उलयता आसतना परत परत आपल्या खोमसाचो बटन उकतो करून जानव्याक हात लावपाची ताका संवंय आसली.

रमा मातशी वेगळी. सुमार चार फूट लांबायेची मोटवी चली. गोरी गोमटी आनी पळोवंक बाळबोध वळणाची दिसताली. आंगार पंजाबी सूट आनी उलयतना तिच्या दांतांक बांदिल्ल्यो सरयो नदरेंत भरताल्यो. आंगलोटान बारीक किडकिडीत. पंजाबी सूट घालूनय ती पंदरा सोळा वर्सांची चली दिसताली.

"तुवें एम. ए. कोर्स केला न्हय?" हांवें तकलेंतलो दुबाव काडूंक तिका विचारलें.

"हय, हय. एम. फील. केलां हांवें." तिणे हांसून जाप दिली.

परत तिच्या दांतांच्यो सरयो म्हजे नदरेक आडखळ्ळ्यो. ल्हानसोच वाटकुळो तोंडावळो. त्या तोंडावळ्याक सोबत इतलें ल्हान नाक. त्या मानान दोळे इल्ले मोठे आनी लांबट. गोऱ्या तोंडाचेर ते गाढ काळे दोळे चकचकताले. केंसांची घाल्ली फांती तिणें फाटीर सोडिल्ली. तिचे वयल्यान तिचे केंस लांब आनी दाट आसात इतलें कळटालें. कसलोच मेकअप ना. एका हाताक घडयाळ आनी दुसऱ्या हाताक केसरी पोंवळ्यांचें एकूच कांकण.

एका खिणांत हांवें तिका पळोवन घेतली आनी फोनाचो रिसिव्हर उखलून कॉफी मागयली.

"तुजी पिराय कितली तर?" हांवें विचारलें.

तिणे हांसून आपल्या बापायकडेन पळयलें. त्या मखख गंभीर तोंडावयले भाव बदल्ले नात. ह्या मनशाक देवान हांसूंक शिकयलें ना काय कितें असो कोणाक दुबाव येवचो असो गंभीर ताचो तोंडावळो.

ताणे परत जानव्याक हात लायलो आनी म्हळें, "हांव हिका हेंच सांगतां. आनीक शिकून कितें करचें पडलां? सगळ्यो डिगऱ्यो मेळयतासर व्हाङ्डिकेची पिराय बलांडतली

आनी उपरान्त जिणेक अर्थ कितें उरतलो?''

बापायली ही जाप आयकून रमा आनीकय गंभीर जाली आनी तिणें मान सकयल घाली. म्हजो हेतू वेगळो आसलो. ही चली पळोवंक पंदरा-सोळा वर्सांची दिसता आनी ती आपणे एम. फील. केलां अशें सांगता. देखून तिची पिराय कितली असो म्हाका प्रस्न पडला. पूण तिगेल्या बापायन म्हज्या प्रस्नाचो वेगळोच अर्थ लायिल्लो. घडये तिची वाडटी पिराय हो तागेले चिंतेचो विशय आशिल्लो जावंये.

''ते खातीर विचारिना हांव.'' हांवें म्हळें, ''ती पळोवंक भुरगी दिसता...''

''सव्वीस वर्सां तिका.'' निबर सुरांत बापायन सांगलें.

''तिका उमेद आसल्यार करूं दी पीएच. डी.'' हांवें म्हळें, ''पीएच. डी चो आनी लग्नाचो संबंद कितें? लग्ना उपरान्तय तिच्यान आपलो प्रबंध पुराय करूं येता.''

''ना, ना. तें जावचें ना.'' एकदम रमा उलयली.

''माहिती काडूंक गोंयांत वतली म्हणटा. एके चलयेक एकलीच परकी जाग्यार कशी धाडपाची? हांव म्हजो धंदो सोडून हिचे बरोबर कसो वतलों?'' बापायन आपलो प्रस्न मांडलो.

''शिकिल्ली सवरिल्ली हुशार चली. तिका एकली धाडूंक भिरांत कसली? गोंय म्हळयार रान न्हय. उरलो प्रस्न वळखीचो. तिचे पिरायेची चली आशिल्ल्याच्याच घरांत तिका थोडे दीस रावपाची तजवीज करूंक जातली.'' हांवें म्हळें.

''भरवंशाचें कुटुंब मेळळ्यार धाडूं येता.'' बापायन म्हळें, ''तसो तिचो विशय खूबच गरजेचो. आमचोच इतिहास ती सोदूंक सोदता. पांचशें वर्सां आदीं आमचे म्हालगडे गोंय सोडून हांगा आयले. गोंयांत आमचें अशें कांय ना. हक्क सांगूंक येता तो फकत कूळदेवाचेर. तुज्या सारको मनीस जबाबदारी घेत जाल्यार हांव तिका धाडीन. पूण तिका व्हाड्डिकेचें मनार घेवंक सांग. कांय गजाली वेळच्या वेळार जावच्यो पडटात. म्हजी व्हाड्डीक एकोणीस वर्सांचेर जाल्ली. तेन्ना बायलेची पिराय आशिल्ली सोळा वर्सांची...'' अशें सांगून पयलेच खेपे तो हांसलो. पूण त्या हांशांत इल्लीय गोडी नासली.

हो मनीस रूक्ष दिसलो तरी तसो मायेस्त आनी विचार करपी आसूंक जाय. म्हजी ताची भेट आदल्या दिसा मठांत एका कार्यक्रमा वेळार जाल्ली. कार्यक्रम सोंपले उपरान्त आपले चलयेक घेवन तो आयलो आनी ताणे म्हाका मेळूंक येवपाची इत्सा उक्तायली. सभाघरांतल्या बोवाळांत सारकें उलोवप जावचें ना अशें येवजून हांवें ताका दुसऱ्या दिसा सकाळीं हॉटेलाचेर आपयिल्लो. आनी ते प्रमाण तो आयिल्लो.

''तुमच्या वेळावयले दीस वेगळे आसले.'' हांवें ताका म्हळें, ''आतांच्या हिसपान तुमची चली चड जाणटी जावंक ना. पूण लग्नाचो आनी पीएच. डी. चो संबंद जोडपाचें कारण ना, अशें म्हाका दिसता. बरो न्हवरो मेळळो जाल्यार तिचें लग्न करूंक आडखळ कसली?''

रमा दोळयांनीच खिणांत म्हाका आनी खिणांत बापायक पळोवंक लागली. कांय उलयली ना.

''बरो न्हवरो मेळूंक नशीब लागता.'' कश्टी मनान उलोवचें तसो तिचो बापूय उलयलो, ''आनी चली जेन्ना चड शिकता, तेन्ना घोव मेळप त्रासाचें जावन बसता. आतां तूंच पळय, पीएच. डी. जातकच तिका कसलो घोव सोदचो पडटलो? आनी तसलो घोव आसलोय

जाल्यार ताची म्हणून वेगळी कितें अपेक्षा आसतलीच न्हय?''

"ताचो विचार आतांच कित्याक?'' रमान म्हळें.

विशयांतर करपाखातीर हांवें तिका तिगेल्या दांताक बांदिल्ल्या सरयांविशीं विचारलें.

ती हांसली. तिणें हातांनी तोंड लिपयलें.

"तिचे दोन दांत फुडें आसले. ते फाटीं काडूंक सरी घाल्या. एक दोन दिसांनी ती काडून उडयतले.'' बापायन खुलासो केलो.

"बरें आसा. तुजी तयारी जातकच तूं गोंयांत यो. तुजी रावपाची वेवस्था जातली.''

"तितल्यान सोंपना.'' रमान म्हळें. "म्हाका जमलें जाल्यार लोटली गांवच्या एका ख्रिश्चन कुटुंबाकडेन संपर्क जोडून दिवचो पडटलो.''

"लोटली? तूं लोटली गांवांत केन्ना गेल्या?'' हांवें विचारलें.

"ना. ल्हानपणांत एक खेपे देवाक रामनाथीं गेल्लीं. ते उपरान्त गोंयांत वचूंक ना. आमचो कुलदेव रामनाथ. ताचें मूळ गांव लोटली. आमचे म्हालगडे त्या गांवसून आयले अशें म्हणटात. देखून लोटली गांवाविशीं म्हाका आपलेपण. चड व्हड आसा गांव?''

"खूबच व्हड. सुंदर आनी समृध्द गांव. जुवारी न्हंयचे दक्षीण देगेर गांव आसा. आदल्या वैभवाची गवाय दिवपी तरेकवार खुणो त्या गांवांत आसात. तुका घडये खबर नासतलें, साश्टीचो म्हाल पुर्तुगेजांच्या ताब्यांत वतकच रायतुरच्या किल्ल्यांत फिरंगी लस्कराचो एक कॅप्टन दियोग रॉड्रीग्स आसलो. ताणें लोटली ग्रामसंस्थेक कसलो तरी एक आदेश दिलो आनी तो आदेश ग्रामसंस्थेन मानून घेतलो ना देखून रागान ताणे रामनाथ देवस्थानाक उजो लावपाचो आदेश दिलो...''

बापूय आनी धूव तटासपणान हांव सांगतां ती खबर आयकतालीं.

"असलो इतिहास म्हाका समजून घेवचेलो आसा. जमलें जाल्यार आमच्या कुळांतले जे लोक बाटले, त्या घराब्याचो इतिहास मेळोवपाचो आसा. एक सपन. तें पुराय जावप साध्य न्हय हें हांव जाणा.''

"पूण प्रयत्न केलो जाल्यार कठीण न्हय. कांय कुटुंबां ख्रिस्ती जालीं तरी तांकां आपल्या पूर्वजांचें मूळ आडनांव आनी गोत्र लेगीत खबर आसा.'' हांवें म्हळें.

निमाणे रमाचो बापूय उठून म्हजेसरीं आयलो आनी म्हजो हात आपल्या हातांत घेवन ताणे म्हळें, "तूं वेवस्था करतलो म्हणून हांव निश्चिंत आसां. तिका घेवन हांवच येतां. केन्ना येवं?''

"हांव वचनाफुडें वासपूस करून तुमकां रकाद धाडटां. तिगेली रावपाची वेवस्थाय करतां आनी मागीर तुमकां फोन केल्यार जाता?''

"तुर्ताक आमी देवळाचे अगरसाळेंतच रावतात. आठ दीस हांवय तिच्या सांगतान रावतां. चड दीस रावचें पडल्यार मात दुसरी वेवस्था करची पडटली.'' तिगेल्या बापायन म्हळें.

आनंदीत जावन रमा परतली. ती उठली तेन्ना तिगेली मोनी मूर्त परत नदरेंत भरली आनी म्हज्या मनांत परत अविस्वास उपजलो.

थारायिल्ले प्रमाण रमा आपल्या बापाय सांगातान गोंयांत आयली. गोंयच्या आर्किवांत आनी सरकारी ग्रंथालयांत वचून तिणें इतिहासाचीं पानां चाळ्ळीं. आनी उपरान्त हांवें वळख

करून दिल्लें घर पळोवंक ती लोटली गेली.

आठ दीस मेरेन रमाची जाग ना. तिचो बापूय लेगीत मेळूंक आयलो ना. म्हाका ओगीच हुसको दिसलो. कळयनासतना तीं परत मंगळुराक गेल्लीं आसत काय? तकलेंतलो दुबाव काडचो आनी जमलें जाल्यार तिगेल्या संशोधनाची प्रगती समजून घेवची अशें येवजून हांव एक दीस लोटलेच्या त्या व्हडल्या घरांत गेलों.

भायल्या पोरसांत एक ल्हान भुरगें काडयो आनी झडिल्लीं पानां पुंजायतालें. म्हजी मोटार दारांत थांबनाफुडें तें गेटीकडेन आयलें आनी हांवें त्या भुरग्याकडेन रमाची वासपूस केली.

"ती मंगळुरी चली न्हय?" त्या भुरग्यान म्हाका प्रस्न केलो.

"हय, हय. तीच. आनी तिगेलो बापूय."

"तिगेलो बापूय हांगा रावना. पूण ती चली हांगा रावता. निकतीच भाटकान्नी सांगातान राशोलाक (रायतुराक) गेल्यांत. केन्ना येतलीं खबर ना." ते चलयेन सांगलें.

"रमा हांगा रावता? ह्या घरांत?" अजापान हांवें ते चलयेक विचारलें.

"हय, हय. हांगाच रावता."

"घरांत आतां कोण आसा?'

"भाटकार भायर गेला. व्हडली भाटकान्न शेजाऱ्यागेर गेल्या. घरांत आनी कोण ना. भाटकान्नीक आपोवं?" हांवें जाणटे भाटकान्नीक आपोवन घेवंक सांगलें. हांव मोटारींतच बसून रावलों.

भाटकान्न येवचे आदींच एक स्कुटर गेटी म्हऱ्यांत थांबली आनी ते स्कूटरीचेर फाटल्यान बशिल्ले रमाक हांव पळयनाफुडें वळखलों. ज्या घरच्या लोकांची ती मुलाखत घेवंक आयिल्ली, ते घरची चली स्कूटर चलयताली.

म्हाका पळोवन रमाक अजाप जालें आनी तिणे आपले नवे मैत्रिणीकडेन म्हजी वळख करून दिली.

"भायर कित्याक रावला? यो भितर." भाटकान्नीले चलयेन म्हळें.

"घरांत कोण ना. देखून हांगा बशिल्लों. हांव रमाक मेळूंक म्हण आयिल्लों."

"भितर येवन मेळ न्हय." तिणें आग्रो केलो.

आमी घराच्या सालांत पावतासर शेजरा गेल्ली जाणटेली भाटकान्न आयली आनी थोड्या वेळान तिगेलो घोवय आयलो. एका व्हडल्या वाड्यासारकें घर आनी त्या घरांत रावतात तीं फकत तीन मनशां.

"तुजो बापूय परत गेलो?" हांवें रमाक विचारलें.

"ना. तो देवस्थानांत आसा. फाल्यां सांजचो परत वतलो. हांव आनीक चार दीस हांगाच रावतली."

"पूण तूं ह्या घरांत रावंक केन्ना आयली?"

"पयल्या दिसा तुवें वळख करून दिली आनी त्याच दिसा ग्लोरियाकडेन वळख जाली. ग्लोरिया ही डॉक्टर. ती मंगळुराक शिकताली. तिणें आग्रो केलो आनी हांवें तांगेरच रावपाचें थारायलें.'

"तुजी आनी ग्लोरियाची आदीं वळख आसली?'

"ना. वळख हांगाच जाली. योगायोगाची खबर म्हणपाची. ह्या घरच्या जाणटेल्यांनी आपल्या पूर्वजांचीं नांवां बरोवन दवरिल्लीं आसात आनी हांव सोदतालें तेंच घर म्हाका मेळळें. हांचें आदलें आनी आमचें आडनांव एक. गोत्र एक. म्हाका जाल्यार हांगा रावत सावन म्हज्या आजोळा आयिल्ले भाशेन दिसूंक लागलें. हांगा चिऱ्या कणकणीं काणी आसा. म्हजें काम बेस बरें चल्लां.'

"तशें जाल्यार एकदम बरें जालें म्हणूंक जाय. तातूंतय ग्लोरियासारकी शिकिल्ली तुजेच पिरायेचे चलयेचो सांगात मेळळो हें तुजें नशीब. ग्लोरिया प्रॅक्टीस करिना?" हांवें विचारलें.

"म्हजी इंटर्नशीप निकतीच सोंपल्या. थोडे दीस सुसेग घेवन म्हाका फुडलें थारावपाचें आसा." हांसून ग्लोरियान जाप दिली.

"ग्लोरिया ही रंगान गोरी तितलीच. हरशीं रमासारकीच हाडकुळी. दोगांमदलो एक फरक म्हळयार ग्लोरिया लांब. उणेंच साडेपांच फुटांची. तिच्या म्हऱ्यांत रमा ल्हान दिसता. पळयतल्याक ती ग्लोरियाची धाकली भयण दिसची. पूण दोगांयलीय पिराय सारकीच आसूंक जाय."

"ग्लोरियाक कन्नड येता?" हांवें विचारलें.

"थोडी येता... थोडी समजता. काम चलाऊ गिन्यान आसा. कित्याक विचारलें?"

"तुमचेमदीं संवाद खंयचे भाशेंत जाता हें समजून घेवंक." हांवें म्हळें.

"ना. आमी इंग्लिशच उलयतात." रमान जाप दिली.

दोगांय म्हजेकडेन कोंकणींतल्यान उलयतालीं. ग्लोरियाचो आवय बापूय एकामेकांकडेन पुर्तुगेजींतल्यान उलयतालीं. तें कुटुंब घरांत पुर्तुगेज भास उलयता आसुये. जाणटेल्यांक इंग्लिश बरी जमना हें तीं उलयतना कळटालें. आनी कोंकणीचेरय व्हडलेंशें प्रभुत्व ना. तरी कोंकणी तांकां समजताली.

"रमा कसल्या विशयाचो अभ्यास करता हें तूं जाणा न्हय ग्लोरिया?" हांवें विचारलें.

"म्हजो अभ्यास थंयच उरला, आतां ग्लोरिया लेगीत तो अभ्यास करूंक लागल्या.आमी दोगांय मेळून कल्पनेंतल्यान ह्या घराण्याची काणी बरोवन काडटात. ल्हान ल्हान गजालींचो आदार घेवन त्या वेळार- फिरंग्यांच्या काळार कितें घडलें आसुये तो इतिहास एका कुटुंबाक नदरेमुखार दवरून बरोवपाचो हो यत्न."

"म्हाका ह्या विशयाची खूब आवड आसा." हांवें म्हळें, "पूण एक सांग रमा, तूं पीएच. डी. क जो निबंद बरयता, ताका हे काणयेचो कितें आदार मेळटलो?"

"खूब मेळटलो." रमान म्हळें. एक उदाहरण नदरेमुखार दवरून हांव पुराय समाजाचो इतिहास बरोवन काडटलीं." रमान जाप दिली.

आमी उलयतना जाणटेलें जोडपें उठून भितर गेलें. ग्लोरिया कसलेंशें निमित्त करून कडसरलें. सालांत रमा आनी हांव दोगांच उरलीं.

"केदें व्हडलें घर न्हय?" रमान म्हळें, "एक राजवाडो कसो हो म्हाका दिसता. हेंच आमच्या कुटुंबाचें मूळ घर आशिल्लें अशी भावना पयल्या दिसा साकून म्हज्या मनांत घर करून बसल्या. तेचखातीर ग्लोरियान आपोवणें दिलें आनी हांगा रावंक हांव कबूल जालीं."

"पूण तुज्या बापायक ही कल्पना रुचली? तो पळोवंक कर्मठ दिसता."

"आदीं ताणेय विरोध केल्लो. मागीर कितें जालें कोण जाणा, ताणे म्हाका रावंक परवानगी दिली. फकत आहार शुध्दी सांबाळ अशी शिटकावणी दिली."

"तूं नुस्तें खायना?" हांवें विचारलें.

"ना. आमच्या घरांत कोणच खायनात. पूण दुसऱ्यान खाल्यार म्हाका त्रास जायना. जाल्यारय तो प्रस्नच उप्रासना. ग्लोरियान म्हाका सांगलें, ताका शिवराक जेबप आवडटा आनी ह्या घरांत कोणच मास खायना. केन्नाय नुस्तें खातात तितलेंच."

"हांव आतां वतां." अशें म्हणून हांव उठलों.

तितले म्हणसर ग्लोरिया परत आयली. ती सरबताचे ग्लास घेवन आयिल्ली. सरबत पिता आसतना रमान म्हाका म्हळें, "तूं वचचे आदीं तुका एक वस्त दाखयतां."

"कसली वस्त?" हांवें विचारलें.

"तुज्या दोळयांनी तूं पळय."

हांव गटगटीत सरबत पियेलों आनी तिका म्हळें, "आतां ती वस्त म्हणटा ती दाखय."

ग्लोरियाय अजापान रमाकडेन पळोवंक लागली. तेन्ना रमान म्हळें. "ताका हांव तुळस दाखोवंक सोदतां."

आमी ज्या सालांत बशिल्ले, त्या सालांत कुशीक एक पियानो आसा. वणटीचेर खूबशे फोटे आसात. पाख्याक हुमकळपी झुंबरां आसात. खंयच्याय पोरन्या घरांत आसता तसलें फर्निचर.

म्हाका घेवन रमा आनी ग्लोरिया मागीलदारांत गेलीं. मागिलदारांत एक तुळशीचें वृंदावन आसलें. चिऱ्यांच्या त्या वृंदावनाक हालीं शिमिट काडिल्लें आसुये. भितर एक तुळशीचो रोपो.

"हांगा हिंदूचें बिराड बी रावतालें?" हांवें ग्लोरियाक विचारलें.

"ना ना. ही तुळस आसा देखून म्हणटा? ही तुळस आदींसावन हांगा आसा. हो रोपो पयरच रमान रोयला. आमच्या पोरसांत खूबशीं तुळशीचीं झाडां आसात. तांतलें एक काडून तिणें हांगा रोयलें."

"इतलीच खबर न्हय, फुडली खबर आयक." रमान म्हळें, "सदूदां तिनसांजचो हे तुळशीमुखार दिवो लायतात."

"कोण लायता?" हांवें विचारलें.

"कोणय लायता. आदींसावन हो दिवो लावपाची प्रथा चलत आयल्या. तो कित्याक लायतात तें मात हांव नकळं." ग्लोरियान म्हळें.

फाटले पडवेचेर ग्लोरियाचो बापूय उबो आसलो. ताणे पयसुल्यानच सांगलें, "शेंकड्यांनी शेंकडे आमी हो दिवो ला[illegible] आयल्यात. म्हजो आजो सांगतालो, मदीं दिवो लावप बंद केलें आनी आमच्या घराण्याक खूबच त्रास जाले. मागीर ताणे देवाचो प्रसाद घेतलो..."

"प्रसाद?" अजापान हांवें विचारलें.

"हय. आमी वर्साक एक खेपे रामनाथी वचून राखणेचो प्रसाद घेतात. आमचो आदलो देव तोच. गांवचो देव तो. तशे आमी ख्रिस्ताक भजतात. इगर्जेंत वतात. पूण आदल्या

देवाक विसरूंक नात.''

रमा खऱ्यानीच सोदतालें तसलेंच घर तिका मेळिल्लें.

हांवें रमाक म्हळें, ''तुवें म्हजें एक काम करूंक जाय. तुजी कथा बरोवन जातकच म्हाका ती वाचूंक दिवंक जाय.''

''कथा हांव मंगळुराक वतकच बरयतलीं. पूण वचचे आदीं मडगांवां येवन मुजरत तुका सगळी कथा सांगतां.''

म्हाका निरोप दिवंक सगळें कुटुंब मोटारीमेरेन आयलें. त्या वेळापुरती तरी रमा त्या घरची धूव कशी म्हाका दिसली.

आठ धा दिसांनी रमा आनी ग्लोरिया सांगातान मेळूंक आयलीं. दोगांय जे पध्दतीन एकामेकांकडेन पळयतालीं ती पळयतकच तांची इश्टागत बरी जुळळ्या अशें दिसतालें.

''जाली तुजी कथा तयार?'' हांवें रमाक विचारलें.

''एक आराखडो मनांत तयार जाला. तुका अजाप दिसतलें, पूण वैजकी शिक्षण घेतिल्ली ग्लोरियाय आतां म्हजेभाशेन इतिहास संशोधन करूंक लागल्या. ती आपली वेगळी कथा बरयतली.'' रमान जाप दिली.

हांवें ग्लोरियाकडेन पळयलें. ती गंभीर तोंड करून आसली. तिणें म्हळें, ''विशय खूबच ओडलायणो आसा. आपल्याच कुळाचो इतिहास सोदतना एके तरेचो अभिमान आनी आनंद भोगता. हांवें 'रुट्स' हें पुस्तक वाचिल्लें. रमानय तें वाचलें. म्हाका पीएच. डी घेवचेली ना, पूण ते धर्तेचें पुस्तक बरोवचें अशें दिसता.''

''दोगांनीय वेगळ्यो वेगळ्यो कथा बरोवप समा जातलें. दोनय कथा बरोवन जातकच एके कथेंत एकाद्रो मुद्दो काडूंक वा घालूंक जातलो. पूण एक सांगात, कथाकार बरयता तसल्यो काल्पनीक कथा तुमी बरयतलीं?''

''ना ना.'' जाप ग्लोरियान दिली, ''इतिहासाचीं थोडीं पानां आमी वाचून काडल्यांत. कांय जागे पळयल्यात. कांय मनशांच्यो गांठीभेटी घेतल्यात.''

''तुजे कथेची रूपरेखा कित्याक सांगना?''

''म्हजे कथेक अजून आकार येवंक ना. पूण हांव म्हजेरच आदारून ती कथा बरोवंक सोदतां. लोकांनी कितें सांगलें आनी म्हाका खंयचे पुरावे मेळळे हांच्या आदारान कथा उबी करूंक सोदतां.'' ग्लोरियान सांगलें

''आनी तूं?'' हांवें रमाक विचारलें.

''हांव फाल्यां मंगळुराक वतां. थंय एक रूपरेखा बरोवन काडून तुका धाडटां.''

दोनय चलयो निरोप घेवन गेल्यो.

गोंयच्या इतिहासाक सोळाव्या शेंकड्याचे अखेरेक एक नवीच दिशा मेळिल्ली. एक प्रचंड उलथापालथ त्या काळार जाल्ली. इतिहासकारांनी आनी भोंवडेकारांनी ते विशीं जें बरोवन दवरलां तातूंत चड तपशील ना. एकाद्र्या घराब्याच्या आदारान पुराय कथा उबी जाली जाल्यार समाज जिणेंत कसल्यो घडणुको घडल्यो हाचो एक अदमास आयचे पिळगेक येवं येतलो. देखून जेन्ना ह्यो दोन चलयो तें काम करतात अशें हांवें पळयलें तेन्ना म्हाका खोस जाली. आनी तांगेल्या संशोधनाचो तपशील समजून घेवपाची उमळशीकय लागून उरली.

मदीं मदीं रमाल्या प्रबंधाचो विशय तकलेंत येतालो तेन्ना ती वा ग्लोरिया त्या उपरान्त मेळवींच नात हाचो उगडास जातालो.

दोन म्हयने अशेच गेले. म्हाका दिसलें, आतां त्यो चलयो परत मेळूंक येवच्यो नात. पूण म्हजो अदमास चुकलो. सुमार स म्हयन्यांनी रमा आनी ग्लोरिया दोगांय एका सांगातान मेळूंक आयलीं. खरें म्हळ्यार ती एक दुबाव काडूंक म्हजेसरीं आयिल्लीं. खूबशा पोरन्या उतरांचो तांकां अर्थ जाय आसलो आनी गोंयच्या ग्रामसंस्थांनी जे वांगडी आसतात, ते वांगडी म्हळ्यार कोण हें समजून घेवपाचें आसलें.

"तें सगळें हांव मागीर सांगतां." हांवें म्हळें, "आदीं तुमच्यो कथा कसलो आकार घेवन बसल्यात तें सांगात."

रमान आपलें बाड म्हज्या हातांत दिलें. कन्नड भाशेंत बरयिल्लें तें बरप पळोवन हांवें बाड परत तिचे कडेन दिलें आनी म्हळें, "म्हाका कन्नड येना."

"आरेच्या!" म्हणून तिणें बाड परत घेतलें आनी म्हाका सांगलें, "हांव एक सांगूंक विसरली, हांव म्हजो प्रबंध कन्नड भाशेंतच बरयतां."

"आनी तूं?" हांवें ग्लोरियाक विचारलें.

"इंग्लीश." तिणे जाप दिली, "म्हाका पीएच. डी करचेली ना."

"बरयलें तुवें? म्हाका वाचूंक दिता?"

"हय. बरोवन पूर्ण जातकच दितां."

"तो मेरेन म्हाका तोंडान तरी रूपरेखा सांग." अशें म्हणून हांवें ग्लोरियाकडेन पळयलें. आनी ग्लोरिया सांगूंक लागलीः

घराच्या मागील दारांत तुळशी मुखार सांजची पणटी पेट्टा. वृंदावनांत तुळस ना. लोटलेच्या एका किरिस्तांव कुटुंबाच्या घरची ही गजाल.

ल्हानपणांत सावन ती तुळस पळयत आयल्या, पणटी पळयत आयल्या. वैजकी शिक्षण घेवचे खातीर जेन्ना ती मंगळुराक गेली, तेन्ना एका नव्या संवसारांत ती पावता. थंय कोंकणी उलोवपी हिंदू आनी किरिस्तांव आसात आनी मंगळूर शारांतलें वातावरण गोंयचे सारकेंच हें पळोवन ती विस्मित जाता. थंय एके हिंदू चलयेकडेन तिची वळख जाता. तांगेल्या घरांत ती वता. बाटाबाटीच्या काळार सतराव्या शेंकड्याच्या आरंभाक त्या घरचे जाणटेले धर्म आनी संस्कृतीची राखण करचे खातीर पळून मंगळुराक आयिल्ले म्हणपाचें तिका कळटा.

"गोंयांत तुजो गांव खंयचो?" मैत्रिणीचो बापूय ते गोंयकार चलयेक विचारता.

आनी जेन्ना ती लोटली म्हणून सांगता, तेन्ना तो म्हणटा, "तोच आमचोय मूळ गांव. आमी रामनाथाचे म्हाजन."

मंगळुरी चली ही रमा. गोंयकार चली ग्लोरिया. रमालो बापूय वांगड, पुरूस आनी गोत्राविशीं विचारता. ग्लोरियाक तातुंतलें कांय खबर नासता. पूण तिच्या मनांत एक अशी भावना उपजता की तीन शेंकड्यां उपरान्त आपूण ज्या घरांत पावल्या त्या घरच्या लोकांकडेन आपलें कितें तरी नातें आसा.

सुटयेंत ग्लोरिया रमाक घेवन गोंयांत येता. घरच्या पोरन्या कागदपत्रांनी बाटच्याआदीं तांचें नांव कितें आसलें, गोत्र कितें आसलें तें दोनय मैत्रिणी सोदून काडटात. वर्सांतल्यान

एक खेपे आपलें कुटुंब रामनाथाच्या देवळांत राखणेचो प्रसाद घेता ही खबर जेन्ना ग्लोरियाक कळटा, तेन्ना ती वांगड म्हळयार कितें, गोत्र म्हळयार कितें, पुरूस म्हळयार कितें अशे प्रस्न आपल्या बापायक विचारता.

बापूय सांगता : ''म्हज्या आज्याकडच्यान आयकल्ली गजाल हांव तुका सांगतां. मुळांत जीं वेगळया वेगळया गोत्रांचीं कुटुंबां गोंयांत येवन वसलीं, तांचो एक देव आसलो, एक ग्रामसंस्था आसली. एका गोत्राचे लोक म्हळयार कुटुंब. एके वस्तींतल्या लोकांचो एक वांगड. पुरूस हो आद्य पुरूस, जाणें ही वसणूक स्थापली.''

रमालें आनी आपलें गोत्र एक हें कळना फुडें ग्लोरियामुखार इतिहास उबो रावता.

लोटलेचो गांव एक समृध्द गांव. खावन जेवन लोक धादोस आसलो. संगीत कला आनी शिक्षणान गांव फुडें आसलो. फिरंगी आयले आनी ताणी देवळाचेर हात घालो. देऊळ मोडलें आनी लोकांक बाट्येवपाक सुरुवात केली. लोटलेच्या एका कुटुंबांतलो एक भाव बाटलो. ताचें नांव बदल्लें. पूण तो गांवांतच उरलो. दुसरो भाव धर्म सांबाळचे खातीर मंगळुराक गेलो.

दोगांमदीं संपर्क, संबंद उरलो ना. मूळचीं भाटां आनी घर बाटिल्ल्या भावाक मेळ्ळें. पळून गेल्ल्या भावाच्या वांट्याक वनवास आयलो.

आपूण बाटलां म्हणपाची खंत आनी लज लोटली उरिल्ल्या भावाक दिसताली. हें घर आनी भाटां आपलीं एकल्यालीं न्हय. ताचे वांटेकार केन्ना तरी परत येतले अशें मानून विश्वस्ताचे भावनेन तो तांचो सांबाळ करतालो.

उपरान्त इन्क्विझिशन आयलें. बाटूनय जे हिंदू संस्कृतीक पाळो दिताले; सण, परबो मनयताले; रीत; रिवाज पाळटाले, कोंकणी भास उलयताले तांकां पुर्तुगेज राज्यकर्त्यांनी पिडापीड दिवंक सुरू केली आनी खूबशे बाटिल्ले गोंयकार ते जांच चुकोवचे खातीर गोंयाभायर गेले.

खूब वर्सांनी शांततायेच्या वातावरणांत मंगळुराक गेल्ल्या भावालीं भुरगीं वा नातरां आपलें मूळ घर सोदीत लोटली गांवांत पावतात. तांकां जाणटेल्यांनी घराच्यो कुरवो सांगिल्ल्यो आसतात. फाटल्या आंगणांत पुरसाचें वृंदावन आसा. थंय पायां पडूंक विसरूं नाकात अशी शिटकावणी दिल्ली आसता.

ते आपल्या मूळ घरांत पावले आनी तुळशीकडेन दिवो पेटोवन पांया पडले. रगत रगताक वळखलें. पूण संस्कारांचें अंतर तांकां वेगळायतालें....

''तुजें संशोधन सारक्या मार्गार आसा.'' हांवें ग्लोरियाक म्हळें, ''तुजी कथा बरोवन जातकच मुजरत म्हाका धाड.''

तिणे धाडपाचें उतर दिलें

निरोप घेवन ती उठली. ग्लोरियाच्या दोळयांत दूक पळोवन म्हाका अजाप जालें.



# २६. मुन्नार घाट

नकाशाचेर आमी पळयलें की मदुराय सावन एक आडवो रस्तो वता, जो मुन्नार घाटावयल्यान थेट अर्नाकुलमाक पावता. नकाशावयल्या अंतराचें प्रमाण मेजलें. घाटाची वाट कितली अडचणीची आसूं येता हाचो अदमास घेतलो आनी आमकां दिसलें, अंतर दोनशें कि. मी. परस चड आसचें ना. नकाशाचें प्रमाण चुकलें अशें मानलें लेगीत जाल्यार अंतर चडांत चड तीनशें कि. मी. आसतलें. दनपारचीं साडे बारा जाल्यांत. रोखडेच भायर सरले जाल्यार दीस अस्ताक वचचे आदीं घाट देवन आमी सात - आठ मेरेन अर्नाकुलमाक पावतले.

आमी रोखडेच भायर सरले. जेवचेखातीर वेळ वगडावचो न्हय, वाटेर कितेंय फळां बी घेवचीं अशें थारायलें आनी नकाशांत दाखयिल्ल्या रस्त्यान घाटाचे दिशेन गाडी सोडली.

कन्याकुमारीची भोंवडी सोंपोवन आमी मदुराय आयिल्ले आनी थंयच्यान रामेश्वराची यात्राय केल्ली. परत गोंयांत येवचे आदीं अर्नाकुलमाक एक रात रावन मंगळुराक वचपाची येवजण आमी आंखिल्ली. मदुरायसावन अर्नाकुलमाक वचपाची दुसरी वाट खूबच पयसुली अशें आमकां दिसलें, देखून घाटाचो मार्ग आमी पसंत केलो.

अस्तंतेचे दिशेन मदुराय लागसारच घाटाची चढण सुरू जाता आनी थंय वनखात्याचो एक नाको लागता. त्या नाक्याचेर वासपूस केली. तमीळ उलोवपी थंयच्या कर्मचाऱ्यान आमकां कितें सांगलें तें सारकें समजलेंना. पूण इतलें समजलें की रस्तो सरळ अर्नाकुलमाक वता. आमच्या नकाशांतल्या गिन्यानाक वेव्हाराचो तेंको मेळिल्लो देखून आमची उमेद वाडली. घाट चडटां-चडटां एक मैलाचो फातर मेळ्ळो. ताचेर कोचीन अशें बरयिल्लें आनी अंतरय आमी धरिल्लें ताचेपरस खूबच थोडें आसलें. हांवें मनांतल्या मनांत गणीत केलें आनी सांगात्यांक म्हळें, ''सुर्यास्ता आदींच आमी अर्नाकुलमाक पावतले.''

डिसेंबर म्हयन्याचे निमाणे दीस आसूनय मदुराय शारांत आकांताचो उजो जातालो. आंगाक चिकचिकीत हूम आनी जळाम्ळाक मुसांचे पुंजके. जीव बेजार जाल्लो. घाट चडूंक लागले तशी हवा बदल्ली. वातावरणांत एके तरेची शितळसाण आयली.

एक गजाल नदरेंत भरली. रस्तो बरो आसूनय त्या रस्त्याचेर येरादारी ना. मदुराय सोडीत सावन आमकां एकय वाहन मेळूंक ना. रस्तो अरुंद आशिल्लो खरो, पूण डांबरी आसलो. दोशीं दाट झिलां आनी झाडां. रान इतलें दाट की आमी वयर पावले तसो काळोख दिसूंक लागलो. सूर्याचे किरण त्या रानांत पावनासले. दीस आसतनाच रातकिड्यांचो किरकिराट सुरू जाल्लो आनी घडये रानवटी जनावरां आमकां मेळत असो ओगीच म्हाका दुबाव आयलो.

पूण सैमाची सोबा अप्रुपायेची. खूब अशीं थळां आयलीं, जेन्ना मोटार थांबोवन थंय थोडो वेळ रावचें अशें दिसूंक लागलें. खळखळटे व्हझरे, तरेकवार सवणी, शितळ

वातावरण. कांय कडेन सुंदर-सुंदर काळीं खडपां. पूण थांबलो जाल्यार मुक्कामाचेर पावंक रात जातली ह्या भिरांतेन आमी मोह आवरलो आनीं एके गतीन घाट चडत रावले.

एक घाट सोंपलो आनी पठार लागलें. घडयाळींत पळय जाल्यार दनपारचीं तीन वरां जाल्यांत. पूण भायले वाटेन तीन कात्रीवयलो काळोख दाटिल्लो. पत्र्याची एक ल्हानशी शेड. ते शेडीचेर तांबडो-धवो बोर्ड. तें पोस्ट ऑफीस.

गांवांत पावले जाल्यार फराळ ना जाल्यार च्या घेवया अशें आमी येवजिलें आनी पोस्ट ऑफीसाच्या मुखार गाडी थांबयली. हॉर्न वाजयलो तशी एक बायल उकत्या दारांतल्यान पळोवन गेली. उपरान्त लुंगी न्हेशिल्लो एक दादलो उकतोच भायर आयलो. हांवें ताका विचारलें, "हॉटेल?"

"ना." म्हणून तकली हालोवन तो तमीळ भाशेंत कितेंशें उलयलो. भाशेची अडचण आसलीच. सभाग्याक इंग्लीशीचें एकय उतर कळना.

भोंवतणी पळयलें, खंयच चुकून माकून एकाद्री खोंप वा वस्ती ना. थोडीं भाताचीं शेतां आसात, जीं पिकून हळडुवीं जाल्यांत. कुशीक काफयेचे मळे. पिकिल्ल्या फळांचे घोंस वाऱ्याचेर धोलतात. पयस च्याचे मळे. वातावरणात एक प्रकारचो मंद परमळ पातळ्ळा. भायर शीं खूब पडलां. आंगार स्वेटर चडोवपाची गरज दिसची इतलें. म्हज्या बॅगांत एक शाल आसली. हांवें ती भायर काडून पांगुरली.

थंयसून गाडी सुरू करतासर दाट रान चिरून जोगूल दोळयांसामखार चकचकलें. दोळे दिपकावपाइतलें ताचें तेज आसलें. दुसऱ्याच खिणाक गडगड. तसलो गडगड हांवें त्या आदीं फकत हिमालयांत आयकल्लो. आमचे कुशीकच कितें तरी घडलां अशें दिसपाइतलो व्हडलो आवाज आनी सह्याद्री पर्वताच्या दोंगुल्यांनी त्या आवाजाचे एका फाटल्यान एक निनाद. पयल्या आवाजासरशीं हांवें आंग काडलें. मनांत म्हळें, घाट देंवसर पावस पडना जाल्यार पुरो. पूण एकाद्री टोळधाड मुखावयल्यान येवची तसो झडत-झडत फुडें सरतलो पावस म्हाका दिसलो. मोटारीचे दिवे पेटयले आनी खीणभर पावसाचे घोगे मोटारीचेर आपटले.

आमी घाट चडत आसात. फुडले चडटेक पावसाची आडखळ. दाट कुपां सगळो वाठार घेरून बसल्यांत. काळीं पावशी कुपां. सिनेमांनी इंद्रलोक आनी चंद्रलोक दाखोवंक अडेचो धुंवर काडटात ते तरेचें वातावरण. एक फूट मुखावयलो रस्तो दिसना. गाडी फुडें कशी व्हरची तेंच समजना. रस्तो इतलो अरुंद की गाडी फिरावपाचीय सोय ना. रावतलो म्हळयार त्या अटंग्या रानांत केदो वेळ रावचें पडत हाचो नेम ना. मुयेचे गतीन पयल्या गियरांत गाडी चलयत-चलयत आमी घाट चडटासर अचकीत एक उकतो जागो आयलो. एकदम उजवाड. अस्तंतेचे दिकेन देंवतल्या सुर्याचीं किर्णां थंय पातळिल्लीं. सकयल देंवन पळयलें. फाटले वाटेन पावशी काळोख आनी कुपांच्यो राशी. फुडले वाटेन सुर्याच्या किरणांची वाट सोडली जाल्यार सगळेकडेन निळी धुंवरी. मदीं मात भांगराचें वत चकचकता.

गाडी थांबोवन लागसार घर वा वाडो आसल्यार अदमास घेतलो. कांय एक ना. पूण पयसुल्यान एक सुणें भोंकलें. ताचे वयल्यान लागसार वस्ती आसूंक जाय इतलो अदमास आयलो.

गाड्येची गती थोडी वाडयली आनी परत बोगद्यांत भितर सरचे तशे आमी कुपांमदीं पावले. परत पावस. जोगलां आनी गडगड.

मन भियेलें. आमी चूक केल्ली. वाट लागींची आसली तरी भिरांकूळ आसा. देखूनच हे वाटेन येरादार ना.

परत नकाशा तपासलो. लागसार आसा मुन्नार. मुन्नार हें शार नासलें तरी केरळ, तमिळनाड शिमेवयलें एक हिल स्टेशन म्हणपाचें हांव आयकून जाणा आसलों. अर्नाकुलम पावले ना जाल्यार उपकरता; एक रात मुन्नाराक सारची असो हांव विचार करूंक लागलों आनी थोडेशे उमेदीन गाडी फुडें व्हेली.

मदींच एक बोर्ड लागलो. गाडी फाटीं घेवन दिव्याचो उजवाड त्या बोर्डाचेर घालो. एके च्या कंपनीच्या मळयाचो तो बोर्ड आसलो. तितलोच धीर. अटंग्या रानांत पावले तरी आमी मनीस संस्कृतीच्या लागसार आसले. च्या कंपनीचो मळो आसा म्हणटकच त्या मळयांत काम करपी कामगार आसतले. घडये कंपनीचें ऑफीस लागसार आसतलें, अशें म्हाका दिसलें.

अदमास सामकोच चुकूंक नासलो. दोकड्यांक आमडीत एक मनीस रस्त्यावयल्यान आडवो गेलो. ताका थांबोवपाचो यत्न केलो. पूण तो रावलो ना. आमी फुडें सरकले.

वरां फाटल्यान वरां गेलीं पूण वस्ती लागना वा पावस थांबना. मदीं गाडयेची वाट झिलांनी आडावल्या. ती मेकळी करपाखातीर सकयल देंवलो जाल्यार म्हज्या दोनय हातांचेर माल्यांतल्या मुसांसारक्यो जळवो चडल्यो. दकिल्ली जळू रगत पियेता, पूण म्हाका इल्लेंय दुखना. सांगात्यांनी म्हाका देंवयलो आनी आदीं आंगावयल्यो जळवो काडून उडयल्यो. उपरान्त आमी थारायलें, झिलांनी देंवप ना.

सात वरां जालीं तरी गांव लागना वा घाटाची देंवती लागना. चडटी सोंपून पठार लागलें आनी परत एक पत्र्याचें घर. पोस्ट ऑफिसाचो बोर्ड. पूण कोणाची जाग ना. पोस्ट ऑफिसामुखार गाडी थांबोवन हॉर्न वाजयलो. तोमेरेन पावस थांबिल्लो. पूण रातीचो काळोख दाटून आयिल्लो. दाट रानांतल्यान मदीं एकद्र्या दिव्याचो उजवाड दिश्टी पडटालो. पूण तो दिवो काय काजुलो तें कळूंक मार्ग नासलो.

बऱ्या वेळान दोन बायलो पोस्ट ऑफिसाच्या दाराकडेन आयल्यो. भोव करून त्यो फाटल्या वटच्यान रावताल्यो आसुये.

"मुन्नार वचपाची वाट खंयची?" हांवें म्हाका येताल्यो तितल्याय भासांनी हो प्रस्न तांकां विचारलो.

वानाचो रगडो गडगडावचो तशो त्यो तमीळ भाशेंत कितें तरी उलयताल्यो. फकत मुन्नार इतलें तरी तांकां समजतलें अशें हांवें धरिल्लें. पूण मोठ्या दोळयांनी आमकां पळोवचे भायर त्यो आपले भाशेंत उलयत रावल्यो. आमी कितें विचारतात तें तांकां समजलां काय ना हें लेगीत कळनासलें.

इतल्यांत एके बायलेन कोणाक तरी व्हडान उलो मारलो. त्या रानांत तिगेलो आवाज धाय दिकांनी घुमलो. पयसुल्यान कोणें तरी प्रतिसाद दिलो. तोय आवाज घुमलो.

म्हजें मन ओगीच भियेलें. आमी तांचीं फकाणां मारतात अशें ह्या बायलांक दिशिल्लें आसत जाल्यार एक नवें झगडें मोलावचें पडटलें. भास तर समजना. कितें करपाचें?

कितें घडटा ते घडूं अशें येवजून आमी थंयच रावले. एक दादलो धांवत आमचे दिशेन आयलो आनी मोटारीकडेन पावनाफुडें ताणे त्या बायलांक कितें तरी विचारलें. आनी मोटारीमुखार येवन आमची नंबर प्लेट पळोवन म्हळें, "गोवा?" त्या प्रस्नान म्हाका सू जालें.

भारताच्या नकाशाचेर गोंय आसा इतलें जाणा जाल्लो मनीस ह्या रानांत मेळ्ळो जाल्यार ताचो आमकां कितेंय आदार जावं येता अशें म्हाका दिसलें आनी हांवें हिन्दींत ताका विचारलें, "मुन्नार कितना दूर है?"

"कोंकणी येना पात्रांव?" ताणें म्हाका परतो प्रस्न केलो आनी हांव अजापून गेलों.

तमीळ भाशेंतल्यान ह्या लोकांकडेन कसो वेव्हार करचो हे विवंचनेत आसतनाच एक कोंकणी उलोवपी मनीस मेळचो हें भाग्यच म्हणूंक जाय.

मुन्नाराची वाट विचारपाचो कुशीक दवरून हांवें ताका विचारलें, "तुका कोंकणी कशी येता?"

कोचीनाक कोंकणी भास उलोवपी कुळंबी जमात आसा हें हांव जाणां. तांचेमदलो हो काय, असो म्हाका प्रस्न पडिल्लो. ताणे म्हाका सांगलें, "हांव गोंयांत आशिल्लों. काजार जावन हांगा आयलों.

ताचेकडेन उलोवपाच्या नादांत हांव मुख्य काम विसरतलों ह्या भंयान सांगात्यान म्हाका म्हळें, "आदीं मुन्नारची वाट विचार."

"वीस किलोमीटर वचचें पडटलें." ताणें सांगलें आनी परत विचारलें, "तुमी ह्या रानांत कशे पावले?"

"आमी अर्नाकुलमाक वतात." हांवें म्हळें.

"आतां वचूं नाकात. सगळे वाटेक रान आनी हांगा वर्सयभर पावस पडटा."

"मुन्नाराक हॉटेल आसा?'

"हॉटेल ना, पूण कंपनीचीं घरां आसात. थंय वचून पळयात."

"तूं आमचे सांगातान येता?"

"परत कोण पावयतलो?"

तोय प्रस्न आसलोच. ताका परत पावोवप हें दिव्यच आसलें.

"तुजें घर खंय?"

फाटलेवटेन हात करून ताणें म्हळें, "लागींच आसा. चलून वचचें पडटलें.

उपरान्त पोस्ट ऑफिसाच्या दारांत आशिल्ल्या बायलांसरीं वचून तो कितें तरी उलयलो आनी परत येवन ताणें म्हळें, "येतां हांव. तुमकां पावयतां."

"तूं परत कसो येतलो?"

"चलूनच येतां... तुमचेकडेन फेणी आसा?"

"ना."

निर्शेणेचो भाव ताच्या तोंडार उदेलो. तरी तो गाडयेंत बसलो आनी गाडी मुन्नारचे दिशेन व्हेली.

ताचेकडेन संवाद करपाक होच वेळ बरो आसलो. हांवें विचारलें, "तूं गोंयांत कितें करतालो?"

"मुरगांवां बंदरांत काम करतालों."

"तुजें नांव?"

"राघवन."

"गोंय कित्याक सोडलें?"

"म्हजें काजार हांगा जालें."

"हांगा कसली नोकरी?"

"नोकरी न्हय. शेतांत... मळ्यांत काम करतां."

"बायलेक गोंयांत कित्याक व्हेली ना?"

राघवन हांसलो आनी तोंडांतल्या तोंडांत तमीळ भाशेंत कितें तरी पुटपुटलो.

"गोंय बरें, काय हांगा बरें?'

"गोंय बरें! आमचे जातींत लग्न जातकच बायलेगेर वचून रावचें पडटा. म्हजें लग्न हांगा जालें देखून हांव हांगा पावलों."

मुन्नार पावसर राघवनाकडल्यान खूबशो गजाली कळ्ळयो.

आमच्या चलयांक ह्या वाठारांतल्या चलयांचो मत्सर दिसूंक फाव असो एक विचार म्हज्या मनांत आयलो. आमचेकडेन चलयांची सोयरीक चल्याक व्हरतात आनी न्हवरेकाराक चड मान आसता. न्हवरेकाराच्यो अटी व्हंकलकाराक मानून घेवच्यो पडटात आनी खूबशे फावटीं तडजोड करची पडटा. पूण हे जमातीची रीत वेगळी. न्हवऱ्याच्यो सोयरिको घेवन तांचे आवय-बापूय व्हंकलकारागेर वतात. लग्न आयव-बापूय जुळयतात. लग्नाआदीं न्हवरो आनी व्हंकल एकामेकाक पळयनात. उलोवपाची गजाल पैसूय उरली. तरीकय एकाद्री व्हंकल एकाद्र्या न्हवऱ्याक नापसंतय करता. 'व्हंकल दक्षणा' आसता. न्हवऱ्यान ती घेवन बोकड्यो, धान्य वा पयशांच्या रुपांत व्हंकलेगेर वचपाचें आसता. घरचो कारभार बायलो चलयतात. रांदपाचें काम तीं करतात आसलीं तरी जे भाशेन घरच्या सुनांक तांची माय कामां फर्मायता, तसलीं कामां हे जमातींतल्यो मांयो जांवयाक फर्मायतात. जोडीचे पयशे बायलेकडेन वा मांयकडेन व्हरून दिवचे पडटात.

राघवन गोंयांत काम करतालो. एक खेपे तो घरा आयिल्लो त्या वेळार तागेली सोयरीक जुळिल्याचें तागेल्या आवय-बापायन ताका सांगलें आनी ताका मुन्नार घाटांतल्या ह्या गांवांत येवन रावचें पडलें.

"तुका हातूंत उणेपण दिसना?" हांवें राघवनाक विचारलें.

एकदम तो तापलो आनी म्हळें, "कसलें उणेपण? लग्न जातकच बायलेचें घर तें म्हजें घर जाता आनी म्हज्या घरचें काम करपाक उणेपण कसलें?"

तागेली ती प्रतिक्रिया पळोवन हांवें थारायलें की, मुन्नार पावसर आनीक प्रस्न विचारप ना.

मुन्नार गांवांत पावले आनी रस्त्यार विजेचे दिवे चकचकले. एका च्या कंपनीच्या व्हडल्या कंपाऊंडाभायर गाडी उबी करून राघवन सकयल देंवलो आनी ताणें भितर वचून वासपूस केली.

बऱ्या वेळा उपरान्त भितल्ल्यान एक मनीस भायर आयलो. बारीक पावस पडटालो. आंगांत रेनकोट आनी पांयांत गमबूट घाल्ल्या त्या मनशान इंग्लीशींतल्यान आमची वासपूस

केली आनी म्हळें, "तुमकां रावंक जागो मेळटलो. पूण जेवणाची व्यवस्था जावची ना."

दनपारचे आमी जेवंक नासले आनी त्या उपरान्त उदकाचो थेंब पोटांत पावंक नासलो. तरी आमी त्या कंपनीच्या मनशाचे उपकार मानले आनी ताणे प्रवेश दिलो. पत्र्याच्या एका घरांत एक कूड. ते कुडींत चार खाटी आनी कांबळी आसल्यो. बाथरुमाची व्यवस्था आसली.

"हांगा भायर जेवण-खाण मेळपाचें हॉटेल ना?" हांवें राघवनाक विचारलें.

"हॉटेल ना. पूण तुमकां जाय जाल्यार हांव थोडी कॉफी आनी खावंक हाडून दितां."

"तुका परत वचूंक रात जावची ना?

"आतां रातचो पावसांत हांव खंय वतलों? हांवय आज हांगाच रावतां. हांव बायलेक सांगून आयलां." राघवनान जाप दिली.

उपरान्त तो कंपनीच्या चौकीदाराकडेन कितें तरी उलयलो आनी चौकीदारान आपल्या घराकडेन शीत-सांबार शिजोवन आमकां वाडपाचें कबूल केलें.

रात वाडली तशें शीं वाडूंक लागलें. चौकीदार जेवण घेवन येयसर धा वरां जालीं. सादें जेवण. पूण त्या दिसा तें रुचीक लागलें आनी आमी पोटभर जेवले. राघवनय आमच्या सांगातान जेवलो. पांच जाणांच्या जेवणाक ताणे फकत धा रुपया मागले. हांवें जेन्ना पन्नास रुपया दिवन ते दवरूंक सांगले, तेन्ना आपली कृतज्ञताय उक्तावपाखातीर चौकीदारान म्हाका दोनय हातांनी सलाम केलो.

म्हाका राघवनाकडेन उलोवपाचें आसलें. तागेली थोडी खबर समजून घेवपाची आसली. तागेले जमातीचे रीत-रिवाज समजून घेवपाची उमळशीक आसली. पूण इतलें पुरो जाल्लें की हातुणाक आंग लागनाफुडें दोळो लागलो आनी म्हाका केन्ना न्हीद लागली तें कळ्ळेंच ना.

मुन्नारची सकाळ खूबच प्रसन्न. उठून जनेल उकतें केलें आनी भायले वाटेन पळयलें. सैमाची सोबा पळोवन मनान धन्यताय अणभवली. चकचकीत वत पडिल्लें. एके वटच्यान च्याचो मळो, ज्या मळयांत फाटीवयले कुरपणे दोरयेच्या आदारान तकलेक बांदिल्ल्यो बायलो काम करूंक लागिल्ल्यो. उजवे वटच्यान रानांतली रूखावळ, जंय माकडांचे खेळ सुरू जाल्ले. कंपाऊंडांतले आमचे कुडीचे कुशीक केळी आसात. दोन केळींक घडावलीं हुमकळटात. तातुंतल्या एका घडावल्याचो वयलो फेणो पिकून हळडुवो जाला. एक-एक केळें गोंयांत मेळटल्या केळयांपरस व्हडलें. केळीं रसपाळीं. माकडांची नदर थंय मेरेन कशी पावली ना अशें हांव येवजितासर कालच्या बक्षिसाक स्मरून हुनहुनीत कॉफी घेवन भायले वाटेन चौकीदार आयलो.

हांवें सांगात्यांक उठयले तेन्ना म्हज्या लक्षांत आयलें की राघवन ताचे खाटीर ना.

आमी कॉफी घेवन वचपाची तयारी करूंक लागले. तितले म्हणसर चौकीदार गेस्ट हाऊसाचें एक रजिस्टर घेवन आयलो. ताचेर हांवें आमचीं नांवां-पत्ते बरोवन दिले.

"आमच्या सांगातान आयिल्लो तो राघवन खंय?" हांवें चौकीदाराक विचारलें.

"हो कितें?" अशें म्हणून ताणें भायले वाटेन बोट दाखयलें.

च्याच्या मळयात काम करतले एके बायलेकडेन तो कुशीक उबो रावन उलयतालो. हांव ताका पळयत आसां इतल्यांत ते बायलेन फाटीवयलो कुरपणो सकयल देंवयलो आनी

दाव्या हातान राघवनाच्या पोल्याचेर एक सणसणीत थापट फुलयलें.

हांव अजापून पळयत रावलों. आमचेपसून तो पयस आसलो. तरी सारको दिश्टी पडटालो. तो ते बायलेकडेन खेळटा काय तांचें झगडें जालां तें कळनासलें.

हांवें राघवनाक उलो मारलो तसो दावो पोलो चोळीत तो आमचे दिशेन धांवत येवंक लागलो आनी ताचे फाटल्यान ती बायल.

हांवें सांगात्याक सादूर केले आनी आमी सगळेच उठून भायर आयले. थोडी भोव हिन्दी उलोवंक जाणा आशिल्लो चौकीदारय आमच्या सांगातान भायर आयलो. फुडलें नाटक गेस्ट हाऊसाच्या आंगणात घडलें.

"कितें जालें राघवन?" धांपेत-खरशेत आमचेसरीं पाविल्ल्या राघवनाक हांवें विचारलें.

"कांय ना... कांय ना. या आमी." ताणें म्हळें.

ती बायल धांवंक राघवनाइतली चपळ न्हय. आपलो मोठेलो आंगलोट सांबाळीत धांवतना ती एकाद्रे बावलेसारकी दिसताली. आमचेसरीं आयली तशी एकदम राघवनाच्या आंगार गेली.

बायल मनशेक कशी आडावपाची? राघवन प्रसंग वळखलो आनी गेस्ट हाऊसांत भितर सरलो. आतां चौकीदार मदीं पडलो आनी ते बायलेक तमीळ भाशेंत कितेंशें विचारलें.

तिणे गाळींचो शिंवर केलो हें तमीळ भास समजनासतनाय म्हाका कळळें. हांवें चौकीदाराक हिन्दींत विचारलें, "जालां कितें?"

"राघवनान तिचेकडेन आगळीक केली अशें ती म्हणटा." ताणे म्हाका जाप दिली आनी हात फुडें करून तिका शांत जावंक खुणायलें. तरी ती बडबडत आसली. पूण आतां तिगेलो राग इल्लो न्हिविल्लो.

कितें घडलें तें म्हाका कांयच समजूंक नासलें. राघवन रातभर आमचेच कुडींत आसलो. सकाळीं बेगीन उठून तो भायर गेल्लो आसूं येता. खिणापयलीं तो ते बायलेकडेन उलयतालो तेंय हांवें पळयिल्लें. अचकीत कितें जाल्लें? ताणें तिका कितें म्हळें काय कसली आगळीक केल्ली? एके बायलेन ताचेर हात उखलचो असलो कसलो गुन्यांव ताणे केल्लो?

जें घडिल्लें तें दिसाच्या उजवाडांत आनी मळयांत काम करतल्या हेर बायलांसामखार घडिल्लें.

"ती राघवनाक आदीं वळखता?" हांवें चौकीदाराक प्रस्न विचारलो.

थोडो वेळ चौकीदार दुभाषी जालो.

"खूब वळखता. बेबदो नंबर एक. ताका हांगा हाडला आनी हांगाच्या बायलांक एक नवी कटकट जाल्या. आमच्यो चलयो साद्यो-भोळयो. गांवचो जांवय म्हूण कोणय हांसली वा दोन उतरां उलयली जाल्यार हो भलतोच अर्थ लायता. निर्लज्ज मनीस. घराकडेन आवय-भयण नाशिल्ले भाशेन आंगार हात घालूंक फुडें सरता." एका दमांत ती उलयली.

"ताणे तुज्या आंगार हात घालो?" सारकी वासपूस करची अशें येवजून हांवें विचारलें.

"हांव मातयेची बावली न्हय. म्हज्या आंगार हात घाल्लो जाल्यार हातच मोडून उडयतलीं आसलीं." तिणें म्हळें.

आमकां परतुपाची ताकीद आसली आनी एके नवे अडचणींत आमी घुसपल्ले. थोडे पयशे दिवन तिचें समादान जाता जाल्यार ते दिवपाची म्हजी तयारी आसली. पूण बायल

थंयची हालना. आनी ती हालना देखून राघवन भायर येना. ताणें रातीच्या वेळार आमचेर उपकार केल्ले. ताका सोडून वचूंकय बरें दिसना जालें.

गेस्ट हाऊसाक फाटल्यान एक दार आसा हें हांवें पळयिल्लें. चौकीदाराक कुशीक व्हरून फाटली गेट उक्ती करूंक सांगलें. मोटार फाटल्यान घुंवडावन राघवनाक थंयच सोडचो असो बेत आसलो. आमी सगळे गेस्ट हाऊसांत गेले आनी ड्रायव्हर मात गाडयेसरीं गेलो. आमी गेस्ट हाऊसांत वचनाफुडें ती बायल कुशीक सरली. म्हाका दिसलें, प्रस्न सुटलो. आमचो बेत तिणे पारखिला आसत अशें म्हाका दिसूंक नासलें. पूण जेन्ना आमी मोटारींत बसले, तेन्ना ती दुसरे एके बायलेक घेवन दोनय हात फांकारून मोटारीमुखार येवन उबी रावली आनी हांवें कपलार हात मारून घेतलो!

मोटारींत राघवन आसलो. एके बायलेन एक गुंडो उखल्लो. तो तिणे राघवनाचेर मारलो जाल्यार मोटारीचो हारसो फुट्टलो हें येवजून हांव सकयल देंवलों. बऱ्या नशिबान त्या मळ्याचो मॅनेजर थंय पावलो आनी ताणे आमची सुटका केली.

ताणे राघवनाक समजावन ते बायलेचे पांय धरूंक सांगले. राघवनान तशें केलें आनी आमची गाडी सुटली.

गाडी सुट्टां-सुट्टां जनेलांतल्यान तकली भायर काडून राघवनान तमीळ भाशेंत कितें तरी मोठ्यान म्हळें.

"तुवें तिका कितें म्हळें?" हांवें राघवनाक विचारलें.

"कांय ना." ताणें टाळपाचो यत्न केलो.

"गाळ घाली?"

"ना. हांवें तिका सांगलें, आज तूं सुटली पूण हांव सूड घेतल्याबगर रावचों ना."

"तुवें कसली आगळीक केली?" हांवें विचारलें.

"कांय ना. ती सदांच म्हाका आपयता. आज म्हऱ्यांत गेल्यार हो बोवाळ केलो! वतली खंय? हांव पळोवन घेतलों."

मागीर तूं तिका भियेवन धांवलो कित्याक, हो प्रस्न तोंडार आयलो. पूण आमचेर उपकार करूंक आयिल्ल्याचो अपमान जावचो न्हय अशें येवजून हांव ओगी रावलों.



# २७. शेळ्या आंगार फुगांव!

हे खेपे अविनाश मेळूंक आयलो तेन्ना तो म्हाका वेगळोच दिसलो. अविनाश एके वखदांचे कंपनीचो प्रतिनिधी. पुराय अस्तंत भारताचो वाठार ताचे कक्षेंत येता. वखदांचो प्रतिनिधी जाल्ल्यान ताका प्रवास खूब घडटा आनी दर एका ल्हान व्हड गांवांत, जंय डॉक्टर वा वखदांचें दुकान आसता, थंय तो पावता. प्रवासाक लागून ताच्यो वळखी खूब आसात आनी दर एक गांवाचो तपशीलय तो जाणा. चड करून गांवच्या डॉक्टराक वळखता जाल्ल्यान ताका भोंवतना कसलीच अडचण येना.

अविनाशाक एक कला देवान दिल्या. तो गोड उलयता आनी कोणालेंय काम ताच्यान करूं जाता जाल्यार मुजरत करता. हांव जाणा ते भशेन कोंकणांतल्या एका मनशाक तो मुंबयसावन जर्दाळू व्हरता आनी दुसऱ्या एका डॉक्टराक शिर्सीकसावन वेलदोडे व्हरता. तागेल्या प्रवासाच्या बॅगांत लोकांनी मागयिल्ल्यो वस्तू भरिल्ल्यो आसतात.

असल्या कामाचो दोट्टी फायदो जाता. एक खेपे अविनाशान म्हाका सांगिल्लें, "अडिल्ल्याक वस्त मेळटा आनी म्हाका भरवंशाचो इश्ट."

"पूण ते इश्टागतीचो फायदो कितें?" हांवें ताका विचारिल्लें.

"तो तसो सांगून कळचो ना. प्रवासांत आसतना मनशाक तरेकवार अडचणी येतात. केन्ना भलायकी इबाडटा, केन्ना बस चुकता, केन्ना दुसरे तरेचो आदार जाय आसता. आनी वळखीबगर आदार मेळना."

प्रवासांत तरेकवार अडचणी आयल्यो तरी अविनाश सदांच आनंदी आसता. एक-एक अणभव जिणेची समृद्धी वाडयता, अशें तो म्हणटा.

दोन म्हयन्यांतल्यान एक खेपे तरी अविनाश आमगेर पावलो ना अशें चडशें घडना. तो येताच. येतना त्या-त्या मोसमांतलीं वेंचीक फळां घेवन येता.

फाटल्या फेब्रुवारींतलीच गजाल. तो अचकीत भितर सरलो आनी ताणे फर्मायलें, "आदीं एक कप च्या. मागीर फुडलें."

"फुडलें म्हळयार कितें? तूं जेवंक रावतलो?" हांवें ताका विचारलें.

"ना ना, तुका जेवणाचो हुस्को; म्हाका हांगा मरूंक फुरसत ना." ताणे म्हळें.

"तशें जाल्यार तुका फुरसत केन्नाच मेळची न्हय." हांवें म्हळें.

हांव स्राप दितां काय आशीर्वाद तें कळ्ळें ना देखून म्हजेर नदर थिरावन ताणे विचारलें, "इतलो रागार कित्याक जालो तूं?"

"रागार न्हय, तर मोगानच हांवें तुका फुरसत मेळची न्हय अशें मागलां. तुका फुरसत मेळ्ळयार तूं मरपाचें येवजितलो मरे?" हांवें सांगलें.

म्हगेल्या उलोवपाची खोंच समजून तोय मेकळेपणान हांसलो आनी ताणें बॅग उक्तें करून दोन मानकुराद आंबे म्हज्या हातांत दिले.

"ह्या दिसांनी आंबे खंय मेळळे?" हांवें अजापान ताका विचारलें.

"ह्या दिसांनी मेळळे देखूनच तुका हाडले." ताणे म्हळें, "जर आंब्याचे दीस आसते जाल्यार हांव तुका हाडचोच नासलों."

"ओगीच पयशे खर्चून आंबे कित्याक हाडले तुवें?" हांवें विचारलें, "ह्या दिसांनी आंबे उणेच पन्नास रुपय एक आसतलो."

"तुजो अदमास सामको चुकूंक ना." ताणे म्हळें, "पूण तूं पयशांचो हिशोब करीत बसतलो काय आंब्याची गोडी चाखतलो?"

ह्या संवादावयल्यान अविनाशाच्या सभावाची कल्पना येतली. सदां हांसत्या तोंडाचो, प्रवासांतले नवे नवे अणभव हांसत सांगपी अविनाश आज पयलेच खेपे रिकाम्या हातांनी दारांत उबो रावलो.

रिकाम्या हातांनी म्हळयार ताज्या हातांत बॅग नासलें आनी हे खेपे ताणे फळय हाडूंक नासलें. थोड्या दिसांआदींच तो येवन गेल्लो आनी इतले बेगीन तो परत येवपाचो नासलो. वतना ताणें आपणाक परत येवंक पांच-स म्हयने लागत अशें सुचयिल्लें. तो अविनाश थोड्याच सप्तकां भितर परत आयिल्लो आनी तोंडार तरी खंती दिसतालो.

तागेलें खंती तोंड पळोवन म्हज्या काळजांत चर्र जालें. कितेंय तरी अनिश्ट घडलां इतलो म्हाका अदमास आयलो. हांवें ताका प्रस्न विचारलो ना. बसूंक सांगलें.

"सामको त्रासांत पडलां हांव." ताणें बसनाफुडें म्हळें आनी आपल्या दोनय पोशांनी आपलें माथें सांसपिलें. उप्रांत ताणें बोल्सांतलो लेंस काडून कपलावयली हूम पुसली.

हांवें सरळ वासपूस केली ना. म्हळें, "आदीं बसून घे. जाय जाल्यार तोंड धुवन घे. च्या घेवया. मागीर उलोवया."

"हे खेपे हांव ऑफिशियल टुराचेर ना. वखदां विकूंक येवंक ना." अविनाशान सांगलें.

"तें कळळें म्हाका. तुज्या हातांत बॅग ना. पूण एक सांग, तुजें बॅग चोरयेक वचूंक ना न्हय?"

"ना... ना. हांवें हाडूंकच ना. तुकाच मेळूंक सरळ आयलां आनी फुडें खंय वचपाचें तें उप्रांतच थारायतलों."

अविनाश तोंड धुवंक गेलो ना. च्या घेईसर चुळबुळत रावलो. मनशाक राग येतकच ताणें वीस मेजचे अशी एक इंग्लीश म्हणणी आसा. वीस मेजतासर रागाचो वेग देंवता. देखून जाणटेल्यांनी तसो उपदेश केल्लो. त्याच नेमाक धरून हांवय जेन्ना कोणय ताकतिकेन वा काचाबूल जावन सांगता, तेन्ना आदीं ताचो आवेग देंवोवंक ताका बसोवन घेतां.

च्या घेतली तरी अविनाशाचो आवेग उणो जालो ना.

"म्हजो कसलोच गुन्यांव ना. पूण हांव त्रासांत पडलां." ताणे म्हळें.

"अशें घडलां कितें? वाग फाटीक लागिल्ले भाशेन तूं असो कांचवेला कित्याक?"

"म्हजे फाटल्यान पोलीस लागल्यात." ताणे म्हळें.

"तुजे फाटल्यान पोलीस? जे अपराधी आसतात ताणी पोलिसाक भियेवपाचें. तुवें कितें खून केला? चोरी केल्या? स्मग्लिंग केलां? केलां कितें तुवें, जो तूं इतलो भियेता?"

"हांव पोलिसांक भियेना. पूण सगळी केसच घुस्पागोंदळाची." अविनाशान म्हळें, "सध्या म्हजेर खुनाचो आरोप आसा म्हळयार जाता."

"खून? कोणाचो खून? ज्या मनशान आपल्या नाकार बशिल्लें जळार केन्ना मारलें ना तो खून करतलो? तूं कितें उलयता? कोणे भल्ली तुजे तकलेंत ही कल्पना?"

"हांव खरें तेंच सांगतां. हांवें खून करूंक ना. खुनाकडेन म्हजो संबंद ना. म्हजी कोणाकडेन वळखदेख ना. तरीकय हांव त्रासांत पडलां."

"खंयच्याय वकिलाक कित्याक मेळना?"

"वकिलाक मेळळां. पूण म्हाका बरो सल्लो जाय. सध्या पोलीस म्हाका सोदतात आनी हांव तांकां मेळना. एक खेपे हांव तांकां सांपडलों तेन्ना तांच्या हाताक चिरीमिरी लावन परतिले. पूण कितले दीस चुकयतलों?" ताणें म्हळें.

"वॉरंट आसा तुजेर?"

"हय. नॉन बॅलेबल वॉरंट. पोलीस म्हाका धरतले आनी कोर्टांत उबे करतले. मागीर म्हाका जामीन मेळत काय ना, हें हांव नकळ. खरें सांगता तुका, असल्यो केसी लडोवपाचें मानसिक बळ वा अर्थीक फाटबळ म्हजेकडेन ना. देखून पोलिसांचे सुवादीन जावचे आदीं म्हाका बरो सल्लो जाय. एक पावल चुकल्यार सगळेंच चुकतलें हाचो म्हाका अदमास आसा. देखून उखलतां तें पावल वकिलाच्या सल्ल्यान उखलूंक सोदतां."

"तुवें वकील केला म्हणटालो न्हय तूं?"

"हय, एका वकिलाक हांव मेळिल्लों. तेन्ना वॉरंटाची म्हाका खबर नासली. ताणें उतर दिलां. म्हजी केस लडून जिखून दितां म्हूण. पूण जाणा तूं, म्हाका केस लडोवपाची ना आनी जिखपाचीय ना."

"म्हळयार कितें?"

"म्हाका कोर्टांत वचपाचें ना. म्हजें कोणाकडेन दुस्मानपण ना. कोणाकडेन झगडें ना. केस जिखून म्हाका कितें मेळटलें? म्हाका केसच जाल्ली नाका."

"तें खरें तुजें. पूण जेन्ना केस जाता, ती मागीर कोणेंय केल्ली आसूं, तेन्ना तुका कोर्टांत वचचेंच पडटा; तुजी बाजू मांडची पडटा. असो काचाबूल जावपाचें कारण ना. वॉरंट आसलें म्हूण कोण तुका फांसार चडोवचो ना. केस चलतली, तुका तुजें म्हणणें सांगपाची संद मेळटली आनी एक मतींत धर, भगवान के मंदिर में देर है, पर अंधेर नहीं!"

"तुका खऱ्यांनी तशें दिसता? म्हजो जाल्यार ह्या वकिलांचेर आनी कोर्टाचेर निखालच विस्वास ना. कोर्टाक कितें खरें दिसत आनी कितें फट दिसत हें कोण सांगतलो? केस जिखल्यार वकील म्हणटले, ताचें श्रेय आपणाक. जो हारता तो ताच्या नशिबान हारता."

"हय रे, पूण ताका दुसरो उपाय ना. एक खेपे केस कोर्टांत गेली म्हण्टकच तुका कोर्टांत वंचूकच जाय. पूण तुजी केस कितें ती तरी सांग."

अविनाश उठलो आनी भायलेवाटेन एक पासय मारून आयलो.

"कोण आसा भायर?" हांवें विचारलें.

"भायल्या रस्त्यार एक दादलो उबो आसा."

"तो कोणय रस्त्यावयलो वाटसरू आसतलो. तुका तो कितें करता?"

"वाटसरू आसत, ना जाल्यार पोलिसाचे मनीस आसत. सांगूंक जायना. म्हाका लागून तूंय त्रासांत पडशी. हांव हरशींच पळोवंक गेल्लों. आमी उलयतात तें कोण आयकुचो बी ना मूं ही खात्री करूंक गेल्लों. पळयल्यार तो मनीस उबो आसा. तूं वचून पळय."

हांव उठून भायर गेलों. एक मनीस उबो आसलो. हांव भायर पावलों त्याच सुमाराक तो फुडें वचूंक लागलो. हांवें ताका विचारलें, "कोणाक सोदता? कोण जाय?"

"कोणाक सोदिना. म्हजे बायलेक रावतालों. ती नाक्यावयल्या दुकानाचेर गेल्या."

हांवें फाटले वाटेन पळयलें. एक बायल येताली. हांव भितर आयलों.

"कोण तो?" अविनाशान विचारलें.

"कोणय आसूं. पोलीस न्हय." हांवें ताका विस्वास दिलो.

आमी भितर आयले.

"हें तुजें साल सामकेंच रस्त्यार आसा." ताणें म्हळें, "आमी भितल्ले कुडींत बसूया."

तो कितलो भियेला हाचो अदमास म्हाका आयलो आनी हांव ताका घेवन भितल्ले कुडींत गेलों.

"खंयच्या कोर्टाचें वॉरंट आयलां तुका?"

"एकच न्हय, पुण्याच्या आनी मिरजेच्या, दोनय कडच्यान दोन वॉरंटां."

"आमी वकिलाक विचारूंया आनी गरज पडल्यार तू वकिला सांगातान पुण्याक वचून कोर्टांत हाजीर जा आनी जामिनाचो अर्ज करून परत यो. तुका जाय जाल्यार हांव तुज्या सांगातान येतां. तुजे वळखीचे लोक थंय आसतले."

"वळखीचे खूब आसात. पूण असल्या प्रसंगार ते मुखार येत म्हणपाचो भरवंसो ना आनी हांव कोणाक तसो पातयेना."

"आसूं, आदीं तुजी खबर सांग. तूं असो गोंदळायत रावल्यार वकिलामुखार प्रस्न कसो दवरतलो?"

"खऱ्यांनीच म्हजो ते केसीकडेन संबंद ना." परत अविनाशान म्हळें.

"हांव जाणां. तसो तूं हुस्को करूं नाका. जें घडलां तें जशाचें तशें सांग. फुडलें वकिलाक पळोवं दी."

तरीकय अविनाश फाटीं-फुडें सरतालो. तसो म्हजेर ताजो विस्वास आसलो. पूण तो इतलो कांचवेल्लो की ती खबर कशी सांगची तें ताका कळनासलें. ताणे ग्लासभर उदक मागून घेतलें आनी एकदम तो रडूंक लागलो.

"हांव फांसाक वा मरणाक भियेना. पूण हांव मेल्यार म्हज्या बायल-भुरग्यांचे कशें जातलें, हें येवजूनच हांव अर्दो मरतां." ताणे म्हळें.

"बायलेक सांगल्या तुवें ही खबर?"

"ना. तिका कांयच खबर ना. आनी पुण्याच्या वकिलाक लेगीत सगळी खबर सांगूंक ना."

"तशें जाल्यार आतां तूं सगळी खबर सांग. मागीर तुजे वतीन हांव वकिलाकडेन उलयतां."

आनी अविनाशान घडिल्ली खबर सांगली.

मिरज स्टेशनाचेर रातीचो वेळ. गोंयची मिटर गेज गाडी निकतीच पाविल्ली. सगळे पॅसेंजर मुंबयचे गाडयेंत आपलो जागो धरूंक धांवताले. अविनाशान मिरज सावन मुंबयची तिकेट काडिल्ली. तागेलो बर्थ रिझर्व आसलो आनी ताका कसलीच ताकीत नासली. दीसभरच्या कामान तो शिणिल्लो आनी रातभर न्हिदून सकाळीं मुंबय परत कामाक वचपाचें

आसलें. आपल्या बर्थाचेर एक बॅडिंग सांगूंक म्हूण तो सकल देंवन कंडक्टराक सोदतालो.

आजून गाडी सुटूंक कळाव आसा. कंडक्टर लागीं दिसना.अविनाशाक एक सिगरेट ओडपाची रूच आयली. दुकानाचेर वचून ताणें सिगरेट घेतली. आपल्या डब्यामुखार कंडक्टराची वाट पळयत तो प्लॅटफॉर्मार उबो रावलो.

अचकीत एक हमाल माथ्यार एक बॅग घेवन तागेल्या डब्यामुखार रिझर्वेशनाचें नांव सोदूंक लागलो. ताचे फाटल्यान आसली एक बायल, जिणें आपले हांडीर एक दोन-तीन वर्सांचें भुरगे धरिल्ले. डब्यासरीं येवन तिणें रिझर्वेशनाचो चार्ट तपासलो आनी उप्रांत अविनाशासरीं आयली.

आपलें नांव तिणें सांगलें आनी त्या नांवान बर्थ रिझर्व जाला काय ना तें पळेंवक सांगलें.

"तिकेट खंय तुजी?" अविनाशान विचारलें. तिकेटीचेर डब्याचो नंबर आनी बर्थ बरयिल्लो आसता.

"तिकेट म्हज्या घोवाकडेन उरल्या. तो फाटल्यान येता. टॅक्सीचे पयशे फारीक करूंक मोड सोदतालो. ताणें होच नंबर सांगिल्लो."

अविनाशान डब्याच्या दाराचेर लायिल्ल्या चार्टावयलीं नांवां वाचलीं. तिणे आपलें नांव जयश्री अशें सांगिल्लें. पूण थंय 'जय' इतलेंच नांव आसलें. तेंच तिचें नांव काय कितें ही खात्री करूंक तिकेट जाय आसली.

"तूं एकलीच वता?" ताणें विचारलें.

"ना, सांगातान घोव, चलो आसा. आमी तिगांनीय रिझर्वेशन केलां."

ह्या वेळार हमालान तोंड घालें. "कंडक्टर येतकच बर्थ पळोवन घे." ताणे म्हळें. "म्हाका दुसरें भाडें मेळटा जाल्यार पळोवंक जाय. म्हजे पयशे दी."

तिणें अविनाशाच्या तोंडाकडेन पळयलें. अविनाशान म्हळें, "दी ताचे पयशे तूं. डब्यांत चड. कंडक्टर येतकच डबो बदलूंक अडचण येवची ना."

तिणें हमालाच्या हातार वीस रुपयांची नोट दवरली. ती मोड मागत असो विचार करून हमालान माथें खरपिलें आनी माथ्याक बांदिल्लो लेंस सोडोवन तोंड पुशीत तो गेलो.

भुरगो आवयकडेन कितें तरी मागतालो. आवय ताचेर धेंगसो घालताली. निमाणें तिणें म्हळें, "हांव हाका कितेंय पिवंक दितां. मात्शी म्हज्या बॅगार नदर दवर."

अविनाशान मोठे खोशयेन आं म्हळें. तरीकय सुचयलें, "हे बॅग हांगा दरवचे परस भितर डब्यांत दवर. गाडी सुटपा वेळार सगळोच बोवाळ जाता."

ती बायल बॅग उखलूंक लागली तेन्ना अविनाशालें स्त्री दाक्षिण्य जागें जालें. ताणें तिगेलें बॅग उखल्लें आनी आपल्या बर्थापोंदा व्हरून दवरलें. आपलो बर्थ नंबर तिका सांगून म्हळें, "तुजो बर्थ पळय आनी बॅग घेवन वच."

तकली हालोवन ती बायल गेली.

कंडक्टर येवंक बरोच वेळ लागलो. आयलो तेन्ना ताणें सांगलें, "गाडी वेळान सुट्टली. अर्दवर तरी आसा."

अविनाशाक दिसलें येदो वेळ आसा जाल्यार प्लॅटफॉर्मार पासय मारची. पूण ताणें एक जापसालदारकी आंगार घेतिल्ली. ते बायलेचें बॅग सांबाळपाची. देखून आपल्या बॅडींगाची

ऑर्डर दिवन तो बर्थार बसून रावलो.

बरो वेळ जालो, ती बायल परत आयली ना. अविनाशाक ओगीच हुस्को. बायल तरुण. हांडीर भुरगो म्हूण बायल म्हणपाची, ना जाल्यार चलीच. आसत आठरा-वीस वर्सांची. तिचें रूप दोळयांमुखार हाडपाचो ताणे यत्न केलो. खंयचे तरी सिने नटयेसारको तिचो तोंडावळो. उलयतना ती एक दोळो धांकताली. पळयतल्याक ती दोळो मोट्टले जपानी बावलेसारकी दिसताली.

अविनाशा म्हऱ्यांत ती उबी आसली. ताचेवयल्यान तिचे लांबायेचो ताणें अदमास केल्लो. एकशीवड आंगलोटाची. हळडुव्या-गोऱ्या रंगाची. पंजाबी सूट घाल्ली ती चली न्हय, बायल. गळयार भांगर आसलें. कानार वज्राच्यो वेडी. तीं वज्रां चकचकतालीं देखून ताचे नदरेंत भरिल्ली. शिकिल्ली-सवरिल्ली दिसताली. खंयय नोकरी करता आसुये. पूण बरे घरची बायल.

ती आजून आयली ना. गाडी सुटपाचो वेळ जावन गेला आनी उरिल्लें अर्द वरय भरत आयलां. अविनाश प्लॅटफॉर्मार देंवलो आनी नदर फिरावन ती बायल दिसता जाल्यार सोदूंक लागलो. ती ताची कोण न्हय. पूण ती आपलें बॅग ताची सुवादीन करून भुरग्याक पियेवंक दिवंक गेल्ली. तिचो घोव फाटल्यान येवपाचो. तोय कसो आयलो ना? घडये वाटेर मेळून दोगांय रेस्टॉरंटांत जेवंक गेल्लीं आसूं येतात.

तशेंच आसतलें. अविनाशाक सू जालें. गाडी सुटूंक धा मिनटां आसात. सामकी बेजबाबदार बायल. घडये दुसऱ्या डब्यांत तांगेलें रिझर्वेशन आसूं ये. हे गाडयेंत एका डब्यांतल्यान दुसऱ्या डब्यांत वचपाची वाट दवरल्या.

गाडी सुट्टकच तिगेलो घोव येवन बॅग मागूंक लागल्यार कितें करपाचें? आपूण काय ताका वळखना. दिवप ना. तिका हाड आनी बॅग व्हर अशें सांगतलों. तो मनांतल्या मनांत येवजितालो. येवजितना ताची नदर परत परत घडयाळीच्या कांट्यार वताली.

प्लॅटफॉर्मावयली घांट वाजली. गार्डाली पिल्लूक वाजली. गाडयेची शिटी वाजली. जयश्री आयली ना.

अविनाशान परत त्या बॅगाक हात लावन पळयलो. बॅग थंयच आसा. आतां हें बॅग कितें करपाचें? कंडक्टर येतकच सांगचें पडलें अशें येवजून ताणें आपल्या बर्थाचेर बॅडिंग पातळायलें आनी तो न्हिदपाची तयारी करूंक लागलो.

गाडयेचो वेग वाडलो. जनेलाकडेन बशिल्ल्या मनशान तें उक्तें दवरलां. थंडगार वारो भितर येता. शीं खूब पडलां. असलें शीं पडटकच माथ्यावयल्यान पांगरूण घेवन न्हिदपाची अविनाशाक आवड. ताचे दोळे झेमेताले खरे, पूण ताचें चित्त त्या बॅगार वतालें. एक जापसालदारकी ताणें पत्करिल्ली. ते सुंदरीचो घोव येवन तें बॅग घेवन गेल्यार पुरो अशें ताका जाल्लें. ना ना, तो ताका नांव विचारचो ना आनी तिका घेवन येवंकय सांगचो ना. ओगीच आपणे बॅगाची जापसालदारकी घेतली अशें ताका जालें. ती जयश्री बर्थार सुसेगाद न्हिदिल्ली आसतली. ना जाल्यार चल्याक खेळयता आसतली. तिगेल्या घोवान सांगलां आसतलें, सकाळीं गाडी कल्याणाक पावतकच बॅगाची वासपूस करुया. हांगा अविनाश मात जागो.

खंयचें तरी एक स्टेशन आयलें आनी अविनाशान दारांत वचून जयश्री दिसता काय

म्हूण पळयलें. शिंयाचे दीस. काळखी रात. कोणच दिसलो ना. कंडक्टरान ताका हटकिलो.

"तुका मर्दी देंवचेलें आसा?"

"ना, थेट मुंबय. पूण एक प्रस्न उप्रासला."

"कसलो प्रस्न?"

"तुज्या लिस्टाचेर जयश्री नांवाची बायल आसा?"

कंडक्टरान हातांतली कागदाची कवळी सोडयली आनी अविनाशा मुखार धरली. डब्यार मारिल्ल्या लिस्टाची प्रत. आसा तें जयाचें नांव. अविनाशान त्या नांवार बोट दवरलें.

"ती ह्याच डब्यांत आसा." कंडक्टरान जाप दिली.

"तिचें बॅग म्हजेसरीं आसा." अविनाशान म्हळें.

"ताचो हुस्को नाका. सकाळीं येवन ती व्हरतली."

चड वासपुसेची गरज आसा अशें अविनाशाक दिसलें ना. तो येवन आपल्या बर्थाचेर न्हिदलो. ताचो दोळो लागलो.

मर्दी स्टेशनां येतालीं. गाडी थांबताली. डब्यांतले कोण च्या घेताले, कोण बटाटवडे खाताले. अविनाश न्हिदिल्लेकडेनच ते आवाज आयकतालो. फकत तें बॅग जाग्यार आसा म्हणपाची खात्री करचेखातीर तो मर्दी मर्दी नदर त्या बॅगाकडेन व्हरतालो.

फांतोडेर गाडी पुण्याक पावली आनी अविनाश देंवलो. सकल वचून एक च्या घेवंक तो च्यावाल्याक उलो मारतासर ताका जयश्री दिसली.

डब्या भायर ती उबी आसली. तिच्या एका हातांत बटाटवडो आनी दुसऱ्या हातांत च्याचो कप.

अविनाश तिचेसरीं गेलो आनी एकदम तिका विचारलें, "खंय आसली तूं रातभर? तुका सगळी रात हांव सोदतां."

ते बायलेन वळख तर दाखयलीच ना उरफाटें मोठ्ठे दोळे करून म्हळें, "हांव तुका वळखना... तुका घरा आवय-भयणी नात काय कितें?"

अविनाशाक जबर धक्को बसलो. इतले बेगीन ही वळख विसरली. पूण तो विसरूंक नासलो. तोच पंजाबी ड्रेस. तेंच भांगर. फकत हे खेपे हांडीर भुरगो ना. आनीक एक फरक आसा. रातीं तिणें आंबाडो घाल्लो, आता केंस मानेर मेकळे सोडल्यात. पूण ही तीच जयश्री हाचेविशीं दुबाव नासलो.

"तूं म्हाका वळखूंक नाका. तुज्या बॅगाक तरी वळखता मूं? रातभर हांवें तें सांबाळ्ळें. चल, व्हर तें."

"कसलें बॅग म्हणटा तूं? म्हजें बॅग बी कांय ना." अशें म्हूण ती चली कुशीक गेली.

अविनाश संभ्रमांत पडलो. खरेंच ती न्हय काय ही? घडये तिजी जुंवळी भयण आसत? ताका उगडास जालो, कंडक्टरान जया त्याच डब्यात आसा म्हूण सांगिल्लें. दारावयल्या चार्टाचेर जयाच्या बर्थाचो नंबर ताणे पळोवन घेतलो. ताकतिकेन डब्यांत सरून त्या बर्थाकडेन पळय जाल्यार एक बायल न्हिदिल्ली आसा. ताका सू जालें. आपूण भलतेच बायलेच्या फाटल्यान गेल्लों अशें दिसलें. ताणे येवजिलें, तरी बरें तें बॅग घेवन ती गेलीना...

शेजरा बशिल्ले बायलेक सांगून ताणे वयल्या बर्थाचेर पांथरूण गुठलावन न्हिदिल्ले ते

बायलेक उठोवंक सांगलें.

एकदम ती उठून बसली आनी अविश्वासान अविनाश तिजेकडेन पळयत रावलो.

"कोण जाय?" तिणे विचारलें.

ताचेमुखार एक जाणटी बायल बशिल्ली. ती जयश्री न्हय हे सांगूंक दुसऱ्या कोणाचीच गरज नासली, तरी ताणे विचारलें, "जय...?"

"हय. हांवच जया. कितें जाय?"

अविनाशाक उतर फुटलें ना.

आतां मात अविनाश पुराय गोंदळून गेल्लो. एक बॅग ताचेकडेन आसलें, जाची मालकीण खंय गेली ताका खबर नासलें. तशें बॅग जड न्हय, तरीकय तें घेवन तो खंय वतलो? त्या बॅगांत कितें आसा देवाक खबर! बरेपण दाखोवंक गेल्लेकडेन एक नस्ती कटकट आपणें आंगर घेतली अशें ताका जालें.

मनांत विचार आयलो, बॅग गाडयेंतच सोडून वचूं येता. पूण कंडक्टराक ताणें बॅगाची खबर सांगिल्ली. कितें करचें तें ताका येवजलें ना.

पुण्याच्या स्टेशनाचेर गाडी चड वेळ थांबली. खंडाळा घाटांत दरड कोसळळया देखून गाडी सुटूंक कळाव जातलो अशी घोशणा ध्वनिक्षेपकाचेर जाली. खूबशे प्रवासी डब्यांतल्यान देंवले. जांकां बेगीन मुंबय पावचेलें आसलें ते घडये बसीन, टॅक्सीन वचपाक गेले आसतले. अविनाशाकय बेगीन पावचेलें आशिल्लें. ताणे येवजिलें स्टेशना भायर एशियाड मेळटली.

पूण ते बायलेन दिल्ल्या बॅगाचें कितें करतलो?

अविनाशान रेल्वे पुलिसांचे सुवादीन तें बॅग केलें आनी तो वचूंक वतालो, पूण पोलीस अधिकाऱ्यान ताका आडायलो. ताचें नांव, पत्तो विचारून घेतलो आनी खंयचे परिस्थितींत कोणे तें बॅग डब्यांत दवरिल्लें तेंय विचारून घेतलें.

हरशीं बॅग ते बायलेन न्हय, तर अविनाशानच प्लॅटफॉर्मावयल्यान डब्यांत व्हरून दवरिल्लें. तरी अविनाश तितलें फट उलयलो.

पोलिसांक ताचें अजाप जालें ना. बॅगाक एक कुलूप लायिल्लें ते पळोवन आधिकाऱ्यान विचारलें, "ह्या कुलपाची चावी तुजेकडेन आसा?"

"ना."

पंचनाम्याच्या कागदाचेर अविनाशाची सय घेवन पोलिसांनी ताका वचूंक परवानगी दिली.

"एक चूक हांवें केली." अविनाशान म्हाका सांगलें, "सादेपणान हांवें म्हजें कार्डच पोलिसांक दिलें. ना जाल्यार हांव फटीचें नांव आनी पत्तो दिवंक शकतालों. पूण म्हज्या मनांत कसलेंच पातक नाशिल्ल्यान हांव सरळ वागलों."

"पूण त्या बॅगांत आशिल्लें कितें? चोरयेचो माल, ड्रग्ज?"

"त्या बॅगांत एका ल्हान भुरग्याचें प्रेत आसलें." इतलें उलयतासर अविनाश घामाघूम जालो. लेंसान ताणे आपलें तोंड पुसलें आनी उपरांत तो ओलो, म्हेळो लेंस तोंडाचेर धांपून व्हडलो सुस्कार सोडलो.

अविनाशाली ती जाप आयकून म्हाका लेगीत कितेंशेंच जालें. तरी उश्णे अवसान हाडून

हांवें अविनाशाक विचारलें, “ही खबर तुका कशी कळ्ळी?”

“बॅग पोलीस स्टेशनाचेर आशिल्लें. केन्नातरी त्या बॅगाक घाण येवंक लागली तेन्ना पोलिसांनी कुलप फोडलें आनी उपरांत ताणी मिरज पोलिसांक कळयलें. पुण्यांत आनी मिरजेंत दोनय कडेन पोलिसांनी केसी नोंदून घेतल्यो आनी ते चोराक सोडून संन्याशाच्या सोदाक लागचे तशे म्हाका सोदूंक लागले.”

“तूं जर पोलीस स्टेशनार वचूंक ना, जाल्यार त्या बॅगांत कितें आसलें तें तुका सांगलें कोणे?” हांवे अविनाशाक विचारलें.

“ते आदीं म्हाका सोदूंक म्हज्या घराकडेन आयले. बायल एकलीच आसली. तिणे भोंवडेर गेल्ल्याचें सांगलें. त्या दिसाच्यान दीसपट्टे पोलीस म्हाका सोदूंक येताले. एक दीस मुंबयच्यान हांवें घराकडेन फोन केलो तेन्ना पोलीस सोदतात म्हणपाची खबर बायलेन म्हाका सांगली. तेन्नाच्यान हांव घरा वचूंक ना. पुण्यांत गेल्लेकडेन वकिलाचें मत विचारलें. ताका सगळें सांगलें ना. थंय म्हाका कोण वळखनात. पूण मिरजेच्या एका डॉक्टरान म्हाका भितर व्हरून घडिल्ली खबर सांगली.”

“ताका कशी कळ्ळी?”

“मेडिकल रेप्रेझेंटेटीव्ह म्हणटकच पोलीस डॉक्टराकडेन वचून म्हजो सोद घेताले. त्या डॉक्टरान बारीकसाणेन वासपूस केली. तेन्ना पोलीस अधिकाऱ्यांनी ताका सगळें सांगलें.”

“त्या डॉक्टरान पोलिसांक कळयलें ना?”

“ना. ताका म्हजी काकुळट दिसली. हांव तसलें कर्तूप करचो ना म्हणपाचो ताका भरवंसो आसलो. त्या भायर हांवें घडिल्ली खबर ताका सांगली तेन्ना ताणेच म्हाका बऱ्या वकिलाचो सल्लो घेवन अटके आदीं वा अटके उपरांतचो जामीन घेवपाची सुचोवणी केली. ताणें म्हाका धीर दिलो. तो आनीक कितें करूंक शकतालो?”

“पूण तुवें पोलिसांक चिरीमिरी दिली ती खंयचेकडेन? तेन्ना तुका पोलीस वळखले नात?”

“ना. आमच्या घराच्या दारांतच दोग पोलीस आसले. म्हजें नांव घेवन म्हाकाच ताणें त्या नांवाच्या मनशाक वळखता काय म्हणून विचारलें. हांव शिटकावलों. हांवें तांकां सांगलें, तो म्हजो सोयरो. भोंवडेर आसता. ताका कित्याक सोदतात? तेन्ना तांणी वॉरंटाची खबर सांगली. तांकां कुशीक व्हरून हांवें पैशे दिले आनी म्हळें, ताजी बायल एकलीच घरा आसता, ती ओगी भियेतली. तुमी वचात. आनी ते गेले.”

हांवें खूब वेळ विचार केलो आनी अविनाशाक म्हळें, “परिस्थितीच अशी आसा की बापूय दाखय ना जाल्यार श्राध्द वाड अशें पोलीस तुका सांगतले. पूण ती बायल कोण हें तूं नकळ. जयश्री हें तिजें खरें नांव आसत, नासत. पूण एक सांग, ती परत दिसली जाल्यार तूं वळखुशीत?”

“हय, अजून तिची मूर्त म्हज्या दोळयांसामखार आसा. तिणे भेस बदलूं वा केंसांची स्टायल बदलूं, तिका हांव खात्रीन वळखतलों. खरेंच ती एक सुंदर बायल. कांय रुपां इतलीं सुंदर आसतात की तांचो सोपेपणान विसर पडना. तशी ती एक.”

“...पूण ती खंय मेळटली?”

“म्हाका दिसता, तुवें खाणो खुणो सांगल्यो आनी तिका वळखुपाची तयारी दाखयली

जाल्यार घडये तिका पोलीस सोदून काडीत.''

''तें सगळें मागीर पळोवया.'' अविनाशान म्हळें, ''आदीं म्हाका वकिलाकडेन घेवन वच.''

हांवें वळखीच्या वकिलाकडेन अविनाशाक व्हेलो. ताणें अविनाशाली सगळी खबर आयकून म्हळें, ''तुवें खूबश्यो चुको केल्यात, पूण तूं निर्दोश म्हणपाचें म्हाका पटलां. कायद्यान तुका कसो आदार दिवं येता तें पळोवया. पूण तूं कितले दीस असो लिपून भोंवतलो? तूं आपूण जावन पोलिसांचे सुवादीन जालो जाल्यार तुजी बाजूय खरी आसा अशें कोर्टाक पटोवप सोपें जातलें.''

त्याच दिसा वकिला सांगातान अविनाश पुण्याक गेलो आनी पोलीस स्टेशनाचेर वचून तो पुलिसांचे सुवादीन जालो.

पोलिसांनी तागेलें सगळें म्हणणें आयकून घेतलें आनी एक आल्बम ताच्या मुखार दवरलो.

''हातुंतली एकाद्री बायल तुका मेळिल्ली जाल्यार पळय.'' अशें अधिकाऱ्यान ताका सांगलें.

आल्बमांत तरेकवार अपराधी बायलांचे ल्हान-व्हड सादे आनी रंगीत फोटे आसले. ते बायलेचो फोटो पळयनाफुडेंच अविनाश तिका वळखलो.

पोलीस अधिकाऱ्यान तो फोटो पळोवन म्हळें, ''तूं म्हणटा ताजेर म्हजो आतां पुराय विस्वास बसलो. तरीकय कायद्याचे सोपस्कार पूर्ण करचेच पडटले.''

ते सोपस्कार पूर्ण जाले. ताज्या नशिबान पोलिसांनी आपलें निवेदन बदलून दिलें आनी कोर्टांत ताका जामीन दिवपाक विरोध केलो ना.

''गळया भोंवतणी अंदल्लो फांस आतां ढील जाला, पूण तो खंयच्याय खिणाक आंवळूं येता. म्हाका कांचविल्ले भशेन जाता. ती बायल मेळत काय ना, आनी जरी मेळळी तरी गुन्यांव कबूल करीत म्हणपाचो भरवंसो ना. हांव कितें करूं?'' अविनाशान कोर्टाभायरच पोलीस अधिकाऱ्याक विचारलें.

''यो, हांव सांगतां तुका.'' ताजे फाटीर हात दवरून पोलीस अधिकाऱ्यान धीर दिलो आनी ताका वकिलासयत घेवन आपल्या घरा गेलो.

जशें काय कांयच घडूंक ना. अविनाशाचेर कसलोच आरोप ना अशे तरेन तो अधिकारी वागतालो. घरांत पावना फुडें त्या अधिकाऱ्यान आपले बायलेक च्या करूंक सांगली आनी अविनाशाक म्हळें, ''तुजो घडये विस्वास बसचो ना. पूण ते बायलेक हांवूय सोदतां. म्हाकाय तिणें फटयला. पूण गुन्यांव इतलो गंभीर न्हय. तरी तूं हुस्को करूं नाका. हांव तिजो सोद घेतले बगर रावचो ना आनी तिज्या तोंडान गुन्यांव वदोवन घेतले बगर रावचो ना.''

''तुजी तिची खंय वळख?'' अविनाशान विचारलें.

''अशीच, रेल्वे स्टेशनाचेरच. रातीचो वेळ आसलो आनी मुंबयची गाडी सुटून प्लॅटफॉर्म रिकामें जाल्लें. हांव कोणाक तरी पावोवंक स्टेशनाचेर गेल्लों. ताचो डबो प्लॅटफॉर्माच्या एका टोंकाक आसलो. अचकीत धांवत ही बायल म्हजेसरीं आयली. विजेच्या दिव्याच्या उजवाडांत हांवें पळयलें, तिजी साडी अर्द पिंजल्या आनी ब्लावजाच्यो दोन तिस्त्यो

जाल्यात. ती आकांतून आयली आनी म्हजे पाय धरले. गुंडांनी आपणाक उखलून व्हेल्ली; आपलें भांगर आनी कपड्यांचें बॅग घेवन ते गेले. आपणे गाडी सुट्टां, सुट्टां उडी मारली अशें म्हाका सांगलें."

"केन्नाची खबर ही?"

"वर्स जातलें. ती बायल धंदो करता. आपल्या सुंदर देहाचें प्रदर्शन करून दादल्यांक भाळयता आनी उपरांत तांकां ब्लॅकमेल करता. त्या दिसा तिका हांवें म्हज्या घरा व्हेली. तेन्ना म्हजें लग्न जावंक नासलें. पूण तें थारिल्लें, देखून हांव वाटावलों. घरांत हांव एकलोच. घरा पावतकच तिजो अवतार बदल्लो. ती आंगार पडूंक लागली. एक खेपे तर ती इतली घश्टूंक लागली की हांवें तिच्या तोंडार थापट मारलें. रातीच्या वेळारच तिका भायर काडपाचो; पूण काकुळट केली. पूण तेच रातीकडेन ही बायल, हांवें म्हजे बायलेखातीर विकतो हाडिल्लो, भांगराचो हार घेवन पळून गेली. तेन्नाच्यान हांव तिका सोदतां..." अधिकाऱ्यान मुठी आंवळून म्हळें, "त्या वेळार हांवें लज नाका म्हणून कांय केलें ना. पूण आतां तिका हांव सोडचों ना."

अविनाश परत आयलो. मजगतच्या काळांत कोर्टाच्यो दोन तीन तारखो येवन गेल्यो. अजून पोलिसांक ती सांपडूंक ना आनी अविनाशाकय ती दिश्टी पडूंक ना.



चंद्रकांत केणी हांचो पिंड कथाकाराचो.

ते उलयतना आनी बरयतनाय एकाद्रे कथेचें कथन करचें तशें उलयतात आनी बरयतात. ताका लागून ताणी हाताळिल्ल्या सगळ्या साहित्य प्रकाराक कथेचो तोंडावळो आनी ओघ आसता.

दोळे, कान आनी मन उकतें दवरून ते जंय जंय वतात थंय थंय सैम नियाळटात. थळावो इतिहास - भूगोल समजून घेतात आनी समाजजीण बारीकसाणेन निरखितात. संपर्कांत आयिल्ल्या मनशाच्या व्यक्तिमत्वाचीं साबार, तासां पारखून घेतात. परत येता आसतना तांच्या मनाच्या पड्ड्याचेर एका नव्या भावविश्वाचे चित्र उदेल्लें आसता. ह्या चित्राक उपमा आनी प्रतिकांच्या, प्रसंग आनी संवादाच्या रंगांची जोड दिवन तें वाचप्यांमुखार उबें करतात. ताका लागून तांच्या साहित्यांत समाजजिणेचीं बिम्बा आनी पडबिम्बा आमकां पळोवंक मेळटात.

हे चराचर सृष्टींत जें कितें पळयलें, आयकलें वा अणभवलें ताची वळख वाचप्यांक दिवचेखातीर ते ‘राष्ट्रमता’चे आयतार आवृत्तींत नेमान ‘मनोगत’ हें सदर बरयतात. समांजातल्या सगळ्या थरांतले हजारांनी वाचक हें सदर मोठे उमळशिकेन वाचतात. ह्या सदरांतल्या अशा कांय भावकथांचे हें संकलन.